# कोंकणी शब्दसागर

## कोंकणी-कोंकणी कोश

खंड २

(आ)



संपादक :
**पांडुरंग भांगी**

पालवी संपादक :
**प्रा. एस्. एस्. नाडकर्णी**






गोवा कोंकणी अकादेमी

# कोंकणी शब्दसागर

(कोंकणी - कोंकणी कोश)




संपादक

**पांडुरंग भांगी**

पालवी संपादक

**प्रा. एस्. एस्. नाडकर्णी**

# कोंकणी शब्दसागर

(कोंकणी - कोंकणी कोश)

**खंड २**

**'आ'**

संपादक
**पांडुरंग भांगी**

पालवी संपादक
**प्रा. एस्. एस्. नाडकर्णी**





प्रकाशन क्र. ४९





**उजवाडावपी :**
नारायण श्री. नावती
सचिव
गोवा कोंकणी अकादेमी
बोरी, फोंडें - गोंय.




**मुद्रक :**
तन्वी ग्राफिक्स
एफ्-१, कोलासो अपार्टमेन्टस्
विद्यानगर, मडगांव, गोंय.

पयली आवृत्ती : एप्रील २००३
प्रती : ६००
मोल : रु. ३००/-

ज्यांणी पुर्तुगेज-कोंकणी कोश आनी कोंकणी-पुर्तुगेज कोश रचले,
Florilegio da Lingua Concanim ह्या नांवान आमकां कोंकणी म्हणींचो कोश दिलो,
तेचपरी Glossario Luso-Asiatico असो दोन खंडांत एक श्रेस्ठ कोश द्रिलो,
त्या आमच्या विद्वान पुताक, स्वर्गेस्त
Monsenhor Sebastiao Rudolfo Dalgado
हांकां अत्यंत आदरान आनी नम्रतायेन.



# अकादेमीचे वतीन

'कोश', 'व्याकरणां' हे भाशेचे मुळावे अळंकार. हे अळंकार कोंकणी भाशेक घालून तिची सोबाय वाडोवपाचो यत्न फाटल्या कांय वर्सांसाकून जायत्या कोंकणी भक्तांनी केला, पूण शास्त्रीय नदरेन ह्या वावराकडेन पळोवपी आडवादानूच मेळटले. श्री. पांडुरंग भांगी हांणी अर्विल्ले शास्त्रीय पद्धतीन आनी चिकित्सक दृश्टीन 'कोंकणी शब्दसागर' निर्माण करपाचो संकल्प सोडून हे वाटेन पयलें पावल मारलें. आठ खंडांनी विभागिल्ल्या ह्या संकल्पीत कोशाचो 'अ' खंड हाचेआदींच उजवाडाक आयला आनी आतां हे माळेंतलो 'आ' खंड उजवाडाक येता. तिसऱ्या खंडाचो वावरूय चालीक लागिल्लो आसा.

'कोंकणी शब्दसागर' हो शब्दकोश आनी विश्वकोश हांचे जोड अवस्थेंतलो कोश प्रकल्प. कोंकणींत आजवेर जे कोश-विश्वकोश निर्माण जाल्ले आसात, तांचेपरस हांतूंत खूबच आगळेंपण आसा. भास, इतिहास आनी संस्कृताय ह्या विशयांचेर हो कोश चड भर दिता.

श्री. भांगी हें कोंकणींतलें एक रुशीतुल्य अशें व्यक्तिमत्व. ते पिंडान कवी, तरी भास, इतिहास, संस्कृताय हे विशीं तांचो सखोल अभ्यास आसा. कोशाचो वावर अधिकृतपणान सुरू करचे साबार वर्सां आदीं तांणी ह्या वावराचें मुळावण घाल्लें. केंद्र सरकाराच्या कस्टम खात्याचे सेवेंत आसतना, ह्या कोशा संबंदान संदर्भ पुस्तकां एकठावप, टिपणां बरोवप आनी हेर भासांतले कोश अभ्यासप, ह्या सारको मुळावो वावर तांणी केल्लो, जाका लागून तांच्या आयच्या वावराक गडगंज बुन्याद लाबली.

पिराय आनी प्रकृती फावो तसो सांगात दिना आसतनाय श्री. भांगी हांणी कोशाचो कठीण आनी अवाढव्य वावर आपल्या भुजांचेर पेलून धरला. तांणी केल्लो हो वावर पुस्तकरुपान छापून हाडून तांच्या भुजांवेलो भार ल्हव करपाचो यत्न गोवा कोंकणी अकादेमी करता. ह्या यत्नाचो हो दुसरो पावंडो. हो हुंपतना अकादेमीक उपाट खोस आनी अभिमान भोगता. शब्दसागराच्या उरिल्ल्या खंडांचें काम चालीक लावपाखातीर श्री. भांगी हांकां आयुश्य आनी आरोग्य लाबचें अशी प्रार्थना आमी करतात.

१४ एप्रील २००३

**पुंडलीक नायक**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी




# कोशांतलीं संक्षिप्त रुपां

## व्याकरणी उतरां :

| | |
|---|---|
| अकर्मी | अक. |
| उमाळ्या उतर | उ.उ. |
| उरफाट्या अर्थाचें उतर/अर्थाचीं उतरां | उर. अ. उ. |
| उल्या उतर | उल्या उ. |
| क्रिया दाखोवपी धातुसाधित नाम | क्रि.दा.धा.सा.ना. |
| क्रिया विशेशण | क्रि.वि. |
| तांळा-कूस (Suffix) | ता.कू. |
| धातू | धा. |
| नाम | ना. |
| सर्वनाम | स. ना. |
| नपुसक लिंग | न I नपु. |
| पुल्लिंग | पु. |
| भौवचन | भौव. |
| मुळा-कूस (Prefix) | मु. कू. |
| लाक्षणिक (अर्थ) | ला. |
| विशेशण | वि. |
| सकर्मी | सक. |
| स्त्रीलिंग | स्त्री. |
| द्विरुक्ती | द्वि. |

## हेर उतरां :

| | |
|---|---|
| अथर्व वेद | अ. वे. |
| अर्थशास्त्र | अ.शा. |
| अंकगणित | अं.ग. |
| इंग्लेज | इं. |
| ऋग्वेद | ऋ. |
| कायद्या शास्त्र | का.शा. |
| क्रिस्ता आदीं | क्रि.आ. |
| क्रिस्तांव धर्म | क्रि.ध. |
| गणित | ग. |
| ज्योतिश | ज्यो. |
| भगवद्गीता | भ.गी. |
| मानसशास्त्र | मा.शा. |
| व्याकरण | व्या. |
| वाक्प्रचार | वा.प्र. |
| शिक्षणशास्त्र | शि.सा. |
| समाजशास्त्र | स.शा. |
| साहित्यशास्त्र | सा.शा. |

## व्युत्पत्ती दाखोवंक उपकरायिल्लीं उतरां :

| | |
|---|---|
| अपभ्रंश | अप. |
| अरबी | अर. |
| आव्हेस्ता | आव्हे. |
| इंग्लेज | इं. |
| कानडी | का. |
| गुजराती | गु. |
| देशी | दे. |
| तामिळ | ता. |
| पाली | पा. |
| पुर्तुगेज | पुर्तु. |
| प्राकृत | प्रा. |
| फार्शी | फा. |
| मराठी | म. |
| वेदिक | वे. |
| संस्कृत | सं. |
| हिंदी | हिं. |

‘कोंकणी शब्दसागरा’च्या दुसऱ्या भागांतलीं ‘आगम’ आनी ‘आदेश’ हीं उतरां सोडून, बाकिचीं सगळीं उतरां अकादेमीच्या शुद्धलेखनाच्या नेमांनी छापल्यांत.

संपादक




# आ

**आ** कोंकणी देवनागरी वर्णमाळेंतलें दुसरें अक्षर; कोंकणी वा देवनागरी स्वरमाळेंतलो दुसरो स्वर. ह्या स्वराचो उच्चार दीर्घ जाता. छंदोरचनेंत 'अ'ची एक मात्रा आनी 'आ'च्यो दोन मात्रा धरतात.

**आ** संस्कृत भाशेंतलो एक उपसर्ग. हो उपसर्ग जेन्ना संस्कृत उतरांक पयलीं लागता, तेन्ना त्या उतरांचे अर्थ अशे जातात : (१) म्हेर वा शीम. देखीक : 'आजन्म' (जितो आसा मेरेन); 'आमरण' (मरण यो मेरेन); 'आकंठ' (कंठामेरेन); (२) अर्थाचो विस्तार वा व्याप्ती. देखीक : 'आग्रो' (ग्रह = घेवप, घेतल्या उपरांत ताकाच दसप.) (३) मात्सो; रजमात्र. देखीक : आकटु (कों. आडूक) (मात्सो कोडू; कोडवसार).

**आ** 'आ' हें अक्षर उच्चारतना जाता तो तोंडाचो आकार, उक्तें केल्लें तोंड.

**वा.प्र.: आ आ करप**: १. गावप; २. आकांतप

**आ म्हणप**: दुख्ख करप, पश्चाताप करप. ('ल्हान भुरग्यांक सांबाळून धरपाक जाय. सट्‌ट करून हातांतल्यान सुटून, तें जमनीर आपटून कितेंय जायत जाल्यार, आ म्हळें म्हणून उपयोग ना.')

**आ** सातवे तेचपरी आठवे विभक्तीचें कूस.

**विशेश : सातवी विभक्ती** : 'अ'न सोंपिल्ल्या नपुसकलिंगी नामांक हें कूस लागून हे विभक्तीचें रूप जाता. अशें रूप 'भितर' वा 'कडेन' असो अर्थ दाखयता. देखीक : घर + आ = घरा (तो घरा आसा = तो घराभितर आसा; तो शेता गेला = तो शेताकडेन गेला.)

**आठवी विभक्ती** : आठवे विभक्तीक कोंकणींत उलो वा संबोधन म्हळ्यार जाता. 'अ'न सोंपिल्ल्या पुरुशनामांच्या उल्याच्या वा संबोधनाच्या एकवचनांत हें कूस लागता. देखीक : देव – देवा. (देवा, तूं पाव.)

**आः** (उमा.उ.)हें उमाळ्या उतर कांय भावना दाखयता :

१. आनंद. देखीक : ('आः! आमची शाळा सुटली गया ! सुटली गया ! आतां आमी खेळुया गया ! खेळुया गया!')

२. खोस वा समाधान. देखीक : ('आः! शाब्बास ! तुवें बेस बरें काम केलें !')

३. सहानुभूती वा कळाकूळ. देखीक : ('आ : पडलो मरे ? चड लागलें?')

४. चिंता वा हुस्को. ('आ :! केदे बेगीन दुडू सोंपले! फुडलो पगार जायसर, दीस कशे काडप म्हणपाचें कळना.')

**विशेश** : 'आ :' ह्या उमाळ्या उतराचो प्रसंगाक जाय तसो मोटवो आनी लांबोडो उच्चार जाता. मनांतल्या विचारांक वा भावनांच्या उमाळ्यांक सुवी येतकीर, आपाप 'आः' हो उद्‌गार भायर सरता.

**आइदन** । आईदन । सा.रू. – ना, भौ. ना, सा.रू. – नां । सं. आयतनम् = जागो, स्थान, आधार न.१. कसलेय कारागिरीक वा उद्योगाक लागता तें आवत; जंत्र वा यंत्र. (''कारागिराइकांक कांय आइदनां जाइ, तेणें चि प्रमाणीं आमच्या आत्म्यांतु सगुणाचें घर बांदुंच्याक भावार्थ जावो.'' – क्रिस्तांवांचे दोत्रिनिचो अर्थु. रचणार पाद्री दियोग रिबैरू – मराठी संशोधन पत्रिका, त्रैमासिक, वर्ष ३रें, अंक १ला, ऑक्टोबर १९५५, पा.१७-२०).२. अन्न रांदपाक,

खाण करपाक वा रांदवायेच्या हेर कामांक उपकरावपाखातीर घडयल्ली वस्त; भांडें.

**आई** । आई । सा.रू. –ई, भौ. – या, सा.रू.– यां । सं. अंबार्या स्त्री. एका वा एकापरस चड भुरग्यांक जन्म दिता ती बायल; बा; आवय; आवा; माता. ("कुशीक बशिल्ली वैजीण तिका धीर दिताली, आनी आई देवाक परती परतीं आंगोवण घालताली." – कथा: रुमडफूल – महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा. २४).

**विशेश**: 'आई'चें निरुक्त अशें दाखोवंक येता : अम्बार्या ≥ अम्वार्या ≥ आव्वाय्या ≥ आवै वा आवय ≥ आय. हाचें 'आयी' अशें संबोधनी वा उल्यारूप जालें. उपरांत 'आयी'चें 'आई' जालें. निरुक्ताची फोडणिशी अशी : बवयोरभेद : (म्हळ्यार ब आनी व हातूंत अभेद जाता.) ह्या न्यायान 'अम्बार्या'चें 'अम्वार्या' जावन 'मन्मथेव : वररुचि २.३९) ह्या सूत्रान 'अम्वार्या'चें 'अव्वार्या' जालें. देखीक : मन्मथ ≥ वम्महो; कोमल ≥ कोंवळो. उप्रांत 'आर्या'चें 'आय्या' जावन 'आव्वाय्या' जालें. हाचेंच मुखार 'आव्वैय' जालें. 'आव्वय'चें 'आवै' वा 'आवय' जालें. वररुचि २.२ आनी ४.१ सुत्रांप्रमाण 'आवय' ह्या उतरांतलो 'व' लिपून 'आय' उरलें. ह्या 'आय'चें संबोधनी वा उल्या रूप 'आयी' जालें. फुडें 'आयी'चेंच 'आई' हें रूप घोळटेंत आयलें. (पळेयात: कांहीं मराठी लेख, पैलो वांटो, बरो.: शणै गोंयबाब, पा. २११.)

**आउति**। आउति। सा.रू.–ते, भौ.– त्यो, सां.रू.– त्यां । स्त्री. आहुति ("तुप, तेल, तांदुळ, म्हेउं, दुद, धें, साकर, नाना परिचीं परिमळ पुस्पां ऐसीं हाडुनु, येग्नुकोंडा मधें ठेउनु आपुले हातीं आउति दिउं लागलों." – कोंकणी महाभारत आदिपर्व, बरो: कृष्णदास शामा. देवनागरी लिप्यंतर आनी संपादन, प्रताप नायक, जे.स., पा. १२).

**आक** । आक्। सा.रू. – का, भौ. – का, सा.रू.– कां। का. अक्का; ता. अक्का न. पळेयात 'आका'.

**आक**।आक् । सं. आकत्यम् = घाण, अळशीक स्त्री. भुरग्यांनी वा कोणेंय केल्ली अळशीक.
**वा.प्र.: आक् करप**: घाण करप; अळशीक करप.
**विशेश**: १. ह्या उतराचें जरी सामान्य-रूप करूंक येता, तरी ह्या उतराचें सामान्य-रूप घोळटेंत ना.
२. हें उतर चड करून ल्हान भुरग्यांच्या संदर्भांत उपकारायल्लें मेळटा.

**आक, आक्कशी**। आक्, आक्कशी (सं. आकत्यम्) उमा. उ. भुरगीं अळशीक करतासतना, तांकां मना करपाक वा अळशिकेंत हात बी घालतना, तांकां आडवारपाक तोंडांतल्यान भायर सरता तें उमाळ्या उतर; कसलीय घाण पळेतकीर, वीट दिसून तोंडांतल्यान आपाप भायर सरता तें उमाळ्या उतर.

**आकटें**। आक्टँ, आक्टँ। सा.रू.– ट्या, भौ.– टीं, सा.रू.– ट्यां। (सं. अग्निष्ठ) न. १. आगटें ("तुज्या माथ्यार जळटें आकटें कशें?" – गाराणें, गजानन रायकार, बनवड, पा.६४.) २. भार, ओजें ("सांग धर्मा, अशा वेळार सगळ्या .पांचें आकटें आमच्याच माथ्यार उबारून कशें जातलें ?" – खण खण माती, पुंडलीक नायक, जाग, दिवाळी आंक, पा. १०७.)

**आकंठ** । आकण्ठ। (सं. आ + कण्ठम्) क्रि. वि. शिमेभायर (तो रिणांत आकंठ बुडला); २. तृप्त जायसर (कितल्याशाच दिसांनी ताटांत नुस्तें पळोवन तो आकंठ जेवलो.)

**आकय**।आकय, आकै। सा.रू.– कये, भौ.– यो, सा.रू.– यां। ता. अक्कै स्त्री. व्हडली भयण.

**आकर्शक** । आकर्शक्। (सं. आकर्षक) वि.१. दुसऱ्याचें चित्त, मन ओडून घेवपी, दुसऱ्याक आपल्याकडेन खेंचून घेवपाची तांक आसपी.

२. दर्शनसंतोश; देखणो; मोहक; सुंदर (आकर्शक दादलो; आकर्शक बायल).

**आकर्शण**। आकर्शण्। सा.रू.– णा, भौ.– णां, सा.रू.– णां। सं. आकर्षणम् न. १. आपल्याकडेन ओडचेली क्रिया. (चंद्रसुर्याच्या आकर्शणाक लागून दर्याक भरती सुकती येता.) २. भुलोवपाची वा फुसलावपाची आशिल्ली तांक. ३.(**ला**) ओड; आवड; कल. ४.(**पदार्थविज्ञान**) जे तांकीक लागून प्रत्येक वस्त आनी तिचे परमाणूं एकामेकांक आपल्याकडेन ओड्टात ती तांक वा शक्ती. – शक्ती : स्त्री. न्युटनान मांडिल्ल्या सिद्धान्ताप्रमाण, जिका लागून संवसारांतली दर एक वस्त वा पदार्थ, आपल्या आकाराच्या सरळ प्रमाणान आनी अंतराच्या उरफाट्या प्रमाणान, एकामेकांक आपल्याकडेन ओडटा ती शक्ती वा तांक.

**आकर्शप**। आकर्शप्। सा.रू.– पा। सं. + कृष् क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू आकर्श्-अक-सक): १. आपले वटेन ओडून घेवप, २. भुलोवप वा फुसलावप.

**आकर्शित**। आकर्शीत। सं. आकर्षित वि. आकर्शून घेतिल्लें; ओडून घेतिल्लें.

**आकर्शी**। आकर्शी। 'आकर्शण' वेल्यान वि. १. ओडून घेवपी. २.भुलोवपी वा फुसलावपी (चड करून चलयांक); बायलकी.

**आकलन**। आकलन। सा.रू.– ना। सं. आकलनम् न.१.समजून घेवचेली क्रिया; समज; बोध. २. गिन्यान; ज्ञान ग्रहण करचेली शक्त वा तांक. (शिकयल्लें ताका रोखडेंच आकलन जाता.) ३. कित्याचीय आशिल्ली पूर्ण जाण. (आपल्या कर्तव्याच्या आकलनाक लागून, तो आपलें काम सदांच चोख करतालो.

**आकस**। आकस्। सा.रू.– सा। अर, अकस पु. जिचें कारण सोंपेपणीं वा स्पस्टपणीं कळना, अशी एकाद्रयाच्या मनांत दुसऱ्याविशीं आशिल्ली नाटकाय वा विरोधाची भावना.

**आकसोल**।आक्सॉल। (?) वि. सुरबुसाण, रूच नाशिल्लें; पचकें; विर्सूट. (आकसोल तिवळ).

**आकस्मिक**।आकस्मिक। (सं. आकस्मिक) वि. अकस्मात घडून आयिल्लें. ("आकस्मिक आयिल्लें धन अडचल्ल्याक आस लायता." – दोन बळी, बरो : बाकीबाब बोरकार, कोंकणी कथा, साहित्य अकादेमी, पा. ३१.)

**आक्त**। आक्त। सा. रू. – क्ता, भौ. – क्त, सा.रू. – क्तां। पुर्तु. Acto/आक्तु पु. १. समारंभ, धबाजो (लग्नाचो आक्त). २. कार्यक्रम ("पांय सदळ करपाक वेळ आशिल्लो. शिवाय, आमचो जेवणाचो आक्त काडपाचो आशिल्लो." – गोमांचल ते हिमाचल, बरो : दिलीप बोरकार, पा. १२.) ३. कर्तुप (दर एकल्याक आपल्या आक्तांची जाप दिवचीच पडटा.)

**आक्ताक**। आक्ताक्। 'आक्त' वेल्यान क्रि.वि. त्याच खिणाक; तात्काळ. (तें भुरगें मोटारी पोंदा चिड्डूलें आनी आक्ताक मेलें.)

**आक्तार**। आक्तार। 'आक्त' वेल्यान क्रि. वि. दिस्त वेळार ('ते बसकेक तो आक्तार पावलो.')

**आक्रमण**। आक्रमण्। सा.रू.– णा, भौ.– णां, सा.रू. – णां। (सं. आक्रमणम्) न. १. हल्लो, घुरी, आगळीक. ("तो आयलो १९४६च्या १८ जुनाक. त्या दिसा भारताचेर आक्रमण करपी पैल्या येवरोपी सत्तेचेर डॉ. लोहियांनी पैलो प्राणांतिक घाव घालो आनी तिज्या साम्राज्यशायेक हादरो दिलो." – कोंकणी काव्यसंग्रह (साहित्य अकादेमी), प्रस्तावना :

बाकीबाब बोरकार, पा. ८), २. बळयादलेलें कृत्य; बळयादणी.

**वा.प्र.** : आक्रमण करप; घुरी घालप; हल्लो करप; आगळीक करप.

**आक्रस्ताळीं / ळें।** आक्रस्ताळी/ळँ। सा.रू. – ळे-ळ्या; भौ.– ळ्यो, ळी, सा.रू.– ळ्यां। (प्रा.दे. अक्कलसाला = मस्त, कोल्ली, उन्मत्त बायल) वि. हट्टी, कोल्ली, मस्त; खास्ट; आगुल्लें.

**आक्रस्ताळो।** आक्रस्ताळॉ। सा.रू.– ळ्या, भौ.– ळे, सा.रू.– ळ्यां। 'आक्रस्ताळी' वेल्यान वि. जाचें कोल्ल चाळवता असो; मस्त; हट्टी; आगयो. ("मराठीक तांचो विरोध आक्रस्ताळ्याचो नासलो. तो समंजसपणाचो आनी विचारपूर्वक थारायल्ल्या तात्विक बसकेचेर आधारिल्लो आसलो, हें हाचेवरसून उक्तें दिसता." – शणै गोंयबाब, बरो : रा.ना. नायक, पा. ४२.)

**आक्रासप।**आक्रासप्। सा.रू. –पा (सं.आ + कृष्) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आक्रास्-सक.) आटप; ल्हान जावप; आंखडप. ("तेन्ना मनशाचो संसार चार वण्टींत आनी चार पांचच मनशांच्या सांगातान चलता सोंपता इतलो आक्रासलेलो नासतालो." – काणी एके जिणेची, बरो : महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. १६).

**वा.प्र.: आक्रासत वचप** = १. उणो उणो, उणी उणी, उणें उणें वा कमी कमी जायत वचप. (आमचें वडिलोपार्जित भाट-बेंस मुख्य आडपै गांवांत आनी अंत्रुजेंतल्या हेर कांय गांवांनी आसा. वांटे वांटे जायत गेल्ल्यान, तें दिशीं दिशीं आक्रासत गेलां, ही गजाल वेगळी. - काणी एके जिणेची, बरो.: महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. ९५). २. व्याधीक, पिडेक वा मन कोंरातून उडोवपी व्यथा वा विवंचनेक लागून भागत वा सुक सुकत वचप.

**आक्रोश।** आक्रोश। सा.रू.–शा, भौ.–शां, सा.रू.–शां। (सं. आक्रोशः) पु. मोठ्यान घाल्लो हांबेल; हड्डें फुटून आयिल्लें रडप; विकळाप; कुलकुलाट.

**आक्सांव।**आक्सांव्। सा.रू.– वा, भौ.–वा, सा.रू.–वां। (पुर्तु : Ãcçao) स्त्री. कोर्टांत केल्ली तक्रार; कोर्टांत फायल केल्ली केस. ("आनी कसो जाणा जायनासतना रावत ? कर्ज रीण मेळोवन दिवपांत ताजो हात आसता. आक्सांव दिवपाची सावकाराक बुद्द तोच दिता." – देमांदिस्त, बरो : लक्ष्मणराव सरदेसाय, खबरी : कांय वर्माच्यो, कांय कर्माच्यो, पा. ६१).

**आक्सांव।** आक्सांव्। सा.रू.– वा, भौ.– वा, सा.रू.– वां। (पुर्तु : Ãcçao) न. जाका जे कंपनीच्या विकत्या घेतिल्ल्या भागांच्या प्रमाणान तिच्या लाभाचो अंश मेळटा, अशे खंयचेय व्यापारी वा इंडस्ट्रियल कंपनीन जितल्या एकसारक्या भागांनी आपलें भांडवल वाटलां, तातुंतलो खंयचोय एक भाग (इं. Share). ("गांवकन्यांची आक्सांवां घेतलो जाल्यार, तांकां तुर्ताक पेटला उजो!" – पोवनाचें तपलें, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १.)

**विशेश**: खंयचीय कंपनी, तिका जितलें भांडवल उबें करपाक जाय आसता, तितलें भांडवल सारक्या भागांनी वांटून, ते भाग विकूंक काडटा. हे भाग विकून भांडवल उबें करप, होच ते कंपनीचो उद्देश आसता. विकिल्ल्या सगल्या भागांचें मेळून भांडवल जाता आनी जांणी जांणी जितले भाग विकते घेतल्यात, तांकां तांकां त्या त्या प्रमाणान ते कंपनीच्या लाभाचो वांटो मेळटा.

**आक्सिनेत।** आक्सिनेत्। सा.रू.– ता, भौ.– त, सा.रू.– तां। (इं: Accident) पु. अपघात. ("त्या विचारान ताची तकली कणकण्टाली, भेन्याल्ली. आनी त्याच वखतार दिस्त वल्तारूच ट्रकाक

आक्सिनेत जालो.'' – पाखलो, बरो : तुकाराम शेट, पा. ८४.)

**आका** । आका । सा.रू.– का, भौ.– का, सा. रू. – कां। दे. अक्का; का. अक्का; ता. अक्का; मल्या. अक्का न. १. बापायची भयण; आतें; मावळण. २. व्हडली भयण; आक; आकय; आकै. ३. जाण्ट्या चलयांक वा बायलांक भौमानान लावचेलें उतर. देखीक : पतिआका; सुदेंआका. ४. (ला.) मायेची, अपुरबायेची बायलमनीस.

**म्हणी :**

१. आका गळ्यांत भांगरा सरी, जावेच्या गळ्यांत सुंबा दोरी. (मायेच्या मनशांक दितना मोलाची वस्त दितात. हेरांक किरकोळ वस्त दितात. ताका लागून ही म्हण घोळटेंत आयली.)

२. आकाचो घोव गांव नागयता आनी ताका देंवचार नागयता.

३. आवयची भयण मावशी, वायट बऱ्याक पावशी; बापायची भयण आका, कित्याकूच म्हाका नाका.

४. बापायची भयण आका, दोळ्यांमुखार नाका.

**विशेश** : इतिहासाचें पयलें पान केन्नाच वाचूंक मेळना. 'अक्का' हो शब्द पाणिनिच्या काळावेलो. हो शब्द आर्यांनी द्रविड भासांतल्यान घेतला अशें द्राविडी भासशास्त्री मानतात. सामक्या लागशिल्ल्या नात्यांतले शब्द मूळ भाशेंतलेच मानचे, अशें कांय भासशास्त्र्यांचें मत आसा. कानडी, तामीळ, मल्याळम भासांत 'अक्का' म्हळ्यार व्हडली भयण. ह्या 'अक्का'चेंच 'आका' हें कोंकणी रूप जालें. देशिनाममालेंत 'अक्का'चो अर्थ 'व्हडली भयण' असो दाखयला. जाल्यारूय 'अक्का' हो द्रविडी कुळयेंतलो देशी शब्द आसा, अशें मानतात. तामीळ भाशेकडेन नातें दाखोवपी 'आक', 'आकै' हीं उतरां गोंयचे दक्षिणेक म्हळ्यार कुंकळ्ळेच्या भागांत आयजूय आयकूंक येतात.

**आकाटी** । आकाटी । सा.रू.– टे, भौ.– ट्यो, सा.रू.– ट्यां । (?) स्त्री. व्हडल्यान मारिल्ली आलेट. (''देंवचाराचो भार आकाट्यो मारीत येता. मूठ-वोंठ आंवळीत, जांगो वा दंड पेटयत, हड्डें बडयत, किंळच्यो मारता.'' – गोंयच्या लोकवेदाचो रूपकार, बरो : प्रा. श्याम वेरेंकार, पा. १७).

**आकाडो** । आकाडॉ । सा.रू.– ड्या, भौ.– डे, सा.रू.– ड्यां । (सं. अक्षवाट; प्रा. अक्खाडय; मुंडारी : आखारा) पु. घराच्या दारामुखावयल्या आंगणाचे वंयेक वा आड्याक मनशांक भायर-भितर सरपाखातीर दवरलेली अशीर वा खिंड कशी वाट. (''ताका सोदत आकाड्यांत, पायणींत झाडाखाला उबें रावतालें.'' – कथा: सोपूत प्रमाण, बरो: महाबळेश्वर सैल, 'जाग' दिवाळी अंक, १९९०. पा. १७.)

**आकांक्षप** । आकाङक्षप् । सा.रू.–पा । सं. आ + कांक्ष् क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू – आकांक्ष् : सक.) व्हडविकेचो हावेस धरप; आंवडेवप; इत्सुवप.

**आकांक्षा** । आकाङ्क्षा । सा.रू.– क्षे, भौ.– क्षा, सा.रू.– क्षां । सं. आकांक्षा स्त्री. व्हडविकेचो हावेस; तीव्र इत्सा; आंवडो.

**आकांडो** । आकांडो । सा.रू.– ड्या, भौ.– डे, सा.रू.– ड्यां। सं. अक्षवाट? पु. घराच्या दारामुखावयल्या आंगणाचे वंयेक वा आड्याक, मनशाक भायरभितर सरपाखातीर दवरलेली वाट. (''त्या दुर्गाभायर भिकाऱ्याचें पावल केन्ना पडनासलें. केन्नाय चुकून दुर्गाचो आकांडो हुपपाची पाळी ताचेर येताली.'' – भिकारो, बरो: पुंडलीक नारायण नायक, मुठय, पा. ३४.)

**आकादेमी** । आकादेमी । सा.रू.– मी, भौ. – मी, सा.रू – मीं । (ग्रीक Akademeia; लॅ. Academia, इं. Academy) स्त्री. १. साहित्य,

विज्ञान आनी कला हांची फोंपेवन प्रगती जावंची हे खातीर, जिची घटना सरकारान मान्य केल्या, अशी स्थापन केल्ली संस्था; जंय साहित्याचो, विज्ञानाचो आनी कलेचो खोलायेन अभ्यास चलता, अशें साहित्यिकांचें, विज्ञानिकांचें, कलावंतांचें आनी विचारवंतांचें मंडळ. २. उच्च शिक्षण दिवपी संस्था. ("१८११ वर्सा ताका मार्सेयचे आकादेमींत तत्वविद्या शिकौंची सुवात मेळ्ळी." – आबे फारीय, बरो : शणै गोंयबाब, पा.-१५).

**विशेश**: पळेयात: 'अकादेमी' (कोंकणी शब्दसागर – पयलो खंड, पा. ५.).

**आकांत**। आकान्त। सा.रू.– ता । सं. आक्रन्दनम्; आक्रान्त पु. १. अपरंपार दुख्खाचो वा जिवावेल्या संकटाचो प्रसंग; अरिस्ट; अनर्थ; संकट; कलकल. (आकांत येतकीर दर एक जाण देवाक उलो मारता.) २. जाका मीत ना, अशें अपरंपार दुख्ख; ३. विकळाप; कुलकुलाट. ("ढो करून जमनीर आदळनाफुडें तिजें आंग जायतें चिड्डलें आनी वरखणलें, तिचे दांडारे मोडले, पोपायो तुटल्यो आनी रगत व्हांवसो चळचळीत दीख व्हांवपाक लागलो. तिणें त्या वेळार जो आकांत केलो तो हया सामान्यांतलो न्हंय." – गोमन्तोपनिषत, १लें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ८.) ४. काळजाची तडफड; उदकांतल्यान भायर काडिल्ल्या नुस्त्यावरी जाल्ली फडफड; व्यथेचो कल्लोळ; घुस्मटमार. (महाभारतांतल्या स्त्री मनाचो आकांत कोणेंच समजून घेतलोना. बायलेचें बायलपण त्या वीरयुगाक केन्नाच मोलादिक दिसलें ना.) ५. हुवेल, हुयेल; करंदाय; बोवाळ. ("आमगेली कोंकणीच संवसाराभायली अशें न्हय. तिज्योय तरा आसात. देखून, तांचो येदो आकांत कित्याक?" – ये.अ.उ.; बरो : शणै गोंयबाब, पा. ६२.)

**वि.** १. अतोनात; अपरंपार; चड; अतिशय (ह्या दोन वर्सांत ताणें आकांत दुडू जोडलो.) २. भयांकृत (आकांत ल्हार).

**म्हण**: आकांताक सांपडटकीर देवाचो उगडास येता.

**आकांतप**। आकान्तप्। सा.रू.– पा, सं. आक्रन्द क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आकांत् – अक) भांबेवप; काचाबूल जावप. (असो आकांतता कित्याक? आकांताक भियेवचे परस, ताका धिरान तोंड दिल्यारच मनीस संकटांतल्यान निभावता.)

**आकांतयाळो-ळी-ळें**। आकांतयाळो-ळी-ळें। सा.रू.– ळ्या (?) वि. भंय दिसपासारको-की-कें. ("शिंवेश्वराचो तो ऊंच आकांतयाळो आडवो दोंगर आनी ताच्या खांकोळांत बशिल्लो शिंवेश्वराचो वाठार." – कथा : तरंगां, बरो : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा. १५९.)

**आकांतवाद**। आकान्त्वाद। सा.रू.– दा। कों. आकांत + सं. वाद: पु. राजनितीक वा सामाजिक मळार हिंसेन दहशत निर्माण केल्यारच ध्येय साध्य जाता अशें मानपी पंगडाचें तत्वज्ञान; राजकारणी आनी सामाजिक मळार अती क्रांतिकारी पंथाचें वा पंगडाचें मत, तत्वज्ञान. (तुर्ताक देशभर आकांतवाद मातून आयला.)

**आकांतवादी**। आकान्त्वादी। सा.रू.– द्या; भौव.– दी; सा.रू – द्या। कों. आकांत + सं. वादिन् वि. राजनितीक वा सामाजिक मळार लोकांचेर आकांत यो सारके हिंसेन दहशत निर्माण केल्यारच आपलें ध्येय वा लक्ष्य साध्य जाता, असो विश्वास धरपी पंगडाचो वांगडी; राजनितीक वा सामाजिक मळार आपलें ध्येय वा लक्ष्य साध्य करपाखातीर बळाचेर वा शस्त्राचेर विश्वास धरपी पंगडाचो वांगडी; दहशतवादी; आतंकवादी; अतिरेकी; उग्रवादी; हिंसावादी. ("... तरी आसतना दिल्लींतले रोमानियाचे राजदूत लिवियु रादू हांकां आपणाक खलिस्तान समर्थक म्हणपी

आकांतवाद्यांनी पळोवन व्हेले.'' – राष्ट्रमत, अग्रलेख, अंक ४१, १३ ऑक्टोबर १९९१).

**आकांताचो-ची-चें**। आकान्ताचॉ-ची-चें (च्यँ)। 'आकांत' वेल्यान वि. १. भयांकृत; अनर्थांचो; अरिस्टांचो; काळीज कलकलायणो; आवरो उडसारको. (''... विजू कलवंत लक करून भायर सरून दोनय हात हालोवन नाचूंक लागलें. ताजो तो आकांताचो केरवो नाच पळोवन, मळबांत दिसभर आनाळ्यो गुनाळ्यो घालून आशिल्ल्यो बाबड्यो घोणी काचाबूल जावन रीग मेळटा थंय वचून लिपून बसल्यो.'' – गोमन्तोपनिषत, पयलो खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा.८.) २. पराकास्टेचो; अपरंपार; अतोनात. (आकांताचो यत्न करून ताणें येस जोडलां.) ३. विकळापाचीं; काकुळटेणीं; दयेचो पाझर फोडीसारकीं. (''मुसलमानांबदला पुर्तुगेज लोक गोंयकारांच्या कांट्यार बसले. आनी त्या नव्या शेकातळा बरे तरेची केळौणी मेळत म्हणपाचो उबारो तांकां एकाद्रो आशिल्लो जाल्यार, तोय तीस वर्साभितर साप न्हिवून 'कणकींतसून काड,भोबो नाका' अशीं आकान्ताचीं उतरां तांच्या तोंडांतसून आयलीं.'' – गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १२३.).

**आकांतान**। आकान्तान। 'आकांत' वेल्यान क्रि.वि. १. काचाबूल जावन. (''ताका कळटा, बुदयाची अधाशी नदर आपल्या हाताकडेन, हड्ड्याकडेन आसा. ताज्या ओल्या पोल्यार तामसाण फांकता. रागान तें रसरसता. दोनूय हातांनी आकांतान पोलको सांवरता.'' – पारज, बरो : पुंडलीक नायक, मुठय, पा.९४.) २.आकांत आयिल्लेवरी जावन; कलकल्यांचो, धडधड्याचो प्रसंग आयिल्ल्यान. (जिवाच्या आकांतान तो धांवलो.)

**आकांताळो-ळीं-ळें**। आकान्ताळॉ-ळीं-ळॅ। सा.रू.– ळ्या, भौ.– ळे, सा.रू.– ळ्यां। 'आकांत' वेल्यान विशे. भयांकृत. (''पांडु आतां दोगी बायलांसयत हिमालयांत भोंवपाक लागलो. एका फुडले एक आकांताळे पर्वत चडून तो गंधमादन पर्वतार गेलो.'' – महाभारत, खंड १, रवीन्द्र केळेकार, पा. ४३.)

**आकांतीक**। आकान्तीक। 'आकान्त' वेल्यान वि. आकांताच्या वेळार लावंचेलो; आकांताच्या वेळार उपकारांवचेलो. (''सदांचे ब्रेक लागलेनात जाल्यार आकांताच्या वेळार मारपाचे विंगड ब्रेक आसतात. तांकां आकांतीक ब्रेक म्हणटात.'' – तालांव, बरो : एन्. शिवदास, पुनव, एप्रिल, १९७४.)

**आकान्यार**। आकान्यार। पुर्तु : Acanhar क्रि.वि. भियेल्ल्यावरी; खांकुडलेल्यावरी.
**विशेश** : Acanhar हें उतर पुर्तुगेज भाशेंत सकर्मक क्रियापद म्हूण उपकरायतात. कोंकणींत मात तें क्रियाविशेशण म्हूण येता.

**आकार**। आकार। सा.रू.– रा, भौ.– र, सा.रू.– रां। सं. आकार पु. १. पदार्थांची, वस्तूंची भायली आकृताय, आकृती. २. स्वरूप; रूप; रूपकार. ३. घडण; आयटिका; घाट. (ह्या आयदनाचो आकार सोबीत जाला.) ४. मोल. ५. भारतीय संगितांतलो एक अलंकार; ६.(ला.) उपकार (केल्ल्याक ना आकार आनी पंगऱ्याक ना सार.)
**वा.प्र.: आकार दिवप**: १.स्वरूप दिवप; रूप दिवप; आकृती दिवप. २. संस्कार घडोवप. (भुरग्यांचें कोंवळें मन आकार दिता त्या प्रमाणें घडटा.)
**आकाराक येवप**: सिद्धीक वचप; मूर्त रुपाक येवप; फळाक येवप; फळादिक जावप.
**आकाराक हाडप**: मूर्त रुपाक हाडप; संकल्प, हेतू सिद्धीक पावोवप वा व्हरप.
**म्हण**: केल्ल्याक ना आकार आनी पंगऱ्याक ना सार. (केल्ले उपकार रोखडेच विसरप आनी एकाद्रें उणें उतर दिल्लें आसल्यार, तें घट्ट मनांत दवरप.)

**आकारणी**। आकारणी। सा.रू.– णे, भौ. –ण्यो, सा.रू.–ण्यां। सं. आ + कृ स्त्री. १. गणती; मापणी; हिशोब. २. दर; धारण.

**आकारणो**। आकार्णॉ। सा.रू.– ण्या, भौ. – णे, सा.रू.–ण्यां। 'आकारप' वेल्यान वि.१. आकाराक हाडपी. २. करांची आकारणी करपी.

**आकारप**। आकार्प। सा.रू.– पा, सं. आ + कृ क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: 'आकार्' – अक आनी सक.) १. आकाराक येवप वा आकाराक हाडप. २. आकारणी करप (कर आकारप). ३. घेवपाची रक्कम थारावप.

**आकारान्त**। आकारान्त। (सं. आकारान्त) वि. ज्या उतरांच्या निमणे सुवातेर 'आ' हो स्वर येता तें; 'आ'–कारान सोंपपी. देखीक: राजा, शिवा, मीरा, घटना, वता, ताका बी.

**आकारो**। आकारॉ। सा.रू.– ऱ्या। (?) पु. भुतावळींतलो देंवचार. म्हारू बी पंगडांतलो एक देव. ("...तूं देवधनी कोळंबसारकी भूमका, मूळमाया, मायभूमका, मायेच्या आकाऱ्या, गांवधड्याच्या अधिकाऱ्या, ग्रामजोडत्या, ग्रामपुरूसा, माज्या समर्था... तुज्या पांयाची सेवा चाकरी करून घे, येस दी, आनी बरें कर माज्या समर्था." – अच्छेव, बरो: पुंडलीक नायक, पा. ९३-९४.)

**विशेश**: करूंक घेतिल्लें धर्मकार्य आडमेळ्यांविणें पूर्ण करपाखातीर आनी समस्तांच्या कल्याणाखातीर गाराणें घालतना, हेर देवांवांगडा आनी भुतावळीवांगडा हाकाय होरावपाची कांयकडेन चाल आसा.

**आकाश**। आकाश्। सा.रू.– शा। (सं. आकाश: आकाशम्) न. १. जंय नक्षत्रां आनी गिरे भ्रमण करतात तें अफाट आनी अनंत पैस, धायवटांनी दिगंतेचो आवांठ भेदून गेल्लो चैतन्याचो अफाट अनंत पसारो; माथ्यावयर घुमटाकार पोकळी करून आशिल्लो पैसाचोच अंश. मळब; अभंग; अंत्राळ; अवकाण; पैस. २. स्वर्ग, सर्ग. ३. पंचमहाभूतांतलें पांचवें महाभूत.

**वा.प्र.: आकाश कोंसळप**: आकांताचें, अरिस्टांचें संकट येवप; देवाचें रागणें पडप.

**आकाश पाताळ एक करप**: १. रागान वा हट्टान घर माथ्यार घेवप; क्रोधावतार घेत सगळ्यांक सकल-वयर करून काडप; आकांताची हुयेल मारप; हलकल्लोळ करप. २. हद्द परतुवप; पराकास्टेचो यत्न करप; प्रयत्नांची शिकस्त करप.

**आकाशाक दिवे लावप**: पराक्रम गाजोवप; दिग्विजय, पुरुशार्थ करप.

**म्हणी**: १.आकाश गडगडलें, पावस पडलो. (हे म्हणीचें 'आकाश गडगडलो, पावस पडलो' अशेंय एक रूप मेळटा. आकाश हें उतर नपुसकलिंगी, पुरूशलिंगी न्हय. जाल्यारूय 'पावस पडलो' हाजेकडेन यमक जुळोवपाखातीर 'आकाश गडगडलें' हाच्या जाग्यार 'आकाश गडगडलो' अशें रूप कोणेंय केलां जावंये.)

२. आकाशाक दोळे पावतात, हात पावनात.

३. आकाशीं पडलो, राक्षेस जालो.

४. सुपारी आसतना हातांत धल्ली, माडी जाली, आकाशाक गेली.

५. आकाशाक निसण लायल्यार खंयमेरेन चडूं येत?

६. आकाशाची कुराड, खंय रे बाबा, कोल्याच्या दांतार पडली.

**विशेश**: 'आकाश' ह्या शब्दाक संवसारांतल्या सगळ्या भासांनी अध्यात्मिक अर्थ आसात. उक्त्या अशा मेकळ्या जाग्यार आमच्या माथ्यावयर एक घुमटाकार पोकळी, जी दिगंतेक तेंकिल्लेवरी दिसता, तिका आकाश म्हणटात. पृथ्वीच्या वातावरणांतल्या वाऱ्यांत उबत आशिल्ल्या रेणूंचेर आनी धुल्लांच्या कणांचेर सूर्याचीं किर्णां शिंपडलेल्ल्यान, आकाशाचो रंग निळो दिसता. जमनीर साकून अदमासान १,१००

किलोमीटर उंचायेच्या भागामेरेन पृथ्वीचें वातावरण आसा. ह्या वातावरणांत वारो खेळटा, कुपां मांडून येतात आनी पृथ्वीचेर पावस पडटा. ज्योतिशशास्त्रांत आकाशाक 'खगोल' म्हणटात आनी तांतुंतच सूर्य, चंद्र, तारे आनी नक्षत्रां बी भ्रमण करतात.

उजवाड हो वीज चुंबकी तरंग आसा. पदार्थांचे कण सूक्ष्म आनी वाटकुळसार आसतात. ह्या कणांचेर सूर्याचीं किर्णां पडून, तांचें प्रकीर्णन जातकीर वेगवेगळ्या रंगांची सया जाणवता. जाल्यारूय, ह्या रंगांत निळ्या रंगाचें प्रमाण चड आसता.

सूर्य उदेव जातना आनी सूर्य अस्तमानाक वतना, तांबडो नारिंगी उजवाड चड प्रमाणान दिसता. सूर्यबिंबय त्याच रंगाचें दिसता. रंगाच्या तरंगाचे लांबायेंत, सगळ्यांत उणी लांबाय जांभळ्या रंगाची आसता. धव्या उजवाडाच्या प्रकीर्णनांत जरी जांभळो रंग चड आसलो, तरी तो रंग वातावरण शोशून घेता. ताका लागून, आकाश सदांच निळें दिसता. पृथ्वीच्या वातावरणाभायर वतकीर, अंतराळविरांक आकाश काळें दिसता.

२. 'आकाशांतल्यान देव ब्रह्मांडाचें साम्राज्य चलयता. देव सर्वशक्तिमान आसा. तो सर्वज्ञानी आसा. तो अत्यंत मायेस्त आसा. तो पृथ्वीचेर अमृताचो शिंवर घालता. देखून, आगा, परमेश्वराची तूं व्हडवीक गा', अशें बायबलाच्या 'पोन्न्या करारां'त म्हळां (४४: १८-२१). आकाश हें देवाचें सिंव्हासन आसा आनी पृथ्वी हें ताजें पायासन आसा, अशेंय 'पोन्न्या करारां'त म्हळां. आकाशांत देव रावता. देवदुतय आकाशांतच रावतात. प्रेशितांचें, साधू-संतांचें तें अखेरचें धाम आसा. तांकां थंय सासणाचीं सुखां भोगूंक मेळटात. हाका लागून आकाश म्हळ्यार स्वर्ग असोय आकाशाचो एक अर्थ जाता. क्रिस्त स्वाम्यान एका चोराक सांगिल्लें, 'आज तूं म्हज्यावांगडा स्वर्गांत आसतलो (Luc. १३,१४)'. ह्या स्वर्गांत देव वा देवांवांगडाच अप्सराय रावतात. जे वीरगतीक वतात आनी पुण्यकर्मां करून स्वर्गार चडटात, तांकां थंय अप्सरांवांगडा किटकिटूंक मेळून, सासणाचें सूख भोगूंक मेळटा, अशें हिंदूंचें धर्मशास्त्र सांगता. कुरूवंशाचो ययाति राजा आपलें पुण्य क्षीण जातकीर आकाशांतल्यान सकल पडलो आनी पुण्य जोडून, परत आशिल्लो तसो स्वर्गांत गेलो, अशी कथा आसा.

'आमच्या बापा, तूं स्वर्गीं आससी, तुजें राज्य थोर जांव, तुजें राज्य आमकां येंव' ही आकाशांत आशिल्ल्या सर्व हुकुमदार परमेश्वराक केल्ली प्रार्थना आसा. बायबलाच्या 'पोन्न्या करारां'त देवाक उजवाड आनी काळोख, कुपां आनी वारो, गडगडो, वीज आनी पावस हांचेकडेन लग्निक केला. 'पोन्न्या करारां'त म्हळां की परमेश्वरान आपल्या बळग्यान पृथ्वीची निर्मणी केल्या. आपल्या ज्ञानान ताणें हो संवसार स्थापन केला. आपले बुद्धीन ताणें आकाश पातळायलां. तो आपलो शब्द उच्चारता, तेन्ना गडगडाट जाता. पृथ्वीचे दिगंतेकडल्यान तो वाफेचे लोट वयर चडयता. पावसाखातीर वीज सिद्ध करता, आनी आपल्या भांडारांतल्यान वाऱ्याक भायर सोडटा. (५१:१५-१६).

मनीस जेन्ना पापी आचरणाक संवकतात आनी अधर्मी करण्यो करतात, तेन्ना देवाक राग येता. अधर्म्यांचो नाश करपाक तो संवसार बुट्टी धाडटा. ती बुट्टी चाळीस दीस उरता. नॉये प्रजापतीक ताणें पयलींच बुट्टेची शिटकावणी दिल्ल्यान पुण्यवंत मनीसजात आनी हेर जिवावळीचें बीज वाटावता. बुट्टेचें उदक देवूंक लागून भूंय दिसपाक लागल्या म्हणपाची सुलूस दिवपाक तो आकाशांत रामाचो बाण (इंद्रधनुष्य) सोडटा. गडगडो करून आनी विजो कडकडावन, सिनायच्या दोंगराचेर तो मोसेकडेन उलयता. विजेच्या कडकडाटांतल्यान तो मोसेक आज्ञा दिता.

देव आकाशांतल्यान आपलीं शस्त्रां आनी अस्त्रां

धाडटा. आपूण सर्वशक्तीमान आसां म्हणून दाखोवपाक तो विजेंतल्यान प्रगट जाता. ज्वालामुखींतल्यान तो आपली तांक दाखयता. भूंयकांप निर्माण करून तो आपले सासायेचो साक्षात्कार दिता. तो सदांच अशें करिना. आपले अमृतवाणयेन मर्तिकांक तो जिणेचें आश्वासन दिता. आकाश हेंच ताजें सासणाचें धाम. थंयच्यान तो पृथ्वीचेर राज्य करता.

देवान पयलीं आकाश आनी पृथ्वी निर्माण केली अशें बायबलाच्या 'पोन्न्या करारां'त म्हळां. महाभारताच्या आदिपर्वांत संवसाराचे निर्मणेची क़था आसा ती अशी: 'सृश्टीचे निर्मणेपयलीं सगल्याक गुपाट काळोख आसलो. उजवाडाचो लवलेश पासून नाशिल्लो. ह्या काळखंडांतल्यान एक व्हडलें तांतीं उत्पन्न जालें. तेंच संवसाराचें मूळ, म्हळ्यार ब्रह्म अशें सांगलां. त्या तांतयांतल्यान एक प्रभु प्रजापति निर्माण जालो, ताकाच पितामह वा हिरण्यगर्भ म्हणटात. ह्या हिरण्यगर्भाक लागून आकाश, वायु, तेज, पृथ्वी, पुरूष, अंतरिक्ष आनी दिको निर्माण जाल्यो.

सुमेरियन देव 'अनू' (Anu) हो सगळ्या देवांत आकाशाचो प्रथमळो देव. तोच संवसाराचो स्वामी आनी अधिपती आशिल्लो. जाल्यारूय, जायते खेपे, देवाची खरेली सासाय अनूपरस Enlil (एन्लील) ह्या वाऱ्याच्या देवान दाखयल्या. रोमन लोकांचो Jupiter (ज्युपिटॅर), ग्रिकांचो 'झ्यॅवुश पातॅर' (Zeuspater) आनी वेदिकांचो 'द्यौस पितर' हे आकाशाचेच देव आशिल्ले. इंद्राकय आकाशाचोच देव मानला. पृथ्वीचेर तोच पावस घालता, अशी वेदिकांची श्रद्धा आशिल्ली. पुर्विल्ल्या इराण्यांचो 'अहुर मझदा' (Ahur Mazda), ग्रिकांचो 'ओवरानुश' (Ouranus) आनी ताजेकडेन सारकाय आशिल्लो वेदिक वरूण, हे तिगय आकाशाचेच देव आशिल्ले. वरूण हो सर्वसाक्षी आशिल्लो अशी वेदिकांची भावना आशिल्ली; वारो हो ताजो श्वास-उश्वास आशिल्लो. वरूणाचे दूत पृथ्वीचेर दीस-रात भोंवत आसताले. तांचे नदरेंतल्यान कांयच सुटनाशिल्लें, अशे वेदिक मानताले. वरूण हो ऋताचो देव जाल्ल्यान फटकिऱ्यांक तो सोडिना आनी पुण्यवंतांक पिडिना, अशी तांची श्रद्धा आशिल्ली. अदितिक अफाट आकाशाची स्त्रीरुपी आकृताय मानल्या. तिणेंय देवांच्या पूर्वयुगांत असतांतल्यान सत निर्माण केलां, अशें ऋग्वेदांत सांगलां. द्यौस पिता आनी पृथ्वी माता हांकां लागून संवसारांत जिवावळ निर्माण जाल्या. पृथ्वीचो सदांच द्यावा-पृथ्वी अशा जोडनांवान उल्लेख जाता. प्रत्येक दादल्याक द्यौसाचें प्रतिक मानला आनी प्रत्येक बायलेक पृथ्वीचें प्रतीक मानलां.

वेदिक काळार वेदिकांनी आकाशाक पंचतत्त्वांतलें एक तत्व मानलां. तैतिरियोपनिषदांत म्हळां:

तस्माद्वा एतस्मादात्मन आकाशः संभूतः आकाशद्वायु:।
वायेरग्निः। अग्नेरापः अद्भ्याः पृथिव्या औषधयः।
औषधिभ्योऽन्नम्। अन्नात्पुरूष:। तै २.१.

(आत्म्याक लागून, म्हळ्यार ब्रह्माक लागून आकाश निर्माण जालें. आकाशाक लागून वायू, वायूक लागून अग्नि, अग्निक लागून उदक, उदकाक लागून पृथ्वी, पृथ्वीक लागून वनस्पती, वनस्पतीक लागून अन्न आनी अन्नाक लागून पुरूष निर्माण जालो.)

प्रवाहण जैवालिच्या मतान आकाश हेंच निर्मणेचें स्थान आसा. ह्या संवसाराची गती कितें आसा, अशें जेन्ना ताका विचारलें, तेन्ना ताणें सांगलें, ''अस्य लोकस्यका गतिरित्याकाश इति होवचसर्वाणि ह वा इमानि भूतान्यकाशादेव समुत्पद्यन्त आकाशं प्रत्यस्तं यन्ताकाशो हयेवैभ्यो ज्याया नाकाशः परायणम्।। (छां १.९ १) (आकाशाक लागुनच सगळीं भूतां जन्माक येतात आनी आकाशांतच अस्त पावतात. आकाश हें श्रेस्ठ आसा. तेंच अखेरचें परमस्थान आसा.)

ह्या संवसाराची गती आकाश आसा. आकाश संवसाराचें चैतन्य आसा. जिवावळीचो प्राण, हो त्याच चैतन्याचो रूपकार आसा. मनीस मरता तेन्रा ताज्यांत चैतन्यरुपान वावुरपी प्राण संवसारांतल्या चैतन्याक वचून मेळटा. आकाशाचो रूपकार आकाशाक मेळून, तोय आकाशच जाता.

**आधारावळ:** १. Bible (पवित्रशास्त्र), मराठी भाशांतर, उजवाडावपी : बाइबल सोसायटी ऑफ इंडिया, बंगलोर. २. मराठी विश्वकोश, खंड १, संपादक : तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी. ३. Verbo Enciclopedia Lusc. Brasileiso de Cultura, vol. 5. ४.महाभारत, आदिपर्व मराठी भाशांतर, आचार्यभक्त विष्णु वामन बापटशास्त्री. ५. तैत्तिरीयोपनिषद आनी छांदोग्योपनिषद, मराठी भाशांतर, आचार्यभक्त विष्णु वामन बापटशास्त्री. ६. Foundation of Tibetan Mysticism by Launa Augarica Gorinda. ७. Man, Myth & Magic - The Illustrated Encyclopedia, Mythology, Religion and the Unknown, Editor-in-Chief, Richard Canvendish - New Edition edited and compiled by Yvonne Deutch, B.A., University of Exila, M.A., University of Kanesa, Iawseua, Kansas, Vol.10.)

**आकाशगंगा**। आकाशगङ्गा । सा.रू.– गे, भौ. – गा, सा.रू. – गां । सं. आकाशगङ्गा स्त्री. नितळ मळबांत कृष्णपक्षांतल्या रातिंनी दिसता तो, अत्यंत सूक्ष्म अशा कोट्ट्यांनी नक्षत्रांनी भरिल्लो दुदाळ रंगाचो पटो; दूदगंगा.

**विशेश:** चड करून कृष्ण पक्षांतल्या रातिंनी, मळब जेन्रा नितळ आसता, तेन्रा आग्नेय-वायव्य आनी केन्रा नैऋत्य-ईशान्य दिशेक, आगळे-उणे रुंदायेचो जो दुदाळ असो धवसार पटो दिसता, ताका 'आकाशगंगा' म्हणटात.

खगोलाच्या उत्तर गोलार्धांत हो पटो शृंगाश्व (मेनोरेरॉस), मिथुन (मेजिनी), वृषभ (टॉरस), सारथी (ऑरिगा), ययाती (पर्सियस), शर्मिष्ठा (कॅसिओपिया), सरठ (लॅसर्टा), हंस (सिग्नस), जंबुक (व्हल्पेक्युला), शर (सॅजिट्टा), गरूड (ॲक्विला) ह्या नक्षत्रांच्या पुंजुल्यांतल्यान वता आनी दक्षिण गोलार्धांत धनु (सॅजिटॅरियस), रेखाटणी (नॉर्मा), पीठ (ऑरा), नरतुरंग (सेंटोरस), त्रिशंकू (क्रक्स), नौका (कॅरिना) आनी नौकाशीर्श (व्हेला) ह्या नक्षत्रांच्या पुंजुल्यांतल्यान वता. आर्द्रा आनी ब्रह्महृदय हे व्हडले तारे आनी त्रिशंकू हो नक्षत्रांचो पुंजुलो आकाशगंगेच्या पट्यांत दिसतात.

आकाशगंगेच्या दक्षिण भागांत चड तारे वा नक्षत्रां आसात. हंस ह्या नक्षत्राच्या पुंजुल्याकडेन तिका फांटे फुट्टात. शौरी, सांगी आनी भुजंगधारी हांकां स्पर्श करून उत्तर फांटो वता आनी दक्षिण फांटो जंबुक आनी श्रवण हांचे मदल्यान वता. परत दोनूय फांटे एकठांय जातात.

पृथ्वी ही सूर्यकुळाचें एक आंग. कितलेशेच गिरे आनी उपगिरे मेळून सूर्यकूळ जालां. सूर्यावरी असंख्य तारे आनी नक्षत्रांचो पुंजुलो म्हळ्यार आकाशगंगा. अशे कितलेशेच पुंजुले अवकाशांत आसात. तांकां 'दीर्घिका' म्हणटात आनी सूर्यकूळ जे दीर्घिकेंत आसा तिका 'आकाशगंगा' म्हणटात. आमी आकाशगंगेंत आशिल्ल्यान, आमचे भोंवतणीं दोळ्यांक रातीचीं जीं नक्षत्रां आनी तारे दिसतात, तितलेय आकाशगंगेंतच आसात. ज्या जाग्यार नक्षत्रांची वा ताऱ्यांची दाटी आसता, थंय ती दुदाळ पट्याच्या रुपान दिसता. निखट्या दोळ्यांक सुमार ५००० (पांच हजार) नक्षत्रां वा तारे दिसतात. दुर्बिणींतल्यान हेपरस चड तारे वा नक्षत्रां दिसतात. कांय नक्षत्रां वा तारे दुर्बिणींतल्यानय दिसनात. सूर्यापरस ल्हान, तेचपरी सूर्यापरस मोठे अशे, प्रखर तेजान भरिल्ले कोट्ट्यांनी

तारे वा नक्षत्रां आमचे आकाशगंगेंत आसात. आकाशगंगेंत ताऱ्या ताऱ्यांमदलें द्रव्य, उस्ण वायू, धुल्लाचे कण बी, हेवटेन तेवटेन शिंपडलेले आसतात. आकाशगंगेच्या ह्या पटट्यांत ह्या सगळ्यांची गर्दी आशिल्ल्यान, त्या सगळ्यांच्या उजवाडाक लागून, हो पटो दुदाच्या रंगाचो दिसता.

गालिलेवान १६१०त दुर्बिणींतल्यान आकाशगंगेचें निरिक्षण केलें. आकाशगंगेचो दुदाळ रंग, तिच्यांत आशिल्ल्या असंख्य तारे आनी नक्षत्रांवेल्यान दिसता, अशें ताका दिसलें. विल्यम हर्शल हाणें १८व्या शेंकड्याचे अखेरेक आनी ते उपरांत तागेलो पूत जॉन हर्शल हाणें १८३४-१८३८ ह्या काळांत आकाशगंगेच्या कितल्याशाच भागांतल्या नक्षत्रांचे संख्येची नोंद केली. १९००-१९२० ह्या काळांत कापटायन आनी ताज्या वांगड्यांनी फोटे घेवपी दुर्बिणीच्या आधारान कांय थरावीक भागांतल्या ताऱ्यांच्या आनी नक्षत्रांचे संख्येची नोंद केली. ते उपरांत १९१६-१९१९ ह्या काळांत शॅप्ली हाणें आकाशगंगेच्या मध्यभागाभोंवतणीं भोंवताडे काडपी कितल्याशाच वाटकुळसर नक्षत्रांच्या पुंजुल्यांचें अंतर काडलें आनी आकाशगंगेचें स्वरूप चड स्पस्टतायेन मांडलें.

१९५१त मॉर्गन आनी ताच्या वांगड्यांनी आकाशगंगेचो चड सूक्ष्म सोद घेतलो. त्या उपरांत व्हान डी हूल्स, म्यूलर, उर्ट, कार बी शास्त्रिकांनी तिचें रूप निश्चित केलें. तांच्या निरिक्षणावयल्यान आकाशगंगा ही इंग्लेज Sb ह्या अक्षरांच्या आकाराची सोर्पाकार (सर्पिल) दीर्घिका आसा अशें दिसून येता. (आधारावळ : मराठी विश्वकोश, खंड १.)

### पुराणकथांतल्यान आकाशगंगा

लोककथांतल्यान वा पुराणकथांतल्यान आमच्या पुर्वजांचे जिणेची धारणा कळटा. आकाशगंगा म्हळ्यार तांकां नक्षत्रांनी भरिल्लो दुदाळ रंगाचो पटो दिसता. आकाशगंगा ही तांकां स्वर्गार चडपाची निसण दिसता. वामनावतारांत विष्णून जेन्ना तिसरें पावल घालें, तेन्ना तें एका तांतयाक लागलें आनी तें फुटून आकाशांत जो व्हाळ व्हांवपाक लागलो, तो व्हाळ म्हळ्यार आकाशगंगा अशें त्या काळार लोक समजताले.

आकाशगंगा तांकां आनीक एका रुपान भावताली. हिमालयाची बायल मेना, हिगेर दोगी चलयो जाल्यो. व्हडली गंगा आनी दुसरी पार्वती वा मैना. बापायन गंगेक देवांक अर्पण केली. तीच स्वर्गांत आकाशगंगा जाली.

ग्रिकांकय आकाशगंगा कांयशी अशेच तरेन भावली. इयुनो हे देवतेन जेन्ना येर्कुलिसाक दुदाक धल्लो, तेन्ना तिचे चिंवेंतल्यान कांय दुदाचे थेंबे पडले. ह्या थेंब्यांचीच आकाशगंगा जाली, अशी तांची श्रद्धा आसा.

**आकाशदिवो**। आकाश्‌दिवॉ। सा.रू.– व्या, भौ. – वे (वॅ), सा.रू.– व्यां। सं. आकाशदीपः पु. दिवाळेक घराघरांनी उंचायेर हुमकळायतात तो रंगीत फोली लावन सजयल्लो दिवो.

**विशेश**: दिवाळेच्या उत्सवांत तरेतरेच्या रंगीत फोलींनी आनी भिंगांनी सजयल्ल्या दिव्याक 'आकाशदिवो' म्हणटात. हो दिवो ऊंच हुमकळायतात.

आश्विन शुद्ध एकादस धरून कार्तिक शुद्ध एकादशीमेरेन, घरामुखावेल्या आंगणांतली जमीन शेणान सारोवची. थंय वीस हात, णव हात वा पांच हात लांबायेचो खांबो पुरचो. वस्त्र, गुडयो, अस्टगंध आनी कलश हांणी खांबो सोबीत करून ताजेर अस्टदळी साळीक करून दवरचें. त्या साळकांत मदीं मोठो दिवो दवरचो. त्या दिव्याभोंवतणीं साळकाचे दर एक पाकळेंत एक एक दिवो धर्म, हर, भूती, दामोदर, धर्मराज, प्रजापति, पितर (तम:स्थित) आनी प्रेत हांचेखातीर दवरचो. दिव्यांत तिळेल घालचें. उपरांत दिव्याची पुजा करून 'दामोदराय नभसि तुलायां

लालया सह । प्रदिपं ते प्रयच्छामि नमोऽनन्ताय वेधसे ।।' हो मंत्र म्हणीत ते दिवे पेटोवचे, अशें 'भारतीय संस्कृति कोशां'त सांगलां.

गोंयांत अशे तरेन दिवे पेटयल्ले दिसनात. चार चौक्यांचें घर आसल्यार, खंयचेय चौकेच्या मदल्या खांब्याक कोंडो बांदून ताका आकाशदिवो हुमकळायतात. कांयकडेन घराचे आगाशेर वा जनेलांत तो हुमकळायतात आनी तांतूंत विजेचो बल्ब सोडटात.

गोंयांत धाकली दिवाळी (नरकचतुर्दस) धरून, व्हडले दिवाळे (तुळशीलग्न) मेरेन आकाशदिवो लायतात. आकाशदिवो लायतकीर यम, शिव, विष्णू आनी लक्षिमी संतुस्ट जावन संपत्ति दितात म्हणपाचें पुराणां सांगतात.

जपानी लोकांतय पितरांखातीर आकाशदिव्या-वरी, तरेतरेचे रंगीत बालांव लावपाची प्रथा आसा. हिंदू जशे भाद्रपद म्हयन्याचे उमाशेक पितरांखातीर म्हाळ वाडटात, तेच तरेचो एक सण पितरांखातीर ते मनयतात. हो सण आगस्टांत जाता आनी ताका 'बों' (Bom) म्हणटात. ह्या सणा दिसा, तरेतरेचीं चित्रां काडिल्ले रंगीत बालांव, रातचे मार्गा मार्गांनी, दिपरद्नेवरी पेटोवन लायतात. (पळेयात : Glassario Luiso-Asiatico, पा. १३५.)

आकाशदिव्याक लागून पितरांक उजवाड मेळून तांचो उद्धार जाता, अशें 'मराठी विश्वकोशां'त सांगलां.

आमगेले जाणटेले सांगतात की, वर्सांतल्यान एक खेपो म्हळ्यार दिवाळेच्या दिसा, पितरांच्या आत्म्यांक आपलें घर सोदून पळोवपाची उमळशीक लागता. आकाशदिव्याच्या उजवाडान तांकां आपलें घर वळखूंक येवपाखातीर तो उंच लायतात. घराच्या हुंबऱ्यांर, जनेलांर, चौक्यांर, घराच्या कोनशाकोनशांनी दिवे लावन, घर उजवाडान भरतात. आपलें घर अशें उजवाडान भरिल्लें पळेतकीर, पितरांचे आत्मे समाधानान प्रसन्न जातात, आनी खुशालभरीत जावन, ते आपल्या वंशजांक सूख आनी समृद्धी मेळची म्हणून आशिर्वाद दितात.

**आकाशमार्ग**। आकाशमार्ग। सा.रू.– र्गा। सं. आकाश + मार्ग पु.१. मळबांतल्यान वता तो मार्ग. (तो रुशी आपले सिद्धीच्या बळार आकाशमार्गान हिमालयांत वचूंक गेलो.) २. हवेंतलो मार्ग वा वाट.

**आकाशमार्गी**। आकाशमार्गी। सा.रू.– र्ग्या। 'आकाशमार्ग' वेल्यान वि. जो आकाशमार्गान वता तो. पु. जाका आकाशमार्गान वचपाची सिद्धी प्राप्त जाल्या तो योगी.

**आकाशवाणी**। आकाश्‌वाणी। सा.रू.– णये, भौ. – णयो, सा.रू.–णयां। (सं. आकाशवाणी) स्त्री. १. स्वर्गांतल्यान अदृश्यरुपान जाल्ली वाणी; देववाणी; अशरिरीवाणी. ("युधिष्ठिराक मुखार कुबेराचें घर दिश्टी पडलें. ताच्या मनांत थंय वचचें अशें आयलें. कशें वचचें, कोणाक विचारचें, तो येवजितालो. इतल्यांत आकाशवाणी जाली : भितर वचपाचो बेत तकलेंतल्यान काडून उडय..." महाभारत : खंड १, बरो : रवीन्द्र केळेकार, पा. २१६-२१७.) २. रेडियो स्टेशन.

**विशेश**: १. आकाशवाणी हें उतर देववाणी वा अशरिरी वाणी ह्या अर्थान पुराणांत, महाभारतांत, लोकवेदांतल्या काणयांनी, तेच परी बायबलांतय उपकरायल्लें मेळटा. केन्ना ती भविश्य सांगता, केन्ना ती सत्य सांगता आनी केन्ना देवाचे सांगणेर श्रद्धा दवरची, हें सांगपाखातीरय आकाशवाणी जाता.

देवकीगेर जें आठवें भुरगें जातलें तें कंसाचो काळ जातलें, अशें भविश्य सांगपाखातीर आकाशवाणी जाल्या. शकुंतला आपल्या पुताक घेवन दुष्यंताच्या दरबारांत वचून, "हांव तुजी बायल आनी हो तुजो पूत, आमचो स्विकार कर" अशें ताका सांगूंक लागली, तेन्ना दुष्यंतान तिका सांगलें, "ह्या पुताक हांव वळखना. तुजेकडेन हांवें गांधर्वविवाह केल्लोय

म्हाका आठवना. तूं हांगासरल्यान वच.'' त्यावेळार ''शकुंतला सत्य सांगता आनी हो पूत तुजोच आसा'' हें सत्य सांगपाखातीर आकाशवाणी जाली. (महाभारत, आदिपर्व अ. ७४, संभवपर्व ७.) बायबलांतय देवाचेर द्दढ श्रद्धा दवरची, हेखातीर आकाशवाणी जाल्या. ''उपरांत दुसरे खेपो आकाशांतल्यान वाणी जावन तिणें म्हाका सांगलें, देवान जें शुद्ध केलां, तें तूं निशिद्ध मानूं नाका.'' (नवो करार – प्रेशितांच्यो करण्यो, ११.९).

आकाशवाणी अलौकिक आसता. लोकमानसान तिका मानून घेतल्या. लोकांचो तिचेर विस्वास आसा. आकाशवाणीचेर लोकांची श्रद्धा आसा.

**२. आकाशवाणी (ऑल इंडिया रेडियो)**

आकाशवाणी (ऑल इंडिया रेडियो) ही रेडियो कार्यक्रमाचें प्रक्षेपण करपी भारत सरकाराची यंत्रणा. भारतांत आकाशवाणीचो म्हळ्यार नभोवाणीचो विकास हालींच्या साठ वर्सांतच जाला. १९२६त 'इंडियन ब्रॉडकास्टींग कंपनी' ह्या खाजगत कंपनीन भारत सरकाराकडेन एक करार करून मुंबय आनी कलकत्ता हांगा अनुक्रमान २३ जुलै आनी २६ ऑगस्ट १९२७ दिसा दोन रेडियोचीं केंद्रां स्थापन केलीं. ह्या केंद्रांचे कार्यक्रम ४८ कि.मी. आंवाठांतच आयकूंक येताले. १९२७ वर्सापयलीं भारतांत आकाशवाणीचो प्रसार कांय खाजगत हौशी क्लबांकडल्यान जालो. १९२४ वर्सा मद्रास शारांत पयलो रेडियो क्लब स्थापन जालो. हौशी रेडियो क्लब लाहोर (आतां पाकिस्तानांत), अलाहाबाद, पेशावर (आतां पाकिस्तानांत), डेहराडून हांगासल्ल्यानय चलताले. ह्या रेडियो-क्लबांच्या मुळावणार सरकारान मुखार रेडियो केंद्रांची स्थापना केली. म्हैसूर संस्थानान १९३५ वर्सा स्थापन केल्ल्या रेडियो केंद्रांक 'आकाशवाणी' हें नांव दवरलें. हेंच नांव भारत सरकारान आपणें स्थापन केल्ल्या रेडियो केंद्रांखातीर उपकारायलें. इंग्लेज भाशेंतल्यान खबरो सांगतना मात 'ऑल इंडिया रेडियो' हें नांव घोळटेंत हाडलें. इंडियन ब्रॉडकास्टिंग कंपनी १ मार्च १९३० ह्या दिसा बुडली. ही कंपनी रोखडीच भारत सरकारान घेतली आनी आकाशवाणीचें कार्य आपल्याकडेन घेतलें. १९३६ वर्सा लायोनल फिल्डन हाणें आकाशवाणीचो मुखेली ह्या नात्यान आकाशवाणीचीं सगळीं सुत्रां आपल्याकडेन घेतलीं. आकाशवाणीचो विकास भारताचे स्वतंत्रताये उपरांतच जालो. (पळेयात : मराठी विश्वकोश, खंड १.)

भारतांत चडशा मुखेल शारांनी, आज आकाशवाणीचीं केंद्रां स्थापन जाल्यांत. खंयच्याय रेडियो केंद्राचे तीन विभाग आसतात : तांत्रिक (Technical) विभाग, कारभार विभाग आनी कार्यक्रम आंखपी विभाग.

**गोंयची आकाशवाणी – Emissora de Goa**

पुर्तुगेज सरकाराचे राजवटींत, गोंयांत João Ferreira Martins हाणें दिल्ल्या ल्हानशा ट्रान्समिटरावेल्यान कांय हौशी लोकांनी गोंयच्या पोस्टाच्या रेडियो-टेलेग्राफीक स्टेशनावेल्यान प्रायोगिक स्वरुपाचो एक कार्यक्रम केलो. ह्या कार्यक्रमान सुमाराभायर येस जोडलें. हो कार्यक्रम २८ मे १९४६ दिसा जालो. ह्या दिसाच्यान 'एमिस्सोर द् गोअ' (Emissora de Goa) ह्या रेडियो स्टेशनाची, म्हळ्यार गोंयचे आकाशवाणीची स्थापना जाली. १९४६ वर्साच्या जुलय मेरेन ही आकाशवाणी पोस्ट, टेलिग्राम आनी टेलिफोन ह्या खात्याचो एक विभाग म्हणून चल्ली. ह्याच वर्साच्या २५ जुलय ह्या दिसा, एका सरकारी हुकमान Emissora de Goa हें स्वतंत्र खातें जालें.

ह्या एमिस्सोराची इतली वाड जायत रावली की, थोड्याच काळाभितर भारताचो 'ऑल इंडिया रेडियो'

पसून 'एमिस्सोरा'च्या कार्यक्रमांमुखार बावको जालो. भारतांतल्या कांय वर्तमानपत्रांनी पसून गोंयच्या रेडियोची म्हळ्यार एमिस्सोराची तोखणाय केली. (पळेयात : Historia e Evolucao, dos C.T.T. do Estado da India, por Caetano Francisco de Piedade Duarte.)

**गोवा रेडियो : 'ऑल इंडिया रेडियो'चें एक केंद्र**

गोंयच्यान पुर्तुगेजांक धांवडावपाक आनी गोंय हो भारताचो कुडको म्हणून भारतांत हाडपाक, भारत सरकारान १८ डिसेंबर १९६१ दिसा गोंयांत सैन्य धाडलें. त्याच दिसा सकाळच्या आठ वरांच्या सुमाराक भारतीय झुजारी विमानांनी एमिस्सोराच्या बांबोळे आशिल्ल्या ट्रान्जमिशन स्टेशनाचेर बाँब उडोवन तें फोडून उडयलें. ताका लागून स्टेशनांत आशिल्ल्या शक्तिवंत ट्रान्जमिटरांचो नाश जालो.

१९ डिसेंबर १९६१ दिसा गोंय भारताचे ताबींत येवन तें भारताचोच एक प्रदेश जालें. ९ जानेवारी १९६२ दिसा लेफ्टनंट गवर्नर के. पी. कॅन्डेथ हांचे हस्तुकीं 'गोवा रेडियो'ची स्थापना जाली आनी त्याच दिसा गोवा रेडियोचो पयलो कार्यक्रम जालो. ह्या गोवा रेडियोची व्यवस्था भारताच्या विदेश मंत्रालयाच्या अधिकारासकल आयली. उपरांत भारत सरकाराचें गृहखातें गोवा रेडियोची व्यवस्था पळोवंक लागलें. १ एप्रिल १९६३ दिसा 'गोवा रेडियो' भारताच्या मिनिस्ट्री ऑफ इन्फॉर्मेशन अॅन्ड ब्रॉडकास्टींग हाच्या कारभारासकयल आयलो. तेन्नाच्यान 'गोवा रेडियो' हो भारतीय आकाशवाणीचें एक केंद्र जालें. २ ऑक्टोबर १९६४ ह्या दिसाच्यान ह्या केंद्रावयल्यान गोंयच्या खबरांपत्रांचें प्रक्षेपण जावपाक लागलें.

**आकाशहोडें**। आकाश्हॉडँ । सा.रू.–ड्या; भौ.– डीं, सा.रू.– ड्यां। सं. आकाश + होडें : न. विमान.

**आकाशी**। आकाशी। 'आकाश' वेल्यान वि. मळबाच्या रंगावरी आशिल्लो; निळो; निळसार. (आकाशी रंग).

**आकास**। आकास् । सा.रू.– शा । सं. आकाश न. पळेयात : 'आकाश'.

**आकुंचित**। आकुञ्चीत। सं. आकुंचित वि. आंखुडलेलो; आक्रासून आयिल्लो; आंवुळलेलो; मोटवो जाल्लो. २.(ला) १. मोटवो; क्षुद्र. २. ल्हान (तागेल्या पराक्रमाक हें मळ आकुंचित जाता.)

**आकुडप**। आकुडॅप् । सा.रू.– पा सं. आकृष्ट, प्रा. आकड्ढ क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आकुड्-अक.) १.आंखडप. २.कुडकुडप. ("पोर सगुणा उगडां हिंडटा, तां बगूं नजो. न्हिबरांत करपता. थंडयेंत आकुडटा." – आनी एक पोर नागडेंच उरता, बरो : पुंडलीक नायक, चौरंग, पा.९०.)

**आकुळ**। आकुळ्। सं. आकुल वि. १. दुख्खान, हुस्क्यान, चिंतेन वा भंयान ग्रस्त जाल्लो; व्याकूळ. २.(ला.) मरूंक तेंकिल्लो, ल्ली.

**आकुळप**। आकुळॅप् । सा.रू.– पा। 'आकुल' वेल्यान क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आकुळ्-अक). १.दुख्खान, हुस्क्यान, चिंतेन वा भंयान ग्रस्त जावप; व्याकूळ जावप. २. (ला) मरूंक तेंकप.
**म्हण**: आकुळिल्ली गाय आपाभटाक दान.

**आकुळपिकुळ**। आकुळ्-पिकूळ्। सं. आकुल वि. दुख्खान, हुस्क्यान, चिंतून वा भंयान ग्रस्त जाल्लो; दुख्खान व्याकूळ जाल्लो. ("फुडें आपली अपुर्बायेची सून भागिरथी हीच तो खबरकाडो म्हणपाचें कळून, दुख्खान ताजो जीव सामको आकुळ-पिकुळ जालो." – गों.गों. वसणूक, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ३७.)
**विशेश**: आकुळ-पिकुळ हो साद शब्द. साद शब्द म्हळ्यार मूळ शब्दाची जाल्ली द्विरुक्ती. साद शब्दांत सदांच त्याच शब्दाची द्विरुक्ती जाता अशें ना. चड करून जाता. कांय वेळा पयल्या शब्दाकडेन ध्वनीची

सारकाय आशिल्लोय शब्द येता. ही द्विरुक्ती फक्त अर्थविस्तार दाखैता. साद शब्दाची प्रथा द्रविडी भासांतल्यान आर्यभाशेंत पावल्या, अशें डॉ. सुनितिकुमार चतर्जी हांचें मत आसा.

**आकृताय**। आकृताय्। सा.रू.– ये; भौ.– यो, सा.रू.– यां। सं. आकृति: स्त्री. १. आकार; रूप; घाट. (''...ताणें काळे मातयेच्या चिकचिकीत गुळ्याक सोबीत आकृताय दिवन तुमकां घडले, रेखले, नितळायले आनी तातूंत फूक मारून आपलो आत्मो भल्लो.'' – गोम. २रें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १२१.) २. प्रतिमा; म्हूर्त; चित्र. ३. देह; शरीर; आंगलोट. ४. रेखणी; भुमितींतलो वा खंयच्याय भौतिक शास्त्रांतलो सिद्धान्त सिद्ध करपा खातीर रेखांनी ना जाल्यार टिंबांनी काडिल्लें सांकेतिक चित्र.

**आकृती**।आकृती। सा.रू.– ती; भौ.– त्यो, सा.रू.– त्यां। सं. आकृति स्त्री. १. आकार; रूप; घाट. २. प्रतिमा; म्हूर्त; चित्र. ३. देह; देहाची ठेवण वा देहाचो जायास. (''शाली दीनवाणे नदरेन ताचे पाठमोरे आकृतीकडेन पळयत रावलें.'' – थोंटो बाळकृष्ण, बरो : अच्युत तोटेकार, चैत्रांगण, पा. ८३.) ४. गणितांतलो, भुमितींतलो वा खंयच्याय भौतिक शास्त्रांतलो सिद्धान्त सिद्ध करपाखातीर रेखांनी ना जाल्यार टिंबांनी काडिल्लें चित्र. ५. भुतावळीचो आकार. (''रातीकडेन दिवो पालयतकच रेवतीक भंय दिसता. काळखांत तिका आकृत्यो दिसतात...'' – आमचे मदली 'ती', बरो : चंद्रकांत केणी, व्हंकल पावणी, पा. ७६.)

**आखया**। आख्या। सं. अक्षय वि. १. अखया; शाश्वत; अविनाशी; सासणाचो. २. नित्याचें.

**आखाडयो**। आखाड्यॉ। सा.रू.– या; भौ. – ये (यॅ), सा.रू.– यां। 'आखाडो' वेल्यान पु. आखाड्यांत वचून खुस्ती खेळपी पैलवान.

**आखाडो**। आखाडॉ। सा.रू. – ड्या; भौ. – डे (डॅ), सा:रू. – ड्यां। सं. अक्षवाट; प्रा. अक्खाडय; मुंडारी : आखारा पु. १. मल्लयुद्ध खेळपाखातीर तयार केल्लो जागो; खुस्ती वा मुस्टियुद्ध खेळपाखातीर जमीन आंचोवन आनी पेटून तयार केल्लो जागो. २. किल्ल्याचो तट (''...४ तारखेक आखाड्या भोंवतणीं तांडून, सैन्य देवौंक खैंची सुवात फावोशी आसा ती ताणीं बारकायेन ध्यानांत घेतली आनी ५ तारखेर फांतोडेर ४ वरांचेर किल्ल्याचेर नाळखानो पेटैलो.'' – पुण्यात्मो राम कामती, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ३०). ३. गांवकारांचो मेळपाचो जागो. ४. नाचाचो मांड. ५. अड्डो. ६. गोरवां भितर सरूंक पावूं नयेत म्हणून, कुळागराच्या वा भाटाच्या आड्याक चिऱ्यांनी बांदून काडिल्ली खिंड कशी वाट. हे खिंडीचें तोंड एका मनशाक रीग मेळपाइतलेंच रूंद दवरतात. वाट पयलीं सरळ, उपरांत आडवी आनी परत आशिल्ली तशी सरळ दवरतात. ७. घराच्या दारामुखावयल्या आंगणाचे वंयेक वा आड्याक, मनशांक भायरभितर सरपाखातीर दवरलेली अशीर वाट. (''एक दीस आखाड्यांत उबो रावन ताणें मुद्दाम म्हाका उलो माल्लो आनी म्हळें : ''शिगमो येयलो.'' – दोंगर चंवल्ला, बरो : मीना काकोडकार, कोंकणी कथासंग्रह, साहित्य अकादेमी, पा.१५१.) ८. वंयेक आनी गोट्याक केल्लें आडें. हें आडें अशें आसता : साधारणशा दाटायेच्यो आनी गोरवांक वेल्यान उडी मारूंक मेळूं नये येद्या उंचायेच्यो दोन फळयो जमनींत घट्ट पुरून उब्यो करतात. दोन फळ्यांक जमनी-पासून समांतर अशीं धोलां करतात आनी तातूंत काडूंक आनी घालूंक मेळसारके कोंड्याचे कुडके घालतात. ९. संख्या पाठ करपाचे पाडे. कोष्टक. (''पाडापाडी म्हळ्यार दोन भुरग्यांनी एकामेकांक शब्दाचे अर्थ आनी गणितांतले सगले पाडे, चवडकी मेरेनचे आखाडे ह्या सगल्यांचेर प्रस्न करप.'' – काणी एके जिणेची, बरो : महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. ४०.)

१०. अंदाज; अदमास. ("चड चोरयो खंय जातात, कोणाच्या भाटांत नाल्ल आसात, हाचो आखाडो बांदून तांणी त्याप्रमाणें जागे वांटून घेतले." – ख्यास्त, बरो : जयमाला दणायत, कवासो, पा. २४.) ११. कोट; किल्लो. ("मुंबै लागशिल्ल्या करंजे आखाड्यावेलो कपीत आंतोन फेल हाणें कामतीआड कांय घोळाष्टकां केलीं म्हणपाचें ताका समजनाफुडें ताणें ताका बंदखणींत घालून, आनीक ख्यास्त भोगौंक गोंयाक धाडून दिलो." – पु.रा.का., बरो : शणै गोंयबाब, पा. ४८.)

**वा.प्र.: आखाड्यांत देंवप** : झुजाखातीर, खुस्तेखातीर वा झगडपाखातीर सामुखार वचप.

**विशेश**: प्राचीन काळार शस्त्रक्रिडेखातीर आखाड्यांत देंवपाची प्रथा आशिल्ली. महाभारतांत द्रोणाचार्यान राजकुमार शस्त्रां कशीं चलैतात हाजी पारख करपाखातीर आखाड्याचें आयोजन केल्लें. थंय तांणी शस्त्रां चलोवपाची आपआपली घटी आनी निपुणाय दाखयली. सभंग जातकांतय धनुश्यबाण खेळिल्ल्या खेळाचें वर्णन आसा. (पाणिनिकालीन भारतवर्ष, लेखक : वासुदेवशरण अग्रवाल, पा.: १६१.).

**आखाणो** । आखाणॉ । सा.रू.-ण्या; भौ.– णे, सा.रू.– ण्यां । (सं. अंगुष्ठ; प्रा. अंगुठ्ठ?) पु. आंगठो; उंगठो; आखांडो. ("हांगा बी.डी.ओ.कतान लागली, ताणें आखाणो तोंडाक लावन पिवंक जाय म्हणपाची कुरू केली." – आमच्या गांवांत बी.डी.ओ. येता, बरो : मनोहरराय सरदेसाय, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, संपा. अ.ना. म्हांबरो, पा. २६).

**आखांडो** । आखांडॉ । सा.रू.– ड्या; भौ.– डे (डॅ), सा.रू.– ड्यां । (सं. अङ्गुष्ठ; प्रा. अंगुठ्ठ?) पु. हाताचें आंखूड जाडें बोट; पांयांचें पयलें आनी जाडें बोट; आंगठो; उंगठो.

**म्हण** : आखांडो सुजल्यार दोंगरायेदो जायना.

**आखात** ।आखात् । सा.रू.–त; भौ.–तां, सा. रू.– तां । सं. आखात; आखातम् न. भुंयेंत बरोच भितर रिगिल्लो दर्याचो भाग; भूंयसागर; उपसागर. देखीक : खंबायतचें आखात; पर्शियन आखात; मेक्सिकोचें आखात.

**विशेश** : कांय आखातां रूंद तशींच अरुंदय आसतात. कांय वेळार आखाताचें तोंड अरूंद आसल्यारय खोल आसता. एकाद्या आखाताक न्हंयो वचून मेळटात आनी ताका म्हासमुद्राचें रूप हाडटात. देखीक : मेक्सिकोचें आखात.

**आखाती** ।आखाती । सं. आखात : + ई वि. १. आखाता भोंवतणी आसपी. (इराक, कुवैत, सौदी अरेबिया बी देशांक आखाती देश म्हणून वळखतात.) २. आखातांतल्यान येवपी वा आखाती देशांत रावपी (आखाती मनीस). ३. आखातांतल्या देशांत घडयल्लो वा तयार जाल्लो (आखाती म्हाल). ४.आखातांतल्या प्रदेशांत उलयतात ती भास (आखाती भास). ५.आखाताकडेन लग्निक आशिल्लो (आखाती पेंच-प्रसंग).

**आखांताळो** । आखान्ताळॉ । सा.रू.– ळ्या; भौ.– ळे, सा.रू.– ळ्या । 'आकांत' वेल्यान. वि. भयांकृत. ("दिकादिकांचें रगत पिळीत । आखांताळो याग मांडून । मनशांतलो मनीस मोखीत । येवंदी तुजे उले । येवंदी तुजे उले ।" – वंशकुळाचें देणें, बरो : नागेश करमली, पा. ३२.)

**आखुळप, आखुळप-माखुळप** । आखुळप्, आखुळप्-माखुळप् । सा.रू. – पा । (?) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आखुळ्, आखुळ्-माखुळ् (अक.) १. अपुर्बाय करप; अर्थ करप; लाड करप; माये-मोगान आंगा खांदार खेळोवप. २. मोग करप; मोगाचो खेळ खेळप; लाडांत येवन वेंगांत वा वेंगेंत घेवप. ("हें मारी-जाकीन तागेली मुंडकात्र आनी क्रियाद. हेचें जुवानपण फुलतें, वाडटो कवथो कशें.

अशा ह्या मारी-जाकिनाक तो केन्ना केन्नाय आपले नदरेन सांसपितालो. एक दीस भाटकारान रांदचे कुडींत ताका आखुळुन-माखुळुन धल्लें. आनी ताच्या चोळयेच्या हड्ड्याकडेन खोयिल्लें सोर्तीचें कावतेल पळेलें.'' ओलिव्हीन गोमिश हांच्या 'मन वोड्टा-वोड्ना' ह्या कथां झेल्याक बरयल्लीं दोन उतरां; बरो : पांडुरंग भांगी, पा. २.) ३. वयलेवयर उखलून धरप; तोखणाय करप; तूस्त गावप. (''ते म्हणटात, 'मराठे आज जरी गोंयच्या मराठीच्या भक्तांक आखुळटात-माखुळटात तरी, तितल्यान गोंयकारांक ते आपले वांगडचे आनी सारके योग्यतायेचे लेखतात अशें समजल्यार चूक जातली... मराठ्यांले नदरेंत गोंय भरूंक ना.'' कों. भा. जैत, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ५१-५२). ४. फुलां माळप; थातो-माथो करप. (''... तरी आसतना, अडचणींचो वेळ आयल्यार, वयल्याचाराक आखुळून-माखुळून तें ताच्या नाकांत दोरी घालता आनी आपणाक जाय तसोच ताका भोंवर मारूंक लायता म्हणपाचें आजवेरचो इतिहास सांगता.'' – नवें गोंय, ३रें वर्स, ३रो आंक, ज्यानेर १९३७, संपादपी : का. श्री. नायक.)

**आखू** । आख्खू । सा.रू.– खू; भौ.– खू, सा.रू. – खूं । सं. आ + क्ष : = शेत; अर. आखिर = कुरण ? पु. खारे न्हंयचे देगेर आशिल्ल्या शेताचो कुडको; खाजनाचो कुडको.

**आखेतय** ।आखेतय् । सा.रू.–ये; भौ.–यो, सा.रू.–यां। सं. अक्षय-तृतिया; प्रा. आख्खय-तइया; हिं. आखातीज स्त्री. १. वैशाख म्हयन्याचे पयले पंद्रशेचो तिसरो दीस; वैशाख शुद्ध तृतिया; अक्षयतृतिया. २. जे तिथीक सत्ययुगाचो आरंभ जाल्लो ती तीथ.
**विशेश** : सत्ययुगाचो आरंभ हे तिथीक जाल्ल्यान हिका 'युगादि' म्हणटात. हे तिथीक भारतांतल्या कांय स्थानांनी तीर्थस्नानार वचून न्हातात आनी दानां दितात. अक्षयतृतियेचो वा आखेतयेचो दीस हो साडेतीन म्हुर्तांतलो एक म्हुर्त आशिल्ल्यान हरशील्ल्या शुभकामांखातीर हो दीस शुभ मानतात.

**आखो** । आखॉ । सा.रू.– ख्या; भौ.– खे (खॅ), सा.रू.– ख्यां । सं. आ + क्ष = शेत ? पु. एक एका गांवांचे गांवकारेचे प्रथेप्रमाणें थंयच्या शेतांचो केल्लो वांटो, भाग; पाटोळी.

**आखोंडी** ।आखोंडी । सा.रू.–डे; भौ.– ड्यो, सा.रू.– ड्यां । 'आखांडो' वेल्यान ? स्त्री. हाताचें वा पायाचें बोट.

**आखो-तिखो** ।आखॉ-तिखॉ । सा.रू.– आख्या-तिख्या; भौ.–आखे-तिखे (आखॅ-तिखॅ), सा.रू. –आख्यां-तिख्यां । सं. आ + क्षिप् = ध्यान. चित्त ओडून घेवप ? पु. नखरो; ध्यान, लक्ष, चित्त वेधून घेवपाक केल्ले लाग; साज-शृंगार करून मोह निर्माण करपाक केल्लो विभ्रम. (''तातुबाब : पणून तुजे आखे-तिखे अिल्लेय अुणे जावंक नात मुगो.'' – पोवनाचें तपलें (नाटक), रुपांतर करपी : शणै गोंयबाब, पा. १९).
**विशेश** : हें उतर चडशें भौवचनांत उपकारायतात. हें उतर 'साद शब्द' आसुंये.

**आखो-माखो** । आखो-माखो । आंखप = आंखणी करप + माखप = (तेल) थापप हाजेवेल्यान ? पु. १. भुरग्यांचो एक खेळ. ह्या खेळांत भुरगे खांबे धरतात आनी म्हणटात : 'आखो माखो तेल माखो, तेलकाराचो बुडकुलो फुटलो रे.' २. आवयो आपल्या माणकुल्यांक तेल लायतना म्हणटात तें गीत. हें गीत अशें आसा :

आखो माखो तेल माखो
तेलकाराचो दाबणो फुटलो
तेल गे ऽ ऽ तेल
आखण माखण
बाबाच्या जिवाक राखण

**विशेश**: 'आखो माखो' हें उतर दोन उतरांनी घडलां. 'आंखप' हाजो मूळ धातू 'आंख' आनी 'माखप' हाजो मूळ धातू 'माख'. ह्या दोन उतरांच्या दुव्यान तें घडलां. 'माख्' ह्या उतराचेर अनुस्वार नाशिल्ल्यान 'आंख' ह्या उतरावेलो अनुस्वार वचून, 'आंख माख' हाज्या जाग्यार तें 'आख माख' जालां जावये. ह्या धातूंक 'ओ' लागून तांचें 'आखो माखो' हें पुल्लिंगी उतर घडलां आसुये.

आवयो माणकुल्यांक तेल लायतना पयलीं तेल माथ्याक घालतात. माथ्याचो ताळवेकडलो भाग आंखिल्लेवरी करून, हें तेल ताळवेकडल्या भागाक थापटितात आनी उपरांत तें सगळ्या आंगाक चोळटात वा थापटतात. (गोंयकारांले पडवेर, बरो : सौ. कमलादेवी राव देशपांडे, पा. ५०).

**आख्खो** ।आख्खो। सा.रू.– ख्ख्या; भौ.– ख्खे, सा.रू.– ख्ख्यां। (सं. अक्षत, प्रा. अक्खय) वि. अख्खो; सगळो. ("तेन्ना ते कासयेक घरा हाडून पूजा केली. आख्ख्या खारवाड्यार सामको बोवाळ पडिल्लो." – कासय, बरो : पुंडलीक नायक, कोंकणी कथासंग्रह, साहित्य अकादेमी, पा. १३९).

**आख्यान**। आख्ख्यान्। सा.रू.– ना; भौ.– नां, सा.रू.– नां। सं. आख्यानम् न. १. कथा, काणी; गोस्ट; (सावित्री आनी धर्मव्याधसारख्या सुंदर आख्यानांनी महाभारताचें वनपर्व भल्लां.) २. (ला) परवड; चऱ्हाट; साळिवांच्छेक. (उपाय नासून ताजें हें आख्यान म्हाका आयकुचें पडलें.)

**वा.प्र.: आख्यान लावप**: एकाद्रे गजाली संबंधान आयकुप्याक वीट उबगण योसर खूप तपशिलान वर्णन करप; परवड सांगप; चऱ्हाट लावप.

**विशेश:** आख्यान ही धार्मिक परंपरेंतली कथा. गद्य आनी पद्याच्या आधारान आख्यानाची रचणूक जाता. गद्य कथेचो ओग सांबाळून धरता, तर पद्य भावनेचो उमाळो उक्तो करता.

**आख्यायिका**। आख्यायिका। सा.रू.– के; भौ.– को, सा.रू.– कां। सं. आख्यायिका स्त्री. १. परंपरेन चलत आयिल्ली अशी मनाचें रंजन करपी खूप पुर्विल्ली कथा. २. पुर्वापार परंपरेन चलत आयिल्ली इतिहासीक, पुराणीक वा हेर कथा. ("रोथांग पासावेल्यान कांय अंतराचेर व्यासकुंड आसा. व्यास मुनीन हांगा बसून तप केल्ल्याची आख्यायिका सांगतात." – गोमांचल ते हिमाचल, बरो : दिलीप बोरकार, पा. ३४.) ३. कथा; काणी; गोस्ट. ४. दंतकथा ("सांतु जुआवांच्यो जायत्यो आख्यायिका लोकां जिबेर आसात." – गोंयच्या लोकवेदाचो रुपकार, बरो : प्रा. श्याम वेरेंकार, पा. ५७).

**आग**। आग। सा.रू.– गी; भौ.– गी, सा.रू.– गीं। सं. अग्नि; प्रा. अग्गी स्त्री. जळपासारखी वस्त जळूंक लागतकीर उस्णतेवांगडाच निर्माण जाता तो उजवाड; उजो; अग्नि; अनल; जातवेदस.

**वा.प्र.: १. आग खावन इंगळे हागप**: कोणाकच न बागडप; कोणाचीच पर्वा न करप; आगळिकेचीं कामां करून पचोवप; गळोभर उदकांत वचून सुके कास्टेन भायर सरप.

**२. आगींत उडकी मारप**: (१) साहस करप; आपणेंच आपल्याक संकटांत घालप; चूड लावन घरांत म्हारू हाडप. (२) आपले तांकी भायल्या कामाक हात घालप.

**३. आगीर तेल घालप**: दोगांचें तोंडाक तोंड लागिल्लें आसतना, तिसऱ्यान मदीं कूस पुरून, तांचें झगडें आनीक पेटोवप.

**४. आगीफुडें धुंवोर खावप**: काम करचे पयलींच तोंडाच्यो चंवळ्यो फोडप वा लातबडायो मारप.

**५. आग लावन पाणयांक धांवप**: झगडें पेटोवप, उपरांत तें पालोवपाचो यत्न करप; वांकडें करप आनी उपरांत तें आंगार शेकतकीर ताचें निवारण करपाचो

यत्न करप.

**६. दोगांभितर आग धुंवोर आसप :** नपड येवप.

**७. आंग खावं काय इंगळे खावं करप :** आकांताची तिडक मारप. ("तो वस्ती होगडावन परतो आयलो, तेन्नासावन तरी ती आग खावं काय इंगळे खावं अशे तिडकीन ताचेकडेन वागताली." – क्रूझाचो पाय, बरो : गजानन जोग, रूद्र, पा. ९३).

**म्हणी :**

१. आगींत लासता तो कोयत्याक भियेता ? (मोठ्या अरिस्टामुखार किरकोळ अडचणेचो वा संकटाचो कोणाक भंय दिसना.)

२. आगीविणें धुंवोर ना. (कसलीय वदंता उठ्ठा तेन्ना, तिचे फाटल्यान खऱ्याचो मात्सो तरी तथ्यांश आसता.)

३. भोव केल्यार भोव जाता, आग केल्यार मोव जाता.

४. सान्नां वांकडीं, पिड्याची आग.

**आगगाडी** । आग्गाडी । सा.रू. –ड्ये; भौ. – ड्यो, सा.रू. – ड्यां । कों. आग + गाडी स्त्री. इंजिनाक डब्यांची माळ जोडून, लोखणाच्या दोन समांतर रुळांवेल्यान धांवपी अशें वाहतुकीचें एक साधन; उज्यागाडी. इं. रेल्वे.

**विशेश:** आपल्याक उपकरा पडटात तसलीं साधनां घडोवपाक अग्नी आनी उदक हांचो उपयोग केल्या उपरांत, मनीस वाफेचो उपयोग करपाक लागलो. जेम्स वॉट (James Watt) हाणें वाफेचेर चलपी एक इंजीन तयार केलें. ते उप्रांत, तें तंत्रज्ञान उपकरावन, वाफेचेर चलपी आगगाडयेचें आनी आगबोटीचें इंजीन दुसऱ्या विजनेरांनी निर्माण केलें.

इंग्लंडांत खाणींच्या वाटारांत रेलमार्ग आशिल्लो. ह्या मार्गावेल्यान घोडे आनी मनीस गाडयो ओडटाले. १८०४ वर्सा वाफेचेर चलपी पयलें रेलइंजीन (locomotive) तयार जालें. तेन्नाच्यान आर्विल्लो रेलमार्ग अस्तित्वांत आयलो. जॉर्ज स्टिफन्सन (George Stephenson) ह्या विजनेरान रेल्वेमार्गांत सुधारणा करून, ताचेवेल्यान इंजिनांसयत गाडी धांवपाची मांडणी केली. स्टॉकटन आनी डारलिंगटन (Stocton and Darlington) रेल्वेन १८२५ वर्सा प्रवास आनी म्हाल व्हरपाचें काम पैलें वैलें केलें. उपरांत १८३० वर्सा लिव्हरपूल आनी मँचेस्टर (Liverpool and Manchester) रेल्वे रुळांवेल्यान धांवपाक लागली. स्टिफन्सन ह्या विजनेरान इंजिनाच्या तंत्रांत सुधारणा घडोवन 'रॉकेट' लोकोमोटिव्ह घडयलें आनी तेन्नाच्यान रेल्वेचें यूग सुरू जालें.

१९व्या शेंकड्यांत रेल्वेची वाढ जाली. युरोपांतल्या दरएक राष्ट्राचे सामाजिक आनी अर्थिक उदरगतीक रेल्वेन हातभार लायला. तंत्रज्ञानाच्या विकासाकय रेल्वे उपकारीक जाल्या.

भारतांत रेल्वे हाडपाची येवजण ब्रिटिश सरकारान १८४८ वर्सा केली. रेल्वेचो मार्ग बांदचेल्या कामाक ३१ ऑक्टोबर १८५० ह्या दिसाच्यान सुरवात जाली. भौ. R. M. Stephenson आनी तागेले वांगडी हांणी कलकत्ता ते मिर्झापूर हो १०० मैलांचो रेल्वेमार्ग तयार करपाक हात घालो. दुसरो मार्ग मुंबय ते कल्याण आशिल्लो. १६ एप्रिल १८५३ दिसा मुंबयच्या बोरीबंदर साकून ३५ किलोमीटर पैस आशिल्ल्या ठाण्यामेरेन पयली गाडी मोट्या धबाज्यान धांवली. हें अंतर तोडपाक तिका ५७ मिनटां लागलीं.

रेल्वेचें वाफेचें इंजीन पळोवन थंय आशिल्ल्या लोकांक अजाप दिसलें. लोकांक ती एक नवलाची गजाल दिसली. बोरीबंदर साकून प्रवाशांक घेवन गाडी सुट्टकीर तिका तोफांची सलामी दिली. बँड वाजूंक लागलें. लोकांक घेवन वचपी ही गाडी, वाटेर उबे आशिल्ल्यांक देवता कशी दिसून, ते तिका नमस्कार करूंक लागले.

१८-४-१८६२ वर्सा ब्रिटिश सरकारान धोल-नगारे वाजोवन कारवार शहर निर्माण करपाची

घोशणा केली. त्या दिसा शहराचे आंखणेखातीर एक 'प्रोव्हिजनल कमिटी' त्या सरकारान स्थापन केली. हे तारखेपयलीं कारवार शहराचें नांव-निशाण पसून नाशिल्लें. 'कोणें' आनी 'बाड' हांचो भाग जोडून कारवार शहर निर्माण केलें. थंय लागींच आशिल्ल्या 'कडवाड' ह्या बंदरांतल्यान 'ईस्ट इंडिया कंपनी' आपलो व्यापार चलयताली. ह्या 'कडवाड' बंदराची हे 'प्रोव्हिजनल कमिटी'क याद जाली. ह्या नव्या शहराक कमिटीन 'कडवाड' च नांव दवरपाचें थारायलें. युरोपियन लोकांक 'ड'चो उच्चार सारको जमना. तांचेकडेन 'ड' चें 'र' जाता. ताका लागून 'कडवाड'चें 'कारवार' (Carwar) जालें. मुखार हेंच नांव घोळटेंत आयलें.

'प्रोव्हिजनल कमिटी'न कारवार शहराक रूंद रस्त्यांची आंखणी केली. कारवारचें बंदर आनी थंयच्यान बेल्लारी मेरेन रेल्वे व्हरपाची येवजण आंखली.

पुर्तुगेज सरकारान गोंयांत रेल्वे हाडपाचो प्रयत्न १८६४ वर्सा केलो. रेल्वे आनी मुरगांवच्या बंदराखातीर ब्रिटिश सरकाराचो आधार जाय आशिल्ल्यान, तेन्नाच्या पुर्तुगेज सरकारान ब्रिटिश सरकाराकडेन गोंयची रेल्वे आनी मुरगांवचें बंदर बांदपाचो प्रस्ताव दवरलो. ब्रिटिश सरकाराक कारवारचें बंदर आनी थंयच्यान बेल्लारी मेरेनची रेल्वे लायन बांदपाची आशिल्ल्यान, पुर्तुगेज सरकाराचो प्रस्ताव त्या सरकारान कानामनार घेतलो ना.

मोंगलांनी पुर्तुगेजांक सुरतेच्या बंदरांत एक वखार बांदपाक दिल्ली. थंय ते थंयच्यान येत्या-वत्या म्हालाचेर मानडबी घेताले. मानडबयेचें उत्पन्न पुर्तुगेज सरकाराक मेळटालें. ही सुरतेची वखार (Feitoria de Surate) ब्रिटिश सरकारान बंद केली. ताका लागून तांचें उत्पन्न बुडलें. एका काळार मलबाराची अख्खी देग तांचेकडेन आशिल्ली. इल्ली इल्ली करून ती देग ते वगडायत गेले. अखेरेक गोंयचो ३८०६ चौखण किलोमिटरांचो सुपुल्लो आंवाठच तांचेकडेन उल्लो. हाका लागून गोंयची सामाजिक आनी आर्थिक उदरगत करपाक मुरगांवचें बंदर आनी थंयच्यान ब्रिटिश रेल्वेक जोडपी रेल्वे मार्ग बांदपाची तांकां तिस्टत लागली.

परत परत पुर्तुगेज सरकारान ब्रिटिश सरकाराकडेन मुरगांवचें बंदर आनी थंयच्यान ब्रिटिश सरादीमेरेन रेल्वे मार्गाचो प्रस्ताव दवरलो. ब्रिटिश सरकारान तरेतरेचीं आडमेळीं हाडीत, कारवारचें बंदर आनी थंयच्यान बेल्लारी मेरेनचो रेल्वे मार्गाचो भौन भौन नगारो वाजयलो.

पुर्तुगेज सरकारय रेल्वे आनी मुरगांवच्या बंदरा खातीर ब्रिटिश सरकाराचे फाटीक सूंठ कशें लागलें. निमाणें, १८ एप्रिल, १८८१ दिसा बंदर आनी रेल्वे बांदपाचो करार पुर्तुगेज आनी ब्रिटिश सरकार हांचेमदीं जालो. ब्रिटिशांकय मुरगांवच्या बंदराचें म्हत्व कळून आयलें. कारवारचें बंदर आनी थंयच्यान बेल्लारी मेरेन रेल्वे बांदपाची येवजण फाटीं पडून, जंयचे थंयच धपटली.

मुरगांवचें बंदर आनी रेल्वे बांदपाखातीर ब्रिटिश सरकारान आपल्या कायद्यांक धरून "The West of India Portuguese Guaranteed Railway Company Ltd.' ह्या नांवान कंपनी स्थापन केली. पुर्तुगेज सरकारान आपल्या कायद्यांक धरून हे कंपनीक मान्यताय दिली.

भौ. विजनेर सॉयर (Sawyer) हांणी रेल्वे मार्गाची आंखणी केली. तिनय आनी करमल घाटांपरस कुलमूल खिंडींतल्यान रेल्वे व्हरप हें चड सोयीचें दिसलें. दुदसागराकडल्यान रेल्वे लायन व्हरप ही चड लागींची वाट आशिल्ली.

काम सुरू जाल्ल्याची नक्की तारीक मेळना. १८८१ वर्साच्या डिसेंबराचे दुसरे पंद्रशेंत तें सुरू जालें अशें मानूं येता. ह्या कामाच्या वावराक ४६३५ मानाय (दादले आनी बायलो) घोळटाले. उप्रांत हो आंकडो पन्नास हजारांचेर पावलो. गोंयच्या मानायांक

जतनायेचीं कामां करपाची घटी नाशिल्ल्यान, कांय मानाय गोंयाभायल्यान हाडचे पडले.

कुलमूल खिंडीची चडटी आशिल्ली. कांय जाग्यांर रेल्वेखातीर पूल बांदपाचे आशिल्ले. दुदसागराकडलो भाग, थंयचीं मोडणां, हांचें काम अत्यंत जतनायेचें आशिल्लें. दोंगर पोखरून बारा बोगदे बांदपाचें कामय अत्यंत म्हत्वाचें आशिल्लें. ह्या सगळ्या अडचणींचेर जैत जोडून, गोंयचे सरादी मेरेनचो ४१ मैलांचो रेल्वेमार्ग कंपनीन बांदून काडलो.

मुरगांव ते गोंय सरादीमेरेन ४१ मैलांचो रेल्वेमार्ग तयार जातकीर, १५ जानेवारी १८७७ दिसा, गोंयांत रेल्वे धांवली. त्या दिसा तिजें उक्तावण, त्या वेळावेले गोंयचे गव्हर्नर जनरल हांणी केलें. दोन दिसां उपरांत म्हळ्यार १७ जानेवारीक ती लोकांक उक्ती जाली. त्या वेळार मुरगांवच्यान कुळ्यां मेरेन ती वताली जावये. गाडी सुरू जावन ३३० दिसांत ४८,००० प्रवाशांनी गाडयेन प्रवास केलो. ही संख्या समाधान दिवपी आशिल्ली. गोंयची रेल्वे ब्रिटिश हिंदुस्थानांतले रेल्वेक जोडूंक नाशिल्ल्यान, म्हालाची वाहतूक समाधान दिवपासारकी नाशिल्ली.

१८८८ वर्साचे जानेवारी म्हैन्यांत ब्रिटिश रेल्वेक तेंकोवचेलो १०.१० मैलांचो मार्ग पूर्ण जालो. ह्या मार्गाचें उक्तावण त्याच म्हयन्याच्या ३१ ज्यानेराक जालें. ह्या धबाज्याक तेन्नाचो गोंयचो गव्हर्नर जनरल Cardozo de Carvalho आनी मुंबयचो गव्हर्नर Lord Reay हे हाजीर आसले.

अडचणींचेर जैत जोडपाक अशक्य दिसतालें तें शक्य जालें. रेल्वेन गोंय ब्रिटिश हिंदुस्तानाक जोडपाक यश आयलें. गोंयचे जिणेक एक नवी ताजबाण आयली. प्रवास सोंपो जालो. व्यापारांचे उदरगतीक रेल्वे उपकारीक जाली.

१५ आगस्ट १९४७ दिसा भारत स्वतंत्र जालो. त्यावेळार गोंय, दामांव आनी दीव हे भारताचे कुडके पुर्तुगेज सरकाराकडेन आशिल्ले. ह्या कुडक्यांवेली आपली सत्ता पुर्तुगेजांनी सोडपाखातीर भारत सरकारान त्या सरकाराकडेन उलोवणीं केलीं. पुर्तुगेजांच्या आडमुठे चलणुकेक लागून, दोनूय सरकारांमदीं नपड आयली. भारत सरकारान पुर्तुगेज सरकाराकडचे संबंध तोडले आनी पुर्तुगेज सरकाराच्यो नाडयो आंवुळपाक भारत सरकारान गोंय, दामांव आनी दीवची आर्थिक नाकेबंदी केली. हे आर्थिक नाकेबंदीक लागून बंदर आनी रेल्वे चालू दवरपाक पुर्तुगेज सरकारान रोखड्यारोखडीं पावलां घालीं. १९०२ वर्सा केल्ल्या करारान मुरगांवचें बंदर आनी रेल्वे सदर्न मराठा रेल्वेक (पयलींची मद्रास आनी सदर्न मराठा रेल्वे) भाड्यान चलोवपाक दिल्ली. हो करार १९५५ वर्सा रद्द करचो पडलो. गोंयचे रेल्वेचो आनी बंदराचो कारभार चलोवपाक 'West of India Portuguese Guaranteed Railway Company Ltd.' हे कंपनीक पुर्तुगेज सरकारान मुस्तायक केली आनी गोंयची रेल्वे ३१ डिसेंबर १९५५ धरून मुरगांव ते कुळेंमेरेन वचूंक लागली.

'West of India Portuguese Guaranteed Railway Company Ltd.' हे लंडनाक स्थापन जाल्ले कंपनीन १८८१ वर्सा केल्लो करार रद्द करचो म्हणून पुर्तुगेज सरकाराक कळयलें. पुर्तुगेज सरकारानय मातय कळाव लायनासतना हे कंपनीचें मागणें मान्य केलें. हे कंपनीन ३१ मार्च १९६१ ते १ एप्रिल १९६१ ह्या दिसांमदल्या शुन्य वरांचेर गोंयची रेल्वे आनी मुरगांवचें बंदर पुर्तुगेजांच्या स्वाधीन केलें. हस्तांतराचो हो धबाजो पणजेचे पालासेंत (Palacio de Idalçao) जालो. पुर्तुगेज सरकाराचे वतीन तेन्नाचो गोंयचो गव्हर्नर जनरल Vassalo de Silva आनी West of India Portuguese Guaranteed Railway Company Ltd. हिजे वतीन Col. Cutubest Geoffrey Blackford ह्या दोगांनीय आपआपली निशाणी हस्तांतराच्या दस्तऐवजाचेर केली. उप्रांत शांपेन घेतकीर, त्या दिसांमदल्या ०.५० वरांचेर हो धबाजो

सोंपलो.

मुरगांवच्या बंदराचो आनी रेल्वेचो कारभार चलोवपाक पुर्तुगेज सरकारान २५ फेब्रुवारी १९६१ दिसाच्या ४३५१७ हे 'डिक्रीलॉन' 'Junta Autonoma dos Portos e Caminhos de Ferro do Estado da India' ही स्वायत्त बॉडी स्थापन केली. हे बॉडीन एप्रिल १९६१ ह्या दिसाच्यान मुरगांवच्या बंदराचो आनी रेल्वेचो कारभार आपल्या हातांत घेतलो.

१९ डिसेंबर १९६१ दिसाच्यान भारत सरकारान गोंय, दामांव आनी दीव हांगासल्ली पुर्तुगेज सत्ता निखळायली. ८ जानेवारी १९६२ ह्या दिसाच्यान मुरगांवच्या बंदराचो आनी रेल्वेचो कारभार भारत सरकारान आपल्या हातांत घेतलो. उपरांत बंदराचो कारभार आनी रेल्वेचो कारभार वेगळो केलो आनी १ मे १९६३ दिसाच्यान गोंयची रेल्वे सदर्न रेल्वेचो एक फांटो जाली.

आज भारताच्या खांची गोंयड्यांतल्या गांवांनी रेल्वे पावल्या. रेल्वे मार्गावयल्यान ११ हजारांपरस चड गाडयो धांवतात. रेल्वे मार्गाची लांबाय ध्यानांत घेतल्यार, भारतीय रेल्वेवो आशिया खंडांत पयलो आनी अख्ख्या संवसारांत चवथो पांवडो लागता.

भारतांत कांय जाग्यांनी ब्रॉड गेज, कांय जाग्यांनी मीटर गेज आनी कांय जाग्यांनी नॅरो गेज रेल्वे धांवता. लांब प्रवासाक रेल्वेसारकें दुसरें साधन ना. रेल्वेचोय वेग वाडोवपाक फ्रान्स, जर्मनी आनी जपान हीं राष्ट्रां तुर्ताक तरी मुखार आसात.

भारतीय रेल्वे आतां १५० वर्सांची जाल्या. १५० वर्सांचो इतिहास तिका आसा. रेल्वेच्या विकासाचो इतिहास पांवड्या पांवड्यांनी सांगपाखातीर, १९६२ वर्सा रेल्वे म्युझियमाची कल्पना उदेवाक आयली. हो म्युझियम दिल्लीक बांदपाचें थारलें. १ फेब्रुवारी १९७७ दिसा ह्या म्युझियमाचें उक्तावण जालें. १८५५ वर्सांतलें एक पोन्नें 'मेरी क्वीन' हें इंजीन, आपल्या मूळ रंगरुपासैत आयज थंय पळोवंक मेळटा.

**आधारावळ :**


१) Man's Adventure with Machines, by Reṇe Guillot.

२) Encyclopedia Britanica.

३) A India Portuguese, Vol. II - Por Antoneo Lopes Mendes, Pagina 200.

४) History of Mormugao Port, issued by Mormugao Port Trust.

५) महाराष्ट्र टायम्स्, ४ मे १९९१, पा. ४.

६) चित्रलेखा, दिवाळी विशेषांक, ९० हातुंतलो 'रेल्वे इंजिनांचा वृद्धाश्रम' हो लेख. बरो : प्रकाश कामत आनी मेधा अलकरी.

७) कद्रेकर–नाडकर्णी कुलवृत्तान्त, लेखक : आनंद नाडकर्णी, पा. ८४-८५.


**आगटें**। आग्टँ। सा.रू.– ट्या; भौ.– टी, सा.रू.– ट्यां। (सं. अग्निष्ठिका, अग्निष्ठ, अग्नि = आग + स्था = दवरप) न. १. ज्यातूंत कोळशे पेटयतात अशी कदयाच्या आकाराची मातयेची वा तांब्याची शेगडी; शेटिली शेगडी; बागेसरी. ('आगा आगा सोनार शेटी । पेटोय तुजें आगटें । फूल जावंदी जोखतें दादा । रुंबडाचें ।' – देखणेंतलें एक कडवें. A sheaf of Dekhnis } Jose Pereira & Micale Martins, page १) २. होमाचें कूंड, ३.(ला.) दुख्खान जळप (उर्मिला : ''लग्न जायतसावन तुमची वयनी दीसरात जळटा, माथ्यार दुख्खाचें आगटें घेवन, ती केन्नातरी काडून घेवपाचो यत्न कोणें केला ?'' – शबै शबै भौजनसमाज, बरो : पुंडलीक नायक, पा. ६७). **वा.प्र.: आगटें पेटोवप**: झगडें लावप; झगडें पेटोवप.

**आगन्न**। आगन्न। सा.रू.– न्नी; भौ.– न्नी, सा.रू.– न्नीं। (सं. अग्निवत्, अग्नीय; दे. अगओ = राक्षस + ईण (न्न)) वि. नागीण कशी क्रोधान फुत्कारपी;

तारवटी मिरसांग कशी; चंडिकेचो अवतार कशी; पराकास्टेची खास्ट; आगुल्लें.

**आगपाणी** । आगपाणी । सा.रू. – ण्यां। कों. आग + पाणी न. निबर सोरो; फेणी; मद्यार्क.

**आगबेंत** । आगबँत् । सा.रू.– ता। पुर्तु. Agua = उदक + Benta = पवित्र; आशिर्वचन घाल्लें न. आशिर्वचन घाल्लें पवित्र उदक.

**विशेश**: क्रिस्तांव धर्मी पुर्विल्लो काळ धरून आगबेंत (पवित्र उदक) उपकरायत आयल्यात. हें सैमांतलें, म्हळ्यार बांयत वा झरींत मेळटा तें, निजाचें उदक. कांय वेळार, धर्मगुरू ह्या उदकांत इल्लेंशें मीठ घालून आनी पवित्र खुर्साची कुरू करून आनी तें अभिमंत्रून, ताचेर आशिर्वचन घालतात. आलेलुय्याच्या शेनवारा आंशिर्वचन घाल्लें हें पवित्र उदक, इगर्जेंत भितर सरचेल्या जाग्यार, एका फातराच्या आयदनांत घालून दवरतात. भूत-पिशाच्चांची वा पापग्रहांची बाधा जावंची न्हय म्हणून, सांत इगर्जेचो पयलो संस्कार करतना हें आगबेंत उपकरायतात. तेचपरी मेल्ल्याच्या कायशांवाचेर वा कायशांव ज्या फोंडांत दवरतात, त्या फोंडाचेरय आगबेंत शिंवरायतात.

क्रिस्तस्वामी आपल्या मरणाच्या आदल्या दिसा, ओलिव्ह झाडां आशिल्ले एके बागेंत, देवाक प्रार्थना म्हणूंक गेल्लो. त्या वेळार ताजें रगत तागेल्या आंगांतल्यान भायर सरिल्ले हुमेन भल्लें. देखून, मिसाचे धर्मविधींत, हें उदक क्रिस्तस्वाम्याचे हुमेन भरिल्ल्या रगताचें प्रतिक मानतात. तेच परी ह्या उदकाक क्रिस्तस्वाम्याचे कुशीक भालो तोपतकीर जें रगत ताचे कुशींतल्यान व्हांवंक लागलें, त्या रगताचेंय प्रतीक मानतात. पयल्या आलेशांद्रीन (Alexander-I, क्रि.स. १०५ ते ११५ ह्या वर्सांतलो पापसायब) पवित्र करचेलो सोरो (Vinho de Consagracao) ह्या उदकांत घालूंक लायलो. ही प्रथा क्रिस्तांव धर्माचो पुर्विल्लो काळ धरून चलत आयिल्ली.

आयताराच्या मिसाक वा शेनवारा सांजे आयताराचें मीस भेटयतासतना पर्यंत, सगळ्या क्रिस्तांव धर्म मंदिरांनी/इगर्जींनी उदकाचेर आशिर्वाद घालून, तें मिसाक आयिल्ले प्रजेचेर शिंवरावंक येता; पास्कांच्या दिसांनी किरिस्तांव रावतात त्या घरां घरांचेर ह्या उदकान आशिर्वाद घालतात. नवें घर बांदून घरप्रवेश करतना, घरांत खुरीस दवरून, घरांतल्या लोकांक सूख आनी समाधान मेळचें म्हणून आशिर्वाद दिवपाक हें उदक तांचेर शिंवरायतात.

सांत इगर्जेचे संस्कार करचेल्या धर्मविधींत हें उदक उपकरायतात. ह्या विधीक 'साक्रामेंताईश' (Sacramentais) अशें म्हणटात. इगर्जेचे प्रार्थनेन आध्यात्मिक परिणाम साधपाखातीर ह्या उदकाक संस्काराचें उदक मानतात. (Can. ११६६).

**आधारावळ**: Grande Enciclopedia Portuguese a Braxileira, Vol. I.

**आगबोट** । आग्‌बोट् । सा.रू.– टी; भौ.– टी, सा.रू.– टीं । कों. आग + इं. बोट स्त्री. उदकांतल्यान वाफेच्या इंजिनार चलपी एक वाहतुकीचें साधन. ("आगबोट चोलतना त्या दोरियाच्या ल्हारार । एक पासून सुकणें दिसोना ओंत्राळार । सोभोंवतीं कुपां उमकोळतात वाऱ्यार । तुफान काळीज जाता गो आबालार ।" – Songs from the Mando, compiled and arranged by F. A. Jacques, BA (Hons.)

**विशेश**: रेल्वे वांगडाच मुरगांवचें बंदर बांदून जातकीर, ताका ब्रेकवॉटर (ल्हारां मोडणें) बांदून पूर्ण जावंचे पयलींच, १८८५ वर्साच्या एप्रिल म्हयन्यांत S. S. Westbourne ही म्हाल घेवन आयिल्ली बोट मुरगांव बंदराच्या धक्याक लागली. मुंबय आनी कलकत्ता ह्या बंदरांपरस, मुरगांवच्या बंदरांत बोटींक सोंपेपणीं येवंक मेळटा म्हणपाचें, त्या दिसाच्यान सिद्ध जालें.

**आगम** । आगम् । सा.रू.– मा । (सं. आगमः) पु. १. येवप; आगमन. २. प्राप्ती; लाभ; आदाव. ३.

उत्पन्न; संपत्तीची वृद्धी. ४. हक्क शाबीत करपी दस्तऐवज. ५.आरंभ; जन्म. ६.न्हंयचें तोंड. ७.वेद; स्मृती; पुराणां. ८.विद्या. ९. तत्त्वज्ञान. १०. धर्मशास्त्र. ११. मंत्रशास्त्र; तंत्रविद्या; गूढविद्या. १२.(व्या.) एकाद्रया उतराच्या उच्चारांत सुरवेक, मदीं वा निमाणे सुवातेर नवीन वर्ण येवप.

**विशेश:** 'आगम' म्हळ्यार 'येवप'. एकाद्रया उतराच्या उच्चारांत (आनी मागीर लेखनांत) जेन्ना खंयचोय नवीन ध्वनी येता, तेन्ना त्या ध्वनीक 'आगम ध्वनी' अशें म्हणटात, आनी ताच्या येवपाक आगम वा ध्वनी-आगम अशें म्हणटात. कांय आगम हे भासशास्त्रांत आस्पावपी ध्वनिपरिवर्तन ह्या रुपांत येतात जाल्यार कांय आगम हे व्याकरणाच्या आवाठांत घडून येवपी आगमांच्या रुपांत येतात. देखून, आगमाचे भासशास्त्रीक आनी व्याकरणिक अशे दोन प्रकार करूंक येतात.

**१. भासशास्त्रीक आगम**

भासशास्त्राच्या आवाठांत भाशेंत जे आगम घडून येतात, तांचे स्वरागम, व्यंजनागम आनी अक्षरागम अशे तीन मुखेल प्रकार आसतात. जेन्ना एकाद्रया उतराच्या उच्चारांत नवीन आयिल्लो ध्वनी हो स्वर आसता, तेन्ना स्वरागम घडून येता; जेन्ना तो व्यंजन आसता, तेन्ना व्यंजनागम घडून येता, आनी जेन्ना तो नवो ध्वनी हें पूर्ण अक्षर (म्हळ्यार, स्वर आनी व्यंजन हांचो मेळ) आसता, तेन्ना अक्षरागम घड्टा. हो नवीन येवपी ध्वनी उतरांत सुरवेक (आदि) येता. मदल्या सुवातेर (मध्य) येता. कांय निमाण्या सुवातेर (अन्त) येता. हाका लागून आदि-आगम, मध्य-आगम आनी अन्त्य-आगम अशे ह्या आगमांचे आनीक तीन-तीन प्रकार जातात. अशे तरेन जावपी भासशास्त्रीक आगमाच्या णव प्रकारांत सम-स्वरागम असो आदि-आगमाचो आनीक एक प्रकार कांय भासांनी दिसून येता. हिंदी भाशेंत 'स्त्री' ह्या उतराचो उच्चार 'इस्त्री' असो जाता. मूळ उतरांतल्या 'ई' ह्या स्वरा सारकोच 'इ' असो आनीक एक स्वर ह्या उतराच्या उच्चारांत येता. ही सम-स्वरागमाची देख म्हणून सांगूं येता.

कोंकणी भाशेचो अभ्यास केलो जाल्यार, कोंकणींत स्वरागम, व्यंजनागम आनी अक्षरागम हे आगमाचे तीनूय मुखेल प्रकार घडटना दिसतात. संस्कृत भाशेंतल्या स्त्री, रत्न, अग्रशाला, सर्प, श्रीवंत ह्या उतरांची कोंकणींत अस्तुरी/अस्तोरी, रतन, अगरसाळ, सोरोप, शिरवंत अशीं रुपां जाल्लीं दिसतात. ह्यो सगळ्यो स्वरागमाच्यो देखी. अरबी भाशेंतल्या फिक्र, वक्त, हुक्म ह्या उतरांचीं रुपां कोंकणींत फिकीर, वोगोत, हुकूम अशीं जाल्लीं मेळटात, तीं‍य स्वरागमाक लागूनच.

संस्कृत भाशेंतल्या 'मत' ह्या उतराचें, ना जाल्यार अरबी भाशेंतल्या 'फकत' ह्या उतराचें कोंकणींत कांय वेळार मत्त, फक्कत अशें रूप आयकूंक मेळटा. ह्यो दोनूय व्यंजनागमाच्यो देखी आसात. ओष्ठ, वर्तुल ह्या संस्कृत उतरांचीं रुपां कोंकणींत ओंठ, वाटकुळें अशीं जातात, तीं व्यंजनागमाक लागूनच.

संस्कृत भाशेंत 'अंक', 'अंत्र' ह्या उतरांचीं कोंकणींत आंकडो, आंतकडी अशीं रुपां घोळटना दिसतात. ह्यो अक्षरागमाच्यो देखी आसात.

ह्या मुखेल आगमाच्या प्रकारांभायर संस्कृत उतरां कोंकणींत येतना, कांय उतरांच्या संदर्भांत महाप्राण-आगम जाल्लो दिसता. संस्कृत उतरांवेल्यान घडिल्ल्या कांय तद्भव उतरांच्या रुपांत आगमरुपान कोंकणींत महाप्राण येता. नदी, मूर्ति, निद्रा, मधु, नववर ह्या संस्कृत उतरांचीं कोंकणींत न्हंय, म्हूर्त, न्हीद, म्होंव, न्हवरो अशीं रुपां घोळटात. ह्यो महाप्राण-आगमाच्यो देखी.

**२. व्याकरणिक आगम**

प्रातिपदिक (म्हळ्यार नाम, सर्वनाम आनी विशेशणां) आनी धातु हांचेपासून नवीन उतरां वा रुपां घडयत

आसतना, तांकां सदांच लागपी विभक्ती-काळ-अर्थ बी कुसांभायर, जो ध्वनी वा ध्वनीसमूह नव्यान येता, ताका व्याकरणिक आगम अशें म्हणटात. देखीक, 'अ'कारान सोंपपी पुल्लिंगी उतरांक 'ई' कूस जोडून स्त्रीलिंगी उतरां घडोवपाची पद्धत संस्कृत भाशेंत आसा. देव, यम, कृष्ण, नट बी उतरांक 'ई' कूस जोडून देवी, यमी, कृष्णी, नटी अशीं उतरां त्या भाशेंत घडल्यांत. पूण इन्द्र, चन्द्र, आचार्य ह्या उतरांक 'ई' कूस जोडून तांचीं स्त्रीलिंगी रुपां घडोवपावेळार तांची इन्द्राणी, चन्द्राणी, आचार्यानी अशीं रुपां घडटात. हांगा मूळ उतर आनी 'ई' कूस हांचे मजगतीं 'आन्' असो आगम जाला. ह्या आगमाक व्याकरणिक आगम म्हणटात.

कोंकणींत घुंवता, धांवता, भोंवता ह्या क्रियापदांचीं प्रयोजक रुपां घुंवयता, धांवयता, भोंवयता अशीं जायनात. तीं घुंवडायता, धांवडायता, भोंवडायता अशीं जातात. ह्या रुपांत 'डा' हें अक्षर आगमरुपान आयलां. ह्यो व्याकरणिक आगमाच्यो देखी म्हूण सांगूंक जाय.

'मित्रवदागम:' अशें आगमासंबंदान संस्कृत भाशेंत म्हळां. 'आगम हो मित्राभशेन आसता', असो ताचो अर्थ. मित्र जे तरेन पैलिंच्या सगळ्यांक सांबाळून घेता, तेच तरेन आगमरुपान येवपी ध्वनी पैलिंच्या सगळ्यांक सांबाळून घेता. हो नवो ध्वनी त्या उतरांतल्या पयलींच्या सगळ्या ध्वनींसैत वावुरता, असो अर्थ ह्या संस्कृत उतरांतल्यान सुचयला.

**आगमन**। आगमन् । सा.रू.– ना । (सं. आगमनम् न. येवप; येणें. (आज खाशांचें आगमन जालां. खंयच्या हेतून तें समजना.)

**आगमाग**। आग्माग् । सा.रू.– गा । 'आगम' वेल्यान? (पु.) थांगपत्तो ('ताचो ह्या दिसांनी आगमाग कांय ना.')

**आगमेंत**। आग्मॅन्त । सा.रू. – ता । पुर्तु. Agua-Benta न. पळेयात 'आगबेंत'.

**आगयी**। आगयी । सा.रू.– या; भौ.– ये (यॅ), सा.रू.– यां । (सं. अग्निय. दे. अगओ) वि. १. दनपारच्या कडावेलो देंवचार कसो; हैवान; जाका पळयल्यार जिवाचो थरकांप जाता असो. ("गांव सांकवाळ । घर भंगसाळ । खासा तो आगयो बेताळ ।" – झंजाळालो म्हाळ, बरो : बाकीबाब बोरकार, पांजयणां, पा. ४९). २. अत्यंत विखारी; जो चाबल्यार घटकेंत प्राण वता असो. (आगयो सोरोप.) ३. पराकास्टेचो रागिस्ट, कोपिस्ट, पिंतवेगी.

पु. १. जो चाबल्यार आंगाचो दाह करून वा आंग म्हळ्यार उज्याची ल्हाय करून सोडटा तो प्राणी. देखीक : कांय फुरशीं, म्होंवाचो मूस, गांजिलमूस बी. २. अत्यंत तामसी, तापट, उग्र असो मनीस.

**आगर**। आगर् । सा.रू.– रा; भौ.– आगर, सा.रू. – ग्रां । (सं. आगारम्; हिं. म. आगर; का. आकर/आगर ) पु. १. माड्यांची बाग; मळो; कुळागर. २. जंय दर्याचें वा न्हंयचें उदक भितर घेवन, वाफेचे प्रक्रियेन तातुंतलें मीठ काडटात तो जागो, शेत वा क्षेत्र; मिठागर. ("आगरांत । घोळश्यो येतात । शेंवटे येतात । आनी वेतात." – हांव राजा वांयगणो, बरो : र. वि. पंडित, आयलें तशें गायलें, पा. ४१.) २. संग्रहस्थान; कोठी; सांठो. ४. अर्क; सार; सागर (ईश्वरचंद्र विद्यासागर हे खऱ्या अर्थान विद्येचे आगर आसले.)

**विशेश**: मिठागरांत, ज्या जाग्यार न्हंयचें वा दर्याचें उदक घेवन सांठायतात, त्या उदकाची उस्णता आनी खारसाण दर्याच्या वा न्हंयच्या उदकापरस चड आसता. जाल्यारूय, ती नुस्त्याक बाधा करपासारकी नासता. देखून, दर्याच्या वा न्हंयच्या नुस्त्यापरस,

आगराचें नुस्तें चड सुवादीक आसता.

**आगर्ती** । आगर्ती । सा.रू. –र्ते । सं. आ + गम् = येवप वेल्यान ? स्त्री. आगोरी; भरती; भर्ती.

**आगराचो,ची,चें** । आगराचॉ,ची,चँ । सा.रू. – च्या, चे, च्या । 'आगर'वेल्यान वि. १. आगराकडेन लग्निक आशिल्लो (आगराचो प्रश्न). २. आगरांत तयार जाल्लो; आगरांत आशिल्लो; आगरांत मेळटा तो (आगरांतलो मासो, आगराचें नुस्तें.)

**आगरावप** ।आग्रावप्। सा.रू.– पा (?) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू – आगराय्: अक.) ओगी करप; दटावप. (तूं म्हाका कित्याक आगरायता ?)

**आगरी** । आग्री, आग्री। सा.रू.– ऱ्यां; भौ.– गरी (ग्री), सा.रू. –ग्ऱ्यां । (सं. का. आगर, हिं.म. आगरी) पु. १. कुणब्यांची एक जात, नुस्तें मारपी खारव्यांची एक जात. २. मिठागरांत मीठ पिकोवपी मनीस, मिठगावडो, मिठागरांत काम करपी मानाय. स्त्री. ठाणें आनी कुलाबो ह्या जिल्ह्यांत आगरी उलयतात ती भास.

**विशेश**: आगरी ही जात. मिठगावडे हीय एक वेगळी जात. मीठ पिकोवप हो ह्या दोनय जातींचो उद्योग. आगरी सास्टींत आशिल्ले. तिसवाडी आनी बारदेस हांगा मिठगावडे आशिल्ले.

कांय आगरी आनी कांय मिठगावडे शेतय रोयतात. दोगांचोय उद्योग जरी एक जालो, तरी दोगांच्याय आंगाची ठेवण एक न्हय.

आगऱ्यांक खारकी, खारपाटे वा आगळे कुणबी अशींय नांवां आसात. आगरी हे मुळचे मुंगी पैठणचे. ६०० वर्सांपयलीं मुंगी पैठणचो बिंबराज (१४वो शेंकडो) सागरगडांचेर रावपाक गेलो. ताणें अलिबाग तालुक्यांतलीं चौल, आबास हीं हिंदू राज्यां जिखून घेतलीं. थंडायेच्या काळांत बिंबराजाक मोठ्या सैन्याची गरज उल्लिना. गरजेक जाय तितलेंच सैन्य दवरून, हेरांक ताणें सैन्यांतले मेकळे केले. कोंकणांत दर्यादिगेर ताणें तांकां मिठागरां बांदून दिलीं.

आगरी जातींतय मीठ-आगरी, जस-आगरी आनी धोल-आगरी अशो तीन खांदयो मेळटात. धोल-आगरी ही खांदी आज खंयच मेळना. उरलेल्या दोनय खांद्यांतले आगरी आपल्याक मीठ-आगरी वा आगरी अशेंच म्हणून घेतात.

आगरी रावणाच्या दरबारांत गायन करून आनी वाद्यां वाजोवन रावणाचें रंजन करताले, असो उल्लेख मेळटा. तांगेल्या गुणांक लागून रावणान तांकां पश्चिम देगेवयली भूंय दान दिली, अशी आख्यायिका आसा. गोंयांत आज आगरी जात वेगळी उरूंक ना. ही जात किरिस्तांव जाल्या. किरिस्तांव जावंचे पयलीं, ते कोलवेंचे म्हालक्षिमीक भजताले. बाटाबाटीच्या वेळार कोलवेंचें म्हालक्षिमीचें देवूळ फिर्गी सरकारान मोडून घालें. थंयच्या देवळांतली म्हालक्षिमीची म्हूर्त बांदोड्या पावली. बांदोडेच्या म्हालक्षिमीच्या देवळांतले म्हूर्तीचे कुशीकच कोलवेंची म्हूर्त पुजेक लायिल्ली मेळटा. आजय किरिस्तांव जाल्ल्या आगऱ्यांचे वंशज बांदोड्या वचून आपले म्हालक्षिमीची प्रसाद-पाकळी घेतात.

मिठगावडे आनी आगरी हांच्यांत अंतर आसा. मिठगावडे 'गावडे' आनी 'पोरोब' अशीं आडनांवां लायताले. आगरी जशे किरिस्तांव जाल्यात, तशेच मिठगावडेय किरिस्तांव जायात. आज गोंयांत मिठगावडे नात. ते किरिस्तांव जाल्ल्यान आज दुसरे धंदे करतात. कांय जाण गावड्यांत आनी कुणब्यांत भरसून गेल्यात.

मीठ पिकोंवचेल्या वेळार मिठागरांत काम करपाखातीर, तुर्ताक कांय मिठगावडे कारवाराक साकून गोंयांत येतात, आनी काम सोंपतकीर परत आपल्या गांवाक वतात. रत्नागिरी, सावंतवाडी आनी कारवार हांगा ते आसात.

आधारावळ: १)Etnografia da India Portugues por Braganca Pereira; २) भारतीय संस्कृती कोश.

**आगळ**। आगॅळ्। सा.रू.– ळा। (सं. आ + गल् = गळप) न. १.भिंडांचो काडिल्लो रोस. हाजो रंग तांबडो किरमिजी आसता. भिंडांच्या सोलांक आंबटसाण येवपाक, तांकां आगळाचीं पुटां दितात. २. (ला.) तांबडो गुंज पातळ पदार्थ.

**आगळ**। आगळ्। सा.रू. –ळा। (सं. अग्र + वलय) न. केंस; माथ्यावेल्या केंसांतल्यान सुटून पडिल्लो केंस. (जेवतना शितांत आगळ मेळ्ळें.)
**वा.प्र.**: आगळान गळो कापप : मोगाचें नाटक करून विश्वासघात करप.

**आगळावप**। आगळावप्। सा.रू. –पा। 'आगळ' वेल्यान क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू – आगळाय : सक.) भिंडांच्या सोलांक आंबटसाण येवपाखातीर तांकां आगळाचीं पुटां दिवप.

**आगळीक**। आगळीक। सा.रू.– के; भौ.– ळिको, सा.रू. –ळिकां। (सं. आगस = अपराध; का. आगळिके = अहंकार, ताठो) स्त्री. १.पिडापीड, पिडणूक, उपद्रव, धरामारी. ( इकराव्या शेंकड्यांत गोंय राज्य चलैणे कदंब, तांचेर जैन धर्माचीं शेंकड्यांचीं पुटां चडिल्ल्यान, देवांचेर आनी बामणांचेर आगळीक करताले म्हणपाचे सणसणीत पुरावे तांब्या-पट्यांनी मेळटात. ) २.घुरी, आक्रमण. (इटालीन आबिसिनयाचेर केल्ली आगळीक, थंयच्या राजान राष्ट्र पुंजुल्याच्या कानार घाली आनी पुंजुल्यान ताची जाप इटालीक विचारली.) ३.मस्तेपणाची, दांडगायेची करणी; बळयां घाल्ली तीड, करंदाय. ("एक फावट म्हज्या पुतान एक आगळीक केली. एक दुदाची गाय हेवटेन आयिल्ली. तिका बळजबरीन बांदली आनी तिचें तांबयोभर दूद काडलें." – खाटकागेर एक रात, बरो: पुंडलीक नायक, अर्दूक, पा.७०.) ४. बलात्कार. ("एकाद्री बायल सुंदरशी दिसली जाल्यार एके फावटीन चारपांच कोंकस्तानी तिजेर आगळीक करताले." – गोमन्तोपनिषत, १लें खंड, बरो : शणै गोंयबाब. पा. २४.)

**आगळें-उणें**। आगळँ-उणँ। सा.रू.– आगळ्या-उण्या। (प्रा. अप. अग्गल + सं. ऊन) वि. बरें वांकडें ("संजयाचें काम सोंपिल्लें. तो वचपाक उठलो. 'आगळें उणें' कितेंय तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें आसत जाल्यार तें विसरचें, अशें सांगून तो उठलो." –म.भा. बरो : रवीन्द्र केळेकार, पा. ३२०.)

**आगळो-ळी-ळें**। आगळॉ-ळी-ळँ। सा.रू. –ळ्या, ळे, ळ्या। (सं. अग्र + ल + क; प्रा. अप. अग्गल, का. अग्गळे) वि. १.श्रेष्ठ (हांव ज्ञानान, चाल-चलणुकेन, धन-द्रव्यान तुज्या परस शत गुणीं आगळो.) २. वेगळो (ते दोग भाव जुंवळे जाल्यारूय एकल्याचो स्वभाव दुसऱ्यापरस आगळो.) ३.व्हडलो; अधिक; चड (लोक सांगतात ते परस ताची गिरेस्तकाय आगळी आसा.) ४. प्रतापी. (ह्या राजापरस तो राजा म्हा आगळो.) ५.रसरशीत; अळार. ("ताजेन ताज्या गडगंज कपलाक, धारेच्या नाकाक आगळीच शिरवंतकाय लाबिल्ली." कथा: सोपूत प्रमाण, बरो : महाबळेश्वर सैल, जाग, दिवाळी आंक १९९०, पा.१५.) ६. तीव्र. ("आतां मात अलकाक त्या मनशाविशीं आगळीच उमळशीक लागिल्लेवरी जाल्ली." कथा: सोपूत प्रमाण, बरो : महाबळेश्वर सैल, जाग, दिवाळी आंक १९९०, पा. १६.) ७. तिख्याची ("तरीय दिस, ताज्या बळिश्ट बावळ्यांआड, चेऱ्यावेल्या हांशाआड एक आगळीच घटाय, धिटाय आनी तिडक दडिल्ली आसा." – कथा: सोपूत प्रमाण, जाग दिवाळी आंक १९९०, पा. १६.) ८. उजो कशी; खतखतीत. (तागेल्या एका शेजाऱ्यान कारणाविणें भर बाजारांत

ताजो अपमान केलो. ताजी आगळीच तिडक ताज्या काळजांत ठाणें मांडून आशिल्ली.) ९. अपूर्व. ("त्या इंद्रनीळ मळबाचो सुखेस्त देखाव नियाळून आनी सरभोंवतणचे गिरेस्त पांचवेचार नीज घोटून म्हज्या मनाचेर आगळ्याच आनंदाचो भार आयिल्लो." – अथरेक, बरो : ओलिव्हीन्यू गोमिश, मन ओड्टा ओडना, पा. ३८.)

**आगा** । आगा । सं. अघवत्? अघु? उल्या उ. चडशी संवकळ नाशिल्ल्या वा परकी मनशाक उलो मारपाक हें उतर उपकरायतात. – पुरुशलिंगी नामापयलीं 'आगा' आनी नामाफुडें वाक्यांत हेर खंयचेकडेन 'गा' येता. देखीक : आगा गोविंदबाब, खंय चल्लो गा?

**आगांतुक** । आगान्तुक । सं. आगान्तुक वि. जेवणाच्या वेळार कोणेंच आपयनासतना अवचित आयिल्लो पाहुणो.

**क्रि.वि.**: १. अकस्मात. ('मुसोलिनीन ओतुब्राचे तिसरेर आबिसिनियाचेर आगांतुक घुरी घाली...' न.गोंय, २रें वर्स, २रो आंक, १९३५, पा.८३). २. एकदम; एकाएकीं; ध्यानामनांत नासतना. (१९२०च्या सुमाराक वेगवेगळ्या वसणुकांनी पुर्तुगालाक देणें आसा म्हणपाचें, थंयच्या सरकाराक आगांतुक दिस्टी पडलें. – न.गों. २रें वर्स, १९३५, १लो अंक, पा. २८.)

**आगांतुक खर्च** : पु. अकस्मात उपस्थित जाल्लो खर्च.

**आगांतुक लाभ**: पु. अकल्पित जाल्लो लाभ; उडून मेळिल्लें शेवाळ.

**आगामी** । आगामी । (सं. आगामिन्) वि. मुखावेलो; येवपी; भावी; भविश्यकाळावेलो.

**आगाय, गाय** । आगाय, गाय् । सं. अद्यवत्? अगु? उल्या उ. नांव घेनासतना बायलांक उलो मारचेलें उतर. वाक्यांत 'आगाय' पयलीं येता, आनी 'गाय' निमाणें येता. देखीक : आगाय शांताबाय, इल्लो सांबार दिशात गाय? आगाय, आयकलें गाय?

**आगाशी** । आगाशी । सा.रू. – शे । भोव – शो, सा.रू.– शां । (सं. आकाशिका; का. अगसे (गिसे) = वेस; गांवाभायर वचपाचो दरवटो) स्त्री. १. घराचे गच्चेचो मेकळो भाग. २. पडवी; सोंपो.

**आगाळो** । आगाळॉ । सा.रू.– ळ्या । भोव– ळे (ळॅ), सा.रू.– ळ्या । (सं. आगारम्? हिं. आगार?) पु. तांदूळ वा भात इबाडूं नये म्हणून तें तणांत गुठलावन तांची बांदिल्ली मुडी.

**आगिनभगत** । आगिन्भगत् । सा.रू.–ता । भोव – त, सा.रू.– तां । (सं. अग्निभक्त) पु. अग्निदेवाच्या जात्रेदिसा तळयेर न्हावन, कपलाक गंधाचीं नामां काडून, होमखणांत देंवन पेट्टे इंगळे माड्डीत देवळांत धांवपी भगत. ("...'आमच्या आगीनभगता, कितें हाडलां आमकां?' जाण्टेले कस्तूरमावशेन ताच्या हातां-पायांर लक्तुबायेन हात भोंवडायत म्हटलें." – कथा : अग्निदिव्य, बरो : पुंडलीक नायक, अर्दूक, पा. ११३.)

**आगुल्लें** । आगुल्लँ । सा.रू.– ल्ल्या । भोव – ल्लीं, सा.रू.– ल्ल्यां । (सं. अग्नि-तुल्य) वि. १. गाळींचो शिंवर घालीत जी झगडूंक येता ती; जिचेकडेन तोंड लागत जाल्यार कोणाचोच निभाव लागपार ना अशी; खास्ट; लांवसट; विलक्षण झगडाळ; अत्यंत आक्रस्ताळी अशी. २. (ला) आगरांत वावर करपी बायल; मीठ गावडीण; आग्रीण. आग्री ह्या उतराचें स्त्रीलिंग आग्रीण जाता, आगुल्लें न्हय. जाल्यारूय, वताच्या रखरखांत आनी खारसाणेचे उस्णतेंत तिजें आंग हुलपल्लेवरी हुलपता. देखून, आगरांत काम करपी बायलेक 'आग्रीण' म्हणपाच्या जाग्यार कांयकडेन 'आगुल्लें' म्हणटात जावंये.

**आगे, गे।** आगे, गे। (सं. अधवत्, अगु) उल्या उतर. बराबरची, परकी तशीच जाण्टी, भौमानिक वा सकयल्ल्या पांवड्याची बायल, हांकां उलो मारपाखातीर हीं उतरां उपकरायतात. 'आगे' नामापयलीं येता आनी नामाफुडें वा त्या नामाच्या नात्यान वाक्यांत हेर खंयचेकडेन 'गे' येता. देखीक: आगे गोपिके, खंय चल्ली तूं; आगे देवते, देवते गे, पाव गे सायबिणी.

**विशेश**: 'अघवत्' आनी 'अगु' ह्या दोनय संस्कृत उतरांचो अर्थ दुस्ट, पापी असो जाता. जाल्यारूय, उपरांत तांकां भौमानिक अर्थ लागलो.

**आगे ऽ बाये। आगे म्हजे बाये।** (कों. आगे + बाये) उमाळ्या उतर. केन्ना अजापाची, केन्ना भंयाची भावना दाखोवपी उमाळ्या उतर.

**आगो, गो।** आगो, गॉ। (सं. अघो) उल्या उतर. वळखिच्या, आपल्या बराबरच्या बायलांक, धुवांक आनी भयणींक बी उलो मारतना हीं उतरां लायतात. नामाआदीं 'आगो' आनी नामाफुडें वा त्या नामाच्या नात्यान हेर खंयचेकडेन 'गो' येता. ("आगो, अशें जालां तरी कितें गो? थाऱ्यारूच नाशें बाये तूं?" – स्राप, बरो: शीला नायक, ओली सांज, पा. २१.)

**विशेश**: सोळाव्या शेंकड्यांत हीं उतरां बामणांभायल्या जातींतूच घोळटालीं. आतां तीं स्मार्त आनी वैष्णव बामणांतय घोळूंक लागल्यांत. क्रिस्तांव बामणांत आजुनय पुर्विल्ली चाल कडकडीत चलता. ते आपणाल्या धुवांक आनी भयणींक केन्नाच 'आगो' म्हणटात; 'आरे' (आर्ये) म्हणटात. 'आगो' म्हळ्यार तांकां पात्सो जाता, आनी व्हडलो अपमान जाल्लेवरी दिसता. (पळेयात: कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ, बरो: शणै गोंयबाब, पा. ७४-७५.)

**आगोत।** आगॉत्। सा.रू.– ते। सं. अग्र वेल्यान? (स्त्री) केळीच्या पानाचे शिर्तेक वयर लायिल्लो चोळखो.

**आगोर।** आगॉर। सा.रू.– रा। भोव –रां, सा.रू.–रां। (ग्रीक Agora) न. सार्वजनीक चौक; आंगड. ("म्हज्या पुतांनो, तुमी वचात. ह्या नगरांतले जे आगोरांत थाल्ल्यात, तांकांय म्हजो निरोप दियात." – यदीप राजा, मूळ लेखक: सॉफॉक्लिश, कोंकणी भाशांतर: पांडुरंग भांगी. पा. १.)

**आगोरी।** आगोरी। सा.रू.– रे। भोव –ऱ्यो, सा.रू.– ऱ्यां। (सं. आ + गम्) स्त्री. चंद्राच्या चड आनी सूर्याच्या थोड्या आकर्शणाक लागून, तेचपरी पृथ्वीचे आपले भोंवतणचे प्रदक्षणेक लागून, चंद्रदिसांत दिसपट्टें दोन खेपो, म्हा-समुद्राचें, दर्याचें आनी न्हंयचें उदक नेमान चडूंक वा भरूंक लागपाची जाता ती क्रिया; भरती.

**विशेश**: म्हा-समुद्राक, दर्याक आनी न्हंयेक दिसपट्टे दोन खेपो आगोरी म्हळ्यार भरती येता आनी दोन खेपो सुकती येता. भरतेफाटल्यान सुकती आनी सुकतेफाटल्यान भरती येता. क्रियेचें हें चक्र अखंड घुंवत आसता. हें चक्र घुंवपाक २४ वरां आनी पन्नास मिनटां लागतात. भरती पूर्ण भरून येता ते अवस्तेक 'सांवार' म्हणटात आनी सुकती (सुक्ती) पूर्ण जाता ते अवस्तेक 'उशेती' म्हणटात.

**आगोस्त।** आगोस्त्। सा.रू. –स्ता। पुर्तु. Agosto पु. ग्रेगोरियन कॅलेंडराचो आठवो म्हयनो.

**विशेश**: एका काळार आगोस्त हो म्हयनो, रोमन वर्साचो सवो म्हयनो आशिल्लो. रोमन लोक ताका 'सेश्तिलिश्' (Sextilis) म्हणटाले. उपरांत रोमन ७३० वर्सा, थंयच्या कायदेमंडळान Augustus (आवगुस्तुश) या सम्राटाचें नांव अज्रांवर करपाक, ह्या म्हयन्याक Augustus हें नांव दवरलें. ह्या नांवाचें फुडें 'आगोस्त' अशें रूप जालें.

रोमन वर्स हें १० म्हयन्यांचें आशिल्लें. मार्स म्हयन्यांत तें सुरू जातालें. क्रिस्ता आदल्या ४५० वर्सा जानेवारी आनी फेब्रुवारी हे दोन म्हयने रोमन

वर्साक जोडले. ताका लागून रोमन वर्स १० म्हयन्यांच्या जाग्यार बारा म्हयन्यांचें जालें. जानेवारी आनी फेब्रुवारी हे म्हयने, वर्साचे सुरवातीचे म्हयने धरिल्ल्यान, म्हयन्यांचो क्रम बदल्लो. देखून, आगोस्त हो म्हयनो ग्रेगोरियन कॅलेंडराच्या सव्या म्हयन्याच्या जाग्यार आठवो म्हयनो जालो.

ह्या म्हयन्याक गोंयांत आनीक एका वेगळ्या नांवान वळखतात. आगोस्ताक 'सुण्यांचो म्हयनो' म्हणटात. ह्या म्हयन्यांत सुणीं जुंवळटात. देखून, आगोस्त हो एका अर्थान सृजनाचो म्हयनो.

आगोस्तांत पावस उणो जायत वता आनी मळब नितळ जाता. आगोस्तांतल्या चांदन्याक एक वेगळीच धार आसता.

**आग्नेय** । आग्नेय् । सा.रू.– ये। सं. आग्नेय स्त्री. पूर्व आनी दक्षिण हांचे मदली दिशा.

**आग्नेय** । आग्नेय । सा.रू.– य । सं. आग्नेय पु. आग्नेय दिशेंतल्यान येता तो वारो.

**आग्रो** । आग्रॉ । सा.रू.– ग्र्या । भोव –ग्र, सा.रू.– ग्र्यां । सं. आग्रहः पु. १. दृढ हेतू; वज्रनिश्चय; वज्रनिर्धार; जिद्द. २. भोवन भोवन केल्लें अगत्याचें आमंत्रण. ३. प्रगट केल्ली इत्सा वा हेतू फळादिक जावपाखातीर धरिल्लो हट्ट. ४. मायेच्या उमाळ्यान परतपरत सांगप; आपलेपणान परतपरत विनंती करप. **वा.प्र.**: १. आग्रो करून सांगपः तळमळीन, पोटतिडकेन सांगप. ("गोंयकार हिंदू सभेचे वशीन हांव तुमकां आग्रो करून सांगतां की, तुमी अशे तरेची व्हडविकेची इत्सा दोळ्यां सामखार धरून ते दिशेन वावरात." – कोंकणी विद्यार्थ्यांक, बरो: शणै गोंयबाब, पा. ४.)

२. भीमाचो आग्रो : पांडवांनी घाल्ल्या एका जेवणावळीवेळा जेवंक बशिल्ल्या लोकांक आग्रो करून वाडपाचें काम भीमाकडेन आशिल्लें. तोय बाबडो सगळ्यांक व्हडा मायेन आग्रो करतालो. पूण त्याचवेळा ताच्या खांद्यार गदा आशिल्ली. ते गदेक लागून लोक भियेवपाक लागले. ताचो आग्रो मानून घेतलो ना जाल्यार ते गदेन तो आपणाक मारून उडयत, अशें तांकां दिसपाक लागलें. ते जेवले, पूण तांकां सूख मेळ्ळेंना. ह्या प्रसंगावयल्यान 'भीमाचो आग्रो' म्हळ्यार भंय दाखोवन जेवपावेळार केल्लो आग्रो, भंय दिसत असो आग्रो, असो अर्थ उक्तावपी वाक्प्रचार निर्माण जालो.

**आग्वाद** । आग्वाद् । सा.रू.– दा । पुर्तु: Aguada न. होड्यांनी, पातमाऱ्यांनी वा बोटींनी दर्याच्या प्रवासांत गोड्या उदकाचो केल्लो पुरूमेंत; जंय उदकाचो पुरुमेंत करपाखातीर उदक घेतात तो जागो. **विशेश**: 'आग्वाद' म्हळ्यार होड्यांनी वा बोटींनी आपल्या प्रवासांत गोड्या उदकाचो केल्लो पुरुमेंत वा जंय पुरुमेंताखातीर उदक घेतात तो जागो. ह्या कारणाक लागून ह्या जाग्याक 'आग्वाद' हें नांव पडलें, आनी तेंच नांव मुखार घोळटेंत आयलें. हो जागो मांडवी न्हंयेचे उजवे देगेर आसा. वेरें ह्या गांवाच्या फुडें दर्याच्या तोंडारच हो जागो आसा. डचांचे घुरयेचो भंय आशिल्ल्यान, पुर्तुगेज़ सरकारान ह्या जाग्यार १६०४ वर्सा कोट बांदूंक सुरू केलें, आनी हें कोट १६२७ वर्सा बांदून पूर्ण जालें. दुस्मानाची घुरी जालीच जाल्यार, तांचेर नाळखानो पेटोवपाक, हांगा त्या वेळार २०० नाळी कोटाच्या वेगवेगळ्या भागांत मांडून दवल्लेल्यो म्हणपाचो उल्लेख मेळटा. कोटांत एक उदकाची झर आसा. रातीच्या काळखांत होड्यांक आनी बोटींक दिशा दाखोवपाखातीर एक दिव्याखांबोय (Light House) हांगा बांदिल्लो आसा. आग्वादाचें कोट ज्या जाग्यार बांदलां, त्या जाग्याक पयलीं 'आगॉडभाट' हें नांव आसलें. हो जागो कळंगुटचे गांवकारेचो. पुर्तुगेज सरकारान १६२३ वर्साच्या ३० ऑक्टोबराक हो जागो ते

गांवकारेकडल्यान एक करार करून घेतलो. १६२४ वर्सा हांगसल्ली झर बांदून काडली. होडीं आनी बोटी हेच झरीचें उदक घेतालीं. रुपयान एक पिप हे दरेन तांकां उदक विकतें घेवचें पडटालें.

गोंयचे स्वतंत्रतायेचे चळवळीच्या काळार, राजबंद्यांक आग्वादचे बंदखणींत प्रेज दवरताले. ताका लागून गोंयचे सुटके उपरांत, हें कोट स्वतंत्रतायेचें प्रतिक आनी यादस्तिक जालें.

**आघाडी**। आघाडी। सा.रू.– डे । भोव – ड्यो, सा.रू.– ड्यां। (सं. अग्र); म. आघाडी स्त्री. १. मुखावेलो भाग. २. सैन्याचो फुडलो भाग.
**वा.प्र.**: १. आघाडी घेवप : फुडें सरप; मुखार वचप. २. आघाडी मारप : आडमेळीं पोरो घालून सगळ्यांच्या मुखार वचप.

**आघात**।आघात्। सा.रू. – ता । भोव – त, सा.रू. – तां। (सं. आघात:) पु. १. धकोचपाटो; तडाखो; प्रहार. (संवसाराचे आघात सोंशीत जो जियेता, तोच संत जाता.) २. घाय. (एक एकदां अद्रुस्टाचो आघात येदो जाता की, मरसर तो आघात काळजांत जिवोच उरता.) ३. संकट; दुर्भाग्य. ४. नेट; भार. (कविता वाचतना कवितेंतल्या कांय उतरांचेर, तेचपरी संगितांत कांय सुरांचेर आघात दिवचो पडटा.)
**वा.प्र.**: १. आघात करप : तडाखो दिवप; प्रहार करप; घाय घालप.
२. आघात जावप : तडाखो बसप; घाय जावप; संकट येवप.
३. आघात येवप : संकट येवप.
४. आघात सोंसप : धकेचपाटे सोंसप; तडाखो, प्रहार सोंसप; घाय सोंसप.
**विशेश**: भासशास्त्रांत 'आघात' हे कल्पनेचो संबंध ध्वनीकडेन येता. ध्वनीच्या उच्चारणांत येवपी दोन तरांच्या आघातांचो आस्पाव हे कल्पनेभितर जाता.
(१) पयली तरा म्हळ्यार बलाघात (Stress accent). हाका इंग्लेज भाशेंत फकत स्ट्रेस (Stress) वा एक्सपिरेटरी स्ट्रेस (Expiratory Stress) अशें म्हणटात. हिंदी, मराठी ह्या भासांनी हाजो उल्लेख बल वा बलात्मक स्वराघात असो केल्लो मेळटा. (२) दुसरी तरा म्हळ्यार सुराघात (Pitch accent). हाका इंग्लेज भाशेंत पिच (Pitch), टोन (Tone), टोनिक ॲक्सेन्ट (Tonic accent), क्रोमॅटिक ॲक्सेण्ट (Chromatic accent) वा म्युजिकल ॲक्सेण्ट (Musical accent) अशीं वेगवेगळीं नांवां आसात. भाशेचें स्वरूप आनी ध्वनीची निर्मणी हातूंत मोलाचो वांटो घेवपी बलाघात आनी सुराघात हांचें स्वरूप थोडेभितर अशें सांगूक येता :

**(अ) बलाघात (Stress Accent):**
उलयता आसतना मनीस वाक्याच्या सगळ्या भागांचेर एकाच प्रमाणांत नेट (Stress) दिना. केन्ना वाक्याच्या एका उतराचेर तो नेट दिता, जाल्यार केन्ना दुसऱ्याचेर. हेच भाशेन एका उतरांतल्या सगळ्या ध्वनींचेरूय तो सारक्याच प्रमाणांत नेट वा आघात दिना. वाक्यांतल्या उतरांत जेन्ना एकापरस चड अक्षरां (Syllables) आसतात, तेन्ना ह्या अक्षरांचेरूय मनीस एकाच प्रमाणांत नेट दिना. एकाचेर चड नेट दिता, जाल्यार दुसऱ्याचेर उणो. मनशाच्या उलोवपांत ध्वनी, अक्षर, उतर अशा वेगवेगळ्या पांवड्यांचेर येवपी ह्या नेटाकच 'बलाघात' अशें म्हणटात.

बलाघात हो फकत अक्षरांचेरच पडटा, अशें मानप म्हळ्यार ते कल्पनेचो आंवाठ ल्हान करप. वेव्हारीक नदरेन पळयल्यार 'अक्षर-बलाघाता'चें प्रमाण चड दिसता हें खरें.जाल्यारूय, तात्त्विक नदरेन पळेल्यार बलाघात हो भाशेंतल्या हेर घटकाचेरूय येता. खरें म्हळ्यार, बलाघात ही कल्पना आशिकुशीच्या घटकांकडेन सर केल्यारूच अर्थपूर्ण थारता. म्हळ्यार, जेन्ना भोंवतणी उणो आघात

आशिल्ले ध्वनी आसतात, तेन्नाच एकाद्रया ध्वनीचेर चड नेट दिल्लो दिसता. हेच भाशेन, जेन्ना आमकां एकाद्रया उतराचेर चड नेट दिल्लो जाणवता, तेन्ना तो वाक्यातल्या हेर उतरांच्या संदर्भांत आसता. मनशाच्या उलोवपांत एकाद्रया वाक्याचेर दिल्लो चड नेट हो पसून हेच नदरेन ध्यानांत येवंक जाय.

सामान्यतायेन, भासशास्त्राचो अभ्यास करपी विचारवंत 'शब्द-बलाघात' आनी 'वाक्य-बलाघात' अशे दोनूच भेद मानतात. पूण, मनीस उलयतना शब्दाच्या वा उतराच्या एकाद्रया अक्षराचेर नेट दिल्लो कितल्याशाच फावटीं दिसता. जेन्ना एकाद्रया उतरांत एकापरस चड अक्षरां आसतात, तेन्ना तातुंतल्या एका अक्षराचेर सगळ्यांत चड बलाघात, दुसऱ्याचेर ताचेपरस उणो, तिसऱ्याचेर ताचेकय उणो, अशे तरेन बलाघात येवन ताचो उच्चार जाता. आघाताच्या ह्या प्रमाणापरमाण मुख्य (Primary), गौण (Secondary) आनी अतिगौण (Tertiary) अशे तांचे भेद करपाची पद्धत आसा.

इंग्लेज भास ही बलाघाताक म्हत्व दिवपी भास आसा. हे आनी बलाघाताक म्हत्व दिवपी हेर भासांनी उतरांतल्या अक्षरांवेलो बलाघात निश्चित आसता (Fixed Stress). ह्यो भासो सभाविक तरेन उलोवपाखातीर ह्या बलाघाताचें ज्ञान आनी संवकळ आसूंक जाय. भारतीय भासो बलाघात नाशिल्ल्यो आसात, अशें समजुपाची पद्धत आसा. पूण, ती बरोबर न्हय. बलाघातहीन समजल्ल्या ह्या भासांनीय उतरांतल्या अक्षरांचेर सामान्यतायेन निश्चित स्वरुपाचो बलाघात जाता. देखीक, कोंकणी भाशेंत 'अ'कारान सोंपपी उतरांच्या उच्चारांत उपांत्य अक्षराचेर बलाघात जाता. ताका लागून, निमाण्या अक्षरांतल्या 'अ'चो लोप जाता. राम्, मळब्, दांडगाय्, निरपणस् बी कोंकणी उतरां पळेल्यार ही गजाल ध्यानांत येता.

ह्या अक्षर-बलाघाताकच 'शब्द-बलाघात' (Word Stress) म्हणपाची आजमेरेनची पद्धत आसा. पूण, 'अक्षर' आनी 'उतर' ह्यो दोन कल्पना पूर्णतायेन वेगळ्यो आसात. देखून, अक्षर-बलाघाताक शब्द-बलाघात म्हणप हें योग्य न्हय. 'शब्द-बलाघात' ही कल्पनाच वेगळी आसा. एकाद्रया सामान्य वाक्यांत सगळ्या उतरांचेर चड करून सारकोच बलाघात येता. 'नारायणान आपल्या भावाक पयशांक फटयलो' हें एक सादें वाक्य आसा. पूण, गरजेप्रमाण ह्या वाक्यांतल्या खंयच्याय उतराचेर अपेक्षेपरस चड बलाघात दिवं येता. आनी तशें जाल्यार ह्या वाक्याच्या अर्थांत थोडोसो बदल घडून येवंक शकता. देखीक, ह्या वाक्यांतल्या 'नारायणान' ह्या उतराचेर नेट (Stress) दिल्यार नारायणान फटयलो, आनी दुसऱ्यान न्हय, असो अर्थ जातलो; 'पयशांक' ह्या उतराचेर बलाघात दिलो जाल्यार पयशांचे बाबतींत फटयलो, हेर खंयचे गोस्टिखातीर न्हय, असो अर्थ जातलो. अशेच तरेन हेर उतरांचेर बलाघात दिल्यार वाक्याचो अर्थ बदलतलो.

शब्द-बलाघात हो निश्चित (Fixed) स्वरुपाचो आसता; उलोवपी मनशान आपल्या गरजेप्रमाण जाय त्या उतराचेर तो दिवं येता. तेचपरी वाक्यांतलें नाम, सर्वनाम, विशेशण, क्रियाविशेशण, क्रियापद अशा खंयच्याय उतराचेर हो बलाघात दिवं येता.

उतरां वाक्यांत उपकरायल्या उप्रांतूच तांचेर बलाघात दिवपाची शक्यताय निर्माण जाता, असो विचार करून कांय भासशास्त्री ह्या शब्द-बलाघाताकच 'वाक्य-बलाघात' (Sentence Stress) अशें म्हणटात. पुण, हें समा न्हय. वाक्य-बलाघात ही कल्पना शब्द-बलाघातापरस वेगळी आसा. सामान्यतायेन, मनीस उलयत आसतना ताच्या उलोवपांतलीं सगळीं वाक्यां बलाघाताचे नदरेन सारकींच आसतात. पुण, केन्ना केन्नाय अजाप, तिडक, आज्ञा, प्रश्न ह्या वा अशा हेर गजालींकडेन संबंद आशिल्ल्यान, आपले आशिकुशीच्या हेर वाक्यांपरस

उलोवपांत कांय वाक्यांचेर चड बलाघात पडटा. हाका 'वाक्य-बलाघात' म्हणटात. सभेंत लोकांमुखार केल्ल्या भाशणांत, ना जाल्यार नाटकांतल्या संवादांनी वाक्य-बलाघाताच्यो कितल्योशोच देखी पळोवंक मेळटात.

उलोवपांत येवपी आघाताच्या तिव्रतायेच्या कसार आदारून बलाघाताचे उच्च (Loud), उच्चार्द्ध (Half Loud), निम्न, निम्नार्द्ध, सामान्य अशे भेद करूंक येतात. पूण, बलाघाताचे चड प्रचलित भेद म्हळ्यार सशक्त (Strong) आनी अशक्त (Weak) हे दोनूच. भासशास्त्राचे नदरेन, मनशाच्या उलोवपांत येवपी आघात हो जेन्ना प्रबळ आनी आयकूंक येवपासारको आसता, तेन्नाच ताका बलाघातयुक्त (Stressed) अशें म्हणटात. ज्या उतराचेर आयिल्लो आघात हो सामको ल्हव वा अशक्त आसता, ताका बलाघात माननात. अशा उतरांक बलाघात नाशिल्लीं (Unstressed) म्हणपाची जी पद्धत पडल्या ती हेच खातीर.

अर्थाच्या कसवटीचेर आदारून, सार्थक बलाघात आनी निरर्थक बलाघात अशे बलाघाताचे दोन भेद मानतात. (१) ज्या बलाघाताक लागून अर्थांत फरक पडटा, ताका 'सार्थक बलाघात' अशें म्हणटात. वयर वर्णन केल्लो शब्द-बलाघात हो अशे तरेचो आसा. वाक्यांत ज्या उतराचेर आघात येता, तें चड म्हत्वाचें जाता, आनी त्या म्हत्वाक लागून वाक्याच्या अर्थांत वेगळेपण येता. 'नारायणान आपल्या भावाक पैशांक फटयलो' हें वाक्य वैर देखीखातीर घेतलां. आनी ह्या वाक्यांतल्या वेगळ्यावेगळ्या उतरांचेर नेट (Stress) दिल्यार वाक्याचो अर्थ कसो बदलता, हें दाखयलां. सार्थक बलाघाताचें दुसरें रूप बलाघातप्रधान भासांनी दिसून येता. अशा भासांनी उतरांतल्या अक्षरांच्या आघातांत बदल जालो जाल्यार तांच्या अर्थांतय बदल जाता. इंग्लेज भाशेंत Import, Conduct, Present, Insult, Increase अशीं कितलींशींच उतरां नाम आनी क्रिया अशा दोनूय रुपांनी उपकरायतात. दोनूय रुपांत उपकरायतना तांचें शारिरीक स्वरूप (Spelling) सारकेंच आसता. पूण, जेन्ना ह्या उतरांच्या पयल्या कुडक्याचेर आघात येता, तेन्ना तीं नामां जातात; आनी जेन्ना दुसऱ्या कुडक्याचेर आघात जाता तेन्ना तीं क्रिया जातात. कोंकणींत 'फातर', 'वड' ह्या उतरांच्या उच्चारांत बलाघात आयल्यार तांचें वचन बदलता. देखीक, फातर (ए.व.) – फातर (भौ.); वड (ए.व.) – वड (भौ.). तेचपरी 'जांभळ', 'पेर', 'बोर' ह्या उतरांच्या उच्चारांत बलाघात आयल्यार तांचो झाड आनी फळ असो अर्थबदल, तेचपरी लिंग-बदलूय घडून येता. ह्यो सार्थक बलाघाताच्यो देखी म्हण सांगूं येतात. (२) ज्या बलाघाताच्या जाग्यांत बदल जालो तरी अर्थांत बदल घडून येना, ताका 'निरर्थक बलाघात' अशें म्हणटात. देखीक, कोंकणींत 'मळब' ह्या उतरांतल्या 'ळ'तल्या 'अ'चेर बलाघात आसा. पुण, ताचो जागो बदललो आनी उलोवपी मनशाकडल्यान 'ळ'तल्या 'अ'चेर बलाघात जालो, तरी अर्थांत कांय बदल घडून येवंचो ना. (फक्त) आयकुपी मनशाक मात, ह्या बदल्लेल्या बलाघाताक लागून जाल्लो उच्चार मात्सो वेगळो लागतलो इतलेंच.

बलाघात हें ध्वनिपरिवर्तन घडून येवपाचें एक म्हत्वाचें कारण आसा. बलाघात ज्या ध्वनीचेर पडटा, तो ध्वनी आशिकुशीच्या हेर ध्वनींपरस बळिश्ट जाता. ताका लागून, आशिकुशीचे ध्वनी दुर्बळ जातात. खंयच्याय ध्वनीचेर नेट (Stress) दिवपाचो जाल्यार, ताच्या उच्चारणांत श्वासाचो चड भाग उपकरावचो पडटा. हाचो परिणाम म्हणून आशिकुशीचे ध्वनी निर्बळ जातात. निर्बळ जाल्ले हे ध्वनी बळिस्ट ध्वनींत भरसून वतात आनी ताचें रूप आपणायतात. देखीक, चक्र, कर्म, सप्त ह्या संस्कृत उतरांत क, म आनी त ह्या ध्वनींचेर बलाघात पडटा. ताका लागून र्, र् आनी प् हे ध्वनी दुबळे जाले आनी ते क, म आनी त ह्या

बळिश्ट ध्वनींभितर भरसून गेले. चक्र, कर्म, सप्त ह्या उतरांतल्यान चाक, काम, सात हीं जीं कोंकणींतलीं उतरां घडलीं, ताचें कारण हें अशें आसा.

कायमोग्राफ माक्नाचेर (Kymograph Machine) आलेखाच्या (Graph) रुपांत बलाघात वा नेट (Stress) तपासून घेवंक मेळटा. एकाद्रो ध्वनी वा ध्वनिसमूह थोडो वा चड नेट दिवन (वेगळोवेगळो) उलयल्यार ह्या मशिनाचेर येवपी आलेख वेगळेवेगळे आसतात. थोडो नेट दिवन उलयल्ल्या ध्वनीच्या रेगेपरस चड नेट दिवन उलयल्ल्या ध्वनीची रेग ही चड लांब आसता. लेखनांत हे चड नेट दिवन उच्चारपाचे ध्वनी दाखोवपाखातीर तांच्या माथ्यार एक उबी ना जाल्यार तिरपी रेग काडटात.

**(आ) सुराघात (Pitch Accent)**

जेपरी मनशाच्या उलोवपांत सगळ्याच ध्वनींचेर सारकोच नेट (Stress) दिल्लो मेळना, तेचपरी वाक्यांतले सगळे ध्वनी सदांच एकाच सुरांत उच्चारलेले दिसनात. संगीतांतल्या सरगमाभाशेन तातुंतले सूर वयल्या-सकयल्या पांवड्याचेर आसतात. 'तो अमेरिकेक वता' ह्या वाक्यांतले सगळे ध्वनी एकाच सुरांत उच्चारले जाल्यार, तातुंतल्यान ह्या वाक्याचो सरळ सादो अर्थ उक्तो जाता. पुण, 'तो' उप्रांतचे ध्वनींचो सूर चडयत व्हेलो, आनी निमाण्या 'वता'चो सूर खूब चडोवन उच्चार केलो जाल्यार, हातूंत संगीतांतल्या आरोहासारको चढाव दिश्टी पडटा. तेचप्रमाण, ह्या वाक्याचें सामान्य स्वरूप बदलून तें प्रश्नार्थक जाल्लें दिसता, आनी 'तो अमेरिकेक वता व्हय?' असो ताचो अर्थ जाल्लो दिसता. हेंच वाक्य आनीक वेगळ्या सुरांत म्हळें जाल्यार, तातुंतल्यान अजापाची भावनाय उक्ती जावंक शकता.

बलाघाताप्रमाण सुराघातय मानसशास्त्रीय (Psychological) स्वरुपाचो आसता. तो स्वरतंत्रींच्या (Vocal Chords) कंपनांतल्यान (Vibration) व्यक्त जाता. सघोष (म्हळ्यार नादयुक्त) ध्वनींच्या उच्चारणावेळार स्वरतंत्रींत कंपन जाता. हें कंपन जेन्ना चड आसता, तेन्ना ध्वनीचो सूर वेल्या पांवड्याचो जाता, आनी जेन्ना तें ल्होव गतीन जाता, तेन्ना ध्वनीचो सूर सकयल्ल्या पांवड्याचो आसता. एका सेकंदाक स्वरतंत्रींचें कंपन कितले वेळा जाता, हाचेर सुराघाताची तिव्रताय आधारून आसता. पुल्मावांतल्यान भायर सरपी हवेची तांक, स्वरतंत्रींची लांबाय, स्वरयंत्राचो (Larynx) आकार (Size) हांचेरय सुराघात अवलंबून आसता. हाकाच लागून ल्हान भुरगीं, बायलो आनी दादले हांच्या उलोवपांत येवपी सुराघाताचें स्वरूप वेगळें वेगळें आसता.

शास्त्रीक नदरेन पळेल्यार प्रत्येक मनीस वेगळ्या वेगळ्या सुरांत उलैता. तेचपरी, मनीस एकच आसलो तरी तोय वेगळ्या वेगळ्या वेळार एकाच सुरांत उलैना. भाशेची सभाविक गती आनी वेगळ्या वेगळ्या भावनांनी घडिल्ली मनशाची भावस्थिती हांकां लागून एकाच मनशाच्या उलोवपांत सुराचे आरोह (सूर वयर चडोवप) आनी अवरोह (सूर सकयल देंवोवप) दिस्टी पडटात. एकच भास उलोवपी मनशांच्या उलोवपांत ह्या आरोह-अवरोहाचें सामान्यतायेन एकच रूप आयकूंक मेळटा.

सुराचे नदरेन विचार केल्यार दर एकल्या मनशाचो उच्चतम (चडांत चड वयलो) सूर आनी निम्नतम (चडांत चड सकयलो) सूर हांची एक शीम थारिल्ली आसता. त्या मनशाच्या उलोवपांतल्या सुरांचें चडप-देंवप हेच शिमेभितर जाता. सामान्यतायेन सुरांच्या ह्या बदलाचे उच्च (High), मध्य (Mid) आनी निम्न (Low) अशे भेद करपाची पद्धत आसा. वेदिक संस्कृतांतल्या उदात्त, स्वरित आनी अनुदात्त ह्या तीन सुरांच्या भेदांचें स्वरूप अशेंच आसा.

दोन वा दोनांपरस चड सुरांच्या आरोह-अवरोहाक (म्हळ्यार, चडप-देंवपाक) सुरल्हार

(Intonation) अशें म्हणटात. जरी एका अक्षराच्या संदर्भांतय हें शक्य आसलें, तरी सामान्यतायेन उतर आनी वाक्य हांचे संबंदानच सुरल्हार ही कल्पना चड करून उपकरायतात. हांगा एक गजाल मतींत घट दवरूंक जाय. मनीस जेन्ना उलयता, तेन्ना ताच्या उलोवपाक अथपसून इतिमेरेन सुरल्हार आसता, अशें आमी समजतात. हेच समजुतीक लागून भासशास्त्राचो अभ्यास करपी लोक उब्यो-आडव्यो रेगो, बिंदु बी उपकरावन पुराय उतर आनी वाक्य हातुंतलें सुरल्हार दाखयतात. वेव्हारीक नदरेन हें समा आसलें, तरी शास्त्रीक नदरेन तें योग्य न्हय. आमच्या उलोवपांत नादान भरिल्ल्या ध्वनींवरी (सघोष ध्वनी) नाद नाशिल्ले ध्वनीय (अघोष ध्वनीय) आसतात. ह्या अघोष ध्वनींच्या संदर्भांत सुरल्हारांचो संभवच नासता. कित्याक म्हळ्यार, 'सूर' हो निखटो 'सघोष' ध्वनींतच आसता. आमच्या उलोवपांत येवपी सघोष ध्वनींकडेन सर केल्यार, अघोष ध्वनींची संख्या खूब उणी आसता, हें खरें. तरी पसून, पुराय उतर वा वाक्य हातूंत सुरल्हार आसता, अशें समजप शास्त्रीक नदरेन योग्य न्हय.

उतरांत आनी वाक्यांत सुरल्हार जाणवता. ताका लागून, शब्दसुरल्हार आनी वाक्यसुरल्हार अशे हाचे दोन भेद मानतात. भावुकता, दुख्ख, विवशता, राग, सहानुभूती, तिरस्कार बी मनाच्यो भावना परगटावपाचें काम सुरल्हार करता. ह्यो भावना उक्त्यो करून दाखोवपाचें काम हेर उतरां उपकरावनय करूंक येतात. पूण, सुरल्हारेक लागून थोड्या प्रयत्नान तें साधूंक येता. गोंयकार मनीस फोनाचेर उलयतना 'अशें' हें उतर घोळोवन, वेगळ्यावेगळ्या खिणांक तातुंतल्यान स्वीकार, अजाप, प्रश्न बी भावना कशो परगटायता तें पळयल्यार सुरल्हाराच्या आधारान एकाच उतरांतल्यान वेगळ्यो वेगळ्यो भावना कशो व्यक्त जातात तें कळटा. 'नारायण आनी गोपाळ' हीं उतरां विशिस्ट सुरल्हारान उच्चारल्यार, 'खंय नारायण आनी खंय गोपाळ, तांचे मजगतीं खूब अंतर आसा', असो अर्थ व्यक्त जाता. 'राम बंगळुराक वता' आनी 'राम, हांगा यो' ह्या दोन वाक्यांत 'राम'चीं सुरल्हारां वेगळीं आसात. एक सामान्य आसा, जाल्यार दुसरें संबोधन आसा.

केन्ना केन्ना सुराघाता वांगडा बलाघातय आशिल्लो दिसता. तशेंच, 'बला'चो (Stress) भाव परगटावपांत सूर आनी बल ह्यो दोनूय गजाली हातांत हात घालून येतात. सुरल्हारांक म्हत्व आशिल्ल्या भासांनी ही गजाल चड प्रमाणांत पळोवंक मेळटा.

कायमोग्राफ मशिनाचेर जे प्रमाण बलाघाताची तिव्रताय मेजूंक येता, तेच प्रमाण सुराघातांतल्या कंपनांची संख्या मेजूंक मेळटा. बलाघाताची तिव्रता दाखोवपी रेगांची लांबाय चड वा उणी आसता, जाल्यार सुराघाताच्या मेजपावेळार रेगांची संख्या चड वा उणी आसता.

**आधारावळ**: भाषाविज्ञान कोशः डॉ. भोलानाथ तिवारी.

**आं।** उल्या उ. 'आ' चो नाखयो उच्चार. 'आं' हो उच्चार ऱ्हस्व तेचपरी दीर्घय जाता. ऱ्हस्व उच्चार 'आयकत आसां, फुडें सांग' असो अर्थ दाखयता. दीर्घ उच्चार कांयशी रागाची भावना दाखयता.

**वा.प्र.: आं करपः** तोंड उकतें करप. (''अशक्त भासांक तोंडांत उडौंक पळेणी मराठी भास थैं आं करून बसल्या आसतनाय कोंकणीं उतरां आनी रुपां अजून थंय नंदतात म्हणपाचें पळौन म्हजो जीव भुरकट्टा.'' – गों.गों. वसणूक, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ५४)

**आं करून पळोवप** : अजाप जावन पळोवप. (''आं करून सगळे पळेत रावले. एकल्याच्याय तोंडांतल्यान एक उतर सुटलेंना.'' – महाभारत, खंड १, रवीन्द्र केळेकार, पा. १३१.)

**आं करून रावप** : १. आंशेर रावप; २. वाट पळेत रावप. (''सरपंचान जाण्टेल्याक विचारलें. केन्नाच्यान

तोंड 'आं' करून राविल्ल्या जाण्टेल्याक उलोवपाची संद मेळ्ळी.'' – कथा : भाग्योदय, बरो : पुंडलीक नायक, अर्दूक : पा. २.)

**आं जावप**: अजापान थक्क जावन तोंड उकतें जावप.

**आं म्हणप**: हय म्हणप. हयकाराची भावना उक्ती करप. (तूं दिसयभर खेळत आसता. मातय अभ्यास केलो दिसना. फाल्यांच्यान तरी अभ्यास करतलो मरे? आं म्हण.)

एकाद्री घटना पूर्ण घडली, अशें सांगतासतना 'आं' हें उमाळ्या उतर येवं येता. समाधान वा खोसदेणी गजाल घडली जाल्यार, ती घडिल्ली सांगतासतना, वाक्याचे अखेरेक हें उमाळ्या उतर येवं येता. देखीक : ''आपू शणैक फूल जालें आं. पांचवी प्रभावळ आनी मागतनाच तिसरी स्थानक.'' (प्रसादाफूल, बरो : उदय भेंब्रो, कोंकणी कथा, संपादपी : चंद्रकांत केणी, पा. ९८). कितेंय सांगतासतना मदींच कसलीय गजाल आयल्यार 'मात्सो राव, फुडें सांगतां आं' अशें सांगतासतना हें उमाळ्या उतर येता. आपलेपणाचो उमाळो आयिल्ल्यान, सांगतासतना 'आं' हें उमाळ्या उतर उपकरायिल्लें मेळटा. देखीक, 'वता थंय बरो करून राव आं, सुखान राव.'

**प्रश्नार्थक 'आं'**

आं?: 'कितें ?' वा 'किदें ?' असो अर्थ दाखयता. (सां पै : (तागेलो लीव्र हालौन) ''हे रे शाण्या, हे शाण्या, तुगेल्या चल्याक वर्सां कितलीं काय म्हण !'' शाणेबाब : (उपाय ना जावन) ''आं ? वर्सां ? येता त्या चैत्रांत सतरा भर जातलीं.'' – रायबान्याची व्हाड्डीक, बरो : रामचंद्र शंकर नायक, पा. ११.)

**आंक**। आङ्क्। सा.रू.– का, भौ. –क, सा.रू.– कां। (सं. अङ्क; हिं. आंक, गु. आंक) पु. १. आंकडो; अंक. २. कथानकाच्या घटिताप्रमाणें मांडणी करपाखातीर नाटकाच्या केल्ल्या मुख्य भागांतलो दर एक भाग. (''दुसऱ्या आंकाचो पड्डो पडलो आनी कोणेंतरी दोन तीन बक्षिसां म्हज्या कामाखातीर जाहीर केल्लीं, तीं घेवपाक हांव माचयेर गेलों.'' – हांव हरलों, हांव जिखलों, बरो : पुंडलीक नायक, मुठय, पा. ४२). ३. नेमान उजवाडाक येवपी दिसाळ्याची, सातोळ्याची, म्हयनाळ्याची वा वाङ्मयीन पत्रिकेची प्रत. (''ह्या नेमाळ्याच्या पैल्याच आंकांतलो सुरवेचो लेख 'अमृताचो पावस' हो शणै गोंयबाबांच्या लिखणेंतल्यान भायर आइल्लो.'' – शणै गोंयबाब, बरो : रा. ना. नायक, पा. १०४.)

**आंकडप** । आंक्‌डप। सा.रू.–पा (?) क्रि.दा.धा.सा.ना.( मूळ धातू – आंकड् – सक.) धरिल्लेवरी जावप. (''कर्नलान ल्हवल्हव दोळे उकते केले, आनी कूस पर्थुवचेलो यत्न केलो. पूण, डावो पांय आंगासकयल आंकडिल्ल्यावरी जालो.'' – सोंपिल्लें झुंज, बरो : महाबळेश्वर सैल, पलतडचें तारूं, पा. ८४.)

**आंकडी**।आंक्डी। सा.रू.– डे, भौ.– ड्यो, सा.रू.– ड्यां। (?) जातूंत कोयती, कोयतूल हुमकळावन कंबराक बांदपाक मेळटा, अशें वाटकुळ्या आकाराचें केल्लें एक लाकडी साधन (''कोंडीचें काळें तोंड अदीक काळें जालें. खांदावयली कांबळ पेडार वडयत ताणें मुंजीचे आंकडीची कोयती काडून कांबळीर दवरली.'' – वसंतोत्सव आनी दायज, बरो : पुंडलीक नायक, पा. २८.)

**विशेश**: आंकडी खुळ्ळ खुळ्ळ करून वाजपाखातीर कांय ठवय तिका घागऱ्यो लायतात. आंकडेक कांयकडेन 'माकडी' अशेंय म्हणटात.

आंकडी ही तरेक तरेच्या आकाराची आसता. ती सदांच वांटकुळी आसता अशें न्हय. ती सरळ, आडी कशीय आसता. कांयकडेन ती चंद्रकोरीच्या आकाराचीय आसता. तेचपरी आंकडी ही लांकडाचीच करतात अशेंय न्हय. ती मेरवाच्या शिंगाचीय करतात. वजनाक ती सामकी ल्होव आसता.

**आंकडी**। आंक्डी। सा.रू.– डे दे. अंगवाड्ढणं = रोग ?; गु. आंकडी स्त्री. १. पावसांत खूप वेळ भिजून उरून आंखुडलेल्यान वा शियांत कुडकुडलेल्यान, पोटांतलो कवळो आयिल्लेवरी जाता अशी स्थिती. २. कांय व्याधीक लागून भुरग्यांक मारून येता तें मोडणें.

**विशेश**: आंकडी ही व्याधी न्हय. व्याधीचो तो परिणाम. भुरग्यांक अपचन जावन पोटांत मुड्डूंक लागल्यार, कानांत काजुल्याचो खडो जाल्यार, जोर चडत जाल्यार, मोडशी पडपाक लागल्यार आंकडी जावपाचो संभव आसता वा मोडणें मारून येता.

एकाद्रे वेळार भुरगें न्हिदेंत भियेता. भियेवन ताणें कच्च करून आंग काडल्यारय मोडणें मारून येता. ज्या भुरग्यांच्या आवय-बापांयक मेंदवाचो विकार आसता, त्या भुरग्यांक मोडणें मारून येवपाचो संभव चड आसता. भौन भौन मोडणें मारूंक लागल्यार, दोतोराक दाखोवन ताचेर उपचार केल्यार हो विकार बरो जावं येता.

देहांतलें उदक उणें जाल्यार, तेचपरी 'मेनेन्जायटीस' ही व्याधी जाल्यार, भुरग्यांक मोडणें मारून येता. जोराचीं बी कसलींच लक्षणां दिसनासतना अकस्मात मोडणें मारून आयल्यार, हें मोडणें मोल्लुक्याची सुरवात जावं येता. धोणकुटी जाल्यारय मोडणें मारून येता. तेचपरी टॉक्सीक वखदाच्या परिणामानय आंकडी मारून येता.

**आधारावळ** : रक्ताचें महत्व आणि बाळांचे आजार, लेखिका : डॉ. सौ. किशोरी सुरेंद्र पै.

**आंकडी**। आंक्डी। सा.रू.– डे । (सं. वक्र) वि. १. वांकडी, वांकडीतिकडी (पाद्री : "तुमच्या गोणेसाची सोंड आंकडी, तोही मोतूय आंकडी आहा कितें ?" – चवथिचो चंद्र, बरो: रामचंद्र शंकर नायक, पा.२१). २. (ला.) १.पाडी; नस्टी; दुस्ट; निस्टूर. २.कपटी; नाड; बास्कळ (आंकडी मत). ३. विखाळी; कुसडी; घातमारी.

**आंकडेमोड**। आंक्डेमोड। सा.रू. – डी, भौ. – डी, सा.रू.– डी। 'आंकडो' वेल्यान स्त्री. आंकडे मांडपाचें तशेंच आंकडे तपासचेलें चाकरमान्याचें काम. ("सीताराम मेजार बसून कागदां उस्तून उस्तून कसली तरी आंकडेमोड करतालो." कथा : व्यभिचार, बरो : महाबळेश्वर सैल, पलतडचें तारूं, पा. १.)

**आंकडो**। आंक्डॉ । सा.रू.– ड्या, भौ. – डे (डॅ), सा.रू.– ड्यां । (सं. अङ्क, कों. आंक + डो (ता.कू.)) पु. १. दर एक संख्या दाखोवपाक थारायल्ली गणितांतली वेगवेगळी खूण वा कुरू; अंक, आंक. (हिंदुस्थानान संवसाराक आंकड्यांची देणगी दिली. हे आंकडे अरबांनी युरोपांत व्हेले आनी तेन्नाच्यान थंय घोळटेंत आशिल्ले रोमन आंकडे फाटीं पडले.) २. विकतल्यान विकतो घेतिल्ल्याक, निर्यातदारान आयातकाराक धाडिल्ल्या जिनसांवार म्हालाच्या दर एक नगाची संख्या, तांचें मोल आनी धाडपाखातीर लागिल्लो हेर खर्च बी दाखोवन धाडिल्ली म्हालाची वळेरी; देण्या-येण्याचो हिशोब बील. ३. संख्या (सतत आळाबंदाक हाडून ह्या देशांतल्या लोकांचो आंकडो उणो केलेबगर देशाची उदर्गत जावंची ना.) ४. रक्कम; दुडू ("...हेर कोणाय पावणेकारा इतलोच पावणेचो आंकडो चडौन, आपुण ती पायतलों म्हणपाचो ताका दुभाव ना..." – पुण्यात्मो राम कामती, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ४.) ५. गांच, हूक. (ह्या फुलाचो देंट तुटला. ताका आंकडो लावन हें फूल तूं तुज्या आंबाड्यांत खोय.) ६. गुठली ("गोठ्यांनी गोरवां नाशिल्लीं. पुण आशिल्लीं तीं एकटेपणान बुजून वगी रावलीं. तांचो रंवथ लेगीत बंद जालो. सुणीं कोनशाक आंकडे करून पडलीं." – अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा. १४५.) ७. (ला) आंकड्यांच्या आधारान जो जुगार खेळटात त्या जुगारांतली संख्या ("रेशिंच्या मळार धांवतात तें

पळोवन पैशे लावप वेगळें आनी विडयेकारागेर आंकडो लावप वेगळें.'' – मान्नी पुनव, बरो : दत्ताराम सुखठणकार, पा. ८/९.)

**वा.प्र.: आंकडो लावप** : आंकड्यांचो जुगार खेळप. **आंकडो जुळप** : मनां जुळप, अंदाज जुळप. (''उपरांत आमचे आंकडे जुळूंक लागले.'' – पिशान्तर, बरो : पुंडलीक नायक, पिशान्तर, पा :१४.)

**आंकड्या-गणित** । आंक्ड्या गणित । सा.रू. – ता । (सं. अंक + गणित) न. गणितशास्त्राचो एक प्रकार; आंकड्यांच्या आधारान हिशोब कसो करचो हें शिकोवपी शास्त्र.

**आंकड्या-शास्त्र** । आंक्ड्यां-शास्त्र । सा.रू. – स्त्रा । (कों. आंकडे + सं. शास्त्र) न. देशाचे उदरगतीखातीर, देशांत आशिल्ले सामाजिक परिस्थितीचो अभ्यास करपाखातीर, ज्या ज्या (देखीक : लोकसंख्या, करांची आकारणी, गुन्हेगारी, शेतकामाचें उत्पन्न, व्यापारउद्येगाची भरभराट बी) विशयांची विज्ञानिक नदरेन आंकड्यांसयत माहिती एकठांय करपाक जाय, ती माहिती कशी पुंजावची हें शिकोवपी शास्त्र.

**आंकड्यावळ** । आंक्ड्यांवळ । सा.रू.– ळीं, भौ. – ळी, सा.रू. – ळीं । कों. आंकडो + आवळ स्त्री. आंकड्यांनी हिशोब मांडीत रावचेलें काम (''...पाय मडगांवां फाझेंदांत येंप्रेगाद. आंकड्यांवळिच्या जंजाळांत...'' – मन वोड्टा वोडना, बरो : ओलिव्हीन गोमिश, पा. ४८.)

**आंकण** । आंकण् । सा.रू.–णा, भौ.– णां, सा.रू.– णां । (सं. अंक) = वस्त, दागिनो न. पांयांक घालचेलो वाळो. (''जनाली गे ऽ बाये आंकण । हातांत भांगराचें कांकण ।'' – गोंयकारांले पडवेर, बरो : कमलादेवी राव देशपांडे, पा. १३.)

**आंकरी** । आंक्री, आंक्री । सा.रू.– क्रे (क्रे), भौ. – क्र्यो, सा.रू. – क्र्यां । सं. अङ्कुर स्त्री. पालंव; कोंबरी; देरी. (''अश्यो उमळल्यो यादी । रुखा पाझरली आंक्री । पावला पावलांनी वाटेर । रेखली किरा-म्होरांची नक्षी ।।'' अदृस्टाचे कळे, कवी : पांडुरंग भांगी, पा.२७.)

**वा.प्र.: आंकरी फुटप** : उमेद निर्माण जावप. (''पांच पाकळ्यांचें फूल मेळटा तो मनीस भाग्यवान ! ताच्या बापायन फूल तोखेत म्हणिल्लें, आनी तेन्नाच्यान अशोकाचे आशेक नवी आंकरी फुटिल्ली.'' – कथा : भाग्योदय, बरो : पुंडलीक नायक, अर्दूक, पा. ६.)

**आंकरेवप** ।आंक्रॅव्प् (आंक्रॅवप) । सा.रू. – पा । 'आंकरी' वेल्यान क्रि.दा.धा.सा.ना. – (मूळ धातू : आंकरे-अक) पालंव फुटप; कोंबरेवप; कोंबरी फुटप. (झाडां वर्सान वर्स आंकरेतात.)

**आंकवार** । आंक्वार । सा.रू.– रा, भौ. – र, सा.रू.– रां । (सं. आ + कुमार) पु. लग्न जावंक नाशिल्लो तर्णधाकुटो वा दादलो; बाळ-ब्रह्मचारी; कुमार (''हिंदुस्थानांतली लग्नाची पवित्र चाल काबार जातली. आंकवार आनी आंकवारी लग्न जावन, भुरग्याबाळांच्या संवसाराचो भार आंगार घेवंचे भाशेक, जल्मवेर शिंदळकी चलोवप, 'बाळ ब्रह्मचारी' म्हणून शबै घालतल्यो !'' – ये.अ.उ. हातुंतलो 'अैन वेळार' हो निबंध. बरो : शणै गोंयबाब, पा. १०८.)

**आंकवार** । आंक्वार् । (सं. आ + कुमार) वि. लग्न जायनासतना आशिल्लो, ल्ली, ल्लें; लग्न जायनासतना राविल्लो, ल्ली, ल्लें; काजारी न्हय तो, ती, तें; सोलतेर; सोल्तैर (Solteira) ('आबोलीं दितना हांव रोडलीं । म्हाका माळूंक जाय म्हूण हाडलेलीं । मोनांत थोडींच उतरां घोळलीं । तेन्ना आंकवार हांव आसलेलीं ।।' – Songs from the Mando, compiled and arranged by F. A. Jacques, B.A. (Hons.) पा. ३७.)

**आंकवारपण** । आंक्वार्पण् । सा.रू.–णां । 'आंकवार'

वेल्यान न. १. आंकवार आसपाची स्थिती. मनशाची लग्न जायमेरेनची आसता ती ब्रह्मचारी अवस्ता. (''म्हाका पळोवन तो मोगाच्या कांताराचें म्हजेर शिंपणें करतालो. ताकालागून आंकवारपणाची म्हजी कळी दिसनदीस फुलत वताली.'' (कपी – वा. ल. वझे – स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा : संपादक : अ.ना. म्हांबरो, पा. ४३.) २. शुद्ध, पवित्र, निर्मळ अवस्ता वा स्थिती.

**आंकवारपोण** । आंक्वारपॉण् । सा.रू. – णा । 'आंकवार' वेल्यान न. आंकवार आसपाची स्थिती; चड करून चलयांची वा चेडवांची लग्न जायमेरेनची, दादल्याक आफुडनासतना वा संभोग घेनासतना आसता ती शुद्ध, निर्मळ, पवित्र अवस्ता वा स्थिती. ('काजार नाका! सांगात नाका! आंकवारपोण बोरें दिसता म्हाका!!' – एका मांड्यांतलें कडवें.)

**आंकवारवंत** । आंक्वारवन्त् । सा.रू.– ता, भौ.– त, सा.रू.– तां । 'आंकवार' वेल्यान वि. निश्कामी, जाणें वा जिणें कामवासनेचेर जैत जोडलां असो वा अशी; शुद्ध आचरणाचो, ची, चँ; निर्मळ; शुद्ध; पवित्र.

**आंकवारिचो** । आंक्वारिचॉ । सा.रू. – च्या, भौ. – चे (च्यॅ), सा.रू.– च्या । 'आंकवारी' वेल्यान वि. आंकवारीक सोबसारकें वा आंकवारीच्या अधिकारांत येता अशें, आंकवारीक लागता असो, अशें. (इं.) (पुर्तु.) Virginal.

**आंकवारी** । आंक्वारी । सा.रू.–री, भौ.–री, सा.रू.– रीं । (सं. आ + कुमारी) वि. मिथुनाच्या आठय आंगांपासून अलिप्त रावन जिणें दादल्याक आपल्याक निखालस आफडूंक दिवंक ना ती; जिका दादल्याचो निखालस स्पर्श जावंक ना ती, वा जिका दादलो खबर ना ती. (''ये शांती, ये कणिवाळी, ये दुलभी, सदा आंकवारी मारिये, सदैवि परमेस्पराचे माते, क्रिस्तान आमकां दिन म्हळ्ळें, तें लांबुच्याक आमचे खातीर मिनति करि. आमें जेजूस. – दौत्रिन क्रिस्तां, बरो : पाद्री तोमस स्टिफन्स, पा. १५-१६ – देवनागरी लिप्यंतर : अ. का. प्रियोळकर.) स्त्री. लग्न जावंक नाशिल्ली तर्ण-धाकुटी; कुमारी; कन्या; जिणें संभोग अणभवूंक ना ती तर्ण-धाकुटी वा बायल. **विशेश**: आमगेलो रानवटी आर्शकाळ धरून महाभारताच्या काळामेरेन, आर्यलोकांत लैंगिक जुंवळके संबंदान कसलोच धरबंद नाशिल्लो. आवय-पुताची, बापूय-धुवेची, भावा-भयणीची जुंवळकी जाताली. आंकवारी लग्न जावंचे पयलींच गुरवार जाताल्यो. त्यो गुरवार जावन, तांगेर भुरगें जाले उपरांतय तांकां अक्षतयोनीच मानताले.

आंकवारीक तिज्या आंकवारपणांत जो भुरगो जातालो, ताका 'कानीन' म्हण्टाले. (कन्याया : कानीनच, पाणिनी : ४.१.११६). सत्यवतीक पराशर ऋशीक लागून जाल्लो व्यास, हो कानीन आशिल्लो. कुंतीक आंकवारपणांत सुर्याक लागून जाल्लो कर्ण, हो कानीन आशिल्लो. गंगा नांवाचे आंकवारिचो शंतनू राजान भोग घेवनय, ती अक्षतयोनीच आशिल्ली म्हणपाचें वृत्त प्रसिद्ध आसा. जाका आज आमी कन्यादूशण म्हणटात, वा जिका आज आमी नितीभायली अशी अधर्मिक चाल-चलणूक म्हणटात, ती चाल महाभारताच्या काळारच न्हय, तर पाणिनिच्या काळार पासून, खंयीं खंयीं चलताली.

पाणिनीन आपल्या एका सूत्रांत (२-१-७०) 'कुमार कुलटा', 'कुमार गर्भिणी' आनी 'कुमार बंधकी' अशे तीन शब्द दिल्यात. हाचो अर्थ असो जाता की, ताच्या वेळार, कांय आंकवारी शिंदळ आसताल्यो, कांय आंकवारी गुरवार जाताल्यो, कांय आंकवारी चेडयेपणां करीत गांवभर भोंवताल्यो. अशें नाशिल्लें जाल्यार, 'कौमार : पति' आनी 'कौमारी भार्या' हे शब्द पाणिनी दिवचोच नाशिल्लो.

'पुंसासह यस्या : सा कुमारी' (६.२.९५) असो

कुमारी (आंकवारी) ह्या उतराचो अर्थ आसा. जिका पयलीं दादल्याचो स्पर्श जावंक ना, वा दादलो निखालस खबर ना ती आंकवार. अशे आंकवारीच्या घोवाकच 'कौमार: पति' म्हणटाले आनी ते आंकवारीक 'कौमारी भार्या' म्हणटाले. जिका दादलो खबर ना अशे आंकवारीक, जेन्ना होंकलेची कळा येवन, तिचे लग्न जातालें, तेन्ना लग्न जाल्ले हे होंकलेचो (नववधूचो) 'सुमङ्गली' म्हणून गौरव जातालो (४-१-३०) आनी ते होंकलेच्या घोवाक 'कौमार : पतिः' म्हणून भाग्यवान मानताले. देखून, आंकवारिवेल्यान घडिल्ल्या 'आंकवारपण' आनी 'आंकवारवंत' ह्या उतरांक निश्कामी, शुद्ध आचरणाची, पवित्र, निर्मळ अशे अर्थ मेळ्ळे.

आजचेवरीच तेन्नाय बी कांय आंकवारी जल्मभर आंकवारीच रावताल्यो. ज्यो जाण्टे पिरायेच्यो जाल्यो तरी तांकां आंकवारीच (कुमारीच) म्हणटाले. देखीक : वृद्धकुमारी, जरत्कुमारी.

**आधारावळ**: १. पाणिनीकालीन भारतवर्ष, लेखक : डॉ. वासुदेवशरण अग्रवाल, पा. ९९-१००.
२. भारतीय विवाहसंस्थेचा इतिहास. लेखक : इतिहासाचार्य राजवाडे, पा. ४३.)

**आंकाणी**। आंकाणी। सा.रू.– णे, भौ. –ण्यो, सा.रू.– ण्यां। (?) स्त्री. आंकडी ("बायलांनी काशेचो कासोटो खोयलो. न्हेसणावयर कंबराक जुनेराचो कुडको बांदलो. तुवाल्याची खोळ करून माथ्यार वडयली. तशीच फाटीर ओडून कंबरांत खोयली. आंकाणेच्यो कोयत्यो काडल्यो." – अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक. पा. ६३.)

**आंकुरप**। आंकुरप्। सा.रू.– पा। 'आंकूर' वेल्यान क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आंकूर्-अक). बियेक वा बियाक कोंब फुटप. आंकूर फुटप, कोंबरेवप.

**आंकुवार**। आंकुवार। सा.रू.– रा, भौ. – र, सा.रू. – रां। (सं. आ + कुमार) पु. पळेयात 'आंकवार'.

**आंकुवारपणीं**। आंकुवारपणीं। 'आंकवारी' वेल्यान क्रि.वि. आंकवारपणांत; आंकवार अवस्तेंत; कन्या अवस्तेंत (कुंतीगेर कर्ण आंकुवारपणीं जल्मलो; विर्जे मारी जेजू क्रिस्ताक आंकुवारपणीं प्रसवली.)

**आंकुवारी**। आंकुवारी। सा.रू.– री, भौ. – री, सा.रू.– रीं। सं. आ + कुमारी स्त्री. पळेयात 'आंकवारी'.

**आंकुवारू**। आंकुवारू। सा.रू. – रू, भौ. – रूं। सं. आ + कुमार पु. पळेयात 'आंकवार'.

**आंकुळप**। आंकुळप्। सा.रू. – पा। सं. आ + कृश ? क्रि.दा.धा.सा.ना. – (मूळ धातू: आंकुळ्-अक). भागप; सुकप; बारीक जावप; आंवळून येवप.

**आंकुळलिशी**। आंकुळलिशी। 'आंकुळप' वेल्यान वि. भागिल्ली; सुकिल्ली; बारीक जाल्ली. ("कमर आंकुळिल्लीशी, पोट फाटीक लागिल्लीशी आनी हड्डें जिरिल्लीशी" – कथा : 'वोताची सावळी', बरो : महाबळेश्वर सैल, कोंकण टायम्स्, दि. अंक १९९१, संपादक, तुकाराम शेट, पा. १४.)

**आंकुळिल्लो, ल्ली, ल्लें**। आंकुळिल्लॉ, ल्ली, ल्लँ। सा.रू.– ल्ल्या, ल्ले, ल्ल्या; भौ. –ल्ले, ल्ल्यो, ल्ल्यां; सा.रू. –ल्ल्यां। 'आंकुळप' वेल्यान वि. आंवळून आयिल्लो, ल्ली, ल्लें; भागिल्लो, ल्ली, ल्लें; बारीक जाल्लो, ल्ली, ल्लँ.

**आंकूर**। आंकूर। सा.रू.– क्रां, भौ. – कूर, सा.रू.– क्रां। (सं. अंकुर: अंकुरम्) पु. १. कोंब; जाचें रुपांतर काणांत, खांदयेंत, ताळयेंत, तेंगशेंत आनी पानांत जाता तो वनस्पतीचो वा रुखाचो कोंब; बीं रोवंक वा किल्लत घालतकीर तिच्या विकासाची जाता ती पयली अवस्ता. ("भेंड्या रोप्याचे पांचवेचार आंकूर पयलीं बावले, मागीर सुकले, मागीर करपले." – आमच्या गांवांत बी.डी.ओ. येता, बरो : मनोहरराय सरदेसाय, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा : संपादक :

अ.ना. म्हांबरो, पा. ३२.) २. गर्भ. ("निदान जाका हांवें म्हजें सर्वस्व दिलें, त्या म्हज्या दिनकराचो आंकूर म्हज्या पोटांत आसा, ह्या विचारान म्हाका सुख भोगतालें." – आंकवार मोरी, बरो : जयमाला दणायत, कंवासो, पा. ४७.)

**आंखडप**। आंखडप्। सा.रू.–पा। (सं. आ + कृश्), प्रा. आकड्ढ क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आंखड्-अक; सक.) १.आक्रासप; आक्रासून; आंवळून येवप; अशीर जावप. (शिंयान लांकूड आंखडून येता.) २. दोडप. (तो पांय आंखडून न्हिदता). ३. आटप (वस्त्र उदकांत घालतकीर आंखड्टा.) ४. आंवळून धरप. (जागो अशीर आशिल्ल्यान, दुसऱ्याक वाट दिवपाक ताणें आपलें आंग आंखडून धल्लें.) ५. वात येवप; जंयच्या थंयच धरप. (शिंयान पांय आंखडून आयले). ६. उणें करप; चोरप. (पाडकाक दूद दिवपाखातीर, गायेन आपलें दूद आंखडून धल्लें.) ७. मर्यादेंत दवरप, राखप; आय पळोवन व्यय करप. (दुडवांचो विद्वाट लक्षांत आयले उपरांत ताणें आपलो खर्च आंखडून हाडलो.) ८.गुठली करप ("घरांत आयलो की ते भिजलेल्या कपड्यांनी गारठून । हात-पांय आंखडून । आपल्याच आंगाचे उबेंत । कशी तरी रात काडची ।" – हांव एक ल्हान मनीस, बरो : र. वि. पंडित, चंद्रावळ, पा. ५३.) ९. अडोवन दाखोवप.

**वा.प्र.: हात आंखडून खर्च करप** : तांकीभितर, मर्यादेभितर खर्च करप; आय पळोवन व्यय करप.

**आंखडावणी**। आंखडाव्णी। सा.रू. –णें, भौ. –ण्यो, सा.रू.– ण्यां। 'आंखूड' वेल्यान स्त्री. आंखूड करपाखातीर केल्ली क्रिया आनी तिचो परिणाम; आंवुळणी; आटवणी.

**आंखडावप**। आंखडाव्प्। सा.रू. –पा। 'आंखूड' वेल्यान क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ प्रयोजक धातू: आंखडाय् – सक.) १. आंखूड करप. २. दिवपाचें उणें करप. ३. चोरप (गायन दूद आंखडायलें.)

**आंखणी**। आंख्णी। सा.रू.– णे, भौ.– ण्यो, सा.रू.–ण्यां। (सं. अङ्कनम्) स्त्री. १. वळी मारपाखातीर धातूचें, हस्तिदंताचें, लाकडाचें वा प्लास्टिकचें केल्लें अरूंद आनी चपटें साधन; पावत. २. आंखचेली वा थारावंचेली क्रिया. (आजून कांयकडेन आमच्या देशाचे सिमेची नीस घालून आंखणी करपाची आसा.) ३. येवजण. ("फायच्या कार्यक्रमाचे आंखणेक सगळ्यांनी आपआपले परीन विचार प्रगट करून हातभार लायलो." – कथा : भाग्योदय, बरो : पुंडलीक नायक, अर्दूक, पा. ३.) ४. रचना, रचणूक ("मुंबय शाराची आंखणी सामकी लंडन शाराभाशेनूच आसा." – आमी पळयल्लें युरोप, बरो : दिगंबर शिंगबाळ : पुनव, फेब्रुवारी, १९७४.)

**आंखप**। आंखप्। सा.रू. –पा। 'आंखणी' वेल्यान क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आंख् – सक.) १. आंखचेली क्रिया करप. २. कसल्याय बेताची पूर्ण तपशिलासयत येवजण करप. ३. चित्राचो वा शिल्पाचो भायलो आकार रेखून वा बेतून घेवप. ४. भुंयेचो आवांठ थारावप.

**आंखुडप**। आंखुडप्। सा.रू. –पा। (सं. आकुंङ्च् = आक्रासून येवप; आ + कृश = लहान, मोटवो जावप) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आंखुड् – अक) १. आक्रासून, आंवळून येवप (शिंयान लाकडाचें फळें आंखुडटा). २. आटप (नवें वस्त्र उदकांत घालतकीर मात्शें आंखुडटा). ३. शिंयान कुडकुडून लाकूड कसो घट्ट जावप (कुडकुड्यांच्या शिंयाक लागून तो बशिल्ल्या जाग्यार आंखुडलो). ४. खांकुडप; भिडेवप (अस्रो आंखुडलेलेवरी जावं नाका. हांगा कोण परकी ना. सांगपाचें आसा तें गळगळीत सांग).

**आंखूट** । आंखुट् । सा.रू.– टा, भौ. – टे (टॅ), सा.रू.– टां । 'आखू' वेल्यान? पु. पोरसांत शाक-भाजी रोवपाखातीर आंखिल्लो, चड करून चौकोनी जागो.

**आंखूड** ।आंखूड् । (सं. आ + कृष् वेल्यान) वि. १.मोटवो; लांडो (ह्या खोमसाचो एक हात मात्सो आंखूड जाला).

**आंग** । आङ्ग् । सा.रू.–गा, भौ.–गां, सा.रू. –गां । (सं. अङ्गम्) न. १.मनशाचो वा जनावराचो हाडामांसान घडिल्लो शरिराचो बांदो; मनशाची वा जनावराची हाडामांसान घडिल्ली शरिराची ठेवण. (१. ''मोगरे फुलावरी तुजें । धवें मोव आंग । मोगरें म्हण्ण नांव तुका । कोणें घाल्लें सांग ।।'' – दिनकरालीं कवनां, मोग आनी मोगरे फूल, बरो : दिनकर देसाय, पा. १२.) २.पंचमहाभुतांनी घडिल्लो पिंड. ३.जीव आशिल्ले वस्तुचो बांदो वा आकार. ४.जड देह. ५.इंद्रिय; गात्र; शरीर; कूड. ६.भाग; घटक (अपंगूल मनशांक कुशीक उडोवं नाकात. तेय समाजाचे आंग आसात.) ७.हात; वांटो (कामतीक गुन्यांव लागू करपांत आनी निवाडो दिवपांत ब्राडिलाचें आंग आदीं आसलें, परत मागीर तो बदल्लो अशें सर चार्लस् म्हणटा – पुण्यात्मो राम कामती, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ७४.) ८.भितल्ल्यान आशिल्ली फूस, उबारो, नेट. ('सरकारी अधिकाऱ्यांचें वा राजकर्ण्यांचें आंग आसलेबगर दिसाढवळ्या तस्करी करपाक ताका धाडस जांवचें नासलें.') ९.वाट; बाजू. (कापडाचें भायलें आंग). १०.गती; कला; घटी (ताका निजाचेंच चित्रकलेचें आंग आसा.) ११.खंयच्याय वस्तुचो घटक, घटकद्रव्य वा खंयच्याय शास्त्राचो एक भाग. (देखीक : पंचांग, वखदाचीं आंगां.) १२.मन. (आंगांत पाप आसल्यार घात जाता.) १३.दृस्टिकोन; नदर (महाभारताचो अभ्यास वेगवेगळ्या आंगान करूंक जाता.) १४.अंश (कांय गुरू आपल्या गड्यांक शिकयतना, आपल्याकडेन आशिल्ल्या ज्ञानाचें इल्लेंय आंग राखून दवरिनात.)

**आंगावेलें भुरगें** : न. आवयचें दूद पियेता तें भुरगें; आवयचें दूद पियेवपाची संवय सुटूंक नाशिल्लें भुरगें.

**गोडें (गॉडँ) आंग** : १. साल आनी सार हांचे मदीं मोव उरिल्लें झाडाचें आंग. गोडें आंग मोव आसता. तें मोव आशिल्ल्यान चड काळ तिगना. तें रोखडेंच पोकें जाता. ताका रोखडो रोंटो वा कीड लागता.

**दोड्या, दोट्टी आंगाचो** : (दॉड्या आंगाचॉ, दोट्टी आंगाचॉ) : वि. आंगार आंग म्हळ्यार मांसार मांस येवन अतोनात जाड वा लठ्ठ जाल्लो; आंगाक गाबळां पडिल्लो.

**भर्लांगाची, भरिल्ल्या आंगाची** : वि. गर्भेस्त; गुरवार; दोन जिवांची.

वा.प्र.:

१. **आंग आंबशेप, आमशेप** : हुमेन वा घामान पचपचीत भिजिल्ल्यान आंग आंबट जावप (दिसभराच्या वावरान आंग आमशेलां.)
२. **आंग आसप** : (अ) कला, घटी आसप. (आ) भाग, वांटो, हात आसप. (इ) गत, कल आसप. (ई) भेदी, सामील आसप. (उ) उबारो, नेट दिवप. (ऊ) स्वभावांत आसप. (''ओव्हिंग्टन पाद्रीन दाखैल्ले जायते पाडगूण ताज्या आंगांत आसले हातूंत दुभाव ना.'' – पु.रा.का., बरो : शणै गोंयबाब, पा. ६१).
३. **आंग एकठांय करप** : आंग आंवळून घेवप.
४. **आंग ओडून घेवप** : आंग आंवळून धरप. (''सुमनाक जाग आयिल्लेवरी जाली, आनी ताणें आंग ओडून घेयलें.'' – काळखा किरणां, बरो : महाबळेश्वर सैल, जाग, दिवाळी आंक ८८, पा. १०).
५. **आंग कमावप** : व्यायामान आंग सुदृढ करप. (''तो बरो उंच चलो, मोटो न्हय, पुण व्यायाम करून आंग कमायल्लें स्पश्ट दिश्टी पडटालें''.

सीमा, बरो : शीला कोळंबकार, जाग, दिवाळी आंक ८६, पा. ३४).

६. **आंग कवळप** : आंगाची पोटली कशी करप. ("वोंवळ शापूचो तो लाल अवतार पळोवन भिलें आनी आंग कवळून कोनशाक उबें रावलें." – गर्भदान, बरो : एन्. शिवदास, नकलामी, पा. ९८).

७. **आंग काडप** : १. आंग उसळलेल्यावरी जावन भिवप; कांचवेवप; भिवप. २. कुशीक सरप; फाटीं सरप. ("म्हाका हें जमपाचें ना, अशें म्हणून हांवें आंग काडलें." – काणी एके जिणेची, बरो : महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. ६३.)

८. **आंग काडून घेवप** : जापसालदारकेंतल्यान कुशीक सरप.

९. **आंग घस्टप** : १. आंगाक आंग घांशिल्लेवरी तेंकप. २. शिंगाक शिंग आपटप; बाचाबाची, भासाभास जावप; तोंडाक तोंड लागप; वादविवाद जावप. ("मुंबैच्या हिंदुंचो तो मुखेल म्हाजन आशिल्ल्यान, त्या धर्माचीं हकां राखपाचो भार ताज्या माथ्यार पड्टालो आनी त्या निमतान परक्या धर्माकडेन केन्ना केन्ना ताचें आंग घसट्टालें." – पु.रा.का., बरो : शणै गोंयबाब, पा. २३.)

१०. **आंग घालप** : चित्त, लक्ष घालप.

११. **आंग येवप** : आकार येवप. ("ताच्यो भावना आतां रागांत लोळटाल्यो, उसळटाल्यो. तांतल्यान मारेकार येवजण्यो आंग घेताल्यो." – सॉर्त, बरो : ओलिव्हीन गोमिश, मन वोड्टा वोडना, पा. १८.) २. जिवान भरत वचप; आंगार मांस चडप.

१२. **आंग घोळोवप** : काम, कस्ट करप.

१३. **आंग चोरप** : कामांतल्यान ल्हवूच वा अळंग कूस मारप.

१४. **आंग जड करप** : कामाक आळसाय करप; काम करपाचें टाळप. (बाबलो नळ्यांक हात घालतना फाटींफुडें जालो. "कित्याक आंग जड करता रे?" आवो चिडकोली. – घर, बरो : पुंडलीक नायक, अर्दूक, पा. १२.)

१५. **आंग जड जावप** : १. आंग आळसावप; २. भंयान गुळी जावप.

१६. **आंग जळप** : रागाचे तिडकीन जाळ मारप.

१७. **आंग झडप** : आंगावेलें मांस उणें जावप; सुकप; भागप; बडक जावप.

१८. **आंग झरोवप** : पराकास्टेचो श्रम, कस्ट करप; जीव आटोवप.

१९. **आंग तापप/आंग हून जावप** : जोर येवप; आंगांत जोर आसप.

२०. **आंग दिवप** : आधार, आलाशिरो दिवप.

२१. **आंग दोडप** : काम करपाक आंगाक जाय तशी बाग दिवप.

२२. **आंग धरप** : आर जावप; अर्दांग जावप.

२३. **आंग धोडावप** : अ) अतोनात श्रम, कस्ट काडप वा घेवप. आ) मार बसप. इ) लुस्काण येवप; आर्थिक मार बसप. (व्यापारांत ताचें आंग धोडावलें.)

२४. **आंग ना म्हणून दाखोवप** : एकाद्रया कामांत आपलो भाग ना अशें दाखोवप.

२५. **आंग परतप** : जीवान मात्सो भरप. (बरें जेवणखाण मेळिल्ल्यान ताचें आंग परतलां.)

२६. **आंग पातळावप** : विस्तारप; आयसपयस पसरप. ("पणसाच्या आळींचीं दामणां दिसान दीस आंग पातळावंक लागलीं." – अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा. ७०).

२७. **आंग पिळप**: आळसान आंगाक पिळे दिवप. ("कोणेंतरी एकट्या सोल्दारान जांबय दिली. आंग पिळ्ळें." – रुमडाफूल, बरो : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा. २२.)

२८. **आंग पेटून काम करप**: आंगार भार घेवन काम करप.

२९. **आंग फाफुडप वा आंग फापुडप** : अ) जापसालदारकी घेवपाचें टाळप. आ) एकाद्रया कामांत वांटो घेतले उपरांत, त्या कामासंबंधान कसलेंय किंचाट आंगार आयल्यार, त्या कामांत आपूण नाशिल्लोंच अशें दाखोवप.

३०. **आंग फुटप** : आंगाक कात्रे, भगां पडप.

३१. **आंग फुलप** : जीव धादोसकायेन उफेत रावप; आंगार मांस चडप; आंगावेल्यान सूख ओतप; जीव अळार जाल्ल्यान आंगार मांस चडिल्लेवरी जावप.

३२. **आंग भायर सरप** : गांडींतल्यान आंतकडेचो निमाणो भाग भायर सरप; योनींतल्यान गर्भाशयाचो भाग भायर सरप.

३३. **आंग भिजोवप** : उदक घेवन वा उदक ओतून आंग ओलें करप.

३४. **आंग मरप** : अ) कात वातडेवप, घट्ट जावप. आ) कात वातडेल्ल्यान संवेदनेची कसलीच जाणविकाय न जावप.

३५. **आंग मारप** : आंग आंवळून घेवप. ("सरस्वती आंग माल्लेंसें करून बाकाच्या येका पोंतार बसली." – व्यभिचार, बरो : महाबळेश्वर सैल, पलतडचें तारूं. पा. ६.)

३६. **आंग मोडत चलप** : नखरे करीत चलप.

३७. **आंग मोडून काम करप** : भार, कस्ट घेवन काम करप; तकालस घेवन काम करप.

३८. **आंग मोडून येवप** : अ) अत्यंत पुरो जावप; जीव थकून वचप. आ) जिवाची कडामोड जावप; जीव आळसावप.

३९. **आंग राखून काम करप** : जीव सांबाळून काम करप.

४०. **आंग लिपोवप** : एकाद्रया कामांत आपूण नाशिल्लोंच अशें दाखोवप.

४१. **आंग ल्हव जावप** : १. जीव फुलार जावप. ("देहाच्या कणाकणांत धुंदी चडटा. सगळें आंग ल्हव जाता." – विराट, बरो : चंद्रकांत केणी, कुळागर, दिवाळी आंक ९३, पा. ४४.) २. जापसालदारकेंतल्यान मेकळो जावप.

४२. **आंग विकून पोट भरप** : देह विकून पोट भरप.

४३. **आंग शिरशिरप** : १. अळशीक वा वीट दिसून, आंग शीर्‌ जावन, आंगार कांटो फुलप. २. भंय दिसून वा भंयान आंगार कांटो फुलप. ३. मोगयाचो स्पर्श जावन वा ताच्या स्पर्शाची याद जावन आंगार सुखाचो कांटो फुलप.

४४. **आंग सदळ सोडप** : श्रमाचो परिहार जावपाखातीर, आयसपयस बसून विसव घेवप.

४५. **आंग सुटप** : आंगार आंग येवप; दिसानदीस फुगत वचप; गाबळां पडप; फुटून पट्टा कसो जावप.

४६. **आंग सोडप** : चिंतेक, व्यथेक वा एकाद्रया ध्यासाक लागून सुकसुकत वा भागभागत वचप; खाल्लें वा जेविल्लें अन्न आंगाक न लागप; कात आनी हाडां एक जावप. ("...हे भाशेन, बाबुल्यान एकसारको आवैचो ध्यास्त धल्लो. तो जेविना जालो. खायना जालो. ताणें आंग सोडलें." म्हजी बा खैं गेली, बरो : शणै गोंयबाब, गोमन्तोपनिषत, पैलें खंड. पा. ६.)

४७. **आंग सोडून बसप**: विस्कळ, आवांताद बसप; जाय तसो पांय पातळावन बसप.

४८. **आंग सोडून भोंवप** : विस्कळ भोंवप; हुस्क्या-मेकळो भोंवप.

४९. **आंगाक आंग लावन बसप** : सामको तेंकून बसप.

५०. **आंगाक कडकडो येवप** : जोरान वा भंयान आंगाक थरथरो येवप.

५१. **आंगाक चिमटो काडून पळोवप** : आपल्याक जाणवल्ली गोस्ट ही फट काय सत्य हें जाणून

घेवप.

५२. **आंगाक जाळ पडप** : अ) अतिशय राग, तिडक येवप. आ) आंगाक हुलोप पडप; आंग भगभगप.

५३. **आंगाक झोंबप** : एकाद्रयाचीं उतरां मनाक खूब लागप.

५४. **आंगाक दसप** : आंगाक चिकटप.

५५. **आंगाक बळप** : एकाद्री पिडा आंगार सोंसून राविल्ल्या कारणान चड जावप.

५६. **आंगाक बुराक पडप** : त्रास, कश्ट जावप. (ताणें तशें म्हळें म्हूण तुज्या आंगाक कितें बुराक पडटात?)

५७. **आंगाक रोंबप**: आंगाक तोपप. ("शिंयाच्या दिसांनी अचकित गऱ्याचो पावस पडटा, तेन्ना शीं आंगाक रोंबता." – बिंबां-पडबिंबां, बरो : चंद्रकांत केणी, पा. ८८.)

५८. **आंगाक लागप** : अन्न पचप, अन्नाचें पचन जावप.

५९. **आंगाक लावन घेवप**: मनाक लावन घेवप.

६०. **आंगा खांदार घालप** : भांगराच्यो वस्ती आंगार घालप.

६१. **आंगा खांदार वाडोवप** : अपुर्बायेन वाडोवप.

६२. **आंगाची कात काडून जोडे शिंवप** : उपकार स्मरप; उपकारांक लागून पांगींत रावप.

६३. **आंगाची मिरी न मोडप** : जिवाक मात् पसून त्रास न घेवप.

६४. **आंगाची ल्हंव न बावप** : मात् पसून परिणाम न जावप.

६५. **आंगाचे कुडके पडप** : त्रास, कश्ट जावप.

६६. **आंगाचो कापूस झडोवप** : बारीक जावप; भागप; सुकप. (हांव पुर्तुगालाक उल्लों आनी हिणें आंगाचो कापूस झडयलो.)

६७. **आंगाचो पिचून गोबर जावप** : दुख्खान कळवळून घुस्मटप; दुख्खान घुस्मटून तळमळप; व्यथेन भितल्ले भितर जळप; आत्यंतिक वेदना जावप. ("ताची याद, उगडासूच जाल्यार आंगाचो गोबर जाता." – बाबुमामालो पणस, बरो : शणै गोंयबाब, गोमन्तोपनिषत, १लें खंड, पा. १८.)

६८. **आंगांत आसप** : निजाचेंच आसप.

६९. **आंगांत जडसाण येवप** : मन निर्शेवप. ("आपू शणैच्या आगांत आयिल्ली जडसाण आतां पुराय गेली." – प्रसादाफूल, बरो : उदय भेंब्रो, कोंकणी कथासंग्रह, पा. ९८.)

७०. **आंगांत बिराड करप** : आंगांत ठाणें मांडून बसप. ("तुमकां खाल्लें जिरना. अजीर्ण तुमचे फाटीक लागलां. तरेकतरा पिडा-रोगांनी तुमच्या आंगांत बिराड केलां." – बाबुमामालो पणस, बरो : शणै गोंयबाब.)

७१. **आंगात येवप/आंगांत अवसर येवप** : आंगार देवाचो, देवतेचो, म्हारवाचो भार येवप.

७२. **आंगात भार भरप, भार येवप** : आंगांत अवसर येवप.

७३. **आंगांत वारें भरिल्लेवरी उडयो मारप** : सुखाचे खोशयेन हुंदडप. ("ताचें तन्नें मन गांवांतल्या चेड्याभोंवतणीं आंगांत वारें भरिल्लेवरी उडयो मारतालें." – आंबुल्ली आनी जिणेचो अर्थ, बरो : अनिल बोरकार, स्वतंत्र गोंयची कोंकणी कथा, पा. ८२.)

७४. **आंगान फुटप** : पोल्यार पोलो आनी मांसार मांस येवप.

७५. **आंगान भरप** : फाव त्या प्रमाणान आंगार मांस येवप; फुगप.

७६. **आंगापोंदा घालप** : बायलमनशेचो भोग घेवप.

७७. **आंगापोंदा पडप** : (एकाद्री बायल ल्हानशा स्वार्थाखातीर अनितीन चलता, तेन्ना हो वाक्प्रचार उपकरायतात.) एकाद्रे बायलेन आपल्या स्वार्थाखातीर आपल्याक भोगूंक

दिवप वा आपलो संभोग घेवंक दिवप.

७८. **आंगार आसप** : जापसालदारकी आसप. ("युधिष्ठिरान म्हळें, "एक दायकी आसा आंगार." – महाभारत, खंड पयलो, बरो : रवीन्द्र केळेकार, पा. २२७.)

७९. **आंगार कांटो उबो रावप** : अ) भंयान आंगार शिरशिरो येवप; भियेवन कलकलप; भियेवन गुळी जावप. ("...तांच्यो त्यो बोबो आयकून म्हज्या आंगार कांटो उबो रावलो आनी म्हजें रगत जैंचें थैं शेंकेलें." – गोमन्तोपनिषत्, पैलें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा. २३.) आ) आनंदान शिरशिरून आंग फुलून येवप.

८०. **आंगार काडप** : सोंसप; सोंसून धरप. (ताणें दोन दीस जोर आंगार काडलो.)

८१. **आंगार कापूस गुठलावप** : सुखाक लागून जीव भरप.

८२. **आंगार घालप** : गुन्यांव थापटप; आळ घालप. ("दुसरे कुशीन बरे भाशेन म्हणुं येता कि, रामाच्या (कामतिच्या) आंगार घाल्लें घातकेपण जर लागू जाल्लें, तर झुजाच्या वेळार धरिल्ल्या खबरकाड्यांक जी मर्णाची ख्यास्त चड करून मेळटा, तातूंतल्यान तो सुटलो, हें ताजें नशीब म्हणूंक जाय." – पु.रा.का., बरो : शणै गोंयबाब, पा. ६९.)

८३. **आंगार घालून घेवप** : आंगार झुडून वचप. ("आबिसीनीया भाशेन उगड्या मळार दुस्मानाच्या आंगार घालून घेवन झुजपाची तांक उतालियाक आशिल्ली जाल्यार, भेंकऱ्या भाशेन अंत्राळांतसून वीख उडौन आबिसीनियाचो जीव तें कित्याक घेतलें आसलें ?" – नवें गोंय, ति-म्हयनाळें, ३रें वर्स, जुलय १९३६, पयलो आंक, पा. ३१, संपा : का. श्री. नायक.)

८४. **आंगार घेवप** : मनार घेवप; जापसालदारकी घेवप.

८५. **आंगार चंवर फुलप** : सुखान भारावप.

८६. **आंगार चलोवप** : आपले जबाबदारीचेर वा जापसालदारकेचेर चलोवप; खासा आपणें चलोवप. ("१७०६-७ वर्सा कंपनीन हो धंदो पावणेर घालिनासतना आपल्या आंगार चलैलो, तेन्ना तिका २२३२० असुर्प्यो नफा उल्लो." – पु.रा.का., बरो : शणै गोंयबाब, पा. ५.)

८७. **आंगार जावप** : अ) बायलो भस्ट्यो जातकीर तांच्या गर्भाशयांतल्यान वता तो रगताचो स्राव. हें रगत वचूंक जाय ते परस चड वचत जाल्यार, एकाद्रेवेळार तें गर्भाशयाचे व्याधिचें लक्षण आसूं येता. कांय बायलांक, त्यो भस्ट्यो जावपाच्या आदल्या दिसा आनी भस्ट्याच्या पयल्या दिसा त्रास जातात आनी अस्वस्थताय जाणवता. आ) बायलांच्या गर्भाशयांतल्यान वता तो चिकट असो धवो स्राव.

८८. **आंगार जुडून/झुडून येवप** : किंवाट्यान उसळून एकाद्रयाच्या आंगार वचप. ("हो यक्ष, गंधर्व, किन्नरांचो वाटार म्हूण लोमश मुनी सांगता. इन्द्राक लेगीत थरथरावन सोडपी हे लोक. ते केन्ना कोणाच्या आंगार जुडून येतीत, सांगूं येना." – महाभारत, खंड पयलो, बरो : रवीन्द्र केळेकार, पा. २०८.)

८९. **आंगार दिवप** : उधार, उदार दिवप.

९०. **आंगार धरप** : भुरग्याक दूद दिवपाक चिंवेक धरप.

९१. **आंगार पडप** : १. लुक्साण, नुकसाण जावप. २. जापसालदारकी घेवंची लागप; जापसालदारकी गळ्यांत पडप. ३. आपल्याक लागनाशिल्ली गजाल लावन घेवप.

९२. **आंगार पाल पडप** : अपशकून जावप; अशुभाची नकलामी जावप.

९३. **आंगार मूठभर मांस चडप** : मन आनंदित

जावप. (''तांणी तशें म्हणटकच म्हज्या आंगार मूठभर मांस चड्टा.'' – पाळणो, बरो : आनंद वर्टी, कुळागर दिवाळी अंक, ९३, पा. ६.)

९४. **आंगार येवप** : अ) कच्च करून वा केंच्च करून आंगार वचप; खावंक वा घांस मारूंक गेल्ल्यावरी तिडकीन आंगार वचप. आ) कसलीय वस्त घस्स करून आपले वटेन शेंवटून येवप. (पाड्टा आसतना नाल्लांची एक पेंड पाडेल्याच्या आंगार आयली.)

९५. **आंगार ल्हंव फुलप** : आंगार सुखाचो कांटो फुलप.

९६. **आंगार वचप** : झगडपाक वा भेश्टावपाक आंगार जुडून वा झुडून वचप. (''रेमेद् इलो इलो बापायच्या आंगार वचूंक लागलो. 'काड पयलीं शंबर रुपया.'' आतां रड, बरो : दामोदर मावजो, जाग दिवाळी आंक ८८, पा. २७).

९७. **आंगार शेकप** : आंगलट येवप; लुस्काण जावप; भुजप; नस्तें किंचाट येवप.

९८. **आंगार सोडप** : १. भेस्टावपाखातीर (चड करून सुण्याक बी) आंगार वचपाक लावप; २. कसलेंय सूत्र वा लचांड फाटल्यान लावप.

९९. **आंगार हळद चडप** : लग्न जावप.

१०० **आंगार हात घालप** : चवताळून मारूंक वचप; बडोवप; मारप; पेटप. (बायलांच्या आंगार हात घालूं नये.)

१०१ **आंगावेल्यान ऊब वचप** : कडामोड जावप; कडामोडीक लागून जीव मंद जावप; आळसावप.

१०२ **आंगावेल्यान वचप** : सामको तेंकून वचप; आंगाक खेटून वा घस्टून वचप.

१०३ **आंगावेल्यान वारें वचप** : १. भुतावळीची वा वारेसुत्राची बाधा जावप.

१०४ **आंगाशिंगान भरप** : जिवान भरप.

**म्हणी :**

१. आंग उदकान नितळ, मन सत्यान नितळ.
२. आंग गोरें म्हणून सावळी गोरी न्हय.
३. आंग जळच्या उतरांक कोप आसा वे?
४. आंग भिजयलेबगर नुस्तें मेळना.
५. आंग रिगचे फुडें मिशो रिगयता.
६. आंगाक लागिल्लें कोड किर्ते केल्यार सुट्टा व्हय?
७. आंगाक सूख, पोटाक भूक. (काम करिना ताजें पोट भरना.)
८. आंगाकय जांग व्हडि.
९. आंगाचो रोग वता, मनाचो रोग वचना.
१०. आपले आंगीं घालची कास, न्हय धरची दुसऱ्याची आस.
११. उदकांत गुंडो उडयतकीर आंगार उसळ्ळेबगर रावना.
१२. खात्या-जेवत्या आंग, माथें गवाय दिता.
१३. चिखलांत फातोर उडयतकीर, चिखोल आंगार उसळटा.
१४. नवें नवें आंगार सवें (नव्यो गजाली सुरवातीक सदांच बऱ्यो दिसतात).
१५. पोटभर जेवूंक, आंगभर न्हेसूंक.
१६. वाड्ट्या आंगार चड्टें कल्सांव.
१७. शेळ्या आंगार फुगांव (अन्याविशीं त्रास बाधप; कारणाविणें ख्यास्त भोगप.)
१८. कुळाराची पेज, सगल्या आंगाक तेज.
१९. कड्ड्या आंगांत तिडको आनी बोडक्या आंगांत लिको.

**आंगचटीक**। आंगचटीक। 'आंग' वेल्यान क्रि. वि. आंगाक खेटून वा घस्टून. (''किर्ते आंगचटीक येता मनशांभशेन? थंय राव, सांगतां.'' – कावळो-कावळी, बरो: जयमाला दणायत, कवासो, पा. ३३.)

**आंगचें**। आंगचँ। सा.रू.– च्या। (दे. अंगवड्डण =

रोग, पिडा ?) न. आंगभर फोड येवन, रूप विद्रूप करून सोडपी वशाची वा धामेची एक पिडा वा बळाळिक; देवी; असूक. ("आमच्या गांवांत आंगच्याची धाम आयली आनी जायतो लोक मेलो." – गोमन्तोपनिषत्, २रें खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १६८.)

**विशेश**: आंगचें ही एक वशाची पिडा. आंगचें येतकीर आंगार चारखण कशे फोड येतात. ते पुलेतात आनी तांच्यो मावो आंगार उरून, रूप विद्रूप जाता.

एका काळार, म्हळ्यार १९८० वर्सापयलीं हे पिडेन संवसारभर अच्छेव कांडला. संवसारांत मदीं मदीं देवीची धाम येताली आनी ती हजारांनी मनशांचो संव्हार करून वताली. ब्रिटिश धन्वंतरी एडवर्ड जेनर हाणें १७९६ वर्सा गायांक जाल्ले देवीचे पिडेंतल्यान एक द्रव काडलो आनी एका निरोगी भुरग्याक तो तोपलो. सप्तकाउपरांत ह्या भुरग्याच्या देहांत ताणें देवीचे जंतू सोडले. त्या भुरग्याक देवीचे पिडेची बाधा जालीना. उपरांत त्या भुरग्याच्या शरिरांतली लस काडून दुसऱ्या एका भुरग्याक ती तोपली. ताकाय देवी आयलिना. अशें करीत तो प्रयोग करीत गेलो. ह्या प्रयोगांतल्यान गायांक जाल्ले देवीच्या फोडांतल्या द्रवांतल्यान, देवीचेर ताणें वासीन तयार केलें. हें वासीन करपाक तो कांटो उपकरायतालो.

क्रिस्ती सन १८०० धरून ह्या वासिनाचो प्रसार जालो. इंग्लेज सरकारान १८५३ वर्सासाकून वासीन करून घेवंक जाय म्हणपाची लोकांचेर सक्ती केली. हेर राष्ट्रांच्या सरकारानय लोकांनी वासीन करून घेवंकच जाय म्हणपाचो कायदो केलो.

गोयांत फिंर्ग्यांचे राजवटींत, भुरगें जल्माक येतकीर, ताच्या तिसऱ्या म्हयन्यार ताका वासीन करून घेवंचें पडटालें. शाळांनी वा स्कुलांनी प्रवेश घेतना वासीन करून घेवन ताजें सेर्तिदांव दाखोवचें पडटालें. परिक्षेच्या वेळार वासीनाच्या सेर्तिदांवाची गरज लागताली. लग्नाचो 'तेर्म' करतना न्हवरो आनी होंकल, दोगांनीय हेर दुकुमेंतांवांगडा वासिनाचें सेर्तिदांव दिवंकच जाय म्हणपाचें तांचेर बंधन आशिल्लें. जेनरान सोदून काडिल्ल्या वासिनाक लागून ही पिडा आळाबंदाक आयली. १९८० वर्सा संवसारांतल्या खंयच्याच जाग्यांत देवीचो एक पसून रोगी वा पिडेस्त मेळ्ळो ना. तेन्नाच्यान संवसाराचे फाटीवयल्यान देवीची बळाळिक सासणाची ना जाली म्हणपाचें कळीत जालें.

आंगच्याची म्हळ्यार देवीची धाम देवतेच्या रागण्याक लागून येता, असो लोकांचो समज आसलो. कुड्डे अंधश्रद्धेंतल्यान हो समज निर्माण जाल्लो. वासीन केल्यार देवी येना, अशें सिद्ध जाल्लें आसतनाय, आमचो लोक वासीन करून घेवंक भियेतालो. वासीन करून घेतल्यार देवी कोपतली, असो आमच्या लोकांचो अडाणी समज आसलो.

आमच्याय देशांत देवी काडपाची एक रीत आसली. ही रीत भयंकर राक्षेसी आसली, तरी आमचो लोक तिका भियेनासलो. देवी काडपाखातीर मनगटाच्या एका वेंताच्या अंतरार शस्त्रान वा वाखरान फांसणी (चीर) घालताले. देवी आयिल्ल्या मनशाच्या आंगाच्या झडिल्ल्या खवळ्यांची बुकणी करताले आनी ती बुकणी त्या चिरिल्ल्या भागांत भरताले. वेल्यान घट्ट तीर बांदून तो भाग धांपताले. हे पद्धतीक 'तोडको' म्हणटाले. हेभायर, आनिकय एक रीत आसली. देवी येवंक नाशिल्ल्याक, फोव कालोवन तातूंत गोड आनी खवळ्यांची बुकणी कालोवन खावंक दिताले. उपरांत तोडको काडिल्ल्याक आनी फोवांतल्यान खवळ्यांची बुकणी खाल्ल्यांकय, एक दोन दीस जोर येवन, तांचें सगळें आंग देवीच्या फोडांनी भरतालें. हातुंतल्यान कांय जाण वांचताले, कांय जाण मरताले.

देवी काडपी मनशांक देवीचे भक्त कशे मानून, तांची मोठी मानतूक जाताली. तांचेर भार बी आयिल्लो आसल्यार, तांकां देवासमान लेखून, लोक तांकां

भजताले.

ह्या भक्तांपरस एडवर्ड जेनरान मनीसजातीचेर सासणाचे उपकार केल्यात. आज ताचें नांव लोकांचे यादस्तेंत ना. ताणें सोदून काडिल्ल्या वासिनाक लागून हे पिडेचें संवसारांतल्यान समुळनिशीं उच्चाटन जालें.

**आंगचोर**। आङ्गचोर। सा.रू.– चोरा (चॉरा), भौ. – चॉर, सा.रू.– चॉरां। कों. आंग + चोर वि. जो कामांतल्यान अळंग कूस मारता तो; कामांतल्यान कूस मारपी.

**आंगजिणी** । आंग्‌जिणी। सा.रू.– जिणये। 'आंग' वेल्यान स्त्री. आंगाची ठेवण, जायास; आंगठण; आंगलोट; आंगथण.

**आंगटी** । आंग्‌टी । सा.रू.– टे, भौ.– ट्यो, सा.रू.– ट्यां । (सं. अङ्ग + पटम्?) स्त्री. १. माथ्याक एक तीन फेरे पावपा सारको रुमाल वा वस्त्राचो कुडको. २. वस्त्राचो तिरांटो, तिस्ती, फाळी. ("आमी आमच्या आत्म्यांक ज्यो आंगट्यो, बोंदरां आनी फाळयो न्हेसैल्यात त्यो सोडौन पैस भिरकटावया." – प्रो. आर्मांद मिनेझिस, एम्. ए. – नवें गोंय, ३रें वर्स, पैलो आंक, पा. १ – संपा: का. श्री. नायक.)

**आंगटें** । आंग्‌टें । सा.रू.– ट्या सं. अङ्ग + पटम्? न. वस्त्राचो तिरांटो, तिस्ती, फाळी. ("मागीर म्हाका म्हजें सुमन दिसूंक लागता. आंगट्याची बावली घेवन तें आपलो खेळ मांडटा." – गीतुल, लक्ष्मणराव सरदेसाय, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा : संपादक : अ. ना. म्हांबरो – पा. ३.)

**आंगठण**। आंग्‌ठण् । सा.रू. – णा। सं. अङ्गस्थानम् न. आंगाची ठेवण, जायास; आंगजिणी; आंगलोट.

**आंगठो**। आंग्‌ठॉ । सा.रू.– ठ्या, भौ. – ठे, सा.रू.– ठ्यां । (सं. अङ्गुष्ट, प्रा. अंगुट्ठ) पु. हाताचें आंखूड जाडें बोट; आखांडो; आखाणो; उंगठो; पांयाचें पैलें आनी जाडें बोट. ("कांय भुरगे आपलेच कान धरून उबे आशिल्ले. कांय आपलेच आंगठे धरून जमनीवयलीं बुकां वाचताले." – मास्तर, लक्ष्मणराव, सरदेसाय, खबरी – कांय वर्मांच्यो, कांय कर्मांच्यो, पा. ५७.)

**वा.प्र.:**

१. **आंगठ्यावेल्यान रावण** : ल्हानशे गजालीक नाकाआशिल्लें नस्तें व्हड रूप दिवप, इल्लेशे गजालीक नस्तें रूप दिवन आकांत करप. ह्या वाक्‌प्रचाराफाटल्यान रामायणाकडेन लग्निक आशिल्ली एक दंतकथा आसा. ही कथा अशी : वनवास भोगून आनी रावणाक मारून राम अयोध्येक परतलो. अयोध्येक परतले उपरांत तो राज्य चलोवंक लागलो. त्या काळार सीता गुरवार आशिल्ली. पयलो गुरवचार जाल्ल्यान तिजेर फुल्लटीची कान्त मारताली. ती धादोस आशिल्ली आनी सुखांत उफेताली. कैकयीक सदांच तिची नाटकाय दिसताली. हे नाटकायेक लागून कैकयी सीतेचो घात करूंक पळेताली. तिच्या मनांत कपट आशिल्लें. एक दीस भोळो आव हाडून कैकयीन सीतेक विचारलें, "बाय गो, रावण कसो दिसतालो?" सीतेन जाप दिली, "मान वयर करून हांवें केन्नाच रावणाक पळोवंक ना. म्हजे नदरेक पडला तो ताच्या उजव्या पांयाचो आंगठो." ही जाप आयकून कैकयीन सीतेक परत विचारलें, "हे वणटीचेर त्या आंगठ्याचें चित्र काडून दाखयशी?"

कैकयीच्या मनांतलें कपट सीतेक कळ्ळें ना. तिणें भावार्थीपणान त्या आंगठ्याचें चित्र काडलें. उपरांत सीता थंयच्यान वतकीर, कैकयीन त्या आंगठ्यावेल्यान रावणाचें चित्र चितारलें आनी मात्शी पयस रावन ती तें चित्र नियाळूंक लागली. इतल्यांत थंय राम पावलो. रामाच्या हातांत धोणू आशिल्लें. रावणाचें चित्र पळोवन ताका तिडक मारली. तिडकीच्या किंवाट्यान रामान रांवणाच्या चित्राचेर बाण माल्लो. कैकयीन तेन्ना हांस हांसत रामाक म्हळें, "आमच्या सूर्यकुळाक सीतेन दाग लायलो. तुवें

खरेल्या रावणाक जिवानिशीं मारलो. सीतेच्या मनांतल्या रावणाक मारपाक मात तूं अपेशी जालो.''

कैकयीन हीं उतरां अशे तरेन उच्चारलीं की रामाच्या मनांत विकल्प उदेलो. सीतेच्या आचरणाचो ताका दुभाव येवपाक लागलो. ह्या दुभावाच्या म्हारवाक लागून, गुरवार आशिल्ले सीतेक ताणें रानांत व्हरून सोडूंक लायली. लक्ष्मणान ताजे आज्ञेक पाळो दिलो. इल्लेशे गजालीचो नस्तो आकांत करून, कैकयीन सीतेचो घात केलो.

२. **आंगठो मारप** : १. जाका सय करूंक येना, ताणें सरकारी कागदपत्राचेर दाव्या हाताचो आंगठो लावप. (''चिंता करपाची गरज ना. तो पावना जाल्यारूय जाता. ह्या फर्माचेर आंगठे मार.'' – कथा : भाग्योदय, बरो : पुंडलीक नायक, अर्दूक, पा. २.)

३. **आंगठो दाखोवप** : फटवप; कूस मारप. (आपलें काम म्हजेकडल्यान बरे तरेन करून घेतलें आनी पयशे फारीक करपावेळार दाखयलो आंगठो.)

**म्हण** : आंगठो सुजलो म्हणून दोंगरायेदो जायना.

**आंगठ्याभादूर** । आंगठ्याभादूर् । सा.रू.– दुरा । कों. आंगठो + फा. बहादुर (= शूर, वीर) वि. अशिक्षित; अडाणी. (''भौजनसमाजाचो मनीस म्हूण आमी तुका मतां दिलीं. तूं आंगठ्याभादूर, तरी तुका वेंचून दिलें.'' – शबै शबै भौजनसमाज, बरो : पुंडलीक नायक, पा. ६६.)

**आंगड** । आंगड । सा.रू.– डी, भौ.–डी, सा.रू. – डीं । का. अंगडि स्त्री. पसरो; दुकान; बाजारपेठ; किऱ्या-विक्र्याचो जागो. (''फुडें फटयान कुंकळ्ळ् लुटली. आंगडींतलो सगळो दाणोगोटो आनी सणंगसूत गरीब घाटयाक, राजाच्या औदार्यान उखलूंक सांगलें.'' – दोन बळी, बरो : बाकीबाब बोरकार, कोंकणी कथासंग्रह, साहित्य अकादेमी, पा. ३२.)

**म्हणी** : १. कोलो मिंडो नंदतलो आनी आंगडींत घर बांदतलो! २. आंगडीर दिश्ट दवर नाका, शेजाराक कान दिवं नाका.

**आंगण** । आंगण् । सा.रू.– णा, भौ. – णां, सा.रू.– णां । सं. अङ्गणम् न. घराच्या चार चौक्यांमदलो, दुर्गाच्या चार वण्टींमदलो, एका तळार आशिल्लो, मेकळो जागो; घरामुखावेलो एका तळार आशिल्लो मेकळो जागो. (''आंगणांतली केळ खंय । आयल्या पोसवणी । कुळाराची याद बाये । पावला कणकणीं ।'' – कुळाराची याद, कवी : गजानन जोग, ऋतु, वर्षा अंक, जुलय-ऑगस्ट १९८४.) २. मळ (''येवजूंक गेल्यार विद्येचें आंगण शेकानशेक आयसपैस पातळलां. ताजो अंतपार लागना.'' – कोंकणी विद्यार्थ्यांक, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ५.)

आंगण हें उतर जोडून कांय समास घडटात. देखीक : राजांगण, क्रिडांगण, रणांगण बी.

**म्हणी**:

१. घराची कळा आंगण सांगता.

२. घराभायर आंगण परदेश.

३. नाचूंक कळना आंगण वांकडें.

**आंगणवाडी** । आंगण्वाडी । सा.रू.– डि/डये, भौ. – डयो, सा.रू.– डयां । (कों. आंगण + वाडी) स्त्री. एकात्मिक बाल विकास येवजणे सकल, भुरग्यांचें जगपाचें प्रमाण वाडोवचें, तांचें आरोग्य सुधारचें, तांकां पोस्टीक आहार मेळचो, तांच्यांत शिक्षणाची गोडी निर्माण करून, तांचो पूर्ण विकास जावचो आनी गुरवार बायलांक तांच्या गर्भाक पोसणूक मेळपासारकी परिस्थिती निर्माण जावंची, हेखातीर खेड्यांकणकणीं स्थापन केल्ली संस्था वा केंद्र; बाल कल्याण केंद्र. (''कुमूद बाईसरी गेल्यार तिगेलीं आंगणवाडींतलीं भुरगीं निकतींच गेल्लीं आनी तीवय हातांत कुलप घेवन दाराक चावी घालूंक वयताली.'' – दूख, बरो : महाबळेश्वर सैल, जाग, दिवाळी १९९६, पा. २३.)

**विशेश**: ज्यो व्याधी पूर्ण आळाबंदाक हाडूंक

मेळटात, त्या व्याधींनी भारतांत दर दिसा, पांच वर्सां सकयल्लीं २५०० भुरगीं मरतात. पोस्टीक आहार आनी जेवपाक धड अन्न मेळनाशिल्ल्यान दिसपट्टीं ५००० भुरगीं भायर पडटात.

ह्या देशांत केन्ना मलेरियाक लागून, केन्ना कॉलेराचे, मोडशेचे आनी अतिसाराचे धामेक लागून, धोणकुटेक लागून, उरउऱ्याक लागून, श्वास घेवपाचे अडचणेक लागून, क्षयाक लागून, थंडेन हड्डें भरून आयिल्ल्यान आनी पोलियोक लागून भुरगीं मरत आसात.

पोस्टीक आहार मेळनाशिल्ल्यान, दर वर्सा ह्या देशांतलीं पांच वर्सां सकयल्लीं अडेच लाख भुरगीं कुड्डीं जातात. आहारांत 'अ' जीवनसत्व नाशिल्ल्यान, वर्सानवर्स, ४२००० भुरगीं पूर्ण आंधळीं जातात आनी ७८ हजार भुरग्यांचे नदरेंत दोश निर्माण जाता.

अख्खया संवसारांत दर हजारांत ८४ भुरगीं मरतात. भारतांत हें प्रमाण ९४ आसा. केरळांत हें प्रमाण मात्शें उणें आसा. थंय हजार भुरग्यांत २२ भुरगीं मरतात. उत्तर प्रदेशांत हें प्रमाण चड आसा. थंय दर हजारांत १२३ आनी ओरिसांत १२२ आसा.

भारतांत २७ कोटी भुरग्यांतलीं चडांत चड भुरगीं अत्यंत दळिद्री अवस्थेंत जियेतात. भुरग्यांचें मरणाचें प्रमाण आनी तांची दळिद्री अवस्था, आमच्या देशांत आशिल्ली आरोग्याची आनी देशाची आर्थिक तांक दाखयता.

भारतांत चडांत चड भुरग्यांक पोस्टीक आहार मेळना. श्वास घेवपाक शुद्ध हवा मेळना. पियेवपाक निर्मळ उदक मेळना. रावपाक हवेशीर असो मेकळो जागो मेळना. शाळेंत वचपाखातीर जाय आशिल्लें पयलें शिक्षण मेळना. ताका लागून तांच्या देहाची आनी मनाची पूर्ण वाड जावंक पावना. तांच्या वांट्याक उवेखणी येता आनी तांचेकडेन पूर्ण दुर्लक्ष जाता. ही भयंकर परिस्थिती निवळावपाक, भारत सरकारान गांधी म्हात्म्याचे १०६वे जयंतीक, म्हळ्यार २ अक्टोबर १९७५ दिसा, 'एकात्मिक बालविकास सेवा' ह्या नांवान एक महत्वाकांक्षी येवजण आंखली. हे येवजणेची १) शाळेंत वच्चे पयलें शिक्षण दिवप, २) रोग आळाबंदाक हाडचेले उपाय करप, ३) वैजकी तपासण्यो करप, ४) पोस्टीक आहार दिवप, ५) वैजकी संदर्भ सेवेची आंखणी करप आनी ६) बायलांक आरोग्याचें आनी पोस्टीक आहाराचें शिक्षण दिवप, हीं उद्दिस्टां आसात.

आंगणवाडी हें बालविकास प्रकल्पाचें एक केंद्र. भारत सरकाराचें समाजकल्याण मंत्रालय नियोजन आयोगाकडेन आनी राज्यसरकारांकडेन चर्चा करून दर वर्सा प्रकल्पाक मान्यताय दिता. प्रकल्पाची ताकतिकेची गरज, तो सुरू करपाची शक्यताय आनी प्रकल्पाकडेन आशिल्ली बांधिलकी ध्यानांत घेवन प्रकल्पांचें वांटप जाता. ज्या राज्याकडेन साधनांची चड सामुग्री आसता, तें राज्य चड प्रकल्प चलोवपाक हातांत येता. ज्या खेड्यांत वा शहरांतले झोपडपट्टींत आंगणवाडीची चड गरज आसता, थंयच ती सुरू करपाखातीर जागो वेंचून काडटात. शहरांतली झोंपडपट्टी, जंय कसल्योच सुविधा नात अशें साप्प फाटीं आशिल्लें आडकुशिचें खेडें, आदिवासींचे जागे, आवर्शणाचो वा हुंवाराचो तडाखो बसपाचो संभव आसा असो जागो, जंय अर्भकांची मरणसंख्या चड आसा आनी जंय अन्न धड मेळना, अशा विभागांनी आंगणवाडी सुरू करतात.

प्रकल्पाचो जागो थारायतकीर आनी केंद्र सरकारान तिका मान्यताय दितकीर, तीन पांवड्यांचेर कर्मचारी वेंचून काडपाक आनी तांकां प्रशिक्षण दिवपाक राज्य सरकार सुरू करता. हे तीन पांवडे म्हळ्यार बालविकास प्रकल्प अधिकारी, मुखेल सेविका वा पर्यवेक्षक आनी आंगणवाडी सेविका. केंद्र सरकारान आपणें घेतिल्ल्या अनुभवाच्या आनी अभ्यासाच्या आधारान तांच्या शिक्षणाची आंखणी केल्या. हे आंखणेच्या आधारान

तांकां प्रशिक्षण दितात.

आंगणवाडीचे सेविकेक तीन म्हयन्यांचें प्रशिक्षण दितात. तिच्या अभ्यासक्रमांत भुरग्यांचो विकास कसो करचो, भुरगें अपंगूल जाल्लें आसल्यार, तें कित्यान अपंगूल जावंक पावलें हाचो सोद कसो घेवंचो; ज्यो नोंदी दवरूंक जाय त्यो नोंदी कशो दवरच्यो; निरिक्षण करपाचें तंत्र कशें आपणावचें; कुटुंब नियोजन कशें करचें हाचो आस्पाव आसता. तेभायर, आहाराचो आनी आरोग्याच्या मुळाव्या शिक्षणाचोय आस्पाव जाता.

आरोग्याकडेन लग्निक आशिल्ल्या एकात्मिक बालविकास सेवेच्या कर्मचाऱ्यांचें विभागाप्रमाणान जाय आशिल्लें सुसुत्रिकरण 'सेंट्रल टेक्निकल कमिटी ऑन हेल्थ अॅन्ड न्युट्रिशन' ह्या ऑल इंडिया इन्स्टिटयूट ऑफ मेडिकल सायन्सेस' मदले कमिटीकडल्यान जाता. हे कमिटीन आतांमेरेन प्रथमळ्या आरोग्य केंद्रांतल्या वैजकी अधिकाऱ्यां-खातीर वेगवेगळें प्रशिक्षण दिवपाक, ८० वैजकी महाविद्यालयांतल्यान भुरग्यांचें आरोग्य आनी सार्वजनिक आरोग्य ह्या विशयाचेर १०० वरिश्ठ शिकोवप्यांची नेमणूक केल्या. आतां हें प्रशिक्षण बालविकास प्रकल्प अधिकारी आनी वैजकी अधिकारी हांकां एकठांयच दितात.

आंगणवाडी ही एकात्मिक बालविकास सेवेंतलें एक केंद्र जाल्ल्यान, आंगणवाडींत आरोग्य सेवाय आस्पावता. पयले उपचार करपी आरोग्य केंद्र आनी शहरी आरोग्ययंत्रणेंतलें पथक जायत्यो सुविधा दिता. आंगणवाडी सेविका ह्या आरोग्य पथकाक पालव दिता आनी लोकांत आरोग्यासंबंदान जागृताय निर्माण करता.

जी सेविका आंगणवाडी चलयता, तिका पालव दिवपाक आनीक एक सेविका आसता. ज्या वाटारांत वा ज्या समाजांत ही आंगणवाडी आसता, त्याच वाटारांतली वा समाजांतली ही सेविका वेंचून काडिल्ली आसता. ताका लागून, ह्या वाटारांतल्या आवयांकडेन आनी भुरग्यांकडेन तिका थेट संपर्क सादूंक मेळटा.

कोलेखांक, धोणकुटी, पोलियो, उरउरें आनी क्षय ह्या भयंकर रोगांपासून भुरग्यांक राखण दिवपाखातीर, सगळ्या भुरग्यांक ह्या रोगांची लस तोपतात. गुरवार बायलांक 'टिटॅनस टॉक्सायड'चो डोज दिवन, आवयक आनी तिच्या पोटांत आशिल्ल्या भुरग्याक धोणकुटेपासून राखण दितात. जांकां 'अ' जिवनसत्वाची गरज लागता, तांकां तें जिवनसत्व दितात. 'आनेमिया' जावं नये म्हणून भुरग्यांक एकसारके १०० दीस मेरेन लोह आशिल्ल्यो गुळयो दितात.

तीन ते स वर्सांमिरनेच्या भुरग्यांक शिक्षणाची विशेश संद मेळपाची चड गरज आसता. तांचो मानसिक विकास जावपाखातीर आनी ज्ञान मेळपाखातीर, आंगणवाडयेंत तरेतरेच्या खेळांतल्यान भुरग्यांत शिक्षणाची आवड निर्माण करतात. तांच्या मुखावेल्या शिक्षणाची बुन्याद घट्ट करपाखातीर, तांकां एकठांय खेळपाक, गाणीं म्हणपाक, रंगांची वळख करून दिवपाक, भोंवतणच्या वस्तूंची आनी परिस्थितीची वळख करून घेवपाक, आंगणवाडयेंतली सेविका, आपले कल्पनेचे तांकीप्रमाण शिक्षण दिता.

बालविकास सेवा प्रकल्पाचेर देखरेख दवरपाची जापसालदारकी, केंद्र सरकाराचें समाजकल्याण मंत्रालय, ऑल इंडिया इन्स्टिटयूट ऑफ मॅडिकल सायन्सेस आनी नॅशनल इन्स्टिटयूट ऑफ पब्लिक कोऑपरेशन अॅन्ड चाइल्ड डेव्हलपमेंट ह्या तिगांची आसता.

बालविकास प्रकल्पाचो खर्च तीन वेगवेगळ्या गटांत वांटला. (अ) प्रकल्प स्थापन करता आसतना येता तो सुरवातिचो भांडवली खर्च, (ब) पोस्टीक आहार दिवपाचो खर्च, (क) पयल्या वर्सा उपरांत सेवा चालू दवरपाखातीर मदीं मदीं जाता तो खर्च.

स्थापनेची आनी आर्थिक व्यवस्थेची

जापसालदारकी भारत सरकाराचें समाजकल्याण मंत्रालय घेता. हें मंत्रालय सुरवातीचो भांडवली खर्च थेट केंद्राकडल्यान घेता आनी ताची जुळोवणी करता. पोस्टीक आहाराचो खर्च राज्य सरकार करता.

नियोजन आयोगान १९७८ आनी १९८२ वर्सा जाल्ल्या कार्याचें पूर्ण निरिक्षण करून ताजें मेजमाप घेतलें. ह्या कार्याचो बरो परिणाम दिसून आयिल्ल्यान बालविकास सेवेच्या विस्ताराक चालना दिवपाची थारायली. एकवटलेल्या राष्ट्रांची भुरग्यांखातीर वावुरपी एक मोलादिक संघटना ह्या नात्यान 'युनिसेफ' हे संघटनेन १९८३ वर्सा आपलो स्वतंत्र आढावो घेतलो, आनी भारत सरकाराक ह्या प्रकल्पाखातीर पालव दिलो. बालविकास सेवा प्रकल्पाचो, भुरग्यांच्या विकासाचो कार्यक्रम अपेशी जावं नये म्हणून, कर्मचाऱ्यांक योग्य तें प्रशिक्षण दिवपाचेंय काम ही आंतरराष्ट्रीय संघटना करता.

वर्ल्ड फूड प्रोग्रॅम (WFP) आनी कोऑपरेटिव्ह अमेरिकन रिलिफ प्रोग्रॅम (CARP) ह्यो आंतरराष्ट्रीय संस्था, भुरग्यांक पोस्टीक आहार दिवपाखातीर भारत सरकाराच्या बालविकास प्रकल्पाक जो दुडू जाय, ताचो चडांत चड भार उखलतात.

**आधारावळ**: १) ICDS (भारतांतली समन्वित बालविकास सेवा योजना) ही युनिसेफान उजवाडाक हाडिल्ली पुस्तिका. २) Health for All हो लेख. बरोवपी: Y P Gupta, Illustrated Weekly of India, डिसेंबर, १-२-९०.

**आंगथण**। आंग्थण्। सा.रू.– णा। भौ. – णां, सा.रू.– णां। सं. अङ्गस्थानम् न. आंगाचो जायास; आंगलोट; आंगजिणी.

**आंग-पांग**। आंग्-पांग्। सा.रू.– आंगा-पांगा। सं. अङ्ग + प्रत्यङ्गम् न. पूर्ण शरीर; सस्टांग; अस्टांग. ("म्हाका भौन भौन बायल येवजूंक लागली. कितलें सुरबूस उतर हें. तोंडांतसून भायर सरनाफुडें आंग-पांग शिरशिरता." – गोमन्तोपनिषत, २रें खंड; बरो: शणै गोंयबाब, पा.१६०.)

**आंगबळ**। आंग्बॅळ्। सा.रू.– ळा। कों. आंग + बळ न. आंगांतलें बळ, बळगें, सामर्थ्य; आंगांतली तांक, ताकद, शक्त. ("...हो धोलारो बरकेल्लो आसतनाय, तो मोडून उडोवंक आदिलशाही, निजामशाही, कुतुबशाही आनी बरीदशाही ह्या चार बळिष्ट मुसलमान राज्यांक आपलें आंगबळ एके फावटीन खर्चुचें लागलें." – गों.गों.व., बरो: शणै गोंयबाब, पा. १२५.)

**आंगभेट**। आंङ्गभॅट। स्त्री. आंगमेळ; आंगसूख; रतिसूख.

**आंगमेळ**। आंगमेळ्। सा.रू. - ळा। कों. आंग + मेळ. स्त्री. रतिसुखाखातीर दादल्या बायलेची जाल्ली जुंवळकी.

**आंगलट**। आंगलॅट्। सा.रू.– टी। सं. अंगयष्टि, प्रा. आंगलट्ठी स्त्री. आंगाची ठेवण, जायास, आंगठण, आंगथण, आंगजीण. ("वामन आंगलटीन बारीक किडकिडीत आनी नांवाप्रमाणेंच मोटवो आसलो." – शणै गोंयबाब, बरो: रा. ना. नायक, पा. ९.)

**वा.प्र.: आंगलट येवप**: करूंक वता ताचे उरफाटें जावप; आंगार परतें येवप; आंगार शेकप. ("हांवेंय म्हळें, जाता जाल्यार जावं दी प्रॅक्टिस भिकुशेटीखुस्तार. पुण तेंच म्हजे आंगलट आयलें." – अनाहूत अध्यक्ष, बरो: दत्ताराम सुखठणकार, मात्री पुनव, पा. ५२.)

**आंगलें**। आंग्लँ। सा.रू.– ल्या, भौ. – लीं, सा.रू.– ल्यां। सं. अङ्ग + वल्ल: = धांपणें ? का. अंगि ? न. भुरग्याच्या आंगाक घालपाखातीर शिंविल्लें वस्त्र, भेस; आंगाचें; आंगावलें; आंगी; व्हिस्तीद; झबलें. ("मोट्या कश्टांनी आवय ताका आंगलें घालता. भोव पातळ, पांचवें." – गीतुल: लक्ष्मणराव सरदेसाय –

स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, संपादक : अ.ना. म्हांबरो, पा.३.)

**आंगलें-तोपरें** । आंग्लँ-तॉपरँ । सा.रू.– आंगल्या-तोपऱ्या; भौ.–आंगलीं- तोपरीं, सा.रू.– आंगल्यां-तोपऱ्यां । का. अंगि + टोप्पर = माथ्याक घालचेली कुची. १. भुरग्याच्या आंगाक तेचपरी माथ्याक घालपाखातीर शिंविल्लो भेस. (धोल धोल धोलांचें । पाळणें बांदलें फुलांचें । एक फूल व्हेलें कावळ्यान । ताका बडैलें मावळ्यान । कित्याक रे मावळ्या बडैता । आंगलीं-तोपरीं लोळैता । वडाखांदी सुकैता । (एके आल्लेयेंतलीं कडवीं.) २. भेस; रूप. ("आमी संस्कृत उतरां लागीं केलींय जाल्यार तांकां मोवशें कोंकणी आंगलें-तोपरें घालून मोवाळ करुंया." – ये.अ.अु., बरो : शणै गोंयबाब, पा. ६६.) ३. (ला.) मीठ-मिरसांग; सांबार; फोण्ण. ("अिल्ले सादे गजालिकूय गोड फकाणाचें आंगलें-तोपरें घालून लोकांच्या पोटांत ते पेंडके हाडटाले." – ये.अ.अु., बरो : शणै गोंयबाब, पा. २२.)

**वा.प्र.: आंगलें-तोपरें घालप** : फुलोवन, सजोवन सांगप; मीठ-मिरसांग लावन, सांबार लावन सांगप; फोडण दिवन रुचीक, आकर्शक करून सांगप.

**आंगलोट** । आंग्लोट । सा.रू.– टा । सं. अंगयष्टि, प्रा. अंगलट्ठी पु. आंगाची ठेवण, जायास; आंगठण; आंगथण; आंगजीण. ("बायलांच्या ज़म्यांत एकेकडेन अर्जुनाक अवचित एक चली दिश्टी पडली. तिचो आंगलोट ताचे नदरेंत भल्लो. तो तिका एकसारको पळेत रावलो." – महाभारत, खंड १. बरो : रवीन्द्र केळेकार, पा. १०७.)

**आंगवण** । आंगवण् । सा.रू.– णे, भौ.– ण्यो, सा.रू.– ण्यां । वे.सं. ओह. = प्रार्थना, गंभीर प्रतिज्ञा हाचेवेल्यान? स्त्री. संकटाक पाव म्हणून देवाक प्रार्थना केल्या उपरांत, तो संकटाक पावल्यार ताका अमुकच करीत म्हणपाचो घेतिल्लो सोपूत, वा केल्ली प्रतिज्ञा; मनांतली कामना पूर्ण कर म्हणपाची प्रार्थना केल्या उपरांत, देवान ती फळादीक केल्यार ताका अमुकच वस्त ओंपीन म्हणपाचो घेतिल्लो सोपूत, वा केल्ली प्रतिज्ञा; भक्तीक लागून देव संकटाक पावतलो म्हणपाची आशिल्ली खात्री; आंगोवण; नवस. ("वाठारो आंगवणेक पावपी, तसोच किदेंय चूक जाल्यार रोखडो कोपपी अशें लोक मानतात." – एक रुख आनी एक मनीस, बरो : अरूण सीताराम सिंगबाळ, कोंकणी कथा : साहित्य अकादेमी, पा. १८३.)

**म्हण** : आंगवणेचें भुरगें आनी भुलवणेचो घोव खरो न्हय.

**विशेश** : आंगवण म्हळ्यार संकटाक पाव म्हणून देवाक प्रार्थना केल्या उपरांत तो संकटाक पावल्यार, ताका अमुक अर्पण करीन म्हणपाचो घेतिल्लो सोपूत वा केल्ली प्रार्थना.

आंगवणेचे पांवडे तीन. १) संकटाक पाव म्हणून वा मनांतली कामना फळादीक कर म्हणून प्रार्थना करप. २) संकटाक पावल्या उपरांत वा कामना फळादीक केल्या उपरांत, देवाक अमुकच अर्पण करीत म्हणपाचो घेतिल्लो सोपूत वा केल्ली प्रतिज्ञा. ३) संकटाक पावतकीर वा कामना फळादीक जातकीर, अर्पण करतां म्हणून सांगिल्ली वस्त देवाक ओंपप म्हळ्यार आंगवण पावोवप.

ऋग्वेदांत म्हळां :

१.१. हविंची इत्सा करपी, भक्तांक सुखदेण्या आनी उदार·अग्ने, भक्तांनी तुजें नामस्मरण करून, तुका ओंपिल्ल्या हविंचो तूं स्विकार कर. (ऋ.५.३.१०)

२. भक्तांच्या संकटांचो परिहार करपी, तांचेर अनुग्रह करपी, जुवान आनी व्हडविकेचे अग्ने, तस्करांपासून, खुनशी, दुस्ट घातकी शस्त्रूंपासून तूं आमची राखण कर. (ऋ. ५.३.११).

ऋग्वेदांतल्यो चडांत चड ऋचा असल्या प्रार्थनांनी

भल्ल्यात. वेदिक काळार, हवि दितकीर देव वेदिकांची राखण करतालो. हवि दितकीर तांकां संपत्ती, भुरगीं-बाळां आनी गोधन दितालो. देखून, देव आनी तागेले भक्त हांच्यांत देण्या-घेण्याचो संबंद वाडत रावलो. ह्या देण्या-घेण्याच्या संबंदांतल्यान आंगवणेचे संकल्पनेचो विकास जालो.

देण्या-घेण्याचे हे संबंद वेव्हाराच्या बसकाराचे नाशिल्ले. धार्मिक आनी भक्तीभावाच्या पांवड्यावयले हे संबंद आशिल्ले.

देवाक अमुक अर्पण करपाचो घेतिल्लो सोपूत वा केल्ली प्रार्थना, हो करार न्हय. आपणेंच आपल्याचेर घालून घेतिल्लें तें नितीक आनी धार्मिक बंधन, ह्या बंधनाक पाळो दिवप ही आंगवण करतल्याची लागणूक. देवाची नित्य पुजा केले उपरांत ताका जे भावनेन निवेद्य दाखयतात, तीच भावना आंगवण पावोवपा फाटल्यान आसता.

आजच्या काळार जें काम पुरयत वा देवळांत भट वा भगत करता, तें काम ऋग्वेदाच्या उत्तर काळार होतृ करतालो जावंक जाय. "संदेश व्हरपी दुतावरी स्तोत्रांनी आमी तुमची व्हडवीक गायतात. अन्नधन आश्विनिकुमारांनो तुमी आमच्या स्तोत्रांचो स्विकार करात", अशें ऋग्वेदाच्या आठव्या मंडळांत म्हळां. (ऋ. ८.५.३).

भक्ताचो देवाकडेन थेट संबंध आशिल्ल्यान, खासा आपुणच तो स्तोत्र म्हण्टा. ऋग्वेदाच्या उत्तरकाळांत यजमानाचे वतीन होतृ हवि दिवन स्तोत्रां म्हणटालो जावये. तशें नाशिल्लें जाल्यार 'संदेश व्हरपी दुतावरी' ह्या उतरांची गरज नाशिल्ली.

आज पुरयत वा देवळांतलो भट, व्रताची सांगता करतासतना वा आंगवण पावयतासतना देवाक सांगणें करता की, अमूक यजमानान आंगवण पावयल्या वा व्रत पूर्ण केलां, तेन्ना त्या यजमानाच्या वेव्हाराची भरभराट कर. कितेंय चूक जाल्ली आसल्यार ताका क्षमा कर. ताणें केल्ली सेवा मानून घे आनी ताज्या कुटुंबाची राखण कर. वेदिक काळार हेंच काम होतृ करतालो.

कोण अभिशेक करून, उपास करून, कोण देवळाक झुंबर दिवन, देवळाक मंटप बांदून दिवन, कोण रुप्याची वा भांगराची वस्त दिवन आंगवण पावयतात. कोण भुरगें जायना म्हणून आंगवण करता. भुरगें जाल्यार देवळाक घांट अर्पण करीन म्हणून कोण सांगता. कोण भुरगें जाल्यार, ताका देवाचें नांव दवरून, ताका देवाच्या पांयार हाडून घालीन म्हणून आंगयता. कोण मेणाचो हात वा पांय देवाक ओंपता. आंगवणेचे अशे तरे तरेचे प्रकार आसात.

महाराष्ट्रांत खंडोबा हो देव आंगवणेक पावता म्हणून ताजी ख्याती आसा. थंय कोण आंगयल्लें सोंपण बांदून दितात. कोण दिव्याचो खांबो उबारता. कोण देवळाक एकाद्री म्हूर्त भेट म्हणून दिता. कोण ताका आपलीं पयलीं-वयलीं भुरगीं अर्पण करता. तातुंतल्यान वाघ्या-मुरळी निर्माण जाल्यात. देवाक ओंपिल्ल्या चल्याक 'वाघ्या' म्हणटात, तर चलयेक 'मुरळी' म्हणटात.

सोळा सोमारांचें व्रत, सत्यनारायणाचें व्रत, संकस्टी, अंगारकी आनी विनायकी पासून आंगवणेंतच मोड्टा.

आंगवण ही इंडो-युरोपियन संकल्पना. वेदिक संस्कृतांतलो 'ओह' हो धातू. प्रार्थना वा केल्ली गंभीर प्रतिज्ञा आनी केल्ली प्रतिज्ञा पूर्ण करप, अशी भावना दाखयता.

लॅटिन भाशेंत Vovere हाचेवयल्यान घडिल्लें 'votum' हें उतर दोट्टी अर्थ दाखयता. क्रिया करप असो ताचो एक अर्थ जाता आनी इत्सा उकती करप हो ताचो दुसरो अर्थ जाता. पयल्या अर्थान तो क्रिया करपाची प्रतिज्ञा घेता, आनी देवाक देवूळ बांदता. हे क्रियेन तो आपली प्रतिज्ञा पूर्ण करता. दुसऱ्या अर्थान, प्रतिज्ञा पूर्ण केल्ल्यान इत्सा फळादीक जावंची अशी आस्त तो धरता. झुजांतल्यान वाटावपाक जाणें देवाक

आपूण म्हूर्त ओंपतलों म्हणपाची आंगवण केल्या, ताका ती म्हूर्त, झुजांतल्यान वाटावल्या उपरांत दिवंचीच पडटा. लॅटिन भाशेंत 'Votum Potine' म्हळ्यार आंगवण करप आनी 'Votum Solvere' म्हळ्यार आंगवण पावोवप.

देवाचेर आशिल्ले भक्तिंतल्यान आंगवण करतात. रोमन काळार धर्मगुरूम्हर्‍यांत वचून आंगवण करची पडटाली. धर्मगुरून तिका मान्यताय दितकीर आनी कामना फळादीक जातकीर, आंगवण पावोवची पडटाली. आंगवण पावयना जाल्यार, रोमन कायद्यान ताका ख्यास्त जाताली.

आव्हेस्तान भाशेंतय 'अओग' हें क्रियापद आसा. हाचो अर्थ 'सांगप' असो जाता. जाल्यारूय, हें सांगप मनशांक न्हय तर देवाक.

ग्रीक भाशेंतय आंगवणेचे अर्थ दाखोवपी "Eukhe sthai' हें उतर आसा.

खूप पुर्विल्ल्या काळार, समस्तांचें कल्याण जावपाखातीर एकाद्रो मनीस देवामुखार आपलोच बळी दितालो. होय प्रकार आंगवणेंतच मोडटा.

**आधारावळ**: १. ऋग्वेद, २. Indo-European Language and Society हांतुंतलो लेख: The Vow by Emile Bemveniste. Translated by Elizabeth Palmer, published by Fabber and Fabber Ltd.

**आंगवप** । आंगिवप् । सा.रू.– पा । 'आंगवण' वेल्यान क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आंगय् (अक.) आंगवण, आंगोवण करप, नवस करप. ("सुर्याकिर्णां जीर्ण जावन रात आपयली । इंद्रा-चंद्रा सांगणें करून पुनव आंगयली." – आंकवार आमोरी : एन् शिवदास. कोंकणी काव्यसंग्रह, साहित्य अकादेमी, पा. १५४.)

**आंगवस्तर** । आंग्वस्तर् । सा.रू.– रा, भौ. – रां, सा.रू.– रां । (सं. अंगम् + वस्त्रम् ) न. १. आंगोस्तर, २. (ला) दवरलेली बायल; नायकीण. ("पयलिंचे बामण भाटकार प्रपंचाक बादा हाडल्याबगर 'आंगवस्तर' बाळगिनाशिल्ले?" – खबरी: कांय वर्मांच्यो, कांय कर्मांच्यो' हातुंतलो 'म्हजी दुसरी बायल' हो ललितनिबंध. बरो: लक्ष्मणराव सरदेसाय. पा.३३.)

**आंगवस्त्र** । आंग्वस्त्र् । सा.रू. – स्त्रा, भौ. – स्त्रां, सा.रू. – स्त्रां । (सं. अङ्गम् + वस्त्रम्) न. १. मुखावयल्यान मिरयो काडून आनी फाटल्यान कास घालून, सकल्लें धड धांपपाखातीर, पांच वार जायसारके, दादले घरांत न्हेसतात तें वस्त्र; आंगोस्तर. २. (ला) दवल्लेली बायल; नायकीण. ("म्हाका भायलो छंद निखालूस नासलो. म्हाका आंगवस्त्र एकूय नासलें." – गोमन्तोपनिषत्, २रें खण्ड, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १३२.)

**आंगवळण** । आंग्वळण् । सा.रू. – णा । (सं. अंग + वलनम्) न. आंगाक लागता तें वळण; देहाक जाता ती सवंय.

**वा.प्र.: आंगवळणी पडप**: सवंयेर पडप; घोळटेचें जावप. ("पोटभर शीत जेविना जाल्यार कांय जाणांक उपास केल्ल्यावरी दिसता, तशें म्हाका केळ्याबगर जातालें. शीत ना जाल्यार जाता. ही संवय इतली आंगवळणीं पडलीं की, रातचीं दोन केळीं गळ्यासकयल धुकलना जाल्यार दुसर्‍या दिसा परसाकडे बंद!" – केळ्यां घड, बरो: लक्ष्मणराव सरदेसाय, खबरी – कांय वर्मांच्यो, कांय कर्मांच्यो, पा.२१).

**आंगशिरी** । आंग्शिरी । सा.रू.– रये । सं. अंग् + श्री = सुंदरकाय स्त्री. १. आंगलोटाक आशिल्ली शीर, शिरवंतसाण. २. रुपाक आशिल्ली शीर, शिरवंतसाण.

**आंगशिरें** । आंग्शिरँ । सा.रू.– र्‍या । (सं. अंग् +

श्रिष् = जळप?) न. १. नाकसुऱ्यां, उस्तऱ्यां, विर्मोरार व्हेल्लें उतर. २. अपमानीक अशें धरिल्लें बरेंच उतर.

**आंगशिरें**। आंग्शिरँ । सा.रू.– ऱ्या। (कों. आंग + शिरप ) वि. आंग शिरशिरावपी. ("पुण आंगशिरें वयतां वारें धुंवर कशी धुंवर कशी । केश्ट्यो सोडून लागली चलूंक सैरभैर पिशी कशी." – एक चित्र, बरो : रमेश वेळुस्कार, कोंकणी काव्यसंग्रह, साहित्य अकादेमी, पा. ११४.)

**आंगशी**।आंग्शी। सा.रू.–शे, भौ. – श्यो, सा.रू.– श्यां। 'आंग' वेल्यान स्त्री. आंगांतलें. ("किद्याक रे मामा बडयता । आंगशो फाळयो भिजयता ।" – गोंयकारांले पडवेर, बरो : कमलादेवी राव देशपांडे, पा. २९.)

**आंगशो-मींगशो**। आंगशो-मींगशो । स्त्री. भुरग्यांक आपले शरिराचो तोल कसो सांबाळचो हाचो धडो दिवपाखातीर आवय आपूण कसल्याय उंचायेच्या जाग्यार बसून, आपल्या पावलाचेर भुरग्याक उबें करून, ताका वयर सकयल करत म्हणटा तें पद.

आंगशो मींगशो । कितले भोऽबे ?। दस बाऽरा ।
एक कोणाऽक ? एक बायेऽक (बाबाऽक)
दुसरो कोणाऽक ?। दुसरो मामाऽक ।
तिसरो कोणाऽक ?...

हे तरेन भुरग्यांक प्रिय अशा सगळ्या लोकांचीं नांवां घेवन हें गीत म्हणटात. (गोंयकारांले पडवेर, बरो : कमलादेवी राव देशपांडे, पा. ३.)

**आंगसो**। आंग्सॉ । सा.रू.– शा, भौ. –शे (शॅ), सा.रू.– शां। (सं. अंगवस्त्र, गु. अंगुच्छो) पु. १. वस्त्राचो कुडको; वालो. २. (ला.) अभ्र; खवळ; अस्कड. ("न्याय देवता एकाद्री गणमणूंक लागल्यार तिच्या दोळ्यांवेलो आंगसो काडून, तिका ती पुर्विल्ली बुन्याद दाखैतकूच ती सुवात बामणांचीच म्हणपाचें मान्य केल्याबगर तिका दुसरो मार्ग उरचो ना." – पु.रा.का. बरो : शणै गोंयबाब.)

**आंगसोर**। आंग्सोर। सा.रू.–र । (सं. अंग + श्रम ?) पु. गाभणें आशिल्ल्या जनावराक पोटांतल्या गाभाक लागून आंगार पेलचो पडटा तो भार, वजन वा जडसाण. ("सकाळींच व्हियेल्ल्यान आंगसोर मात्सो देंविल्लो ताजो. हुश्श करून ताणें ल्हव जाल्लें पोट जमनीवेल्या शेंकऱ्यार तेंकयलें." – किंळची, गुरुदास बांबोळकार : स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, संपा : अ.ना. म्हांबरो, पा. २०१.)

**आंगाचें**। आंगाचँ। सा.रू.– च्या, भौ. – चीं, सा.रू.– च्यां। 'आंग' वेल्यान न. आंगलें; आंगावलें; झबलें; आंगी; पोपो.

**आंगारपडो**। आंगार्पडॉ । सा.रू. - ड्या; भौव. - डे; (कों. आंगार + पडो) वि. आगळीक करपाखातीर वा दुसऱ्याक तिडावपाखातीर बळयां वचून आंगार पडपी. ("सुनापरान्तांतले लोक नश्टे, खुनशी आनी आंगारपडे आसले अशें दिसता." – गों.गों.व., बरो : शणै गोंयबाब, पा. १७.)

**आंगारो**। आंगारॉ। सा.रू.– ऱ्या, भौ. –रे (रॅ), सा.रू.– ऱ्यां। (सं. अंगारक) पु. देवळांत देवाक धुपान्न्यान दाखयतात ते आरतींतलो न्हिविल्लो कोळसो. हो कोळसो पवित्र मानतात आनी घरांत नेण्टोजाण्टो बरो नासल्यार, ताका गूण पडूंक हो आंगारो लायतात.

**आंगावलें**। आंगाव्लँ। सा.रू.– ल्या, भौ. –लीं, सा.रू.– ल्यां। (सं. अंग + वल्ल) न. १. आंगलें; झबलें; आंगाचें. २. मुस्तायकी; आंगांत घालचेलो शिंविल्लो कपडो. ("...तांचो संवसार-पाडवो वा नव्या वर्साचो दीस मार्स म्हयन्यांत येता. तेन्ना ते मौज मारतात आनी एकामेकांक बरें मागतात. ते न्हावन-

धुवन नवीं आंगावलीं घालतात." – गों.गों.व., बरो : शणै गोंयबाब, पा. १२९.)

**आंगी**। आंगी। सा.रू.– गये, भौ. –गयो, सा.रू.– गयां। (सं. अंगिका); का. आंगी = खोमीस स्त्री. १. आंगलें; आंगवलें; आंगाचें. २. चोळी; अंतरवस्त्र. ३. झगो, कांबाय, बंडी. ("फुलां-चिटांची ही आंगी। सदींच तूं एकूच घालता। दुसरी आंगी ना व्हय गो। ही तूं केन्ना उंबळटा ?" – कवी : जयवंत कुळकर्णी, नवें गोंय, २रें वर्स, २रो आंक, पा. ५४.)

**वा.प्र.: आंगी चडोवप** : देवाचे म्हुर्तीक पांय धरून मस्तकामेरेन जवाहिर घालप वा गोमान आंगाक जवाहिर दसोवप.

**आंगीं**। आंगीं। 'आंग' वेल्यान क्रि.वि. आपले आपूण; खासा आपणें; स्वता. (तो आपल्या आंगीं कस्ट वावर करता.)

**म्हण**: आपल्या आंगीं घालची कास, न्हय धरची दुसऱ्याची आस.

**आंगुळी**। आंगुळी। सा.रू. –ळे, भौ. –ळ्यो, सा.रू. – ळ्यां। (सं. अंगुली) स्त्री. १. बोट; उंगटी. २. आंगठो.

**आंगुळो**। आंगुळॉ। सा.रू.– ळ्या, भौ. –ळे (ळॅ), सा.रू.– ळ्यां। (सं. अंगुल:) पु. हाताचें आंखूड जाडें बोट; आखांडो; आंगठो; पांयाचें पयलें जाडें बोट.

**आंगूळ**। आंगुळ्। सा.रू. –गळा, भौ. –गळां, सा.रू. –गळां। (सं. अंगुल:) न. सवादांचे (यवाचे) आठ दाणे एकामुखार एक दवरून जाता ते लांबायेचें, तेचपरी रुंदायेचें माप; हाताच्या विसाव्या भागाचें माप; ०.०२५ मिटर जाता येदें माप; तीन-चतुर्थांश वा पाऊण इंच. ("चार आंगळां पोटान म्हाका। हांगा थंय धांवडायलें। आंग विकून पोट जाळूंक। म्हजे दीस सरण जाले।" – केन्ना केन्ना स्टेजीर : गजानन जोग, कोंकणी काव्यसंग्रह, साहित्य अकादेमी, पा. १२९.)

**विशेश**: आंगळाचें कोस्टक अशें आसा :

१ आंगूळ – हाताचो विसावो भाग – ०.०२५ मिटर
१० आंगळां – १ वेंत – ०.२५ मिटर
२० आंगळां – १ हात – ०.५० मिटर
२ हात – १ दोट्टी हात – १.०० मिटर

**म्हण**: सता फटीभितर चौ आंगळ्यांचें अंतर.

**आंगेती**। आंगेती। सा.रू. –ते, भौ. –त्यो, सा.रू. –त्यां। 'आंग' वेल्यान स्त्री. जापसालदारकी, जबाबदारी. ("गांवांत म्हजी मॅट्रिकची परिक्षा जाल्ली. पास जाल्लों. कॉलेजचें शिकप आवयकडेन जावपाचें नाशिल्लें. देखून, म्हज्या मामान आंगेती घेतिल्ली." – बांबर, बरो : पुंडलीक नायक, पा. ७.)

**आंगोती**। आंगोती। सा.रू. –ते, भौ. –त्यो, सा.रू. –त्यां। सं. अङगवतिका? स्त्री. केळिच्या लांबचे लांब आनी रुंद पानाचो, खांदोती आनी शिर्ती हांचे मदलो भाग.

केळिच्या पानाचे तीन भाग जातात. खांद्याकडल्या भागाक 'खांदोती' म्हण्टात. मदल्या भागाक 'आंगोती' म्हण्टात आनी निमाण्या भागाक 'शिरती' (शिर्ती) म्हण्टात.

**आंगोवण**। आंगोव्‌ण्। सा.रू. –णे, भौ. –ण्यो, सा.रू. –ण्यां। वे.सं. ओह : प्रार्थना, गंभीर प्रतिज्ञा स्त्री. पळेयात : 'आंगवण'.

**आंगोवप**। आंगॉवप। सा.रू. –पा। 'आंगोवण' वेल्यान क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू – आंगोय्-अक.) पळेयात 'आंगवप'.

**आंगोस्तर**। आंगॉस्तर्। सा.रू. –रा, भौ. –रां, सा.रू. –रां। सं. अंग + वस्त्रम् न. पळेयात – 'आंगवस्तर'. ("तांबयो दाराकुशीक दवरून तेच हात

आंगोस्तराक पुशीत दादा भितर सरता.'' – सदानंद, बरो : दामोदर मावजो, गांथन, पा. ११.)

**आचमन** । आच्‌मन । सा.रू. –ना; भौ. –नां, सा.रू. –नां । सं. आचमनम् न. १. धार्मिक कृत्याच्या आरंभाक, देह शुद्धीखातीर, शास्त्राप्रमाणें तळटाचे कोंजळींतल्यान मनगटाचे वटेन इल्लेंशें उदक प्राशन करून अस्टांगांक (शरिराच्या आठय भागांक) स्पर्श करपाची क्रिया; उजव्या हाताच्या तळटाचे कोंजळींत विष्णू भगवानाच्या २४ नांवांतल्या, केशव, नारायण आनी माधव ह्या पयल्या तीन नांवांचो उच्चार करून शुद्ध आनी थंड उदक प्राशन करपाची क्रिया; आंगठो आनी किरंगळी सरळ दवरून वा फकत तर्जनी बागोवन, गायेच्या कानांवरी केल्ल्या तळटाच्या कोंजळींतल्यान विष्णूच्या चोवीस नांवांतलीं पयलीं तीन नांवां घेत तीन खेपो उदक प्राशन करपाचो विधी. **विशेश :** संस्कृत कोशांत आचमनाचो अर्थ असो आसा. १. धर्मकृत्यांत तेचपरी जेवचे पयलीं आनी जेवल्याउपरांत, तळटाचे कोंजळींतल्यान उदक प्राशन करून तोंड शुद्ध करपाचो विधी. २. तोंड शुद्ध करपाखातीर उपकरावचेलें उदक. ३. ग़ळगळे घेवपाची क्रिया. ४. (आयुर्वेद) योनी शुद्ध करपाखातीर उपकरावचेलें उदक.

धर्मकृत्याच्या आरंभाक तेचपरी धर्मकृत्याचे अखेरेक आचमन करतात. सकाळची आनी सांजवेळची संध्या करतना हवन, दान, जेवण, उपहार, प्रतिग्रह आनी हविर्भक्षण करतना, सुरवातेक आनी अखेरेक अशें दोन खेपो आचमन करचें. आचमन करूंक शक्य नासत जाल्यार फकत उजव्या कानाक स्पर्श करचो. आचमनाच्या वेळार हातांत पवित्रक, निदान दर्भ तरी आसचो, अशें धर्मशास्त्र सांगता. आज आचमनाचो धार्मिक अर्थ तितलो उरून, बाकिचे अर्थ घोळटेंतल्यान गेल्यात.

**आचरण** । आच्यरॅण् । सा.रू. –णा; भौ. –णां, सा.रू. –णां । सं. आचरणम् न. १. अनुस्थान; व्रत; नेम. २. दुसऱ्या मनशाकडेन चलपाची चाल, रीत, रिवाज; चाल-चलणूक; वर्तणूक (ताचें आचरण देख घेवपासारकें आसा.)

**आचरप** । आचरॅप् । सा.रू. –पा । सं. आचर् क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू आचर्-सक.) १. चाल-चलणुकेन चलप, वागप. २. (एकाद्रो नेम वा एकाद्रें व्रत) आचरणांत हाडप; आचरण दवरप. ३. अभ्यासप.

**आचार** । आच्यार् । सा.रू. –रा; भौ. –र, सा.रू. –रां । सं. आचारः पु. १. धर्माक धरून, तेच परी चौगरितीक धरून केल्लें वर्तन वा आचरण; शास्त्रशुद्ध वर्तन; शुद्ध आचरण. २. चाल-चलणूक; वागणूक; ३. पात्सो; आयब. (''आडवी पडिल्ली निसण आचाराची अशें मानून ती बेगिबेगीन उबी करपी गोपाल हो तसो कसो जायत ?'' – घांटी, बरो : शांताराम अनंत हेदो, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, पा. २०.)

'आचार' ह्या उतराचो कांय हेर उतरांकडेन समास जावन लोकाचार, कुळाचार, देशाचार, सदाचार आनी भ्रस्टाचार अशीं उतरां घड्टात.

**म्हण :** १. मरचे आदीं बरो आचार तुजे स्वाधीन, मागीर ना तुजे आधीन. २. बेबद्याक आचार ना.

**आचारप** । आच्यारॅप् । सा.रू. –पा । सं. आचार् क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आचार्-सक.) पळयात 'आचरप'. (''जिवीतभर पातकां तिणें आचारलीं. पातकी जीण ती जगली.'' – बिम्बां-पडबिम्बां, बरो : चंद्रकांत केणी, पा. १४१.)

**आचारभ्रस्ट** । आच्यारभ्रष्ट । सा.रू. –स्टा; भौ. –स्ट, सा.रू. –स्टां । सं. आचारभ्रस्ट वि. धर्मरितीक आनी

चौगरितीक सोडून आचरण करपी; उंवाळलेले, अळशिकावणे चाल-चलणुकेचो; पाड्या आचारांचो; आचारहीन.

**म्हण :** आचारभ्रस्टी सदां कस्टी.

**आचारसंपन्न** । आच्यारसंपन्न् । सा.रू. –न्ना; भौ. –न्न, सा.रू. –न्नां । सं. आचारसंपन्न वि. कुळधर्म आनी कुळाचार योग्य तरेन आचारांत हाडपी; शुद्ध चाल चलणुकेचो; सदाचारी; चारित्र्यसंपन्न.

**आचारवाणें** । आच्यारवाणँ । सं. आचार + विहीन क्रि.वि. अमंगळ; अभद्र. (मनशान थुमेकालशें आचारवाणें उलोवं नये.)

**आचारविचार** । आच्यार्‌विचार् । सा.रू. –रा; भौ. –रू, सा.रू. –रा । सं. आचार + विचार पु. आचार आनी विचार; आचरण.

**आचारहीन** । आच्यार्‌हीन । सा.रू. –ना; भौ. –न, सा.रू. –हिनां । सं. आचारहीन वि. भ्रस्ट, पाड्या, अधर्मी, अमंगळ आचारान चलपी; आचारभ्रस्ट.

**आचारी** । आच्यारी । सा.रू. –ऱ्या; भौ. –री, सा.रू. –ऱ्यां । सं. आचार्य पु. १. अध्यात्मिक गुरू; धर्माचो उपदेश करपी; शणै. ("ह्या साक्रामेंता वरउनु इग्रेजेचे वेगवेगळे आचारी वर्तताति, आणि सासॅर्‌दॉती जाताति, तांकां सांत साक्रामेंत आदमिनिस्त्रार करूंच्याक आमचो स्वामि आपुली क्रुपा, आनी हुकूम दिता." – दौत्रिन क्रिस्तां, बरो : पाद्री तोमस स्टिफन्स. देवनागरी लिप्यंतर : अ. का. प्रियोळकर, पा. ४४.) २. आचारांच्या नेमाप्रमाणें चलपी; आचारांक पाळो दिवपी. ३. शकून सांगपी; नळबटो; शमान. ४. (ला) मेस्त; ठवय. (वाव्र नाशिल्लो आचारी आपले कुले ताशी.)

**म्हणी :** १. उद्योग नाशिल्लो आचारी चेडवां गांडी ताशी. २. वाव्र नाशिल्लो आचारी आपले कुले ताशी.

**आचारी** । आच्यारी । सा.रू. –ऱ्या; भौ. –री, सा.रू. –ऱ्यां । सं. आचार = आहार वेल्यान पु. रांदपी.

**आचारो** । आच्यारॉ । सा.रू. –ऱ्या; भौ. –रे (रॅ), सा.रू. –ऱ्यां । सं. आचार वयल्यान ? पु. शकून; वैक.

**आचार्य** । आच्यार्य । सा.रू. –र्या; भौ. –र्य, सा.रू. –र्यां । सं. आचार्य पु. १. श्रेयाच्या मार्गान व्हरपी अध्यात्मिक गुरू; मोक्षाचो मार्ग दाखोवपी गुरू. २. मुजीच्या वेळार गायत्री मंत्राचो उपदेश करपी गुरू; शिश्याची मूज बांदपाचो अधिकार आशिल्लो गुरू. ३. वेद शिकोवपी. ४. धर्मकृत्य चलोवपी विद्वान भट वा पुरयत. ५. म्हाविद्यालयाचो मुखेल अधिकारी, अध्यापक. ६. खंयच्याय शास्त्राचो वा विशयाचो धुरंधर पंडित वा विद्वान. ७. शास्त्रांचें तेचपरी तत्त्वज्ञानाचें विवेचन करपी विद्वान. ८. ब्रह्मसूत्राचे चार मुखेल भाश्यकार : शंकराचार्य, रामानुजाचार्य, माध्वाचार्य आनी वल्लभाचार्य. ९. विद्येचो निस्णात पंडित ह्या अर्थान नांवाच्या पयलीं लावपाची पदवी.

**विशेश :** 'आचार्य' ही वेदिक, हिंदू, बौद्ध आनी जैन ह्या धर्मांतली एक धार्मिक पद दाखोवपी संज्ञा. मुंज्याक आवय-बापूय योनिजन्म म्हळ्यार लौकिक जीवशास्त्रिक जन्म दिता. आचार्य हो मुंज्याक तीन रातीमेरेन आपल्या गर्भांत धारण करून, गायत्री मंत्राचें ज्ञान दीत, ताका विद्येची दीक्षा दिता. अविद्येंतल्यान मुक्त करून ताका सासणाचो पवित्र मार्ग दाखैत अमृताकडेन पावयता. (अ.वे. ११.५.३ आनी ११.५.५.)

आचार्याक सदगुरू इतलोच श्रेस्ठ मानला. खासा देवाचोच अवतार कसो लेखला. 'आचार्य देवो भव !' हीं उतरां होच अर्थ उक्तो करतात.

वेदिक काळार विद्यार्थ्यांची मूज बांदून, आचार्यकरणाचो विधी करून, त्या विद्यार्थ्यांक

आचार्यांच्या स्वाधीन करताले. आचार्याबगर विद्येक अधिस्ठान प्राप्त जायना, असो उपनिषदांतले अध्यात्मविद्येचो सिद्धान्त आसा. देखून, विद्यार्थ्यांक आचार्यकुलांत ब्रह्मचर्यव्रतान रावनच वेदांचो अभ्यास करचो पडटालो.

वेदां उपरांतच्या काळांत व्याकरणा सारके ग्रंथ, ग्रह्यसूत्रां, धर्मसूत्रां, श्रौतसूत्रां, स्मृती, पुराणां, दर्शनसूत्रां, भाष्यां वा महत्त्वाच्या मोलादिक वा विवरण करपी शास्त्रग्रंथांच्या प्रणेत्यांक 'आचार्य' म्हणपाची चाल आसली.

बौधायन, आपस्तंभ, वसिष्ठ, पाणिनी, वात्स्यायन, शंकर, रामानुज, माध्व, वल्लभ बी हांकां आचार्य म्हणटात.

व्याकरणाचे नदरेन आचार्याचें स्त्रीलिंग 'आचार्यानी' जाता. जाल्यारूय, जी बायल आचार्यावरीच वेदविद्या आनी हेर धार्मिक शास्त्रग्रंथ शिकयता, तिका 'आचार्या' म्हणटात.

**आचार्यकरण** । आच्यार्यकरण् । सा.रू. –णा । सं. आचार्यकरण न. मूज बांदल्या उपरांत वेदविद्या आनी हेर धार्मिक ग्रंथ शिकपाखातीर विद्यार्थ्यांक आचार्याचे सुवादीन करपाचो विधी.

**आचार्यकुल** । आच्यार्यकूल् । सा.रू. –ला; भौ. –लां, सा.रू. –लां । सं. आचार्यकुल न. जंय आचार्य विद्यार्थ्यांक वेदविद्या शिकयता ती शाळा; गुरूकुल; आचार्य रावता तें घर.

**विशेश :** छांदोग्योपनिषदांत गुरूकुलाक 'आचार्यकुल' म्हळां.

**आचार्या** । आच्यार्या । सा.रू. –र्ये; भौ. –र्या, सा.रू. –र्यां । सं. आचार्या स्त्री. वेदविद्या वा अध्यात्मविद्या शिकोवपी बायल.

**आचार्यीण** । आच्यार्यीण् । सा.रू. –णीं; भौ. –णी, सा.रू. –णीं । सं. आचार्यानी स्त्री. आचार्याची बायल.

**आच्यांव** । आच्यांव् । सा.रू. –वा; भौ. –व, सा.रू. –वां । मलायेची भासः आच्योंग (achong) = ल्हान बुयांव; कांतोनेज चिनी भास : हाम (ham) = धांपणें + च्योंवम (choum) = माळटी; माकावची बोली : आंच्योम, आंच्योंव (anchom, anchoum) = ल्हान बुयांव . पु. धांपणें आशिल्ली बुयांवाच्या आकाराची कांचेची वाटकुळसार बाटली. ("मागीर तो कुडींतल्यान कुजनांत आयलो. फळ्यावयल्या आच्यांवांतलो एक व्हडलो पाव काडलो." – एक म्हातारो सोंपता तेन्ना, बरो : शांताराम अनंत हेदो, जाग, दिवाळी आंक १९८८, पा. २२).

**विशेश :** १४०० वर्सा दर्यांतल्यान पुर्तुगेज भारतांत पावले. इल्ली इल्ली करून मलाबारची देग तांणी व्यापली. ही देग तांच्या हातांत पावले उपरांत आशियेंतल्यान युरोपाक व्हरचेल्या व्यापाराची चावी तांच्या हातांत पावली. सुमार साठ वर्सां चावी तांच्या हातांत उल्ली. १५१० वर्सा तांणी गोंय घेतलें. १५१० ते १५४० ह्या काळांत मलायेचे भाशेंतलें 'आच्योंग' आनी माकावांत घोळटेंत आशिल्लें 'आंच्योंव' हें उतर, व्यापाराक लागून गोंयांत पावलें आसुये. उपरांत 'आच्योंव'चेंच 'आच्यांव' हें कोंकणी रूप जालें.

**आधारावळ :** (निरुक्ताक) : Glossario Luso-Asiatico, por Sebastiao Rudolfo Dalgado, पा. ३९.)

**आज** । आज् । सं. अद्य; प्रा. अज्ज; हिं/म. आज क्रि.वि. १. वर्तमान दिसा; चलता त्या दिसा; आसता त्या दिसा; (जें काम तुज्यान आज करूं येता, तें फाल्यांक दवरूं नाका.) २. तुर्ताक; सध्या. (आज आमी आमच्या खाशेल्या घरांत देडा दिसाच्या परक्याभशेन चलतात.)

**पु.**: चलता तो दीस, वर्तमान दीस. (आज सुटी; शाळा ना.)

**वा.प्र.: आज फाल्यां करप** : फुडें धुकलप; लांबायेर घालप वा लांबायेर उडोवप. (वराभितर ताज्यान म्हजें काम करूंक जातालें. आज फाल्यां करीत म्हजें काम करपाक बद्द सात म्हयने ताणें लायले.)

**म्हणी :**

१. आज अमीर फाल्यां फकीर.

२. आज उपास, फाल्यां पारणें.

३. आज म्हाका तें फाल्यां तुकां.

**आजकाल** । आज्काल् । सं. अद्य + कल्य; हिं. आजकल; म/गु. आजकाल क्रि.वि. सध्या; तुर्तांक; हल्लीं; ह्या दिसांत (आजकाल चोरांक माथ्यार घेवन नाचतात. प्रामाणिक सुळार वतात.)

**आजकालचो-ची-चें** । आज्काल्चॉ-ची-चँ । सा.रू. –च्या-चें-च्या; भौ. –चें (चँ)-च्यो-च्यां, सा.रू. –च्यां । 'आजकाल' वेल्यान वि. सध्याचो; तुर्ताचो; हल्लींचो.

**आजगो** । आजगॉ । सा.रू. –ग्या । ? पु. भाताची एक जात. ("आजग्याच्या भातान बांदिल्ली वांटकुळीच मुडी कशी तट्टटीत गाबणी कपील कोणाचेच नदरेंत भरपाक वेळ लागनाशिल्लो." – रानबैल, बरो : एन्. शिवदास, गळसरी, पा. १२.)
**विशेश :** सध्या, म्हळ्यार गोंयचे सुटके उपरांत, भाताची ही जात क्वचित रोयतात.

**आजचो-ची-चें** । आजचॉ-ची-चँ । सा.रू. –च्या-चे-च्या; भौ. –चे (चॅं)-च्यो-च्यां, सा.रू. –च्यां । 'आज' वेल्यान वि. वर्तमान; चालंत दिसाचो; सध्याचो; आयचो. (आजचो काळ; आजची रात; आजचें फळ).

**आजच्यान** । आज्च्यान । 'आज' वेल्यान क्रि.वि. चलता त्या दिसाच्यान, वा चलता त्या दिसासाकून; आजसाकून; आजथावन; आयच्यान; हे मुखार. (आज म्हाका भक्षी. आजच्यान हांव चोरूंक वच्चोंना.)

**आजतकत** । आज्तकत् । कों. आज + फा. ताधायत ? हिं. आजतक? म. आजपर्यंत; आजतागायात. क्रि.वि. ("...आदल्या मुसलमानी राज्याची मायेमोगान याद काडूंक लायली म्हणपाचें, भाणस्तारी लागशिली हडकोळणेंची काळी फातर., क्रि.सन १६८८ वर्सापासून आजतकत एकसारकी २३८ वर्सां, मार्गान येता-वेत्या लोकांक ताळो पोकळ करून सांगता." – कों.भा.जै., बरो : शणै गोंयबाब, पा. १९.)

**आजताघायत** । आज्ताघायत् । कों. आज + फा. ताघायत क्रि.वि. आजमेरेन; आजवेर. (जे यत्न आमी आजताघायत केल्यात, ते फुकट वच्चेनात.)

**आजनेर** । आज्नेर् । सा.रू. –री; भौ. –री, सा.रू. –रीं । पुर्त : Asneira स्त्री. १. गाढवपण; पिशेपण; मुर्खपण (ओगीच किदेंय नस्ती आजनेर उलोंव नाका.) २. अवचिनपण; आडनाडपण; तिडकीभरशीं केल्लें पिशेपण; परिणामाची जाण घेनासतना वा अविचारान केल्ली आगळीक. ३. सुमाराभायर केल्ली मस्ती ("म्हयनोभर आदीं पिवन आजनेरी केल्ल्यान ताका वाटेर बरोच पेट पडिल्लो." – गीध, बरो : शशांक सीताराम, नबत, पा. २७.)
**विशेश :** लातीन भाशेंतल्या 'asinu' ह्या उतरावेल्यान पुर्तुगेज भाशेंत 'asno' हें उतर घडलें. 'Asno' म्हळ्यार गाढव वा खेंचर. लाक्षणीक अर्थ : पिसो; मुर्ख; आगळिको; मस्तो. 'गाढवाक गोडाची रूच कोणें सांगल्या' अशी म्हण कोंकणींत आसा. तेच तरेची पुर्तुगेज भाशेंतय एक म्हण आसा. ती म्हण अशी : 'Nao è o mel para a boca de asno'. जाका बऱ्या वस्तीची रूच वा रस घेवंक कळना, ताका ती

वस्त दिनात, असो हे म्हणीचो अर्थ जाता. ह्या 'asno' उतरावेल्यान पुर्तुगेजींत 'asneira' हें उतर घडलां.

**आजनेरी** । आज्नेरी । सा.रू. –ऱ्या; भौ. –री, सा.रू. –ऱ्यां । 'आजनेर' वेल्यान वि. १.मूर्ख; पिसो; पोंच नाशिल्लो. २. आडनाड; अवचिन्न; आगळिको; नांवरुपो. ३. मस्तो.

**आजन्म** । आजन्म । सं. आ + जन्म क्रि.वि. १.जन्मापासून. २.जन्मभर; जीणभर; जिवो वा जितो आसामेरेन.

**आजवळ** । आज्वळ् । सा.रू. –ळा । सं. आर्यकूल, प्रा. अज्जउळ न. आवयचें कुळार; आवयच्या आवय-बापायचें घर; आजोळ. (''भुरगेपणांत हांव म्हजे आवयवांगडा जायते फावटीं आजवळा वतालों आनी घरा येतालों.'' – गोमन्तोपनिषत्. १लें खंड, बरो : शणै गोंयबाब. पा.८).

**आजवेर** । आज्वेर् । 'आज' वेल्यान क्रि. वि. आजमेरेन; आजतागायत. (''...देखून, सोरो हें गोंयचें अमृत जालें अशेंच म्हणचें पडलें. दुसरें, त्याच सरकारान हिंदुस्तानांतल्या सगळ्या हिंदूंक आजवेर कागदां-पत्रांत 'जेन्तीव' हें उतर लावन तांगेल्या देवळांक 'पागोद' म्हळां.'' – कों.भा.जै., बरो : शणै गोंयबाब, पा. ४४.)

**आजवेळ** । आजवेळ । सा.रू. –ळा । सं. आर्यकुल; प्रा. अज्जउळ न. आवयचें कुळार; आजोळ. (''ताची बा ताका घेवन आजवेळा वताली, तेन्ना कोणूच रडनासले.'' – म्हजी बा खैं गेली, बरो : शणै गोंयबाब, कोंकणी कथा (साहित्य अकादेमी) पा.३.)

**आजार** । आजार् । सा.रू. –रा; भौ. –र, सा.रू. –रां । फा. आजार पु. आरोग्याक जाल्लो विकार; रोग; पिडा; व्याधी; बळाळिक; दुखणें; वायट.

**आजारी** । आजारी । सा.रू. –ऱ्या; भौ. –री, सा.रू. –ऱ्यां । फा. आजारी वि. रोगी; रोगयाळो; पिडेस्त; दुखणायत; वायटेकार.

**आजिबाय** । आजिबाय् । सा.रू. –य । कों. आजी + बाय स्त्री. आजी; जाण्टी बायल.

**विशेश** : हें उतर तोखणायेन, तिडकीन वा उरफाटयांनींय उपकरावंक येता. (पळय कशी आजीबाय कशी उलयता / आयलें व्हडलें आजिबाय म्हाका शाणेपणां शिकोवपाक.)

**आजिमांय** । आजिमांय् । सा.रू. –य; भौ. –यो, सा.रू. –यां । कों. आजी + मांय स्त्री. मांयची आवय; बायलेची वा घोवाची आजी.

**वा.प्र.: आजिमांय कशी उलोवप** : १.आपणाक चड शाणी समजून उलोवप; सुबेज, जय उलोवप. २.ल्हान भुरग्यान वा तर्णधाकुटेन चुरू चुरू करून, जिबेर ल्हायलसूण फुटिल्लेवरी उलोवप.

**आजी** । आजी । सा.रू. –ज्जे; भौ. –ज्ज्यो, सा.रू. –ज्ज्यां । सं. आर्यिका; प्रा. आज्जिआ स्त्री. १.आवयची वा बापायची आवय; मातामही वा पितामही. २.(ला.) अनुभवान समृद्ध आशिल्ली बायल.

**विशेश** : पयलींच्या कुटुंबांनी ज्यो आज्ज्यो वा जाणट्यो बायलो आसताल्यो, तांचे गांठीक समृद्ध अनुभव आसतालो. कुळाचाराक त्यो चुकनाशिल्ल्यो. ल्हान भुरग्यांक कसलोय किरकोळ आजार जाल्यार, चड करून वैजा म्हऱ्यांत वा दोतोरा म्हऱ्यांत धांवचें पडनाशिल्लें. कुटुंबांतले प्रत्येक आज्जेकडेन एक वखदाची सांगशी आसताली. एकाद्रया भुरग्याक पोटांत जावंक लागल्यार, दंत माथ्याक चडल्यार, नळांनी भुरगें किरकिरूंक लागल्यार, कोलेखांक, म्होंवें वा नागसर जाल्यार, भुरग्यांक दांत येवंचेल्या वेळार परसाकडचें जावंक लागल्यार, भुरग्याक खोरोज वा जानवाळ जाल्यार, विंचवी वा पिताम आयल्यार, ह्यो आज्ज्यो आपल्या

सांगशांतलीं घरगुती वखदां दिवन, भुरग्याचो आजार बरो करताल्यो. ते फिंर्गी गेले आनी ते पोदेर गेले, तेचपरी त्यो आज्ज्यो गेल्यो आनी त्यो वखदांच्यो सांगशोय गेल्यो.

**म्हणी :** १. खाजी थंय आजी (जंय खावंक मेळटा थंय खंयचेंय भुरगें 'आजी, आजी' करून धांवता.)
२. आवसूक नाका चेडूं, आज्जेक जावका नातरूं.
३. पुताक नाका लेकरूं, आज्जेक जाय नातरूं.

**आजीव** । आजीव् । सा.रू. –वा । सं. आजीवः पु. १. उपजीविकेचें वा उदरनिर्वाहाचें साधन वा उपाय; धंदो.

**सम्यक् वा यथार्थ आजीव :** पु. बुद्ध भगवानान सांगिल्ल्या अस्टांगिक मार्गांतलो पांचवो मार्ग. सम्यक् आजीव म्हळ्यार समाजाक कसलेच तरेची बाधा बाधची न्हय, हे तरेन केल्ली आपली उपजीविका. गृहस्थान सोऱ्याचो धंदो, जनावरांच्या किऱ्याविकऱ्याचो धंदो बी, असले तरेचे धंदे करचे न्हय. ज्या धंद्यान समाजाक त्रास बाधतात वा बाधूं येतात, अशे तरेचे धंदे करिनासतना, शुद्ध आनी सरळ मार्गान आपली उपजीविका करप, हाकाच 'सम्यक् आजीव' म्हणटात.

**आजीव** । आजीव् । सं. आ + जीवः क्रि.वि. जीव आसा मेरेन; मरसर; जन्मभर; आयुश्यभर.

**आजीवक** । आजीवक् । सा.रू. –का; भौ. –क, सा.रू. –कां । सं. आजीविकः पु. बुद्ध भगवानाच्या काळार मक्खलि गोसालान स्थापन केल्ल्या धर्मपंथांतलो वा धर्मसंप्रदायांतलो भिक्षू.

**विशेश :** बुद्ध भगवानाच्या काळार वा चिके त्याय पयलीं समाजांत एक नवें परिवर्तन घडून येतालें. गणराज्यांचो विध्वंस करून राजसंस्था म्हळ्यार शासनसंस्था उदेवाक येताली. व्यापार तरतरून फुलतालो. उत्पादनांच्या साधनांचो विकास जातालो. ताका लागून, स्वार्थ आनी दुस्वास अशा विकारांसयत एक नवो वर्ग उदेवाक येतालो.

ह्या काळार राजसत्ता, गणसमाजाक चिड्डून ना करूंक पळेताली. राजसंस्थेचें बळ दिसान दीस मातून येतालें. जाल्यारूय, दक्षिण बिहारांत अंग, वज्जी, काशी, मल्ल, शाक्य, कोलिया, मोरिया अशे आनिकय गण तग धरून आशिल्ले. मगध आनी कोसल हीं दोन राज्यां स्थापन जाल्लीं. गणांचो विनाश आनी नव्या राज्यांचो उदेव हांकां लागून सबंध प्रदेशांत लोकांची जीण अस्थीर जाल्ली. उदेवाक येता त्या राज्यांनी राज्यांचे निर्मणे खातीर स्वतंत्र सेना उबी केल्ली. सेनेखातीर राजांक पयशांची गरज लागताली. हो पयसो प्रजेचेर कर घालून ते उबो करताले. राजांचे अधिकारीय चोरांक वांगडा घेवन प्रजेक लुटूंक भोंवताले. ते भायर प्रजेक लुटपी आनिकय म्हळ्यार व्यापारी, घाण दवरून वेव्हार करपी संस्था उदेवाक येवंक लागिल्ल्यो.

गणसमाजांत असल्यो संस्था नाशिल्ल्यो. गणसमाजांतलो लोक प्रेमान आनी एकमेकांचे ओडीन जियेतालो. गणसमाजांत व्हडलो आनी सकल्लो असो पांवडो नाशिल्लो. ते सगळेच सराबरीन, भावबंदायेन आनी एकचारान चलताले. गणसमाजाचो बसकारच नितिचेर वा ऋताचेर आशिल्लो. ते सगळेच वांगडा कस्ट करताले, वांगडा अन्न निर्माण करताले आनी सगळ्यांकच अन्न-धनाची वांटणी एकसारकी करताले. हाका लागून, थंय स्वार्थाक जागो नाशिल्लो. कोणाकच कोणाची नाटकाय नाशिल्ली. कसलोच संग्रह करून दवरपाची गरज नाशिल्ली. आशिल्ली ती एकमेकांची माया आनी ओड.

गणसमाजाचो विध्वंस जातकीर, नितिच्या आनी प्रेमाच्या बसकारार आशिल्ली तांगेली चाल-चलणूक अस्तमानाक वचून राजा, सेना, व्यापारी, सावकार, रीण, कळंतर, घाण ह्यो संस्था उदेवाक आयल्यो. व्यापाराची वाढ, उत्पादनांचो विकास आनी राज्यांचो उदेव हो प्रजेक पिळून काडटालो. प्रजेचे पिळणुकेचेर

हो नवो समाज उदेवाक येवन फोंपेतालो.

राजसंस्था, स्वतंत्र सेना, व्यापारी आनी सावकार ह्यो घटनाच प्रजेक नव्यो आशिल्ल्यो. हे अर्थिक आनी राजकीय परिवर्तना वांगडाच नितीक मोलांची, तत्त्वांची जी अधोगती जाली, ती गणसमाजाचे सोंसणिकाये पेली आशिल्ली. गणांच्या विनाशान गणसमाजांतले प्रजेक आपलीं मोलादिक तत्त्वां आपूण वगडावन बसल्यांत म्हणपाची जाणविकाय जाताली. हे जाणविकायेंतल्यान ती दुखेस्त जाताली. हातुंतल्यान मार्ग काडपाची गरज आशिल्ली.

व्यापाऱ्यांक, सावकारांक आनी वस्ती घाण दवरून दुडू दितल्यांक धनाचो व्हरस लागिल्लो. सावकारान दिल्लें रीण वसूल जालेंना जाल्यार, वा जावपाची परिस्थिती नासल्यार, देणेंकारांक आपले बंदे करून दवरपाचो हक्क तांकां आशिल्लो. राजांक सत्तेचो व्हरस लागिल्लो. सत्तेखातीर ते आपल्या बापायची लेगीत हत्या करपाक फाट-फुडो पळेनाशिल्ले. पशेनदी राजाचो खून खासा ताच्या पुतान केल्लो. बिंबिसाराचीय हत्या अजातशत्रू ह्या ताच्या पुतानच केल्ली. धनाखातीर, सत्तेखातीर कसलेंय अधर्मी कर्म करपाक ते फाटीं सरनाशिल्ले.

असल्यो अधर्मी करण्यो गणसमाजांतले प्रजेन पळोवंक नाशिल्ल्यो. गणसमाजांत ते प्रेमान आनी सुख-समाधानान जियेताले. तांगेली चाल-चलणूक धर्मरुपीच आशिल्ली. नवो वर्गिक समाज निर्माण जातकीर धर्मच अस्तमानाक गेलो. मनशां मनशांमदलें प्रेमाचें नातेंच संपुस्टांत आयलें. हे अधोगतीक लागून जो स्वार्थ मातून आयलो, ताका धरबंद नाशिल्लो.

प्रेमाचो झरो आटूंक लागिल्लो. नव्या अन्नाचो सोद सुरू जालो. गणसमाजांत शेतोड सगळ्यांची आसताली. राजसंस्थेंत शेतांची वांटणी जाल्ली. शेतांच्यो शिमो थारायल्ल्यो. जाल्यारूय, दुसऱ्याची शीम आपल्या शेतांत ओडपाची वृत्ती जन्माक आयली. सुरवेक संग्रह करपाची वृत्ती नाशिल्ली. आतां दुसऱ्यांचें धान्य हातासपाची वृत्ती जन्माक आयली. चोरयांचो उदेव जालो. चोरी आळाबंदा घालपाक समाजाकच राजसंस्थेची गरज लागली. वर्ग नाशिल्ल्या समाजांतल्यान वर्गीक समाजाचो उदेव असो जालो, आनी व्यापाराच्या तरतराक लागून एके वटेन प्रचंड धन आनी दुसरे वटेन प्रचंड दळिद्र निर्माण जालें.

ह्या वर्गीक समाजाक सत्तेचो आनी धनाचो व्हरस लागिल्लो. सत्तेंतल्यान आनी धनांतल्यान सगळे तरेच्यो लालसा निर्माण जाल्यो. स्वार्थ, नाटकाय, संग्रह करून दवरचेली वृत्ती आनी चोरी हांचेंच साम्राज्य सुरू जालें. राज्याराज्यांत आनी गणागणांत धोंस मातून झुजां उप्रासून येवंक लागलीं. हीं झुजां नव्या युगाची एक व्हडली समस्या आशिल्ली. झुजाची समस्या ही कलहाचीच समस्या. हो कलह राजा आनी राष्ट्रांतच चलतालो अशें न्हय. तो कुटुंबाकुटुंबांत, आवय-पुतांत, भावा-भयणींत उद्भवतालो. जाल्यारूय, वर्गावर्गांतलो संघर्श हो परपरत निर्माण जावपी असो सासणाचो आशिल्लो.

समाजांत ज्या वेगान हें परिवर्तन घडून येतालें, ताका लागून प्रजेची जीण अशान्त जाली. तांची थंडाय भंगली. ते गोंधळ्ळे, तशेच भांबावले. नितीक मूल्यांची, तत्त्वांची अधोगती पळोवन प्रजेच्या दुखखाक पारावार उल्लोना. गणसमाजाचो अस्त आनी वर्गीक समाजाचो उदेव हेंच ह्या दुखखाचें मूळ आशिल्लें.

दुखखाचें हें मूळ त्या काळावेल्या तत्त्वचिंतकांक कळ्ळें ना. सगळ्याक लोभ, भोगाची लालसा, मत्सर, धनाचो आनी सत्तेचो व्हरस अच्छेव कांडटालो. हातुंतल्यान वाट काडून प्रजेच्या दुखखाचें निवारण करपाचे उपाय तांकां सुचलेनात. बुद्ध भगवान सोडलो जाल्यार, बाकीचे तत्त्वचिंतक प्रजेवरीच गोंधळ्ळे आनी भांबावले. निर्शेले आनी निर्णले. अशे अवस्तेंत पुरण कस्सपान 'अक्रियावाद' सांगलो. मक्खलि

गोसालान 'नियतिवाद' वा 'दैववाद' मांडलो. अजित केसकंबालान 'उच्छेदवाद' सांगलो. पकुध कच्चयायनान 'अन्योन्यवाद' सांगलो. संजय वेलपुट्ठपुत्तान 'विक्षेपवाद' सांगलो आनी निगण्ट नाथपुत्तान 'चार्तुयाम संवरवाद' मांडलो.

मक्खलि गोसाल हो बुद्धाच्या काळावेलो. ताणें आजिवक पंथाची स्थापना केली. ह्या पंथाचे भिक्षू निर्वस्त्र रावन, देहाक दंडना दीत, तपाची साधना करताले. आंगाक भस्म लायताले. क्रमान दुसऱ्या, तिसऱ्या वा सातव्या घरांत भीक मागताले आनी भीक मेळ्ळीना जाल्यार उपाशीं रावताले.

आजिवकांनी देव मानलो ना. पृथ्वी, आप (उदक), तेज, वायू आनी आकाश ह्या पंचमहाभूतांतलें 'आकाश' हें भूत मानलें ना. ताच्या जाग्यार प्राण, सूख आनी दुख्ख हीं द्रव्यां मानून तांणी पंचमहाभूतांचीं सप्तमहाभुतां केलीं. (पळेयात The Wonder that was India, Appendix V, by A.L. Basham, पा. ४९९). आत्मो, पुनर्जन्म आनी मोक्ष मानलो. नियतिवाद वा दैववाद हें तांचें मुख्य तत्त्व आशिल्लें. मक्खलि गोसाल म्हणटा: 'प्राणी अपवित्र आसपाक कसलोच हेतू ना, कसलेंच कारण ना. हेतूविणें, कारणाविणें प्राणी अपवित्र जातात. प्राण्यांचे शुद्धीक कसलोच हेतू ना, कसलेंच कारण ना. हेतूविणें, कारणाविणें प्राणी शुद्ध आसतात. खासा आपल्या सामर्थ्यान कांय जायना. पुरुशाच्या सामर्थ्यान कांय घडना. बळ ना, वीर्य ना, पुरुशाची शक्ती ना, पुरुशाचो पराक्रम ना. सगळे प्राणी, सगळीं भूतां, सगळे जीव दुबळे आनी विरी नाशिल्ले आसतात. नशीब, संगत आनी स्वभाव हांकां लागून प्राण्यांचो विकास जाता, आनी खंयचेय तरी जातींत रावन ते सूख आनी दुख्ख भोगतात. शिलान, व्रतान, तपान वा ब्रह्मचर्यान अपवित्र कर्म हांव पवित्र करीन, वा पवित्र कर्मांची फळां भोगून हांव मोक्ष जोडीन, अशें कोणेंय म्हळें जाल्यार, तशें ताजेकडल्यान केन्नाच घडून येवपार ना. संवसारांतलीं सुखां आनी दुख्खां मेजूंक येसारकीं ठरावीक आसतात. तीं चड-उणीं करूंक मेळनात. जे तरेन सुताचें गुठल उसोवन सोडले उपरांत तें पूर्ण उसवता, तेच तरेन शाणे आनी मूर्ख संवसाराच्या सगळ्या फेऱ्यांतल्यान वतकिरच तांच्या दुख्खाचो नाश जाता.

हें तत्त्वज्ञान सांगता की, मनीस कांयच घडयना. कोण कांयच बरें करूंक पावना, तेच तरेन वायटय करूंक पावना. तो कसलोच पराक्रम करिना. जें सगळें मेळटा तें ताच्या नशिबान मेळटा. ह्या संवसारांत जें दुख्ख आसा तें मनशाच्या यत्नांनी पयस जायना. संवसारांतलें दुख्ख पळोवन मक्खलि गोसाल पिसाविल्लेवरी जाल्लो. गणसमाजाच्या अस्तान ताका अतोनात दुख्ख भोगतालें. वज्जिंच्या गणाचो अखेर जातकीर ताका पिशें लागलें. गणसमाजांतल्या उदात्त मोलांचें, तत्त्वांचें पुनर्जीवन जावपाची आस्त आतां नाशिल्ली. अशे अवस्तेंत काव्य, नृत्य, संगीत हांचो भक्त आशिल्लो हो तत्त्वचिंतक निर्शेवन आनी निर्णेवन भ्रमिस्ट अवस्तेंतच भायर पडलो.

पुरण कस्सपाचो 'अक्रियावाद' सांगता की, एकाद्रयान खून केलो, दरोडो घालो, दुसऱ्यांचीं घरां लुटलीं, असत्य भाशण केलें, दुसऱ्यांच्या बायलां फुड्यांत न्हिदलो, तरी ताका कसलेंच पाप लागना. आनी एकाद्रयान यज्ञ केले, दानां दिलीं, सत्य भाशण केलें, तरी ताका पुण्य प्राप्त जायना.

कांय काळान पुरण कस्सपाचो संप्रदाय, मक्खलि गोसालाच्या आजीवक संप्रदायाक वचून मेळ्ळो. नंद, वच्छ बी आचार्य आजीवक परंपरेंतले मुखेली आशिल्ले. कस्सपाच्या आनी आजीवकांच्या आत्मवादांत अंतर नाशिल्लें, आनी कस्सपाक तांच्या देहदंडनाचो मार्ग पसंत आशिल्लो.

मक्खलि गोसाल एकेकडेन म्हणटा, आत्मो जरी प्रकृतीपरस वेगळो आसलो, तरी ताका ठरावीक जन्म घेवंचेच पडटात. ते उपरांतच तो आपाप मूक्त जाता.

चौद्‌यांयशीं लक्ष जन्म घेतकिरच प्राणी मोक्ष जोडूंक पावतात, ही कल्पना आजुनय हिंदूंत आसा.

बुद्धाच्या काळार आशिल्लो चोविसावो तिर्थंकर महावीर स्वामी (निगण्ठ नाथपुत्त) आनी मक्खलि गोसाल, ह्या दोगांनीय स वर्सांमेरेन एकठांय तपश्चर्या केल्ली. जैनांचो धर्मग्रंथ अशें सांगता, आजीवकांचो आनी जैनांचो (निर्ग्रन्थाचो) संप्रदाय एक करचो, असो त्या दोगांचोय प्रयत्न चलतालो जावंक जाय. पार्श्वमुनीचे संन्याशी एक वस्त्र वा तीन वस्त्रां बाळगिताले. जाल्यारूय, महावीर स्वामीन मक्खलि गोसालाचें दिगंबरव्रत घेतलें; तेन्नाच्यान निर्ग्रन्थ निर्वस्त्र जाले. अशें आसुनय दोगांच्या तत्त्वज्ञानाचो एकमेळ जालोना. प्राण्यांची उन्नती नशिबाक लागून जाता जाल्यार, पार्श्वमुनीन सांगिल्ल्या अहिंसा, सत्य, अस्तेय आनी अपरिग्रह ह्या चार यामांची गरजच नाशिल्ली. ह्याच कारणाक लागून हे दोगय आचार्य एकठांय जावपाक पावलेनात.

आजीवकांच्या चोवद्यांशीं लक्ष फेऱ्यांच्या तत्त्वज्ञानापरस, जैनांच्या अहिंसा, सत्य, अस्तेय आनी अपरिग्रह ह्या चातुर्यामान आनी तपश्चर्येन फाटल्या जन्माचें पाप ह्याच जन्मांत धुवन उडोवन मोक्ष जोडूं येता, म्हणपाची कल्पना लोकांक चड मानवली.

जैनांच्या ह्या तत्त्वज्ञानाक लागून, आजीवक संप्रदाय लोकांच्या मनांतल्यान देंवत गेलो. ह्या पंथांतले भिक्षू इल्ले इल्ले करून शैव आनी वैष्णव संप्रदायांत भितर सल्ले. अशे तरेन क्रिस्ती सनाच्या आठव्या शेंकड्यांत आजीवक संप्रदाय समुळनिशीं ना जालो.

**आधारावळ :** १. भगवान बुद्ध, बरो: धर्मानन्द कोसंबी. २. भारतीय संस्कृतिकोश, संपादक : पं. महादेवशास्त्री जोशी. ३. लोकायत, दुसरी आवृत्ती, बरो : स. रा. गाडगीळ, हातुंतलो 'बुद्ध आणि संघ' हो लेख. पा. १९७-२०६).

**आजुदांत** । आज्युदांत । सा.रू. – ता । पुर्तु. Ajudante पु. पालव, आधार दिवपी; सहकारी; वांगडी. ("माशेलांत रावपाची सुवात म्हाका आमोणकारागेर मेळिल्ली. गणपत आमोणकार हो रेजिस्त सिविलाचो आजुदांत." – काणी एके जिणेची, बरो : महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. ३२०.)

**आजूच** । आजूच् । 'आज' वेल्यान क्रि.वि. आजच; आजच्याच दिसा. (तुवें हें काम आजूच करूंक जाय.) **विशेश :** नेट दिवन सांगपाखातीर हें उतर उपकरायतात.

**आजून, आजूनमेरेन** । आजून, आजून्मेरेन् । सं. अद्यापि; अद्य + पुन: प्रा. अज्जउण क्रि.वि. आजमेरेन; आतांमेरेन; अद्याप. ("आनी आतां हांव बसलां. कितें घडलां ताचो अर्थ सोदीत, हातांक भरिल्लो कंप आजून वचना." – कथा : बुकलो, बरो : पुंडलीक नायक, अर्दूक, पा. ५१.)

**आजेगुरू** । आजेगुरू । सा.रू. – रू; भौ. – रू, सा.रू. – रूं । कों. आजो + सं. गुरू पु.१. गुरूचो गुरू ("...कित्याक कवळें मठ म्हळ्यार गौडपादाचार्यांचो मठ आनी गौडपादाचार्य हे वेदान्ती शंकराचार्यांचे आजेगुरू." – नवें गोंय, १लें वर्स, ३रो आंक, ज्यानेर १९३५, संपादपी : का.श्री. नायक, पा. १०८). २. गुरूचो आजो.

**आजेमांय** । आजेमांय् । सा.रू. – य; भौ. – यो, सा.रू. – यां । कों. आजी + मांय आजेमांय = पळेयात 'आजीमांय'. ("वस्ती म्हज्या ताब्यांत दी जालें! मागीर त्यो मांयच्यो आसूं, ना तर आजेमांयच्यो आसूं." – कथा : पाल, बरो : जयमाला दणायत, कवासो, पा. ५९.)

**आजेमांव** । आजॅमांव । सा.रू. – व; भौ. – वा, सा.रू. – वां । कों. आजो + का. मांव पु. मांवाचो

वा मांयचो बापूय; बायलेचो वा घोवाचो आजो; आजिमांयचो घोव.

**आजेसासरो** । आजेसासरॉ । सा.रू. –ऱ्या; भौ. –रे, सा.रू. –ऱ्यां । सं. आर्यक + श्वशूरक: पु. मांयचो वा मांवाचो बापूय; आजेमांव.

**आजेसासू** । आजेसासू । सा.रू. –सू; भौ. –सवो, सा.रू. –सवां । सं. आर्यक + श्वश्रू स्त्री. मांयची वा मांवाची आवय; आजिमांय.

**आजो** । आजॉ । सा.रू. –ज्या; भौ. –जे, सा.रू. –ज्यां । सं. आर्यक; प्रा. आज्जअ पु. १. आवयचो वा बापायचो बापूय; पितामह वा मातामह. ("म्हजो आजो सांगतालो, तेगेले मुस्तींत दोगां कामेऱ्यां एका आदेसान ही अख्खी शिरकोणी नडून काडटाली खंय!" – शबै शबै भौजनसमाज, बरो : पुंडलीक नायक, पा. २४.) २.(ला.) खूप अणभव घेतिल्लो मनीस; अनुभवान समृद्ध आशिल्लो वा जाल्लो मनीस.

**वा.प्र.: आज्याक नातवान शिकोवप** : भुरग्यान जाण्टयाक शाणेपण शिकोवप.

**म्हणी** : १. आजो मेलो, नातू जालो, जमाखर्च सारको.

२. आजो मेलो, माचो रितो जालो.

३. आज्याक फोड आयल्यार, नातवाक पुळी पूण येतली.

४. आज्यान लायिल्लो रूख म्हणून ताजेर गळफांस लावन घेवं नये.

५. आज्यान केलें, नातवान निभयलें.

६. आज्यान केल्लें नातू भोगता.

७. चेडो जाल्यार बापायक आदाव, चेडूं जाल्यार आज्याक आदाव (चेडो बापायवांगडा कामाक वता, चेडूं घरा आशिल्ल्यान आज्याफाटल्यान भोंवून आज्याचो वेळ काडटा.)

**विशेश** : पळेयात : 'आजोळ' ह्या उतरासकल दिल्ली टीप.

**आजोळ** । आजॉळ । सा.रू. –ळा । सं. आर्यालय, आर्यकुल; प्रा. आज्जउळ न. आवयच्या आवय-बापायचें घर; आवयचें कुळार; आजवळ. ("म्हजें आजोळ गोंयांत बारदेसाक. भुरगेपणांत हांव आजोळाच रावतालों." – साबार रंग मोगाचे, बरो : चंद्रकांत केणी, जाग, दिवाळी आंक १९८८, पा. १०१.)

**विशेश** : आवयच्या आवय-बापायचें घर हेंच आपलें आजोळ आसता. देखून, खऱ्या अर्थान आवयची आवय हीच आपली आजी आसता, आनी आवयचो बापूय होच आपलो आजो आसता. हालिंच्या काळांत बापायचे आवयक आनी बापायच्या बापायक आजी आनी आजो अशें म्हणूंक लागल्यात. आपल्या बापायचें घर हें आपलेंच आसता. देखून, इंग्लेज भाशेंत जशें grandmother हें उतर आसा, तेचपरी गोंयांतय बापायचे आवयक 'व्हडली आई' अशें म्हणटाले, आनी इंग्लेजींतल्या grandfather ह्या उतरावरवीं बापायच्या बापायक 'व्हडलो बाप्पा' वा 'व्हडलो बाबा' अशें म्हणपाची चाल आसली. आज ही चाल प्रचारांत ना. जाल्यारूय, खंयी खंयी, बापायचे आवयक 'व्हडली आई' अशें म्हणटात. आनी बापायच्या बापायक 'व्हडलो बाप्पा' अशें आजूनय म्हणटात.

**आज्यूत** । आज्यूत् । सा.रू. –ता; भौ. –तां, सा.रू. –तां । पुर्तु. Ajuda न. मोठे (व्हडले) आंतकडेचो सकल्लो भाग (rectum) निवळ करपाखातीर, शिंरगान वा तसलेच तरेच्या साधनान, गांडींतल्यान सोडिल्लें सादें वा वखदी उदक; एनिमा; क्लिश्तॅर. ("सकाळीं संक नर्सीन आमकां उठयलीं. न्हावपाक हून उदक दिलें. ताजे पयलीं आज्यूत दिलें." – म्हज्या वायटांतले अणभव : बरो : शीला कोळंबकार, जाग, दिवाळी १९९६, पा. ४३.)

**वा.प्र.: तेफळाचें आज्यूत दिवप** : मस्त्याची मस्ती

जिरोवप. कोणाचीय मस्ती जिरोवपाक ''तूं म्हाका वळखना, चड करशी जाल्यार, तुका सडिक्क तेफळाचें आज्यूत दितलों'' अशें म्हणटात.

**विशेश :** आज्यूत घेवपाखातीर सादें तेचप्रमाण वेगळीं वेगळीं द्रव्यां घालून केल्लें उदक वापरतात. कांय लोक मात्शें हून केल्लें सादेंच उदक उपकरायतात, तर कांय लोक तातूंत मात्सो शाबू घालतात. बडीशेपेचें उदक वा परिपाठकाचें उदक करून ताणें आज्यूत घेवपाची पद्धत आसता. परिपाठकाच्या उदकाचें आज्यूत हें सगळ्यांत बरें मानतात. आज्यूत घेतना उजवे कुशीर न्हिदून घेवप ही सगळ्यांत बरी पद्धत. अल्सरासारकें दुयेंस आसल्यार आज्यूत घेनात.

पयलींच्या काळांत गोंयांत तेफळाच्या उदकाचें आज्यूत घेवपाचीय पद्धत आशिल्ली. आज्यूताचें उदक हून करतना तातूंत बी काडून एक तेफळ धोडावन घालताले. तेफळ हें वाय ना करपी तेचपरी जंतय उणे करपी. देखून, ताचें आज्यूत घेवपाची पद्धत आशिल्ली.

आज्यूत घेतले उपरांत मनशाक गळसणलेल्यावरी जाता. तेफळाचें आज्यूत घेतले उपरांत गळसणपाचें प्रमाण अदिकच जाता. ताकालागून 'तेफळाचें आज्यूत दिवप' हो वाक्प्रचार घोळटेंत आयलो आसुंये. मस्त्याची मस्ती जिरोवपा संबंदान हो वाक्प्रचार उपकरायतात.

**आझ्नेर** । आझ्नेर् । सा.रू. –री; भौ. –री, सा.रू. –रीं । पुर्तु : Asneira स्त्री. १. गाढवपण; पिशेपण; मुर्खपण. (ओगीच किदेंय आझनेरी उलोवं नाका.) २. अवचिनपण; आडनाडपण; तिडकीभरशीं केल्लें पिशेपण; परिणामाची जाण घेनासतना वा अविचारान केल्ली आगळीक; मुर्खपणान केल्ली आगळीक. (''आनी तांकां खबर आसली की पुर्तुगेज नेव्हीची बोट 'आल्बुकॅर्क' कितें आझनेरी करून पळापळ काडीत म्हूण.'' – अशें घडलें, बरो : झोतिकुद सौज, पा. १५.) ३. सुमाराभायर मस्ती.

**आझनेरी** । आझ्नेरी । सा.रू. –ऱ्यां; भौ. –री, सा.रू. –ऱ्यां । 'आझनेर' वेल्यान वि. १. पिसो; पोंच नाशिल्लो. २. आडनाड; अवचिन्न; आगळिको; नांवरुपो. ३. सुमाराभायर मस्तो.

**आंच** । आञ्च् । सा.रू. –ची । सं. अर्चि, अर्चिष; प्रा. अच्चि, हिं.गु.म. आंच स्त्री. १. मंद उजो (कोळशांचे आंचीर जेवण बरें शिजता.) २. उज्याची उस्णताय; धग. ३. दूख; त्रास काडप; कस्ट. (आंच लागतकीर मनशाक जीण कळूंक लागता.) ४. अगत्य; पोटतिडक. (कामाची आंच आसलेबगर कामां जायनात.) ५. चुरको; माया; ओड. (ताका घरच्यांची आंच आसा. देखून, दीस-रात घराखातीर तो घोळटा.) ६. चिंता; हुसको. (''प्रपंचाची आंच, घरकामाचो भार, हांव सुरक्षित आसां काय ना ही धुगधूग, अशो विवंचना त्रस्त करतात.'' – कथा : गीतूल, बरो : लक्ष्मणराव सरदेसाय, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा : संपा.: अ.ना. म्हांबरो. पा. ६.)

**वा.प्र.: आंच आसप** : १. अगत्य, पोटतिडक आसप. २. माया, चुरको, ओड आसप. ३. चिंता, हुसको आसप.

**आंच दिवप** : मंद उज्यार शिजोवप; उज्या म्हऱ्यांत दवरून हून करप.

**आंच लागप** : दूख बादपें; कस्ट पडप; त्रास काडप.

**आंचणी** । आंचणी । सा.रू. –णे; भौ. –ण्यो, सा.रू. –ण्यां । 'आंचप' वेल्यान स्त्री. १. आंचचेली क्रिया. २. आंवचेली क्रिया.

**आंचप** । आंचप् । सा.रू. –पा । सं. अञ्च् = हालोवप ? क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आच्- अक.) १. घरांतली, आंगणांतली वा खळाची खणिल्ली जमीन, खोऱ्यान एका तळार करप. २. आंवप.

**विशेश:** जमीन तयार करपाक, ती पैलीं खण्टात.

खणल्या उप्रांत मातयेंतले बारीक मोठे गुंडे वा शेंक्रे वेंचून भायर उडयतात. गुंडे, शेंक्रे वेंचून भायर उडैतकीर, ती माती खोऱ्यान ओडून एका तळारशी करतात. मागीर ती माती भिजयतात. माती भिजिल्ली आसतनाच पेटण्यान पेटून, ती गुळगुळीत आनी पूर्ण समलाट म्हळ्यार एका तळार करतात.

**आंचवप** । आंचॅव्प् । सा.रू. –पा । सं. आ + चम् क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आंचै-अक.) १. सकाळीं उठल्या उपरांत तोंड धुवन स्वच्छ करप. ("सगळ्यांनी बरीच रगड माल्ली. एकाच तांबयान सगळे आंचवले जावंक जाय." – बांबर, बरो : पुंडलीक नायक, पा. १२.) २. जेवले उपरांत वा कितेंय खाले उपरांत, उदकाचे घोंट घेवन भितल्ल्यान तोंड निवळ करप. ३. ल्हान भुरग्याचे वा बळाळिकेन हांतुणार पडिल्ल्या मनशाचें तोंड धुवप आनी जेवण लायले उपरांत ताचें उस्टें तोंड धुवन निवळ करप. ४. आंवोवप.

**आंचोवण** । आंचोव्ण् । सा.रू. –णे; भौ. –ण्यो, सा.रू. –ण्यां । सं. आचमनम् = उदक प्राशन करप; घोंट घेवप स्त्री. आंचवचेली, आंवोवचेली क्रिया.

**आंचोळी** । आंचोळी । सा.रू. –ळे; भौ. –ळ्यो, सा.रू. –ळ्यां । सं. अञ्जलि:, का. अंजुलि स्त्री. दोनय हातांचीं तळटां एकमेकांक तेंकोवन तयार केल्लें खोलसार पोकळ फोंडकूल; खोलसार करून एकामेकांक तेंकयल्लीं दोनय हातांचीं तळटां, पोसो; शिरें.

**आंज** । आंज्य् । सा.रू. –ज्या; भौ. –ज्य, सा.रू. –ज्यां । पुर्तु.: Anjo पु.१. पूर्ण अध्यात्मिक स्वरुपाचो, देव आनी मनीस हांचे मदल्या पांवड्यावेलो, स्वर्गांत रावपी दिव्य देहाचो दूत; देवदूत; भोडुवो; भोडवो. २.(ला.) १. गोड सभावाचें भुरगें. २. उपाट करुणेन भरिल्लो मायेस्त मनीस; भावार्थी मनीस; सात्वीक मनीस; धर्मात्मो; पुण्यात्मो. ३. प्रियकर (आंज तूं आर्कांज । केरोबीं आदोराद । एकूच आमचो पाक्त । इ्युरामेंत जायत रे साग्राद ।। – Songs from the Mando‹: Compiled and arranged by F. A. Jacques, B.A.(Hon.)
**म्हण :** रूप आंज्याचें, करण्यो देंवचाराच्यो.
**विशेश :** आंज्यांचें अस्तित्व एकमतान मान्य जालां. तांचें निजाचें रूप, संख्या, पांवडो आनी कार्य हांचेर कांय वेगळीं मतां आसात. सव्या शेंकड्यांत आंज्यांकडेन लग्निक आशिल्लीं शास्त्रां आनी पुराणां बरयल्लीं मेळटात. युरोपांत उदेवाक आयिल्ल्या मध्ययुगाच्या तत्त्वज्ञानाचेर, अरबी तत्त्वज्ञानाचो परिणाम जावन, तांच्या निजाच्या स्वरुपाचेर तांच्या गुणांचेर आनी तांच्या कार्याचेर खूप विवेचन जालां. तांचें स्वरूप पूर्ण अध्यात्मिक मानलां. तेचपरी तांकां अदेही आसलोय जाल्यार, तो देह अत्यंत सुक्षीम वा सपूर आसा अशें म्हणटात. तांकां देह आसा काय ना, हाजेर निश्चित अशें मत ना. कांय लातीन पाद्री तांचो देह अत्यंत सपूर आसलोय जाल्यार, तांकां देह आसा अशें मानतात. आनी ग्रीक पाद्री तांकां देवावरी पूर्ण अध्यात्मिक स्वरुपाचे मानतात. क्रिस्तांव धर्माची श्रद्धा तांकां अध्यात्मिक स्वरुपाचे पुण्यात्मे मानता.

सांव तोमाज (Sao Tomas) आंज्याक निजाचेच पवित्र मानता आनी मनशांची जितली संख्या आसा, तितलीच तांचीय संख्या आसा, अशें खात्रीन सांगता.

आंज्याक देवानच निर्माण केल्यात. देवाच्या पांवड्यार ते जरी पावनात, तरी तांकां दिव्यरूप आसा. मनशांच्या आत्म्यांपरस तांचो आत्मो चड उच्च गतीक पाविल्लो आनी परमार्थी आसता, अशें मानीत आयल्यात. कांय आंज आपल्या करण्यांनी पाडे आनी अवगुणी जाल्यात. देखीक, लुसिफॅर.

आंज आसात आनी देवानच मनशांपयलीं तांकां निर्माण केल्यात, अशी क्रिस्तांव धर्माची धारणा आसा. पवित्र शास्त्र तांचे निर्मणेचेर कांयच उजवाड

घालिना. तांच्या गुणांची पारख करपाखातीर, घडये देवान तांकां कसाक लायले जावंये. जांचेकडल्यान बरीं कर्मां जालीं. ते देवाचे अपुर्बायेचे जाले. आपल्या दिव्य देहाचो गर्व जाल्ल्यान, जे देवाक पसून मानिना जाले, ते देवाचे निखड्डायेचे जाले. त्या पाड्या आनी अवगुणी आंज्यांचो मुखेली लुसिफॅर (Lucefero) हो आंज आसलो. ह्या अवगुण्यांक देवान सासणाच्या अग्निकुंडांत उडोवन, तांचें रुपांतर राक्षसांत केलें.

ह्या भौतिक संवसारांत वावुरतना, तांच्या अध्यात्मिक स्वरुपाचें तांकां आडमेळें जायना. तांचें ज्ञान अगाध आसा, तरी देवावरी ते सर्वज्ञानी न्हय. आंज्या आंज्यांभितर अंतर आसा. हें अंतर किद्याक लागून जालें हाचें कारण मेळना. ते तीन पांवड्यांनी आनी णव दळांनी वांटल्यात. १. सेराफीं (Serafime), केरुबीं (Querubim), त्रॉनुश् (Tronos). २. दोमिनासोइश (Dominacoes), व्हिर्तुदिश् (Virtudes), पॉतॅश्तादिश (Postestades). ३. प्रिंसिपियादुश् (Principiados), आर्कांझ्यु (Arcanjos), आनी आंझ्युश (Anjos).

आंज देवाची व्हडवीक गायतात, मनशांक राखतात आनी तांकां मुक्तिच्या मार्गाची वाट दाखयतात. क्रिस्तस्वाम्याक आंज्यांचो मुखेली मानला. क्रिस्तस्वामी हो देवाचो पूत. ताका लागून आंज्यांक लौकिक आनी अलौकिक अस्तित्व आसा. हेर निर्मणे इतलेंच, तांचें अस्तित्व क्रिस्तस्वाम्याक लागूनच आसा. देखून, अदृश्य संवसारांत तांकां क्रिस्तस्वाम्याचे गूढ वाणयेच्या झंकारांचे सूर मानल्यात.

क्रिस्तांव धर्मांत मूर्तिपुजा ना. जाल्यारूय, आंज्याच्या रुपान ती आसा. कोंश्तांतीन सम्राटा उपरांत कोंश्तांतिनोप्लांत (Constantinopla) १५ इगर्जो सांव मिगॅल ह्या आंज्याक ओंपिल्ल्यो आशिल्ल्यो. Gregprio de Magno हाच्या काळांत सांव मिगेलाचे भक्तिचीं एक इतालींत आनी दुसरें फ्रान्सांत अशीं दोन केंद्रां आशिल्लीं. सांव मिगॅल, सांव गाब्रियेल, सांव राफायॅल आनी सांव पावल ह्या आंज्यांच्या नांवान फेस्तां जातात. ह्या आंज्यांतल्या सांव गाब्रियॅल ह्या देवदुतान नाझारॅथ गांवांत आंकवार मोरयेकडेन (Maria) वचून, तिगेर देवाचो पूत जन्माक येतलो म्हूण सांगिल्लें.

गोंयांतय दर वर्सा, लॅन्टाच्या पांचव्या सोमाराक, फ्रांसिश्कान पंथाच्या संतांचें Sao Francisco de Assis धरून तीस संतांच्या बावल्यांचें पुरसांव व्हडल्या गोंया भायर काडटात. चित्रिकांनी आंज्यांक मनशांचें रूप दिवन तांकां सवण्यांवरी पांखां लायल्यांत. ल्हान भुरगें भायर पडल्यार, ताका आंज्यावरी न्हेसोवन, ताजो कायशांव सिमितेरींत व्हरतात. आवयो आपल्या माणकुल्यांक न्हिदोवंक आल्लयो गायतना, न्हिदेंत भुरग्यांची राखण करपाक आंज्यांक प्रार्थितात.

ज्यू, तेचपरी मुसलमान धर्मय देवदुतांचें अस्तित्व मानता आनी मनशांची प्रार्थना देवामेरेन पावोवपी अग्नीक वेदिकय देवदुतच मानतात.

**आधारावळ :** Verbo Enciclopedia Luso Brasilieira de Cultura, Vol. I.

**आंजेलस** । आंजॅलस् । लातीन : Angelus = देवदूत पु. पळेयात : 'आंझ्यॅलुस'. ("कांय वेळ शांतताय, पयसुल्ल्यान इगर्जेची दनपारच्या बारा वरांची घांट जाता. रॉकसायब आंजेलस करता." – खण खण माती, बरो : पुंडलीक नायक, जाग, दिवाळी आंक, १९८८, पा. ७५.)

**आंझ्यॅलुस** । आंझ्यॅलुस् । सा.रू. –सा । लातीन : Angelus = देवदूत पु. परमेश्वरान आंकवार मोरयेच्या कुसव्यांत घेतिल्ल्या गूढ अवताराक लागून, दिसपट्टी तीन खेपो (सकाळ, दनपार आनी तिनसांज) म्हणपाची प्रार्थना; आव्हे मारीची घांट; त्रिंदाद.

**विशेश :** परमेश्वरान घेतिल्ल्या गूढ अवताराक लागून, धर्मशास्त्राच्या नेमाप्रमाणें 'Gratium tuam' ह्या उतरांनी सुरवात करून म्हणपाची प्रार्थना. आव्हे-मारीची घांट जातकीर आमचे स्वामिणीक होरावपाची प्रथा फ्रांसिश्कान पाद्रींनी तेराव्या शेंकड्यांत सुरू केली. सुरवातीक ही प्रार्थना फकत तिनसांजचीच म्हणटाले. चौदाव्या शेंकड्यांत ही प्रार्थना फांतोड्डेरय म्हणपाची प्रथा सुरू जाली. मशिदींच्या ऊंच मनोऱ्यांवेल्यान मुसलमान दनपारचे नमाज पड्टात तें पळोवन, आनी तुर्कांचेर जैत जोडपाक देवाची कृपा मेळपाक, रोमाचो सम्राट Calisto III (तिसरो कालिश्त) हाणें, आंझ्यॅलुसाखातीर १४५६ वर्सासावन दनपारचीय घांट वाजोवपक आज्ञा दिली. तेन्नाच्यान संवसारांतल्या सगळ्या इगर्जांनी दनपारचीय घांट वाजूंक लागली.

Sisto IV (चौथो शिश्तु) ह्या पापसायबाच्या काळार आंझ्यॅलुस एकरुपी जावपाच्या मार्गार पावलो. S. Pedro Calisto हाणें बरयल्ल्या Manuale Catuolicum (Antuerpia 1558) ह्या मानुआलाक लागून, तो क्रिस्तांव धर्मसंवसारांत पूर्ण एकरुपी जालो. आंझ्यॅलुस पांच आव्हे-मारी इतलो उणो करूं येता. पास्कांच्या दिसांनी 'Gratium tuam' ह्या उतरांनी सुरू जावपी प्रार्थनेच्या जाग्यार, 'Regina coeli' ह्या उतरांनी सुरू जावपी प्रार्थना म्हणटात. पातकांच्या भोगसण्याखातीर आंझ्यॅलुस दिसपट्टो, १० वर्सां वा म्हयन्याक संपूर्ण एक खेपो म्हणूं येता. आंझ्यॅलुस दिमी मारून रोझार करपाची गरज ना. तेचपरी तो घांट जातकीरच म्हणूंक जाय अशेंय ना.

**आधारावळ :** Verbo Enciclopedia Luso-Brasileira de Cultura, Vol. I, pg. 273.

**आट** । आट् । सा.रू. –टे; भौ. –टो, सा.रू. –टां । दे. वट्टा; प्रा. वट्टा. सं. वर्त्मन. स्त्री. वाट. २. (ला) अवस्ता; स्थिती. ('वावराडी : बाये, म्हजो हे आटेन गोमटें जीव येयला.' – अेकापरस अेक हटी, बरो : रामचंद्र शंकर नायक, पा.७.)

**आट** । आट् । सं. अष्ट; प्रा. अठ्ठ . संख्या वि. आठ. ("...तुम्बळ विधेचो मारु भोउ जाता देखुनु अर्जुनान आट चक्रां काडुनु रथा भोंवतिं मन्त्रुनं आटांय दिसांक ठेयलीं." – कोंकणी महाभारत, आदिपर्व, बरो : कृष्णदास शामा, देवनागरी लिप्यंतर आनी संपादन, प्रताप नायक, जे.स. पा. ४८.)

**आटक** । आटक् । सा.रू. – का; भौ. – कां, सा.रू. – कां । 'आटप' वेल्यान; का. अट्टतेंगु = सुकून गुडगुडें जाल्लो नाल्ल . न. भितल्लें उदक पूर्ण आटून गेल्लो नाल्ल; भितल्लें उदक आटिल्ल्यान गुडगुडें जाल्लो नाल्ल. ("दोन बोंडे, दोन आटकां । दोन वांजां, दोन कुस्कां । बाकी सगळे उदकाशिवाय – ही लोकशाय." – कवी : मनोहरराय सरदेसाय, कोंकणी काव्यसंग्रह, साहित्य अकादेमी, पा. २०.)

**आटकाटी** । आट्काटी । सा.रू. – टें; भौ. – टयो, सा.रू. – टयां । का. अडकोत्तु; अडकत्तरी. तेलगू : अडकत्तु, अडकोत्तु, अडकत्तेर. तुलू : अडकत्तेरी, इडकत्तेरी. स्त्री. सुपारी वा बेडो कातरचेलें वा कातरपाचें साधन; आडकात्री.

**वा.प्र.:** १. **आटकाटेंत धरप** : अडचणेची परिस्थिती निर्माण करप; संकटांत घालप; कात्रींत धरप.

२. **आटकाटेंत सांपडप** : कसलीच सोडवाट ना जावप; कठीण परिस्थितींत सांपडप.

३. **आटकाटेंत सांपडप** : कात्रींत सांपडप; अडचणेंत, पेंचांत सांपडप. (भादवो : असो हो हांव दोन ओर्दींचे आटकाटेंत सांपडलां. – संशयकल्लोळ, मूळ मराठी लेखक : गो. ब. देवल; कोंकणी रुपकार : बाकीबाब बोरकार, पा. ४८.)

**आटकी** । आट्की । सा.रू. – के; भौ. – क्यो, सा.रू. – क्यां । का. अडके, अडिके = सुपारी स्त्री. १. सुपारी. २. अर्द पयेच्या मोलाचें मानिल्लें नाणें.

**आटकुळो-ळी-ळें** । आटकुळॉ-ळी-ळँ । सा.रू. – ळ्या-ळे-ळ्या; भौ. – ळॅ-ळ्यो-ळ्यीं, सा.रू. – ळ्यां । सं. अस्थि + कों. कुळो; प्रा. अट्ठि + कों. कुळो वि. हाडकुळी, ळी, ळें; बडक; मरूंक तेंकिल्लो; कात आनी हाड एक जाल्लो. ("तांगेल्या आटकुळ्या-पिटकुळ्याच्यो आनी शींगमोडच्या गोकळ्याच्यो हाडांक काती लागिल्ल्यो." – गोमन्तोपनिषत्, १लें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ४१.)

**आटके-पायशेरेक** । कों. आटकी + पांच शेर क्रि.वि. फुके सवाय; साप्प उण्या मोलाक. ("घरचे एके चलयेक लग्न करून दिवपाक एक शेत ना जाल्यार भाट आटके पायशेरेक लाटून उडोवचें पडटालें. अशे अनपतिच्या काळार हांव जन्माक आयलों." – 'खबरी' हातुंतलो 'तृप्त हांव फकीर हांव' हो ललितनिबंध. बरो : लक्ष्मणराव सरदेसाय, पा.९५.) **वा.प्र.: आटक्यान पायशेरी** : अर्द पयेक पांच शेर मापाची वस्त म्हळ्यार फुके सवाय.)
**विशेश** : पुर्विल्लो काळ धरून, हालीं हालीं म्हळ्यार शंभर वर्सांपयलीं, नित्य गरजेचे सवाय वस्तू घेवपाक, भारताच्या हेर भागांत नाणें म्हणून जशो कवड्यो चलताल्यो, तेचपरी गोंयांत नाणें म्हणून सुपाऱ्यो चलताल्यो. सुपारेचें मोल अर्द पै आसतालें.

सगळ्यांत उणें नाणें पयेचें आसतालें. अर्द पयेचें नाणें नाशिल्ल्यान, तिच्या जाग्यार सुपारी घोळूंक लागली. आनी ताका लागून एका सुपारेक पांच शेर म्हळ्यार 'फुके सवाय', 'साप्प उण्या मोलाक' हो अर्थ दाखोवपाक 'आटके पायशेरेक' हें उतर घडून आयलें.

**आटणी** । आट्णी । सा.रू. – णे; भौ. – ण्यो, सा.रू. – ण्यां । ? स्त्री. शिंपण्याखातीर राटाचें वा लाटाचें उदक भरून दवरपाखातीर बांदिल्ली कोंळबी, रावुणगें, दोणें.

**आटणी** । आट्णी । सा.रू. – णे; 'आटप' वेल्यान स्त्री. आटपाची क्रिया; आटून दाट जावपाची क्रिया, आंवुळणी.

**आटप** । आट्प् । सा.रू. – पा । का. अट्ट; अट्टिसु क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू 'आट्'-अक.) १. उणें जावप. (गायेक खावड जायतशी पडलीना. ताका लागून तिचें दूद आटलें.) २. खतखतत उरिल्ल्यान पातळ पदार्थ दाट जावप. (दूद खतखतून आटलें.) ३. आंखूड जावप. (नवें वस्त्र उदकांत घालतकीर मात्शें आट्टा.) ४. खर्चप; करड करप. (व्हडा धबाज्यान ताणें चलयेचें लग्न केलें. दोन लाख आटले.) ५. वादांत, भासाभाशेंत हरप, निरुत्तर जावप; खर्शेप; बें म्हणप. (वाद करतां करतां तो आटलो.) ६. सुकप. (प्रतिभा सदांच चंवरना. एकाद्रेवेळा ती मदींच आट्टा.) ७. वगडावप; सोंपप, वाट लावप. (जाण्टेल्यांची इस्टेट ताजेकडेन कांय वर्साभितर आटली.) ८. मरून पडप. ("...तें देखुनु आमीं तांचेरी बाण विन्दिले. ते तांकां चुकले. तावळि तांतुलो म्हाविरु धाउनु येउनु आपुल्या खर्गान आमचें सहिने मारूं लागलो. भोउ लोक रणांत आटलो." – कोंकणी महाभारत, आदिपर्व, देवनागरी लिप्यंतर आनी संपादन, प्रताप नायक, जे.स., पा. ११०.) ९. सुकी सडसडीत जावप, सोंपप. ("दुदांधयां-न्हंयो आटल्यो । सुटले सोऱ्या-पाट । फुलांफळांत तक्षकांनी । तांतयां घालीं दाट ।" – ध्वजाची जागवण, बरो : बाकीबाब बोरकार, पांयजणां, पा. १६.)

**आटपणी** । आट्पणी । सा.रू. – णे; भौ. – ण्यो, सा.रू. – ण्यां । 'आटपप' वेल्यान स्त्री. आटपुंचेली क्रिया; काम सोंपोवचेली वा पूर्ण करपाची क्रिया.

**आटपप** । आट्पप् । सा.रू. – पा । का. अट्टु क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आटप्-सक.) १. पूर्ण करप; संपादप; संपादन करप; सोंपवप (ताणें

आपलें काम आटपलें आनी तो मुखावेल्या उद्योगाक लागलो). २. सोंपप, भायर पडप. (ताचो कारभार केन्नाच आटपलो). ३. सांवरप; आळाबंदा येवप. (तो इतलो मस्तो जाला की, आतां तो म्हाका आटपना.) ४. जमप; तांकप. (म्हाका हें काम आटपत अशें दिसना.)

**आटपाट** । आट्पाट् । सा.रू. –ट्या । ता. आट्टम = खेळी, खेळांतलो डाव + पाट्टम = एक खेळ, खेळांतली पाळी पु. एकमेकांची फाट धरूंक धांवचेलो भुरग्यांचो खेळ. ह्या खेळांत जो धांवता तो म्हणटा: 'आटपाट, धर म्हजी फाट.'

**आटफाट** । आट्फाट् । सा.रू. –टी । ता. आट्टम् + पाट्टम् स्त्री. १. आटफाट; एकमेकांची फाट धरूंक धांवचेलो भुरग्यांचो खेळ. २. सर्त ("...तुमी आपलें आनी गोंयाचें माथें वैर उबारतले आनी संवसाराचे आटफाटींत सगळ्यांमुखार वचूंक वावुरतले." – कोंकणी विद्यार्थ्यांक, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १७).

**आटव** । आटव् । सा.रू. –वा; **भौ.** –व, सा.रू. –वां । सं. अष्ट पु. अर्द पडीचें माप; आटोवप; आठो. ("सितेकडेन चार आटव मेळतीत?" – नवें, बरो: महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा. ३.)

**आटवप** । आटॅव्प् । सा.रू. –पा । का. अट्टिसु क्रि.दा.धा.सा.ना. – (मूळ धातू: आटै-सक.) १. पातळ पदार्थ खतखतावन दाट करप. (दुदफेणे करपाखातीर तिणें दोन लिटर दूद आटयलें.) २. कडोवप (शेटीन भांगर आटयलें आनी तरेतरेच्यो सोबीत वस्ती घडयल्यो.) ३. उणें करप; आंखडावप; सुकोवप. (गायेन दूद आटयलें.) ४. वगडावप; वाटेक लावप. (जाण्टेल्यांनी दवरलेली अपरंपार संपत्ती ताणें आपल्या व्यसनान आटयली.) ५. खर्च करप; करड करप; कड्डप (चलयेच्या लग्नाक ताणें उण्यांत उणें म्हळ्यार लाखभर रुपया आटयले.)

**वा.प्र.: रगत आटोवप:** अतोनात कस्ट करप; पराकास्टेचे श्रम काडप.

**आटवप** । आटव्प् । सा.रू. –पा । सं. आ + स्थापन क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आटै-सक.) लक्षांत, ध्यानांत येवप; आठवप. ("सारत्याक म्हळें, 'रथु हांकारि'. तावळी द्दणाक येक आटवलें, 'ह्या लेंकृवाक हांव धाडितां. सहिने, रथ, हस्ती, घोडे सांगातिं तंव कोर नांति' म्होणु आपुलो येकु बिजमन्त्रु कानांतु सांगिलो." – कोंकणी महाभारत, आदिपर्व, देवनागरी लिप्यंतर आनी संपादन: प्रताप नायक, जे.स. पा. ३८.)

**आटवल** । आट्वॅल् । सा.रू. –लां । कों. न. तांदूळ, मेथयो, नाल्लाचो रोस आनी गॉड घालून शिजोवन तयार केल्लो दाटसार गोडसो पदार्थ; आठवल.
**विशेश:** बांयटीक दूद जावपाखातीर, तेचपरी दूख वचपाखातीर आटवल दितात. तीस, चाळीस वर्सां पयलींपसून, चड करून, खेड्यांनी भुरग्याच्या बारशा दिसा, ताका पाळण्यांत घालून, नांव दवरून साकर वांटले उपरांत, वाड्यावयल्या भुरग्यांक आपोवन हाडून आटवल वाडपाची चाल आसली. आटवल भुरकायतना तोंडाक लावपाक दोणांतले आंबलेचो कुडको दिताले. कांय घरांनी आज आटवल करतात. जाल्यारूय, वाड्यावयल्या भुरग्यांक आपोवन हाडून, तांकां आटवल वाडपाची चाल घोळटेंतल्यान गेल्लेवरी जाल्या.

**आटवो** । आटवॉ । सा.रू. –व्या; **भौ.** –वे, सा.रू. –व्यां । सं. 'अष्टम' वेल्यान पु. १. अर्द पडिचें माप. २. (ला) ल्हान अशें काचें बुचें भुरगें. पड, आटवो, अण्णाटें, गिण्णाटें हीं पयलींच्या काळावेलीं एका फाटलीं एक ल्हान मापां आशिल्लीं. ताका लागून एकाद्रया घरांतल्या एकाफाटल्या एक आशिल्ल्या ल्हान भुरग्यांचें वर्णन करतना उरफाट्यांनी ह्या मापांची देख दिताले. ("आमच्या घराफाटल्यान

मधू रावता. आनी तागेली बायल. तांगेर पड, आटवो, अण्णाटें, गिण्णाटें अशीं कुचकुचीत भुरगीं.'' – आमचेमदली 'ती', बरो : चंद्रकांत केणी, व्हंकलपावणी, पा. ७८.)

**आट्साटेपण** । आट्साटॅपण् । सा.रू. – णा । न. पळेयात 'आडसाटेपण'.

**आटसाटो** । आट्साटॉ । सा.रू. – ट्यां; भौ. – टे (टॅ), सा.रू. – ट्यां । वि. पळेयात 'आडसाटो'.

**आटाप** । आटाप् । सा.रू. – पा; भौ. – प, सा.रू. – पां । सं. आटोप . पु. १. व्याप; मांडारो; पसारो (तांकी भायलो आटाप.). २. देखावो; नाटक; फार्स. (पुण्यात्म्या राम कामतिची कशी दशा जाली, ती ताचे नदरे सामकार आसली. आपणाचीय तशीच वाट लावपाची तजवीज आदींच जाल्या आनी चौकशेचो आटाप फक्कत दोळ्यांक उदक लावंक केला, हेंय तो जाणा आसलो. – पुण्यात्मो राम कामती, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ४).

**आटापप** । आटापॅप् । सा.रू. – पा । 'आटाप' वेल्यान क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आटाप्-सक.) १. आस्पावप (एक उतरान, सगल्या संवसारांतले । शृंगार आनी संतोस, बरे बरे । वैकुंठाचे बागींत आटापलेले । – एव आनी मरी, दीर्घकाव्य, बरो : कवी एदुआर्द जुझे ब्रूनो द सौझा, संपादपी : प्रो. डॉ. ऑलिवीन्यु गोमिश्, पा. २९.) २. आटापप; सोंपोवप; संपादप. ३. आळाबंदा न येवप; न सांवरप. (''म्हाका न्हांवचें, पेंवचेंशें दिसता. पूण, उदकाक खोलाय सामकी उणी. तरीपूण मन आटापना.'' – आनी हांव परतलों, बरो : दामोदर मावजो, गांथन, पा. ६५.) ४. रेखप, रंगवप. (''ही एक लांब कविता, स्वपनांत मात सुखान जियेतल्यांचें लांब चित्रण तातूंत आटापलां.'' – मागीरचें मागीर, बरो : चा.फ्रा. दे कोस्ता, पा. ६.)

**आटापिटो** । आटापिटॉ । सा.रू. – ट्या; भौ. – टे (टॅ), सा.रू. – ट्यां । का. अट्टु + सं. पिष्ट ? पु. १. यत्न; प्रयत्न; खटपट. (''आपलें गोरें आंग वोतांत करपोवन काळें करपाखातीर हो तांचो आटापिटो.'' – कथा : सूड, बरो : प्रसाद मळकर्णेकार, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, संपादक : अ.ना. म्हांबरो, पा. ९२.) २. पराकास्टेचे श्रम; कस्ट; दगदग.

**वा.प्र.: १. आटापिटो करप**: पराकास्टेचे यत्न, प्रयत्न खटपट करप. **२. आटापिटो पडप**: आकांताचो त्रास, कस्ट, दगदग सोंसचे पडप.

**विशेश :** आटवप आनी पिठवप (म्हळ्यार, पीठ करप) अशीं दोन उतरां एकठांय येवन 'आटापिटो' हें उतर घडलां आसुंये. पयलींच्या काळार धान्याचें पीठ करपाखातीर दांतेंच उपकरायताले. दांत्यार दळप ही गजाल तशें पळेल्यार कश्टाचीच, आनी व्हड प्रमाणांत धान्य दळपाचें आसल्यार ती गजाल चडच कश्टाची आसताली. हीच खबर आटोवपाच्या क्रिये संबंदान खरी आसा. खंयचोय पातळ पदार्थ आटोवन दाट करपावेळार कितले कश्ट पडटात तें सगळ्यांक खबर आसा. ह्याच अर्थान 'आटापिटो करप' हो वाक्प्रचार घोळटेंत आयला आसुंये. 'खूब कश्ट करप' हो ताचो अर्थ.

पयलींच्या काळांत मिलिटरीचो लोक गांवांत कॅम्प घालून रावतालो, तेन्ना तांचें व्हड प्रमाणांतलें धान्य दळून दिवपाचें काम गांवांतल्या लोकांक, पयशे बियशे कांय मेळनासतना करून दिवचें पडटालें. हाकालागून, कसलोच लाभ नाशिल्ल्या सरकारी कामाखातीर खूब कश्ट करप हो अर्थ उक्तावपाक 'आटापिटो करप' हो वाक्प्रचार घोळटेंत आयलो आसुंये. फुडें ताचो अर्थ व्यापक जालो आनी 'खंयच्याय कामाखातीर आकांताचे कश्ट करप' असो अर्थ ताका मेळ्ळो.

**आटी** । आटी । सा.रू. – टये; भौ. – टयो, सा.रू. – टयां । सं. अट्टनम् स्त्री. १. जातूंत कशिदा

काडपाखातीर, फुलां, कुस्कुरां बी भरपाखातीर वस्त घट्ट आंवळून धरूंक मेळटा अशें एकांत एक आशिल्ल्या दोन चक्राकार वाळयांचें आनी भायल्या वाळयाक मोळसूद आशिल्लें एक वांटकुळें साधन. हें साधन चौकोनीय आसता. ("वांटकुळ्याच आटयेंतल्या । लुगटाचे माचयेर । नाच गे बाय, सुये बाये ।" – मनोहरराय सरदेसाय, कोंकणी काव्यसंग्रह (साहित्य अकादेमी), पा. २६.) २. बांय बांदून काडटासतना पोंदा बसयतात तो लाकडाचो रूंद वाळो. आंवाळेचें लाकूड सहसा कुसना, देखून, हो वाळो आंवाळेच्या लाकडाचो करतात.

**आटी** । आटी । सा.रू. – टये; भौ. – टयो, सा.रू. – टयां । ता. अलर्टी = फुलपाची क्रिया, फुलप ? ; अलर = फूल स्त्री. १. फुलांची गुंथिल्ली वा घाल्ली फांती, हळी. २. भांगराची केल्ली कडकड्या फुलांची माथ्यांत घालपाची वस्त. ("दोगांनीय राखून दवरिल्ली मुस्तायकी घातली. रुपान मोगरेची आटी माळ्ळी." – कथा : आमी दोगां, बरो : अच्युत तोटेकार, चैत्रांगण, पा. ३३.)

**आटीव घोटीव** । आटीव घोटीव । आटवप + घोटवप वेल्यान वि. कश्टांनी वा वेदनेन, व्यथेन भरिल्ली. ("तरी आसतना ताका खूब फावटीं आटीव घोटीव, कातीव गजाली सोंसच्यो पडटात." – गगनभोगी जोगी, बरो : रमेश वेळुस्कार, यादिंचीं पिसोळीं, सुनापरान्त, २४ मार्च ९१.)

**आटुकुटून** । आटुकुटून । आटवप + कुटप वेल्यान क्रि.वि. व्हडा कश्टान जोडून आनी इल्ली इल्ली एकठांय करून. ("आनी बुदवंतांची आटुकुटून भरिल्ली पैशांची पोती एकदां रिती जातकूच पर्थून भरप सोंपें नासता." – काणी एके जिणेची, बरो : महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. २५९.); व्हडा प्रयासान, जोडीची-मोडीची गांठ घालून. (आटकुटून केल्लो संवसार.) २. टामटीम करून, हक्या-टक्याक गांठ घालून. (तो आपलो प्रपंच आटुकुटून करतालो.)

**आटे-विटे** । आटॅ-विटॅ । सा.रू. – आट्या-विट्यां । (?) पु. भौ. १. कस्ट-दगदग; हाल-उपाद्रे; वळवळे. ("नकळत आटे-विटे त्या मरणाचे । आनी ओत्मे कुडी सांडीनासता । चडची आसलीं पांवडे त्या सर्गाचे ।।" – एव आनी मरी, दीर्घकाव्य, बरो : कवी एदुआर्द जुझे ब्रून द सौझा, संपादपी : प्रो. डॉ. ओलिवीन्यु गोमिश, पा. २८.)

**वा.प्र.** : **आट्या-विट्यांक येवप** : रेडेओडींक येवप; व्यथेन जीव हैराण जावप; जीव सामको गळ्यांत येवप.

**म्हण** : बाळंतेराचे चटके आनी मरणाचे आटेविटे एकसारके.

**आटो** । आटॉ । सा.रू. – टया; भौ. – टे, सा.रू. – टयां । सं. अट्टनम् पु. १. लोखणाचो वा लाकडाचो वाटकुळो पटो. पिपाक वा बल्लाक घटपाण मेळपाखातीर असलो आटो बसयतात. २. बैलगाडयेच्या चाकाक वेल्यान बसयतात ती चाकाचे रुंदाये येदी लोखणाची पट्टी, धांव. ३. लोखणाचें एक खेळपाचें कडें. मुखार वांक दिल्ले सरयेच्या आधारान, भुरगीं हें कडें मार्गार धांवडायत व्हरतात. ४. बरोवप्याचे पाटयेक वा स्लेटीक चारय वाटांनी लायिल्ली पट्टी. ५. सायकलीच्या चक्राचो एक भाग. ("पाडे पोर! अशो सायकली धाडायतात आनी मागीर तकलेर घेवन बसतात चार वर्सांत आटे मोडटकीच – शिरी बायल." – मधुबाब, बरो : गजानन जोग, रुद्र, पा. १३०.)

**आटो** । आटॉ । सा.रू. – टया; भौ. – टे (टॅ), सा.रू. – टयां । ता. आट्टु = नाच; खेळ; झोंपय; झोंपाळो. मल्याळम : आट्टु = झोंपय घेवप; नाचप; खेळप. का. आटलु = झोंपय पु. १. झोंपाळो. ("आट्यावयले आट्यावयले बावले गे बावले गे । कोणाची वाट पळयता कोणाची वाट पळयता ?" – गोंयचीं बालगीतां आनी खेळगीतां, पुंजावपी : तुकाराम

शेट.) २.पाळणें; पायणें ("आठ गे मासी देवकी पुसे । काय गे लेकी दुवाळे कसे ? । सपरूण दुवाळे जाले रे बाप्पा । आणियाले चंदन घडियाले आटे ।।" – कणेर खुंटी नारी, आमोणेंचीं लोकगीतां, एकठावपी : जयंती नायक, पा. ३२.)

**आटोकाट** । आटोकाट् । सं. अष्ट + कष्टम् वि. अत्यंत शिकस्तेचो; पराकास्टेचो. (आटोकाट प्रयत्न.)

**आटोपाटो** । आटॉपाटॉ । सा.रू. – आट्यापाट्या; भौ. – आटेपाटे (आटॅपाटॅ), सा.रू. – आट्यापाट्यां । सं. आटोप : = प्रौढी; बडवचार . पु. विद्वाटो खर्च; बडवचारांचो थाट; धबाजो. ("नारायणाचो बापूय १७०२ वर्सा भायर पडटकूच, ताज्या भावाक आनी भयणीक राम कामतीन ल्हान-व्हड करून तांचीं लग्नकार्यां केल्लीं. तातूंत जाल्लो आटोपाटो आनी विद्वाट तांचे दशेक क्शेच तरेन फाव नासलो." – पुण्यात्मो राम कामती, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ९०.)

**आटोव** । आटोव् । सा.रू. – आटव्या; भौ. – आटोव, सा.रू. – आटव्यां । 'आठवो' वेल्यान पु. अर्द पडीचें माप; आठवो; आठो. ("ह्या लोकांनी नाडलें गो तिका, आटोव, पड दिवन दीसदीसभर काम करून घेतलें." – कथा : पुण्याय, बरो : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा. ८५.)

**आटोव** । आटोव् । सा.रू. – टोवा । सं. आ + स्थापन, प्रा. आठ्ठावण पु. आटोवन; याद; उगडास; स्मरण; आठव ("... आतां हांव दुखेस्ति जालीं म्होणु तुजो म्हाका आटोव जालो." – कोंकणी महाभारत, आदिपर्व, बरो : कृष्णदास शामा, देवनागरी लिप्यंतर आनी संपादन, प्रताप नायक, जे.स. पा. १२.)

**आट्यापाट्यान** । आट्यापाट्यान् । 'आटोपाटो' वेल्यान क्रि.वि. १. नेटान; किंवाट्यान ("बारकायेन येवजिल्यार, हें गडगंज कारण म्हळ्यार, ताणें आंग्रयाआड मोठ्या आट्यापाट्यान चल्लेल्या झुजांतलें दशा वगडावणें अपेस ताका कोणाच्याय तरी माथ्यार मारचें आसलें." – पु.रा.का., बरो : शणै गोंयबाब, पा. ७६.) २. धबाज्यान ("...त्या म्हालाच्या नांवान तांकां मोठ्या आट्यापाट्यान येवकार दिलो." – नवें गोंय, २रें वर्स, २रो आंक, वैतुंब्र, १९३५, पा. ५३.) ३. गडगडाटान; उमेदीन; उर्बेन ("उत्तर आनी दक्षिण कर्णाटकांतल्या केळोशी-कुठ्ठाळकार बामणांच्या चड करून सगळ्या घराण्यांत हें व्रत मोठ्या आट्यापाट्यान करतात. – गों.गों.व., बरो : शणै गोंयबाब, पा. १५८.)

**आठ** । आठ् । सा.रू. – ठा/ठां । सं. अष्ट; प्रा. अठ्ठ; ला. Octo; पुर्तु. Oito सं. वि. सातांत एक अधिक करतकीर जाता ती संख्या. एक धरून अनुक्रमान आंकडे मेजतना सात उपरांत क्रमान येता तो आंकडो. (आठांचो पुंजुलो, आठांचो आंकडो.)
**वा.प्र.: १. आठय गुणांनी संपन्न :** सर्वगुण संपन्न. **२. आठूय पार :** दीस रात. (चंद्रमुखी, तुजेबगर ताका कांयच सुचना. तो आठूय पार तुज्या ध्यानांत गुल्ल आसता.)

**आठउ** । आठउ । सा.रू. – उ । सं. आ + स्थापन; प्रा. आठ्ठावण पु. याद; स्मरण; उगडास. ("जी स्वर्गीं आस, तिचें तें बाउलें, त्या वरउनु, तिचो आमी आठउ करूंच्याक आनी तें, तिचें बाउलें देखुनु, तिका मान हुर्मति देउंच्याक." – दौत्रिन क्रिस्तां, बरो : पाद्री तोमस स्टिफन्स, देवनागरी लिप्यंतर, अ. का. प्रियोळकर, पा.८.)

**आठकुळो,ळी,ळें,ळ्या** । आठकुळॉ,ळी,ळँ । सा.रू. – ळ्या-ळे-ळ्या; भौ. – ळे (ळॅ)-ळ्यो,ळीं, सा.रू. – ळ्यां । सं. अस्थि + कों.ता.कू. कुळो; प्रा. अठ्ठि + कुळो वि. आटकुळो; कात आनी हाड एक जाल्लो; बडक; मरूक तेंकिल्लो.

**ाठको** । आठ्कॉ । सा.रू. – क्या; भौ. – के (कॅ), सा.रू. – क्यां । सं. अष्टक पु. १. इस्पिकेंत आठ हो आंकडो दाखोवपी पान. २. आंकड्यांच्या जुगारांत एकाद्रेवेळा फुटिल्लो आठ हो आंकडो; मटक्यांत आनी सोर्तीच्या आबेर्तुरांत केन्ना केन्नाय फुटिल्ल्या नंबरांत आठ हो निमाणें आशिल्लो आंकडो. (आजच्या आबेर्तुराक आठको फुटला.)

**आठडो** । आठडॉ । सा.रू. – ड्या; भौ. – डे (डॅ), सा.रू. – ड्यां । सं. अष्टावर्त, अष्टवार, प्रा. अठ्ठवाड, मुंडारी. आठवारा पु. आठ दिसांचो काळ, आठवडो.

**आठव** । आठव् । सा.रू. – ठवा; भौ. – ठव, सा.रू. – ठवां । सं. आ + स्थापन; प्रा. आठ्ठावण पु. १. जोडिल्लें ज्ञान आनी आयिल्लो अनुभव स्मरणांत तसोच राखून दवरपाची मनशाक आशिल्ली तांक. हे स्मरणाचे तांकीक लागून जोडिल्लें ज्ञान आनी अनुभव आपल्याक जाय तेन्ना उपकरावंक मेळटा. २. आठवपाची क्रिया. ३. याद; यादगिरी; स्मरण; उगडास.

**आठव** । आठव् । सा.रू. – वा; भौ. – व; सा.रू. – वां । 'आठ' वेल्यान पु. अर्दपडिचें माप; पायलेचो आठवो भाग. ("पळेल्यार किदें? तिगेलो घोव फाटल्यान उबो रावून, तिणें आठवभर तांदळाच्या शीताची रास पानार वाडून घेतिल्ली, ती पळेतालो." – अस्सली बाये कसली, बरो : कमलादेवी राव देशपांडे, गिजबिजलें, पा. ४९.)

**आठवडो** । आठ्वडॉ । सा.रू. – ड्या; भौ. – डे (डॅ), सा.रू. – ड्यां । सं. अष्टावर्त; अष्टवार; प्रा. अठ्ठवाड; मुं. आठवारा पु. आठ दिसांचो काळ.
**विशेश :** मुंडारी भाशेंत बाजाराक 'हाट' म्हणटात. ह्या 'हाट' उतराक संस्कृत 'वार', म्हळ्यार दीस, हें उतर लायतकीर 'बाजाराचो दीस' असो ताचो अर्थ जाता. ह्या 'हाटवारा'चें आठवार अशेंय रूप जावं येता.
गोंयांत कांय गांवांनी आठवड्याच्या आठवड्याक बाजार भरता. भाणस्तारी आनी म्हापशां शुक्राराच्या शुक्रारा बाजार भरता; कुडचड्यां शेनवारच्या शेनवारा बाजार भरता; फोंड्यां बुधवाराच्या बुधवारा आनी शेनवाराच्या शेनवारा बाजार भरता. बाजाराच्या ज्या ज्या दिसाचें परत आर्वत वा आवृत्ती जाता, तो काळ आठ दिसांचो आसता. हाका लागून 'आठवडो' हें उतर घडलां आसुये. ह्या आठवड्याच्या बाजाराक लागून मोठ्या कामांनी कामां करपी वावराड्यांक, तांकां आठवड्यापुरतें धान्य आनी हेर वस्तू घेवपाखातीर, आठवड्याच्या आठवड्याक पगार घालतात.
मुंडारींत बाजाराच्या दिसाक 'आठवारी' म्हणटात आनी गोंयांत फकत 'वार' म्हणटात.

**आठवण** । आठ्वण् । सा.रू. – णी; भौ. – णी, सा.रू. – णीं । सं. आ + स्थापन, प्रा. आठ्ठावण स्त्री. स्मरण करपाची तांक, शक्ती; आठव; याद; यादगिरी; उगडास; स्मरण.

**आठवप** । आठव्प् । सा.रू. – पा । सं. आ + स्थापन क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आठै-सक). १. याद, स्मरण, उगडास करप; ध्यानांत, मनांत, स्मरणांत येवप. ('आठवता? । धेंपारच आशिल्ली तेन्ना । सप्तद्विपांची पलतड । आतां मात कशीच मेळना । आमचीच आमकां आलतड.' - अद्रुस्टाचे कळे: पांडुरंग भांगी.) २. इत्सप. (जें आपणाक नाका तें पेल्याकय आठंव नये.)

**म्हण:** जें आपणाक नाका, तें पेल्याकय आठंव नये.

**आठवल** । आठवल् । सा.रू. – ला । कोंकणी न. पळेयात : 'आटवल'.

**आठवो, वी, वें** । आठ्वॉ, वी, वँ । सा.रू. – व्या;

भौ. –वे, सा.रू. –व्या । सं. अष्टम; प्रा. अठ्ठय, अट्टवँ; पा. अट्टवँ वि. अनुक्रमान मेजतना सातव्या उपरांत येता तो, ती, तें; संख्येंत आठव्या स्थानार आशिल्लो, ल्ली, ल्लें. (कादंबरीचें आठवें प्रकरण तो बरयता.)

**आठवो** । आठ्वॉ । सा.रू. –व्या; भौ. –वे (वॅ), सा.रू. –व्यां । सं. अष्टम = आठवो भाग, ता. आराक्कु = मापाचो आठवो भाग; का. आराक्कु = शेराचो आठवो भाग. पु. अर्दपडीचें माप; पायलेच्या आठव्या भागायेदें माप; आठो; आटोव.

**आठसस्ट** । आठसस्ट् । सं. अष्टषष्टि, प्रा. अडसठ्ठी सं. वि. अनुक्रमान मेजतना सातसस्टा उपरांत येता ती संख्या. ही संख्या आंकड्यांनी (६८) अशी बरयतात.

**आठसस्टावो, वी, वें** । आठ्सस्टावॉ, वी, वँ । सा.रू. –व्या-वे-व्या; भौ. –वे (वॅ)-व्यो, वीं; सा.रू. –व्यां । 'आठसस्ट' वेल्यान वि. अनुक्रमान सादसस्टाव्या उपरांत येता तो, ती, तें; संख्येंत आठसस्टाव्या स्थानार आशिल्लो, ल्ली, ल्लें.

**आठांगुळो, ळी, ळें** । आठांगुळॉ, ळी, ळँ । सा.रू. –ळ्या-ळे-ळ्या; भौ. –ळे (ळॅ), ळ्यो, ळीं; सा.रू. –ळ्यां । सं. अष्ट + अङ्गुल + क वि. आठ बोटां आशिल्लो, ल्ली, ल्लें.

**आठाणोवि** । आठाणोवी । सा.रू. –व्या । सं. अष्टानवति; प्रा. अट्ठाणवइ वि. अठ्ठ्याण्णोव, अठ्ठ्याण्णव्द. ("...ऐसी केतुले दिस पर्येन्य शेवा करितां त्या रुसिक कृपा उमटली, 'तुका प्रसन जालो, वरू माग.' तावळि तिणें मागिलें, "मगेरि आठाणोवि पुत्र जाये ऐसें करि". – कोंकणी महाभारत, आदिपर्व, देवनागरी लिप्यंतर आनी संपादन : प्रताप नायक, जे.स.)

**आठाळो** । आठाळॉ । सा.रू. –ळ्या; भौ. –ळे, सा.रू. –ळ्यां । ता. आट्टु = झोंपय, झोंपाळो. मल्या : आट्टु = झोंपय घेवप. का. आटलु = झोंपय पु. झोंपाळो; आटो. ("...देखुनु आपल्या आठाळ्यावरी बसुनु नाना परिचे शृंगार करुनु जेणें करित परपुरुस आपल्याक भूल, अैशी चिन्न (नखरे) करूं लागली." – कोंकणी रामायण (कथा घोंस), नववो भाग, मूळ बरो : कृष्णदास शामा. पुनर्रचना : डॉ. ओलिवीन्यु गोमिश् : राष्ट्रमत, आयतार आवृत्ती, ता. २३ मे १९९३, संपादक : चंद्रकांत केणी, पा. ५.)

**आठेरा** । आठेरा । सा.रू. –ऱ्या । सं. अष्टादश; पा. अठ्ठादस; प्रा. आठारस; हिं. अठ्ठारह सं. वि. अठरा. ("आठेरा खेवणी सहिने इछया मरणीं विर तुजी शेवा रात्रि दिवसु कर्तले." – कोंकणी महाभारत, आदिपर्व, देवनागरी लिप्यंतर आनी संपादन : प्रताप नायक, जे.स. पा. २८).

**आठो** । आठॉ । सा.रू. –ठ्या; भौ. –ठे (ठॅ), सा.रू. –ठ्यां । 'आठवो' वेल्यान पु. अर्दपडीचें माप; आठवो; आटोव.

**आठोव** । आठॉव । सा.रू. –वा; भौ. –व; सा.रू. –वां । सं. अष्टम; ता. आराक्कु; का. आराक्कु पु. अर्दपडीचें माप; आठो; आटोव. ("खेरीज, व्होंटी भरप, आठोवभर तांदुळ, नाल्ल आनी तीस वा चाळीस रुपये बिदागी दिवंची आसता." – गोंयच्या लोकवेदाचो रुपकार, बरो : प्रा. श्याम वेरेंकार, पा. २१).

**आठोळो, ळी, ळें** । आठॉळॉ, ळी, ळँ । सा.रू. –ळ्या, ळे-ळ्या; भौ. –ळे (ळॅ), ळ्यो-ळीं; सा.रू. –ळ्यां । ('आठ' वेल्यान) वि. गर्भ धल्ल्याउपरांत आठव्या म्हयन्यार जन्माक आयिल्लो, ल्ली, ल्लें (आठोळो चलो, आठोळी चली, आठोळें भुरगें.)

वा.प्र. : **आठोळी बाळंत जावप** : आठव्या म्हयन्यार बाळंत जावप.

**आड** । आड् । (सं. 'अन्त: + धा = धांपप') मु.कू. हें कूस लागून कांय समासिक उतरां घडटात. 'आड' हें मुळाकूस समासांत पयलीं येता आनी 'भितल्लो भाग, मदलो वेळ, अप्रत्यक्ष' अशे भावार्थ दाखयता. देखीक : आडकूट, आडपड्डो, आडवस्ती, आडबाजू, आडगत, आडहातयां बी.

**आड** । आड् । (सं. अर्ध) मु.कू. हें मुळाकूस लागून कांय समासीक उतरां घडटात. समासांत हें मुळाकूस पयलीं येवन अर्दो, अर्द्यापरस चड, अर्देअदिक असो अर्थ दाखयता. देखीक : आडरात, आडसाटो, आडमुठो, आडरान बी.

**आड** । आड् । (सं. अट्ट) मु.कू. हें मुळाकूस लागून कांय समासीक उतरां घडटात. समासांत हें मुळाकूस पयलीं येवन 'खूप', 'व्हडलो' असो भावार्थ उकतो करता. देखीक : आडदांड, आडमाप, आडांगी बी.

**आड** । आड् । (सं. अर्ध; प्रा. अड्ढ ) मु.कू. कमीपण, हीनपण, उणाकपण, उणाय, दुय्यमकाय, गौणताय बी भावार्थ दाखोवपी मुळाकूस. कांय उतरांक हें मुळाकूस लागून काय समासीक उतरां घडटात. देखीक, आडगांव, आडघर, आडजात बी.

**आड** । आड् । (का. अड्ड = खूब; आडवो; विरोध; हरकत.) मु.कू. विरोध; हरकत; रितिभायलो; मदींच शिरकल्लो; अधर्मी असो भावार्थ दाखोवपी मुळाकूस. हें कूस लागून समासांत कांय उतरां घडटात. देखीक: आडांगी, आडकथा, आडखर्च, आडवाट, आडखळ, आडमेळें, आडगिरायक, आडनीत, आडरझांव बी.

**आड** । आड् । (का. अड्ड) क्रि.वि. १. अस्वडीं; अपरुखीं; फाटल्यान. (घोवाआड तिणें आपल्या भावाक दोन हजार रुपया दिले.) २. विरुद्ध ("कसलेय करणे आड जेन्ना करंदाय आयकूंक येता, तेन्ना ती करणी करताले म्हणपाचो दुभाव उरना." – गों.गों.व., बरो : शणै गोंयबाब, पा. ७८.) ३. फाटल्यान (चंद्र कुपांआड आयिल्ल्यान दिसना.) ४. पोंदा; भितल्ल्यान. (वस्त्रांआड सगळे लोक नागडेच आसतात.) ५. मदीं एक सोडून दुसरो अशा क्रमान; ("दिसाआड हांगा येवन वखद व्हरतलें, ताका दितलें." – वोताची सावळी, बरो : महाबळेश्वर सैल, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, पा. १६).

**वा.प्र.**: १. **आड उडोवप** : पराजय करप. (खुस्तेंत) जमनीक फाट तेंकोवप, गुळंकार करून घरांत उडोवप.

२. **आड करप** : मात्शेंशें धांपप (दार आड करून हांव वाचूंक बसलो.)

३. **आड घालप** : १. हात-पांय मोडून गुळंकार करून उडोवप; खिळखिळो करून सोडप; जमनीर लोळोवप. २. तरे तरेचीं आडमेळीं हाडून तकली वयर काडपाक न दिवप; चेपून दवरून कसोच वयर सरपाक न दिवप. ३. हरवप; फाट जमनीक तेंकोवप. ४. वादांत हरवप वा बें म्हणूंक लावप.

४. **आड पडप** : १. वामकुक्षेखातीर वा पुरो जाल्ल्यान मात्शी फाट तेंकोवप; मात्शी झांपड काडप वा हांतुणार पडून मात्सो दोळो लावप. २. बळाळिकेन, पिडेन जर्जर जावन हांतुणार पडप; गुळंकार जाल्ल्यान घरांत पडप. ३. मदीं पडप; आडावप. (ते कोंबे कशे झुजताले. हांव आड पडलों आनी तांचें झगडें पालयलें.)

५. **आड येवप** : १. आडवो येवप; मदीं येवप. (सुणो आड आयिल्ल्यान तो सायकलीवेल्यान पडलो.) २. विरोध करप; आडमेळें हाडप; प्रतिकार करप; विरुद्ध झुजप. ("झुझऱ्यांनू, तुमगेल्या पुर्विल्ल्या शूर जाण्टेल्यांची देख तुमी घोळयात आनी घुरी घालतल्याच्या आड येवंक तुमी तरणे आनी म्हातारे एक जायात." – नवें गोंय, २रें वर्स, १लो आंक जुलय १९३५, संपादपी : का.श्री. नायक, पा. ४०).

६. **आड रावन गुळी मारप** : एकाद्र्या कामांत आपलें आंग ना अशें भासोवन वा दाखोवन दुसऱ्याकडल्यान

आपल्या हिताचें वा आपल्याक जाय आशिल्लें काम साधून घेवप; दुसऱ्याक मुखार काडून वा मुखार घालून आपलो स्वार्थ साधप.
**म्हणी :** १. घोव पडलो आड, घोवाचें बुड्डून व्हेलें खाड.
२. दोळ्यांआड मसण पाड.
३. शेताआड चोरी, दादल्याआड शिंदळकी. (म्हळ्यार, शेतकाराफाटल्यान वा शेतकारा अस्वडीं तागेल्या शेतांत चोरी जाता आनी घोवाफाटल्यान तागेली बायल शिंदळकी करता.)

**आडउदार** । आड्उदार् । (कों. आड + उदारें ) क्रि.वि. आडवें-उदारें. ("पूण आपा आनी जानकेच्यो बोबो थांबनाशिल्ल्यो आनी राधी, तें सुद्दसभ्रत विसन्न धुल्लांत आडउदार लोळतालें." – शारपिर्शे, बरो : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा. ३४.)

**आडकण** । आड्कण् । सा.रू. – णा; भौ. – ण; सा.रू. – णां । (का. अड्ड; हिं. अटकन; गु. अटकण; म. अडकण) न. १. आडखळ निर्माण करपी कसलीय वस्त. २. दाराची वा जनेलाची खिळी.

**आडकथा** । आड्कथा । सा.रू. – थे; भौ. – था; सा.रू. – थां । (का. अड्ड + सं. कथा; का. अड्डकते) १. मूळ कथा सांगतासतना सहज ओगान आयिल्ली दुसरी कथा; उपकथा. (कथेंत आडकथा नाका.) २. अवांतर कथा; मुखेल गजालीक फागूर फुटून आगांतूक भितर सरिल्ली हेर गजाल.
**वा.प्र.: कथेंत आडकथा :** एकाद्रो मनीस उलयत आसतना मदींच ताणें दुसरो विशय काडप.

**आडकाठी** । आड्काठी । सा.रू. – ठ्ये; भौ. – ठ्यो; सा.रू. – ठ्यां । (का. अड्डकट्ट) १. अडचण; आडखळ; निर्बंध; बंधन; विरोध. २. हरकत. ("ज्योती : हाचीच आडकाठी आज येवं नाका, फाल्यां येवं नाका." – सूर्यसांवट, बरो : पुंडलीक नारायण नायक, पा. ६१.)
**वा.प्र.: १. आडकाठी आसप :** हरकत आसप.
**२. आडकाठी येवप :** हरकत घेवप.
**३. आडकाठी हाडप :** अडचण, आडखळ निर्माण करप; अडचण हाडप; विरोध करप; आडवारप.

**आडकाम** । आड्काम । सा.रू. – मा; भौ. – मां; सा.रू. – मां । (का. अड्ड + सं. कर्म ) न. १. मुख्य कामांत मदींच उप्रासून आयिल्लें ल्हान अशें सुपुल्लें काम; गौण रुपाचें सुपुल्लें काम. २. नस्तें काम.

**आडकामो** । आडकामो(मॉ) । सा.रू. – म्या; भौ. – मे (मॅ); सा.रू. – म्यां । ('आडकाम' वेल्यान) वि. १. सुपुल्लीं कामां करपी; ल्हान-सान कामांक उपकरा पडपी. २. नस्तीं कामां करपी.

**आडकाती** । आड्काती । सा.रू. – तये; भौ. – तयो; सा.रू. – तयां । (का. अडकोत्तु; आडकत्तरी) स्त्री. सुपारी वा बेडो कातरपाचें साधन; आटकाटी; आडकात्री.

**आडकात्री** । आड्कात्री । सा.रू. – त्रे; भौ. – त्र्यो; सा.रू. – त्र्यां । (का. अडकोत्तु; अडकत्तरी) स्त्री. पळेयात 'आटकाटी', 'आडकाती' ("दुलुकाकीन आईल्या करणांतलें पान काडलें. कुट्कन आडकात्रेन सुपारी फोडली." – पातक, बरो : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा. ९४).

**आडकानाडकांनी** । आड्कानाड्कांनी । (आडको + नआडको) क्रि.वि. नाडविद्येन; ठकाठकीन; बरे-वांकडेतरेन; घाड्पणां करून; चलाखेन तोपयो घालून. (तो आडकानाडकांनी आपलो प्रपंच चलयतालो.)

**आडकुचो** । आड्कुचॉ । सा.रू. – च्या । (कों. आड + सं. कुक्षि = भितल्लो भाग) वि. मुख्य रस्त्यांपसून खूप भितर आशिल्लो; आडकुशिचो. ("शिल्पीक कामत हे मडकय सारक्या आडकुच्या गांवांत जल्मुनय, फक्कत नितशयाच्या बळग्यान, इंग्लंडच्या राजपाटणांत

मोठी व्हडली नामना जोडूंक पावले." – नवें गोंय, संपादपी: काशिनाथ श्रीधर नायक, २रें वर्स, २रो आंक, वैतुंब्र १९३५, पा. ५२.)

**आडकुशिचें** । आड्कुशिचँ । (कों. आड = आडवें + सं. कुक्षि = कुसवो) वि. कुसव्यांत आडवें जाल्लें. (भुरगें आडकुशिचें जल्मल्ल्यान अखेरेक आवयचें ऑपरेसांव करचें पडलें.)

**आडकुशिचो, ची, चें** । आड्कुशिचॉ, ची, चँ । ('आडकूस' वेल्यान) वि. मुख्य रस्त्यापसून खूप भितर आशिल्लो, ल्ली, ल्लें; आडकुशिचो (आडकुशिचो गांव; आडकुशिची झर; आडकुशिचें देवूळ.)

**आडकूड** । आड्कूड । सा.रू. –डी; भौ. –डी; सा.रू. –डीं । (कों. आड + सं. कुटी = खोंप) स्त्री. घरांत भितर कुशीक आशिल्ली कूड.

**आडकूस** । आड्कूस । सा.रू. –शी । (कों. आड + सं. कुक्षि = कुसवो) स्त्री. १. कूस; कुसवो. २. बगल. ३. कडवळ.

**वा.प्र.: आडकुशी जावप :** बाळंत जातना भुरगें कुसव्यांत आडवे अवस्तेंत आसप वा जावप. (भुरगें आडकुशी जाल्ल्यान गेलें.)

**आडको** । आड्कॉ । सा.रू. –क्या; भौ. –के; सा.रू. –क्यां । का. अडके, अडिके = सुपारी पु. केन्ना पयशाच्या मोलाचें, केन्ना देडा पयेच्या मोलाचें मानून घेतिल्लें नाणें; बाझारुकाचो (Bazaruco) चौथो भाग.

**वा.प्र.: १. आडक्यान पायशिरी वा पायशेरी :** फुके सवाय; अत्यंत उण्या मोलाक. (बाजारांत कणगां आडक्यान पायशेरी मेळटात.)

**२. आडक्यान घोडकें** (पैशान घोडो) पयलींच्या काळांतल्या दीव-दामांवच्या सामाजिक परिस्थितीसंबंदान घोळटेंत आयिल्लो वाक्प्रचार.

**विशेश :** गोंयांत तेचपरी भारतांत पुर्विल्ल्या काळांत घोळटेंत आशिल्ल्या नाण्यांचेर जीं पुस्तकां आजवेर उजवाडाक आयल्यांत, तांतुंतल्या खंयच्याय पुस्तकांत 'आडको' नांवाचें नाणें घोळटेंत आशिल्लें म्हणपाचें मेळना.

फिंर्ग्यांनी गोंय घेतलें तेन्ना, गोंयांत तेच परी भारतांतल्या कांय भागांनी 'बाझारूक' हें नाणें घोळटेंत आशिल्लें. बाझारूक हें नाणें तांब्याचें, कलयेचें, शिशाचें आनी तंवऱ्याचें आसतालें. ताजें मोलय वेगवेगळें आसतालें.

आल्बुकेर्कान गोंय घेतकीर बाझारूक (Bazaruco) हें नाणें पाडपाक लायलें. ह्या बाझारुकाचें मोल दोन पयो आशिल्लें. आडक्याक बाझारुकाच्या चौथायेचें मोल आसलें. इतल्या उण्या मोलाचें नाणें पाडिल्लें नासलें. रुपया, आणो, पयसो आनी पै हीं नाणीं पाडून घोळटेंत हाडटकीर, अर्द पयेचें नाणें पाडूंक नासलें. जाल्यारूय बाजारांत अर्द पयेकय कसलोय तरी जिन्नस मेळटालो.

भारतांत कांयकडेन कवडयो, तांदूळ बी नाणें म्हणून उपकारायताले. तेचपरी गोंयांतय नाणें म्हणनू सुपारी घोळटेंत आशिल्ली.

सुपारी बारीक तशी मोठीय आसता. बारीक सुपारेक 'आटकी' म्हणटाले. तिचें मोल अर्द पै धरताले. मोठे सुपारेक वा बेड्याक 'आडको' म्हणून, ताजें मोल केन्ना पयसो, केन्ना देड पय, अशें गरजेप्रमाण धरताले. कोंकणींत आटकाटी वा आडकाती हें सुपारी कातरपाचें साधन जशें कानडी 'अडकोत्तु' वा 'अडकत्तरी' हाचेवेल्यान आयलां, तेचपरी 'आडको' हेंय उतर कानडी 'अडके' वा 'अडिके' हाजेवेल्यान घडलां. पैसो हें उतर आडक्याक पयलीं लागून, 'पयसो-आडको' अशें ताचें जोड उतर जाता आनी तशेंच तें घोळटा. पयसो-आडको म्हळ्यार कॅवॅ (द्रव्य) वा दुडवांची गांठ.

**म्हण :** हातांत ना आडको, बाजाराक वता दडको.

**आडख** । आडख् । सा.रू. –खे 'आडखळ' वेल्यान स्त्री. आडखळ, अडचण. (पोय, हें दार अशें दोब्राद, केदोय व्हडलो गिरेस्त मुनीस मात लेगीत आडख नासतना भितर घेवपाक जाय. – खण खण माती : बरो : पुंडलीक नायक, जाग, दिवाळी आंक १९८८, पा. ७२).

**आडखर्च** । आड्खर्च । सा.रू. –र्चा । कों. आड + फा. खर्च पु. १. दिसपट्ट्या गरजेप्रमाण खर्चाभायर मदींच उप्रासून आयिल्लो खर्च. २. अकस्मात करचो पडिल्लो खर्च.

**आडखळ** । आड्खळ् । सा.रू. –ळी; भोव. –ळी, सा.रू. –ळीं । का. अड्ड + सं. स्खलनम् स्त्री. १. जें अडचण निर्माण करता तें; जें आडायता तें; आडवण. २. विरोध; हरकत.

**वा.प्र.: १. आडखळ हाडप :** १. अडचण निर्माण करप. २. विरोध करप.

**२. आडखळ येवप :** आडमेळें येवप; विरोध जावप.

**आडखळणी** । आड्खळ्णी । सा.रू. –णे । (का. अड्ड + सं. स्खलनम्) स्त्री. १. आडखळपाची क्रिया, निर्माण जाल्ली अडचण. २. आडवरणी. ३. आदळणी. (वि.) हेंगाडी. (कित्याक तर संस्कारहीन मनीसूच हेंगाडी आनी अधुरी, विचार उक्तावंक येना तसली आनी पावला कणकणी आडखळणी भास उलयतात. - शणै गोंयबाब, बरो.: रा. ना. नायक, ५१.४८.)

**आडखळप** । आड्खळ्प् । सा.रू. –पा । का. अड्ड + सं. स्खलनम् क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आडखळ्-अक.) १. सरळ ओगाक बाधा येवप. २. आपटप (चलतना फातराक हांव आडखळ्ळों आनी म्हजो आंगठो फुटलो.) ३. भिडेक, म्हुवर्तीक वा कांकटेणेक लागून सांगपाक फाटीं-फुडें येवप; खांकुडप. (भियेवं नाका. कितें घडलें तें सरळ सांग. मात्‌पासून आडखळूं नाका.) ४. लागिल्लेवरी, आडावल्लेवरी, घुस्पल्लेवरी, खरचटल्लेवरी जावप. (ताळ्याकडेन भितर कितें तरी आडखळटा.) ५. चलतां चलतां घुस्पप; चलतां चलतां पावल फुडें घालिनासतना थांबप (चलतां चलतां गाय वाटेंत आडखळ्ळी). ६. गागयेपणाच्या दोशाक लागून उलयतना उतर भायर सरपाक मात्सो त्रास जावप. ७. अडचण जावप. ८. प्राण कंठांत येवन रावप.

**म्हण :** आडखळ्ळेली गाय फटके खाय.

**आडखळावप** । आड्खळावप् । सा.रू. –पा । 'आडखळप' वेल्यान क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ प्रयोजक धातू: आडखळाय्-सक.) १. गोंदळांत, संभ्रमांत उडोवप; घुस्पागोंदळांत उडोवप. (पुण त्या वेळारय हांव जाणा आसलों की हो हांसैणो खेळ म्हळ्यार रडैण्या खेळाची अुरफाटी कूस आसा. हो खेळ आमकां आमगेल्यो दोन आवैभासो जाल्ल्यावरी आमकां वाडूंक लायतल्यो, आनी ह्या दोन भासां मदगतीं आमगेलीं मनां आनी जिबो आडखळायतल्यो. – भौ. आर्मांद मिनेझिस, कोंकणी परिशद, तिसरे बसकेची खबर. मुंबय १९४२, पा. २६.) २. अडचणेंत, संकटांत घालप.

**म्हण :** देव गर्व्यांक आडखळायता, लिनांक कृपा दिता.

**आडखाण** । आड्खाण् । सा.रू. –णा । (कों. आड + खाण) न. दनपारच्या आनी रातीच्या अशा दोन मुख्य जेवणांभितर खाल्लो अल्प फळार; प्रवासांत वाटेर खावपाखातीर आपले भुतयेंत वा टिफिनांत घेतिल्लें खाण वा फळार.

**आडखिळी** । आड्खिळी । सा.रू. –ळये; भोव. –ळयो, सा.रू. –ळयां । (सं. अर्ध (ल्हान) + कील्) स्त्री. दारां वा जनेलां धांपपाखातीर तांचे फाटले वटेन लायतात ती लोखणाची खिळी; आडकण.

**ाडखेडें** । आड्खॅडँ । सा.रू. – ड्या; भोव. – डीं, सा.रू. – ड्यां । (कों. आड + खेडें) न. मुख्य मार्गापासून आडकुशीक अशें अडचणेच्या जाग्यार आशिल्लें खेडें; आडकुशिचें खेडें.

**आडगत** । आड्गत् । (कों. आड + सं. गत) वि./क्रि.वि. व्यापाऱ्याकडल्यान वा एजंटाकडल्यान नवी घेनासतना, दुसऱ्या कोणायकडल्यान घेतिल्ली, ताणें वापरलेली वस्त; नवी ताल्ल नाशिल्ली; हेर कोणेंय तरी वापरलेली वस्त. (हांवें ही मोटार आडगत घेतल्या.) इं. सेकंड हॅंड.

**आडगांव** । आड्गांव् । सा.रू. – वा; भोव. – व, सा.रू. – वां । (सं. अर्ध + ग्राम) पु. जंय कसलीच सुधारणा जावंक पावूं ना, असो एका खांचोटांत आनी अस्कडे वाटेर आशिल्लो ल्हान गांव; साप्प ल्हान गांव.

**आडगिरायक** । आड्गिरायक् । सा.रू. – का; भोव. – क, सा.रू. – कां । (का. अड्ड + सं. ग्राहक) न. प्रसंगान चुकून पाविल्लें गिरायक; सदांचें न्हय अशें गिरायक.

**आडगुण** । आड्गुण । सा.रू. – णा; भोव. – ण, सा.रू. – णां । (कों. आड + गुण) दोश, दुर्गुण. (अनात्म गुण म्हळ्यार आत्म्याचे आडगुण वा दोश. – शणै गोंयबाब, बरो : रा.ना. नायक, पा. १०९.)

**आडगुंड** । आड्गुंड् । सा.रू. – डा; भोव. – ड, सा.रू. – डां । (सं. अट्ट + का. गुंड = लुटार, त्रास दिवपी) वि. १. पिडापीड दिवपी; दूस्ट प्रवृत्तीचो; पाडो; आडांगी; आडनाड; अवजळी; मस्तो; पाडे बुद्धीचो. २. झगडाळ. ३. लुटार; भामटो.

**आडगुंडाय** । आड्गुंडाय् । सा.रू. – ये; भोव. – यो, सा.रू. – यां । ('आडगुंड'वेल्यान) स्त्री. आडांगपण; दुस्ट प्रवृत्ती; पाडेपण; निळखेळपण; नस्टेपण; अवजाळपण.

**आडचप** । आड्चप् । (क्रि.दा.धा.सा.ना.) मूळ धातू: आडच् (अक.) अडून उरप, अडचप. (तो आडचल्लो. इल्लें इल्लें ताचें आंग सामकें कुसून वेतालें. – मन वोडटा वोडना, बरो : ऑलिव्हिन गोमिश, पा. १६.)

**आडचिंतन** । आडचिंतन् । सा.रू. – ना; भोव. – त्नां, सा.रू. – त्नां । (कों. आड + सं. चिन्तनम्) न. १. पाडो, वांकडो, दुसऱ्याचें निसंतान करपी असो दुस्ट विचार. २. मोह, ताळणी. ३. प्रमाद.

**आडचौताल** । आड्चौताल् । (हिं. आडाचौताल) पु. तबलें, पखवाज वा मृदंगाचेर वाजोवपाचो एक ताल.

**आडजात** । आड्जात् । सा.रू. – ती । (कों. आड + जात) स्त्री. चार मुख्य जातीभायली मानिल्ली अशी हीन जात; वर्णसंकरान जाल्ली हीन जात; हीन संस्कार जाल्ली जात.

**विशेश :** ऋग्वेदाच्या सुरवातीच्या काळांत चातुर्वर्ण्य आशिल्लें दिसना. चातुवर्णाचो प्राचीन उल्लेख ऋग्वेदाच्या पुरुषसुक्तांत मेळटा (ऋ १०.९०.१२). कांय विद्वान हें सूक्त प्रक्षिप्त मानतात. ऋग्वेदाच्या आठव्या मंडळांत तिनच वर्णांचो उल्लेख आसा. (ऋ. ३५.१६-१८). तातूंत 'वैश' वर्णाचो उल्लेख 'विश' म्हळ्यार 'हेर सगळे' असो जाता. फुडें खंयच्या तरी काळार तीन वर्णांचे चार वर्ण जाले जावंये.

वर्णव्यवस्थेंतल्यान जातिसंस्था उदेवाक आयल्या, अशें मानतात. ही वर्णव्यवस्था गुणकर्मावेल्यान थारायताले म्हणपाक, हिंदू धर्माच्या इतिहासांत कसलोच आधार मेळना. गुणकर्मावेल्यान वर्ण थारावपाक, जन्माक आयिल्ल्या भुरग्याक पंदरा-वीस वर्सां तरी वर्णाविणें आसपाची गरज आसा. हो धोको कोणेंच पत्करूंक ना.

गीतेंत चार जाती दाखयल्यात. वाणी आनी सुदीर हांकां पातकी जन्माचे म्हळ्यात (भ.गी. ९.३२) आनी बामण आनी खेत्री हे पुण्यवंत म्हळ्यार देवाच्या

मोगाचे म्हळ्यात. (भ.गी. ९.३३).

वाणी आनी सुदीर हे पातकी कित्याक? मनशाक ताचे लायकीवेल्यान जात मेळटा, अशें गीता सांगना. ताच्या पूर्वसंचितावेल्यान आयची जात थारता, अशें गीतेवेल्यान अनुमान काडूं येता.

अनुलोम आनी प्रतिलोम लग्नांच्या वर्णसंकरांतल्यान जाती जन्माक आयल्यात, अशें स्मृती सांगतात. बामण दादलो आनी क्षत्रिय बायल हांकां लागून संतत जाल्यार, ती एकतर बापायचे जातींत वता, ना जाल्यार आवयचे जातींत वता.

पराशर रुशीक लागून मत्स्यगंधेक वा सत्यवतीक जाल्लो व्यास हो ब्राह्मणाचे जातींत गेलो, म्हळ्यार बापायचे जातींत गेलो. शंतनु राजान मत्स्यगंधेकडेन लग्न केलें. मत्स्यगंधा ही खारवीण म्हळ्यार सुदीर जातींतली. शंतनूक लागून तिगेर चित्रांगद आनी विचित्रवीर्य हे जे दोग पूत जाले, ते बापायचे क्षत्रिय जातींतच गेले. आवयचे जातींत गेले नात. चित्रांगद आनी विचित्रवीर्य मरतकीर, राज्याक गादी चलोवपी वंश नाशिल्ल्यान, तांगेल्या बायलांक, अनुक्रमान अंबा आनी अंबालिका हांकां व्यासाक लागून नियोग पद्धतीन पांडू आनी धृतराष्ट्र हे पूत जाले. ते बापायचे ब्राह्मण जातींत गेले नात. क्षत्रीय जातींत गेले.

वर्णसंकरान जन्माक आयिल्लें भुरगें, एक तर बापायचे जातींत वतालें, ना जाल्यार आवयचे जातींत वतालें. हातुंतल्यान नव्यो जाती निर्माण जावंक नात. केन्नाय चुकून एकाद्रें समाजाक मान्य नाशिल्लें लग्न जाल्लें आसल्यार, तातुंतल्यान नवी जात निर्माण जायना.

वर्णव्यवस्थेंतल्यान जाती कशो निर्माण जाल्यो, हाजी फोडणिशी कोणाकच करूंक येवंक ना. भौ. श्रीधर व्यंकटेश केतकर धरून युरोपी समाजशास्त्र्यांमेरेन, कोणाकच ही फोडणिशी करपाक जमलेंना. ते घुस्पल्यात. तांकां अडचणीच जाणवल्यात.

पातकी आनी पुण्यवंत अशो जाती नासतात. मनीस आपल्या कर्मान पुण्यवंत आनी पातकी जाता, देखून, जसो सुदीर हीन वृत्तिचो आसूं येता, तेचपरी बामण, खेत्री आनी वाणी हेय हीन वृत्तीचे आसूं येतात. सध्याच्या यंत्रयुगांत 'आडजात' आनी 'आडजातीचो' हीं उतरां कोणाकय गाळ मारूंक उपकरा पडूं येत. जाल्यारूय, चार जातींभायर 'आडजात' म्हणून एक पांचवी जात आसा हें सिद्ध करूंक जमना.

**आडजातीचो, ची, चें** । आड्जातीचॉ, ची, चँ । सा.रू. – च्या-चे-च्या; भोव. – चे (चॅ)-च्यो-चीं, सा.रू. – च्यां । ('आडजात' वेल्यान) वि. हीन जातीचो, ची, चें.

**विशेश :** हें विशेशण नाम म्हणूनय उपकरावंक मेळटा. देखीक : आडजातीच्यांक बरे संस्कार दिवं येतात.

जाचेर पाडे, वांकडे संस्कार जाल्यात असो मनीस आसूं येता. जाल्यारूय तितल्यान तो आडजातीचो मनीस जायना. बुद्ध भगवान 'सुत्तनिपातांत' म्हणटा : जन्मान मनीस सुदीर जायना, जन्मान मनीस बामण जायना. कर्मान मनीस सुदीर जाता; कर्मान मनीस बामण जाता. देखून, मनीस खंयच्याय कुळांत वा कुटुंबांत जन्मलो आसल्यार, जाची करणी बरी, ताजेंच कर्म बरें आसता, तोच मनीस बरो आसता.

**आडण** । आडण् । सा.रू. – ड्णा; भोव. – ड्णां, सा.रू. – ड्णां । (का. अड्ड) न. खाजनांतलें उदक न्हंयंत वचूं नये म्हणून उंच उबारेची घाल्ली म्हेर वा बांद; आडवण. (आडणां बांदूंक १२ असुप्र्यो दिल्यो.)

**आडण** । आड̄ण् । सा.रू. – णा; भोव. – णां, सा.रू. – णां । ('आडवण' वेल्यान?) न. आडवण. (त्या आडणांत? इतलें पयस? म्हजी कुकारसुद्धां पावचीना. – आडवण, बरो : पुंडलीक नायक, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, पा. १२५.)

**ाडदांड** । आड्दाण । सा.रू. – डा; भोव. – ड, सा.रू. – डां । (सं. अट्ट + कों. दांड) वि. व्हडलो; आडमापाचो. (सगळ्यांचेर आकांत आयलो. येदो व्हडलो आडदांड देह रक्तबंबाळ जालो. – वसंतोत्सव आनी दायज, बरो : पुंडलीक नायक, पा. ७०.)

**आडदोस** । आड्दॉस् । सा.रू. – सा; भोव. – स, सा.रू. – सां । (?) स्त्री. विनंती, अर्दास. (हांवें विकचो काडल्यार सगळो कुडको विकचो. तेंय तुका म्हण मात्र, त्या इन्स्पेक्टराच्या पुतान आडदोस मारल्यारी हांवें दिलोना. – मागीरचें मागीर, बरो : चा.फ्रा. दे कोस्ता, पा. ३७.)

**वा.प्र.: आडदोस मारप** = विनंती करप.

**आडनदर** । आड्नदर् । सा.रू. – रे । कों. आड + नदर स्त्री. दुर्लक्ष. (जाण्टेल्यान उलोवपाच्या भरांत म्हळें आनी भूषण तागेले बडबडीचेर आडनदर करीत सपासप सोपणां देंवून जिपी म्हऱ्यांत आयलो. – वसंतोत्सव आनी दायज, बरो : पुंडलीक नायक, पा. ४७.)

**आडनाड** । आड्नाड् । सा.रू. – ड्या; भोव. – डी, सा.रू. – ड्यां । (कों) वि. १. अवजाळी; आडांगी; मस्तो; तीड घालपी; कारणविणें दुसऱ्याच्या आंगार वचपी. २. (ला) कसलीच घटी वा हिकमत नासपी.

**आडनाडपण** । आड्नाड्पण् । सा.रू. – णा; भोव. – णां, सा.रू. – णां । 'आडनाड' वेल्यान न. १. आडंगाय; मस्तेपण; आडांगपण. २. (ला) घटी वा हिकमत नासप; मुर्खपण.

**आडनाडी** । आड्नाडी । सा.रू. – ड्या; भोव. – डी, सा.रू. – ड्यां । 'आडनाड' वेल्यान वि. पळेयात, 'आडनाड'.

**आडनाल्ल** । आड्नाल्ल । सा.रू. – ल्ला; भोव. – ल्ल, सा.रू. – ल्लां । कों. आड = पाडो, कुसको + नाल्ल पु. कुसको नाल्ल; वांज नाल्ल.

**वा.प्र.: आड नाल्लाचें उदक गेल्यार कामा येता :** नाल्ल कुसको आसल्यार ताचें उदक तशी कातली कित्याकच उपकारना. वांज नाल्लांचो उपयोग तर जेवणांत करूंक मेळना. तातूंत उदकय नासता आनी कातलीय नासता. देखून, जें निजांत ना तें कोणाकच मेळना; वा जाचो उपयोगच नासता, तें फुकट गेल्यार वायट दिसपाचें कारण नासता, असो ह्या वाक्प्रचाराचो अर्थ आसा.

**आडनांव** । आड्नांव् । सा.रू. – वा; भोव. – वां, सा.रू. – वां । (कों. आड + नांव) न. १. घराण्याचें, वंशाचें, कुळाचें नांव. (इश्टाक पुराय नांव खबर नासलें, पूण ताणें आडनांव सांगलें. – विराट, बरो : चंद्रकांत केणी, कुळागर, दिवाळी आंक १९९३, पा. ३८.) २. उपनांव.

**वा.प्र.: आडनांवाचो धनी आसप :** आडनांवा वयल्यान उक्तो जावपी अधिकाराचो वा हेर कसलोय व्हडविकेचो अर्थ ना जावन फकत आडनांव उरप.

**विशेश :** क्रिस्तसनाचो चौथो शेंकडो धरून जरी आडनांवां घडूंक लागिल्लीं, तरी गोंयांत पुर्तुगेज राजवट येतकीरच आडनांव लावंचेली पद्धत सुरू जाली. वंशाचें वा कुळाचें नांव हेंच उपरांत आडनांव म्हणून घोळटेंत आयलें. 'भोज' हें नांव कुळनांवाच्या रुपान पयलेंवयलें ऋग्वेदांत मेळटा. (इमे भोजा अंगिरसो विरुपा दिवपुत्रासो असुरस्य विर : ऋ.ग.७.५३). ऋग्वेदांत सुदासाचे पिळगेक निखटे 'भोज' हें कुळनांव म्हणून लागिल्लें मेळटा. पाणिनीच्या गणपाठांत भोज हे क्षत्रिय आशिल्ले अशें म्हळां (भोज क्षत्रिये). महाभारतांत क्षत्रिय वंशाचीं जीं मुखेल नांवां आयल्यांत, तातूंत भोजवंशाचेंय नांव आयलां. श्रीकृष्णाचो मांव भीष्मक हो भोजवंशाचो आशिल्लो. सोरपांचो राजा धूमवर्ण हागेल्या पांच धुवांक लागून यदुराजाक जी पिळगी जाली, तिच्यो फुडाराक सात कुळयो जाल्यो. तातुंतले एके कुळयेचें नांव 'भोज'

आशिल्लें, अशें 'हरिवंशां'त म्हळां. अशोकाच्या काळावेल्या फातरावेल्या तेरावे धम्मलिपयेंत निखटें 'भोज' हेंच उतर आयलां. क्रिस्ताच्या चौथ्या शेंकड्याचे अखेरेक बरयल्ल्या 'रघुवंशां'त, अजराजाचें इंदुमतीकडेन जाल्ल्या लग्नसंबंधांचे जे सर्ग आसात, तातूंत कालिदासान विदर्भाच्या राजाक निखटें 'भोज' आनी 'भोजकुलप्रदीप' अशें म्हळां. सव्या शेंकड्यांत बरयल्ल्या दंडिच्या 'दशकुमारचरितां'त विदर्भाचो राजा पुण्यवर्मा हाका 'भोजवंशभूशण' म्हळां. कुडें, कण्डेरी आनी वनवासीच्या बरपांआदल्या ग्रंथांनी 'भोज' हें कुळनांव मेळटा. (गों.गों.व. पा. २४-२५).

गोंयच्या इतिहासांत शिलाहार, राष्ट्रकूट आनी कदंब हीं वंशनांवां कुळनांवां म्हणून मेळटात. कांय बदल जावन ह्या वंशनांवांचीं वा कुळनांवांचीं आडनांवां जालीं. देखीक : 'शिलाहार'चें 'शेलार' जालें, 'राष्ट्र कूट'चें 'राठोड' जालें आनी 'कदंब'चें 'कदम' जालें. हीं आडनांवां गोंयांत घोळटेंत नासलीं तरी गोंयाभायर तीं घोळटात.

जे 'राणक' पदवेवेल्यान 'राणो' वा 'राणे' हें आडनांव घोळटेंत आयलें, ती 'राणक' ही पदवी क्रिस्ती सनाच्या १०८६ वर्सा मेळटा. नागपुरचे सरकारी अपरुपावळींत, कांतयल्ल्या खांब्यार कोंत्रायल्लें शके १००८ (क्रि. स. १०८६), एक बरप आसा. तातूंत म्हळां की, कल्याणीचो चालुक्य राजा त्रिभुवन मल्लदेव वा सवो विक्रमादित्य हाजो धाडीभडक वा धाडियदेव राणो नांवाचो एक महासामंत आसलो. तो राष्ट्रकूट कुळांत जन्मलो आनी लोटलेच्यान भायर गेल्लो.

गोंयांत आजुनय सत्तरी, बार्देस आनी दिवचल म्हालांत जायते राणे आसात. गोंयांत रेपुब्लिकाचो कारभार चलमेरेन सत्तरीचे राणे पुर्तुगेज सरकाराक भोवन भौवन त्रास दिताले म्हणपाचें इतिहास सांगता. ह्या राण्यांत दिपा राण्यांचें नांव गोंयच्या इतिहासांत व्हड लौकिकान घणघणटा. पुर्तुगेज सरकार बारदेसच्या राण्यांक माना-भौमानाचें 'दों' (Dom) हें उतर लायताले म्हणपाचें पुर्तुगेज दुकुमेंतांवेल्यान कळटा. (गों.गों.व. पा. ७१-७२) ज्या राण्यांनी देसगत जोडली तांकां 'देसाय' आनी 'सरदेसाय' ही पदवी मेळ्ळी.

सारस्वत बामणांत क्रिस्तीसनाच्या चौथ्या शेंकड्यांत अधिकारावेल्यान 'पै' हें आडनांव पडिल्लें मेळटा. कण्डेरीच्या बुद्धविहारांत चेल्लदेव आनी बोप्पइ हीं नांवां दिश्टी पडटात. (कां.म.ले., पा. १९०). 'प्पई'चें 'पै' जालें. संस्कृत 'पति' म्हळ्यार 'स्वामी' हाचेवेल्यान हें नांव घडलां. क्रि.स. १०८६च्या नागपुरांतल्या खांब्याचे शिळेर बरयल्लीं भट्ट वीठ पै, भट्ट बोप पै हीं नांवां मेळटात.

शिलाहारांच्या दरबारांत पै हें आडनांव मेळटा. पैल्या अपराजिताचो पूत अरिकेसरी हाच्या क्रि.स. १०१७च्या शासनपट्यांत जीं अधिकाऱ्यांचीं नांवां आयल्यांत, तांतूंत वास पैय हो पाटांप्रधान आसून वार्धिक पैय हो दुसरो प्रधान आसलो, अशें म्हळां. अरिकेसरीन ठाणेंच्या च्छिन्त पैय ज्योतिशाचो पूत जामदग्न्य गोत्री तिक्क पैय हाका चावितार गांव इनाम दिल्लो म्हणपाचो उल्लेख मेळटा.

अरिकेसरीचो पुतणयो छित्तराज हाच्या क्रिस्त सनाच्या १०२६च्या शासनपट्ट्यांत सींह पैय हो 'सन्धिविग्रहिक' म्हळ्यार 'थंडाय आनी झुजकरणो' प्रधान आसून, मोठो कवी नागलैय आनी ताचो पुतणयो जोग पैय हो भांडारी आसलो अशें म्हळां.

च्छित्तराजाचो धाकलो भाव मुम्मुणी वा माम्वाणी हाच्या क्रि.सनाच्या १०९०च्या पाशाणा बरपांत सिंव पैय हो ताचो पांटाप्रधान आसलो, असो उल्लेख मेळटा. (गों.गों.व., पा.३८-३९).

क्रि.स. १०८७च्या वसयच्या पाशाणा बरपांत अनंत पै प्रभु, मल्लिकार्जुन राजाचो प्रधान आसलो अशें म्हळां. (गों.गों.व. पा. ५०).

सोळावो शेंकडो लागूंक वेर्णेचो म्हाळ पै हो गोंयचो मुख्य सरदेसाय आसलो. ताचो अधिकार कुडाळ परगण्याबाजत साळशीसाकून दक्षिणेक शिवेश्वर आनी घांटार आजरें, खानापूर, गुंजी, चंदगड, बेलूर, सुपें मेळून अठ्ठावीस म्हालांचेर चलतालो. ह्या अठ्ठावीस महालांचो अधिकारी स्वामी ह्या अर्थानच 'महालपति' म्हाळ पैय हें आडनांव घोळटेंत आयलें. म्हाळ पैच्या ह्या अधिकाराक लागून, 'म्हाळ पैक जोर आनी सगळ्या गांवाक पेज' आनी 'म्हाळ पैचें काण शेणलें, तें म्हाका मेळ्ळें म्हळ्यार जाता?' ह्यो म्हणी घोळटेंत आयल्यो. म्हाळ पै भायर पडटकीर, बांदोडेच्या बोकडबागकाराकडेन तो अधिकार गेलो, अशें कोंकणाख्यानांत म्हळां.

च्छित्तराजाचो धाकलो भाव मुम्मुणी वा माम्वाणी हाच्या क्रि.सनाच्या १०९०च्या पाशाणा बरपांत सिंव पैय ह्या नांवा वांगडाच पैले तिकलेचो भांडारी म्हणून महादेवैय हाचें नांव आयलां. ह्या महादेवैचें कुळनांव 'प्रभु' आसलें. (गों.गों.व., पा. ३८-३९).

क्रि.सनाच्या ११५०च्या पाशाणा बरपांत हरिपालाच्या प्रधानांचीं नांवां वेसू पडवळ, लक्ष्मण प्रभु आनी वासुगी नायक अशीं मेळटात. पडवळ, प्रभु आनी नायक हीं आडनांवां गोंयांत आजुनय घोळटात. (गों.गों.व. पा. ४९).

क्रि.स. ११६०च्या वसयच्या पाशाणा बरपांत प्रभाकर नायक आनी अनंत पै प्रभु मल्लिकार्जुन राजाचे प्रधान आसले अशें म्हळां. (गों.गों.व., पा. ५०) पै प्रभु हें दोट्टी आडनांव क्रि.सनाच्या ११६० वर्सा पयलेंवयलें दिस्टी पडटा.

बाराव्या शेंकड्याच्या अर्दांत मुसलमानांच्या भोवन भोवन पडपी घुरयांक लागून, उत्तर हिंदुस्थानांतल्या देवशर्म्यान कोंकणाची वाट धल्ली. ताका तलवार वावडूंक येनासली, पूण वेदशास्त्रांत तो निपूण आशिल्लो. ताका लागून ताका 'अस्टावधानी देवशर्मा' म्हणटाले. तागेले हे विद्येक लागून, दुसऱ्या जयकेशी कदंबाच्या पुतान, व्हडल्या गोंयचे उत्तरेक सुमार दोन अडेज कोसांचेर, भतग्रामांत हिंदळें गांवांत रावपाक ताका सुवात दिली. तागेलो वंशविस्तार जातकीर, तातुंतले कांय हिंदळ्यां लागशिल्ले मुड्डेर रावंक गेले. जे मुड्डेर रावंक गेले ताकां 'मुड्डेकार देसाय' म्हणटात. कांय जाण लामगांव, दिवचल, विड्डी आनी सावय-वेऱ्यां वचून रावले. तांकां त्या त्या गांवचे देसाय म्हणटात. लामगांवकार देसायांक लामगांव हो गांव जहागीर सुटला. देवशर्म्याच्या वंशांत मांयिदेव नांवाचो भोवच पराक्रमी पुरूश जन्माक आयलो. घडये तो देवशर्म्याचो पंटू जावंये. ह्या मांयिदेवान सिंधण यादवाकडल्यान 'परम विश्वासू' ही पदवी जोडली. मांयिदेवची कांय पिळगी आमोण्यां वचून रावली. तांणी देसगत जोडूंक नाशिल्ल्यान तांकां आमोणकार हेंच आडनांव पडलें. ह्या आमोणकारांतले कांय जाण चिखले आनी नेरूराक वचून रावले. नेरूरच्या आमोणकारांक नेरूरकार हें आडनांव पडलें. उत्तर कर्नाटकांत जेन्ना कदंबांचो शेक चलतालो, त्यावेळार कांय गोंयकार घराणीं थंय पावलीं आनी नांवारुपाक आयलीं. गुंजीकरांचें घराणें खानापूर तालुक्यांत पावलें. या घराण्याचें मुदलचें नांव केंकरे आशिल्लें.

कांय गोंयकार घराण्यांचीं कुळनांवां सरकारान दिल्ल्या अधिकाराक लागून, 'कुळकर्णी' म्हळ्यार गांवचो हिशेब बरोवप, 'नाडगौडा' म्हळ्यार म्हालाचो मुखेल आनी 'नाडकर्णी' म्हळ्यार म्हालाचो हिशेब दवरपी अशीं आसात. तेभायर, 'पट्टनशेट्टी', 'शानभाग' म्हळ्यार गांवचो हिशेब दवरपी अशींय आडनांवां आसात. (गों.गों.व. पा. ५५). घराण्याकडेन आशिल्ल्या शासकीय अधिकाराक लागून मेळिल्लीं हीं कुळनांवां उपरांत आडनांवां म्हणून घोळटेंत आयलीं.

'दणायत' हें कुळनांव कदंबांच्या वेळार घडलां आसुंये. हें उतर 'दंडनाथ' वा 'दंडनायक' हाचेवयल्यान

जालां. 'दंडनायक' हें उतर कानडी बरपांत 'दण्णायक' अशें मेळटा. 'दण्णायक' हो अधिकारी लोकांची न्याय-नीत पळेतालो आनी झुजांत सेनापतीचेंय काम करतालो.

सारस्वत बामणांत 'लाट' ह्या प्रदेशावेल्यान घडिल्लें 'लाड' हें आडनांव मेळटा. अरबी समुद्राक लागून आशिल्ले मही आनी नर्मदा ह्या न्हंयांचे अस्तमतेचे देगेक 'लाट' प्रदेश म्हणटाले. हो लाडांचोच प्रदेश आशिल्लो. ह्या प्रदेशांत लाड बामण, लाड वाणी आनी लाड कुंभार आशिल्ले. 'लाट' हें उतर क्रिस्ती सनाचो दुसरो शेंकडो धरून १४व्या शेंकड्यामेरेन मेळटा. ठाणें, सुरत, भडोच आनी खेड हीं लाट प्रदेशांत आस्पावतालीं. ह्या प्रदेशांतली भास गुजराथी, मराठी, कोंकणी आशिल्ली. ठाण्यांत पंचगौड बामण खूब मोठे संख्येन आशिल्ले. ह्या पंचगौड बामणांत सारस्वत, कान्यकुब्ज, गौड, मैथिली आनी उत्कल हांचो आस्पाव जातालो.

पयल्या जयकेशी कदंबाच्या काळार इकरावो शेंकडो धरून गोंयचो लाट प्रदेशाकडेन व्यापार चलतालो (An outline of pre-Portuguese History of Goa, by Gerald Pereira, page 4). देखून, इकराव्या शेंकड्याचे अखेरेक वा बाराव्या शेंकड्याच्या लागत्यार 'लाड' आडनांवाचे सारस्वत दर्यांतल्यान कुठ्ठाळे आनी केळशे पावले जावंक जाय. सुमार सत्तर वर्सांपयलीं गोंयांत ह्या लाडांक व्यापारी म्हणून वळखताले. (गोमंतकाच्या वसाहतीची रुपरेषा – गोमंतकाची प्रतिमा हातुंतलो लेख, पा. ४१).

'शिंगबाळ' हे मंगेशाचे कुळावी. जाल्यारूय, मंगेशाच्या म्हाजनांचे वळेरेंत तांचें नांव 'शिंगण दळवी' अशें मेळटा. घडये ते देवगिरीच्या सिंधण यादवाचे (क्रि.स. १२१०-१२४६) सेनापती आशिल्ले जावंये. (गोमंतकाच्या वसाहतीची रुपरेषा – गोमंतकाची प्रतिमा, हातुंतलो लेख, पा. ३८).

कल्याणीचे चालुक्य, कदंब आनी यादव हांचे राजवटींत जे गोंयकार कोंकणांत, घांटार आनी कर्नाटकांत पावले, ते कुळकर्णी, नाडकर्णी, शानभाग, महाप्रभू आनी नाडगौडा अशे अधिकारी आसले. तांगेले पिळगेंत तांचो अधिकार विजयनगरच्या रायांनी तसोच फुडें चलयलो. विजयनगरचे राजवटींत 'नायक-करण्डे' नांवाचो एक नवो अधिकार गोंयकारांक मेळ्ळो. नायक हो प्रधान वा सैन्याचो अधिकारी आसतालो. तेभायर, तांचो रत्नमाणकांचो आनी भांगरां-शिंगराचों एक नायक आसतालो. त्या नायकाक 'नायक-करण्ड' ही पदवी आसली. 'नायक करण्ड' हो सरकारी रत्न-माणकांचो रखणायत प्रधान आसलो जावंये. न्याय-नीत पळोवपी आनीक एक प्रधान आसलो, ताका 'नायक दण्णायक' म्हणटाले. हाचेवयल्यान 'नायक करंडे' आनी 'नायक दणायत' हीं कुळनांवां उपरांत घोळटेंत आयलीं. हेच प्रथेक लागून नायक सरदेसाय, नायक करमली बी दोट्टी आडनांवां घोळटेंत आयलीं. पै प्रभु हें दोट्टी आडनांव क्रि.स. ११६० वर्सा पयलेंवयलें दिस्टी पडटा. हेच चालीक लागून मुखार, पै कामत, पै खोत, पै बुडकुले, पै आंगले, पै पाळंदीकार, पै काकोडे, पै काणे, पै रायतुरकार, पै धुंगट, पै भले, पै थोंटे; पै लोटलीकार, पै सांबारी, बी दोट्टी आडनांवां घोळटेंत आयलीं. (गों.गों.व. पा. ४७).

इकराव्या शेंकड्याचे सुरवातीक गोंयकार बामणांचीं नांवां तांचें गोत्र आनी वेद हांचेसयत दिल्लीं मेळटात. तांतुंतलीं कांय नांवां अशीं आसात : बहवृच (ऋग्वेदी) भारद्वाज गोत्री विद्व पैचो पूत महल पै. वाजमाध्यंदीन (यजुर्वेदी) कौंडिण्य गोत्री इंद पैयचो पूत महल पै. बहवृच अल्लपैचो पूत देवपैय. बहवृज कौशिक गोत्री श्रीधराचो पूत विक्क पैय बी. (गों.गों.व. पा. ७३). ह्या काळांत कांय गोंयकार बामण नासिक जिल्ह्यांत राबितो करून आशिल्ले दिसतात. यादवांच्या काळार ते अधिकारी म्हणून नाशकाक पावन, थंयच ते सुखवासी जावन रावले

जावंये. ह्या काळांत नासिक आनी अहमदनगर जिल्ह्यांचेर यादव महासामन्त दुसरो भिल्लम हाची सत्ता चलताली. सिंदीनगर म्हळ्यार आतांचें सिन्नर हें ताचें राजपाटण आसलें. हो गांव नाशकाचे दक्षिण-पूर्वेक सुमार १७ मैलांचेर आसा. भिल्लमाचो क्रि.स. १००० वर्साचो तांब्यापटो मेळ्ळा. तांतूंत ताणें सिन्नरच्या २१ बामणांक संगमनेर तालुक्यांतलो अर्जुनोंढिका नांवाचो गांव आनी कांय जमीन दान दिल्या म्हणपाचें लिखित आसा.

इकराव्या शेंकड्याचे निमाणे चौथायेंत मनेवेर्गडे (घरचे धनी वा मुखेल कारभारी), बाणसवेग्गडे (रांदप्यांचो धनी वा मुखेल कारभारी), पेर्गडे आनी हेग्गडे ह्यो कल्याणीच्या चालुक्य राजांच्या अधिकाऱ्यांच्यो पदव्यो सारस्वत बामणांक पयल्योवयल्योच लायिल्ल्यो मेळटात. ह्यो पदव्यो कानडी आसून, पेगर्डे आनी हेग्गडे हांचो अर्थ धनी वा मुखेल असो जाता. हेग्गे ही पदवी सदांच दंडनायक, महाप्रधान आनी सेनाधिपती ह्या अधिकाऱ्यांक जोडून येताली. गोंयकार बामणांत हेग्गडे वा हेगडे (हेगडो) ही पदवी तुर्तांक कुळनांव वा आडनांव जाल्या. (गों.गों.व., पा. ५६).

तेराव्या शेंकड्याच्या पयले चौथायेंत सिंघण यादवाच्या दरबारांत दक्षिण कोंकणांतलो गोंयकार बामण माधिंदेव जसो नांवालोकिकान गाजलो, तसोच त्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत रामदेवराय यादवाचे राजवटींत उत्तर कोंकणांतलो अच्युत नायक नांवाचो गोंयकार बामण गाजलो. क्रि.स. १२७१ वर्साच्या सुमाराक म्हादेव यादव भायर पडटकूच, ताचो पुतणयो रामदेव हो देवगिरीच्या सिंव्हासनार बसलो. त्यावेळार उत्तर कोंकणाचो कारभार ताणें अच्युत नायकाकडेन सोंपयलो. (गों.गों.व., पा.६७).

गोंयचेर जेन्ना विजयनगरचो शेक चलतालो, त्यावेळार एकच गोंयकार बामण गाजिल्लो मेळटा. तो बामण म्हळ्यार माइंशणे वागळो. क्रि.स. १४०३ वर्सा तो गोंयांत विजयनगरचो पडहात म्हळ्यार गव्हर्नर आसलो. तो गांवान कुंकळयेचो. ताणें बांदोडेच्या नागेशाक आनी म्हालक्ष्मीक कार्तिक पुनवेच्या उत्सवाक वर्सासन नेमून दिलें. त्या दोनय देवांक दिसपट्टो सकाळचो सुरय सडीक तांदळाच्या आठवलाचो निवेद्य दाखोवंक अनुक्रमान रुवो नांवाचें कुळागर आनी नागझरी मळो-शेत दिलें म्हणपाचो क्रि.स. १४१३तलो शासनपटो बरयल्लो मेळटा.

### देसाय, सरदेसाय आनी देसपोरोब

देसाय, सरदेसाय आनी देसपोरोब हीं उतरां पयलींवयलींच पंदराव्या शेंकड्यांत बहामनी सुलतानांचे भोगवटींत घोळणुकेंत आयलीं. देसाय आनी देसपोरोब हीं उतरां अनुक्रमान देशपती आनी देशप्रभू हांचेवयल्यान जाल्यांत. प्रभु आनी महाप्रभू हे एका वा भोव थोड्या गांवाचे अधिकारी आसून, नाडप्रभू आनी महानाडप्रभू हे अधिक वा जायते गांव आशिल्ल्या देशाचे अधिकारी आसले. गोंयकार बामणांत प्रभू आनी महाप्रभू हीं कुळनांवां आडनांवां म्हणून घोळूंक लागल्यांत. प्रभू हें कुळनांव णव्या आनी धाव्या शेंकड्यासाकून घोळूंक लागिल्लें म्हणपाचो पुरावो उत्तर शिलाहारांच्या दिवाणांतल्या गोंयकारांच्या नांवावेल्यान कळटा. कांय काळान प्रभुचें पोरोब आनी महाप्रभुचें म्हांबरो अशीं रुपां जावन, तींच आतां घोळूंक लागल्यांत. (गों.गों.व. पा. ११८).

बहामनी सुलतानांचे राजवटींत, प्रभू वा महाप्रभू आनी नाडप्रभू हांचे बदला देशपती आनी देशप्रभु हीं उतरां घोळटेंत येवन, महानाडप्रभू हाचेबदला शिरदेशपती वा सरदेसाय हें उतर जन्माक आयलें. ज्या प्रभु अधिकाऱ्यांक देशकत मेळ्ळी, तांगेलें कुळनांव वा आडनांव 'प्रभु-देसाय' (पोरोब-देसाय) जालें.

देसायांचें आनी सरदेसायांचें काम मुदलाक घर-

पटी, चुल-पटी आनी शेतां भाटांचो शिदाव पुंजावपाचें आसून, त्या संबंधाचें बरप आनी हिशोब दवरचेलें काम कुळकर्ण्यांक आनी नाडकर्ण्यांक करचें पडटालें. मुखार कांय काळान, हाताताळा सैन्य दवरून, झुजाच्या वेळार माथ्यावेले सत्तेक उपकरा पडपाचें काम करचें पडटालें. हे भाशेन तांकां मांडलिकांचो पांवडो मेळून ते व्हडविकेक चडले. विजापुरच्या शेकातळा गोंयचे सरदेसाय जहागिरदारांभाशेन आसले. तांणी आपल्या हाताताळच्या मुलखाचो कारभार पळोवचो आनी झुजाच्या वेळार आपलें सैन्य घेवन सुलतानाक आधर दिवंचो. तांचो पराक्रम आनी हुशारी पळोवन, तांकां त्या काळांत फाव तशो पदव्यो मेळ्ळ्यो. बांदोडेच्या बोकडबागकाराक, वाडी, आडपय, मडकय, रासय, हांतुल्ली आनी कुंभारजुवेंच्या देसायांक 'प्रतापराव' ही पदवी मेळ्ळी. सावय-वेरें, विड्डी, दिवचल आनी मुड्डी हांगासल्ल्या देसायांक 'सूर्यराव' ही पदवी मेळ्ळी. लामगांवच्या देसायांक 'विश्वासराव' ही पदवी मेळ्ळी. सोळाव्या शेंकड्यांत म्हाळ पै वेर्णेकार हो गोंयचो मुख्य सरदेसाय भायर पडटकीच, ताचो अधिकार बांदोडेच्या बोकडबागकार सरदेसायाकडेन गेलो आनी तेन्नाच्यान तो मुख्य सरदेसाय जालो. (गों.गों.व. पा. ११८-११९). देसाय आनी सरदेसाय हीं आडनांवां बामणांवरीच खेत्र्यांतय (क्षत्रियांतय) घोळटात. देखीक, राणो देसाय, राणो सरदेसाय.

### भट्ट

क्रि.स. १०८६च्या (शके १००८) नागपुरांतल्या खांब्याचे शिळेर बरयल्ल्या नांवांत, तीन सारस्वत बामणांचीं नांवां आयल्यांत. तीं नांवां म्हळ्यार भट्ट विठ्ठ पै, भट्ट बोप पै आनी भट्ट पद्नाम. इकराव्या शेंकड्यांत आनी त्या उपरांत बऱ्याच काळामेरेन 'भट्ट' ही पदवी विद्यासंपन्न बामणांकच लागताली. (कां.म.ले. पा. १९०). सुरवेक 'भट्ट' ही पदवी विशेशनामाच्या पयलीं लायिल्ली मेळटा. बाराव्या आनी तेराव्या शेकड्यांत ही पदवी विशेशनामाचे फुडें लावपाची रीत सुरू जाली जावंये. 'भट्ट' ही पदवी सार्थ करपी पुरूश बामणांत जावन गेल्यात आनी आजुनय आसात. संवसारमान्य जाल्लो सोळाव्या-सतराव्या शेंकड्यांतलो वैयाकरणी भट्टोजी दीक्षित (क्रि.स. १५७८ ते १६३४), हाचें सगळें घराणेंच विद्वान आशिल्लें. हाच्या व्हडल्या भावाचें नांव रंगोजिभट्ट आनी पुतणयाचें नांव कोंडभट्ट आसलें. क्रि.स. १६५७ वर्सा कोचींत Hortus Indicus Malabaricus नांवाचो वैजकी ग्रंथ संपादपाखातीर ज्या तीन वैजांनी सगळे तरेचो पालव दिलो, तांचीं नांवां रंगभट्ट, विनायक पंडित आनी आपुभट्ट अशीं आसलीं. (कां.म.ले. पा. १९१).

अठराव्या शेंकड्यांत महामहोपाध्याय महेश्वरभट्ट सुखठणकार (क्रि.स. १७१८-१८१६) हो व्हडलो संस्कृत पंडित माशेलांत जावन गेलो. हाणें अमरविवेक, विश्वप्रकाश, सौंदर्यबोधिनी बी ग्रंथ बरयल्यात. ह्या घराण्यांतल्या सगळ्या पुरुशांक 'भट' ही संज्ञा लागता. सोयरूभट्ट, चिंतामणी भट्ट बी विद्वान शास्त्री ह्या घराण्यांत जाले. मुंबयच्या सेन्ट झेवियर कॉलेजांतले अध्यापक न्यायशास्त्री भवानीभट्ट सुखठणकार हे महेश्वरभट्टाचेच वंशज. अठराव्या शेंकड्याच्या पुर्वार्धांत सारस्वतांच्या वैष्णव आनी स्मार्त आचार्य पीठांच्या स्वाम्यांक पुर्तुगेज दप्तरांत भट्टवर्य, भट्टश्रेष्ठ म्हळां. हळदीपूरचे नांवाजते वेदीक नागेश भट्ट उर्फ महाबलभट्ट (क्रि.स. १७४१-८२), शापुरचे दशग्रंथी, घनपाठी नारायण अप्पाभट्ट कर्णाटकी (क्रि.स. १८३६-९८), वत्सगोत्री, लोटलेकार, रामनाथाचे कुळावी आनी महामहोपाध्याय, पुरोहितकल्पद्रुम लक्ष्मण यशवंत भट्ट कामत (क्रि.स. १८२०-१९०५), वत्सगोत्री, बांदोडकार, नागेशाचे कुळावी) हे श्रेस्ठ पांवड्याचे

वेदशास्त्री पुरूश जाल्यात. माशेलांतलो नामनेचो पंडित आनी वेदीक रामचंद्र शास्त्री नायक करण्डे, हे फोंडूभट्ट ह्या नांवान प्रसिद्ध आशिल्ले (कां.म.ले., पा. १९३). आजुनय कांय विशेशनामां फाटल्यान भट्ट ही पदवी लागता. देखीक: नारायण भट्ट गांवकार.

भट्टाचें 'भट' हें रूप जावन, तें आडनांव म्हणून घोळटा. तेचपरी, 'भट फोंडेकार' अशें दोट्टी आडनांवय घोळटा.

### शणै

'शणै' ही अत्यंत भौमानाची पदवी सारस्वत बामणांक लागत आयल्या. 'शणै' ह्या उतराचो इतिहास सोदूंक गेल्यार एक हजार वर्सां तरी फाटीं वचचें पडटलें. फातरपटे, तांब्यापटे, प्रवासवर्णनां, इतिहास, बखरी, सरकारी दप्तरां आनी खाजगत पत्रवेव्हार हातूंत हें उतर सेणावाई, सेणवै, सेणवी, सेणवाई, सेणै, शणै, शणई, शणवई, शणेवई, शेणवी बी रुपांत मेळटा.

आजमेरेन होलमल्ल्या इतिहासाच्या साधनांत हो शब्द 'सेणावइ' ह्या रुपान क्रि.स. १०१०च्या तांब्यापट्यांत पयलोवयलोच मेळटा. हो तांब्यापटो दक्षिण कोंकणांतलो निमाणो शिलाहार राजा रट्टराज हाचो आसा. हातूंत गोंयच्या बाळ्ळी गांवांतलो सेणावई नागमैय बामणाचो पूत संकमैय हाका एक वांयगण शेत आनी चंद्रवाडयेंतल्या अवडें (तुर्ताचें अवेडें) गांवच्या संझैय नांवाच्या बामणाचे नातीक एक कुळागर दान दिल्ल्याचो उल्लेख आसा. (कां.म.ले., पा. १४१).

सध्याक 'सेणावइ' ही पदवी नांवाच्या फाटल्यान लायतात. जाल्यारूय रट्टराजाच्या तांब्यापट्यांत ती नांवाच्या पयलीं लागल्या. कशेळी हांगासल्ल्या क्रि.स. १२७९च्या तांब्यापट्यांत 'लिखितं सेणवै हरिदेवें' अशें म्हळां. त्याच काळावेल्या क्रि.स. १२७२-७७ ह्या पंढरपूरच्या विठोबाच्या देवळाच्या चौऱ्यायशींच्या फातरपट्यांत ही पदवी पांच खेपो आयल्या. तातूंत चार जाग्यांनी ती पदवी लावपी बामणांचीं नांवां दिल्यांत. एकाच जाग्यार तीं दिवंक नात. तीं चार नांवां अशीं:

| फातरपट्यांतलो रकानो | शिलालेखांतलो अनुक्रमांक | नांव | छापिल्लें चोपडेंतलें पान |
|---|---|---|---|
| १. | ६ | बाबा सेणवै | ११ |
| २. | ६२ | यादो सेणवै | २२ |
| ४. | १६४ | सेणवै जादेएं (जयदेवें) | ३५ |
| ५. | १९० | सेणवै पितें (पितांबरें?) | ३८ |

हातूंत दोन बामणांनी आपली पदवी नांवांफाटल्यान लायल्या आनी दोगांनी नांवा पयलीं लायल्या. हाचे उपरांत बावीस वर्सांनी सावय-वेरेंच्या क्रि.स. १२९९च्या तांब्यापट्यांत 'कुळतळी ग्रामें सारांतु आहेत मांग सेणवी स्वस्ति' अशें म्हळां. हांगा ही पदवी नांवाफाटल्यान लायल्या. विजयनगरचो राजा दुसरो हरिहरराय हाचो १४०३ वर्सांतलो कोंकणांतलो पडहात (व्हाइसरॉय) मांइंशणै वागळे हाचें नांव, नागेशींच्या क्रि.स. १४१३च्या फातरपट्यांत 'पुरुपसेणवैया सूतु मांइंसेणवै' अशें कांतयलां. हांगाय ती नांवाच्या फाटल्यान लायल्या. चड करून चवदाव्या शेंकड्याउपरांत ही पदवी नांवाफुडें वा फाटल्यान लावपाची प्रथा पडून, ती रूढ जाली. (कां.म.ले. पा. १४२-१४३).

'शणै' हे पदवेचेर सगळ्या सारस्वत बामणांचो सारकोच हक्क आसा. उत्तर हिंदुस्थानांतल्यान जे नवे बामण कोंकणांत येवन राबितो करून रावले, ते पासून 'शणै' ही पदवी मोठ्या अभिमानान आपल्या नांवाक लावन घेताले. तांचेपयलीं जे बामण कोंकणांत राबितो

करून आशिल्ले, तांणीय तांकां कसलेंच आडमेळें हाडलेंना. हाचें उदाहरण सांगप म्हळ्यार लामगांव, दिवचल, विड्डी, मुड्डी आनी सावय-वेरें हांगासल्ले देसाय आनी आमोणेंचे आमोणकार. ह्या बामणांचो मूळ पुरूस अस्टावधानी देवशर्मा हो बाराव्या शेंकड्यांत तुर्की लोकांचे पिडापिडीक लागून, गंगेची देग सोडून कोंकणांत येवन गोपकपत्तन (व्हडलें गोंय) हांगा शिवचित्त वा विष्णुचित्त कदंबाच्या आश्रयाक येवन रावलो. ह्या राजांनी ताका भतग्रामांतल्या हिंदळें (इंदुलाख्ये ग्रामवरे) गांवांत रावपाक सुवात दिली आनी थंयच तो तरतराक आयलो.

'शणै' ही पदवी कशी आयली हें पळोवंक जाय. स्कंध पुराणाच्या आधारान परशुरामान जे धा सारस्वत बामण ऋषी हाडले, तांचीं सासस्ट कुळां आशिल्लीं, अशी खबर मेळटा. परशुरामान तांची व्यवस्था अशी केली : ह्या सासस्ट कुळांतल्यान कुशस्थळी (आतांची कुठ्ठाळ) आनी केळोशी (आतांची केळशी) ह्या दोन क्षेत्रांत कौत्स आनी कौंडिण्य गोत्रांच्या बामणांचीं धा धा कुळां स्थापन केलीं. मठग्राम (मडगांव), वरेण्य (वेर्णे), लोटली आनी कुशस्थळी ह्या चार गांवांत स स कुळां स्थापन केलीं. चुडामणी (चोडण) म्हाक्षेत्रांत धा कुळां आनी दीपवती वा गोमांचलाच्या मदल्या भागांत बारा कुळां स्थापन केलीं. अशे तरेन सासस्ट कुळांची स्थापना केले उपरांत, तांकां शाण्णव गांवांचो अधिकार दिलो. (सारस्वतभूषण, पा. ५९). हाचेवयल्यान 'शाण्णवी' वा 'शेणवी' ही पदवी घडली अशें म्हणटात.

परशुरामान जांकां शाण्णव गांवांचो अधिकार दिल्लो, तेभायर आनिकय गोत्रांचे बामण गोंयच्या हेर भागांत वसणूक करून आशिल्ले. तांकांय 'शेणवी' ही पदवी लावपाचो तितलोच अधिकार आशिल्लो आनी आसा. देखून, 'शाण्णवी' वेल्यान 'शेणवी' वा 'शणै' हे उतर घडलां अशें दिसना.

शणै गोंयबाबांनी 'शेणवी'चें निरुक्त 'सेनापती'वयल्यान दाखयलां. सेनापतीवेल्यान 'सेणावई' अशें उतर जावन, ताचेवयल्यान 'शेणवी', 'शणै' अशें उतर घडलां जावंये. (कां.म.ले., पा. १५३-१५४).

सारस्वतांनी जशी सरस्पतीची उपासना केल्या, तेचपरी सेनापतीचें पदय भुशयलां.

कांय जाणांनी 'शेणवी' ही जात मानल्या. नामनेचे समाजशास्त्री जी. एस्. घुर्ये हांणी 'शेणवी' ही जात मानल्या. पळेयात : (Caste and Race in India, reprint 1990, पा. ५). शेणवी वा शणै ही जात न्हय. शणै ही पदवी. हे पदवेक कसलोच उणाक अर्थ ना. तातूंत गौरवाचोच वा व्हडविकायेचोच अर्थ भल्ला. 'शणै' हें उतर जात दाखोवपी आशिल्लें जाल्यार, इंग्लेज जेजुइत पाद्री फादर स्टिफन्स आपल्या क्रिस्त पुराणांत कोंकणी भाशेक 'बामणांची भास' म्हणपाच्या जाग्यार 'शणैंची भास' म्हणटलो आसलो.

पुर्तुगेज जेजुइत पाद्री फ्रांसिस्क द् सौज हो १६९०च्या सुमाराक बरयल्ल्या 'Oriente conquistado a Jesus Cristo' ह्या नांवाच्या ग्रंथांत म्हणटा की, कुठ्ठाळच्या सगळ्या बामणांक 'शणै' ही पदवी आसा. शणै म्हळ्यार गुरुजी. हेच कोंकणांत हेर बामणांक बरोवंक, वाचूंक आनी हिशेब करपाक शिकयतात.

'शणै' ह्या उतराचो आनीक एका पाद्रीन गौरवान उल्लेख केला. तो 'शणै' हें उतर जेजू क्रिस्ताक स्वामी, प्रभू ह्या अर्थान लायता. क्रिस्त आपल्या गड्यांक नम्रतायेची संवंय लावपाखातीर तांचे पांय धुतासतना, सायमन पिटर नांवाचो गडो म्हणटा :

'एऽ म्हज्या शणै,
तूं करताय तें तूंच जाणै
न्हंयच म्हजे पांय,
बगर, म्हाका सगळोच न्हाणै
Simon Peter saith unto him

Lord, not my feet only
but also my hands and my head."
(कां.म.ले., पा. १४९-५०)

शणै ही जात न्हय, शणै ही पदवी. कांय सारस्वतांत 'शणै' हें उतर 'शणै' वा 'शेणॉय' अशा रुपान आडनांव म्हणून घोळटा.

ऋग्वेदाच्या काळार 'भोज' हें वंशनांव म्हणून घोळटालें. वंशनांवांचींच कुळनांवां जालीं आनी कुळनांवाचींच आडनांवां जालीं. उत्तर भारतांत वेदांवेल्यान घडिल्लीं 'द्विवेदी', 'त्रिवेदी', 'चतुर्वेदी' हीं आडनांवां मेळटात. सारस्वतांत वेदांवेल्यान घडिल्लीं आडनांवां मेळनात. एका काळार सारस्वत चारय वेद शिकताले. उपरांत ते ऋग्वेदी आनी यजुर्वेदी आशिल्ले. आज ते ऋग्वेदीच आसात.

गोत्र हें उतर गोठ्यावेल्यान आयलां. एका गोठ्यांत जितले जाण आपलीं गोरवां बांदताले, तितल्यांचेंय गोत्र एक जातालें. गोठ्या गोठ्यांनी वेगळ्या वेगळ्या पंगडाचीं गोरवां आसतालीं. त्या गोरवांक वळखुपा खातीर तांच्या कानाचेर कसलीय तरी कुरू केल्ली आसताली आनी तसलीच कुरू तांच्या धनयांचेर उठयल्ली आसताली. ह्यो कुरवो वेगळ्यो वेगळ्यो आशिल्ल्यान, थोड्यांनी गोरवांच्या कानांचेर गोमुखाची कुरू केल्ली आसुंये आनी तीच कुरू तांचेरय उठयल्ली आसुंये. हे कुरवेक लागून तांकां 'गोमूख' म्हणून वळखूंक लागले जावंये. एका काळार 'घोटक मूख' म्हणून आर्यजमात आशिल्ली. कामसुत्राच्या गोत्रताटयांत घोटकमूख हें नांव मेळटा. ह्या घोटकमूख नांवावेल्यान, जांचेर गोमुखाची कुरू केल्ली आशिल्ली, तांकां 'गोमूख' हें नांव पडलें जावंये. कांय काळाउपरांत सारस्वत बामणांत ह्या 'गोमूख'वेल्यान गायतोंडो वा गायतोंडे हें आडनाव घडलें जावंये. (संदर्भ : Science and Human Progress, Prof. D. D. Kosambi, Commermoration Volume, published by Popular Prakashan, हातुंतलो Combined Methods in Indology by D. D. Kosambi हो लेख. पा. २०.)

आज जशें भौसांतल्या कांय जमातींत देवक आसा, तशेंच एका काळार बामणांतय देवक आशिल्लें आनी तांचीं गोत्रांचीं नांवां फळांच्या झाडांचीं नांवां आशिल्लीं (पळेयात : Combined Methods in Indology, by D. D. Kosambi, पा. २०.)

देवक हें केन्ना जनावर आसता. केन्ना रानांतलें सावद आसता. तेचपरी रूखय आसता. जांचें गोत्र फळांचें झाड आशिल्लें, तांणी आपलीं गोत्रां म्हणून ऋषींचीं नांवां घेतल्या उपरांत, हीं फळांचीं झाडां तांचीं आडनांवां जाल्यांत जातलीं. गोंयांत आडनांवां अशीं घडल्यांत आसुये :

१) अधिकारावेल्यान : पै, नायक, दणायत, नायक-करंडे, हेगडो बी.
२) पदवेवेल्यान : राणो, भट
३) व्यवसायावेल्यान : वैद्य, सांबारी, जोयशी, परिट बी.
४), गोत्रांवेल्यान : कौशिक, कौंडिण्य
५) देसकतेचे जोडीवेल्यान : देसाय; सरदेसाय.
६) व्यंगांवेल्यान : थोंटो, भांडयो, काणो.
७) रुखांवेल्यान (पयलींचीं गोत्रां) : आंबो, कारो, माड.
८) सवणीं वा पक्ष्यांवेल्यान : कवडे
९) शाकभाजी : भेंडो, पडवळ
१०) जांणी जो गांव वसयलो ताका लागून तांचें नांव जालें : गांवकार
११) अग्निहोत्रा वेल्यान : अग्नि वा अग्नी
१२) गांवकारेचो 'खुंटा'चो अधिकार : खुंटकार (हें आडनांव गावड्यांत आसा).
१३) देवक : (Totem)
जनावर : घोडो
सावद : वाग
१४) प्रदेशावेल्यान :

लाट प्रदेशावेल्यान : लाड
उत्तर प्रदेशांतल्या 'कोशांबी'वेल्यान : कोसंबी वा कोसमो.

१५) गांवांक 'कार' हें ताळाकूस लावन आडनांवां घडल्यांत. देखीक :
अडवलपाल + कार = अडवलपालकार
आडपय + कार = आडपयकार
आमोणें + कार = आमोणकार
काकोडें + कार = काकोडकार
कुडचडें + कार = कुडचडकार
केरी + कार = केरकार
खांडेपार + कार = खांडेपारकार
बोरी + कार = बोरकार
शिरोडें + कार = शिरोडकार
पिळगांव + कार = पिळगांवकार
पेडणें + कार = पेडणेकार
सांवर्डे + कार = सावर्डेकार

हीं आडनांवां हिंदूंच्या सगळ्या जातींक लागतात. ह्या आडनांवांत 'पै' हें एकाक्षरी आडनांव आसा, तर 'अडवलपालकार' हें आठ अक्षरी आडनांव आसा.

आडनांवां क्रिस्ती सनाचो चवथो शेंकडो धरून पंद्राव्या शेंकड्यामेरेन पूर्ण घडल्यांत जाल्यारूय जायते कडेन आडनांव लायनासतना निखटें 'शणै' हें उतर नांवांफाटल्यान लायिल्लें मेळटा. क्रि.स. १४०३ वर्सा कुंकळयेंचे मांइशणै वागळो हो विजयनगरचो पडहात म्हणून गोंयचें राज्य चलयतालो. जाल्यारूय, जायतेकडेन ताचें नांव पुरशे शणैचो पूत मांइशणै अशें मेळटा. तेचपरी अशेच तरेचीं नांवां १८व्या शेंकड्यांतय मेळटात. देखीक : अंताशणैचो पूत विठोजी शणै, भागूशणैचो हरबा शणै, बापूशणैचो पूत रोघू शणै, बापूशणैचो पूत सोनबा शणै, भौरू शेटीचो पूत पोके शेट; रामा शेटीचो पूत रवळू शेट; तुकू शेटीचो पूत रामकृष्ण शेट. (Arquiro Portugues Oriental, Fasciculo 6, suplemento primeiro e segundo, पानां ४३३-४३४).

कांय वेळा आडनांवांसयत अमक्या बापायचो पूत अमको अशींय नांवां मेळटात. देखीक : रामकृष्ण नायकाचो पूत गणेस नायक; नारायण शणैचो पूत गोंटू शणै अग्नी; बेतू पडयाराचो पूत शंकर पडयार; नारायण कामतीचो पूत अंता कामत; मांगोजी दळव्याचो पूत गुणो दळवी; कुस्टा केणयाचो पूत नाबा केणी; बापू म्हाल्याचो पूत लक्ष्मीधर म्हालो. (Arquiro Portugues Oriental, Fasciculo 6, suplemento primeiro e segundo, पा. ४३३-४३४.)

कांय वेळा बापायचें नांव दाखयनासतना, गांव दाखोवन आडनांवासयत नांव दाखयलां. देखीक : **चांदर** (१५६०) बुझलो नायक, रामा फट्टो; **चिखली** (१५६०) अने पोरोब, विठोल पोरोब; **चिंचोणें** (१५६०) पोको गावस, बेताळ; **कुयेली** (१५६०) पुरसो नायक, सांतू नायक; **कुड्ठाळ** (१५६०) संतोबा नायक, रामा नायक, मांगू दळवी; **कुडतरी** (१५६०) गणपा कामत, रामा कामत, चंदा पै, लखू कामत, नारे कामत; **दाभोळी** (१५६८) गोविंद पोरोब, कृष्ण पोरोब; **धर्मपूर** (१५६७) म्हाळू नाईक, म्हादू नाईक, पुरसो नाईक, रामू फट्टो; **कुंकळ्ळी** (१५६०) संतपा नाईक, पुरसो पोरोब, रामू नाईक; (१६३०) आगण नाईक, मदू नाईक, आगम शेट, पितू नाईक, कुसडो नाईक. (Tombo dos rendas que sua magestade tem nas terras de Salcete e Bardez e nesta Ilha de Goa. बरो : पांडुरंग पिसुर्लेकार – Boletim do Instituto Vasco-de-Gama, No. 68, ano 1952, पा. ६४).

### बाटाबाटीच्या उपरांत मेळटात तीं क्रिस्तांव नांवां आनी आडनांवां

क्रि.स. १५१०त आल्बुकेर्कान गोंय जिखून

घेतकीर १५३० वर्सासाकून बाटाबाटीक पालंव लागलें. हें बाटोवप मस्तेपणाचें आनी आगळीकेचें आशिल्लें. जांकां ते बाटयताले तांकां ते इगर्जेंत व्हरून बाप्तीशम दिवन तांकां फिंर्गी नांव दिताले, आनी त्या वेळार जो तांचो पाद्रीञ्ज (Padrinho - धर्मबापूय) जातालो, ताचें आडनांव दिताले. एकाद्रेवेळा बाप्तीशम दिवपी पाद्रीच बाटयतल्यांक फिंर्गी नांव दवरून आपलें आडनांव दितालो. १५४८ वर्सा जेजुइत पाद्री Gasparo Bargeu (गाश्पारु बार्जेव) हाणें धाकट्या गोंयच्या लखू बामणाक बाटयलो, तेन्ना गोंयच्या पुर्तुगेजांनी जो उत्सव केलो, तो आतांच्या एकाद्रया राजा-म्हाराजाक ना जाल्यार व्हिसरैक फावसो नामनेचो जालो. बार्जेवान सांव पावलाचे इगर्जेंत लखूक, ताचे बायलेक आनी नातवाक मोटया आटापाट्यान बाप्तीशम दिलो. त्या वेळार, खासा गोवेर्नादोर लखुचो पाद्रीञ्ज म्हळ्यार धर्मबापूय जाल्लो. ताच्या मुदलच्या कोंकणी नांवांत चडसो बदल जावंचो न्हय म्हणून ताका Lucas (लूकश) हें लातीं भाशेंतलें नांव दवल्लें. १५६० वर्सा माय म्हयन्याच्या लागत्यार, पावलिस्तांनी आपलो पांय साश्टींत रिगयलो. थंय तांणी मंगेशकार कुठ्ठाळ्या बामणाक मोठ्या धबाज्यान बाप्तीशम दिलो. हो बामण कुठ्ठाळचे गांवकारेच्या दुसऱ्या वांगडाचो म्हाल-म्हाजन आशिल्लो, ताचें नांव मंगेश शणै आशिल्लें. ताका तांणी Pedro Mascarenhas (पेद्रू माश्कारेन्यश) हें नांव दवल्लें. (कोंकणी भाशेचें जैत, पा. १५-१६ आनी History of the Dakshinatya Saraswats, by U. N. Kudva, Annexure I, page 339).

१६४१ वर्सा कुठ्ठाळच्या कांय बाटयल्ल्या गांवकारांचीं नांवां मेळटात. हांतुंतले थोडे कुठ्ठाळचे गांवकरेचे गांवकार आशिल्ले, थोडे नाशिल्ले. तांचीं कांय नांवां, तांच्या हिंदू आडनांवांसयत मेळटात. १) Diogo de Menezes भेंडो हाचो पूत Andre de Menezes; २) Simao Rodrigues कैसरो हाचो पूत Antonio Rodrigues Francisco Rodrigues, ३) Fracisco Vieira राजादेकु (राजाध्यक्ष ?) हाचो पूत Antonio Vieira, ४) Andre Fernandes भेंडो हाचो पूत Domingos Pereira, ५) Antonio Lobo कंठक हाचो पूत Joao Lobo, ६) Francisco Vieira राजादेकु (राजाध्यक्ष ?) हाचो पूत Antonio Vieira, (७) Antonio Giralte राजादेकु (राजाध्यक्ष ?) हाचो पूत Manuel Giralte. (पळेयात : Roteiro dos Arquivos da India Portuguese Instrucões e notas por Pandoronga S. Pissurlencar, 1955, पा. २२४-२२५).

बाटोवन क्रिस्तांव केल्ल्यांचीं कांय नांवां तांच्यां हिंदू बापायच्या नांवासयत मेळटात. तीं नांवां अशीं आसात :

### कुडतरी

(१६०७) सांतू पै हाचो पूत Goncalo Rodrigues; राम पै हाचो पूत Domingos Gomes; इश्वर कामत हाचो पूत Manuel de Viega हो Maria रुक्मिणी हिचेकडेन लग्न जाल्लो. हांगा रुक्मिणी हें Maria Lobo हिचें हिंदू नांव दाखयलां. एकाच बापायच्या दोग पुतांक म्हळ्यार सख्ख्या भावांक, वेंगळीं नांवांच न्हय, तर वेगळीं आडनांवांय दिवन तांचें रगताचें नातें तोडलां. विठ्ठल नायकाच्या एका पुताक Francisco Luis हें नांव दिलां, तर दुसऱ्या पुताक Domingos Gomes हें नांव दिलां. तेचपरी जेजुईत पाद्रींनी बापूय पुताचेंय रगताचें नातें तोडून बापूय पुताक वेगवेगळीं आडनांवां दिल्यांत. एका पाद्रीन बापायक बाटयलो, तर त्याच दिसा दुसऱ्या पाद्रीन ताच्या पुताक बाटयलो. रेवोडा, नानोडें आनी पिर्णां ह्या गांवांची देसकी आशिल्ल्या भौमानेस्त चंद्रोजी राणे देसाय हाका १६-५-१७८२ दिसा बाटोवन D. Jose Joaquim Siqueira de Lisboa

हें फिंर्गी नांव दवल्लें, तर ताच्या १२ वर्सांच्या पुताक विश्वंभर चंद्रोजी राणे हाका बाटोवन D. Alexander Nunes Monteiro हें नांव दवल्लें. (पळेयात Arquivo Historico हाती पुस्तक नंबर १५५४. Assentos de Batismo, पा. २३६).

राय

(१५७५) गोविंद पै हाचो पूत Antonio Moniz; (१५९४) विठू पै हाचो पूत Tomas Estevão; देवर्स कामत हाचो पूत Amador Viegas, सांतू पै हाचो पूत Antonio de Quadros, रामा पै हाचो पूत Manuel Gonsalves; हरी कामत हाचो पूत Joao de Souza; गोंदू पै हाचो पूत Antonio Monis; (१६०४) राम पैचो पूत Matias de Albuquerque (हिंदू नांव फटीर पै – हो विठू पैचो नातू आशिल्लो आनी नर्सू पैचो पंटू आशिल्लो); सांतू पै हाचो पूत Antonio de Quadros (हिंदू नांव सोमण पै – हो विठू पैचो नातू आशिल्लो); बरो पै हाचो पूत Antonio Coutinho (हिंदू नांव इस्सर पै); सांतू कामत हाचो पूत Manuel Faleiro (हिंदू नांव रामा कामत). (१६०४-१६०९) विठू पै हाचो पूत Tomas Estevao. (हो नर्सू पैचो नातू आशिल्लो.) सोमण पै हाचो पूत Francisso de Lemos (सलयां वाड्यावेलो); विठू पै हाचो पूत Antonio Coutinho; जोगण कामत हाचो पूत Alexander de Valerino; नार्णा (नारायण ?) पै हाचो पूत Aleixo de Menezes.

बाटयल्ल्या हिंदूचीं तांच्या हिंदू नांवांसयत मेळटात तीं क्रिस्तांव नांवां :

| वर्स | गांव | हिंदू नांव | क्रिस्तांव नांव |
|---|---|---|---|
| १५८६ | धर्मपूर | चांदे फट्टो | Joao de Silva |
| १५८६ | धर्मपूर | धनू फट्टो | Pedro Fernandes |
| १५९८ | राय | इश्वर पै | Antonio Coutinho |
| १६०७ | कुडतरी | जोग कामत | Aleixo Gomides |
| १६२२ | कुडतरी | चांदे कामत | Agostinho Diniz |
| १६२२ | कुडतरी | कृष्णा कामत | Brigio Fernandes |
| १६३० | कुडतरी | चांदे कामत | Antonio De Costa |
| १६२२ | कुडतरी | नारायण पै | Antonio de Brito |
| १६३० | कुडतरी | नारे कामत | Lourenco De Costa |
| १६३० | कुडतरी | सांते कामत | Lourenco de Costa |
| १६२२ | कुठ्ठाळ | मालनाथ दळवी | Francisco Vieira |
| १६२५ | दवर्ली | इस्सर शेट | Miguel Vaz |
| १६२२ | गंडावळी | चंदप्पा नायक | Antonio Dias |
| १६३० | कुंकळ्ळी | रामा नायक | Dom Diogo |
| १६३० | देंवसूय | दिवा नायक | Andre Furtado |
| १६३० | देंवसूय | गोमुल्लो नायक | Antonio Rebelo |
| १६३० | चिंचोणें | कोमे गांवस | Francisco Lopes |
| १६३० | चिंचोणें | बुरो गांवस | Gaspar Passanha |
| १६३० | चिंचोणें | बेताळ गांवस | Joan da Silva |
| १६३० | माकझन | बाबुलो कामत | Antonio Mazarelo |
| १६३० | माकझन | रवळू भांडारी | Manuel Vaz |
| १६२२ | माजोड्डें | पुरसो गाड | Antonio Dias |
| १६३० | माजोड्डें | वांटू गाड | Ferao Antao |
| १६३० | ओडली | लिंगा नायक | Antonio Dias |
| १६३० | सारझोरें | नागण पोळ | Francisco de Menezes |

(पळेयात : Tombo das Rendas que sua magestade Letu nas tem nas terras de Salcete e Bardez e nesta ilha de Goa, por Panduranga Pissurlecar, Boletin do Instituto Vasco da Gama, no. 68, 1952, paginas 64-691)

चौथो शेंकडो धरून अठराव्या शेंकड्यामेरेन मदीं मदीं आडनांव लायिल्लें मेळटा. जाल्यारूय, १८६२ वर्सा जेन्ना फिंर्ग्यांनी Coidigo de Registo Civil गोंयाक लागू केलो, तेन्नाच्यान युरोपियन रविसेप्रमाण नांवां लावपाची पद्धत रूढ जाली. म्हळ्यार, पयलीं आपलें नांव, मागीर बापायचें नांव, मागीर आसल्यार पदवी आनी उपरांत आडनांव. देखीक, साबाजी कृष्ण

.शणै लाड; साबाजी वासुदेव शणै रेगे आखलीकार. ' आज नांवांपरस आडनांवांच चड घोळटेंत आसात.

### गावड्यांची शुद्धी

१९२८ वर्सा किरिस्तांव जाल्ल्या गावड्यांक शुद्ध करून हिंदू धर्मांत घेवपाचें कार्य जालें. बाटाबाटीच्या काळांत, म्हळ्यार १६व्या शेंकड्यांत, बाटयल्ल्यांक हिंदू धर्मांत परत घेवपाचें काम आमच्या आचार्यपिठांच्या स्वाम्यांनीय केलां. हाचो पुरावो पुर्तुगेज दप्तरांत मेळटा. १५६७ वर्साच्या २७ फेब्रेराक पुर्तुगालच्या राजान व्हिसिरै Luis de Ataide हाका बरयल्ल्या सुचोवणेपत्रांत म्हळां की, तिसवाडीच्या आवाठांत जे जोगी स्वाम्यांचो रायस घेवन येतात, ते बाट्टल्यांक आडमेळीं हाडटात. देखून, तांकां थंय येवपाक दिवं नये. (Arquivo Portugues Oriental, Fasciculo 3, Nova-Goa 1861, Parte 1, Documento 1, pagine 28.)

१५८५ वर्सा गोंय शारांत भरिल्ले तिसरे क्रिस्तांव धर्मसभेच्या सातव्या थारावावेल्यान कळटा की, बाटून क्रिस्तांव जाल्ल्यांक प्रायश्चित्त दिवन शुद्ध करताले. (Arquivo Portugues Oriental, Fasciculo 4, Nova-Goa, 1862, पानां १२५-१२६.) त्या काळार जितल्या नेटान आनी चिकाटेन हें काम जावंक जाय आसलें, तितल्या नेटान आनी चिकाटेन हें काम जालेंना.

सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांत जसो बाटयल्ल्यांच्या हिंदू नांवांत आनी आडनांवांत बदल जालो, तसोच क्रिस्तांव गावड्यांक शुद्ध करून हिंदू धर्मांत परत येतकीर तांच्याय नांवांत आनी आडनांवांत परतून एक फावट बदल जालो.

दयानंद सरस्वतीन स्थापन केल्ल्या आर्य समाजाचें कार्य पळोवन आनी स्वामी श्रद्धानंदान बाटून मुसलमान जाल्ल्या हिंदूंक, परत हिंदू धर्मांत घेवपाचें जें अचाट कार्य केलें, त्या कार्याचे प्रेरणेन दो. हेगडो देसाय, वेदशास्त्रसंपन्न वामन रामचंद नायक करंडे उर्फ फोंडू शास्त्री, भिश्ग्वर्य रामचंद्र पांडुरंग वैद्य उर्फ दादा वैद्य, आनी रायबंदरचो व्यापारी भौ. रामचंद्रबाब नारायण लवंदो हांकांय क्रिस्तांव गावड्यांक हिंदू धर्मांत परत हाडपाची तळमळ लागिल्ली. देखून, बेळगांवां भरिल्ले राष्ट्रीय सभेचे बसकेक तांच्यांतले कांय जाण गेले. थंय तांणी स्वामी श्रद्धानंदाची भेट घेतली आनी किरिस्तांव गावड्यांक शुद्ध करून हिंदू धर्मांत घेवपाची येवजण तांचे मुखार दवरली. तांणी फिंर्गी सत्तेचो हावू करून, तांगेली येवजण फापुडली. तांचे आस्थेचो आनी उमेदीचो भंग जालो. निर्शेवन ते गोंयांत परतले. (दा.वै.स्मृ.ग्रं. पा. ५१).

१९१७ वर्साच्या सुमाराक मुंबयचे भौ. गजानन भास्कर वैद्य हांणी परधमांत गेल्ल्या हिंदूंक परत हिंदू धर्मांत हाडपाखातीर 'हिंदू मिशनरी सोसायटी' हे संस्थेची स्थापना केली, आनी 'केसरीं'तल्यान आपले संस्थेचे उद्देश जाहीर केले. ते उद्देश वाचून, भौ. रामचंद्रबाब लवंदो कांय गावड्यांक घेवन मुंबय गेलो. थंय तांणी भौ. गजानन वैद्यांची भेट घेतली, आनी वांगडा व्हेल्ल्या गावड्यांक हिंदू धर्मांत घेवपाची विनंती केली. भौ वैद्यांनी ही विनंती काना-मनार घेतलीना. रामचंद्रबाब लवंदो हांकां, वांगडा व्हेल्ल्या गावड्यांसयत, हात हालयत गोंयांत परतुचें पडलें. (दा.वै.स्मृ.ग्रं. पा. ९४-९५).

शुद्धीचो हो प्रस्न साताऱ्याच्या मसूर गांवांतल्या ब्रह्मचर्याश्रमाचे संस्थापक श्री. विनायक महाराज गोंयांत पावसर हुमकळत उल्लो. फकत तांणीच हो प्रस्न सोडोवपाचो निश्चय केलो. (गो.शु.इ., पूर्वार्ध, प्र. ५वें, पा. ११९).

गोंयांत मसुरकरांची पयली भोंवडी १९२२ वर्सा जाली. शिवरात्रेच्या उत्सवाक गोकर्णा वचपाखातीर ते आपल्या शिश्यांक घेवन लोंढ्याच्यान गोंयांत भितर सरले. गोंयांत कांय दीस रावन तांणी गोंयचे धर्मपरिस्थितीचें निरिक्षण केलें आनी शिवरात्र लागीं

पाविल्ल्यान, ते बोटीन शिश्यांसयत मुरगांवच्यान गोकर्णा वचपाक गेले. (गो.शु.इ. उत्तरार्ध, प्र. १लें, पा. १).

शिवरात्रेचो उत्सव सोंपल्या उपरांत, ते आपल्या शिश्यांक घेवन गोकर्णासाकून चलत गोंयांत येवपाक लागले. येतना ते भजन करीत काणकोणच्यान गोंयांत भितर सल्ले. ते शिश्यांक घेवन गोंयच्या गांवांगांवांत भोंवताले. दर गांवांत तांचो मुक्काम चार दीस आसतालो. त्या मुक्कामांत भजन कीर्तन करीत रावप आनी निमाण्या दिसा चौथ्या दिसा गांवच्या प्रतिष्ठीत लोकांक आपोवन प्रसाद वांटप, असो तांचो प्रघात आसलो. मुक्काम करी करीत ते म्हापशां पावले आनी म्हापशेंच्यान पणजे आयले. पणजेच्या मुक्कामांत श्री समर्थ रामदासस्वामींचो पट्टशिश्य कल्याणस्वामी हांची पुण्यतीथ आशिल्ल्यान, ती तांणी मोठ्या धबाज्यान मनयली. म्हालक्षिमीच्या देवळांत नित्य हरिनामाचो जप, भजन आनी ब्रह्मचारी वासुदेव महाराजांचें दिसपट्टें हरिकिर्तन जातालें.

उत्सवाचे सुरवातीक मसुरकर महाराज 'दासबोधा'च्यो प्रती हाडपाक मुंबय वचून आयले. ब्रह्मचारी वासुदेव महाराजांचें कीर्तन आयकुपाक महालक्षिमीच्या देवळाचो मंटप पावनासलो, इतली थंय लोकांची खेट जाताली.

म्हालक्षिमीच्या देवळांत वर्सभर दिसपट्टे १२० सास्टांग नमस्कार घालप आनी तितल्याच काळांत 'दासबोधा'चीं तेरा पारायणां करपाचे अटीर, तांणी 'दासबोधा'च्यो १ लाख प्रती वांटल्यो.

तांचो मुक्काम वेऱ्यां आसतना रामचंद्रबाब लवंदो तांकां मुद्दाम मेळूंक गेलो. आपले विचार ताणें मसुरकर महाराजांमुखार मांडले, आनी वेळ येतकीर मसुरकर महाराजांच्या शिश्यांच्या खांद्याक खांदो लावन तो वावुरलो.

मसुरकर महाराज वेरेंच्यान पेडण्यां गेले. थंयच्यान आरोंद्याक वचून मसुराक परतले. तांगेले कांय शिश्य गोंयांत रावन, खेड्या खेड्यांनी भोंवत धर्मजागृती करीत आशिल्ले.

ब्रह्मचारी वासुदेव महाराज आनी कांय शिश्यमंडळी पानवेली, कुंभारजुवें, माशेल बी गांवांनी मुक्काम करीत धर्मजागृती करीत भोंवताली. ब्रह्मचारी वासुदेव महाराजांचो मुक्काम पानवेली आसतना रामचंद्रबाब लवंदो तांच्या दर्शनाक गेलो, आनी वतासतना, आपल्या वांगडा, ताणें किरिस्तांव गावड्यांचे बुदवंत व्हितोरीन, कायतान फिलीप, गोंसाल, आंतोन मानुयेल बी हांकांय व्हेले.

गावडे जरी किरिस्तांव जावन वर्सां जाल्लीं, तरी तांचे आचार राहणी हिंदूंपरस चडशी वेगळी नाशिल्ली. किरिस्तांव जावनूय ते हिंदू देव-देवतांक भजताले. तांचो कौल आनी प्रसाद घेताले. मंगेशीं आनी जांबावले ह्या प्रख्यात देवस्थानांनी, त्या त्या देवाक भजपी गावडे प्रसादांक गेल्ले आसल्यार, तांचो प्रसाद जालेबगर म्हाजनांक प्रसाद घेवंक मेळना. ते आसतना खंयचोय म्हाजन प्रसाद घेवंक गेल्यार, ताका देवाचो प्रसाद जायना.

ह्या गावड्यांच्या घरामुखार तुळशीचें वृंदावन आसतालें. तुळशीची पूजा करतना ते सुर्याक नमस्कार करताले. हिंदूंची सण-परब मनयताले. इगर्जेकडेन तांचो संबंध येतालो तो जन्माच्या वेळार, बाप्तिश्माखातीर. तेचपरी, लग्नाच्या आनी मरणाच्या वेळार. आयतारा मिसाकय ते चडशे वचनासले. अशे परिस्थितींत आपल्या पूर्वजांच्या धर्मांत म्हळ्यार हिंदू धर्मांत वचपाची इत्साच न्हय, तर तांकां उत्कंठा लागिल्ली.

गावड्यांक हिंदू धर्मांत येवपाची जरी उमळशीक लागिल्ली, तरी तांचेमुखार अडचणी उप्रासून येवं येतल्यो. तांकां कसल्योय अडचणी आयल्यार, तांचें निवारण करपाची जापसालदारकी श्रीमंत रावराजे व्हिश्कोंदि काकासायब पेडणेंकार, जिवाजीबाब म्हात्मो आनी श्रीधरबाब शंखवाळकार हांणी आपल्या आंगार घेतली.

आश्रमाच्या शिश्यांनी गोंयच्या खेड्यापाड्यांचो भाग पांयांनी माडोवन काडून, थंय थंय धर्मजागृती केली. मसूरकर महाराज परतून १९२७ वर्साच्या अखेरच्या म्हयन्यांनी गोंयांत आयले. गावड्यांत जाल्ली जागृती ध्यानांत घेवन, मसुराक वचून, शुद्धीच्या कार्याखातीर आनीकय कांय प्रचारकांचो एक पोंवो वेदशास्त्रसंपन्न विष्णू रामचंद्र मोडक, ब्रह्मचारी आनंदमूर्ती आनी ब्र. गणपतीबुवा हांच्या मुखेलपणाखाला तांणी धाडलो.

ह्या प्रचारकांनी भजन आनी किर्तनांनी आनिकय जागृती केली. गावड्यांच्या बुदवंतांचीं मनां पारखून, गावड्यांक हिंदू धर्मांत कशे हाडचे, हाची दिशा तांणी थारायली.

शुद्धीच्या कामांत सरकाराचीं आडमेळीं येवं येतालीं. तेखातीर आदवोगाद श्रीधरबाब जनार्दन कामत शंखवाळकार आनी गोंयचे नामनेचे आदवोगाद भौ. गोमिश प्रेरैर हांणी गावड्यांकडल्यान 'हिंदू जावपाचें मत आमचेर कोणेंच बळयादूंक ना. आमी आमचे खोशयेन हिंदू जातात' अशें सोपूत-पत्र (affidavit) घेवपाची बुद्द दिली.

सोपूत-पत्र घेवपाचें थारतकीर, भौ. शांताराम गोवेकर मास्तर, भौ. गोपाळ परिट आनी तागेलो भाव पानवेलचो भौ. मास्तर कुंवाडेकर, आश्रमाचो प्रचार करपी भौ. नाना कोलिकर, भौ. शिवप्पा महाजन आनी लवंदेबाब हांणी गांवां गांवांनी भोंवन गावड्यांकडल्यान सोपूत-पत्रां घेतलीं. हो आंकडो दोन हजारांचेर पावतकीर लवंदेबाब आनी आनंदमूर्ती कांय भाटकारां म्हऱ्यांत वचून, ह्या शुद्धीकार्याक तांचो पालव तांणी मागलो.

चिंबलचो केशवबाब पुंडलिक कामत, कालापुरचो विष्णुबाब गिरिधर शणै धेंपो, रायुबाब अनंत पोरोब नासनोडकार, लोलिबाब केंकरो, सोनुबाब भोंसलो, रायुबाब पोरोब म्हांबरो, धुळापेवेलो विश्वनाथबाब कामत पानवेलकार, नागझरचो विष्णुबाब गोविंद पानवेलकार आनी तागेलो भाव, करमळेचो श्रीधरबाब पोरोब म्हांबरो, पणजेचो यशवंतबाब प्रभू लवंदो, बोरयेचो पांडुरंगबाब वामन बोरकार, म्हापशेंचो विनायकबाब शेट लांजेकार हांणी शुद्धीचे चळवळीक लागत तो पालव दिवपाचें उतर दिलें.

जमयल्लीं दोन हजार सोपूत-पत्रां घेवन, ब्रह्मचारी आनंदमूर्ती गोपाळराव परिट हाच्या भावाक घेवन मसुरीक गेले. थंयच्यान आश्रमांतल्या वांगड्यांक घेवन सज्जनगडार गेले. थंयसाकून शुद्धीच्या वेळार कशी वेवस्था दवरची, खर्चाक दुडू कशे तरेन उबारचो बी हाचो विचार करून, महाराष्ट्रांतल्या मुखेल्यांचो तेंको आनी डॉ. कुर्तकोटींचो आशिर्वाद घेवन, आनंदमूर्ती गोंयांत आयले. गोंयांत येतकीर चळवळीचें केंद्र खंय दवरचें हो प्रस्न वयर सल्लो. काकासायब पेडणेंकार, पांडुरंगबाब बोरकार आनी रामचंद्रबाब लवंदो हांकां आपआपलो गांव केंद्र जावंचो अशें दिसतालें. सगळेतरेन बारीक-मोठो विचार केल्याउपरांत कालापूर हो गांव चळवळीचें केंद्र म्हणून थारायलें.

कांय वांगड्याच्या विचारांक लागून, आनंदमूर्ती लवंदेबाबाक घेवन मडगांवां 'हिंदू'कार भौ. दत्ता पै आनी उपरांत 'भारत'कार दो. हेगडो देसाय हांची भेट घेवन कालापुरा परतले. गावड्यांच्या भौसाचो भौसारो भरयलो. शुद्धीचो धर्मविधी केन्ना करचो आनी खंय करचो हाचेर विचार जावन, पयलीं शुद्धी फाल्गुन शुद्ध सस्ट म्हळ्यार २६ फेब्रेर १९२८ ह्या दिसा चिंबला करची, अशें थारलें. उपरांत आमंत्रण पत्रिकेचो नमुनो तयार केलो तो असो :

"भौ..................... हांकां वि. वि. आमकां गावड्यांक किरिस्तांव जावन शेंकड्यांनी वर्सां जालीं. बाप्तिश्म, लग्न आनी मरण ह्या तीन संस्कारांपेल्यान आमकां क्रिस्तांव धर्माची आनीक कसलीच वळख ना. आजमेरेन आम्मी मनान आनी आचारान हिंदूच आसांत, हें तुमकां खबर आसतलें. आमकां हिंदू करून

घेवपाची तजवीज कोणेंच केलीना. ताका लागून आजमेरेन आमी किरिस्तांव उल्ल्यांव. घडये हाचेपयलीं तें शक्य नाशिल्लें जावंये. हालींच मसुर हांगासल्ल्या ब्रह्मचर्याश्रमाचे संस्थापक भौ. विनायक महाराज हे ह्या प्रांतांत आयिल्लेकडेन आमी तांकां विनंती केली, आनी तांणी आमकां हिंदू करून घेवपाक कसलीच हरकत ना म्हणून सांगलें. देखून, आमी गावड्यांच्या वर्गान, तांचेकडल्यान यथायुक्त धर्मविधी करून घेवन, आमच्या जाण्टेल्यांच्या धर्मांत परत येवपाचें थारायलां. हो समारंभ .................. शके ..................... वार ................ वरांचेर जातलो. अशा ह्या मंगल प्रसंगाचेर, तुमची, हिंदू समाजांतल्या मानेस्त गृहस्थांच्या पालवाची आमकां गरज आसा. तुमी तुमगेल्या इश्टांसयत येवन, ह्या समारंभाक सोबा हाडची, अशें तुमचेकडेन आमचें नम्रतायेचें मागणें आसा.

तुमगेले नम्र, सांतान सेबाश्तियांव कार्नेर, पियेदाद इनास फेर्नांद, दुमिंग सौज बेन सौज, पेद्रु बरास फेर्नांद, शावियर निकोलाव फेर्नांद, कुस्तांव मानुयेल फेर्नांद, मानुयेल ज्युवांव साल्द्यय, भिकारो दियोग फेर्नांद, वितोरीन साल्वादोर बाप्तिश्त, कायतान पेरैर.

आमंत्रणां धाडून जाले उपरांत शुद्धीची तयारी सुरू जाली. दर एका भौसाक आपआपलो वेगळो माटोव जाय आसलो. माशेलांतली भगवती ही मूळ चिंबलची. बाटाबाटीच्या वेळार तिका माशेलांत व्हेल्ली. चिंबलचें मुळचें देवूळ मोडून उडयल्लें जाल्यारूय, थंय तिजी तळी आशिल्ली आनी देवळाचो जागो आशिल्लो. त्या जाग्यार झाडां आनी झोंपां मातिल्लीं. गावड्यांनी तीं कातरून जागो निवळ केलो. उपरांत माटोव घालो, तोरणां उबाल्लीं आनी आंब्याचीं पानां लावन माटोव सजयलो.

२६-२-२८ दिसा रातीच्या बारा वरांचेर दादल्यांचो क्षौरविधी केलो. तीन आनी ताचे सकल्ल्या पिरायेच्या भुरग्यांचो क्षौरविधी केलोना. माटवांत केळीच्या करव्यांचे खांबे उबे करून होमकुंडाक जागो तयार केलो. मध्यभागाक एका कदेलाचेर मसुरकर महाराज हांचो फोटो दवल्लेलो. वेदशास्त्रसंपन्न मोडकशास्त्री हांणी मंत्र म्हणत होम पेटयलो. गावड्यांचे दादले, बायलो आनी भुरगीं न्हावन धुवन सुर्चिभूत जावन आयलीं. उपरांत मंत्रिल्ल्या उदकान तांकां न्हाण घालें. न्हाण घालून जातकीर दादल्यांच्या कपलाक गोपिचंदनाचो तिबो लायलो. सवाशिणींच्या आनी आंकवारीच्या कपलाक कुकूम लायलो. दादल्यांच्या कपलाक गोपिचंदनाचो तिबो लावपाचें काम, मडगांवचे नामनेचे वैज भौ. पुंडलिक वामन विर्जिनकार हांणी केलें आनी सवाशिणींच्या आनी आंकवारींच्या कपलाक कुकूम लावचेलें काम सौ. पार्वतीबाय उर्फ मुक्ताबाय धनंजय नागझरकार हिणें केलें. शुद्धीचो धर्मविधी वेदशास्त्रसंपन्न मोडकशास्त्री हांणी केलो. धर्मविधी जातकीर, हिंदू करून घेतिल्ल्या दर एकल्याक मारुतीचें चित्र वांटलें. ब्रह्मचारी आनंदमूर्ती हांणी करवीर मठाचो अधिपती श्रीमच्छंकराचार्य (डॉ. कुर्तकोटी) हांचो संदेश वाचून दाखयलो. उपरांत माशेलांतले वे.शा.सं. वामन रामचंद्र नायक करंडे उर्फ फोंडूशास्त्री हांणी काळजात हात घालपी अशें भाशण केलें. त्याच दिसा म्हळ्यार २७ तारकेक दनपरां नागझर गांवांत शुद्धीविधी जालो. दुसऱ्यादिसा म्हळ्यार २८-२-२८ ह्या दिसा कालापुर, धेंप्याच्या भाटांत आनी सजयल्ल्या माटवांत, शुद्धीचो दबाजो जालो. Vitorino गावड्याक विठ्ठल हें नांव दवरून ताका हिंदू करून घेतलो. त्या दिसा सुमार शंभर किरिस्तांव गावडे हिंदू धर्मांत आयले.

सुमार एक हजार किरिस्तांव गावडे हिंदू जातकीर, कांय किरिस्तांव भावांच्या, पाद्रींच्या आर्सेबिशपाच्या आनी पात्रिआर्कांच्या आंगांक भगभग पडून उजो पेटलो. ह्या उज्यांत तेल ओतपाचें काम पणजेच्यान

भायर सरपी पुर्तुगेज दिसाळ्यांनी केलें. Diario de Noite ह्या सांजच्या दिसाळ्यान तर विखाळो प्रचार सुरू केलो. ही शुद्धी म्हळ्यार पुर्तुगेज सरकाराक गोंयच्यान धांवडावपाची एक क्रांती आसा, अशें हें दिसाळें सांगूंक लागलें. केंपेंच्यान उजवाडाक येवपी 'भारत' ह्या पत्रान पुर्तुगेजींतल्यान आनी 'हिंदू' ह्या पत्रान मराठींतल्यान जशाक तशो जापो दिवन त्या विखाचें निर्वीख करपाचो यत्न केलो. तरी तें वीख पूर्ण निर्वीख जावंक पावलेंना. पाद्री, आर्सेबिश्प आनी पात्रियार्क हांच्या आंगाक पडिल्ले भगभगय उणे जालेनात. ताका लागून आर्सेबिश्प गोवॅर्नादोर झ्यॅरालाक मेळूंक गेलो.

आर्सेबिश्प गोवॅर्नादोर झ्यॅरालाक मेळूंक गेला म्हणपाची खबर मेळटकीर, तरे तरेचे तर्क सुरू जाले. कांय जाणांक गोवॅर्नादोर शुद्धीचें काम थांबोवंक लायतलो म्हणपाचो भंय दिसलो. कांय जाणांनी ब्रह्मचारी गणपतीबुवा, शास्त्रीबुवा आनी आनंदमूर्ती हांणी गोंय सोडून वच्चें म्हणपाचें सुचयलें. ताका लागून मुखार कशीं पावलां घालचीं, हाचो विचार करपाक, आदवोगाद शंखवाळकार हाच्या घरांत कांय जाण जमले. अशें आसतनाय आश्रमाची कांय मंडळी पाळ्यां आनी ताळगांवां हांगासल्ले कार्यक्रम थारावपाखातीर थंय गेली. नागाळ, बांद, मड्डेर, ओडशेल आनी करंजाळे ह्या ताळगांवच्या पांच वाड्यांत किरिस्तांव गावड्यांची वसती आशिल्ल्यान, आश्रमाचो प्रचार करपी नाना कोडोलीकर हे थंय गेले. घोडेकार हांचो पालव घेवन गावड्यांकडल्यान सोपूत-पत्रां बरोवन घेतलीं आनी नागाळे शुद्धीचो धबाजो करपाचें थारायलें. चारय वाड्यांतले भाटकार किरिस्तांव आशिल्ले. फकत नागाळेचो भाटकार हिंदू आशिल्लो. ताणें आपल्या भाटांत शुद्धीचो दबाजो करपाक अनुज्ञा दिली. ताका लागून शास्त्रीबुवा आनी गणपतीबुवा हांकां नागाळे दवरून, दादा मसूरकार आनी लवंदेबाब आदवोगाद शंखवाळकारागेर बसकेखातीर पणजे गेले. हे बसकेक फकत धा बारा जाणच हाजीर आशिल्ले. तांतुंतल्यान सात लोकांचें एक कार्यकारी मंडळ वेंचून काडलें. जिवाजीबाब म्हात्मो, शिवा फटू पै आंगलो, विठ्ठलबाब सुखठणकार, आदवोगाद शंखवाळकार, दिपाबाब दुभाषी, व्यंकटेशबाब सू. सरदेसाय आनी कमळोबा मं.रा. देशपांडे हे त्या मंडळाचे वांगडी आशिल्ले. शुद्धीखातीर कायद्याच्यो अडचणी उप्रासून आयल्यार ताचें निवारण करपाचे उपाय सुचोवपाचें काम ह्या मंडळाचेर सोंपयल्लें.

आर्सेबिश्प गोवॅर्नादोर झ्यॅरालाक मेळूंक वचत पासून शुद्धीचेर एक भंयाचें वागरें पडलें. पयलींचे हिंदू गावडे आनी किरिस्तांव हांच्यांत एक तंटो उपस्थित जालो. ताका लागून भंयाचें वातावरण आनीक घयण जालें. तरी आसतना कान्हेरे आनी रघुनाथबाब भांडारी हांणी दादा वैद्याक पाळ्यां वचपाक सांगलें. दादा मसूरकर आनी लवंदेबाब शुद्धीच्या दबाज्याक ताळगांवां वचूंक गेले. वाटेरच तांकां वेदमूर्ती शास्त्रीबुवा मेळ्ळे. तांणी ताळगांवचो दबाजो पूर्ण जालो म्हणपाचें सांगलें. सगळ्यांक आनंद जालो आनी उपरांत ते सगळे पाळ्यां वचूंक गेले. पाळें हो गांव व्हड आशिल्ल्यान, थंय हिंदू जाल्ल्या गावड्यांचीय संख्या चड आशिल्ली. गावड्यांचो बुदवंत मानवेल (Manuel) हाची समजूत घालपाचो यत्न केलो. तो हिंदू जावपाक फाटीं-फुडें येतालो. थारायल्ले प्रमाण शुद्धी करपाचो निर्धार आश्रमाचे मंडळीन केलो. लवंदेबाबाक धेंप्याल्या घराकडेन म्हळ्यार कालापुरा वचून दादा वैद्याचें काम खंयमेरेन पावलां हाची जाण घेवपाक धाडलो. हेवटेन दादा मसूरकर मानवेलाची समजूत घालीत बसले. कांय वेळान जुजे मानवेलान आपल्या भुरग्यांक क्षौर करून घेवपाक धाडलीं. वेदमूर्ती शास्त्रीबुवा आनी ब्रह्मचारी गणपतीबुवा हांणी गावड्यांचे प्रायश्चित्तविधीक आरंभ केलो. थोड्यांचें क्षौर जाल्लें. कांय जाण न्हावन धुवन आयिल्ले.

होमकुंड पेटोवचेल्या वेळार दादा वैद्य बी मंडळी धेंप्याक मेळून थंय पावली. जुजे मानुवेलाक समज पडलो. तोय क्षौर्याक बसलो आनी शुद्धीचो धबाजो कसलेंच विघ्न येनासतना यथायुक्त जालो. दादा वैद्य, आनंदमूर्ती आनी लवंदेबाब हांणी प्रसंगाक सोबशीं उलोवपां केलीं. उपरांत सगळी मंडळी आपआपल्या घरा गेली.

आश्रमाची मंडळी कालापुरा आयली. थंय लागींच आशिल्ल्या बांदार ह्या नांवाच्या वाड्यार वेदमूर्ती शास्त्रीबुवा आनी गणपतीबुवा हांणी १७० जाणांक शुद्ध करून घेतले. लवंदेबाबान तेच रातचो नव्या हिंदू गावड्यांचो भौस भरयलो. हिंदू धर्मांत आयले उपरांत हो तांचो पयलोच भौसारो आसलो. ह्या भौसाक चिंबल, नागझर, कालापूर, ताळगांव, बांदर, पाळें बी गांवचे नवे हिंदू गावडे आयिल्ले. ह्या गावड्यांनी उर्बेभरीत जावन तातूंत वांटो घेतलो. तांगेल्या बुदवंतांनी विनायक महाराज मसूरकर हांचे उपकार आठयले. तेचपरी हिंदू भाटकार, हिंदू समाज आनी हिंदूंचीं दिसाळीं हांणी तांकां मायेन आधार दिल्ल्यान, तांणी तांचेय उपकार मानले.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं ब्रह्मचारी गणपतीबुवा आनी भालचंद्रबुवा हांणी धुळापेर शंभर किरिस्तांव गावड्यांक शुद्ध करून हिंदू धर्मांत घेतले. कांय दीस पयलीं ब्रह्मचारी गणपतीबुवा शुद्धीकार्याच्या निमित्यान कालापूरच्यान ताळगांवां वतना, धा बारा किरिस्तांव जुवान भुरग्यांनी तांकां आडायले. एकल्यान तांच्या हातांतलो दंड ओडून घेतलो. दुसऱ्यान तांच्या भुजावयली झोळी झोंबून घेतली आनी एकलो तांगेली सायकल घेवन गेलो. ही कृती इतले वेगान जाली की, ब्रह्मचारी गणपतीबुवांक तिची मातपसून कल्पना आयलीना. तातुंतल्यान एका एकाक आड घालपाची तांक ब्रह्मचारी गणपतीबुवांक आशिल्ली. आश्रमांतल्या शिश्यांक राग सोबना, देखून ते ओगी रावले. ते जुवान तांचीं फकाणां मारताले. त्या फकाणांत तांणीय वांटो घेतलो. थोड्या वेळान जाणें सायकल व्हेल्ली, तो आपूण जावन सायकल घेवन आयलो. दुसऱ्यान तांकां तांचो दंड हाडून दिलो. उपरांत ते आपल्या कामाक वचूंक गेले.

माधवबुवा, शास्त्रीबुवा हांकां नावशीक धाडून दादा, लवंदेबाब आनी सगुणबाब कामत पणजे वचपाक भायर सल्ले. आश्रमाचे मंडळीक पुर्तुगेज सरकार धरून बंदखणींत घालतलें, अशो हवायो आयकूंक येताल्यो. तरी मदीं मदीं शुद्धीचें काम जायत रावलें.

आतांमेरेनचें शुद्धीकार्य तिसवाडी म्हालांतच जाल्लें. अंत्रुजेंत जावंक नासलें. अंत्रुजेंतलें पयलें शुद्धीकार्य केरये विजयदुर्गेच्या देवळांत ११ मार्च १९२० ह्या दिसा करपाचें थारायल्लें. हो दीस रंगपंचमीचो आशिल्लो. अंत्रुजेंतले तीन हजार गावडे हिंदू जावंक तयार आशिल्ले. आमंत्रणां धाडून जाल्लीं. जाल्यारूय, येवजिल्लेप्रमाण हें कार्य जावंक पावलें ना. ह्या कार्याक नकलामी जाली. शुद्धीचे पयलीं कुट्टी गांवच्या पाद्रीन दरएक वाड्यावयल्या गावड्यांच्या बुदवंतांक आपोवन व्हेले. तांकां ताणें भेस्टायले. ते हिंदू जाल्यार तांचे हालहाल जातले म्हणपाचें तांकां सांगलें. तरी ते भियेनात हें पळोवन, तांकां फोंड्यां दो. आल्मैदीच्या घरा व्हेले. थंय पुलिसेचो 'कोमांदांत' आनी हेर सरकारी अधिकारी पयलींच येवन राविल्ले. त्या सरकारी अधिकाऱ्यांनी तांकां धडबडावन काडले. तुमी हिंदू जाल्यार, तुमकां धरून आग्वादाचे बंदखणींत उडोवन मसमीक धाडटले म्हणपाचें सांगलें. बंदखणीचें नांव काडटकीर ते भियेवन कुडकुळ्ळे आनी भांबावले. आश्रमाची मंडळी आमकां फुसलायता आनी आमकां बळयां हिंदू करता म्हणपाचें एक लटकें पत्र ह्या सरकारी अधिकाऱ्यांनी तांचेकडल्यान बरोवन घेतलें. सोऱ्याचें कॉप मारपाक तांकां धा रुपया दिले आनी तांकां आपआपल्या वाड्यार वचून 'सरकाराक शुद्धी मान्य ना' अशें सांगपाक फर्मायलें.

गावड्यांचे हे बुदवंत सोरो पियेवन तर्र जावन, लकलकत आपआपल्या वाड्यार गेले आनी सरकाराक आमी हिंदू जाल्ले मान्य ना, अशें सांगत सुटले. केरये-फोंड्यां घडिल्ले हे घटनेची, केरये मातय कल्पना नाशिल्ली. ताका लागून गावड्यांचे कांय बुदवंत थंय गेल्ले. जांकां आमंत्रणां गेल्लीं, तेय देवळाकडेन येवंक लागिल्ले. ह्या वेळार दैत्य कशे फोंडेचे पुलिसेचो कोमांदांत सिल्व्ह कापितांक सिकैर, पेगाद, आमाराल बी मोटारीन देवळाकडेन येताले. तांकां वाटेंत ब्रह्मचारीबुवा मेळ्ळो. तांणी ताका धरून रोखडोच फोंडेचे पुलिसेंत धाडून दिलो. गणपतीबुवांकडेन गावड्यांकडल्यान घेतिल्लीं कांय सपूत-पत्रां, तेचपरी तांकां दवरचेलीं हिंदू नांवां हांचीं कागदां आशिल्लीं. तीं तांणी मोठे चलाखेन रघुनाथबाब भांडारी हांचेकडेन दिलीं. पुलिसेच्या ह्या अधिकाऱ्यांक वाटेर जे हिंदू जावंक वचपी गावडे मेळ्ळे, तितल्यांकय तांणी भेस्टायले आनी तांकां आपापल्या वाड्यार वचून कोणेंच हिंदू जावंक फावना म्हणपाची सरकाराची आज्ञा आसा म्हणून सांगूंक फर्मायलें. उपरांत हे अधिकारी देवळाकडेन गेले. थंय तांकां आश्रमाची मंडळी मेळ्ळीना, तरी थंय जमिल्ल्या गावड्यांक तांणी सांगलें, कोणेंच हिंदू जावंक जायना. हिंदू जाल्यार, तुमकां धरून आमी आग्वादचे बंदखणींत घालून थंयच कुसयतले. जर हांगा शुद्धी जायत, तर खांप्री सोल्दाद धाडून हेंच देवूळ न्हय, तर हेरूय देवळां आमी भस्तितले. कोमांदांत सिल्व्हाचो हो रुद्रावतार पळोवन, थंय जमिल्लो लोक भियेवन गुळी जालो आनी वाट मेळत तसो पळूंक लागलो. ह्या लोकांतले कांय जाण देवळांत भितर वचून लिपले. देवळांतल्यान भटान देवळाचें दार धांपलें. पुलिसेचे अधिकारी देवूळ उकतें करपाचो हुकूम दिवपाक लागले. देवळाच्या पुजाऱ्यान कमिटीचे आज्ञेविणें देवूळ उकतें करूंक मेळचें ना अशी जाप दिली.

ब्रह्मचारी गणपतीबुवाक धरून व्हेला म्हणपाची खबर शुद्धीखातीर वावुरपी मंडळीक कळ्ळी. भौ. दादा वैद्याकय पुलिसेन धरून व्हरून एकतीस वरां बंदखणींत दवरलो म्हणपाचें कळ्ळें. तरी आसतना तीस चाळीस गावड्यांची शुद्धी थारायल्लेप्रमाण चिंबला जाली. शुद्धीचें कार्य चलतासतना वेदमूर्ती शास्त्रीबुवा आनी आनंदमूर्ती हांकां धरून व्हेले. पुलिसय गावड्यांच्या फाटल्यान लागले. अशें आसतनाय ते पुलिसेक मातय बाडगलेनात.

पुर्तुगेज सरकारान शास्त्रीबुवा, आनंदमूर्ती आनी गणपतीबुवा हांकां धरून बंदखणींत घाल्यात म्हणपाची खबर, त्या वेळच्या ब्रिटिश हिंदुस्थानांत रोखडीच पावली. ही खबर कळटकीर, मसुरकर महाराज कराडाक साकून लोंढ्यार आयले. पुण्याक साकून केसरींचे प्रतिनिधी भौ. रा. गो. भिडे, हेय गोंयां येवपाक भायर सल्ले. ब्रिटिश हिंदुस्थानांत पुर्तुगेज सरकाराचो निशेध जावपाक लागलो. सरकाराचेर तेलेग्रामांचो पावस पडलो. श्रीमच्छंकराचार्यांनीय तांकां सोडपाक गोंयच्या गोव्हेर्नादोर झ्यॅराल हाका तेलेग्राम केलो. मुंबय प्रांताच्या कायद्या मंडळाच्या सभासदांनीय गोंयच्या सरकाराक तेलेग्राम धाडलो. दिल्लीच्या वरिश्ठ कायद्या मंडळाच्या (Legislative Assembly) आनी राज्य समितीच्या (Council of States) वांगड्यांनीय पुर्तुगेज सरकाराक तेलेग्राम धाडून, तांकां सोडपाखातीर एक अर्ज धाडलो. ब्रिटिश पार्लामेंटांतय हे घटनेचे पडसाद गाजले.

वेदमूर्ती शास्त्रीबुवा, आनंदमूर्ती आनी गणपतीबुवा हांकां धरतकीर, पणजेच्यान भायर सरपी पुर्तुगेज दिसाळ्यांनी, पाद्रींनी आनी किरिस्तांव भाटकारांनी शुद्धीआड आपली चळवळ चालूच दवरली.

शुद्धीचें काम करपी दिसले की पुलीस तांकां धरून व्हरपाक लागले. हे परिस्थितींत शुद्धीखातीर 'ज्योतिश कार्यालय' खंय उकतें करचें, हो एक प्रस्न

उप्रासून आयलो. त्या वेळार पणजेचो यशवंतबाब लवंदो मोठ्या धिरान मुखार सल्लो आनी घरांतल्या लोकांचे मत विचारिनासतना, आपल्या घरांत 'ज्योतिश कार्यालया'क ताणें जागो दिलो. थोड्यांक तागेलें हें काम मानलें ना. तरी यशवंतबाब फाटीं सल्लो ना. त्या दिसासावन यशवंतबाबाचो आनी तागेलो बापोलभाव रामबाब लवंदो, ह्या दोगांचोय शुद्धीच्या कार्याकडेन संबंध आयलो आनी आश्रमाच्या कार्यांत त्या दोगांनीय पूर्ण वांटो घेतलो.

आश्रमाच्या कार्याक आडमेळीं येत रावलीं. हिंदू जाल्ल्या गावड्यांक लग्नाखातीर रेजिस्त सिव्हीलाचो त्रास जावपाक लागलो. आश्रमान लोंढ्यार आनी सकिरव्हाळार दोन शाखा काडल्यो. लग्नाचे संस्कार करपाखातीर थंय भट दवरले. गावड्यांनी हाचो भोव बरो लाव घेतलो.

पणजे म्हालक्ष्मीच्या देवळांत हिंदूंची सभा जाली. कायद्या मंडळाचे फाटले वांगडी कालापुरचे भौ. लोलीबाब केंकरो (रामचंद्र पु. केंकरो), हे ते सभेचे यजमान आसले. गोंयच्या वेगवेगळ्या गांवांक लागून हे सभेक लोक आयलो. तिसवाडी म्हालाचो आदमिनिस्त्रादोर आनी कांय किरिस्तांव गृहस्थ हे सभेक आयिल्ले. दो. बोरकार, गणपतबाब सामंत, विर्जिनकार वैद्य, व्यंकटेशबाब देसाय, ज.ना. कामत, म्हादेवबाब काकुलो हांणी सभेंत भाशणां केलीं, आनी मार्चाचे वीस तारकेक एका शिश्टमंडळान गोवेर्नादोराक मेळूंक वच्चें, अशें थारायलें.

सभेंत थारायल्लेप्रमाण, शिश्टमंडळ गोवेर्नादोराक मेळूंक गेलें. ह्या शिश्टमंडळांत भौ. लोलीबाब केंकरो, भौ. शिवाजी सरदेसाय, भौ. आदवोगाद शंखवाळकार, भौ. म्हादेवबाब काकुलो, दो. साखरदांडो, भौ. जयवंतराव सरदेसाय, भौ. बा. म. नाईक, भौ. रवळू बळवंत राव, भौ. वि. रा. नायक आनी भौ. ज. वि. कामत हे आसले. "धर्म ही जाच्या ताच्या अंतस्कर्णाची भावना. पुर्तुगेज सरकार धर्मांत सुडबुडना. किरिस्तांव गावड्यांक फॉर्सान हिंदू करून घेतात, अशी खबर म्हाका मेळ्ळ्या. ताका लागून तांकां धरचे पडले. न्यायाच्या कामांत श्रीमंत गरीब हो भेद करिनासतना, सगळ्यांक आपआपले हक्क भोगूंक मेळपाखातीर तुमी म्हाका पालव दियात" अशें गोवेर्नादोरान हिंदू समाजाचे प्रतिनिधी ह्या नात्यान तांकां सांगलें.

शिश्टमंडळ गोवेर्नादोराक वचून मेळ्ळ्या उपरांत कालापुरचो भौ. गोपाळ परीट, 'भारत' पत्राचे संपादपी भौ. हेगडो देसाय, भौ. विष्णुबाब धेंपो, भौ. रघुनाथबाब भांडारी बी हांकां पुलिसेन आपोवन हाडले. कवळेंच्या स्वाम्यांकय पुलिसेंत येवपाचें फर्मान धाडलें. स्वामी केन्ना पुलिसेंत आनी सरकारी ऑफिसांत वचनात म्हणपाची जाप ह्या फर्मानाक स्वाम्यांनी धाडली.

शुद्धी बंद पडिल्लेभाशेन जाल्ली. तरी आसतना केरयेच्या आकार ह्या वाड्याचेर हनुमान जयंतीच्या दिसा, सुमार २००/२२५ गावडे शुद्ध जावन हिंदू जाले. आगोस्तिन गावडो त्या गावड्यांचो बुदवंत आसलो. ताका गोपाळ हें हिंदू नांव दवल्लें. शुद्धीचो विधी जालो म्हणून कळटकीर आश्रमाचे मंडळीक धरपाक पुलीस हेवटेन तेवटेन धांवपाक लागली. गोंयांभायल्या भट आनी शास्त्र्यांकडल्यान ही शुद्धी करून घेनासतना, ती गोंयच्या भटांनी केल्यार पुलीस कसलेंच आडमेळें हाडचीना अशें एक दीस पुलिसेन सांगलें. जाल्यारूय, गोंयचे भट ह्या कामाक फुडें सल्ले नात. ताका लागून पुलीस शुद्धीची फाट घेत रावली. अशे परिस्थितींतय कुंकळ्यें, मंगेशीं, कोनें, गांवठण, आंबाड, कर्मळी बी गांवांनी शुद्धी जावन शेंकड्यांनी गावडे हिंदू जाले. ८ एप्रिल १९२८ दिसा सावयचो भौ. गणेश रामू भट नवाथे आनी भौ. श्रीपाद पुंडलीक शेटयो बी हांच्या पालवान लवंदेबाबान १७५ गावड्यांक शुद्ध करून हिंदू धर्मांत हाडले. पुलीस अडचणी निर्माण करीत रावली, तरी शुद्धी जायत

रावली.

शुद्धीवांगडाच नव्या हिंदूंक शिकोवपाखातीर पाठशाळांचेंय काम चलतालें. शुद्ध जावन हिंदू जाल्ल्यांचीं नांवां घेवन, तांकां हिंदू नांव दिवपाचें काम आश्रमाचो प्रचार करपी भौ. नाना देशपांडे करताले. आनी तांच्या हिंदू नांवांची नोंद रेजिस्त सिव्हिलांत करपाचें काम लवंदेबाब पळेताले. एक दीस शुद्ध जाल्ल्यांक नांवां दितासतना, थंय अकस्मात लुईस नांवाचो एक भाटकार आयलो. कारणाविणें ताणें बाचाबाची सुरू केली आनी नाना देशपांडेक पुलिसेकडेन दिलो. पुलिसेन ताका लडो दिवन पणजे हाडलो आनी उपरांत गोंयचे सरादीभायर ताका व्हरून सोडलो. लवंदेबाब हांच्याय फाटल्यान पुलीस लागली.

ह्यो घडणुको जाता म्हणसर माय म्हयनो सोंपत आयलो. जबलपूरचे हिंदू महासभेन गोंयांत वचून, शुद्धीची चवकशी करपाक, एक शिश्टमंडळ धाडपाचें थारायल्लें. ह्या शिश्टमंडळाची लोक वाट पळेताले. हें शिश्टमंडळ गोंयांत मायाचे २४ तारकेक पावतलें म्हणपाचें कळलें. गोंयांत येवचेपयलीं ह्या शिश्टमंडळान मुंबय आशिल्ल्या पुर्तुगेज सरकाराच्या 'कोंसुला'ची भेट घेतली. भौ. तात्याराव केळकर आनी डॉ. मुंजे हांकां पुर्तुगेज सरकाराच्या 'कोंसुला'ची भेट घेतली. भौ. तात्याराव केळकर आनी डॉ. मुंजे हांकां पुर्तुगेज कोंसुलान भौमानान येवकार दिलो आनी मेकळ्या मनान तांचेकडेन चर्चा केली. ह्या शिश्टमंडळांत तात्याराव केळकर, डॉ. मुंजे, विद्यानिधी चित्रावशास्त्री, शिवणीचे भौ. जठार वकील, हैदराबादचे धर्मवीर वामनराव नाईक, कराडचे दानशूर पांडुअण्णा शिरावळकर, डहाणूचे यंत्रशास्त्री दत्तोपंत गोगटे, मुंबय प्रांतांत हिंदू सभेचें काम करपी भौ. नवरे आनी केसरीचे भौ.प.वि. महाजन हांचो आसपाव आशिल्लो. तेभायर, आश्रमाचे वतीन ब्रह्मचारी क्षीरसागर हेय शिश्टमंडळावांगडा आशिल्ले. ह्या शिश्टमंडळाक श्रीमन्महाराज लोंढ्यार मेळ्ळे. तांणी तांकां आश्रमाचे वतीन येवकार दिलो. दनपारचे गाडयेन शिश्टमंडळ गोंयां येवपाक आयलें. श्रीमन्महाराज शिश्टमंडळावांगडा कॅसलरॉक मेरेन आयले आनी थंयच्यान परत लोंढ्याक गेले.

ह्या शिश्टमंडळाक गोंयकार हिंदूंनी उर्बेभरीत येवकार दिलो. मडगांवां फोगेट्यो लावन शिश्टमंडळाचो भौमान केलो. गोंयच्या वेगळ्या वेगळ्या संस्थांचे वतीन शिश्टमंडळाचो सन्मान करून तांकां मानपत्र दिलें. मानपत्राक जाप दितना, तात्याराव केळकरांनी सांगलें : "मनशावरीच धर्माकय देह, मन आनी आत्मो आसता. जितो रावपाचें आसल्यार, ह्या तिनांचीय सारकीच जतनाय घेवंची पडटा. देहाची राखण केल्यार मनाची आनी आत्म्याची राखण जाता. तत्त्वज्ञान हो धर्माचो आत्मो आसता आनी धर्मांत आशिल्ल्या लोकांचें बळ हेंच धर्माचें शरीरबळ आसता. धर्मांतल्या लोकांची संख्या वाढोवपी शुद्धिकरण हें धर्माचो देह राखपाचें साधन आसा. शुद्धीच्या कार्याक राजकरणाचो हेतू दसोवंक फावना, हेंच सांगपाक आमी हांगा आयल्यात. शुद्धीक ज्यो अडचणी येतात, तांचें निराकरण करपाखातीर, आमी मानादिक गोवॅर्नादोराक मेळपाचे आसात." उपरांत डॉ. मुंजे हांणी खणखणीत आवाजांत भाशण केलें. चित्रावशास्त्री, वामनराव नाईक, भौ. जठार वकील आनी पांडुअण्णा शिराळकर हांणीय प्रसंगाक फावसारकीं भाशणां केलीं. ह्या भाशणां उपरांत अंत्रुजेंतल्या गावड्यांचो बुदवंत गोपाळ हाणें कोंकणींतल्यान रसाळ भाशण केलें. ताणें सांगलें, "आमच्या धर्मांत येवपाचो आमचो हेतू आज ४०० वर्सांनी सुफळ जाला, हेखातीर आमकां अत्यंत खोस भोगता. मसुराश्रमान आमकां परत हिंदू धर्मांत हाडले. देखून, मसुराश्रमाचे उपकार आमी आठयतात. आमी परत हिंदू धर्मांत वचूं नये म्हणून पाद्रींनी आनी पुलिसेच्या अधिकाऱ्यांनी तरेतरेचे प्रयत्न केले. 'श्रेस्ठ

अशा किरिस्तांव धर्मांतल्यान सकल्ल्या पांवड्याच्या हिंदू धर्मांत वचून, तुमी तुमची अधोगती कित्याक करून घेतात?', अशें सिल्वासायबान आमकां विचारलें. 'हिंदू धर्म जरी कितलोय सकयल्या पांवड्याचो जालो, तरी तो आमच्या जाण्टेल्यांचो धर्म आसा. ह्या धर्मांत वचून ताका व्हडविकेक व्हरप ही आमची लागणूक आसा', अशी आमी जाप दिली. उपरांत, 'ज्या धर्मांत मनीस मरतकीर निर्दय जावन ताका हुलपायतात, अशा धर्मांत वचून तुमचें अहीत करून कित्याक घेतात?' अशें आमकां विचारलें, त्यावेळार आमी सांगलें, 'किरिस्तांव धर्मांत एका मनशाक पुरिल्ल्या खड्ड्यांतच दुसऱ्याक पुरतात. थंय ताका किडे पडून तागेल्या कुशिल्ल्या मांसारच दुसऱ्याक तुमी पुरतात. अशे तरेन तुमी ताका नरकांत लोट्टात. हेपरस आमगेलो हिंदू धर्म कितलो तरी बरो आसा.' मागीर तांणी सांगलें, 'हिंदू धर्मांत जातीचे पांवडे आसात. ताका लागून वयल्या पांवड्याचे लोक, आपले पंगतीक तुमकां वाडिनात. इतलेंच न्हय, तर लग्नाची सोयरीक पसून तुमचेकडेन करिना.' अशें सांगतकीर आमी सांगलें, 'किरिस्तांव धर्मय आमकां सराबरीच्या नात्यान चलयना. ह्या ४०० वर्सांत तुमी तरी आमचेकडेन कितल्यो सोयरिको केल्यात? आज तरी तुमी तुमगेल्यो चलयो आमगेल्या पुतांक दितले आनी तुमगेले पूत आमगेल्या धुवांकडेन लग्न जातले?' ह्या प्रस्नाक तांणी जाप दिलीना. अखेरेक शुद्धीचें फकांड करपाक तांणी म्हळें, शुद्धीच्या विधीवेळार तुमी अग्नी पेटयतात. त्या होमाक लागून किरिस्तांव धर्माकडलें तुमचें नातें कशें ना जाता?' ह्या प्रस्नाक आमी सांगलें, 'एके मेणवातीन तुमी सामक्या लागशिल्ल्या नात्याच्या भावा भयणीचें लग्न लायतात आनी घोवा बायलेचें नातें पसून तोडटात. उज्याच्या ह्या होमाक लागून, किरिस्तांव धर्माकडेन आशिल्लें आमचें नातें आतां हुलपून गेलां.' ह्या भाशणाउपरांत यशवंतराव देसाय हांणी सगळ्यांचे उपकार मानून सभा सोंपली.

जंय जंय शुद्धी जाली, थंय थंय हें शिश्टमंडळ गेलें. कालापुरा तलवारीचे पट्टे खेळ खेळत शिश्टमंडळाची मिरवणूक काडली. हेर गांवांनीय शिश्टमंडळाक बरो येवकार मेळ्ळो. मायाचे २६ तारकेक शिश्टमंडळ गोवॅर्नादोर इझॅराल, मासानु द आमोरीं हांकां मेळूंक गेलें. उलोवणीं वरभर जालीं. मसुरचो ब्रह्मचर्याश्रम ही संस्था पूर्ण धार्मिक आनी ती राजकारण करपी संस्था न्हय म्हणपाची तांणी गोवॅर्नादोराची खात्री करून दिली. आश्रमाचो वावर करपी वावुरप्यांक बंदखणींत घालूं नये म्हणपाचीय तांणी विनंती केली. मार्चाचे २० तारकेक हिंदूंचे प्रतिनिधी गोवॅर्नादोराक मेळूंक गेल्ले तेन्ना तांणी जें तांकां सांगिल्लें तेंच गॉवेर्नादोरान शिश्टमंडळाक सांगलें. गोवॅर्नादोरान मार्चाचे २० तारकेक जें सांगिल्लें, तें दिसाळ्यांनी छापून उजवाडाक आयिल्लें. तेंच गोवॅर्नादोरान तांकां वाचून दाखयलें : ''कायद्यान घडून आयिल्लें सरकार धर्मांत सुडबुडना. सरकाराचो प्रतिनिधी ह्या नात्यान गोवॅर्नादोराक सगळ्याच धर्मांक पूर्ण स्वतंत्रताय दिवपाच्या तत्त्वान चलचें पडटा. कायद्याक बांदून अशिल्लो अधिकारी आनी एक सुसंस्कृत मनीस ह्या नात्यान, धर्माचे स्वतंत्रतायेची राखण करपाक हांव पूर्ण जागृत आसां. सगळे धर्म हांव सारकेच लेखतां. चाळीस वर्सांची म्हजी कारकीर्द हाका गवाय आसा. आश्रमाचे जे वावुरपी शुद्धीचो प्रचार करताले, तांचेकडेन लग्निक आशिल्ल्यो कांय तक्रारी आपल्याकडेन पावल्यो, ताका लागून तांकां धरून बंदखणींत घालचे पडले. पूर्ण चौकशी जातकीर तांकां सोडटले,'' 'प्रचार करतल्यांच्या आड जर कसलोच गुन्यांव सिद्ध जालोना जाल्यार तांकां परत प्रचार करूंक मेळटलो?' असो प्रस्न शिश्टमंडळान केलो. गोवॅर्नादोरान जाप दिली, ''पुर्तुगेज कायदे आनी राजकारभाराची रीत हांचे म्हेरेंत रावन धर्मकार्य करपाक जर आश्रमाचे मंडळीक गोंयांत येवपाचें आसल्यार,

तांणी गोवॅर्नादोराची वा योग्य अधिकाऱ्याची भेट घेवन, परवानगी घेवंची पडटली. सरकारी अधिकारी, तांणी कशे तरेन चलचे हाची जाण तांकां दिवंक पावतले. हें सगळें कार्य धर्मिक तटस्थतायेचो भंग जायनासतना, वेगळ्या वेगळ्या धर्मांत जो एकचार चलता, तो तसोच उरचो, हे हेतून तांणी काम करचें पडटलें.'' अशे तरेन गोवॅर्नादोराकडेन उलोवणीं करून, शिश्टमंडळ थंयच्यान परतलें.

गोवॅर्नादोर इर्यॅरालाक मेळून आयल्या उपरांत शिश्टमंडळ करमळे वचूंक गेले. तांचेखातीर थंय एक कार्यक्रम आंखिल्लो. थंय तात्याराव केळकर, हेगडो देसाय, सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव हांचीं भाशणां जालीं. आश्रमाचे मंडळीन शुद्धीखातीर केल्ल्या कार्याचें आनी जे गोंयकार तांचे इतलेच तांचे वांगडा वावुरले, तांचें कौतुक केलें. कृष्णा काणकोणकार ह्या गावड्याचे धडाडीची तोखणाय केली. भाषणां मराठींत जाल्ल्यान गावड्यांक तीं कळ्ळीं नात. देखून, जनाप्पा कामत हांणी त्या भाशणांचो सारांश कोंकणींतल्यान तांकां सांगलो. उपरांत शिश्टमंडळ आनी हेर मंडळी पणजे गेली. थंय म्हालक्ष्मीच्या देवळांत सभा दवरलेली. सभेचे यजमान भौ. दादा वैद्य आशिल्ले. म्हालक्ष्मीचो मंटप पूर्ण भरून गेल्लो. तात्याराव उलयतकीर चित्रावशास्त्री 'हिंदूधर्म आनी हिंदूसमाज' हाचेर उलयले. आयच्या काळाक हिंदू समाजान खेत्री जावपाची गरज आसा म्हणपाचें तांणी सांगलें. हे सभेक एक पाद्री आयिल्ले. तांणी आयिल्ल्या पाहुण्यांचो गौरव केलो आनी हिंदू आनी किरिस्तांव धर्मांतलीं बरीं तत्त्वां घेवन, अत्यंत उदार आनी विशाल असो नवो धर्म स्थापन करपाची गरज आसा म्हणपाचें मत मांडलें. ते उपरांत सिद्धेश्वरशास्त्री हांणी पुण्यांत भाशण करतना, गोंयकार भिजूड आसात म्हणपाचीं जीं विधानां केल्लीं, तांची फोडणिशी करून सांगची, अशें भौ. वि. स. सुखठणकार हांणी विनंती केली. डॉ. मुंजे हांणी चित्रावशास्त्र्यांचो अपसमज जावन तांणी तीं विधानां केल्लीं आसुयेत, ह्या विधानांनी गोंयकारांचो अभिमान दुखावल्लो आसल्यार, आपूण गोंयकारांची माफी मागतां, अशें सांगलें. जुजे मानुएल आनी ताचें कुटुंब हिंदू जावन, भंयान परत किरिस्तांव जाल्लें. ह्या कुटुंबाक आनी कांय गावड्यांक चित्रावशास्त्रीन हांणी मायाचे २७ तारकेक सकाळच्या वेळार मंत्र म्हणत हिंदू धर्माची दीक्षा दिली.

गोंयांत शिश्टमंडळाचे सगळे कार्यक्रम बरे भाशेन जाले. आनी शिश्टमंडळ मायाचे २९ तारकेक गोंयासावन वचूंक गेलें. पुर्तुगेज सरकाराच्या जाल्ल्या वा करून दिल्ल्या अपसमजांचें निराकरण जालें. आश्रमाचें कार्य पयलेवरीच जावपाक ब्रह्मचारी क्षीरसागर हे आश्रमाचे वतीन गोवॅर्नादोर इर्यॅराल हांकां मेळून दीस थारावपाखातीर, तांच्या सेक्रेताराक मेळूंक गेलें. थारायल्लेप्रमाण आगस्टाच्या ९ तारकेक दनपारच्या तीन वरांचेर ब्रह्मचारी क्षीरसागर गोवॅर्नादोरांक मेळूंक गेले. ब्रह्मचारी क्षीरसागर हांकां पुर्तुगेज भास कळनाशिल्ल्यान विठ्ठलबाब सुखठणकार हांणी दुभाश्याचें काम केलें. गोवॅर्नादोरान तांकां बरो येवकार दिलो आनी आश्रमाचे मंडळीक गोंयांत येवन शुद्धिचें कार्य करपाचीय परवानगी दिली.

आश्रमाचें कार्य भोव बरें जातालें. आडमेळ्यांचें निवारण जातकीर दुपेट उर्बेन शुद्धीचें काम सुरू जालें.

गावड्यांची संख्या चड आशिल्ल्या गांवांनी आश्रमान शाळा सुरू केल्यो. सुमार ५०० भुरगे ह्या शाळांनी शिकताले. ह्या शाळांनी जप आनी कीर्तनां जावंक लागलीं. मदीं मदीं सत्यनारायणाच्यो पुजा जावंक लागल्यो. वांतें गांवांत २८४ गावड्यांक शुद्ध करून घेतले. अशे तरेन धर्मजागृती जातासतनाच ह्या कार्याक कीड लागली. नस्ते मतभेद उप्रासून आयले. समजाविशी करपाचे सगळे यत्न निर्फळ जाले. मतभेद दिसान दीस वाडत गेले. हिंदू पत्रांतल्यान आनी मसुराश्रमाच्या 'दासबोध' ह्या म्हैनाळ्यांतल्यान ह्या मतभेदांक वाचा फुटली. आरोप प्रतिआरोप जावपाक

लागले. तातूंत पाद्रींची करंदाय, पणजेच्यान भायर सरपी पुर्तुगेज दिसाळ्यांनी पेटयल्लो उजो, ह्या सगळ्या कारणांक लागून, पुर्तुगेज सरकारान आश्रमाचे मंडळीक धरून गोंयच्या सरादीभायर घाली. २६ फेब्रुवारी १९२८ धरून चलिल्लें शुद्धिचें कार्य त्याच वर्साच्या आगस्टाचे ९ तारखेउपरांत केन्नातरी सासणाचें बंद जालें. ह्या काळांत सुमार ७७६५ किरिस्तांव गावड्यांक शुद्ध करून हिंदू धर्मांत घेतले. ह्या सगळ्यांचींच हिंदू नांवां आनी आडनांवां मेळनात. जीं नांवां आनी आडनांवां मेळटात तीं अशीं :

१) Vitorino हाका विठ्ठल सुर्लिकार हें नांव आनी आडनांव दिलें; २) Jose Dias हाचें नांव सखाराम दिवकार जालें; ३) Santana Carreiro हाचें नांव सांतू नार्वेकार जालें; ४) Caitano Pereira हाचें नांव केशव कुंकळकार जालें; ५) Joaquim Andrade (ज्याकी) हाचें नांव जगन्नाथ हडकोर्णकार जालें; ६) Agostinho गावडो हाचें नांव गोपाळ गावडो जालें आनी ७) Joaquim Jose हाचें नांव जगन्नाथ वेर्णेकार जालें.

शुद्ध जाल्ल्या सगळ्यांचींच हिंदू आडनांवां मेळनात. आपल्या किरिस्तांव नांवाच्या जाग्यार हिंदू नांवां घालपाखातीर, ते 'रेजिस्त सिव्हिलां'त गेले. नांव बदलपाक प्रत्येकान चाळीस रुपये दिवंचे पडटले म्हणपाचें रेजिस्त सिव्हिलांतल्या अधिकाऱ्यांनी तांकां सांगलें. चाळीस रुपये फारीक करपाची तांक एकल्याकय नाशिल्ली. तांणी गोवॅर्नादोर इर्श्यॅरालाक अर्ज करून सांगलें, आमचे खोशयेन आमी हिंदू जाल्यात. नांव बदलपाक फी म्हणून चाळीस रुपये दिवपाची तांक आमकां ना. चाळीस रुपये दिनासतना आमचीं नांवां बदलपाक रेजिस्त सिव्हिलाच्या अधिकाऱ्यांक तुमी सांगचें, अशी आमची तुमकां नम्र विनंती आसा. तांचे हे विनंतेक त्यावेळचो गोवॅर्नादोर इर्श्यॅराल जनरल क्रावेरो लोपिश हांणी तांकां कळोवंक लायलें, जे खोशयेन तुमी हिंदू जाल्यात, तेच खोशयेन चाळीस रुपये फारीक करात.

दुडवांचे हे अडचणेक लागून, कांय जाणांचीं आडनांवां फेरेरा, बॉर्जिस, फेर्नांडीस बी तशींच उल्लीं. ताका लागून हिंदू जाल्ल्या गावड्यांत आज़ यशवंत फेरेरा, गणेस फेर्नांदीश अशीं हिंदू नांव आनी किरिस्तांव आडनांव आशिल्लीं मिश्र नांवां मेळटात.

उपनांवा संबंधान सांगप म्हल्यार, 'उपनांव' हाचो अर्थ 'आडनांव' असोच जाता. आतांच्या काळार उपनांव हें विशेशण कशें घोळूंक लागलां. गांवांत दोन रवळू आसल्यार, एकल्याक 'पिसो रवळू' म्हणटात आनी दुसऱ्याक 'शाणो रवळू' म्हणटात.

**बामणांच्या आडनांवांचेर मेळटात तीं कवनां**

बामणांच्या आडनांवांचेर तीन कवनां मेळटात. पयल्या कवनांत कांय नांवांची आनी आडनांवांची व्हडवीक गायिल्ली मेळटा. दुसऱ्या आनी तिसऱ्या कवनांत बकच्छाय केल्ली मेळटा. कवनां अशीं आसात :

१) केंकरो भूमिपती, धेंपो धनपती, दादा वैद्यपती । कामत पद्मपती, पुंडा स्थपती, देसाय सेनापती ।। (पळेयात : दादा वैद्य स्मृतिग्रंथ.)

२) धुमे धुसे, वागळे पिसे, लाड तरकटे, तेलंग चिरकुटे । (पळेयात : मी, दुर्गा खोटे, आत्मचरित्र, पा. १५.)

३) धुमे धुशे, वागळे पिशे, तेलंग चिरकुटे । धुम्या मादळया, संजगिऱ्या घाल रे गोंदळया ।। (हें कवन एका मनशान म्हणटा आसतना संपादकान बरोवन घेतिल्लें. ताचें नांव आतां यादस्तेंत ना.)

आधारावळ :

१) गों.गों. वसणूक, बरो : शणै गोंयबाब.

२) कांही मराठी लेख, बरो : शणै गोंयबाब.

३) Aspects of Indian History Archaeology by H. D. Sankalia, Editors: S. P. Gupta K. S. Ramchandran हातुंतलो 'Lat, its Historical & Cultural Significance' हो लेख.

४) 'गोमंतकाची प्रतिमा' हातुंतलो 'गोमंतकाच्या वसाहतीची रूपरेषा' हो लेख. बरो : अनंत रामकृष्ण शेणवी धुमे.

५) Caste and Race in India, reprint, by G. S. Ghurye.

६) Arquivo Portugues Oriental, fasciculo 6, Suplemento primeiro e segundo.

७) Tombo das Rendas que sa Magestade nas terras de Salcete e Bardes e nesta Ilha de Goa, por Pandurang Pissurlencar, Boletim do Instituto Vasco-da-Gama, no. 68, 1952.

८) History of the Dakshinatya Saraswats, by V. N. Kudava.

९) Roteiro dos Arquivos do Estado da India.). Introduceao e Notas por Panduranga S. S. Pisurlencar, 1955.

१०) Arquivo Portugues Oriental, fasciculo 3, Nora-Goa, 1861, Parte I, documento I, pagaina 20, 1585.

११) Arquivo Portugues Oriental, Fasciculo 4, Nova-Goa, 1862, pagina 125-126.

१२) दादा वैद्य स्मृतिग्रंथ, १९५४, संपादक : वैद्य स्मृतिग्रंथ मंडळ.

१३) गोमंतक शुद्धीचा इतिहास, लेखक : शंकर धोंडो क्षीरसागर.


**आडनीत** । आड्नीत । सा.रू. – ती, भोव. – ती, सा.रू. – तीं । (कों. आड + सं. नीति) स्त्री. पाडें, वांकडें, अधर्मी आचरण; अन्याय्य करणी; आचारभ्रस्ट आचरण.

**आडप** । आड्प । सा.रू. – पा । कों. 'आड' वेल्यान क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आड्-सक.) घुस्पून उरप. (चिमणेच्या उजवाडान तिणें केसराक पळयलें. हुमेन तें थपथपलेलें. ती आनीक मुखार गेली. केसर उठून बसलें. ताजो पोलको गळ्याकडेन आडलेलो. – अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा. १४५.)

**आडपड्डो** । आड्पड्डॉ । सा.रू. – ड्ड्या, भोव. – ड्डे, सा.रू. – ड्ड्यां । (कों. आड + फा. पर्दा ) पु. भायल्यान भितल्लें आनी भितल्ल्यान भायलें दिसूं नये म्हणून लायिल्लो दाट वस्त्राचो पड्डो; कुर्तीन. २. (ला) १. भीड, लज; २. धांपणें. (दोळ्यांचेर कसलोच आडपड्डो येनासतना सैमाचें दर्शन घेतघेत आमी मनालीक परतले. – गोमांचल ते हिमाचल, बरो : दिलीप बोरकार, पा. ३४)

**आडपीक** । आड्पीक् । सा.रू. – के । (कों. आड + पीक) स्त्री. मुख्य पिकेउपरांत त्याच शेतांत घेतिल्ली दुसरी पीक.

**विशेश** : रसायणी सारें घालतकीर पीक चड येता, अशें आमगेले शेतकार मानीत आयल्यात. रसायणी सारें घालतकीर वर्सान वर्स त्या सान्याचें प्रमाण वाडोवचें पडटा आनी ताका लागून भूंय पूर्ण निकस जाता. रसायणी सारें घालून जितली पीक येता, तितलीच पीक रसायणी सारें घालिनासतना, परंपरेन चलत आयिल्लें बीं रोवन घेवं येता, अशें मायक्रोबायोलॉजीची पदवी घेतिल्लो जपानी शास्त्रीक मासानोबु फुकुओका सांगता. शेत लुंवतकीर त्याच शेतांत तितल्याच मोलाचें आडपीक घेवं येता म्हणपाचेंय तो सांगता.

मध्यप्रदेशांतल्या होशंगाबाद भागांतय रसुलिया हांगासल्ल्या 'फ्रँडस् रूरल सेंटरा'न फुकुओकाच्या तंत्रान 'वन स्ट्रॉ रेव्होलुशन' (एका तणाच्या पात्याची क्रांती) हें पुस्तक बरोवन उजवाडाक हाडलां. भारतांतल्या कांय भागांनी फुकुओकाच्या तंत्रान शेतां आनी मळे पिकोवपाचे प्रयोग जातात. महर्शी अरविंद हांच्या ऑरोविल ह्या आश्रमांत लोकांनी, थंयची पडंग जमीन पिकाळ करून समृद्ध कशी करूं येता, हें दाखोवन दिलां. देखून, भारतांतल्या शेतकारांनीय फुकुओकान सांगिल्ले प्रयोग करून रसायणी सारें घालिनासतना, ही भूंय सुजलाम् सुफलाम् करून दाखोवं येता आनी शेतीच्या प्रांतांत देशाक प्रगतीच्या

मार्गार व्हरूं येता.

**आधारावळ :** विपुलाच सृष्टी, लेखक : प्रा. श्री. अ. दाभोळकर.

**टीप :** 'पीक' हें उतर स्त्रीलिंगी जाल्यारूय तें नपुसकलिंगी म्हणूनय उपकरायिल्लें मेळटा.

**आडफागूर** । आड्फागूर । सा.रू. –गरा, भोव. –गूर, सा.रू. –गरां । (कों. आड + फागूर) पु. १. वाड्टे वालीच्या आडव्या फागराक फुटिल्लो आनीक एक फागूर. २. (ला) घराण्याच्या वंशबेलाचो आनीक एक वंशबेल.

**आडफाटें** । आड्फाटें । (कों.) क्रि.वि. तोंडार गोड आनी फाटल्यान कुसकें, नस्तें, कायच्याकाय, उरफाटें (उलोवणें). (बावडेकाराकडेन म्हजी इश्टागत जाल्ली. तो सादारण म्हज्याच पिरायेचो. सडेतोड वृत्तीचो. आडफाटें सोंसना असलो मनीस. अत्रेची तो निखट्टाय करी. म्हाका तो सन्मानान वागैतालो. – काणी एके जिणेची, बरो : महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. ३०७).

**आडबर** । आड्बर् । सा.रू. –रा, भोव. –रां, सा.रू. –रां । का. 'अड्ड' वेल्यान न. १. आडवें लायिल्लें कोंड्याचें कांबीट वा आडवी लायिल्ली कांब. (... दोशींविशीं दोन म्हेडिचीं तिकटीं उबाल्लीं. मदीं कोंड्याचें आडबर दवल्लें. अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा. ६३). २. मळणेखातीर बांदिल्ली आडवी कांब.

**आडबांगर** । आड्बांगर् । (कों. आड + बांगर) वि. पूर्ण म्हेळसाय नासतना उरिल्लो. (चेंचप बेस बरें शिरेर जालें, शीर तुटनासतना आडबांगर उरपाची भिरांत उल्ली ना. मागीर मात कुश्टान तांकां जोडीक लायले. – कथा : खाटीक, बरो : पुंडलीक नायक, मुठय, पा. १०२.)

**आडबारें** । आड्बारँ । सा.रू. –ऱ्या, भोव. –रीं, सा.रू. –ऱ्यां । (कों. आड + वारें वेल्यान ?) न. १. आडखळ, आडवण, अडचण (दुसऱ्याची भास म्हळ्यार भुरग्यालें वाटेंतलें आंडबारेंच. – ये.अ.अु., बरो : शणै गोंयबाब, पा. ५५). २. सत्ता, ओजें, चेपण. (तांकां राजाचें आडबारें नाका आसलें. – आबे फारीय, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १५). ३. आडमेळें (पुण त्या वेळारूय म्हाका खरेपणान दिशिल्लें की कोंकणी भास एकरुपावंक आनी मांडणेर घालूंक सगळ्यां व्हडलें आडबारें लिपिचें आसून तर्कवितीन येवजिल्यार, देवनागरी ही अेकलीच अेक कोंकणिची लिपी आसा. – भौ. आर्मांद मिनेझिस, अध्यक्ष, कोंकणी तिसरी परिशद, कोंकणी परिशद तिसरे बसकेची खबर, मुंबय, १९४२, पा. २९).

**वा.प्र.: आडबारें मारप :** १. उमथ्या कळश्यार उदक रकोवप; निर्फळ यत्न करप. २. पोट सुळेसर वा तोडशेसर भातें मारप.

**आडबिजाचो, ची, चँ** । आड्बिजाचॉ, ची, चँ । सा.रू. –च्या, चे, च्या । भोव. –चे-च्या-च्यां, सा.रू. –च्यां । ('आडबीज' वेल्यान.) वि. हीन, नीच, अशुद्ध बिजाचो, ची, चें; शिंदळेंतल्यान जन्माक आयिल्लो, ल्ली, ल्लें; काऱ्याफळ.

**आडबीज** । आड्बीज् । सा.रू. –जा । (कों. आड = हीन, अशुद्ध + सं. बीजम्) न. हीन, अशुद्ध, नीच बीज.

**आडभारें** । आड्भारँ । सा.रू. –ऱ्या । (कों. आड + भार ? ) न. फळयांची माळी आसल्यार, त्या फळयांचो भार घेवपाखातीर दोनय वणटीं मदीं घाल्ल्या आडव्या पाट्यांतली वा वांशांतली दरएक पाटी वा वांसो.

**आडमत** । आड्मत् । सा.रू. –ता, भोव. –तां, सा.रू. –तां । (कों. आड + सं. मत्त) न. वेगळें

मत्त वा मत. (हे भाशेन, गोंयकार भायर वचून आपलें पोट भरतीत तितलें बरें, ह्या संबंधान कोणाचेंय आडमत्त आसूं नज. – नवें गोंय, ३रें वर्स, ३रो आंक, जानेवारी १९३७, पा. ९२. संपादपी : का. श्री. नायक.) २. दुसऱ्याची सांगणी. (हें तावें खाशेलें आपलें मत्त नाशिल्लें; पुण आडमतान चलपाची संवय आशिल्ल्यान ताणें तेंच दुसऱ्यालें मत आपणायलें.) **वा.प्र.: आडमतान चलप :** दुसऱ्याचे सांगणेन चलप.

**आडमरण** । आड्मर्ण । आड्मरण्, आड्मर्ण्, सा.रू. –णा, र्णा; भोव. –णां, र्णां, सा.रू. –र्णां । (कों. आड + सं. मरणम्) न. वय जावंचे पयलीं आयिल्लें मरण; अकस्मात जाल्लें अपघाती मरण. (हांव उमटून पडून म्हजो केदो घात आनी कितलें लुस्कान जालें म्हणून सांगूं। आडमर्ण म्हणटा तें अशे तरेन येता. – गोमन्तोपनिषत्, पैलें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा. २१).

**आडमाप** । आड्माप् । सा.रू. –पा; भोव. –पां; सा.रू. –पां । (कों. आड = लटके + सं. मापनम्) न. प्रमाण मापापरस उणें आशिल्लें माप; लटकें माप. **वा.प्र.: आडमापान मेजप :** लटकी कल्पना करप.

**आडमापी** । आड्मापी । सा.रू. –प्या, भोव. –पी, सा.रू. –प्यां । (कों. आड = लटको + सं. मापनिक) वि. आपलीं जीखां आनी मापां प्रमाण आसात अशें भासोवन मोठे चलाखेन गिरायकाच्या पदरांत उणो माल घालपी.

**आडमार्ग** । आड्मार्ग् । सा.रू. –र्गा; भोव. –र्ग; सा.रू. –र्गां । कों. आड + सं. मार्ग पु. १. अंतर उणें करपी आनी खंयी तरी मुख्य मार्गाक मेळपी, अशी गच्च झाडांपेडांतल्यान शेतांतल्यान वा दोंगरांतल्यान वचपी, चडशी रहदारीची न्हय अशी पांयवाट. २. वांकडो, भस्ट, अमंगळ, अनार्य मार्ग. (आडमार्गान खोऱ्यांनी पैसो ताणें जोडलो. पुण तो भोगूंक पावलो ना. – बिम्बां-पडबिंबां, बरो : चंद्रकांत केणी, पा. ९५.) ३. सरळ न्हय असो, रेवाड्यांचो, अस्कडो मार्ग. (ठाणें कल्याणाचो सारको मार्ग सोडून सुपाऱ्याचो आडमार्ग तो कित्याक धरीत ? – नवें गोंय, ३रें वर्स, ४थो आंक, एप्रिल १९३७, पा. १०३). **वा.प्र.: आडमार्ग धरप, आडमार्गान वचप :** वायट मार्गान, अनीतीच्या मार्गान वचप.

**आडमार्गी** । आड्मार्गी । सा.रू. –र्ग्या; भोव. –र्गी; सा.रू. –र्ग्यां । ('आडमार्ग' वेल्यान) वि. १. सरळ मार्ग सोडून आडमार्गान वचपी. २. भस्ट, पाडें, अधर्मी आचरण करपी.

**आडमुठो-ठी-ठें** । आड्मुठो-ठी-ठें । सा.रू. –ठ्या; भोव. –ठे-ठ्यो-ठीं; सा.रू. –ठ्यां । (सं. अर्ध + मूढ; का. अडमुट्ट) वि. अडाणी; मूर्ख; पिसांट; रानवटी; समज नाशिल्लो. (कितल्याशाच जाणांक Inquisition म्हळ्यार धार्मिक न्यायसभेंत दिल्ल्या आडमुठ्या न्यायान सुळार मारले. – गोंयच्या लोकवेदाचो रुपकार, बरो : श्याम वेरेंकार, पा. ५.)

**आडमूठ** । आडमूठ । सा.रू. –ठी; भोव. –ठी; सा.रू. –ठीं । (कों. आड + मूठ) स्त्री. शेत नांगरल्या उपरांत भाताचें बीं घेवन तें शेतांत शिंवरून रोवपाची एक तरा.

**आडमुद्दो** । आड्मुद्दो । सा.रू. –द्या । (कों. आड + मुद्दो) पु. कराराभायलो मुद्दो, आडमेळें, अडचण. रझांवां भायलो वा विवेकान सोडून आशिल्लो मुद्दो.

**आडमेळें** । आडमॅळँ । सा.रू. - ळ्या; भौ. - मेळीं, सा.रू. - मेळ्यां । (कों. आड + सं. मेलनम् ) न. १. अकस्मात निर्माण जाल्ली बाधा वा अडचण. (जंय जंय मुसलमानांनी अँच्छेव मांडिल्लो, थंय थंय हिंदुधर्माची वाट लागून बामणांच्या वेद शिकपाक

जायतें आडमेळें आयलें, हातूंत दुभाव ना. – गों. गों. व., बरो : शणै गोंयबाब, पा. ७९). २. आडखळ; विरोध; संकट; विघ्न. (आतां हांव कित्याक निर्शेवं? आतां आमगेली भास संवसारांत सासणाची घुडी उबैतली. ती कसल्याच आडमेळ्याक बाडगनासतना दिसान दीस वैर सरतली. – गोमन्तोपनिषत्, १लें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १०).

**आडमोडण** । आड्मोडण् । सा.रू. –णा । (कों. आड + मोडण) न. आडवें-तिडवें वळण; वांकडी तिकडी वाट. (धर्माः तुजी भासच आडमोड्णाची. वांकडी तिकडी. - खण खण माती, बरोः पुंडलीक नायक, जाग, दिवाळी आंक १९७७, पा. ६७.)

**आडरझांव** । आड्रझांव् । सा.रू. –वा; भोव. –वां; सा.रू. –वां । (कों. आड + पुर्तु Razao) न. कुशीक उडयल्लो न्याय, विवेक वा रझांव.

**आडरझांवी** । आड्रझांवी । सा.रू. –व्या; भोव. –वी; सा.रू. –व्यां । ('आडरझांव'वेल्यान) वि. विवेकभ्रस्ट; बुद्धीभ्रस्ट; रझांवभ्रस्ट; पाडे बुद्धीचो; अमंगळ आचरणाचो.

**आडरान** । आड्रान् । सा.रू. –ना; भोव. –नां; सा.रू. –नां । (कों. आड + रान) न. मुख्य रस्त्यापसून खूप भितर आशिल्लो निर्जन जागो; अरण्य; आडवाट.

**आडव** । आडंव, आडव् । सा.रू. –वा; भोव. –ड्वां; सा.रू. –वां, ड्वां । ('आड', आडवें वेल्यान) न. शेत लुंवतना, नळ आनी तणासयत कापून, शेतांतच मदीं मदीं आडवीं दवरलेलीं भाताचीं कणसां; लुंवनासतना पेंड व भोरकुटी जायसारकीं शेतांतच मदीं मदीं कापून दवरलेलीं भाताचीं कणसां. (सांजे लुंवणी सोंपतकच दिसवाड्याचीं आडवां मानायांनी बांदलीं. दर एकल्या कामेऱ्यान लाकडांचो भोरो कसो आडंव घेतलें आनी तांच्यो हारी बांदावयल्यान घरचे वाटेक लागल्यो – अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा. ६३.)

**विशेश :** शेतांतच मदीं मदीं आडवांच्यो राशी घालतात. उपरांत ह्यो राशी, पेडीं वा भोरकुट्यो खळार हाडून आनी कणसां भितल्लेवटेन दवरून, वांटकुळेंच कुतल्ल दाळटात. कांयकडेन कुतल्लाक 'बोवलो' म्हणटात. कुतल्ल पोकोळ, तेचपरी शिंविल्लेंय आसता.

**आडव** । आड्व् । सा.रू. –वा ? क्रि. वि. घाण (आवयन दिल्लीं दोन कांकणां उरल्यांत. भोटालागीं आडव दवरून आत्तांच्या आत्तां तुका रुपया दितां. – मागीरचें मागीर, बरो : चा.फ्रा. द. कोस्ता, पा. २२).

**वा.प्र. : आडव दवरप :** घाण दवरप.

**आडवण** । आड्वण् । सा.रू. –णा; भोव. –णा; सा.रू. –णां । (सं. अर्ध + वनम्) न. १. दोंगराची पालसाण, मुळस, दोंगराचें पालसाणेवयलें रान. (गोरवां आडवणांत घालून राखण्यांनी आपल्यो भुतयो सोडल्यो.) २. खुंटे पुरून केल्ली वंय; आडो. ३. (ला) आडखळ, आडांबो; अडचण; प्रतिबंध. (आज इतलेंच म्हणूं येता : कितलींय आडवणां घालीं म्हणून इतिहास घडचेलो रावंचो ना. काळ कोणाखातीर थांबचो ना. सत्तेच्या नाड्यार मनशांक चिड्डूंक सोंपें आसता. कल्पना केन्नाच चिड्डूंक मेळनात. चेंचल्यारूय तांचो प्राण वचना.) ४. उदक भायर वचूं नये म्हणून माडाच्या बांदाक धरिल्लीं हुडी; शेताच्या शेऱ्यांत कुणग्या कुणग्यांनी उदक भायर वचूं नये म्हणून घाल्ली म्हेर.

**आडवय** । आड्वय् । सा.रू. –या । (कों. आड + सं. वय) न. अयोग्य काळ; म्हातारपण येवंचे पयलींचो काळ. (ऊंच हाडापेरांचो बापूय सामको बागवल्लो.

जिणेचो भार व्हांवन व्हांवन नाका पुरो जावन आडवयारच गलितगात्र जावचो, तसो तो दिस. – कथा : येणें, बरो : महाबळेश्वर सैल, पलतडचें तारूं. पा. १०९).

**ाडवर** । आड्वर् । सं. अष्टौप्रहर क्रि.वि. १. भौन-भौन; पावला कणकणीं, चांट्या-पावलाक; चलतां-चलतां. (बाबुल्याफुडें तांकां खाण जेवण कांयच रूच नासलें. – आडवर बाबुलो : गोमन्तोपनिषत्, १लें खंड, बरो : शणै गोंयबाब). २. दीस-रात; आठूय पार. (दुसऱ्या जिवांक तोंडांत उडैल्याबगर आमचो जीव वांचना. आमी आडवर हिंसाच चलयल्या. अहिंसा म्हणटात तें बेस्टें ढोंग ! – नवें गोंय, ३रें वर्स, पयलो आंक, जुलै १९३६, पा. २).

**आडवस्ती** । आड्वस्ती । सा.रू. –स्ते; भोव. –स्त्यो; सा.रू. –स्त्यां । (कों. आड + सं. वसति) स्त्री. आडकुच्या गांवांतली वस्ती; खांची-गोंयड्यांतली वस्ती; खांचोटांत आशिल्ल्या गांवांत वचून केल्ली वस्ती, राबितो.

**आडवस्त्र** । आडवस्त्र । सा.रू. –स्त्रा; भोव. –स्त्रां; सा.रू. –स्त्रां । (कों. आड + सं. वस्त्रम्) न. तात्पुरतें आंगार घेतिल्लें वस्त्र; मुख्य वस्त्राभितर न्हेशिल्लें वस्त्र. मुख्य वस्त्र न्हेसचे पयलीं कांय काळाखातीर जें दुसरें वस्त्र न्हेसतात, तें. देखीक : दादले पंचो, तुवालो न्हेसतात. बायलो पडदाणी न्हेसतात. आडवस्त्राचें न्हेसप हें बायलांचे बाबतींत विशिश्ट तरेचें आसता.

**आडवळी** । आडवळी । सा.रू. –ळे; भोव. –ळ्यो; सा.रू. –ळ्यां । (कों. आड + सं. इलि) स्त्री. आदोळी, आडोळी. (राधी आंगणांत वसून आडवळेचेर तिसऱ्यो फोडटाले. – कथा : शारपिशें, बरो : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा. ३२).

**आडवाट** । आड्वाट् । सा.रू. –टे; भोव. –टो; सा.रू. –टां । (कों. आड = कुशीची + वाट) १. वांकडी, आडवी-तिडवी वाट; अस्कडी वाट. (आडवाटेन वचून त्रासांत पडचे परस सरळ वाटेन गेल्लो बरो.) २. अहिताची, अकल्याणाची वाट; अनाचारी, अधर्मी, अनार्य वाट. (तांची देव-धर्मिस्टाय आनी उजूपण म्हज्या हाडामांसांत इतलें बळलेलें आसा कि म्हज्या मनांत आयलेंय जाल्यार, आडवाटेन म्हजें पावल केन्नाच पडनासलें. – गोमन्तोपनिषत्, २रें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १३२). ३. अंतर उणें करपी आनी खंयी तरी मुख्य मार्गाक मेळपी, अशी झाडांपेडांतल्यान, शेतांतल्यान वा दोंगुल्लेवेल्यान वचपी आनी चडशी रहदारीची न्हय अशी कुशिची वाट. ("हे आडवाटेर कितें करतलो तुगेल्या बोटाक ? रगत तर व्हांवत आसा." – दूख, बरो : महाबळेश्वर सैल, जाग, दिवाळी आंक १९९६, पा. २३.)

**आडवाटयो** । आडवाट्यॉ । सा.रू. –या; भोव. –ये; सा.रू. –यां । ('आडवाट' वेल्यान ) वि. १. आडवाटेन वचपी; २. दुसऱ्याच्या दुख्खांत सूख मानपी अशा विकृत मनाचो; दुसऱ्याचें वायट जाल्लें पळोवन ताळयो पेटपी.

**आडवाद** । आड्वाद् । सा.रू. –दा; भोव. –द; सा.रू. –दां । (कों. आड + सं. वाद) १. नेमाआड आसपी; अपवाद. ("आई ताजेकडेन बरी उलयनासली. ताजेकडेन ती जितली उलयताली तितली तिका आनी कोणाकडेन उलयल्ली हांवें पळोवंक नाशिल्ली. आडवाद फकत आनंदमामाचो." – तुळशी, बरो : रवीन्द्र केळेकार, पा. १३.) २. (ला) सामान्य लोकांपरस वेगळो विचार.
**म्हण :** आडवादाबगर नेम ना.

**आडवादी** । आड्वादी । सा.रू. –द्या; भोव. –दी; सा.रू. –द्यां । ('आडवाद'वेल्यान) वि. नेमांत बसना तो; अपवाद कसो जावन आसा तो. (कोंकणींत कांय आडवादी धातू आसात; तांचीं पूर्ण धातुविशेशणां

नेम मोडून वेगळेच तरेन जातात. देखीक, 'कर्' धातुचें पूर्ण धातुविशेशण कर + ल = 'करल' जावचें, पुण तें 'केल' जाता. – कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १०१).

**आडवार** । आड्वार् । सा.रू. – रा; भोव. – र; सा.रू. – रां । (का. अड्डवार) पु. १. थारायल्ल्या वा नेमिल्ल्या दिसाभायलो दीस. २. नस्तो, अयोग्य दीस.

**आडवारप** । आड्वारप् । सा.रू. – पा । (कों. आड + वारें?) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आडवार अक.) १. आडावप. (तें देखुनु धर्मान म्हळें, 'तुमी आमकां कित्या धर्तातिगा? आमीं मार्गीं परदेसी कोणा एका कार्याक ताकिति आस म्होणुं अपात्रिचे आमी वेतालेउं. तुमी आमकां कित्या आडवार्तातिं? आतां आमकां सोडया. वचुं द्या. – कोंकणी महाभारत, आदिपर्व. संपादक : प्रताप नायक, जे.स., पा.१०९). २. मना करप. (देवान आदांवाक एका रुखाचें फळ खावपाक आडवारलेलें.)

**आडवारलेलो, ली, लें** । आड्वारलॅलॉ, ली, लँ । सा.रू. – ल्या, ले, ल्या । ('आडवारप' वेल्यान) वि. १. मना केल्लो : (आडवारलेल्या रुखाचीं फळां खावन आमी पातकांत बुडूंक नात! आमी पुण्यतायेच्या राज्यांत पावल्यांत! आमी सर्गाच्या पांवडयार चडल्यांत!) २. पथिक न्हय तें, रोग्याक वर्ज केल्लें; अपथिक (रोग्याक आडवारलेल्याचीच रूच). ३. जाचेर कायद्यान बंदी घाल्या तीं (आडवारलेलीं शस्त्रां).

**म्हण :** आडवारलेलें सदांच रुचीक लागता.

**आडवारो** । आड्वारॉ । सा.रू. – ऱ्या; भोव. – रे; सा.रू. – ऱ्यां । ('आडवारप'वेल्यान) पु. विरोध; विरोधक. (आपल्या पंगडांत, आडवाऱ्यांत आनी तिरायतांत).

**आडवेळ** । आड्वेळ् । सा.रू. – ळा । (कों. आड + वेळ) पु. १. मुख्य वेळ सोडून आशिल्लो नस्तो वेळ, न्हय तो वेळ, अवेळ. (देवदत्तान मनांत म्हळें, फळां आडवेळारच झडूंक लागल्यांत. देंठ कुसलो की फळांच्या हातांत कांयच उरना. – दोंगरायेदी फट : महाबळेश्वर सैल, पलतडचें तारूं, पा. ४२.) २. सूर्य अस्तमानाक वचचे पयलीं घटका दोन घटकाभर आसता तो वेळ; आमोरेचो वेळ.

**आडवेळो** । आड्वॅळॉ । सा.रू. – ळ्या । ('आडवेळ' वेल्यान) वि. आडवेळार येता तो; आडोळो. (आडवेळो पावस).

**आडवो** । आडवॉ । सा.रू. – व्या; भोव. – वे; सा.रू. – व्यां । (का. अड्ड वेल्यान?) पु. शिवपार्वतीचे भक्तिवांगडाच विष्णूची भक्ती करपी स्मार्त पंथांतले बामण – ते भस्म लायतना आडवें लायतात आनी तांगेल्यो बायलो कुकूम आडवें लायतात, देखून तांकां 'आडवे' म्हणटात.

**विशेश :** गौडपादाचार्याचो काळ क्रि.स. ७८० सुमाराचो मानतात. शंकराचार्याचो काळ ७८८-८२० असो आसा. वेदांतलो मायावाद, म्हळ्यार हो संवसार अभावरुपी आसून, मायेक लागून तो असो आसा अशें दिसता हो सिद्धान्त, पयलीं गौडपादाचार्यान मांडलो आनी शंकराचार्यान ताचो चड प्रसार केलो. जांकां आज 'स्मार्त' म्हणटात ते पयलीं अद्वैतवादी आशिल्ले. बरोच काळ हें मत चल्लें. मुखार माध्वाचार्य (क्रि.स. ११९९-१२७८) हांचो दक्षिणेंत उडुपीकडेन उदेव जावन, तांणी नवें द्वैत मत मांडलें. ह्या मताचो आशय असो : "जीव हो ज्ञानी आसा. तरी ताच्या मनाक म्हेर आसा. मोक्ष जोडपाक परमात्माचीं म्हळ्यार विष्णूचीं चिन्हां आंगार दागून घेवप, नामकरण आनी भजन अशे तीन तरेन सेवा करप. श्री विष्णुच्या ज्ञानाबगर दुसऱ्या खंयच्याय साधनान मोक्षाची जोड जायना. विष्णू भगवानाचे

भक्तीन संवसारांतलीं दुख्खां ना करून, जीवान श्री विष्णूच्या म्हन्यांत आनंदान रावप हाकाच मोक्ष म्हणटात. हो संवसार परमार्थिक नदरेन सत्य आसा.

ह्या मताक येवकार दिवन जायते जाण माध्वाचार्याच्या पंथांत गेले. अद्वैतवादी हे फकत शैव नासले. ते शिव आनी विष्णू ह्या दोगांचेय भक्त आशिल्ले. पयलींच्या अद्वैतवाद्याक 'शैव' म्हणनात, तर 'स्मार्त' म्हणटात, हें ध्यानांत घेसारकें आसा.

'स्मार्त' म्हळ्यार स्मृतींनी सांगिल्ल्या आचारान चलपी बामण. (पळेयात : श्री शांतादुर्गा चतु:शताब्दी महोत्सव गंथ, हातुंतलो 'सारस्वत ब्राह्मण आणि त्यांचें सारस्वत' हो लेख, बरो : प्रा. अ. का. प्रियोळकर, पा. २०).

**आडवो, वी, वें** । आड्वॉ, वी, वँ । सा.रू. –व्या । (का. अड. अड्ड) वि. १. जमनीक समांतर आशिल्लो, २. मोठो (आंगान आडवो). ३. वांकडी, तिरपी (आडवी नदर), ४. विरुद्ध, प्रतिकूल.

**वा.प्र.: आडवें उलोवप** : मुद्दो सोडून उलोवप; थोमण्यांनी उलोवप; वांकडें उलोवप.

**आडवो धरप** : भुरग्याक दुदाक धरप.

**आडवो पडप** : आड पडप.

**आडवो घालप** : मस्ती जिरोवप; बुद्द शिकोवन जाग्यार हाडप; खुस्तेंत जिखपाखातीर दुसऱ्याची फाट जमनीक तेंकोवप.

**आडवो आयल्यार कापून काडप** : अडचणी निर्माण करतल्याक, तो केन्ना तरी तकली वयर काडूंक पावचो ना अशी बुद्द शिकोवप.

**आडव्यांक तिडवें** : जशाक तशें.

**भुरगें आडवें येवप** : जन्माक येतना भुरगें योनिमार्गांत आडवे अवस्थेंत आसप.

**आडव्यांत सरप** : उलयतना मुद्दाम वांकड्यांत सरप.

**म्हण** : १. आडव्याक तिडवें तेंडलें माटोव; २. आडवें घेतल्याक नीत ना.

**आडवो-उबो** । आड्वॉ-उबॉ । सा.रू. –व्या-ब्या; भोव. –वे (वॅ)- बे (बॅ); सा.रू. –व्यां (ब्यां) । (कों. आडवो + प्रा. उब्भम् ) वि. भुंयेक समांतर आसा तो आनी कोंडो कसो सरळ उंच असो वा उबो आसतना भुंयेकडेन सरळ णव्वद अंशांचो कोन करून आशिल्लो.

**वा.प्र.: आडवो-उबो चिरप** : सगळ्या वाटांनी धोडावप वा चांचावप; खर उतरांनी सोलून काडप.

**आडवो-उबो सोलून काडप** : खर उतरांनी निर्भत्सना करप.

**आडवें-उबें उलोवप** : तर्क सोडून कायच्या काय उलोवप.

**आडवें-उबें करप** : आपलो आदाव पळोवन जाय जाय तशें उलोवप वा सांगप.

**आडवे-उबे तरेन** : प्रयत्नांची शिकस्त करून.

**आडवें-उबें पळोवप** : पांयांचें नाखूट धरून माथ्याच्या केंसामेरेन बारीक नदरेन पळोवप; बरे तरेन पारखून घेवप.

**म्हण** : भटाचें मुसळ आडवेंय जाता आनी उबेंय जाता.

**आडवी-तिडवी** । आड्वी-तिडवी । सा.रू. –वे-वे भोव. –व्यो-व्यो; सा.रू. –व्यां-व्यां । (का. अड्डतिड्ड) वि. वांकडी तिकडी. (आडवी तिडवी वाट काडून सुमार अर्ध्या वराच्या प्रवासा उपरांत आमी थंय पावले. – व्होंकल : बरो : ओलिव्हिन्य गोमिश, कोंकणी कथा, पा. ११४.)

**आडवो-तिडवो** । आड्वॉ-तिडवॉ । सा.रू. –व्या-व्या; भोव. –वे (वॅ); सा.रू. –वे (वॅ) । (का. अड्ड + सं. तिर्यक्; का. अड्डतिड्ड) वि. वांकडो-तिकडो.

**वा.प्र.: आडवें-तिडवें उलोवप** : तर्क सोडून कशेंय वा कायच्या काय उलोवप.

**आडवोल** । आड्वोल् । सा.रू. –ली; भोव. –ली; सा.रू. –लीं । (कों. अड्ड + सं. वल्ल =

आच्छादन) स्त्री. व्हिस्तिदाचेर वा कापडाचेर वयर खांदार आडवी घेवपाची शाल.

**आडस** । आड्स् । सा.रू. –सा । (का. अड्ड + सं. वस ) पु. पळेयात : 'आडोस'. (आमच्या सरभोंवतणी बर्फाचीं फुलां भुरभुरूंक लागलीं. बर्फ पडटा म्हूण खंय आडसाक रावपय आमकां शक्य नासलें. – दिलीप बोरकार, गोमांचल ते हिमाचल, पा. ६१.)
**वा.प्र.: आडसाक बसप :** सट्करून दिसूंक पावूं नये, अशे तरेन किद्याच्याय फाटल्यान बसप. जंय आडोस मेळटा अशा जाग्यार रावप.

**आडसट** । (सं. अष्ट + सष्ट) वि. अनुक्रमान मेजीत आसतना सादसट उपरांत येता ती संख्या, बरयतना ही संख्या ६८ अशी बरयतात.

**आडसप** । आड्सप् । सा.रू. –पा । (कों. क्रि.दा.धा.सा.ना.) (मूळ धातू: आडस्-सक.) कुदळीन शेत खणप.

**आडसर** । आड्सर् । सा.रू. –सरा; भोव. –सरां; सा.रू. –सरां । (का. अड्ड + सं. सर्) पु. १. दार वा जनेल धांपपाखातीर दार वा जनेलाक आशिल्ले वणटीक भितल्ल्यान दोंशीवटेन चौकोनी बुराक करून, तातुंतल्यान भायर भितर काडूंक येता असो आनी ओडपाक मूठ आशिल्लो असो वांशाचो आडवो बसयल्लो कुडको. २. आडखळ; आडमेळें (यश जोडूंक कितले तरी आडसर हुपचे पडटात.)
**क्रि.वि.:** फाटल्यान. (ताका रुखाच्या आडसरा देखिलो.)

**आडसर** । आड्सर् । सा.रू. –रा; भोव. –सरां; सा.रू. –रां । (ता. एड = तन्नो नाल्ल + सं. सरस् = उदक) न. शियाळें आनी तन्नो नाल्ल हाचे मदले अवस्तेंत आशिल्लो नाल्ल. (तन्न्या कावथ्याक आयिल्ल्या नव्याताल्ल पेंडिच्या आडसराक पळोवन ताणें आंवडो गिळ्ळो. – कथा : उचंबळ, बरो : पुंडलीक नायक, मुठय, पा. ५७.)
**विशेश :** कोंकणींतल्या उतरांचें निरूक्त सोदतना, संस्कृत, प्राकृत आनी अपभ्रंश हांचेकडेन वचत आसतना, कांय वेळा दक्षिणी भासांकडेनय वचपाची गरज पडटा. ऋग्वेदासारक्या नामनेच्या ग्रंथांतय दक्षिणी भासांतलीं उतरां मेळटात, अशें आजचे भासशास्त्री सांगतात.

'आडसरा'चें निरुक्त संस्कृत भाशेंतल्यान मेळना. वेदिक आर्यांक नाल्लाची कसलीच कल्पना नाशिल्ली. क्रिस्तापयल्या शेंकड्यांत नाल्ल भारतांत पावलो जावंये. नाल्ल हो मुळचो मलायेचो. माडाक वा नाल्लाच्या झाडाक मलायेन भाशेंत 'Nyor Kali' म्हणटात. 'नियोर केली' ह्या मलायेन भाशेंतल्या उतराचें संस्कृत रूप घडयतना, तें 'नारिकेली' अशें केलें. (पळेयात : An introduction to the study of Indian History, by D. D. Kosambi, पा. २७४).

अत्यंत तन्न्या आडसराक 'शिंयाळें' म्हणटात. शिंयाळें हें कानडी 'सियाल' ह्या उतराचें तद्भव. तामीळ भाशेंत 'eda' आनी 'edaniru' अशीं दोन उतरां मेळटात. 'एड' म्हळ्यार तन्नो नाल्ल आनी 'एडनिरू' म्हळ्यार तन्न्या नाल्लाचें उदक. (पळेयात : A Dravidian Etymological Dictionary, by T. Burrow and M. B. Emineau, 2nd edition, शब्द नं. ५१३). 'निरु' हें तामीळ उतर कोंकणींत घोळना. कोंकणी ही आर्यकुळयेंतली भास जाल्ल्यान, कोंकणांत राबितो करून आशिल्ल्या आर्य लोकांनी, तामीळ 'एड' ह्या उतराक संस्कृत 'सरस्' हें उतर जोडलें जावंये. हें जोड उतर 'एडसरस्' अशें जाता. 'एडसरस्' ह्या उतरांतलें 'स्' गळून 'एडसर' अशें उतर घडलां जातलें आनी कालांतरान 'एडसर'चें 'आडसर' हें उतर घडलां जातलें.

'आडसरा'चें निरुक्त दुसरेय तरेन दाखोवंक येता. तें अशें : (ता. एड = तन्नो नाल्ल + कानडी. सरल

(लु) (ळु) = उदक कोंकणी जरी आर्यकुळयेंतली भास जाली, तरी पुर्विल्ली काळ धरून कानडीकडेन कोंकणीची संवकळ आसा. देखून, तामीळ 'एड' ह्या उतराक कानडी 'सरल्' हें उतर कोंकणींतल्या पुर्विल्ल्या जाण्टेल्यांनी जोडलां जातलें. हें जोड उतर 'एडसरल्' अशें जाता. ह्या उतरांतलें 'ल' गळून 'एडसर' अशें ताचें रूप जालें आनी कालांतरान 'एडसर' ह्या उतराचें 'आडसर' हें उतर घडलां जावंक जाय.

एका एका आडसरांत भरपूर उदक आसता. कांय आडसराचें उदक गोड आसता, तर थोड्यांचें उदक मात्शेंशें पचकें आसता. तांबड्या माडाचीं आडसरां सदांच बरीं आसतात. आडसराचें उदक रोग्यांक दितात. तिफॉयद जोराचेर आनी मुतखड्याच्या वायटाचेर तें चड गुणावाक येता.

**आडसरप** । आड्सर्प । सा.रू. –पा । (का. 'अड्ड' + सं. 'सृ'वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: 'आडसर'-अक) कुशीन सरप. (हांव थंयच्यान आडसरलों.)

**आडसरो** । आड्सरॉ । सा.रू. –ऱ्या; भोव. –रे; सा.रू. –ऱ्यां । ('आडसर' वेल्यान) पु. १. तन्नो ताल्ल; जून जावंक नाशिल्लो नाल्ल. २. कुशीक सरपी.

**आडसाटेपण** । आड्साटॅपण् । सा.रू. –णा । (सं. अर्ध + स्थितित्व) स्त्री. मनशाचे जिणेचो भुरगेपण आनी जुवानपण हांचे मदलो काळ; भुरगीं वयांत येवपाचो काळ. Adolescence age, teenage period.

**विशेश :** वयांत येवपाच्या ह्या काळाक संस्कृतांत 'पौगंडावस्था' म्हणटात. चलयो ११ ते १३ वर्सांच्या काळांत वयांत येवंक लागतात. युरोप अमेरिकेंत हो काळ ९ ते १३ वर्सांमदलो आसता. ह्या वयांत चलयांक न्हाण येता. चल्यांत पौगंडावस्थेचो काळ बारा ते चौदा वर्सांमदलो आसता.

ह्या काळांत तांच्या शरीरांत कांय बदल जातात. चलयांची लांबाय वाडटा. तांच्या योनीच्या भायल्या पाट्यार आनी खांक्यांत केंसांची ल्हंव येता. थानां व्हड जावंक लागतात. जननेंद्रियांच्या भितल्ल्या भागाचो पूर्ण विकास जाल्लो आसता आनी तांचें कार्य सुरू जाता. तोंडार मुरमां येवंक लागतात. कंबराचो भाग मात्सो रुंदावता. कातीभितर चरबीचे थर वाडूंक लागतात. अवयवांक वाटकुळसाण येवंक लागता.

ह्या काळांत चलयांवरी चल्यांचीय लांबाय वाडटा. शिस्नाच्या पाट्यार, खांक्यांत आनी तोंडार केंसांची ल्हंव येवंक लागता. तांचो आवाज फुट्टा. ह्या काळांत चल्यांच्या वृशणांत (testicles) वीर्य निर्माण जावंक लागता. शिस्न भौन भौन ताठ जाता. न्हिदेंत स्वप्नावस्था जाता. स्नायू पुस्ट जातात. खांदे रूंद जातात आनी तोंडार चलयांवरीच मुरमां येतात.

हो काळ दोगांचेय जिणेंतलो वादळी काळ आसता. बडिच्या नेमाप्रमाण देहांतल्यो पेशी काम करूंक लागतात. तांच्यांत एक मानसिक परिवर्तन जाता. ह्या काळांत तांचेर शिक्षणाचे बरे संस्कार जावन, तांच्या विचारांक योग्य दिशा लागची आनी नितिच्या कल्पनांची पूर्ण जाण जावन तीं प्रौढ जावचीं आनी तांचें व्यक्तित्व फुलचें म्हणून, प्रत्येक देशांतले शिक्षणशास्त्री जतनाय घेतात.

**आधारावळ :**

१) उमलत्या कळ्यांचे प्रश्न, लेखक : डॉ. विठ्ठल प्रभू.

२) The Penthouse Sex index, compiled by Lynn Barber;

३) Dicionario Enciclopedico Brazileiro, Vol.I.

**आडसाटो-टी** । आड्साटॉ, टी । सा.रू. –ट्या, टे; भोव. –टे (टॅ) ट्यो; सा.रू. –ट्यां । (सं. अर्ध + स्थिती) वि. आडसाटेपणाचे स्थितींत आशिल्लो,

ल्ली; आटसाटो. (तेन्नाच किली भायरसावन 'पों-पोंऽऽच पों' असो गाडयेच्या हॉर्नाचो आवाज काडीत धांवत येता, तो आडसाटो तरणाटो, मुस्तायकी ऑयलीन माखलेली. – खण खण माती, बरो : पुंडलीक नायक, जाग, दिवाळी आंक १९७७, पा. ९६.)

**आडहात** । आड्हात् । सा.रू. –ता । (का. अड्ड + सं. हस्तः) पु. कसल्याय कामांत प्रत्यक्ष आपलें आंग दाखयनासतना, दुसऱ्याचो उपकरायिल्लो हात.
**विशेश :** 'आडहात' ह्या उतराची जरी व्याख्या केली, तरी 'आडहात' हें उतर कोंकणींत स्वतंत्र उतर म्हूण घोळना. ह्या उतरावेल्यान घडिल्लीं 'आडहातयां' आनी 'आडहाती' हीं उतरां घोळटात. देखीक : आडहाती पटी; आडहातयां बशिल्लो धपको.

**आडहातयां** । आड्हात्यां । ('आड-हात' वेल्यान) क्रि.वि. अप्रत्यक्ष ("... त्या सरकारान त्या रुपयाक दाटून स्टर्लिंग पोवनाचे शेपटेक बांदून घाला. देखून तो सकैल-वैर आपट्टा आनी धपट्टा! गोंयच्या व्यापाऱ्यांक ताचे धपके लागनात अशें न्हय. परंत ते, आडहातयां बशिल्ल्या कारणान, सट्करून तांच्या ध्यानांत येनात." – नवें गोंय, २रें वर्स, १लो आंक, जुलय १९९५, पा. ३६.)

**आड-हाती** । आड्-हाती । ('आड-हात'वेल्यान ) वि. अप्रत्यक्ष. (मनीस भांडवलाचो तिसरो परिणाम पळेल्यार, सरकाराक जी आड-हाती पटी मेळटा, तातुंतलो चडसो दुडू भायर पाविल्ल्या गोंयकारांकडसून मेळटा खंय. – नवें गोंय, २रें वर्स, पयलो आंक, जुलय १९३५, पा. ३६, संपादपी : का. श्री. नायक.)

**आडांगपण** । आडांग्पण् । सा.रू. –णा, भोव. –पणां, सा.रू. –पणां । (कों. 'आडांगी' वेल्यान) न. आडांगी मनशाची करणी; आडगुंडाय; आडंगाय; मस्ती; हरूस्णखराय.

**आडांगाय** । आडांगाय् । सा.रू. –ये, भोव. –यो, सा.रू. –यां । (कों. 'आडांगी' वेल्यान) स्त्री. आडांगपण, मस्ती. (ला) आडमेळें, आडवण (तळयांत उदक अडेचें । बांदाचे आडांगायेन आडायिल्लें. – हांव राजा, बरो : र. वि. पंडित, कोंकणी काव्यसंग्रह, साहित्य अकादेमी, पा. ४०.)

**आडांगी** । आडांगी । सा.रू. –ग्या, भोव. –गी, सा.रू. –ग्यां । (कों. 'आडांग' वेल्यान) वि. १. अवजाळी; सुमाराभायर मस्तो. (आडांगी भुरगो) २. आडगूंड; चांडाळ; निळखेणो.
**म्हण :** आडांग्याचें मडें पादत वता.

**आडांगीपण** । आडांगीपण । सा.रू. –णा, भोव. –पणां, सा.रू. –पणां । ('आडांगी' वेल्यान) न. भौव. आडांगी रितीची वागणूक; मस्तेपणाचें, आडगुंडायेचें वागप. (ताका शाळेंत घालो. पूण हाची सदांच किजिलां आनी आडांगपणां. – कथा : रुमडाफूल, बरो : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा. २०).

**आडादेडिये** । आडादेडिये । (का. अड्डादिड्डी) क्रि.वि. अडादाडये; अडनाडये; भौन भौन; कारणाविणें; बेस्टें; फुक्याचें. (कित्या दोळ्यांचो, भुमिचो, मायेबापाचो, लेंकुरवां बाळांचो, आपुल्या जिवाचो, हांव कोणुइ तरी सोपुतु आडादेडिये सर्वथा दिऊं नये. – दौत्रिन क्रिस्तां, बरो : फादर स्टिफन्स, पा. ३१, संपा.: अ. का. प्रियोळकर.)

**आडादोडी** । आडादोडी । सा.रू. –डये । (का. अड्ड + दोड्डि) (= कोठी ?) स्त्री. एकठांय आशिल्ल्या कुटुंबाचो दोनकडेन जाल्लो वेगळेचार; एका कुटुंबाचे जाल्ले दोन घरवास.

**आडांतरी** । आडांतरी । (सं. अर्ध + अंतर) क्रि.वि. मदलेमदीं, अधांतरी.

**ाडामो** । आडामो । सा.रू. –म्या, भोव. –मे (मॅ), सा.रू. –म्यां । (कों. 'आडांबो' वेल्यान) पु. १. आडो, ('बाब, तूं केन्ना येयलो ?' हो पार्वतेचो प्रश्न कानार पडलो तेन्ना हांवें वंयेचो आडामो हुपिल्लो.' – कथा : गोठूल, बरो : उदय भेंब्रो, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, संपादपी : अ. ना. म्हांबरो.) २. अडचण, आडमेळें. ('पुण हो रेटिनल डिटॅचमेंट म्हज्या आनी वाचनाच्या मदीं आडामो जावन रावलो ना. हाजेसारकें सूख ना. – दोळ्यांसुखां, दोळ्यां दुकां, बरो : दामोदर मावजो, कोंकणी वर्सुकी आंक, १९८४-८५, पा. ५५.)

**आडांबो** । आडांबॉ । सा.रू. –ब्या, भोव. –बे (बॅ), सा.रू. –ब्यां । (कों. आड + खांबो ?) पु. दार वा जनेल धांपपाखातीर दार वा जनेलाक आशिल्ले वण्टीक भितल्ल्यान दोशीं वटेन चौकोनी बुराक करून, तांतुंतल्यान भायर-भितर काडूंक मेळटासो आनी ओडूंक मूठ आशिल्लो असो, वणटींत आडवो बसयल्लो वांशाचो कुडको. – दार धांपूक मेळपायेदी आडांब्याची लांबी आसता. आज फक्त पुर्विल्ल्या घरांनी आडांबे दिसतात. ('बायटीक न्हाणयतना फुडलेदारचे, मागीलदारचे दाराचे आडांबे दारां बंद दवरी.' – गोंयच्या लोकवेदाचो रुपकार, बरो : श्याम वेरेंकार, प्रस्तावना, पा. १०). (ला.) अडचण; आडमेळें.

**वा.प्र.**: १. **आडांबो काडप** : अडचण पयस करप. २. **आडांबो घालप** : अडचण निर्माण करप.

**आडाली** । आडाली । सा.रू. –ले । (कों) स्त्री. एक वखदी वाल; आडेली; उरफाटी कांटी. पळेयात : 'आडेली'.

**आडाव** । आडाव् । सा.रू. –वा । (सं. आदानम्) पु. १. ताळगांवच्या नव्याच्या उत्सवाच्या धबाज्याक, पोतेकार आपल्यो लांब आनी रूंद पात्याच्यो तरसादी वावडून, धोलांच्या तालार करताले तो सैनिकी नाच; नव्याचो उत्सव; कणस. २. गांवकारेचो हिशोब मांडून दाखयल्लो आदाव, लाभ.

**विशेश** : आडाव हो ताळगांवांतच जातालो. ताळगांवच्या नव्याच्या उत्सवाचो तो एक भाग आशिल्लो. आडावाची प्रथा आदिलशाहींत आशिल्ली जाल्यार समजना. पुर्तुगेजांनी १५१० वर्सा नोवेंब्राचे २५ तारकेक गोंय जिखून घेतले उपरांत कांय वर्सांनी तो सुरू जाला. होलमल्ल्या इतिहासावेल्यान १५२७ ह्या वर्सासाकून तो सुरू जालो आनी १९६१ मेरेन हो दबाजो खळनासतना जायत रावलो.

१९६१ वर्सा डिसेंबराचे १९ तारकेक भारत सरकारान फिरग्यांक धांवडावन गोंय घेतपासून, सुमार पांचेक वर्सां हो धबाजो चल्लो. आजूय ताळगांवां हो उत्सव जाता. पूण आतां पयलींचो धबाजो ना. ते फिंगीं गेले आनी ते उंडे गेले, तेचपरी पोतेकारांचो सैनिकी नाचय आतां बंद जालो.

गोंयच्या सरकारान पुर्वापार चलत आयिल्ल्या गांवकाऱ्यांचें (ग्रामसंस्थांचें) विसर्जन करपाक हात घाला. नव्याचो उत्सव ह्यामुखार जायत काय न जायत हें सांगपाक जायना. नव्याचो उत्सव सामकोच बंद जावचो ना. एक खुमा म्हणून तो उरतलो.

१५१० वर्सा, मार्चाचे सात तारकेक, आल्बुकेर्कान गोंय शार जिखून घेतलें. सवाईन त्याच वर्सा मायाचे २३ तारकेक गोंय शाराचेर परतून घुरी घाली. आल्बुकेर्काक गोंय शार सोडून आपलें आर्मांद घेवन पणजे वचचें पडलें. त्या दिसा पावस सामको घोग्यांनी ओत्तालो.

आल्बुकेर्काच्या मनांत आंजेदिवाक वचपाचें आसलें. पावश्या दिसांनी तारवां पणजेच्यान भायर समुद्रांत व्हरपाचें काम भौच कठीण जाल्ल्यान, ताका पणजे लागसारच तारवां नांगरून रावचें पडलें. तारवांनी पियेवपाच्या उदकाची तूट पडली. खाणा-जेवणाचो सांठो सोंपत आयलो. सांठो सोपतकीर तांकां उपास काडचे पडले. त्यावेळार तारवांवेले हुंदीर, घुशी बी

मारून तांकां पोट भरचें पडलें. तांची इपस्टा जाली. अशा वेळार ताळगांवकारांनी तांकां नुलयत शाक-भाजयेची, खाणा-जेवणाची पुरवण केली खंय!

२५-११-१५२५त फिर्ग्यांनी गोंय परतून जिखून घेतले उपरांत ताळगांवकारांचे उपकार ते स्मरले. १५२६ वर्साच्या सप्टेंबराचे १६ तारकेक काडिल्ल्या फॉरालान, तांणी नव्याचो उत्सव मनोवपाक ताळगांवकारांक पयलो अधिकार दिलो. ताळगांवकार गांवकारांनी भाताचीं कणसां घेवन 'सॅ'च्या आल्तारामुखार वच्चें, ते उपरांत गांवकारांनी व्हिगारासयत बंगसाळेंत वच्चें. थंय बंगसाळेच्या फिंगीं मुणयाऱ्यान उत्सव मनोवपाचो अधिकार आशिल्ल्या म्हाल-गांवकाराच्या गळ्यांत चार पार्दांवाची माळ घालची आनी मागीरच हेर गांवांनी फॉरालांत सांगिल्लेप्रमाण नव्याचो उत्सव मनोवचो, अशें तांणी फर्मायलें.

ह्या फॉरालाक लागून आडावान रूप घेतलें तें अशें: दर वर्सा आगस्टाचे २१ तारकेक शेतांतलीं पयलींवयलीं कणसां कापताले. तीं इगर्जेंत व्हरून देवाचें बेसांव घेताले. कणसांचें भात कांडून तांचे फोव कांडटाले. दुसऱ्या दिसा, म्हळ्यार २२ तारकेक, गांवच्या धा म्हाल-कुटुंबांत तांतुंतले कांय फोव वांट्टाले. ह्या म्हाल-कुटुंबांचीं नांवां अशीं आसात: Mendonca, Viegas, Lobo, Martins, Luis, Gomes, Almeida, Falcao आनी Abreu. तिसऱ्या दिसा थंयचे इगर्जेचो राखणायत संत S. Miguel Arcanjo हाका आनी इगर्जेच्या व्हिगाराक फोवांची आनी कणसांची भेट धाडटाले. चौथ्या दिसा, म्हळ्यार २४ तारकेक, ताळगांवचे म्हाल-गांवकार फिशाल भेस घालून, फोव आनी कापिल्लीं नवीं कणसां घेवन मोठ्या धबाज्यान गोंयां वताले. त्यावेळार मुखार एकलो पुर्तुगेज बावटो घेवन चलतालो. ताच्या फाटल्यान धोलांच्या तालार पोतेकार, आपल्यो लांब आनी रूंद पात्याच्यो तरसादी घेवन, सैनिकी नाच करताले. सॅच्या आल्तारामुखार फोव आनी भाताचीं कणसां दवरताले. गोवेर्नादोर झ्यॅरालाक फोवांची आनी कणसांची भेट दिताले. ही भेट दिल्या उपरांत हो धबाजो सोंपतालो.

ताळगांवां जशें नव्याचें फेस्त जाता, तशेंच दिवाडेच्या जुंव्यारय आगस्टाच्या म्हयन्यांत बोंदेरांचें फेस्त जाता. गोळटेची गांवकारी, नावेलेची गांवकारी, मळारची गांवकारी आनी नार्वेची गांवकारी, अशा चार गांवकाऱ्यांनी हो जुंवो वांटिल्लो आसा.

शेतां पिकून हळडुवीं जातकीर, दरएक गांवकारेचे मुखय गांवकार, इगर्जेच्या व्हिगाराक घेवन मिरवणुकीन शेतांत वतात. व्हिगारान कणसांचेर बेसांव घालतकीर, कणसां कापून तीं एकामेकांक वांट्टात. त्याच दिसा सांजेच्या आदेसाक गांवांतले जाण्टे आनी भुरगीं-बाळां हातांत बोंदेरां घेवन, दरएक गांवकारेचे शिमेच्या जाग्यार बेंडाच्या तालार नाचत वतात आनी फटासो मारीत लटकें झूज खेळटात.

आजच्या काळांत ह्या फेस्ताक सरकारी आलाशिरो मेळिल्ल्यान, हें फेस्त मोठ्या धबाज्यान मनयतात. मार्गावेल्यान तरेतरेचे फ्लोट भोंवडायल्ल्यान, हें बोंदेरांचें फेस्त टुरिस्टांचें एक आकर्शण जालां.

पुर्विल्ल्या काळार दर गांवकारेच्या शेतांच्या शिमांखातीर झगडीं उप्रासून येतालीं. फिर्ग्यांच्या काळार शिमेच्या निसांखातीर बोंदेरां लावन ह्यो शिमो थारायताले. तेन्नाच्यान ह्या फेस्ताक 'बोंदेरांचें फेस्त' अशें नांव पडलें.

फटाशींनी हांगा लटकें झूज कित्याखातीर जाता, हाची फोडणिशी करपाक जाय. अजूनय महाराष्ट्रांतल्या नगर जिल्ह्यांतल्या कोपरगांव तालुक्यांतल्या संवत्सर आनी कोकमठाण ह्या दोन गांवांतल्या लोकांत वर्सान वर्स अक्षय्यतृतियेक अशेंच एक झूज जाता. तांतूंत एकामेकांचेर गोफणीन फातर मारून, दोनय वटांतल्या कांय लोकांच्यो तकल्यो फुट्टात. अशें झूज केलेंना

जाल्यार शेतां पिकनात, अशें लोक मानतात आनी खोशयेन कांय लोक आपल्यो तकल्यो फोडून घेतात. हत्यारां आशिल्लीं तेन्ना हे हत्यारान झुजताले. (पळेयात : गांव-गाडा, लेखक : त्रिंबक नारायण अत्रे, तळटीप, पा. १२, ३री आवृत्ती, १९५६.)

हीच भावना दिवाडेच्या बोंदेरांच्या फेस्तांत (नव्याच्या उत्सवांत) दिसता. पयलीं शेतांचे शिमेखातीर गांवकाऱ्यांचे गांवकार, एकामेकांकडेन झगडीं उप्रासून काडून, एकामेकांच्यो तकल्यो फोडटाले जावंक जाय. भुंयेर रगत गळटकीर ती पिकाळ जाता, ही आमच्या जाण्टेल्यांचे जिणेची धारणा आसा. आजच्या काळाक, तकल्यो फोडपाची करणी सोबना. देखून, फटासो मारून खेळिल्लें लटकें झूज, ही त्या खऱ्या झुजाची उरिल्ली खूण!

नव्याचो उत्सव ह्या ना त्या रुपान सगळेकडेन जाता. भाद्रपद वद्य पंचम ही नव्याची पंचम. श्रावण भाद्रपदांतलीं बहुतेक सगळीं व्रतां भुंयेच्या सुफलीकरणाकडेन लग्गिक आसात. श्रावणांत बायलो पुजतात ते आयतार, भाद्रपदांतली चवथ आनी पंचम, आश्विनांतलें नवरात्र ह्या व्रतां आनी उत्सवां फाटल्यान हीच भावना आसा.

हिंदुंच्या गांवकाऱ्यांनी शेत लुंवपाखातीर वॅळ पळेताले. दिनशुद्धी पळोवन भटाक शेतांत व्हरताले. भुंयेची पुजा केले उपरांत, समस्तांच्या कल्याणाखातीर भट गाराणें घालतालो. गाराणें घाले उपरांत तो नाल्ल फोडटालो. हो विधी जाल्या उपरांत शेताचे लुंवणेक आरंभ जातालो.

कांय कडेन नव्याच्या उत्सवाक 'मुठय' म्हणटात. मुठयच्या वेळार गांवकार शेतांत वतात. थंय नाल्ल फोडटात. कुंकडाच्या पिलाचो बळी दितात. त्या पिलाच्या रगतान उकडे तांदूळ भिजयतात आनी ते शेतभर शिंवरायतात. उपरांत एके मुठींत जातात तितलीं कणसां कापतात. हो विधी जाल्या उपरांत शेत लुंवूंक सुरूवात करतात. भटाक हाडूक भुंयेची पुजा करून आनी गाराणें घालून शेत लुंवपाची प्रथा आज फाटीं पडली.

ताळगांवां वा हेर गांवांनीय शेतां लुंवल्या उपरांत बैलांच्यो धिरयो लायतात. आज हो एक करमणुकीचो खेळ जाला. ह्यो धिरयो पसून सुफलीकरणाचोच एक विधी आसा, हाची जाण आतां ना जाल्या. कांय जाग्यांनी नाल्लार नाल्ल मारून तो फोडपाचो खेळ जाता. नाल्लाच्या उदकान भूंय भिजता. हो खेळ पसून सुफलीकरणाचे विधीचोच (fertility cult) एक भाग आसा.

पंचमी दिसा भाताच्या नव्या कणसांचो झुंबर करून घराच्या मुख्य दारार हुमकळावपाची प्रथा आसा. ही प्रथाय सुफलीकरणाचोच विधी.

भुमींत आदितीचो अंश आसा, देखून भूंय ही मातृदेवता. शेताक नाल्लाचो निवेद्य दाखोवप ही भुंयेची केल्ली पूजा. आमी जितलें बीं रोयतात ताच्या शतपटीन तिणें आमकां धान्य दिवचें, ही भावना हे पुजेफाटल्यान आसा.

भुंयेची कूस फळादीक जावपाखातीर कुंकडाच्या पिलाचो बळी दितात आनी रगतान भरिल्ले तांदूळ शेतभर शिंवरायतात. कांयकडेन झगडें उप्रासून मनशाचें रगत गळयतात. हो एक यात्वीक विधी. हो नव्याचो उत्सव म्हळ्यार सुफलीकरणाची क्रिया.

**आडावण** । आडावण । सा.रू. –णे, भोव. –ण्यो, सा.रू. –ण्यां । (कों. 'आडावप' वेल्यान) स्त्री. जागो आडावन बशिल्ली वस्त; निरुपयोगी वस्त; आडखळ. (तो पाळणो घेवन गेलो. घरांतली एक आडावण गेली, म्हणून हांवें एक समाधानाचो हुस्कारो सोडलो. – पाळणें, आनंद वर्टी, कुळागर, दिवाळी आंक १९९३, पा. ७.)

**आडावणी** । आडाव्णी । सा.रू. –णे, भोव. –णी, सा.रू. –ण्यां । ('आडावप' वेल्यान) स्त्री. आडावपाची क्रिया.

**आडावप** । आडाव्प् । सा.रू. – पा । (का. अड्ड. अडायिसु) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू 'आडाय्' - अकर्मी/सकर्मी). १. आड येवप; हात धरप. (गांधी हें आडनांव तरी ताणें कित्याक राखून दवल्लें ? तेंय सोडून ताणें आपणाक अबदुल्ला तुर्क, अबदुल्ला आरब, अबदुल्ला इराणी वा अबदुल्ला अफघाण म्हळ्यार ताका कोण आडायतलो आसलो ? – नवें गोंय, ३रें वर्स, १लो आंक, जुलय १९३६, पा. २३, संपादपी : का. श्री. नायक.) २. आडवारप; मना करप. (त्या भुरग्याक निजाचेंच चित्रकलेचें आंग आसलें; जाल्यारूय ताज्या बापायन चित्रकला शिकूंक ताका आडायलो.) ३. घेवप. (शिंदळ बायलांक सजनी केल्यार, सजनी बायलो तांगेल्यो रिती सुवात आडायतल्यो, हातूंत दुबाव ना. – ये.अ.उ., बरो : शणै गोंयबाब, पा. १०७). ४. व्यापप. (सामळियालालाचो सगळो जागो आज दुसऱ्या तिसऱ्या देवांनी आडायला. – नवें गोंय, २रें वर्स, १लो आंक, जुलय १९३५, पा. २९, संपादपी : का. श्री. नायक.) ५. ताबींत घेवप; जप्त करप. (तितले म्हणसर ताणें कामतीच्या हालत्या म्हालत्याचेर कपनीचो शिको मारून तो आडावंक लायलो... – नवें गोंय, ३रें वर्स, १लो आंक, जुलय १९३६, पा. १५. लेख : पुण्यात्मो राम कामती, बरो : शणै गोंयबाब.) ६. थांबोवप; बंद करप; आळाबंदाक हाडप. (अहिंसेच्या नादाक लागून पुर्विल्लो वेद-धर्म आमी बुडयलो, म्हणून ते आमकां चरचरीत श्राप दितात... ते म्हणटात, 'हे परके लोक हांडून आमी तुमच्या कांठ्यार घाले. ते तुमच्या दारांत, तुमच्या दोळ्यांच्या पात्यांर बसून, तरेकतरा हिंसा करतात. ती तुमचे दोळे फुटसर पळेयात. ती तुमच्यांनी आडावं नजो. तुमच्या आंगांत वेद-धर्माचें तेज ना. तुमचे शक्तिचो सोप जाला. तुमची बुद्द मंदावल्या. – नवें गोंय, ३रें वर्स, १लो आंक, जुलय १९३६, पा. ३, संपादपी : का. श्री. नायक.) ७. धरप. (फुडें कांय रदबदली जातकूच, १७९३च्या फेब्रेरांत दोगांय भितर थंडायेचें लिखित जालें. तातूंत थारायलें की आंगऱ्या इंग्रजांच्या वा तांचे राखणे तळाच्या वेपाऱ्याच्या तारवांचे वाटे-तिटेक वच्चें न्हय आनी मुंबय बंदरांत येतें-वतें खंयचेंच तारूं आडावंचें न्हय. – नवें गोंय, ३रें वर्स, १लो आंक, जुलय १९३६, पा. १०. संपादपी : का. श्री. नायक.) ८. लुटप; लुस्काण करप; नकलामी करप. (तो सदींच ३०० तारवांचें आर्माद घेवन समुद्राचे तडीन भोंवतालो आनी मुसलमानांचो वेव्हार आडायतालो. देखून, संगमेश्वराचे तडीवेल्यान येवंक-वचूंक मुसलमान थर्त भियेताले. – नवें गोंय, ३रें वर्स, १लो आंक, जुलय १९३६, पा. ९.) ९. येवजप; करपाचें थारावप. (कसलोच उद्योग करिनासतना तूं बेकार ठवय कसो भोंवता. तुवें कितें आडायलां तें कळना.) १०. रेवाडो घालप (रानांत चोरांक आडायल्यात.) ११. हातासप; घेवन बसप; हक्क गाजोवप; वेंग मारून बसप. (म्हालगडो ह्या नात्यान जाण्टेल्यांची मिरास ताणें आडायल्या.) १२. बंद करप. (परंत थंय वचून पळेल्यार, दुर्गां, वंयो आनी नीस घालून, फळयो लावन वा येरादारीची वाट न्हय म्हणपाची सुलूस दिवन, त्यो सुवातो आडावंक नात. – नवें गोंय, २रें वर्स, १लो आंक, जुलय १९३५, पा. २५.) १३. पत्कर घेवप; आंगार घेवप. (तुज्या सारकिल्यान येदें व्हडलें काम आडावप म्हळ्यार चूक.) १४. उप्रासून काडप; आरंभ करप; सुरू करप. (कितेंय हरवट उलोवन कोणाकडेनय सट्कन झगडें आडायतालें. – कथा : येणें, बरो : महाबळेश्वर सैल, पलतडचें तारूं, पा. १०५).
**म्हण :** गोकर्नांत बोड, आडायलां केलां.

**आडास** । आडास् । सा.रू. – शे । (कों. आड् = आडवे) स्त्री. शेतांत, भाटांत उबें तास घाल्या उप्रांत घाल्लें आडवें तास, उबे नांगरटी उपरांत केल्ली आडवी नांगरट. (खंयच्याय होऱ्यार बारय नासतना

पयलें तास जाल्लें आनी मागीर तेच तरेन आडास वडयल्लें. – अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा. १०.)

**आडासप** । आडासप् । सा.रू. – पा । ('आडास' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आडास् (सक) नांगरान आडवें तास घालप. (शेतकार शेत आडासता.)

**आडासो** । आडासॉ । सा.रू. – शा । ('आडास' वेल्यान) पु. भाटांत उबें तास घाल्या उपरांत घाल्लें आडवें तास; आडास.

**आडाळी** । आडाळी । सा.रू. – ळे; भोव. – ळयो; सा.रू. – ळयां । (कों) स्त्री. पाटें; पांटली. – हें उतर फिलिप नेरी शावियार हाणें बरयल्ल्या ग्रामसंस्थेच्या इतिहासाक लायिल्ले उतरावळींत मेळटा. भाटांत बी पुर्ती घालपाखातीर उपकरस्यतात असलो हो पाटलो आसूं येत वा जावं येत.

**आडी** । आडी । सा.रू. – ड्ये, भोव. – ड्यो, सा.रू. – ड्यां । (का. अड्ड) स्त्री. १. दूद काडटना गायेक मस्ती करूंक मेळूं नये म्हणून दूद काडपावेळा केल्लें खुंटयांचें वंयेचें घट्ट आडवण. २. दोंगराची पालसाण. ३. आंबे बी फळां पिकचेखातीर सुक्या तणांत दाळिल्ली फळांची माची. ४. शेताचें मळ. ५. चाकाची खांबली वा आरो. ६. पनेळाचेर वा पोनेळाचेर तारयाक आनी प्रवाशांक बसपाखातीर मारिल्ली आडवी फळी. (आमगेले शाणे-सुर्ते म्हाजन व्हड्याचे साटयेर ना जाल्यार पनेळाचे आडयेर बसून चकाटां मारूंक लागतकूच गणेसपुजेक कसली गजाल काडटात म्हणून समजला तूं ? – मोगाचें लग्न, रुपांतर : शणै गोंयबाब, पा. ३२-३३.) ७. येवपा-वचपा खातीर व्हाळाच्या दोनय देगांचेर माडयो वा लाकडाचे वांशे घालून केल्लो सांकव (बांदावयल्या व्हाळाची आडी हुंपून पंडरी प्लॉटार आयलो. – अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा. १८०.) ८. वळ; बरयल्ल्या अक्षराचे वयर दिल्ली रेग (सरळ आडी मार). ९. दांडो वा दांडी (दोळ्यांवेलें वक्ल काडून तो नाखार दवरता. एक आडी नासून तें भेंड मोडिल्ल्या सारकें थारता. – मुठय, बरो : पुंडलीक नायक, पा. ९८.) १०. बांयच्या कडांचेर दवल्लेली आडवी पाटी (आनी एक दीस आडयेवेल्यान पांय निसरून बांयंत पडून मेलो जाल्यार ? – सूर्यसांवट, बरो : पुंडलीक नायक, पा. २१.)

**आडूक** । आडूक् । (सं. आ = मात्सो + सं. कटू = कोडू) वि. कोडवसार; काटूक. (हें तवशें मात्शें आडूक लागता.)

**आडें** । आडयँ । सा.रू. – ड्या, भोव. – डीं, सा.रू. – ड्या । (का. अड्डे) न. १. घराच्या दोन पांख्यांतली लांब मुख्य पाटी. (आज चार वर्सां जाल्लीं. घराचें आडें मोडपाक आयिल्लें. पुण कोण चौकशी करीनाशिल्लो. – कथा : चौगां आवय, बरो : अच्युत तोटेकार, चैत्रांगण, पा. १४०.) २. बांयच्या कडांचेर उदक काडपाखातीर दवल्लेली आडवी लाकडाची वा पाशाणी पाटी. ३. भायर भितर सरपाखातीर, आखाड्याच्या घोलांतल्यान आरपार काडूंक मेळटा असो घाल्लो आडवो कोंडो.

**वा.प्र. : आड्याक पांय लावन न्हिदप :** चिंता हुस्को करिनासतना रावप.

**विशेश :** नव्या घराचो मदेरामेंत करतासतना पयलीं आडें बसयतात. मुखावयलें काम अडचणेविणें सायसंगीत जावपाखातीर आड्याक नाल्ल बांदपाचीय चाल आसा.

**आडेकडेक** । आडेकडक् । (कों. आड + कड ) क्रि.वि. भोंवतणचे कुशीचे देगेक (कापिल्ल्या तळपाक मदीं खुरीस कातयला. आडेकडेक कांय बारीक मोटे फातर आसात. – सुरींग, बरो : पुंडलीक नायक, पा. १.)

**आडेकडेचें** । आडेकडेचें । (कों. आड + कड) वि. भोंवतणचें, कुशीचें. (भाराक दुसरो उलयता तें समजता, पुण आपुण किदें सांगता तें समजना आनी याद उरना. ताका कितलेंय पयसुल्लें, आडेकडेचें वा दिश्टीभायलें पळोवपाची शक्त आसता. – गोंयच्या लोकवेदाचो रुपकार, बरो : प्रा. श्याम वेरेंकार, पा. १५.)

**आडेची** । आडेची । (कों. 'आड' वेल्यान) वि. अडेची; खरेपणान घडूंक नाशिल्ली, बळयां रचिल्ली. (ताच्या कानार पाविल्लें. तेदेवेळार ताका ती कोणेंतरी रचिल्ली आडेची गजाल कशी दिशिल्ली. – वसंतोत्सव आनी दायज, बरो : पुंडलीक नायक, पा. ८७.)

**वा.प्र.: आडेचीं भुजां वावडप :** मुद्दाम भुजां वयर सकयल करून वावुडलेल्यावरी करप. (तुमी थरयता तें जालें, सगळ्यांचेर नदर भोंवडायत ताणें आडेचीं भुजां वावडीत म्हळ्ळें. – जैत, बरो : पुंडलीक नायक, अर्दूक, पा. ९७.)

**आडेली** । आडेली । सा.रू. – ले, भोव. – ल्यो, सा.रू. – ल्यां । (कों) स्त्री. Verbanacia वंशांतली Lippia modiflora हे वनस्पतीशास्त्रीक नांव आशिल्ली एक वखदी वाल; आडाली; उरफाटी वा परती कांटी.

**विशेश :** आडेलेक 'उरफाटी कांटी' म्हणटात. हे कांटयेचें पाळ मात्शें आडूक आसता. भुरग्यांच्या घोशांचेर हिचें पाळ झरोवन सगळ्या आंगाक लायतात. एक एकदां पियेवंकय दितात. हिच्या फुलांक वास नासता. हिच्या पानांचोय कसाय करतात. फुरशें वा कांडेर चाबल्यार, चाबिल्ल्या जाग्यार हिचें पाळ झरोवन लायतात आनी पियेवंकय दितात. पानांचो आनी पाळांचो रोस काडून, तातूंत चिमटीभर मिरसांगे पिठो उडयल्यार, हो रोस सोरपाच्या विखाचेर गुणावाक येता, अशें सांगतात.

**आडेवेडे** । आडॅव्यॅडॅ । सा.रू. – डॅव्यॅड्यां । (का. अड्ड + सं. वेष्टन) पु. भोव. १. आळेपिळे. २. अडोवन दाखोवपाखातीर हाडिल्लो लटको आव; अडोवन धरपाक उप्रासून काडिल्ल्यो वा उपस्थित केल्ल्यो नस्त्यो अडचणी. ३. (ला). फुगोवन दाखोवप.

**वा.प्र.: आडेवेडे येवप :** अडोवन दाखोवप; अडोवन धरप; फाटिंफुडें येवप; तरेतरेचीं कारणां फुडें करप. (एक दीस म्हज्या ट्रंकाची चावी घोवान मागली. हांवें पयलीं आडेवेडे घेतले. पुण ताणें राक्षसाचो अवतार घेतिल्लो. कथा : पिशान्तुर, बरो : हेमा नायक, पसय, पा. ३९.)

**आडो** । आडॉ । सा.रू. – ड्या । (सं. आर्द्रा) पु. आरद्रा नक्षत्र; पावसाच्या नक्षत्रांतलें दुसरें नक्षत्र; सत्तावीस नक्षत्रांतलें सवें नक्षत्र; मिर्गाउपरांतचें नक्षत्र.

**म्हण :** आडो तापत जाल्यार शेणी सुकत.

**विशेश :** सगळीं मेळून सत्तावीस नक्षत्रां आसात. जाल्यारूय तांतुंतलीं इकरा नक्षत्रां पावसाचीं आसात. हीं पावसाचीं नक्षत्रां अशीं : मृग (मीर्ग), आर्द्रा (आरद्रा), पुनर्वसु, पुष्य, आश्लेषा, मघा, पूर्वा, उत्तरा, हस्त, चित्रा आनी स्वाती. पयलींच्या काळार आर्द्रा नक्षत्रानच पावस सुरू जातालो अशी म्हायती मेळटा. (संदर्भ : भारतीय ज्योतिषशास्त्र, बरो : शा. बा. दीक्षित.)

**आडो** । आडॉ । सा.रू. – ड्यो, भोव. – डे, सा.रू. – ड्यां । (कां. अड्ड) पु. १. घराभोंवतणीं वा शेताभोंवतणीं कांट्यांच्या झोंपांची केल्ली वंय; फातरांचें, गडग्यांचें वा मातयेचें काडिल्लें दुरीग, २. आडसर.

**वा.प्र.: आड्यावयल्यान तोंड घालप :** कसलेंय तरी निमित्य सोदून झगडें सुरू करप.

**आडोंदी** । आडोंदी । सा.रू. – दे, भोव. – द्यो,

. सा.रू. – द्यां । (कों. अर्द + बांदी) स्त्री. अर्द बांदी.
**विशेश :** बांदी म्हळ्यार कांय ग्रामसंस्थांनी अखख्याचो केल्लो वांटो. गांवकारेच्या वांगड्यांक वा तिचीं आक्सावां घेतिल्ल्यांक जणाचो, तांगाचो, खुंटाचो अधिकार आसता. गांवकारेचो आदाव त्या त्या प्रमाणांत वांट्टात. देखून, अर्द बांदयेचो अधिकार आशिल्ल्याक, जणाचो, तांगाचो, खुंटाचो अर्दो अधिकार मेळटा.

**आडोस** । आडोस् । सा.रू. – सा । (का. अड्ड + सं. वस् ) पु. १. संकटापासून राखण करपाक जितलेंय उपकारीक जाता तें. २. आडपड्डे; मल्लां वा चुड्टां लावन केल्लें तात्पुरतें होड्ण वा होडप; भायलें-भितल्लें दिस्टी पडूं नये म्हणून केल्लें तात्पुरतें आडवण. (पड्ड्याचो आडोस करून भर दिसा न्हिदून पडिल्ली सुसी आनी ताचो घोव उठून भायर आयलीं. – कथा : बेनुल्ल, बरो : हेमा नायक, पसय, पा. ८१). ३. आस्रय; आसरो; निवाऱ्याचो जागो; लिपून रावपाची सुवात. ४. रुखाचो पानांनी भल्लेलो माथो.
**वा.प्र.: १. आडोस करप :** भायलें भितल्लें दिसूं नये म्हूण तात्पुरतें आडपण करप.
**२. आडोस मारप :** रूख सांकवाळप; भेंडप.

**आडोसो** । आडोसॉ । सा.रू. – श्या । (का. अड्ड + सं. वस् ) पु. १. आधार. २. आस्रय; आसरो. (तें म्हजेफाटल्यान म्हजो आडोसो घेतशें चलूंक लागलें. – कथा : पातक, बरो : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा. ९२.)

**आडोळी** । आडोळी । सा.रू. – ळे, भोव. – ळ्यो, सा.रू. – ळ्यां । (का. अड्ड + सं. इलि) स्त्री. पळेयात, 'आदोळी'.
**विशेश :** ह्या उतराची आडळी, आडवळी अशींय रुपां मेळटात.

**आडोळो** । आडॉळॉ । सा.रू. – ळ्या । (कों. आड + वेळो) वि. आडवेळो; आड वेळार पड्टा तो; म्हाळो. (आडोळो पावस.)
**विशेश :** भाद्रपदाची दुसरी पंद्रस धरून आश्विन म्हयन्यांत दसऱ्याच्या सुमारा मेरेन पिकेवयलीं खर वतां पडूंक लागतात. ह्या काळांत सकाळच्या आदेसाक कडकडीत बरें वत पडटा. दनपारच्या वेळार मळब सामकें निळेंच आसता. सांजच्या अदमासाक अकस्मात मळब भरून येता. काळसार कुपां वयर सरूंक लागतात. वीज कडकडूंक लागता. गडगड्याचो फारपेट चलता आनी पावसाची शेंड सुरू जाता. आडवेळार हो पावस येता, देखून ताका आडोळो पावस म्हणटात.

भाद्रपदाची दुसरी पंद्रस हो पितृपक्ष. हे पंद्रशेंत पितरांक म्हाळ वाडटात. देखून, ह्या पावसाक 'म्हाळो पावस' अशेंय म्हणटात.

**आड्डप्** । आड्डप । सा.रू. – पा । (का. आरडु) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : 'आरड्'-अक.) १. व्हडल्यान, मोठ्यान उलोवप; मोठ्या आवाजान सांगप; ताळो कंकासून सांगप; २. कळवळून सांगप; आस्थेन, मायेन सांगप. (म्हजी सांगणी-म्हणणी चिके आयकून घेवंची म्हणून जायतीं वर्सां तुमच्या काना-कानसुलांनी आड्डून सामको खडपसूख जालो. – गोमन्तोपनिषत्, २रें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १३२.) बॉब मारप; विरोध परगटावप वा उक्तावप. (अन्यायांच्या कायद्यांआड लोक आड्डलो, तरी सरकाराक जाग आयली ना, इतलो सरकार भेड्डो जाला.) ३. रागान आवाज चडोवप, तापप. (तूं म्हजेर आड्डूं नाका. हांवें तुजी पोटली खावंक ना.) मोठ्यान वरड मारप.

**आढावो** । आढावॉ । सा.रू. – व्या । (मरा. आढावा) पु. १. वर्साअखेर मांडिल्लो जमाखर्चाचो तक्तो. २. घटनांचो तरिकवार मांडिल्लो तपशील.

**आढ्यता** । आढयता । सा.रू. – ते । (सं. आद्यता)

स्त्री. १. गर्व; ताठो; मिजास. २. गिरेस्तकाय; ऐश्वर्य.

**आण** । आण् । सा.रू. – णे । (सं. आज्ञा ? फा. आन ? का. आणे ?) स्त्री. सोपूत. (परमेश्वराची आण अडादेडिये दिउं नये. – दौत्रिन क्रिस्ता, बरो : पाद्री तोमस स्टिफन्स, संपादक : अ. का. प्रियोळकर, पा. २९.)

**विशेश :** 'सोपूत' ह्या अर्थान मराठींतय 'आण' हें उतर घोळटालें. ज्ञानेश्वरींत हें उतर मेळटा. झुल् ब्लॉक हाणें बरयल्ल्या 'मराठी भाषेचा विकास' (मराठी भाशांतर : वा. गो. परांजपे, पुणे १९४१) हातूंत 'आण' हें उतर संस्कृत 'आज्ञा' ह्या उतरावयल्यान आयलां अशें सांगलां. तेभायर तो सांगता, धाव्या शेकड्याचे अखेरेक एके तामीळ फातरपट्यांत 'आत्रै' असो शब्द आयला. आतांचे तामीळ भाशेंत 'आणै' अशें रूप आसा. पालींत 'अत्त्रा' अशें रूप मेळटा. आनी प्राकृतांत 'अज्जा, आणा' अशें मेळटा. कोंकणींत 'आण' म्हळ्यार सोपूत ह्या अर्थान 'आन' घोळटा. सवे विभक्तीचें 'चीं' वा 'जी' हें कूस नामां सर्वमानांक लागता तेन्ना 'ची' वा 'जी' आनी 'आ' हांची संधी जावन हें उतर घोळटा. देखीक : आवयची + आन = आवयच्यान; तुजी + आन = तुज्यान; देवाची + आन = देवाच्यान.

कारवारी कोंकणींत 'आण' आनी 'आणभाक' हीं उतरां घोळटात. देखीक : वागाक गाइची आण घाल्लेले गादी (K.P. 1441); दु:खांतु केलेली आणभास (आणभाक) (K. P. 1175) (पळेयात : ज्ञानेश्वरींतील शब्दांचा कोंकणी बोलींत शोध, लेखक : कै. आनंद रामकृष्ण नाडकर्णी, पा. १६.)

**आण** । आण् । सा.रू. – णा (वे. सं.: आण्डौ) पु. पळेयात 'आंड' (मास्तर, चान्स रे तुजो, पावसांत आनी हेंचीं ओलीं आंगां तुजो आण पेटयतलीं मरे ! – अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा. १५१.)

**वा.प्र.: आण पेटोवप :** मनांत वासनेची आग पेटोवप.

**आण** । (सं. अनीय; पाली – वन; प्राकृत – अप.-त्तण; कों. अण) ता.कू. कांय विशेषणांक लागून भाववाचक नामां घडोवपी एक ताळाकूस. देखीक : दर्बट + आण = दर्बटाण; आंबट (आमट) + आण = आमटाण.

**आणकु-माणकुल्यो** । आण्कु-माणकुल्यो । सा.रू. – आणकु-माणकुल्यां (कों) स्त्री. भौव. ल्हान चलयांचो एक खेळ.

**विशेश :** हो खेळ तीन वा चार चलयो एकठांय येवन खेळटात. त्यो एकठांय येतकीर म्हणटात, 'चलात आमी आणकु-माणकुल्यांनी खेळुंया.' मागीर म्हणटात, 'हर हर बोटयो !' उपरांत हात उमथे घालीत म्हणटात :

'आणकु-माणकुल्यो, सवण माणकुल्यो,
कुर्कुटांत मांजर बसलां, पेज कर गो माजरा,
शिरोडेची कायल, बांदोडेचो दोवलो
कोणांक जाय धुमको ?

हें म्हणटकीर त्यो 'वूय' म्हणटात. उपरांत हात उदारे करीत परत 'आणकु-माणकुल्यो' पूर्ण म्हणत 'वूय' म्हणटात. मागीर सगळ्यो चलयो आपले हात फाटल्यान लिपयंतात. हात लिपयतकीर चौगांतली एकली खंयचीय चली दुसरे चलयेक नांवान उलो मारता. तांचो संवाद जाता तो असो :

तुजे हात खंय गेले ?
कोंकणांत
कोंकणान किदें दिलें ?
केळीं, खोबरीं
केळीं, खोबरीं किदें केलीं ?
बरीं बरीं खालीं. वायट वायट आड्याभायर उडयलीं.
आड्यान किदें दिलें ?
चार
चार किदें केली ?
गायक घाली

गायन किदें दिलें ?
दुदुलो
दुदुलो किदें केलो ?
शिक्यार दवल्लो
शिक्यावेलो कोणें व्हेलो ?
मडवळणिच्या चेडवान
मडवळणिच्या चेडवान किदें दिलें ?
आंगाचीं धुवन दिलीं
आंगाचीं किदें केलीं ?
सकाळीं उठून न्हालीं, धुलीं.
आंगाची घालीं आनी देवाची पुजा केली.
देवान किदें दिलें ?
प्रसाद.
प्रसाद किदें केलो ?
आवयच्या माथ्यांत माळलो.

हो संवाद जाल्या उपरांत त्यो एकमेकांच्या पांयांचेर पांय दवरतात. आनी तांचेर हात दवरून म्हणटात :

'आप्पड पाप्पड चेम्बू लाडू,
दाकोजीचें एक पान
धर गे बिंबे म्हजो खांद
उपरांत सगळीं एकामेकांचे खांदे धरून म्हणटात :
केंव मेंव घरे खावं, पातोळेचें उदक पियेवं
कुतुल्यो ! कुतुल्यो ! कुतुल्यो ! कुतुल्यो !

**आधारावळ :** भुरग्यांलो इश्ट, बरो : शणै गोंयबाब, पाठ तेविसावो.

**आणकुली** । आण्‌कुली । सा.रू. –ले; भोव. –ल्यो, सा.रू. –ल्यां । ('आंड' वेल्यान) स्त्री. पळेयात 'आंडकुली'.

**आणस** । आ॑णस्‌ । सा.रू. –शी । (का. अणसु) स्त्री. फारावपाखातीर मुसळाच्या एका तोंकाक पोकोळसाण दवरून घाल्लो लोखणाचो रूंद वाळो; अणस.

**आणो । आणॉ** । सा.रू. –ण्या; भोव. –णे (णॅ), सा.रू. –ण्यां । (इराणी : नानक) पु. १.आयज वेव्हारांत घोळटेंत आसपी नाण्यांच्या दशमान पद्धतीपयलीं भारतांत घोळटेंत आशिल्ल्या पयलींच्या रुपयाच्या सोळाव्या भागाच्या मोलाचें एक नाणें; रुपयाचो सोळावो भाग. (आवयन पालवाची गांठ सोडोवन फायचें फाल्यां म्हणून चोपडी हाडूंक दोन आणे म्हजेकडेन दिले. – कथा : येरांस, बरो : एन्. शिवदास, गळसरी, पा. १००.) १७९३ वर्सा मोगल सम्राटांचो सुरतेचो रुपया बाँबे प्रेजिडेंसिंतय नाणें म्हणून घोळूंक लागलो. आनी उपरांत १८१७ वर्सा इस्ट इंडिया कंपनीन रुपया, आणो, पयसो, पै हीं नाणीं घोळटेंत हाडलीं. तेन्नाच्यान सोळा आण्यांचो रुपया आनी चार पयशांचो आणो घोळटेंत आयलो. (ला.) दुडवांची गांठ; मुदगो; काळींग; लाभ; आदाव. **क्रि.वि.:** १.मात्सो; किंचित. (तो बरो नाशिल्लो. दोतोराचें वखद करीत पसून आतां चार आणे गूण पडला.) २.पूर्ण (म्हजें काम सोळा आणे जालें.) **वा.प्र.:** १.**आण्यां पयांचो हिशोब :** दिस्तादिस्त हिशोब, जातूंत एके पयेची पसून चूक ना असो हिशोब. २.**गांठीक चार आणे आसप :** जेवपाखावपा इतलें आसप; दुडवांची थोडीभोव गांठ आसप. **म्हण :** १.आणो थंय शाणो = जंय दुडू मेळपाचो आदाव आसा, थंय वेव्हारी मनीस सदांच धांवता. २.चार आण्यांचो सोरो आनी बारा आण्यांची मस्ती. **विशेश :** 'नानक' हो शब्द मृच्छकटिक, (क्रि.स. ४थो वा पांचवो शेंकडो) ह्या संस्कृत नाटकांत 'नाणें' ह्या अर्थान मेळटा. हो इराणी शब्द भारतांत कुशाणांच्या काळार पावलो. कुशाणी नाण्यांचेर मातृदेवतांचीं चित्रां आसतालीं. ह्या नाण्यांवयल्यो मातृदेवता संवसारीक म्हळ्यार Cosmopolitan आसताल्यो. त्यो ग्रीक, इराणी आनी भारतीय आसताल्यो आनी कुशाणी नाण्यांचेर तांचीं नांवां कुशाण ग्रीक लिपयेंत बरयल्लीं आसतालीं. 'नाना' हें असिरियन आनी बाबिलोनियन

मातृदेवतेचें नांव आशिल्लें. Istar (इश्तार ही सेमिटीक मातृदेवता आनी 'इनाना' ही सुमेरियन मातृदेवता. 'इनाना' हे देवतेवेल्यान 'नाना' हें नांव घडलें. 'नाना' ही भारतांतले 'उमा', 'दुर्गा', हे मातृदेवतेकडेन लग्निक जाली. इराणांत, बलुचिस्थानांत आनी भारतांत तिका 'नानी' ह्या नांवान आजूनय वळखतात. बलुचिस्तानांतल्या (आतां पाकिस्तानांत) हिंगलाज हांगा तिचे पुजेचें स्थान आसा. हिंगलाज हांगा एके होंवरेंत तिची पुजा जाता. सुफी पंथांतलो फकीर तें स्थान राखता आनी तिची पूजा करता. तिचे भारतांतले भक्त वर्सान वर्स तिचे यात्रेक वताले. आजुनय वतात जातले. त्या स्थानाक 'नानी की हाज' म्हणटात. 'नानक' हें उतर प्राकृतांत गेलें आनी पंजांबांत शीख पंथाची स्थापना करपी संत गुरू, हाचें नानक हें नांव जालें. कालांतरान भारतांत ह्या उतरावेल्यान 'आणा' (रुपयाचो सोळावो भाग) हें उतर घडलें. (पळेयात : Select writings, Volume one, by Sunitikumar Chatterji हांतुंतलो लेख : Some Dravidian and Turki loans in Sanskrit, पानां २६९-२७०.) 'आणा' ह्या उतराचें कोंकणी रूप 'आणो' जालें.

जे अर्थी मृच्छकटिक नाटकांत 'नानक' हें उतर 'नाणें' ह्या अर्थान आयलां, तेच अर्थी अशें म्हणूं येता की, 'नाणें' हें उतर पसून 'नानक' ह्या उतरावेल्यान घडलां जावंये.

२. आणो हो रुपयाचो सोळावो भाग. आर्यांनी अनार्यांच्यो जायत्यो प्रथा घेतल्यात. सोळा मासांचो एक पुरण-धरण-काशार्पण, १६ पणांचो एक कहाण आनी सोळा आण्यांचो एक रुपया. सोळांनी भागपाची प्रथा आर्यांची न्हय. ही प्रथा सिंधू संस्कृतिंतल्या (Peoples of Indus Valley) प्राक् इतिहास काळावेली अनार्यांची. (पळेयात : Studies in Indian Coins, by D. C. Sircar, पा. ५५. – Published by Motilal Banarasidas, Delhi.)

३. आणो जसो सिंधू संस्कृतिचे प्रथेंतल्यान आयला, तेचपरी तो इराणी शब्द 'नानक' हाचेवयल्यान घडला. मुसलमानांचे राजवटींत रुपया आनी आणो घोळटेंत आयलो. १७९३ वर्सा मोंगल सम्राटांचो सुरतेचो रुपया मुंबय प्रेजिडेंसींत (Bombay Presidency) घोळूंक लागलो. उपरांत इस्ट इंडिया कंपनीन सुरतेच्या नबाबकडेन म्होरावळीचें लिखित केलें आनी कंपनीचो रुपया आनी सुरतेचो रुपया, दोनयकडेन (सुरत आनी मुंबय) घोळचो आनी तांचो धातू आनी वजन सारकेंच आसचें, अशें थारायलें. सुरतेच्या रुपयांत १०, १२ आनी १५ ग्रामांचें हीण आसतालें. हाका लागून कंपनीन आपलो रुपया कडोवन, सुरतेच्या रुपयावरीच घडयलो. ह्या रुपयाकय सुरती रुपयाच म्हणूंक लागले. मुंबयचे टांकसाळींत सुमार वीस वर्सां म्होरो मारपाचें काम बंद केलें आनी सुरती रुपयाच थंय घोळूंक लागलो. १८०० वर्सा इस्ट इंडिया कंपनीन सुरती रुपया घोळटेंतल्यान काडलो आनी रुपयाचें वजन १७९ ग्राम आसूंक जाय म्हणपाचें थारायलें.

१८१७च्या ९ देझेंब्राक कंपनी सरकारान १६ आण्यांचो एक रुपया आनी बारा पयांचो एक आणो अशीं नाणीं घोळटेंत हाडपाचें थारायलें. तेचप्रमाण अधेली, पावली, चवली हींय नाणीं घोळटेंत हाडलीं. हीं नाणीं, तांचो धातू, हीण आनी वजन अशें आशिल्लें.

| नाणें | अस्सल चांदी | हीण | वजन |
|---|---|---|---|
| १. रुप्याचो रुपया | १६५ गरांव | १५ गरांव | १८० गरांव |
| २. अर्द रुपया वा अर्देली | ८२ १/२ गरांव | ७ १/२ गरांव | ९० गरांव |
| ३. रुपयाची चौथाय वा पावली | ४१ १/२ गरांव | ३ ३/४ गरांव | ४५ गरांव |
| ४. रुपयाचो आठवो भाग वा चवली | २० ५/८ गरांव | १ ७/८ गरांव | २२ १/२ गरांव |
| ५. आणो | १० ५/१६ गरांव | १५/१५ गरांव | ११ १/४ गरांव |

उपरांत कंपनीन तांब्याच्या नाण्याचें वजन थारोवन पयसो, ढबू आनी पै हीं नाणीं काडलीं. तांचें वजन अशें आशिल्लें :

| नाणें | वजन |
|---|---|
| १. डब्बल पैसो वा ढबू | २०० गरांव |
| २. पैसो | १०० गरांव (ट्रॉय) |
| ३. पै (आण्याचो बारावो भाग) | ३३ ¹/₂ गरांव |

(पळेयात : History of the Coinage of the Territory of the East India Company in the Indian Peninsula and Catalogue of the Coins in the Madras Museum, by Edgar Thurston.)

हैदराबाद बी अशा कांय संस्थानांनीय आण्यांचें नाणें आसतालें.

रुपया, आणो, पयसो आनी पै हीं नाणीं भारत स्वतंत्र जाल्या उपरांतय चल्लीं. १९५७ वर्सासावन भारत सरकारान दशमान पद्धत घोळटेंत हाडली. हे पद्धतीक लागून पयलींची आणो, पैसो, पै हीं नाणीं गेलीं आनी शंभर नव्या पैशांचो एक रुपया जालो.

बारा एप्रिल १८८० वर्सा, इंग्लेज सरकार आनी गोंयचो पुर्तुगेज सरकार हांच्यांत म्होरावळीचें लिखित जालें आनी इंग्लेज म्होरांवरी, पुर्तुगेज सरकारान आपल्यो म्होरो माल्ल्यो. पुर्तुगेज रुपयाय १८० ग्रामांचो घडूंक लागलो. ह्या रुपयांत इंग्लेज रुपयावरीच १६५ ग्राम अस्सल रुपें आशिल्लें आनी १५ ग्राम हीण आशिल्लें. बाकीच्या म्होरांचें वजन आनी धातू ब्रिटिश म्होरांवरीच आशिल्लो. ताका लागून वाटावाचो प्रस्न नाशिल्ल्यान सुमार चार वर्सां गोंयचो रुपया मुंबय चल्लो. उपरांत मात पुर्तुगेज सरकाराचो सुंदर कंगऱ्यांचो धवो फुल्ल रुपया, मुंबय शारांत खोटो म्हणून भिरकावंक लागले. हीं नाणीं १९५८ मेरेन घोळ्ळीं. १९५९ वर्सासावन पुर्तगेज सरकारान पुर्तुगालची दशमान पद्धत गोंयांकय लागू केली आनी १०० सैंतावांचो इश्कुदु (Escudo) हें नाणें गोंयांत घोळटेंत हाडलें. १९-१२-१९६१ वर्सा गोंय भारताचो भाग ज़ालें. तेन्नाच्यान भारतांतलीं दशमान पद्धतिचीं नाणीं गोंयांत घोळूंक लागलीं.

'आणो' हो सिंधू संस्कृतीचे प्रथेंतल्यान आयलो. आजुनय गोंयांत धान्याखातीर 'सोळावो' हें माप घोळटा. पिकाचो अंदाज सांगतना आजुनय रुपयांतले चार आणे/आठ आणे अशींच उतरां उपकरायतात. तेच प्रमाण, एकापरस चड मनशां एकठांय येवन तांणी केल्ल्या वेव्हारांतलो जण एकल्याचो वांटो (हिस्सो) दाखयतना पसून 'आणो' हें उतर उपकरायतात. देखीक : ह्या वेव्हारांत धा आणे म्हजे, चार आणे तुजे आनी दोन आणे ताजे.

आधारावळ :


१. Select writings by Sunitikumar Chatarji, volume one.

२. Studies in Indian Coins, by D. C. Sircar

३. History of the Coinage of the Territory of East India Company in the Indian Peninsula and Catalogue of coins in the Madras Museum, by Edgar Thurston.

४. नवें गोंय, २रें वर्स, १लो आंक, जुल १९३५, लेख : संवसाराचो संवसार, बरोवपी : शणै गोंयबाब, पा. ३५-३६, संपादपी : का. श्री. नायक.


**आंड** । आण्ड । सा.रू. – डा; भोव. – ड, सा.रू. – डां । (वे. सं. आण्डौ, आण्डी; सं. अण्ड: अण्डम्) पु. १. शेंकड्यांनी सुक्षीम नळयो आशिल्लो आनी जातूंत सुक्षीम अशे लाखांनी शुक्राणू तयार जातात, तेचपरी 'टेस्टॉस्टेरॉन' हें होर्मोन निर्माण जाता, ती पुरुशलिंगी मोमयाळ्या प्राण्यांत दोन कोयो वा पारयो आशिल्ली अंडकोशाची पोती; वृशण; नराच्या लिंगीक इंद्रियाचो एक भाग. २ (ला.) धीर, धैर्य, रग, हिम्मत, धमक.

**वा.प्र.: आंड आंवुळप :** दुसऱ्याच्यो वल्गना फिसकटावन उडोवप; शेराक सवायशेर जावप; नस्तीं बुदवंतपणां करूंक पावंचो ना अशे तरेन बुद्द शिकोवप.
**आंड कातरप :** खोजो करून सोडप; निर्वीर्य करप.
**आंड धोडावप वा चांचावप :** कापांव करप; खोजो करून सोडप; मस्ती ना करप; बैलांक म्हेळसावप.
**आंडाक लोणी लावप :** आपलें काम साधपाखातीर दुसऱ्याची खुशामत करप.
**आंडार आंड घालून बसप :** कसलेंच काम वा उद्योग करिनासतना सुस्त बसून वा न्हिदून दीस काडप.
**तिख्या आंडाचो :** (वि) कळिकाळाची पासून पर्वा न करपी; अत्यंत धिरिस्ट; पराक्रमी.
**म्हण :** झंवतलो झंवन गेलो, ओसरेर बशिल्ल्याचो आंड कातल्लो.
**विशेश :** टेस्टिकुलर पोतयेंत म्हळ्यार अंडकोशांत दोन कोयो वा पारयो आसतात. उजवे कोयेपरस दावी कोय मात्शी सकल आसता. दादल्या मनशांत वा चल्या भुरग्यांत तो जांगाभायर आसता. एक कोय आशिल्लो आंड क्वचित मेळटा.

सतत वंश चलपाखातीर आंडांत वीर्य निर्माण जाता आनी पौगंडावस्थेंत भुरग्यांची पूर्ण वाढ जावपाखातीर, रक्ताच्या अभिसरणांत Testosterona, Andosterona आनी deidroandrosterona हीं होर्मोनां आंड सोडटा. चडशा जनावरांत आनी सवण्यांत वीर्य सदांच निर्माण जायत रावना. तांच्या जुंवळकेच्या काळांतच (हो काळ थोडो आसता) तें निर्माण जाता. चल्या भुरग्यांत तें १२ वा १५वें वर्स धरून म्हातारपणामेरेन दिसपट्टें तयार जायत आसता. जाल्यारूय, जाण्टेपणांत वय वाडत वता तशें वीर्य उणें उणें जायत वता. वीर्य निर्माण करचेलें काम F.S.H. (Fallicle Stimulating Hormone आनी I.C.S.H. (Interstitial Cell Stimulating Hormone) हीं करतात आनी androgenices होर्मोनां तांच्या कामाक शिस्त लायतात.

पौंगडावस्थेपयलीं आंड कापून काडल्यार चलो भुरगो हिजडो जाता. बायलांच्या कुसव्यांत गर्भाची वाड जातना, तो चलो भुरगो आसल्यार ताची आंडकुली पोटांत आसता. जन्माक येवंचेल्या वेळार ती scrotum (स्क्रोतम) हातूंत देंवता. एकएकदां पूर्ण देंवनासतना ती मदींच आडखळून उरता. अशी आडखळून उरल्यार शस्त्रक्रिया करून ती भायर काडची पडटा.

आंडांत कांय कारणांक लागून वीर्य तयार जायनासतना रावूं येता. आंडांत उस्णता वाडल्यार तें तयार जायना. आंडाचेर 'अ', 'इ' आनी 'बी' जीवनसत्वांचो परिणाम जाता. 'क्ष' किरणां, आल्कोहॉल, सत्व नाशिल्लें अरबट चरबट खाण, वशाच्यो पिडा हांकां लागून azoopermia (वीर्य न जावप) जावं येता. ही स्थिती कांय काळापुरती वा सदांचीच जावं येता. मनशाच्या पोटांत चड उस्णता आसता. ही चड उस्णताय वीर्य निर्माण जावपाक बाधा जाता. देखून निसर्गान केल्ल्या रचनेप्रमाण आंड जांगांभायर आसता. तातूंत वीर्य निर्माण जावपाक चार ग्राव सेल्सियस इतली उस्णता आसची पडटा. खूप लठ्ठ मनीस चड करून खोजे आसतात. तांच्या आंगांतले चरबेक लागून आंडाक चड उस्णता मेळटा. ताका लागून वीर्य जावंक पावना. चड खतखतीत उदकाचें न्हाण, आंगाक घाल्लें घट्ट कलसांव वा घट्ट चड्डी पसून विर्याची निर्मणी उणी करता.

पुरूशलिंगी मनशांत आंड जांगांभायर आनी शिस्नाक सामको तेंकून आसता. दुसऱ्या उतरांनी सांगप म्हळ्यार शिस्न आंडाचेर पडिल्लें आसता. प्राण्यांत तांचो आंड तांच्या दोनय जांगडांमदीं आसता आनी कांय अंतराचेर मुखार शिस्न आसता. बुकल्याचो आंड वा आंडकुली दोन वाटकुळ्या गड्ड्यावरी आसता आनी तो ताजे गांडीसकयल आसता. हिंस्र प्राण्यांच्या नरांत, तांचो आंड तांचे शेंपडेक लागीं आसता आनी तांच्या आंडाची उजवी

कोय मात्शी सकयल आनी दावे कोयेचे मुखार आसता. सोंशांचो आंड तांच्या 'स्क्रोतमां'त आसता आनी जुंवळकेच्या काळारच तो भायर सरता.

**आंडाच्यो कांय पिडा :** आंतकडेचो भाग आंडांत देंवन अंतर्गळ (हर्निया) जाता. आंडांत एकएकदां उदक जाता (हायड्रोसिल). ताका 'बुर वाडलां' म्हणटात. ह्या बुरावेल्यान कोंकणींत 'बुरांत बूर म्हाळपैचें बूर' अशी म्हण आसा. अंतर्गळ आनी बूर वाडटकीर शस्त्रक्रिया करची पडटा. एकाद्रेवेळा क्वचित आंडाक ट्युमोर जाता. ह्या ट्युमोराचे कांय प्रकार अशे आसात : Seminoma, Teratoma, Corionepitetioma, de cilulas de Leydig, de celulas de sentoli बी. हो तुमोर एकएकदां कॅन्सराचेर वचूं येता.

**आधारावळ :** 1.Verbo Enciclopedia Luso-Brasiliera de Cultura.

2. The Penthouse Sexindex, compiled by Lynn Barbev.

**आंडकुली** । आण्डकुली । सा.रू. – ले; भोव. – ल्यो, सा.रू. – ल्यां । (सं. अण्ड; अण्डम् + कों. कुली) हें ताळाकूस स्त्री. आंडाचे ल्हानविकायेचें अशें माणकुलें रूप. चल्या भुरग्याचो वा कांय धाकल्या जनावरांचो आंड आकारान ल्हान आशिल्ल्यान ताका आंडकुली म्हणटात.

**आंडकोय** । आण्डकोय् । सा.रू. – ये; भोव. – कोयो, सा.रू. – यां । (को. आंड + कोय) स्त्री. आंडाच्या दोन कोयांतली खंयचीय एक कोय.

**आंडपारी** । आण्डपारी । सा.रू. – रे; भोव. – ऱ्यो, सा.रू. – ऱ्यां । (कों. 'आंड' + पारी) स्त्री. आंडकोय; आंडाचे कोयेक 'पारी' अशेंय म्हणटात. देखून दोन आंडपाऱ्यांतली खंयचीय एक कोय वा पारी.

**आंडेर** । आण्डेर । सा.रू. – रा; भोव. – डॅर, सा.रू. – डॅरां । (वे. सं. आण्डीर; सं. अण्डीर) वि. पूर्ण वयांत आयिल्लो; पूस्ट बैलवरी कोळ कसो मातिल्लो.

**आंडेल** । आण्डेल । सा.रू. – ला, भोव. – डेल् (डॅल), सा.रू. – लां । ( वे. सं. 'आण्डीर' वेल्यान) वि. १. म्हेळसावंक नाशिल्लो बांगर (बैल). २. (ला.) कामातूर; शिंदळ; लंपट; बायलुको; चिंरगुटो.

**आतंक** । आतङ्क । सा.रू. – क, भोव. – का, सा.रू. – कां । (सं. आतङ्क) पु. १. जोर; व्याधी; पिडा; रोग; बळाळीक. २. वेदना; दूख; चिंता; खंत. ३. भय; दहशत; आकांत; थरथरो; कांपरो.

**आतंकवाद** । आतङ्कवाद । (सं. आतङ्क + वाद:) पु. दहशत निर्माण करून काम साधचें, अशें राजकर्णी मळावेलें मत. (पुर्तु.) Terrorismo. (इं). Terrorism.

**आतंकवादी** । आतङ्कवादी । सा.रू. – द्या, भोव. – दी, सा.रू. – द्यां । (सं. आतङ्क + वादिन् ) वि. राजनितीक लक्ष्याचे सिद्धीखातीर अस्त्र शस्त्रान दहशत निर्माण करूंक जाय म्हणपाचें मत मानपी; दहशतीन राज्य चलोवंक सोदपी.

**आततायी** । आत्तायी । (सं. आततायिन्) वि. १. चोर, गुन्यांवकार, खुनमारो, बळयादपी. २. घातकी. **विशेश :** उजो लावपी; विख्ख घालपी; खून करपी; चोरी करपी; दुसऱ्याची बायल सुतलावपी आनी दुसऱ्यांचीं शेतांभाटां बळयादपी, अशा स तरेच्या लोकांक आततायी म्हणटात.

**आतरो-पयरो** । आतरो-पयरो । सा.रू. – ऱ्या-पयऱ्या । (सं. अंतर-पर्याय ) पु. दोन दीस मदीं सोडून येता तो तिसरो दीस. (मदल्या काळांत हांवें आंतेरीच्या मुळांत आतरो-पयरो चुकयलोना. – देंठ, बरो : पुंडलीक नायक, पिशान्तर, पा. ६४.)

**आतवो** । आतवॉ । सा.रू. –व्या । (?) वि. आंगार कांटो फुलोवपी; भयांकृत. (ते दुवेंतीचो तो आतवोच हांसो आयकून म्हाका शेळो घाम सुटलो. म्हजी लेंव शिरशिल्ली. – व्होंकल, बरो : ऑलिव्हीन गोमिश, कोंकणी कथासंग्रह, साहित्य अकादेमी, पा. ११६.)

**आतळ-पातळ** । आतंळ-पातंळ । (?) क्रि.वि. नाजूक, फुलार, फुलावरी. (चान्नें भिजयत आयल्यो धारो । लोकांगीत गायत । आतळपातळ पावल्यो मारीत । देवपरयां नाच । – पावसभिजी चान्नी रात, बरो : गजानन रायकार, बनवड, पा. ३६.)

**आताक** । आताक । सा.रू. –क, भोव. –क, सा.रू. –कां । (पुर्तु. Ataque) पु. एकदम चडिल्ली बळाळीक. (काळजाचो खर आताक हें निमित्त करून यमान तुमकां व्हेले. कांय तुमीच आपूण जावन यमावांगडा गेले ? – दादी, तुमी आजून जाय आशिल्ले. लेख, बरो : प्रा. उल्हास पै भाटीकार, राष्ट्रमत, आयतार आवृत्ती, ता. १६ फेब्रुवारी १९९२, संपादक : चंद्रकांत केणी; पा. ६.)

**आतां** । आतां । वे. सं. अध, अधा, अथा. सं. अथ क्रि.वि. १. चालंत घटकेक; ह्या वेळार. (दनपारच्यान घरांत बसून आशिल्लों. आतां मात्सो भायर सरतां.) २. सध्या; हल्लीं; तूर्त. (पयलींच्या काळार रुपयाक बारा चौदा आंबे मेळटाले. आतां ते उस्टावंक पसून मेळनात, इतलो तांकां उजो पेटला.) ३. विशिश्ट परिस्थितींत. (एके वाटेन आवयचेर निमाणी नदर घालपाची इत्सा. तेवटेन बायल बरी नासून ओश्पितालांत. तो भांबावलो. काचाबूल जालो. आतां कितें करचें तेंच ताका कळना जालें.) ४. ह्या मुखार (तुंवें म्हाका नाडलो. आतां तुका पातयेवप म्हळ्यार हांवें म्हजोच घात करप.)

**आतांच** । आतांच् । 'आतां'वेल्यान क्रि.वि. निकतोच. (वाटेर तो तुका दोडला जावंये. तो आतां भायर सरून गेला.)

**विशेश :** ह्याच अर्थान 'आत्तां' अशेंय उतर उपकरायतात.

**आतांचो, ची, चें** । आतांचॉ, ची, चँ । 'आतां' वेल्यान वि. १. तुर्ताचो, सध्याचो, हालींचो (आतांचो काळ). २. ताजो (आतांचो पाव/उंडो), ताजी (आतांची शाकभाजी), ताजें (हें नुस्तें आतांचें दिसना.)

**आतिथ्य** । आतीथ्य् । सा.रू. – थ्या । (सं. आतिथ्यम्) न. अतिथिचो, पाहुण्याचो सत्कार; पाहुणचार. (देवयानी ... आशा आसा की, आतिथ्यांत जें कितें उणें जालां जायत, तें सुरलोकांत पावतकीर तूं विसरून वतलो ? – बिदाय अभिशाप, मूळ लेखक : रवीन्द्रनाथ टागोर, कोंकणी भाशांतर : पांडुरंग भांगी, पा. ३२.)

**आतुर** । आतूर् । सं. आतुर वि. १. उत्सुक; उत्कंठीत. २. उतावळो. ३. व्याकूळ. (संवसारांतलें सगळें सूख एकच फावट पिवन उडोवंक आतुर जाल्लेवरी तीं ओंटां सदांच फडफडत रावतात. – येणें, बरो : महाबळेश्वर सैल, पलतडचें तारूं, पा. १०४.)

**आतुरताय, आतुराय** । आतुर्ताय्, आतुराय् । सा.रू. –ये-ये । (सं. आतुर + कों. ताय; आतुर + कों. आय) स्त्री. आतुर. उत्कंठीत जाल्ल्या मनशाच्या मनाची स्थिती वा अवस्ता.

**आतें** । आतँ । सा.रू. –त्या । (का. अत्ते = बापायची भयण; मांय. दे. आवय; मांय; बापायची भयण) न. १. बापायची भयण; पिवशी; मावळण; पिशीन. २. मांय; सासुबाय; सासुमांय. (दोन दीस तें आत्याकडेन गेलेंच ना. पुण भुरगेपणापसूनची संवकळ. तिगेर वचनासतना रावं नज जातालें. – काळखा किरणां, बरो : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा. १२१.) **विशेश :** महाराष्ट्री प्राकृतांत आशिल्ले हालाचे गाथासप्तशतींत 'अत्ता' हें उतर मांय (सासू) ह्या अर्थान आयलां आनी 'पिउच्छा' हें उतर बापायची

भयण आनी सखी ह्या अर्थान आयलां.

चडशा जाती जमातींत मामाचे धुवेकडेन लग्न जावपाची चाल आसा. सारस्वतांत आनी कांय जातींत आनी जमातींत आतेभाव आनी आतेभयण हांचेकडेनच लग्न जावपाची चाल आसा. मामेभाव आनी मामेभयण जर आतेभयण आनी आतेभावाकडेन लग्न जालीं, तर आतें ही तांची मांय जाता. देखून, गाथेंत दाखयल्लो 'आत्या' ह्या उतराचो 'मांय' हो अर्थ जाता.

'पिउच्छा' हें प्राकृत उतर 'पितृस्वसा' (बापायची भयण) ह्या संस्कृत उतरावयल्यान घडलां. 'मातृस्वसा' ह्या उतरावेल्यान 'मावशी' हें उतर घडलां. तेच तरेन 'पितृस्वसा' ह्या उतरावेल्यान 'पिवशी', 'पिशीन' हीं उतरां घडल्यांत.

**आतेभाव** । आतेभाव् । सा.रू. – वा, भोव. – व, सा.रू. – वां । (कों. आतें + भाव) पु. आत्याचो चलो; बापायचे भयणीचो पूत, चलो.

**आतेभयण** । आतेभयण् । सा.रू. – णी, भोव. – णी, सा.रू. – णीं । (कों. आतें + भयण) स्त्री. आत्याची चली, धूव; बापायचे भयणीची चली, धूव.

**आतोड** । आतोड् । सा.रू. – डा । (सं. आ + तुङ्गः = उंच जागो, दोंगर) पु. १. कुळागराचो दोंगरा वटेन सोंपपी भाग. २. भाटांत माडांक पुरती घालूंक मेळपाखातीर, कांयच रोयनासतना मेकळो सोडिल्लो जागो. ह्या जाग्यार एकाद्रेवेळा कोंडे घालतात. ३. न्हंय जंय दोंगरार सुरू जाता, थंय तिच्या देगांचेर शेतोड निर्माण करूंक मेळटा असो जागो. (न्हंयचो आतोड पाडंग आसा.)

**आत्ताळ** । आत्ताळ । सा.रू. – ळा । सं. अतलम् = सकल्लो प्रदेश; सप्तपाताळांतलें पयलें पाताळ, हाचेवयल्यान ? न. भूंय, जमीन. (आत्ताळी रोयणी, पात्ताळी रोयणी । रोयणीर नाग डुले गे बायी, रोयणीर नाग डुले ।। – रथा तुज्यो घुडयो : आमोणेंचीं धालो गितां, संकलन : जयंती नायक, पा. ३७.)

**आत्ताळो** । आत्ताळॉ । सा.रू. – ळ्या । (सं. अतलम्) पु. भूंय; प्रदेश. (आमच्या आत्ताळ्यारच, राजा आपलो वाडो बांदता.)

**आत्तां** । आत्तां । ('आतां' वेल्यान ) क्रि.वि. ताबडतोब; ह्या खिणाक; खिणभर पयलीं.

**आत्म** । आत्म् । (सं. आत्मन्) वि. १. आत्म्याकडेन लग्निक आशिल्लें. २. खासा आपलें; आपलें स्वताचें.

**आत्मकथा** । आत्मकथा । सा.रू. – थे, भोव. – था, सा.रू. – थां । (सं. आत्मकथा) स्त्री. आपणेंच बरयल्ली आपले जिणेची कथा. (मनशाक हेर कितेंय बरोवंक येवं वा ना येवं, आत्मकथा ताका बरोवंक येवंकूच जाय... ताणें ती बरोवंकच जाय. – कांय खबरी : हे वटेनच्यो ते वटेनच्यो, बरो : रवीन्द्र केळेकार, जाग, दिवाळी आंक १९८८, पा. ११.)

**आत्मकल्याण** । आत्म्कल्याण् । सा.रू. – णा । (सं. आत्म + कल्याणम्) न. १. खासा आपलेंच हीत, कल्याण. २. (ला) आपलो स्वार्थ.

**आत्मकार्य** । आत्म्कार्य् । सा.रू. – र्यां, भोव. – र्यां, सा.रू. – र्यां । (सं. आत्म + कार्यम्) न. आपलेंच खाजगत काम.

**आत्मकेंद्री** । आत्म्केन्द्री । सा.रू. – द्रया, भोव. – द्री, सा.रू. – द्रयां । (सं. आत्मकेन्द्री) वि. आपल्याकच केंद्रस्थानार मानून प्रत्येक गजाल पळोवपाची वृत्ती आशिल्लो; फकत आपलोच विचार करपी; आपलोच स्वार्थ पळोवपी; अतिशय स्वार्थी.

**आत्मगती** । आत्म्गती । सा.रू. – ती । (सं. आत्मगतिः) स्त्री. १. आत्म्याची अखेरची अवस्ता (मुक्ती) २. आपलो अखेर.

**विशेश :** भगवद्गीतेच्या पांचव्या अध्यायांत म्हळां : 'त्या परमात्म्याचेर जांचें अंतस्कर्ण लागलें, आपूण

आनी तो एक अशें जांकां दिसलें, तांतूंत जे बरे तरेन थारावले, तोच जांची जोडचेली मोटी वस्त जाली, तांच्या करण्यांचें पातक आत्मगिन्यानान झळझळीत धुवून वचून, ते पर्थून जल्मा येनात. (भ.गी. अ. ५. १६ कोंकणी भाशांतर: शणै गोंयबाब, पा. ५७.)

**आत्मगिन्यान** । आत्म्‌गिन्यान्। सा.रू. – ना । (सं. आत्मज्ञान) न. आत्म्याचें, आपल्या खऱ्या रुपाचें ज्ञान वा गिन्यान.

**आत्मघात** । आत्म्‌घात् । सा.रू. – त । (सं. आत्मघात) पु.१. आत्महत्या; आपणेंच आपलो घेतिल्लो जीव; आपणेंच आपलो केल्लो घात. २. (ला) आपणेंच आपलें केल्लें लुसकान.

**आत्मघातकी** । आत्म्‌घात्‌की । सा.रू. – क्या । (सं. आत्मघातक:) वि. १. आपूण जावन आपलो घात करपी. २. आपलेंच लुसकान आपुणच करपी; आपूण जावन आपल्या पांयार फातोर घालपी.

**आत्मचरित्र** । आत्म्‌चरित्र् । सा.रू. – त्रा; भोव. – त्रां; सा.रू. – त्रां । (सं. आत्मन् + चरित्रम्) न. आपणेंच बरयल्ली आपले जिणेची खबर; आपणेंच बरयल्लो आपले जिणेचो वृत्तांत; आपजीण; आत्मकथा.

**विशेश :** आत्मचरित्र ह्या उतराची व्याख्या 'आपले जिणेची कथा' हीच जाता. आत्मचरित्राचें तंत्र तें बरयतल्याच्या बसकारार आधारून उरता.

कांय जाणांच्यो दिसपट्ट्यो, कांय जाणांनी बरयल्ल्यो आपल्यो स्मरणयात्रा, कांय जाणांचीं स्मृति-चित्रां हीं जरी पूर्ण अर्थान आत्मचरित्रां नासलीं, तरी तांचोय आस्पाव आत्मचरित्रांत जाता. आत्मचरित्र हें आपल्याक केंद्रस्थानार दवरून बरयल्लें आसता. केन्ना तातूंत, खोऱ्याची बाग सदांच आपलेवटेन आसता, ह्या न्यायान आपलोच पाखो घेतिल्लो आसता. केन्ना आपल्या चुकांची कबुलीय दिल्ली आसता.

कांय आत्मचरित्रां कादंबरी इतलींच ओडलायणीं आसतात. कांय परवड कशीं उबगणीं जातात. अवघींच आत्मचरित्रां कलेच्या पांवड्यार चड्टात.

युरोपांत पुनरुत्थान जातकीर, थंय राजकर्णी आनीक आर्थिक मळाचेर नव्यो नव्यो कल्पना उदेवाक येवपाक लागल्यो. विज्ञानाच्या दिसपट्ट्या नव्या सोदांक लागून, गिन्यानाचीं धांपून उरिल्लीं कवडां उकतीं जावपाक लागलीं. यंत्रयुगान समाजांत नवे बदल घडोवन हाडले. जिणेक नवीं परिमाणां मेळत गेलीं. ह्या परिमाणांतल्यान मनशाचो विकास जायत गेलो. समाजाक नवीं नवीं तासां मेळ्ळीं. देखून, अठरावो शेंकडो धरून फ्रान्सांत, इंग्लंडांत आनी जर्मनींत आत्मचरित्रांची आंकरी खऱ्या अर्थान पालेवंक लागली.

जो आत्मचरित्र बरयता, तो आपूण खरें सांगतलों असो आपल्याकडेनच सोपूत घेता. देखून, आत्मचरित्रांत जर आपल्याच मनाची आपणेंच केल्ली चिकित्सा आसत, आपल्याकच आपणें पूर्ण नागडो करून दाखयल्लो आसत, तर तें आत्मचरित्र समाजशास्त्राचो, मानसशास्त्राचो आनी वैजकीशास्त्राचो एक मोलादिक करंड जावं येता.

आज वेगवेगळ्या मळांवेले लोक आपलीं आत्मचरित्रां बरोवन, जिणेची आजवेर धांपून उरिल्लीं दालनां उकतीं करूंक लागल्यात. ताका लागून समाजांत नवो बदल घडून येवपाक तीं उपकारीक जावं येतात. जाल्यारूय, पूर्ण सत्य कळपाक एकाच आत्मचरित्राचेर अवलंबून रावनासतना, त्या काळांत ताच्या वांगडच्यांनी बरयल्ल्या सगळ्या आत्मचरित्रांचें कठोर समीक्षण जावंक जाय.

आयच्या काळावेले लेखक, साहित्य हें जिणेचो आरसो मानतात. देखून, फ्रेंच लेखक Flaubert हाका Madame Bovary आपुणच आसां (Madame Bovary, c est moi) अशें सांगपाक रझांव आशिल्लें आनी Flaubert च्याय दोनशीं वर्सां पयलीं स्पॅनिश

लेखक Meiguel Cervantes हाणें Don Quixote हो आपुणच आसां म्हणून सांगिल्लें. आत्मचरित्र हें वाङ्मयाचो प्रकार म्हणून आज थिरावलां.

रुसो, गटे, गीद, सार्त्र, झ्वायग, Andre Malrau, गांधी आनी नेहरू हांकां संवसारीक नामना मेळिल्ल्यान, तांगेल्या आत्मचरित्रांक एक विलक्षण तेज आयलां. तांगेलीं आत्मचरित्रां नव्यो जाणविकायो आनी प्रेरणा दितात.

**ात्मज** । आत्म्ज् । सा.रू. – जा; भोव. – ज; सा.रू. – जां । (सं. आत्मजः) पु. आपलो पूत, चलो. (पुर्तु Filho legitimo).

**ात्मजा** । आत्मज्या । सा.रू. – जे; भोव. – जा, ज्यां; सा.रू. – जा, ज्यां । (सं. आत्मजा) स्त्री. आपली धूव, चली. (पुर्तु : Filha legitima).

**ात्मजोत** । आत्म्जोत् । सा.रू. – ती; भोव. – ती; सा.रू. – तीं । (सं. आत्मज्योतिस्) स्त्री. आत्म्याचो उजवाड; परमात्मो; चैतन्य.

**ात्मतत्व** । आत्म्तत्व् । सा.रू. – त्वा । (सं. आत्मतत्वम् ) न. आत्म्याचें सत्य रूप; ब्रह्म.

**ात्मतुस्त** । आत्म्तुस्त् । सा.रू. – ती । (सं. आत्मस्तुतिः) स्त्री. आपणेंच केल्ली आपली तुस्त, तोखणाय, स्तुती, वाखाणें.

**ात्मत्याग** । आत्म्त्याग् । सा.रू. – गा । (सं. आत्मत्यागः) पु. १. दुसऱ्यांच्या कल्याणाखातीर कुशीक दवरलेलो आपलो स्वार्थ; परोपकारी बुद्दीन समस्तांखातीर आपल्या लाभाचो वा आदावाचो केल्लो त्याग; स्वार्थत्याग. २. आत्महत्या.

**आत्मद्रोही** । आत्म्द्रोही । सा.रू. – ह्या । (सं. आत्मद्रोहिन् ) वि. आपलेंच लुस्काण करपी; आपलीच हानी करपी.

**आत्मधन** । आत्मधन् । सा.रू. – ना । (सं. आत्म + धनम् ) न. १. आपलें धन; संपत्ती· २. आपलो आत्मो. ३. खासा आपूण; ४. (ला.) आपलो पूत.

**आत्मन** । आत्मन् । सा.रू. – ना । (सं. आत्मन् – मूळ धातू 'अन्' = श्वास घेवप. देखून आत्मन् म्हळ्यार जिणेचो श्वास, प्राण.) पु. १. देहांतलें प्राणतत्त्व. २. अहम् (हांव) हे संज्ञेन उकतें जाता तें मनशाचें पूर्ण व्यक्तित्व; देह, इंद्रियां, अवयव, मन आनी वाणी धरून आकाराक येता ती संपूर्ण व्यक्ती. ३. आपुणच. ४. देहाचो मध्यभाग. यजुर्वेदांत आनी ब्राह्मण ग्रंथांत ह्या अर्थान हें उतर जायते खेपो उपकरायलां. ५. संवसाराचें परमतत्त्व; ब्रह्म. (अकाम, धिरिस्ट, अजंवर, सैमाचो, आनंदभरित, ज्ञानसंपन्न, व्याधिविरयत आनी नित्य-जुवान अशा स्कंभरुपी आत्मनाचें ज्ञान जाका जाता ताका मरणाचो भंय उरना. – अ.वे. १०-८-४४) ६. संवसाराच्या परमतत्वाचो एक अंश; जिवात्मो.

**आत्मनिंदा** । आत्म्निंदा । सा.रू. – दे । (सं. आत्मनिन्दा) स्त्री. आपणेंच आपल्याक दिल्लो दोश, दुशण.

**आत्मनिरीक्षण** । आत्म्निरिक्षण् । सा.रू. – णा । (सं. आत्मनिरीक्षणम् ) न. आपल्याच गुणादोशांची आपणेंच केल्ली विस्कणी; आपणेंच घेतिल्लो आपल्या अंतराचो सोद.

**विशेश :** मानसशास्त्राची आनी मनोगाहन (Psychoanalysis) शास्त्राचीं तत्त्वां उपकरावन खंयच्याय मनशान आपल्या मनाचें केल्लें निरीक्षण. आपल्या स्वप्नांतल्यान, नात्यांच्या मनशांकडल्यान आनी म्हऱ्यांत येवपी रोग्यांकडल्यान, मनशाच्या अर्द जागृत (subconscious) मनाचो सोद घेवन, ताची फोडणिशी करपाचें काम सिगमंड फ्रॉयड हांणी पयलेंवयलें केलें. जेन्ना दुसरो उपाय नासता, तेन्नाच हो प्रयोग करून पळोवंक येता. जाल्यारूय, मनशाच्या 'अहं'ची, ताच्या विवेकाचे तांकिची ह्या निरीक्षणाक

म्हेर पडटा.

**आत्मनिस्ठ** । आत्म्निस्ठ । सा.रू. – स्ठा । (सं. आत्मनिष्ठ) वि. १. जो आत्मज्ञानांत, आत्मस्वरुपांत, आत्मानंदांत वा ब्रह्मानंदांत तल्लीन जावन रावता तो; ब्रह्मनिश्ठ. २. जाका ब्रह्मज्ञान जालां तो; ब्रह्मज्ञानी. ३. व्यक्तिनिश्ठ (Subjective).

**आत्मनिस्ठा** । आत्म्निस्ठा । सा.रू. – स्ठे । (सं. आत्मनिस्ठा) स्त्री. १. आत्म्याचेर आशिल्ली निस्ठा. २. आपल्याचेर आशिल्लो आपलो विस्वास; आत्मविस्वास.

**आत्मप्रचिती** । आत्मप्रचिती । सा.रू. – ती । (सं. आत्मप्रचिती) स्त्री. १. आत्मज्ञान. २. आपल्या अनुभवांतल्यान आपल्याक आपणें जोडिल्लें ज्ञान. ३. खासा आपणाक आयिल्लो अणभव.

**आत्मप्रशंसा** । आत्म्प्रशंसा । सा.रू. – शे । (सं. आत्मप्रशंसा) स्त्री. आपणेच केल्ली आपली तोखणाय, तुस्त, वाखाणें, प्रशंसा.

**आत्मप्राप्ती** । आत्म्प्राप्ती । सा.रू. – प्ती । (सं. आत्मप्राप्तिः) स्त्री. आत्मज्ञान; ब्रह्मज्ञान.

**आत्मप्रेरणा** । आत्मप्रेरणा । सा.रू. – णे; भोव. – णा; सा.रू. – णां । स्त्री. आपल्या भितल्ल्यानच आपल्याक मेळिल्ली प्रेरणा; आपल्या अंतरांतल्यान मेळिल्ली प्रेरणा.

**आत्मप्रौढी** । आत्मप्रौढी । सा.रू. – ढी । (सं. आत्मप्रौढिः) स्त्री. आपलीच आपणें मिरयल्ली मिजास, आढ्यताय; आपलीच आपणें सांगिल्ली बढाय; आपलेंच मिरयल्लें व्हडपण; आपलोच मिरयल्लो अहंकार.

**आत्मबल** । आत्म्बल । सा.रू. – ला । (सं. आत्मबल ) न. आपली तांक, शक्त. (आमकां तुमच्या आत्मबलाचो दुबाव घेवपाचो नासलो. आमकां जाय आसली फायचें कुंड पेटोवपाक तुमच्या उतराची एक ल्हानशी कीट. – महारुद्र, बरो: एन्. शिवदास, गळसरी, पा. २२.)

**आत्मबिंब** । आत्म्बिम्ब । सा.रू. – बा । (सं. आत्मबिंब; आत्मबिम्बस् ) न. १. आपलेंच पडबिंब. २. जिवात्मो (परमात्म्याचें प्रतिबिंब.)

**आत्मबुद्द** । आत्म्बुद्द । सा.रू. – द्दी । (सं. आत्मबुद्धिः) स्त्री. खासा आपलीच बुद्द, शाणेपणां.

**आत्मबोध** । आत्म्बोध् । सा.रू. – धा । (सं. आत्मबोधः) पु. अध्यात्मिक ज्ञान; आत्मज्ञान.

**आत्मयोनि** । आत्म्योनी । सा.रू. – नी । (सं. आत्मयोनिः) स्त्री. १. ब्रह्मा. २. विष्णु. ३. महेश. ४. कामदेव. ५. आपलें भुरगें.

**आत्मरक्षण** । आत्म्रक्षण् । सा.रू. – णा । (सं. आत्मरक्षण) न. आपणेंच केल्ली आपली राखण, सांभाळ.

**आत्मलिंग** । आत्म्लिङ्ग । सा.रू. – गा । (सं. आत्मलिङ्गम् ) न. १. आत्मस्वरूप. २. शिवाचें मुख्य लिंग. ३. अत्यंत जिवाचो मनीस; आपले मायेचो मनीस.

**आत्मविद्या** । आत्मविद्या । सा.रू. – द्ये । (सं. आत्मविद्या) स्त्री. १. जिका लागून आत्म्याचें आनी परमात्म्याचें ज्ञान जाता ती विद्या. २. ब्रह्मविद्या; अध्यात्मिक विद्या; वेदान्त.

**आत्मविस्वास** । आत्म्विस्वास् । सा.रू. – सा । (सं. आत्मविश्वासः) पु. आपलोच आपल्याचेर आशिल्लो विश्वास, भरवंसो; आपले कर्तुत्वदशेचो आपल्याक आशिल्लो विश्वास, खात्री; (... आमी आमच्या खाशेल्या घरांत देडा दिसाच्या परक्याभाशेन चलतात, आमी बंदेपणांत वावुरतात. आमचो आत्मविस्वास सामकोच उबला. दुसऱ्याचे दिवटेतळा

आमी आमचे बुद्दिचो उजवाड घालतात. ती दिवटी नासत जाल्यार आमची तेजवंत बुद्द काळोखांत पडटा. – पुण्यात्मो राम कामती, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १२२.)

**आत्मशुद्धी** । आत्मशुद्धी । सा.रू. –द्धी । (सं. आत्मशुद्धि:) स्त्री. चित्तशुद्धी; पवित्र आचारविचारांनी दवल्लेलें शुद्ध वर्णन.

**आत्मसमर्पण** । आत्म्समर्पण् । सा.रू. –णा । (सं. आत्मसमर्पणम्) न. पवित्र कार्याखातीर, मनीसजातीच्या कल्याणाखातीर, देशाखातीर आपणें दिल्ल्या सर्वस्वाची, आपल्या जिवाची आहुती.

**आत्मसंतुस्ट** । आत्मसंतुस्ट् । सा.रू. –स्ट । (सं. आत्मसंतुष्ट:) वि. आपल्याभितर संतुस्ट, समाधानी, आनंदीत, खोशी आसपी.

**आत्मसंतोश** । आत्मसंतोश । सा.रू. –शा । (सं. आत्मसंतोष:) स्त्री., आपखोशी.

**आत्मसंतोशी** । आत्म्संतोशी । सा.रू. –श्या । (सं. 'आत्मसंतोष' वेल्यान) वि. १. आत्मानंदांत सूख मानपी. २. (ला.) स्वार्थी.

**आत्मसात** । आत्म्सात् । (सं. आत्मसात) क्रि.वि. १. आपल्याकडेन एकरूप. २. आपणायल्लें. ३. अभ्यासान नीट समजून घेतिल्लें, जाणून घेतिल्लें.

**आत्मसाक्षात्कार** । आत्म्साक्षात्कार् । सा.रू. –रा । (सं. आत्मसाक्षात्कार:) पु. आपल्या अंतरांत आपल्याकच जाल्लो परमेश्वराचो, ब्रह्माचो साक्षात्कार; आपूण म्हळयार देह न्हय, तर परमात्म्याचो एक अंश आसां, असो ज्ञानाचे अखेरचे अवस्तेंत आयिल्लो अनुभव.

**आत्मसूख** । आत्म्सूख् । सा.रू. –खा । (सं. आत्मसुख) न. १. ब्रह्मज्ञानाक लागून जाता तें सूख; भौतिक सुखापरस श्रेस्ठ, सासणाचें, अमर्तिक अशें मेळिल्लें अध्यात्मिक सूख. २. (ला.) आपल्या देहाक वा मनाक मेळटा तें सूख; खासा आपलें सूख.

**आत्मस्तुती** । आत्म्स्तुती । सा.रू. –ती । (सं. आत्मस्तुति:) स्त्री. आपणेंच केल्ली आपलीच स्तुती, तुस्त, तोखणाय; आपस्तूत.

**आत्महत्या** । आत्म्हत्या । सा.रू. –ते; भोव. –त्या; सा.रू. –त्यां । (सं. आत्महत्या) स्त्री. कांय कारणांक लागून आपणेंच केल्ली आपली हत्या; एखाद्रो विशिश्ट हेतू साध्य न जाल्ल्यान निर्शेवन आपणेंच केल्लो आपले जिणेचो अखेर; आपणेंच ना केल्लो आपलो जीव.

**आत्महीत** । आत्म्हीत् । सा.रू. –ता । (सं. आत्महितम्) स्त्री. १. परमेश्वराचे प्राप्तीन जाता तें जिवाचें कल्याण वा जिणेचें सार्थक. २. आपलोच लाभ, लाव, आदाव.

**आत्मज्ञान** । आत्म्ज्ञान् । सा.रू. –ना । (सं. आत्मज्ञानम् ) न. १. स्वार्थाक जिखून आनी हांवकाराक पोरो घालून, आपूण परमात्म्याचोच अंश आसां, अशें आपल्या निजाच्या स्वरुपाचें आपल्याक जाल्लें खरें ज्ञान; आपल्या निजाचें जाल्लें गिन्यान; ब्रह्मज्ञान; अध्यात्मज्ञान. २. आपल्या आचार-विचारांची आपल्याक आशिल्ली जाणविकाय.

**आत्माराम** । आत्माराम् । सा.रू. –मा । (सं. आत्मन + राम) पु. १. प्राण, जीव; आत्मो. २. भगवंत, परमेश्वर. ३. आत्म्याक जंय आराम मेळटा ती स्थिती; आत्म्याक सासणाचो आनंद मेळटा ती स्थिती; आत्मो ब्रह्मानंदांत तल्लीन जाल्लो आसता ती स्थिती. ४. जो सदांकाळ ब्रह्मानंदाची अवस्था अनुभवता तो मनीस; सगळ्या भूतमात्रांकडेन समभावनेन चलपी असो पुर्णतायेक पाविल्लो मनीस. ५. (ला) पोट; पोटाची भूक.

**वा.प्र.: आत्माराम थंड करप** : भुकेन पोटांत कावळे

रडूंक लागतकीर पोटभर जेवप.

**म्हण :** सवंग पिशाचें, आत्माराम शाणो.

**विशेश :** कबिरान म्हळां :

एक राम तो दशरथ का बेटा ।
दुजा राम तो घटघट में बैठा ।
तिजा राम सबसे प्यारा ।
चौथा राम तो सबसे न्यारा ।

दशरथाचो पूत हो एक राम. प्रत्येक जिवांत प्राणरुपान आसता तो दुसरो राम. सगळ्या जिवांच्या पेल्यान आशिल्लो शीव हो तिसरो राम आनी ताच्याय पेल्यान आशिल्ले निराकार, निर्गुण ब्रह्मतत्त्व म्हळ्यार चौथो राम.

अहंकाराचे, राग-लोभाचे, दुस्वास कुण्णटकायेचे सगळे विकार पोरो घालून जो सगळ्यांकडेन अद्वैत साधित, स्थितप्रज्ञाचे अवस्तेक पावता तो आत्माराम. प्रपंचांतल्यान मुक्त जावन सगळ्या भूतमात्रांत विस्तारता तो हांव, हो आत्माराम. गोकुळांत दूध मागपी आनी गवळ्याच्या वेशान रमपी श्रीकृष्ण हो आत्माराम. निवृत्तीनाथ सांगता : जाका पूर्णबोध जाला तोच आत्माराम जावंक पावता.

**आत्मिक** । आत्मीक् । (सं. आत्मिक) वि. १. आपले; आपल्या नात्यांतले; आपले सोयरे दायरे. २. आत्म्याकडेन लग्निक आसपी. ३. अंतरांतलें; निजाचें. (गोंयकारांत बुद्द आसा, पुण स्वाभिमान ना, आत्मिक बळ ना, हें ताणें जाणलें आनी एका झुजाऱ्याभाशेन तो झगडलो. – 'मिनेझिश ब्रागांस', बरो : प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय, नवें गोंय, एप्रिल १९६४.)

**आत्मो** । आत्मॉ । सा.रू. –त्म्या; भोव. –त्मे (त्मॅ); सा.रू. –त्म्यां । (सं. आत्मन्) पु. १. संवसाराचें चैतन्य वा आदितत्व. २. प्राणिमात्रांत प्राणाच्या रुपान आशिल्लें निराकार, अनंत, सासणादिक चैतन्य. ३. जागृताय, सप्न (सपन्) आनी न्हीद, जन्म आनी मरण, उत्पत्ती, स्थिती आनी लय ह्या अवस्तांक व्यापून उरपी चैतन्य. ४. 'हांव' ह्या उतरांतल्यान मनशाक आपल्या जिणेच्या बळग्याची जाता ती जाणविकाय. ५. प्राण; जीव; वायु; अग्नि; सूर्य. ६. अंतस्कर्ण; स्वभाव; प्रकृती. ७. देह; इंद्रीय. ८. बुद्द; समज. ९. जीव; प्राणी. १०. मन. ११. (ला) पोटाची भूक.

**वा.प्र.: आत्मो तृप्त करप :** जीव धादोस जायसर धिमशी मारून जेवप; पोटभर जेवप.

**आत्मो तृप्त जावप :** मन प्रसन्न, आनंदभरित जावप.

**विशेश :** संवसारांतल्या भौतेक सगळ्या (वेदिक हिंदू, इस्लाम आनी किरिस्तांव) धर्मांनी आत्म्याचें अस्तित्व मानलां. बुद्ध आनी जैन धर्मान आत्मो मानूंक ना. चार्वाक आनी लोकायतिक हांणीय आत्मो मानूंक ना. आत्म्याची संकल्पना विराट पुरुशाचे संकल्पनेंतल्यान उदेवाक आयल्या.

वेदिकांच्या विचारांचो संवसार पुरुशप्रधानच आशिल्लो. ऋग्वेदांतलें 'पुरुषसूक्त' ही गवाय दिता. तांगेलें संवसारतत्व पुरुशरुपी आशिल्लें. 'पुरुषसुक्तां'त तें पुल्लिंगीच मानलां. पुरुश हो संवसारव्यापी, तेचपरी तो संवसारा पेल्यान आसा, अशें तांणी पुरुशाचें वर्णन केलां.

अथर्ववेदांतले ऋषी 'जागृती आनी न्हीद, सूख आनी दुख्ख, सुबुद्दी आनी दुर्बुद्दी, तान आनी भूक, सत्य आनी असत्य, मरण आनी अव्रंवरताय, बळ आनी अशक्ताय, रेत आनी मन' हीं कोणें घडयलीं, हो प्रस्न भौन भौन ते आपल्याकच विचारतात, आनी 'ही भूंय, द्युलोक, अग्नि आनी संवत्सर हांची व्यवस्था कोणें केली?' अशें ते आपल्याकच पाचारतात. मनशाच्या देहाचे रचणुकेंत तांकां संवसारीक बळग्याची अनुभूति मेळ्ळी तेन्नाच विराट पुरुशाची कल्पना तांच्या मनांत उदेली. ह्या विराट पुरुशाचें मन, दोळे, तोंड आनी प्राण हांकां लागून चंद्र, सूर्य, इंद्राग्नी आनी वायू हे उत्पन्न जाले. ही सगळी सृश्ट पुरुशांतल्यान

उदेवाक आयली. पुरुशरुपी ब्रह्मान मनीस आनी हो संवसार घडयले, ही तांची जिणेची धारणा जाली.

संवसारांतलें अंतिम सत्य हें पुरुशरुपी आसा, ही कल्पना तांच्या धर्मभावनेचो गाभो जालो. पुरुशाक तांणी संवसाराचें चैतन्यत्व मानलें.

संवसारीक बळगें वा चैतन्य हें अनादि, व्याधीविरयत, अनंत आनी सासणादीक आसा. पुरुशाक जन्म, व्याधी आनी मरण आसा. संवसारांत चैतन्य हें पूर्णतायेन भरिल्लें आसा आनी मनीस हो अपूर्ण आसा. हाजो सांगोड कसो घालप? अनादि, अनंत आनी सासणादीक हो अर्थ दाखोवपी संकल्पना तांकां जाय आशिल्ली. ती 'आत्मो' ह्या उतरांतल्यान तांकां मेळ्ळी.

ऋग्वेदांतल्या 'अस्यस्वामीय तत्त्वज्ञान' सूक्तांत म्हळां: 'अज्रंवर आत्मो मर्तिक देहांतच रावता. ताच्या वांगडाच उच्च नीच गतीक वता. मर्तिक देहाक लागुनूच अमर्तिक आत्म्याची वळख मेळटा. एकेच आवयच्या कुसव्यांतल्यान जन्माक आयिल्ल्या दोन जुंवळ्या भावांवरी ते एकामेकांचे सांगाती जाल्यात. ते वांगडाच रावतात आनी वांगडाच भोंवतात. तांतुंतलो एकलो लोकांक दिसता, दुसरो अदृश्य आसता. (ऋ.१.१६४.३८).

हो आत्मो जेन्ना एका देहांतल्यान दुसऱ्या देहांत प्रवेश करता, तेन्ना एक प्राणी मरता आनी दुसरो प्राणी जन्माक येता. मनशाचो जन्म हो ताच्या आवय-बापायच्या संयोगांतल्यान जाता. तागेल्या जाण्टेल्यांचें आनुवंशिक गूण त्या जन्माक आयिल्ल्या जिवांत येतात. आत्म्याकय खासा ताची अशी प्रवृत्ती आसता. तो आपले प्रवृत्तिक समानधर्मी आशिल्लो देहच सोडून काडटा. सोडून काडिल्ल्या देहाकय ताच्या पूर्वकर्मांचें संचित आसता. ताका लागून देहाक वेस्टून आशिल्ल्या आत्म्याक जन्म घेत घेत संवसाराच्या चक्रांत घुंवत रावचें पडटा. देहाकच जेन्ना आपूण आनी परमात्मो एकच आसां, अशी जाणविकाय जाता, तेन्नाच त्या देहावांगडाच आत्मोय मोक्षगतीक वता; मुक्त जाता.

जैनांनी आत्मो मानलो ना; जाल्यारूय, आत्मो हें उतर तांणी उपकरायलां. जैनांच्या मतान मनशाचो आत्मो रत्नत्रयिच्या साधनान उन्नतीक पाव पावत निर्वाण जोडटा. निर्वाण जोडटकीर तो देवरुपाक पावता. देखून, ईश्वर हो संवसार निर्माण करिना. संवसाराची मनसुबीय करिना, संवसाराचो संव्हारय करिना. जैनांचे नदरेन ईश्वर म्हळ्यार अत्यंत पूर्णतायेक पाविल्लो आत्मो.

बुद्ध भगवानानय आत्मो मानलो ना. आत्मो आसा म्हळें तरी मनशाक जन्म, व्याधी आनी मरण चुकना, तेच परी आत्मो ना म्हळें तरी मनशाक जन्म, व्याधी आनी मरण चुकना.

मनीसजातीचें दुख्ख ल्हव करप होच बुद्धाचो ध्यास आसलो. संवसारांत दुख्ख चांटया-पावलाक आसा. मनीस आपले तृष्णेन तें निर्माण करीत आसा. अस्टांगिक मार्गान वचून मनशाचें दुख्ख ल्हव करपाचो यत्न करप, ही ताणें प्रत्येक मनशाची लागणूक मानली. दुख्खाचें निवारण करपाचो सरळ मार्ग सोडून, आत्मो आसा काय ना, हाचो वितंडवाद घालपांत बुद्ध भगवानाक अर्थ दिसलो ना. असल्या वितंडवादांत ताका लोकांचें हीत, कल्याण दिसलें ना.

आत्म्याची नीट कल्पना येवपाखातीर, बुद्ध भगवानान ताची विस्कणी करून पांच भाग केले. जड पदार्थ, वेदना, संज्ञा, संस्कार आनी विज्ञान अशे हे पांच भाग. हे पांच भाग करून ताणें सांगलें की, आत्मो शाश्वतय न्हय, आनी अशाश्वतय न्हय. हे पांचय भाग नित्य बदलतात. दुख्खदेणेच जातात. देखून ते म्हजे वा तो म्हजो आत्मो म्हणप योग्य न्हय. बुद्धाच्या अनात्मवादाचें स्वरूप हें अशें आसा.

लोकायतिकांनी आत्मो मानलो ना. चैतन्यासयत देह होच आत्मो आसा, अशें तांणी म्हळें. देह आसल्यार चैतन्य आसा. देह नासल्यार चैतन्य

नासता. देखून, चैतन्यय देहाचोच धर्म आसा, अशें तांणी मानलें.

चार्वाकांनी आत्मो मानलो ना. चार्वाकांनी देहाचें मोल मानलें, तशेंच चैतन्याचेंय मोल मानलें. देहाभायर वेगळो आत्मो जरी तांणी मानलो ना, तरी चैतन्याचें मोल तांणी न्हयकारूंक ना. देखून, चैतन्यासयत देह होच आत्मो, अशी बसका तांणी घेतली. हेखातीर तांकां जडवादी म्हणचेपरस, जडचेतनवादी म्हणप हें चड योग्य जातलें.

पृथ्वी, उदक, अग्नी आनी वायू ह्या चार महाभूतांच्या संयोगांतल्यान हो संवसार निर्माण जाला. त्याच संयोगांतल्यान चैतन्यय निर्माण जालां. गॉड, खाजूर बी द्रव्यांच्या संयोगांतल्यान मदशक्ती निर्माण जाता, वा पान, सुपारी, चुनो, कात बी हांकां लागून तांबडो रंग निर्माण जाता, तेच परी जड महाभूतांच्या संयोगांतल्यान चैतन्य निर्माण जाता.

आत्मो मानपी दर्शनकारांच्या मतान अनादी, अनंत आनी जन्म मरणाच्या फेऱ्यांत भोंवपी आत्मो, महाभूतांपासून निर्माण जाल्ल्या देहांत भितर सरता. अशे तरेन जडांत चैतन्याचो आविश्कार जाता. चार्वाकांक असो भायलो आत्मो मान्य ना. निर्मणेच्या प्रकाराक लागून स्त्रीबीज आनी पुरुशबीज हांच्या संयोगांतल्यान नवे जीव निर्माण जातात. आद्य सजीवाक लागून वंशपरंपरेन, प्रवाहरुपान आयिल्लें चैतन्य ह्या दोन बीजांत विशिश्ट स्वरुपांत आसता आनी नव्या सजिवांत तेंच आविस्कृत जाता. हांगा नव्या चैतन्याचे निर्मणेचो प्रश्न येना. जाल्यारूय, प्रवाहाच्या रुपान आयिल्ल्या चैतन्याची संकल्पना पूर्ण वेगळी आसा, हें ध्यानांत येवंक जाय.

अशे परिस्थितींत चैतन्याची निर्मणी कशी जाली, हो प्रश्न निर्माण जाता. जड महाभूतांच्या संयोगांतल्यान चैतन्य निर्माण जाता, अशें चार्वाक सांगतात. विज्ञानाकय चैतन्याची निर्मणी कशी जाली, हें अजुनूय सांगूक येवंक ना. जाल्यारूय, विज्ञानाचो बसकार पळेल्यार, चार्वाकांची विचारपद्दत विज्ञानिक बसकेक चड लागशिल्ली आसा, अशें म्हणूं येता.

विज्ञानाचें संशोधन अखंड चालूच आसा. जाल्यारूय, चार्वाकांनी मांडिल्ले विचार उथळ नात, अशें दुभावाविरयत म्हणूं येता.

चार्वाकाच्या मतान महाभूतांच्या संयोगांतल्यानच चेतन देह निर्माण जाल्ल्यान, आत्मो अस्तित्वांत नासता. महाभूतांचें विघटन जातकीर चैतन्याचो नाश जाता आनी थंयच देहरुपी आत्मोय सोंपता. ताका लागून देह धारण करपी आत्मोय उरना आनी व्यक्तीक पुनर्जन्म आसना.

मेले उपरांत देहांतल्यान भायर सरपी आत्मो दिसना, अशें चार्वाकांनी म्हळां. देखून, आत्मो आसा, हाका प्रमाण मेळना आनी जाका प्रमाण मेळना तें अस्तित्वांत आसना, अशें ताचें मत आसा.

**आधारावळ :**

१) अथर्ववेद
२) ऋग्वेद
३) शिकागो व्याखानें – स्वामी विवेकानंद
४) वैदिक संस्कृतीचा विकास – तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी
५) भगवान बुद्ध – धर्मानंद कोसंबी
६) आस्तिक शिरोमणी : चार्वाक – डॉ. आ. ह. साळुंखे.

**आत्मोन्नति** । आत्मोन्नती । सा.रू. – ती । (सं. आत्म + उन्नतिः) स्त्री. १. आत्म्याची उन्नती. २. आपलो उत्कर्श, तरतर; आपलो विकास.

**आत्मोपजिवी** । आत्मोप्जिवी । सा.रू. – व्या । (सं. आत्मोपजिविन्) वि. १. आपल्या श्रमाकस्टांनी जियोवपी; २. दिसवाड्यान काम करून जियेवपी; ३. नट; अभिनेतो.

**आत्यंतिक** । आत्यन्तिक् । सा.रू. – का । (सं. आत्यन्तिक) वि. अतिशय; अतोनात; खूप. मोक्ष.

– दुख्ख निवृत्ति : – प्रलय : पु. ब्रह्मा सोडून सगळे जिवावळीचो नाश जावपाक देवान धाडिल्लो प्रलय; संवसार-बुट्टी.

**ात्रेय** । आत्रेय् । सा.रू. –या । (सं. आत्रेय) वि. अत्रिगोत्राचो.

**ात्र्यापयऱ्यान** । आत्र्यापयऱ्यान् । (सं. अंतरेण-पर्यायेण) क्रि.वि. दोन दीस मदीं सोडून येता त्या तिसऱ्या दिसा, अशा अंतरान; केत्राय. (पांडुरंग कामतीन आपल्या गोड उतरांनी, उजू वागणुकीन ताका बोल्सांत उडयल्लो. ताका लागून तो कामतीक आत्र्यापयऱ्यान केळीं, पोपायो बी भेटी धाडटालो. – केळ्यांघड, बरो : लक्ष्मणराव सरदेसाय, खबरी – कांय कर्माच्यो, कांय वर्माच्यो, पा. २२.)

**ात्साण-पात्साण** । आत्साण्-पात्साण् । सा.रू. – आत्साण-पात्साण । (सं. आद्य + साण; सं. अद् (खावप) + साण) स्त्री. १. सोय-सुवाद; सुरबुसाण; रूच. २. अर्थ; विवेक वा तर्कसंगत. ('हिंदु'कारांल्या अेका मुद्द्याक जाल्यार आत्साण-पात्साण निखालस ना. तो सामकोच पचकवणी जाला. – कों.भा.जैत, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ३९.)

**विशेश** : 'आत्साण-पात्साण' हें उतर अशें घडलां जावंक जाय : सं. 'अद्' वेल्यान जाल्ल्या 'आद्य' ह्या उतराचो अर्थ म्हळ्यार जें खावपासारकें आसा तें. 'आद्य' ह्या उतराक भाववाचक नाम घडोवपी 'साण' हें कूस लागून 'आद्य + साण' = आद्यसाण हें उतर घडलां जातलें. 'आद्य' ह्या उतरांतलें 'य' गळून 'आद्साण' हें उतर घडलां जावंये आनी तेचपरी सं. 'अद्' (खावप) हाका 'साण' लागून 'अदसाण – आदसाण – आत्साण अशें उतर घडलां जावंये. भांगर ह्या उतराक 'शिंगर' हें उतर लागून 'भांगर-शिंगर' हो साद शब्द घडटा, तेच परी आत्साण ह्या उतराक पात्साण हें उतर लागून आत्साण-पात्साण हें उतर घडलां. साद शब्द अर्थविस्तार दाखयता.

**आथवो-वी-वें** । आथवॉ, वी, वँ । सा.रू. – व्या-वे-व्या । (सं. अ + स्थायिन्?) वि. १. परकी; अनवळखी. (१९१६ ते फेब्रेराचे २७वेर जेन्ना 'मालोजा' वापोर बुडलो तेन्ना ताचेवेल्या एका वळख-देख नाशिल्ल्या आथव्या मनशाचो जीव वाटावंक ताणें आपल्या गळ्यांतलें राखण-चाक ताका दिलें. – न.गों. ३रें वर्स, १लो आंक, पा. ३०.) २. अडेची; सोब नाशिल्ली. (कोंकणी वाक्यांची येवरोपी तरेची केल्ली बांदावळ कोंकणी भाशेक सामकीच आथवी दिसता.)

**आथाटो** । आथाटॉ । सा.रू. – ट्या, भोव. – टे, सा.रू. – ट्यां । (?) पु. उबे बडयेक आडवी बडी बांदून, ताका भेस घालून आनी वयर बुडकुल्याचें तोड करून, पिकोडेक आयिल्ल्या शेतांत वा मळ्यांत सवण्यांक भेस्टावपाक उबें करतात तें बावलें; भुजणें.

**आथिक** । आथिक् । (?) वि. अत्यंत थीर, दृढ, घट्ट, चड घटसाण आशिल्लो. (अशें हें पुर्विल्लें देवूळ, आनी मुळपुरुसान बांदिल्लो इतलो आथिक हो बांद. – पाखलो, बरो : तुकाराम शेट, पा. ४५.)

**आदगत** । आद्गत् । सा.रू. – ती, भोव. – त्यो, सा.रू. – त्यां । पुर्तु : Adagio = म्हण स्त्री. संवसाराकडेन पौठो घांसतना, राटून वळसून जोडिल्ल्या अनुभवांचें थोड्या, पुण मार्मिक उतरांनी सांगिल्लें सार, वेव्हारांत घोळटना थोड्या उतरांनी सांगिल्लें प्रत्ययाक आयिल्लें सत्य.

**विशेश** : आदगत वा म्हण ही मनीसवंशान संवसारांतले आपले वाटचालींत जोडिल्ल्या अनुभवांची आनी ज्ञानाची खण आसता. म्हणी लोकवेदांतच आस्पावतात आनी लोकवेदाचोच भाग आसतात. संवसारांत राटून राटून वळसतना मनीस जे अनुभव घेता, वा जें सत्य ताच्या प्रत्ययाक येता, तें तो थोड्या पुण मार्मिक उतरांनी सांगता. हो अनुभव वा सत्य एका मनशापुरतें जरी आसलें, तरी ताच्या

पैसाचो आवांठ समस्तांक आस्पावपा इतलो व्हड आसता. देखून, म्हणी ह्यो भाशेची गिरेस्तकाय आसतात.

म्हणींत वा आदगतींत पिळग्या पिळग्यांचो अनुभव एकठायल्लो आसलो, तरी ती सगळ्या लोकांच्या मनांतल्यान स्फुरून येना. ती एकल्याच्याच अनुभवांच्या विचारांतल्यान उकती जाता. जाणें म्हण रचल्या, ताची बुद्द तीख आनी धार आशिल्ली आसल्यारच, तागेलो अनुभव मार्मिक उतरांनी प्रगट जाता. इतिहासाचें पयलें पान वाचूंक मेळना तेचपरी खंयची म्हण पयलीं कोणें रचली हें कळना.

म्हणींत जरी एके व्यक्तीक आयिल्ले अनुभव आसले, तरी ते सुत्ररुपान सांगिल्ले आसतात. तांची धाटणी कांयशी साहित्यिक आसता. ती मार्मिक उतरांनी सांगिल्ली आशिल्ल्यान, तांतूंत एक खोंच आसता. म्हणींत केन्ना नीत सांगिल्ली आसता, केन्ना जिणेंतलो अणभव सांगिल्लो आसता. 'भरप्याचे लाग झुजाक उपकरनात' अशें केन्ना वेव्हारीक सत्य सांगिल्लें आसता. केन्ना तीं घडिल्ले घटनेचेर वा काणयेचेर आधारून आसता. म्हणिंचो आकार आंखूड आशिल्ल्यान, तिची धाटणी पद्याची आसता. केन्ना केन्ना ती जिणेचें तत्त्वज्ञान सांगता.

एका मनशाचो अनुभव हो समस्तांचो अनुभव जावं येता. संवसारभरच्या लोकांक होच अनुभव येवं येता. 'आगीविणें धुंवर ना' ह्या अर्थाची म्हण, संवसारांतल्या चडशा भासांनी आसा.

म्हणींतल्यान लोकांच्या मनाचें आनी जिणेंतल्या सत्याचें पडबिंब जाणवता. 'जो तलवारीन जियेता, तो तलवारीनच मरता' आनी 'आवयबापूय करतात पाप आनी भुरगीं दितात जाप' हें सत्य कोण न्हयकारीत? तेचपरी 'वैजाची रांड आनी घाडयाची वांज' आनी 'देवाक दाखयतात हात आनी आमी खातात भात' ह्या म्हणींनी एक खोंच ना, अशें कोण म्हणत?

कांय म्हणीं फाटल्यान घटना आसात:

**गरिबाच्या पोराक पोंबुर्पे फेस्त कोणें सांगलां?**

सतराव्या वा अठराव्या शेंकड्यांत पोंबुर्प्यां मोठे मोठे फिदाल्ग रावताले खंय. त्यावेळार पोंबुर्पेच्या इगर्जे लागसार न्हंयचें उदक पावतालें. फेस्ताक हे फिदाल्ग माचुलान वताले. त्या वेळार गरिबाचो एक भुरगो वाटेर बशिल्लो आसलो. वाटेवयल्यान चलतना माचुलांच्या भोयांक ताची आडखळ जावंक लागली. माचुलाच्या एका भोयान फांपार मारून ताका कुशीक झडपून उडयलो. तो दिस्त न्हंयच्या उदकांत पडलो. तेन्नाच्यान हे म्हणीचो जन्म जालो.

**म्हाळ पैक जोर आनी सगळ्या गांवाक पेज**

सोळाव्या शेंकड्याच्या लागत्यार गोंयां म्हाळ पै नांवाचो मुख्य सरदेसाय आसलो. तो सास्टींतल्या वेर्णेचो. गोंयची भूंय ही म्हाळ पैचें घर म्हळ्यार जाता. घरांतलो कर्तुत्वी मनीस आड पडल्यार, घरांतल्या मनशांक मात्शे अडचणीचे दीस येतात. ताका लागून ही म्हण घडली.

**फुलान माल्ल्यार रडत गेली आनी चाबकान माल्ल्यार हांसत आयली**

भर्तृहरिची राणी पिंगला हिचेर शृंगाराच्या वेळार घोवान फूल मारतकीर, ती घामाघूम जावन घुंवळ येवन पडली. पूण जेन्ना रातीची ती आपल्या कास्टीकुसक्या गोंसाय मिंडाक (मिणाक) चोरून मेळूंक गेली, तेन्ना तिका येवपाक मात्सो कळाव जालो म्हणून, ताणें तिका चाबकांनी फोडली. त्या वेळार ती हांसू हांसून, मोगाचे लाग करीत, ताच्या गळ्यांत पडूंक लागली. ही कथा परंपरेन चलत आयल्या.

**आल फट्याक सोडिना आनी फटें आलाक सोडिना**

आल म्हळ्यार शेतांत काम करपी मानाय. ताच्या खांदार सदांच कांबळ वा कांबळीचें फटें आसता. हे म्हणीफाटल्यान काणी मेळटा ती अशी: दोन साधू

आशिल्ले. ते एके न्हंयचे देगेन वतना, न्हंयतल्यान एक कांबळ व्हांवून येता ती तांणी पळेली. कांबळ दिसतकीर एकल्यान कांबळीखातीर न्हंयंत उडी माल्ली आनी कांबळीक हात घालो. ती कांबळ नाशिल्लीच. तें आशिल्लें अस्वल. कांबळीकडेन झटापट करीत न्हंयतलो साधू बरोच वेळ आड्डता तें पळोवन, देगेर आशिल्ल्या साधून, 'कांबळ सोडून दी' म्हणून ताका सांगलें. न्हंयतल्या साधून जाप दिली, 'हांवें कांबळ सोडून दिल्या. पूण तीच म्हाका सोडिना.' (पळेयात : 'अस्वल', लेखिका : दुर्गा भागवत, पा. २०५.) गोंयांत ही काणी पावतना, साधुच्या जाग्यार शेतांतलो मानाय आयलो. आनी अस्वल कांबळीच्या रुपान आयलें. हे काणयेवेल्यान 'आल फट्याक सोडिना आनी फटें आलाक सोडिना', ही म्हण घडली.

**तेलय गेलें, तुपय गेलें; हातांत निरांजन उल्लें.** ही म्हण कथासरितसागरांत मुर्खांच्या कथांतले एके कथेवेल्यान घडल्या. तेल आनी तूप हाडपाखातीर निरांजन घेवन एक मूर्ख गेलो. निरांजनाची वेली तशी सकल्ली वाट साधारण सारकीच आसता. वेले वाटेन ताणें तूप घेतलें आनी निरांजन उरफाटें करून तेल घेतलें. तूप रकलें म्हणून तेलाची वाट उरफाटी केली, तर तेलय ओतलें.

भुरग्यान भुरगेपणांत शिकूंक जाय. शिकल्याविणें मनीस जायना. 'शिकपाविणें मनीस न्हय आनी बुन्यादीविणें घर न्हय' ही म्हण जाण्ट्यांचो हो अनुभव उकतो करून सांगता. तेचपरी 'भुरगेपणांत शिकचें, जाण्टेपणांत जोडचें, म्हातारपणांत मोडचें' आनी 'भुरगेपणांत शिकचें, जाण्टेपणांत घोळचें' ह्यो म्हणी जिणेंतल्या वेव्हाराचें सत्य सांगतात. हें सत्य सांगतनाय 'ओपल्याबगर पिकना, माल्ल्याबगर शिकना' हेंय सत्य सांगपाक ह्यो म्हणी विसरनात. भुरग्यान शिकपाचेर दुर्लक्ष केल्यार, तागेले आवय-बापूय ताका रागान उलयतात आनी एक एकदां लेंडोय दितात. जाल्यारूय, भुरग्यान आपल्या आवय-बापायचेर राग धरूंक फावना. 'आवय-बापूय मारतलो, पूण लागींय काडटलो' हें भुरग्यांनी विसरूंक फावना. दुसरी एक म्हण सांगता की, 'आवय-बापायच्या खाला रावशी, संकस्टाविणें बऱ्याक पावशी'.

प्रत्येक आवय-बापायक आपलो भुरगो बरो जावंचो, ताका बरी देख लागची, ताणें व्हड जायत घराण्याचें नांव वयर काडचें, अशें दिसता. भुरग्यांनी शिकता सवरतना, आपल्या तरण्या-धाकटुपणांत अविचारान चलूंक फावना. 'तन्नें रगत केन्ना भंगत हाचो नेम नासता'. 'अवगुणांक इजा आनी सगुणांक पुजा' जाता तें पळोवन 'चंदना सांगाता आशिल्लो रुखय चंदन जाता' हें मतींत धरून, जुवान भुरग्यान जोडूंक लागतकीरय ज्ञान जोडीत रावूंक जाय. अनुभव सांगता की 'शास्त्राविणें जिणें न्हय आनी येऱ्याविणें होडें न्हय.'

भुरगो शिकून सवरून, जुवानपणांत जोडूंक लागून प्रपंचांत पडटकीर, म्हणीच ताका शिकवण दितात की, 'घोवान जोडलें, बायलेन सांबाळ्ळें, घर थाल्लें', आनी 'घोवा-बायलेचें एक चित्त, मडकेंत जाता शीत'. तेचपरी 'घोवा-बायलेचें एक चित्त तर चिंचे पानार न्हीद.' चिंचे पान कितलें ल्हान आसता हें सगळे जाणटात. देखून, ही म्हण सांगता की, प्रपंचांत तांचेर केदींय संकटां आयल्यारय, तांचें चित्त एक आसल्यार, चिंचे पानार पसून न्हिदचें पडल्यार, आपलीं संकटां पोरो घालून आपलो प्रपंच सुखा-समाधानाचो करूं येता. इतलेंच न्हय तर घरांत स्वर्ग निर्माण करूं येता. चिंचे पानार न्हिदपाइतलीं तीं एकजीव जावन घरांत तांणी स्वर्ग निर्माण करूं येता.

प्रपंचांत वावुरतना मनशाचे जिणेंत नशिबाचोय एक भाग आसता. 'नशीब आसल्यार उदक पारता', 'नशीब आसल्यार वीख जाता निर्वीख', 'थोड्यांचें कुंड्यार शिजता, थोड्यांचें लाकडां घाल्यार पसून शिजना' ह्यो म्हणी संवसारांत एकएकदां प्रत्ययाक

येतात. त्यो नशिबाचो भाग सांगतात. जाल्यारूय, 'जो नशिबार पातयेता, तो वाऱ्यार घर बांदता', हें सांगपाक म्हणी फाटीं रावनात. 'आपलो हात जगन्नाथ, दुसऱ्याचो हात करता घात' आनी 'आपल्यो बुद्दी हिकमती, दुसऱ्याच्यो चुकी' अशें सांगत ह्यो म्हणी म्हणटात की, 'दुसऱ्याच्या तोंडान उदक पियेल्यार तान भागना', देखून 'कस्ट बरे करीत, तो खंयी पोट भरीत' ही शिकवण त्यो दितात आनी कस्ट करून आपलो संवसार उबारूंक जाय म्हणपाचें सांगतात. 'कस्ट करतल्याकच देव पावता' अशें ऋग्वेदांतली 'न ऋते श्रांतस्य सख्याय देवा:' ही म्हण सांगता, आनी 'आळशाचो दीस सरना आनी वावुरतल्याक रातय पावना' म्हणपाचें ज्ञान दीत सांगता की, 'तीळ घाण्यांत घालेबगर तेल येना'.

दुडू नासल्यार मनीस किद्याकच उपकरना. दुडू नाशिल्लो मनीस दुबळो आसता, अशें महाभारत सांगता. (म.भा. शांतिपर्व, अ.१३०). महाभारतांतल्या यक्षप्रश्नांत, दुडू नाशिल्लो मनीस मेल्ल्यावरीच आसता, अशें धर्मराजान म्हळां. 'कान नाशिल्लो फातरावरी, दुडू नाशिल्लो मड्यावरी' ही कोंकणींतली म्हणय होच विचार उकतो करून दाखयता.

मनशाक दुडू जायच. पुण अशें आसलें तरीय 'कस्टांनी जोडिल्लें अर्द उरना, नागोवन जोडिल्लें उरतलें कशें ?' अशो म्हणी विचारतात. अतोनात दुडू जोडल्यारय 'दुडू आसा थंय देंवचार आसा' म्हणपाची जाण दितात. आनी 'दौलत तुका आयली, दुसऱ्याची दया करची पडली' हे जाण्टेल्यांचे सांगणेर बोट दवरतात. दौलत आयल्यारय मनशान गर्व करूंक फावना म्हणपाचें सांगून 'घरांत रिगलें गर्व, सोंपयलें सर्व', ही परिस्थिती येवंक कळाव लागना म्हणून शिटकायतात. 'मुये रुपान साकर खावंची' अशी नितीची देख त्यो दितात.

पुरुषप्रधान संस्कृतीन बायलांक सकयल्ल्या पांवड्यार दवरल्यांत. तांची बकच्छाय केल्या :

१) सगळ्या बायलांक अर्द्या गाढवाचें गिन्यान.
२) बायलांची जीब बोकडेची शेंपडी.
३) बायलेचें शाणेपण रांदनीकडेन.
४) बायल नाचली, लज वगडायली.
५) बायलमनशेक धोंपरासकल बुद्द.
६) पापडांची पिठी आनी बायलांची फाट धोडायता तितली अरळ आनी मोवाळ जाता.
७) घोवाच्या रागान घेतलें रान, थंय भेटलो मुसलमान, ताणें कापून व्हेले नाक कान

ह्यो म्हणी ही गवाय दितात.

ह्यो म्हणी पळेयात :

१) गांवाक केल्लो उपकार ना आनी मड्याक केल्लो शृंगार ना.
२) तवशीं राखूंक कोल्याक दवल्लो आनी नुस्तें राखूंक माजराक दवल्लें.
३) दुसऱ्याक वायट करूंक सोदता, तें आपल्याकच फळटा.
४) वळखीचो चोर जिवानिशीं मारी.
५) मांजर मासळी सांडीत, तेन्ना सोरेकार सोरो सोडीत.
६) बांयचें उदक शिंपयांनी सरत, दर्याचें उदक किद्यान सरत ?
७) बांयचो ठाव घेवं येत, समिद्राचो ठाव कोण घेत ?
८) बांयचें तोंड धरू येत, पुण न्हंयचें तोंड धरूं येत ?
९) शी म्हणटा तें खावचें न्हय, घाण येता तें माळचें न्हय.
१०) घराची कळा आंगण सांगता.
११) रेडे-पाडे झुजतात, झाडांर येता काळ.
१२) न्यायाक बळ नितीचें, अन्यायाक दुडवांचें.
१३) देखल्यार चोर, ना जाल्यार साव.
१४) मुळाक लागला रोंटो, रूख फळां दितलो कसो ?
१५) गातां गळो, शिंपता मळो.

१६) आयल्या-गेल्या बगर सोयरो न्हय, दिल्या घेतल्या बगर इश्ट न्हय.
१७) इश्टाक दाखोवचें काळीज खरें, दुस्मानाक तोंड बरें.
१८) सुनेच्या हातान आयदन फुटल्यार तें भांगराचें, धुवे हातान फुटल्यार तें मातयेचें.
१९) भोगच्या काळार बुद्द ना, मर्णकाळार वखद ना.

ह्यो म्हणी पिळग्या पिळग्यांचो अनुभव सांगतात. ह्या म्हणिंनी अनुभवाचो प्रत्यय ना, अशें कोण म्हणत ?

जाका ज्या कामाची घटी आसता, ताणेंच तें काम करूंक जाय. ना जाल्यार 'करूंक गेलो गणपती, जालें केलदें' अशी अवस्ता जाता. 'कलवंत नाचता म्हणून, गेलें नाचूंक ज्योकीन, तें पडलें सर्वांगी घुस्पून' वा 'कलवंत नाचता म्हणून गावडी नाचता, गावडे पांयार दिवटी पडटा' हें विसरूंक फावना.

वेव्हारांत वावुरतना 'वेंतेक दवरचो इश्ट, पुण गांवांत दवरचो न्हय दुस्मान' म्हणून म्हणीच आमकां सांगतात आनी 'इश्ट पळोवचो मागून आनी सोयरो पळोवचो वचून' अशेंय म्हणीच आमकां सांगतात. तेचपरी 'सोयऱ्यांनी केल्लें घर न्हय आनी सवण्यांनी केल्लें शेत न्हय' ही शिटकावणीय दितात.

म्हणींच्यो कांय पती पळेल्यो. मनशान आपल्या मनशांक आधार दिवंचो. तांकां अंतर दिवं नये. 'आपलें सोडून पर धरी, ताची मनसुबी देव करी' अशें एक म्हण सांगता. आनी 'उदक दोशीं जायत, पुण रगत दोशीं जायना' अशें दुसरी एक म्हण सांगता. आपल्या रगताच्या मनशांमदीं जर अंतर आयलें, तरी रगत रगताकडेन ओडटा म्हणपाचो प्रत्यय आयुश्यांत केन्नाय तरी येता.

संवसारांत सदांच एकाच मनशाक सासणाचो अधिकार जागोवंक मेळना. 'चार दीस मांयचे आसतात, तर चार दीस सुनेचे' आसतात. देखून, कोणेंच कोणाचीं मनां दुखोवन तोडूंक फावनात. 'तुटिल्लें मन आनी फुटिल्लें मोती साधना' आनी साधल्यारय पैलींवरी तें जायना.

संवसारांत 'सूख आसा तशें दुख्खय आसा'. देखून, सुखाची मस्ती चडूंक फावना, आनी दुख्खान मोडून वचूंक जायना. मनशान मनांचेंच दुख्ख ल्हव करपाक वावरूंक जाय. एकमेकांकडेन मोगान आनी ओडीन चलूंक जाय. मोगान आनी ओडीन चल्ल्यार 'हून ओडे लेगीत घांटार पावतात' अशी जाण्ट्यांची सांगणी आसा. 'संवसारांत बऱ्याक गेल्यार खोटें येता, काकुळटेक गेल्यार बिर्मत फुट्टा', तरी आसतना मनशान मनशांचें बरें करुंकूच वावरूंक जाय. ह्या संवसारांत केन्ना केन्ना जल्लेच वज्रां खातात म्हणपाची अकळ घटना घडटा, तेन्ना अजाप जाता आनी आपाप तोंडांतल्यान म्हणीच्या रुपान उद्गार येतात: 'गहनो कर्मणो गती, कोंब्यान गिळ्ळो हती.'

हो संवसार खूब मौजयाळो आसा. तो केन्ना कोणाक हांसयत म्हणपाचें कळना. केन्ना कोणाक रडयत म्हणपाचें कळना. आमगेले जाण्टेले 'संवसार पळेतल्याक जागर आनी भोगतल्याक खेळ' म्हणपाचें सांगतात. खेळ म्हळो की तो केन्नाय जाल्यार सोंपता. जाका सुरवात आसा ताका अखेर आसा. जाका जन्म आसा ताका मरण आसा. 'जाणें देखलें पाळणें ताका मसंड पळोवंचीच पडटा' ही म्हण जिणेचें हें तत्त्वज्ञान आमकां सांगता.

**आधारावळ :**


१. Florilegeo de Proverbios Concanis, por Monsenhor Sebastiao Rudolfo Dalgado.

२. लोकसाहित्याची रुपरेखा : लेखिका : दुर्गा भागवत.


**आदगत** । आद्गत् । सा.रू. – ती । (?) स्त्री. १. सौजन्य; नम्रताय. २. पुण्य.

**म्हण :** आदगती बगर सदगती ना.

**आदन** । आदन् । सा.रू. – द्ना, भोव. – ना,

सा.रू. – नां । (सं. आधानम् = पवित्र अग्नि पेटोवंचेलो जागो ?); प्रा. आदाण न. १. शीत करपाखातीर तपल्यांत घालून खतखतूंक दवल्लेलें उदक. (मनीसजात एकसारकी तांदळाचे फाटीक लागल्या. ती तांकां सांजसकाळ उकडून उकडून खाता. कित्याक पापयांनी जल्मा येवंक जाय आसलें ? तरी आसतना ते हांसतात, नाचतात आनी आदनांत पडनाफुडें रडटात ? तांचे ते वळवळे पळोवन आमी दया माया नाशिल्ले मनीस तांकां थोमणो मारून म्हणटात, 'पळेलें मू ? ते सुपांतले कशे हांसतात आनी आदनांतले रडटात ?' – कोंकणी विद्यार्थ्यांक (कोंकणी विद्यार्थ्यांखातीर केल्लीं उलोवपां), उलोवपी : शणै गोंयबाब, पा. ४२). भार; जापसालदारकी; जबाबदारी. (म्हज्या प्रपंचाचें आदन हांवें तुमच्या माथ्यार उबारूंक ना.) ३. सत्र; तडाक. (१५६० ह्या वर्सा बाटौणेच्या आदनाक सळसळून घुलो येताल्यो.)

**वा.प्र.: १. आदन फुकट वगडावप**: आयिल्ले संधीचो लाव घेनासतना रावप; आयिल्ली संधी वगडावप.

**२. आदन न्हिवून वचप**: योग्य वेळ हातांतल्यान सुटून वचप.

**३. जिवावेलें आदन देंवप**: जिवावेलें संकट पयस वचप.

**म्हणी :**

१. आदनांतले तांदूळ रडटात, सुपांतले हांसतात. (दुख्ख कोणाकच चुकना. जें आज एकल्याक जाता तें फाल्यां दुसऱ्याक जाता.)

२. सुपांतले तांदूळ आदनांतल्या तांदळांक हांसताले खंय !

३. आदनांतले रडटात, सुपांतले हांसतात.

**आदम** । आदम् । सा.रू. – द्मी, भोव. – द्मी, सा.रू. – मीं (?) स्त्री. Sapotaceae हे चिकूचे कुळयेंतलें Mimusops Kanki हें वनस्पतीशास्त्रीक नांव आशिल्लें झाड वा रूख.

**विशेश :** हें झाड मुळचें मलायेचें आनी ट्रॉपिकल ऑस्ट्रेलियाचें. डचांनी आनी पुर्तुगेजांनी हें झाड भारतांत हाडलें.

हें झाड आंब्यावरी ऊंच जाता आनी खांद्या खांद्यांनी विस्तारता. पानांचो आकार मात्सो वांटकुळसार आसता, तेचपरी तीं ल्हान आसतात. तीं वेले वटेन गाढ पांचवीं अशीं तिकतिकीत आसतात आनी पोंदचे वटेन धवसार पांचवीं आसतात.

आदमीचें लाकूड मातशें तांबसार आसता. उदकांत तें सट् करून कुसना. ह्या झाडाचें लाकूड फर्निचर करपाक आनी पिकास, खोरें, तुतयो, कुदळ बी आवताच्या दांड्याक उपकरायतात. ह्या झाडाच्या कांडाक 'फंगस' लागून तो कांड पोखरता. देखून फंगस लागिल्लो भाग कोंरातून काडून, थंय monocrotophor चो फवारो माल्ल्यार, हो फंगस आटापाक येता. हो फंगस परतो जावं नये म्हणून Copper oxychloride चें पेस्ट लायतात. ह्या पेस्टान हो फंगस पूर्ण आळाबंदाक येता.

**आधारावळ :** Horticultural Crops, ed. by R. G. Joshi, Miguel Braganza, published by Agriculture Officer's Association, Panaji, Goa.

**आदम** । आदम् । सा.रू. – आदमा, भोव. – आदमां, सा.रू. – मां ('आदम्' वेल्यान) न. आदमीचें फळ.

**विशेश :** हें फळ दोन ते पांच सेंटिमिटर लांबायेचें आनी तांतयाच्या आकाराचें आसल्यारय, ताका तोंक आसता. हें फळ बद्द ओंवळीच्या धोड्यांवरी दिसता. हें पळ गाढ तांबडें आसता. फळांत भितर घट्ट बियो आसतात. ह्या बियांचो रंग दूद घाल्ले काफयेच्या रंगावरी आसता. हें फळ खावंक रुचीक लागता.

**आदमन** । आदम्न् । सा.रू. – ना । (सं. आदा =

घेवप, आदत्त = घेतिल्लो ?) न. विकतें घेवपाची क्रिया. (विकलेली खोंप परती घेवपाक म्हणून गेलीं. पुणून एकदां आदमन केल्लें घर कोण सोडटा ? – कथा : 'घोटुरो', बरो : रामनाथ गजानन गावडे, राष्ट्र मत, प्रजासत्ताक दिन पुरवणी, २६ जानेवारी १९९२, पा. ४).

**वा.प्र.: आदमन करप :** विकतें घेवप.

**आदमिरासांव** । आद्मिरासांव् । सा.रू. – वा । (पुर्तु : Admiracão) न. १. अजाप; तोखणाय; कौतुक. २. सुंदर आनी अलौकिक पळेतकीर, आनंदभरीत जावन, उचंबळून येता तो संवेदनाचो गोड उमाळो; खिणभर समाधी लागिल्लेवरी जावन, मेळटा ती विलक्षण सुंदर अनुभुती; सुंदर आनी अलौकिक पळेतकीर निर्माण जाता ती भावना.

**आदमी** । आद्मी । सा.रू. – मी । (अर. आदमी) पु. १. अरबी बरोवप्यांच्या मतान मनीसजातीचो मुळावो प्रजापती; आदमची संतत. २. मनीस; व्यक्ती.

**आदर** । आदर् । सा.रू. – रा । (सं. आदर: ) पु. १. मान; भौमान. २. व्हडविकेची भावना; श्रद्धा.

**आदरणीय** । आदर्णीय् । सा.रू. – या । (सं. आदरणीय) वि. भौमानाक लायक; भौमानेस्त; मानादीक; जाका भौमान फावता असो.

**आदरप** । आदरप् । सा.रू. – पा । (सं. आ + अट्ट) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आदर् (सक.) १. मान दिवप. २. भौमानान पळोवप.

**आदरभाव** । आदर्भाव् । सा.रू. – वा । (सं. आदर: + भाव:) पु. आदराची, भौमानाची भावना. (जंय आदरभाव ना, थंय कित्याक वचप ?)

**आदर-सत्कार** । आदर्-सत्कार् । सा.रू. – आदर-सत्कारा । (सं. आदर: + सत्कार ) न. आदरातिथ्य; मान-सन्मान; मान-मतराब.

**आदरातिथ्य्** । आदरातीथ्य् । सा.रू. – थ्या । (सं. आदर: + आतिथ्य:) न. आदर-सत्कार; पाहुणचार; मान-सन्मान; मानमतराब.

**आदर्श** । आदर्श । सा.रू. – र्शा; भोव. – र्श; सा.रू. – र्शां (सं. आदर्श:) पु. १. हारसो. २. देख; ध्येय. ३. एकाद्या ग्रंथाचेर केल्ली टिका वा भाश्य. ४. प्रमाण.

**आदर्श** । आदर्श । सा.रू. – र्शा । (सं. आदर्श:) वि. देख घेवपासारखो; देखदेणो. (आदर्श भुरगो).

**आदल-बदल** । आर्दल-बर्दल । सा.रू. – ला । (हिं अदल-बदल) पु. फरक (ह्यो सगळ्यो भासो नागरी लिपींतल्यान बरयतात, तर कोंकणी भाशेकूय तीच लिपी लावूं येता, पूण गरज थंय आदल-बदल करून, अदीक करून उगतो स्वर दाखोवंक. – गोंयची राजभास : बरो : मोरेन द सोजा, जे.स., कोंकणी वर्सुकी आंक, १९८४-८५, पा. ७२.)

**आदलो, ली, लें** । आद्लॉ, ली, लँ । सा.रू. – ल्या-ले-ल्या; भोव. – ले (लॅ)-ल्यो-लीं; सा.रू. – ल्यां । (सं. आदि; अर्धमागधी – आदिल्ल) वि. पयलींचो; फाटल्या काळावयलो; फाटल्या काळार आशिल्लो. (रावता रे. पुण आदले मानांय ना आतां. खण्णे दिसा पोटभर पिवपाक आनी जेवपाक घातल्यार भागतालें सगळें. आतां दिसावड्याक हात वडयता. – अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा. ११.); २. फाटलो; पुर्विल्लो. (आदलो जन्म; आदलो काळ). ३. पयलो.

**म्हण : दादलो, बायले आदलो :** हे म्हणीक वा आदगतीक बायबलाचो आधार आसा. देवान पयलीं दादल्याक रचलो आनी ताका कोणय सांगाताक जाय म्हणून, ताजीच एक बर काडून बायल निर्माण केली.

**आदवसाण** । आदव्साण् । सा.रू. – णी । (सं.

आदायिन् = घेवपी + कों. ता.कू.: साण ?) स्त्री. आस्त; आशा. (म्हजें घराणें सात जन्माचें दळिद्री म्हणपाचें सगळो संवसार जाणा आसलो. ह्या भायर होंकलेच्या बापायक दिवंक जाय आशिल्ली गांठ म्हजेकडेन नासली. हे भशेन म्हाका बायल मेळची आदवसाण दिसना जाली. – गोमन्तोपनिषत्, २रें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, प. १६३.)

**आदवोगाद** । आदवॉगाद् । सा.रू. – दा; भोव. – गाद; सा.रू. – दां (पुर्तु. Advogado) पु. १. जाचो मुकदमो घेतलो, ताजो पाखो घेवन, कायद्यामंदिरांत झुजपी मनीस; वकील; लेत्राद. (म्हज्या आदवोगादाच्या आंगांत हे सगळे गुण आसून तो कायद्यांत मोठो लापीट आसा म्हणपाची ताची नामना गाजताली. – गोमन्तोपनिषत्, दुसरें खंड, पा. १३९.) २. व्हडविकेच्या कामाखातीर झुजपी मनीस. ३. सत्याखातीर झुजपी वा वावुरपी मनीस.

**आदवोगासी** । आद्वॉगासी । सा.रू. – शी; भोव. – गाश्यो; सा.रू. – शां (पुर्तु. Advogacia) स्त्री. १. वकिलीचो पेशा, धंदो; लेत्रादकी. (बाबलो सॅत्मान जालो आनी आदवोगासी शिकपाक तो पणजे रावंक लागलो. – तुळशी, बरो : रवीन्द्र केळेकार, पा. २२.) २. (ला.) एकाद्याचो पाखो घेवन ताच्या फायद्याचें उलोवप. (तो कितें तें सांगतलो, तूं ताची आदवोगासी करूं नाका. ३. (ला) जाणवाय. (हें आतां चड जालें. तुगेल्यो आदवोगाशी म्हजेकडेन चलच्यो नात.)

**आदळ** । आदळ । सा.रू. – ळी । (सं. आ + दल्) स्त्री. दोन जिवांची, दोन वस्तूंची, वाहतुकीच्या दोन साधनांची एकामेकांर नेटान जाल्ली आपटणी, टक्कर; धडक; धक्को, धचको.

**आदळ-आपट** । आदळ-आपट । सा.रू. – टी । (सं. आ + दल् + आ + पट्) स्त्री. तिडकीभितर, रागाच्या किंवाट्याभितर, जें हाताक लागता, तें शेंवटून वा हेवटेन तेवटेन मोखून मारचेली केल्ली क्रिया.

**आदळणी** । आदळणी । सा.रू. – णे । ('आदळ' वेल्यान) स्त्री. आपटणी; धडक; टक्कर; धपको; आदळ.

**आदळप** । आदळप् । सा.रू. – पा । (सं. आ + दल्) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू 'आदळ-अक्'). १. आपटप; धक्को लागप. २. (ला). तोंडाक तोंड लागप.

**म्हणी :**

१. आदळिल्लेकडेन आदळचें चड.
२. आदळलेलो पांय भौन भौन आदळटा.
३. एका कोटग्यांतुल्या (गोठ्यांतल्या) गोरवांक शिंगां शिंगां आदळटा.
४. गोरवांत गोरूं आसतकीर शिंगाक शिंग आदळटा.
५. आदळून पडत, दंडवत घडत.

**आदा** । आदा । सा.रू. – दा । (सं. आ + दा) पु. येणावळ; उत्पन्न.

**म्हण** : आदापरस खर्च मोठो, ताका सदांच येता तोटो.

**आदा** । आदा । (सं. अर्धदेव = Demigod वेल्यान ?) वि. लटको; फटीचो; फटकिरो.

**म्हण :** आदा देव चोरां प्रसन्न.

**आदा-खर्च** । आदा-खर्च । सा.रू. – आदा-खर्चा । (सं. आदा + फा. खर्च) पु. उत्पन्न, येणावळ आनी खर्च. (१९३५-३६ वर्साचो अदमासी आदा-खर्चाचो खड्डो जुनाचे २०वेर भायर सल्लो. तातूंत आगळे-उणे ६४ लक्ष रुपया आदा आनी तितलोच खर्च दाखयला.)

**आदाय** । आदाय् । सा.रू. – या । (सं. आदाय; ता. आदायम् = लाभ) पु. १. लाभ; लाव. २. येणावळ; उत्पन्न; प्राप्ती.

**म्हणी :** १. आदाय पळोवन खर्च करचो.

२. दोगांचें झगडें, तिसऱ्याचो आदाय.

**ादार** । आदार । सा.रू. –रा । (सं. आधार:) पु. आधार; पालव; आलाशिरो. (रुक्मीण जाता तितलो आदार दिवंक लागली. – अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा. १४४.)

**वा.प्र.: आदार दिवप :** पालव, आलाशिरो, उबारो दिवप; म्हऱ्यांत काडप; भितोडी दिवप.

**आदारप** । आदारप् । सा.रू. –पा । (सं. आ + धृ) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू – आदार्-सक.) करप. (केन्नाय तो हो प्रश्न इमिलियाक करतालो आनी इमिलियाच्यान तो सोंसूंक नज जावन, तें एंका क्वार्तांत वचून रडटालें. तें म्हणटालें, "देवा, कसलें पातक हांवें आदारलें जायत, म्हज्या कुसव्याक फळ मेळना जावपाक." – कथा : वांझूड, बरो : एवाग्रियु जॉर्ज, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, संपादपी : अ. ना. म्हांबरो, पा. ३५.)

**आदारप** । आदारप् । सा.रू. –पा । (सं. आ + धृ) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू – आदार्-सक्.) चिंतप, इत्सुवप. (म्हजी मांय म्हाका सांगताली, "पुता जॉनी, तूं कोणाचें वायट आदारूं नाका. पुण जर कोण तुजें वायट आदारीत, जाल्यार तो सोरोप चावून मरतलो." – सुरींग, बरो : पुंडलीक नायक, पा. २१.)

**आदाव** । आदाव् । सा.रू. –वा; भोव. –व, सा.रू. –वां । (सं. आदाय) पु. लाभ; लाव; नफो; फायदो. २. आलाशिरो; पालव. (म्हाका तिणें कसलो आदाव केल्लो नाका. दुकान बंद करचे पडल्यार उपकारता. – अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा. १५९.)

**म्हणी :**

१. आदावाविणें कोण शिदी फोडिना.
२. कस्ट मशागत करशी, आदाव करून घेशी.
३. कस्ट मशागत काडशी, आदाव करून घेशी.
४. पयशिल्ल्या माडापरस, दारांतली काज अदिक आदावाची.
५. कुंभाराचें चेडूं आदावाविणें शिदी फोडिना.
६. घास मजगत काडशी, आदाव करून घेशी.

**आदावत** । आदावत् । सा.रू. –ती । (अर. आदावत) स्त्री. वैर; दुस्मानकाय. (हांव पेद्रुची आदावत करतां.)

**आदावंत** । आदावंत् । सा.रू. –ती । (सं. अधस्, अध: = सकल्ली, नरकाकडेन वचपी + अवस्था ?) स्त्री. १. अरिस्ट; अनर्थ; विघ्न. २. दुर्भाग्य; आळसाय; अवदिसा. (ताजेर आदावत आयल्या.)

**आदावंती** । आदावंती । सा.रू. –त्या । 'आदावंत' वेल्यान वि. १. कपटी; घातमारो; दुस्वासी. २. अवदिशेचो; आळसायेन भरिल्लो.

**आदावंतप** । आदावंतप् । सा.रू. –पा । ('आदावंत' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू : आदावंत अक्. वायटाकडेन, अधर्माकडेन ओडो आसप; आडमार्गाक लागप; व्यसनाकडेन कल वा प्रवृत्ती आसप.

**आदावाचो, ची, चें** । आदावाचॉ, ची, चँ । सा.रू. –च्या, चे, च्या । ('आदाव' वेल्यान) वि. सुफळ; लाभेस्त; फायद्याचो.

**आदावीक** । आदावीक् । (कों. आदाव + ईक ) वि. सळादीक; उपेगवंत; उपेगादीक; फळादीक; सुफळ; लाभेस्त. (हें कुळागर आपल्या धनयांक आदावीक. – Sintaxis Copiorissima por Gaspar de S. Miguel, पा. ३०.)

**आदांव** । आदांव् । सा.रू. –वा । पोन्नी हिब्रू : आदमाह = माती पु. देवान आकाश आनी पृथ्वी निर्माण केल्या उपरांत, जमनींतल्या मातयेचो गुळो करून, ताका आकार दिवन आनी तातूंत प्राण फुंकून, आपले सारकायेन घडयल्लो पयलोवयलो मनीस.

**म्हण :** आदावान केल्लें पाप संस्तीर आयलें.

**विशेश :** सृश्टिचे निर्मणेची कथा बायबलाच्या पोन्न्या करारांत आसा. ही कथा म्हळ्यार एक मिथ्यकथा (Myth).

देवान मातयेंतल्यानच आपले सारकायेचो मनीस घडयलो. ताच्या नाकाच्या पुडयांतल्यान ताच्यांत ताणें प्राण फुंकलो. तेन्नाच तो प्राण आशिल्लो मनीस जालो. (१.२५.२.)

आदांव ही एक सामान्य संज्ञा. हे मिथ्यकथेंत कांय जाग्यार आदांवाक मनीस म्हळ्यार अस्तुरी आनी दादलो (३:२२.२४) म्हळां, आनी कांय जाग्यार आदांवाक फकत दादलोच (२.२२.२४) म्हळा. हिब्रू भाशेंत 'आदमाह' म्हळ्यार माती. 'आदमाह' हें स्त्रीलिंगी उतर. देखून, प्रतिकरुपान दादल्याची निर्मणी मातयेंतल्यान जाल्या. उपरांत ह्याच अध्यायांत दादल्याक लागून बायलेची निर्मणी कशी जाल्या हें सांगलां. ही कथा फकत दादलो पयलो जन्माक आयला अशें सांगना; तर मनशाचीं पाळां मुळां धर्तरेंत म्हळ्यार मातयेंतच रुजिल्लीं आसात, अशेंय ही मिथ्यकथा सांगता.

दादलो एकलोच आसप हें देवाक बरें दिसलें ना. ताका सोबता अशी सांगातीण निर्माण करपाचें ताणें थारायलें. सांगातीण निर्माण करचे पयलीं, देवान आदावाक व्हरून आपणें निर्माण केल्ल्या जनावरांक, सवण्यांक आनी हेर प्राण्यांक, नांवां दिवपाक लायलीं. सावदां-सवण्यांक आनी हेर प्राण्यांक नांवां दिवपी आदांव, हो प्राणिमात्राचो धनी आसा, अशें देवाक सांगपाचें आसलें.

दादलो हो अपूर्ण आसा. ताका पूर्ण करपाखातीर बायलेची गरज आसा. बायलेची निर्मणी करतकीर देवान तिका नांव दिवंक ना. आदावाचें आनी तिचें नातें सराबरीचें नातें आसलें.

आदांवाक सोबशी बायल घडोवपाक, देवान ताका न्हीद हाडली (२:२१). ताजी एक बर काडून देवान बायलेक घडयली. देव जेन्ना तिका घेवन आदांवा म्हऱ्यांत आयलो, तेन्ना आदांवान म्हळें:

म्हज्या हाडांचेंच हें हाड
म्हज्या मांसाचेंच हें मांस
नरांतल्यान अशी घेतल्या हिका
म्हणूनच नारी म्हणटात तिका

(२:२२:२३)

सुमेरियन प्राचीन मिथ्यकथेंत जीण आनी बर हांका एकच उतर आसा. देखून बर काडून बायलेक घडयली, अशें बायबलांत म्हळां जावंये. हिब्रू भाशेंत 'ईश' आनी 'इशा' हीं उतरां अनुक्रमान दादलो आनी बायल असो अर्थ दाखयतात. स्त्रीलिंगी मातयेंतल्यान म्हळ्यार आदिमातेंतल्यान (आदमाह) दादल्याची (आदाम वा आदांव) हाची निर्मणी जाली आनी दादल्याक (ईश) लागून बायलेची (इशा) निर्मणी जाली. बायल-दादलो अशी ही चक्राकार गती आसा.

दादलो आनी बायल हांचें पयलेंवयलें जोडें निर्माण करतकीर, देवान तांकां भूंय-वैकुंठांत (Paradise) दवल्लीं. कस्ट करिनासतना तांकां थंय हुस्क्यामेकळें भोवंक मेळटालें. थंय तरेतरेचीं लाल्लूक फळां जातालीं. थंयच्या एकाच रुखाच्या फळाबाबत तांकां आडवारलेलें. हेर सगळीं फळां खावपाक तांकां मेकळीक आसली. ह्या मना केल्ल्या रुखाक बऱ्या वायट गिन्यानाचो रूख म्हणटाले. ताचें फळ उस्टायल्यार मरूंक जाता, म्हणपाची शिटकावणी देवान तांकां पयलींच दिल्ली. जाल्यारूय, सोरपाच्या रुपान आशिल्ल्या घातमाऱ्या सैतानान, त्या फळाची अप्रूप वर्णनां करून, तांकां भुलसायलीं. ताका लागून आंवडो घोटीत त्या आडवारलेल्या रुखाचें फळ तांणी खालें. ताचो हातावयलो परिणाम असो जालो की, तांकां आपूण नागडीं आसात म्हणपाचें जाणवलें. बेगोबेग अंजिराच्या पानांनी आपल्या कंबराचो भाग तांणी धांपलो.

उपरांत वारो सुटलो. देव बागेंतल्यान भोवंक

लागलो. ताचो ताळो तांकां आयकूंक आयलो. देवाचे नदरेक पडूं नये म्हणून दोगांय बागेंतल्या झाडाच्या आडोसाक लिपलीं. आदांवाक उलो मारून देवान विचारलें : तूं खंय आसा ? आपूण नागडोंच आशिल्ल्यान, तुज्या भंयान हांव लिपून रावलां म्हणपाची आदांवान जाप दिली. देवान विचाल्लें: तूं नागडो आसा, अशें तुका कोणें सांगलें ? ज्या झाडाचें फळ खावं नाका म्हणून हांवें तुका आडवारलेलो, त्या झाडाचें फळ तुंवें खालें ? जी बायल तुंवें म्हाका सांगातीण म्हणून दिल्या, तिणें म्हाका त्या झाडाचें फळ दिलें आनी तें हांवें खालें, अशें आदांवान सांगलें. देवान बायलेक विचाल्लें : अशें तुंवें कित्याक केलें ? सोरपान म्हाका भुलसायली म्हणून तें फळ आमी खालें, अशी जाप ते बायलेन दिली. देवान त्या सोरपाक श्राप दिलो : तूं पोटसरो जातलो आनी जीणभर माती खातलो. तूं आनी तुजी संतत आनी हे बायलेची संतत हांच्यांत हांव दुस्मानकाय निर्माण करतलों. ती तुजी तकली चांचायतली आनी तूं तिच्या पांयांक चाबतलो. उपरांत ताणें बायलेक श्राप दिलो : तूं गर्भेस्त जातली आनी कस्टावल्याबगर तुजीं भुरगीं जन्माक येवंचीं नात. तूं आदांवासरींच रावतली आनी तो तुजेर धनीपण गाजयतलो. आदांवाक ताणें स्राप दिलो : तुजे बायलेचें तुंवें आयकलें, म्हजे आज्ञेक तुंवें पाळो दिलोना. देखून कस्टांविणें तुजें पोट भरचें ना. हूम गळोवनूच तुका भाकरी मेळटली. मातयेंतल्यान तूं निर्माण जाला. तूं मातीच आशिल्ल्यान परत मातयेकच मेळटलो.

आपली बायल ही आपल्या भुरग्याबाळांची आवय जातली, देखून आदांवान तिका 'हव्वा' हें नांव दवल्लें. उपरांत देवान तांकां चामड्याचीं आंगावलीं दिलीं आनी तांकां आतां बरें वायट कळूंक लागिल्ल्यान, त्या पोरसांतल्यान तांकां धांवडायलीं.

देवान दिल्लो श्राप तांकांच न्हय, तर तांच्या पिळग्यांच्या पिळग्यांक बादूंक लागलो. ह्या श्रापान पिकाळ धर्तरी वांझुट्टी जाली. ती कांटयाऱ्या झाडकांनी मातली. धिकेंभर पोट भरपाक हुमेच्यो दोडी गळसर मनशाक कस्ट करचे पडले. कस्टावलेबगर बायलांची सोडवाट जायना जाली. मनशाची अज्रंवरकी नाशी जावन, ताका मरण प्राप्त जालें. जाल्यारूय, पुण्यमार्गान वचपी क्रिस्तस्वाम्याक लागून, मनशाक नवो जन्म मेळ्ळो.

मनीस मातयेकडेन लग्नीक आसा. मातयेंतल्यान तो जन्माक आयला, ही धारणा वेदिकांतय मेळटा. मातयेचेंच एक रूप आवय आसा आनी दुसरें रूप मरण आसा. पृथ्वीच दिता आनी पृथ्वीच घेता. वेदीक ऋशी जेन्ना मातयेच्या मातृरुपाचो उल्लेख करतात, तेन्ना 'अदिते रुपस्थे' (अदितिचे योनींत-कुसव्यांत) अशीं उतरां उपकरायतात आनी जेन्ना मर्णरुपाचो उल्लेख करतात, तेन्ना 'निऋते रुपस्थे' (निऋतीचे योनींत-कुसव्यांत) अशीं उतरां उपकरायतात.

**आधारावळ :** बायबल (पोन्नो करार); ऋग्वेद (१.११७.५; ७.१०.४९; १०.१८.१०; १०.९५.९४ आनी १०.१६१.२.).

**आदि** । आदि । सं. आदि स्त्री. १. आरंभ; मूळ कारण; मूळ बुन्याद; उगम. २. परमात्मो; ३. खण; झरो. **वि.** १. पयलो; मुळावो; प्रथमळो. २. प्राचीन; पुरातन.

**आदि-अंत** । आदि-अन्त । (सं. आदि + अन्त) पु. आरंभ आनी अखेर; सुरवात आनी शेवट.

**आदिकवि** । आदिकवी । सा.रू. – वी । (सं. आदिकवि) पु. १. पयलो वयलो कवी. २. ब्रह्मदेव. ३. रामायण रचपी वाल्मिकी.

**विशेश :** ब्रह्मदेवापासून वेद उत्पन्न जाले. वाल्मिकीन काव्याचो मार्ग मुखावयल्या कवींक दाखयलो.

मनशांचीं मस्तकां तोडून तीं मेजपाक फातरांनी सात हांडे भरपी वाल्या कोळ्याक एक दीस बाण लागून झाडावेल्यान सकल पडिल्ल्या क्रौंच पक्षाचे वळवळे पळोवंक मेळ्ळे. तेन्ना ताका करुणेचो पाझर फुटलो. ताच्या मुखांतल्यान सहज भायर सरिल्ल्या 'श्लोकत्व

मापद्यत यस्य शोक :' ह्या श्लोकांतल्यान छंद शास्त्रांतलो अनुस्टुप छंद जन्माक आयलो. उपरांत ब्रह्मदेवान ताका रामाची जीण काव्यांत बरय म्हणून सांगली. ताका लागून राम ताचे जिणेचो दुसरो छंद जालो. ह्या दोनय छंदांतल्यान ताची प्रतिभा फोंपेवन आयली आनी संस्कृत भाशेक रामायणाच्या रुपान पयल्या महाकाव्याची जोड मेळ्ळी.

**आधारावळ :** संस्कृत शब्दकोश : प्रि. व्ही. एस्. आपटे.

**आदिकांड** । आदिकाण्ड । सा.रू. – ण्डा । (सं. आदिकाण्डम् ) न. वाल्मिकी रामायणाचें पयलें कांड.

**आदिकारण** । आदिकारॅण् । सा.रू. – रॅणा । सं. आदिकारणम् न. संवसाराचे निर्मणेचें मुळावें कारण. **विशेश :** वेदान्त्यांनी ब्रह्म हेंच संवसाराचें आदिकारण मानलें. सांख्यांनी प्रकृतीक लागून हो संवसार घडला म्हणपाचें सांगलें. नैयायिक (न्यायाशास्त्रांतले तज्ञ) पुरुषाक वा ईश्वराक संवसाराचें आदिकारण मानतात आनी वैशिषिक परमाणूच्या संयोगान हो संवसार निर्माण जाला म्हणपाचें सांगतात.

**आदिकाळ** । आदिकाळ् । सा.रू. – ळा । सं. आदिकाल पु. अत्यंत प्राचीन, पुरातन काळ.

**आदिकाळाचो, ची, चें** । आदिकाळाचॉ, ची, चँ । सा.रू. – च्या, चे, च्या । सं. 'आदिकाल' वेल्यान वि. अत्यंत प्राचीन; खूप पुर्विल्लो; पुरातन. (तें न्हय रे आतांचें, तें आदिकाळाचें.)

**आदिगिरेस्त** । आदिगिरेस्त् । सा.रू. – ता । (सं. आदि + कों. गिरेस्त) वि. १. पुर्विल्ल्या घराण्यांतलो असो निजाचोच गिरेस्त. (घारुदाद हो गर्भांतसून भांगराचें कांसूल तोंडांत धरून जन्मल्लो आदिगिरेस्त आसलो.) २. पूर्वापार अशा सुसंस्कृत घराण्यांतलो.

**आदिग्रंथ** । आदिग्रंथ् । सा.रू. – था । (सं. आदि + ग्रंथ) पु. शिखांचो धर्मग्रंथ. हाकाच 'ग्रंथसाहेब' म्हणटात. ह्या ग्रंथाची भास हिंदी आनी लिपी गुरुमुखी आसा.

**आदिघराणें** । आदिघराणँ । सा.रू. – ण्यां; भोव. – णीं, सा.रू. – ण्यां । (सं. आदि + कों. घराणें) १. वंशाचें मुळावें कुटुंब; पयलें-वयलें घराणें. २. मूळ पुरुशाचें घर, कुटुंब; म्हालघर.

**आदितवार** । आदित्वार् । सा.रू. – रा । (सं. आदित्य: + वार:) पु. आयतार. (गोंदूभट : (मनांत) ह्यास काय आज खूळ लागलांय, काय सक्काळांच तीर्थ बी घेतलांय रे ह्याणे ? आदितवारा वावर कराव्या नजे आनी सोमवारा सरळ बोलाव्या नजे अशें लिवलांय काय नकळ ह्यांच्या शास्त्रां ? – चवथिचो चंद्र, २रो आंक, २री खेप. बरो : आचार्य रामचंद्र शंकर नायक, पा. २१.)

**आदिताल** । आदिताल् । सा.रू. – या । (सं. आदिताल) पु. संगितांतलो एक ताल.

**आदितेय** । आदितेय् । सा.रू. – या । (सं. आदितेय) पु. १. अदितिचो पूत. २. देव. ३. सूर्य.

**आदित्य** । आदित्य । सा.रू. त्या । (सं. आदित्य:) पु. १. आदितिचो पूत. २. रवी; सूर्य. ३. सूर्यकमळ. ४. रुयेचें झाड. ५. पुनर्वसू नक्षत्र.
**विशेश :** नक्षत्रांय सूर्या इतलींच तेजिस्ट आशिल्लीं. उपरांत सूर्यान तांचो उजवाड ओडून घेतलो (आ + दा). म्हणून ताका 'आदित्य' म्हळां, अशें आदित्याचें एक निरुक्त मेळटा. आदित्य हे अदितिचे पूत. संवसारांतल्या पुराणकथांत देव देवतांच्या आवयांक सदांच आंकवारी मानल्यात. आदितीय हाका आडवाद ना.

आदिती ही मळबाची स्त्रीरुपी आकृताय. आपल्या आपशक्मी तेजान तिणें आदित्यांक जन्म दिलो. मुळाक आदित्य संघाची संख्या सात आसली आनी वरूण हो तांतुंतलो मुख्य आदित्य आसलो.

उपरांत ब्राह्मणांच्या काळार तांची संख्या बारा जाली.

आदित्य संघांतल्या देवतांचीं नांवां अशीं आसात: धाता, मित्र, अर्यमन, रुद्र, वरूण, सूर्य, भग, विवस्वत, पूषन, सवितृ, त्वष्टा आनी विष्णू. (धाता मित्रोऽर्यमा रुद्रो वरूण: सूर्य एवच । भग विवस्वान पूच सविता दशम: स्मृत: ।। एकाद्रशस्तथा त्वष्टा विष्णुर्द्वादश उच्यते ।। भगवद्गितेंतय कृष्ण भगवानान आदित्यांत आपूण विष्णू आसां अशें म्हळां (आदित्यानामहं विष्णू: भ.गी. १०.२१).

आदित्य म्हळ्यार सूर्य. आदित्य हें उतर वेदांत, ब्राह्मणांत आनी पुराणांतय सूर्य ह्याच अर्थान आयलां. आदित्याचो अर्थय तोच. जाल्यारूय, आदित्य संकेत हो बारा आदित्यांचो. संवसारांत सूर्य एकच आसा. संकेतांत बारा. हें कुवाडें कशें सोडोवप?

ज्योतिषशास्त्राचो इतिहास बरोवपी भौ. शां. बा. दीक्षित हांणी ह्या संकेताची फोडणिशी केल्या. ज्योतिषशास्त्राच्या मुळाव्या काळांत वेदिकांक आनी पुराणकारांक सूर्याचो आदर आशिल्लो. ताजें तांकां कौतुक, अप्रूप दिसतालें. सांजचो अस्तमानाक वता तो सूर्य नवो जावन दुसऱ्या दिसा परत येता, अशी तांची कल्पना जाल्ली. हे कल्पनेक लागून तांणी पयलीं दोन सूर्य मानले आनी उपरांत दर म्हयन्याक नवो सूर्य कल्पिलो. अशे तरेन बारा म्हयन्याचे बारा आदित्य मानले. जाल्यारूय सूर्य एकूच आसा, अशी वेदिकांची धारणा आशिल्ली. ऋग्वेदांत तांणी म्हळां: एकच सूर्य संवसाराचो स्वामी आसा आनी एकच उषा संवसाराक उजवाडान भरता. ह्या अर्थाची ऋचा मेळटा, ती अशी:

'एक एवाग्निर्बहुध समिद्ध एक: सूर्यो विश्वमनु प्रभुत:।। एकैवोषा सर्वमिदं विभाति... (ऋ ८.५८.२.)

**आधारावळ:**

१) Sanskrit English Dictionary, Vol. I, Edited by Prin. V. S. Apte.

२) श्री भगवंतालें गीत, कोंकणी भाशांतर, शणै गोंयबाब, पा.१०५.

३) भारतीय ज्योतिषशास्त्र, ३री आवृत्ती, लेखक शां.बा. दीक्षित, पा. २ आनी २०.)

**आदिदेव** । आदिदेव् । सा.रू. – वा । (सं. आदिदेव:) पु. १. सगळ्यांत श्रेस्ठ देव. (अर्जुनान म्हळें: तूं व्हडलें ब्रह्म, तूं व्हडली सुवात, तूं चड पवित्र वस्त, तूं सासणाचो लकलकीत आत्मो, तूं आदिदेव, तूं जन्म नाशिल्लो, तूं सगळ्यांक व्यापतलो. – (भ.गी. १०.१२). २. नारायण वा विष्णू. ३. शिव. ४. ब्रह्मदेव. ५. सूर्य.

**आदिनाथ** । आदिनाथ । सा.रू. – था । (सं. आदिनाथ:) पु. १. आदिबुद्धाचें एक नांव. २. म्हादेव वा शंकर. ३. नाथपंथाची स्थापना केल्लो, मच्छेंद्रनाथाचो गुरू. ४. एक जैन तिर्थंकर.

**आदिपर्व** । आदिपर्व् । सा.रू. – र्वा । (सं. आदिपर्वन्) न. १. खंयच्याय ग्रंथाचो सुरवातीचो भाग, प्रकरण; अवेश्वर. २. महाभारतांचें पयलें पर्व.

**आदिपीठ** । आदिपीठ । सा.रू. – पिठा । (सं. आदिपीठम् ) न. मूळ पीठ; आद्यस्थान.

**आदिपुरूस** । आदिपुरूस । सा.रू. – रसा । (सं. आदिपुरूष:) पु. १. पयलो वयलो प्रजापती. २. संवसारांत जन्माक आयिल्लो पयलोवयलो मनीस. ३. कुळाचो मूळ पुरूस. ४. विष्णू; कृष्ण वा नारायण.

**आदिंबादीं** । आदिंबादीं । (सं. आदि = पयलो + हिं. बाद = फाटलो, फाटल्यान येवपी) क्रि.वि. सर्तीन; चुरशीन; सगळ्यांच्या मुखार; सगळ्यांपयलीं (आदिंबादीं धांवपाची तांगेली उमेद आनी नेट पळोवन, सगळ्यांक ताचें कौतुक दिसलें.)

**आदिबीज** । आदिबीज्य् । सा.रू. – ज्या । (सं. आदि + बीजम् ) न. १. आदिकारण; आद्यबीज; सृस्टीचें

वा संवसाराचें मूळ कारणं. २. खंयचेय गजालीचें मुळावें बीज वा मुळावें कारण; आदिबुन्याद. ३. कलावंताच्या मनांत जोगूल कशी लिकलिकलेली प्रतिभेची पयली कीट.

**आदिबुन्याद** । आदिबुन्याद् । सा.रू. –दी । (सं. आदि + फा. बुनयाद) स्त्री. आदिकारण; आद्यबीज.

**आदिम** । आदिम् । (सं. आदिम) वि. १. पयलो; मुळावो; प्रथमळो. २. प्राचीन; पुरातन.

**आदिमाता** । आदिमाता । सा.रू. –ते । सं. आदि + माता स्त्री. अवेदिक काळावेली सिंधू संस्कृतींतली मातृदेवता; सृस्टीदेवता.

**विशेश** : आदिकाळापसून संवसारांतल्या प्राचीन जाण्टेल्यांक पृथ्वीच्या विराट स्वरुपाचें भान जाल्लें. ऋतुकाळाचीं आवर्तनां करून, नित्य सृजन करपी हे पृथ्वीक तांणी सृस्टीदेवता मानली. अन्नधान्याची, फुलांफळांची निर्मणी करून प्राणिमात्रांक ती पोसता आनी राखता. देखून, तिका तांणी 'आदिमाता' वा मातृदेवता म्हळी. पृथ्वीचेर जीण आसा, तशें मरणय आसा. जिणेफाटल्यान मरण आनी मरणाफाटल्यान परत जीण, अशें सृजन घडोवन, ती जिणेचें सातत्य राखता. हाका लागून, पृथ्वीक तांणी व्हडविकेचे भावनेन आनी श्रद्धेस्त अंतस्कर्णान पळेली. तिचे हे सृजनाचे तांकीक लागून, तिका तांणी मातृदेवता मानली आनी तिचें देवत्व तांणी स्त्रीरुपान कल्पिलें.

भारताच्या सिंधू संस्कृतींत मातृदेवता मेळटात. सेमितीक संस्कृतींत त्यो मेळटात. इंडो-युरोपियन संस्कृतीच्या ग्रिकांत आनी भारतांतल्या वेदिकांतय त्यो मेळटात. ब्राझिलासारक्या देशांत मेळिल्ले मातृदेवतेच्या शिल्पांत, तिका गुरवार अवस्थेंत दाखयल्ली मेळटा.

मोहेंजोदारोचे मोडावळींत (सिंधू संस्कृतींत) मातृदेवतांच्यो भाजिल्ले मातयेच्यो (terracota) कितल्योशोच म्हुर्ती मेळ्ळ्यात. मातृदेवता ही सृजनाची देवता जाल्ल्यान तिच्यो म्हुर्ती नागडे अवस्तेंत घडयल्यात. मोहेंजोदारोंत मेळिल्ले एके मुद्रिकेचेर, तिणें आपले पांय फांकारून धरिल्ले दाखयल्यात आनी तिचे योनींतल्यान वनस्पत भायर सरिल्ली दाखयल्या. (Mohenjodaro and the Indus Civilization, by John Marshall, पा. ५२). प्राचिनांनी तिका मातृदेवता, तेचपरी सृष्टीची निर्मणी करपी देवता मानिल्ली म्हणपाचें हे मुद्रिकेवयल्यान कळटा.

भारतांत केन्ना लज्जागौरीच्या रुपान, केन्ना भूदेवीच्या रुपान, केन्ना मातंगीच्या रुपान आनी केन्ना रोयणीच्या (सांतेरीच्या) रुपान तिची उपासना जाल्या.

मातृदेवता ह्यो सृजनाकडेन लग्निक आसात, तेचपरी सुफलिकरणाकडेन (Fertility) लग्निक आसात. हेच खातीर तांच्यो म्हुर्ती मातृत्व दाखोवपीच घडयल्यात.

लज्जागौरीची म्हुर्त घडयतना, मातृत्व दाखोवपी इंद्रियांकच उठाव दिला. तांकां शीर ना; तर थानां आनी योनी आसा. लज्जागौरी ही सृस्टीची निर्मणी करपी महायोनी आसा. तिका सगळ्या निर्मणेचें कुळार मानल्या. तिच्यांतल्यानच चराचराची निर्मणी जाल्या. तिचें दूद पियेवनच सगळ्या जिवांची जीण सुरू जाता. जन्मदेणी योनी आनी पुस्टी दिवपी थानां, हींच दाखोवन तिची म्हूर्त घडयल्या. हे म्हुर्तीकडेन लग्निक आशिल्लें साळीक, हाकाय सृजनाचें प्रतिक मानलां. लज्जागौरी ही जगदंबा जाल्ल्यान योनी आनी थानां दाखोवनच तिच्यो म्हुर्ती घडयल्यात. गोंयांत मेळिल्ले मातृदेवतेचे म्हुर्तीक शीर आसा आनी तिचे दावे कुशीक जल्माक आयिल्लें भुरगें दाखयल्लें आसा.

भुरगीं नाशिल्ल्यो बायलो आपली कूस उजवपा खातीर तिची पूजा करताल्यो. पृथ्वीक 'भूदेवी' म्हणुनूय पुजल्या. हिचीय म्हूर्त नागडीच आसा. मुख्यतायेन

योनी दिसपाखातीर तिचे पांय दोडून म्हूर्त घडयल्या. हिकाय शीर ना. शिराच्या जाग्यार बैलगाडयेच्या चाकासारकें चक्र आसा. भुरगीं जावपाखातीर बायलो लज्जागौरीवरीच हिचीय पूजा करताल्यो. साळीक आनी चक्र हीं योनीरुपीच आसात.

मातंगीची पुजा तिच्या नागड्या रुपांतच जाता आनी मातृदेवता म्हणून गोंयांत आनी कोंकणांत आजुनय तिची भक्ती चलता. ती सांतेरी रोयण आसा. रोयण जमनींतल्यान वयर सरता. ताका लागून तिका 'भुमकादेवी' म्हणटात. त्यो पर्वतावरी वाडटात म्हणून तांकां 'पर्वत्यो' म्हणटात. रोयणय पृथ्वीचेंच रूप आसा. ती महायोनी आसा. ती आंकवार भूंय आसा. मातृदेवता सगळ्या सृजनाचो गर्भ दर ऋतूंत आपल्या गर्भांत धारण करता. जाल्यारूय, त्यो अखंड कुमारीच आसतात.

पुर्विल्ल्या काळार Scandinavia धरून Melanesia मेरेन मातृदेवतांची पुजा जाताली म्हणपाची खबर मेळटा. पयलें पाशाणयूग धरून संवसारांतल्या कांय प्रदेशांनी ह्यो मातृदेवता मेळटात. सिंधू संस्कृतीच्या काळार भारतांतच न्हय, तर बलुचिस्तानांत, मेदितेऱ्हानियाच्या आवाठांत, रोमांत, इराणांत, मेजोपोतामियेंत, इजिप्त आनी ग्रीस देशांत मातृदेवतांच्यो म्हुर्ती मेळटात. सुमेरियेंत मातृदेवतेक 'इनाना' (Inana) म्हणटाले. बाबिलोनांत तिका 'इश्तार' (Ishtar) आनी कानानितांत तिका 'आश्तार्ति' (Astarte) वा 'आनत' (Anat) म्हणटाले. शुक्राच्या ताऱ्याकडेन तांकां लग्निक करताले. तांकां स्वर्गाच्यो देवता म्हळ्यात. 'इश्तार' ह्या सेमितीक उतराचो अर्थ 'देवता' असो जाता.

मातृदेवतेक वनस्पतीची स्वामिणी म्हळ्या. एका गितांत ही देवता सांगता, 'हांव स्वर्गांत रावतां आनी थंयच्यान पावस धाडटां. धतरेर रावन हांव वसंत ऋतु फुलयतां.' ती प्राणीमात्राचें सृजन करता. देखून, तिका संभोगाची देवता म्हळ्या. तिका लग्नाची आनी मातृत्वाची देवता मानल्या. आनीक एका गितांत तिणें म्हळां, 'हांव दादल्याची बायल करतां आनी बायलेचो दादलो करतां.' गणिकांनी तांकां पवित्र मानून, भक्तिभावान तांची पुजा केल्या.

सेमिटिक मातृदेवता केन्ना पुताच्या रुपान, केन्ना भावाच्या रुपान आनी केन्ना घोवाच्या रुपान, पुरुशदेवांकडेन लग्निक आसताली. तामूझ (Tamuz) (सुमेरियन Domu-zi) ह्या वनस्पतीच्या देवाकडेन ती लग्निक आसताली. दर वर्सा ह्या देवाच्या नांवान एक उत्सव जातालो. हो उत्सव ताचें मरण आनी पुनर्जल्म मनोवपाखातीर आसतालो. हो वनस्पतीचो देव वर्सान वर्स मरता आनी परतो जितो जाता, अशी मिथ्यकथा आसा. हो देव मरतकीर मसण्णींत वचून आपले आवयक साद घालता. हाजोच दुसरो अर्थ म्हळ्यार, आवय आपल्या मेल्ल्या पुताक पृथ्वींत सोदता. गिमांत अन्नाचें पीक दिवपी शेतां मरतात. देखून, भूंय तात्पुरती वांझुट्टी जाता. वसंत ऋतूंत आनी पावसांत ती परतून पिकाळ जाता. वनस्पतीचो, अन्नधान्याचो देव वर्सानवर्स मरता आनी परत जितो जाता तो असो!

'इनाना' ही मातृदेवता 'दिमू-झी'ची सुटका करपाक वता, अशी मिथ्यकथा आसा. जमनीच्या पोटांत आशिल्ल्या भुयारांत 'इरेशकिगाल' ह्या मर्णदेवाच्या सोदाक ती वता. ताच्या भुंयारांतल्या देवळाक सात दारां आसात. दर दाराकणकणीं आपल्या आंगावेलें एक एक वस्त्र तिका सोडचें पडटा आनी सातव्या दाराकडेन पावतकीर ती पूर्ण नागडी जाता. थंयच्यान परत येतना, तिचेपयलीं थंय पाविल्ल्या दुरात्म्यांक ती घेवन येता. हेभायर आनीकय एक सेमिटिक कथा आसा. 'कानान' (Canan) प्रदेशांत 'आनत' (Anat) ही मातृदेवता 'मॉत' ह्या मर्णदेवाकडेन झुजून 'बाल' ह्या सुफलीकरणाच्या देवाक ताच्या चबक्यांतल्यान सोडोवन घेता.

मातृदेवतांची भक्ती सायप्रस आनी क्रेंत ह्या

प्रदेशांनीय जाताली. आनातोलिया आनी ग्रीस देशांतय मातृदेवतांची पुजा जाताली. इराणांतली 'अनाहीत' (Anahita) ही मातृदेवता अप्सरेवरी सुंदर आशिल्ली. दादल्यांचें बीं ती शुद्ध करताली. बायलांचो कुसवो फळादीक करून तांच्या थानांत ती दूद निर्माण करताली. पर्शियन साम्राज्यभर हिची भक्ती जाताली. हिकाच मुखार ग्रिकांचे 'आफ्रोदीत' आनी आनातोलयेचे 'सिबॅल' देवतेकडेन लग्निक केली. रोमन साम्राज्यांत 'सिबॅल' देवतेची उपासना जावंक लागली आनी क्रिस्ताआदल्या २०४ ह्या वर्सा रोमांतल्या लोकांनी थंयच्या 'पालातीन' दोंगराचेर तिचें देवूळ बांदलें.

मातृदेवतांची वेगळ्या वेगळ्या देशांनी, वेगळ्या वेगळ्या नांवांनी भक्ती जाताली. इजिप्तांत 'ईजीश' (Isis) हे देवतेच्या रुपान मातृदेवतेक भजताले. रोमन साम्राज्यांत हे देवतेची भक्ती जाताली.

ग्रिकांची आनी भारतांतल्या वेदिकांची संस्कृती ही इंडो-युरोपियन संस्कृतींतल्यान उत्क्रांत जाल्ली संस्कृती. ग्रिकांचो Zeus Pater (झ्यॅवुश पातॅर) आनी वेदिकांचो 'द्यौस पितर' हे एकरुपीय आशिल्ले. दोगांचीय संस्कृती पितृप्रधान आशिल्ली. ग्रिकांनी Zeus Pater हाका आनी वेदिकांनी 'द्यौस पितर' हाका आपआपलो बापूय मानलो. Zeus हो पिता, तसोच द्यौस हो पिता जालो जाल्यार, आमची आवय कोण हो प्रश्न दोगांयमुखार उप्रासून आयलो. पृथ्वी हीच आमची आवय आसा, अशें दोगांकय दिसलें. ग्रिकांक आपले आदिमातेचें रूप 'आफ्रोदीत' (Aphrodit) हे देवतेच्या रुपान आनी वेदिक आर्यांक आदिमातेचें रूप आदितिच्या रुपान भावलें.

मातृदेवता ह्यो अत्यंत प्राचीन आसात. अवेदिक काळार वा चिके त्याय पयलीं, आमगेल्या प्राचीन जाण्टेल्यांनी, पृथ्वीकच आपली आदिमाता मानली. तिका सृस्टिदेवता आनी मातृदेवता मानून तांणी तिची उपासना केली. ही पृथ्वीच चराचराचें सृजन घडयता. ऋतुंचीं आवर्तनां करता. अन्नपूर्णा जावन ती आमकां पोसता. तिचेच मांडयेर आमी खेळटांत. आमचो खेळ खेळून जातकीर, परत जन्माक येवपाखातीर तिकाच वचून आमी मेळटांत.

**आधारावळ :**

१. Mohenjodaro and the Indus Civilization, by John Marshall.

२. लज्जागौरी, लेखक : रामचंद्र चिंतामण ढेरे.

३. Man, Myth & Magic, The Illustrated Encyclopedia of Mythology, Religion and Unknown, Vol.7, pp. 1894, 1895, 1896, Editor in chief«: Richard Cavendish, New Edition«: Edited and compiled by Yvonne Deutch, BA, University of Exetev, MA, University of Kansces, Law Deuce.

**आदिमाया** । आदिमाया । सा.रू. – ये । (सं. आदिमाया) स्त्री. १. महेश्वराची शक्ती. हिकाच प्रकृती म्हणून शिवाकडेन लग्निक केल्या. महेश्वर हें शिवाचेंच नांव. हिणेंच चराचर आनी संवसार निर्माण केला. २. दुर्गा.

**आदिवासी** । आदिवासी । सा.रू. – सीं । (सं. आदि + वासी) पु. भोव. एकाच पुर्वजाक लागून जन्म जाला अशें सांगपी, एका विशिश्ट भूंय-थळांत राबितो करून रावपी, एकच समान भास उलोवपी, तंत्र-शास्त्रीक गिन्यानाचे नदरेन फाटीं आशिल्लो, अक्षर वळख नाशिल्लो आनी एकाच रगताच्या नात्यान बांदिल्लो, तेचपरी सामाजिक रिती-रिवाजांक प्रामाणिक पाळो दिवपी एकरुपी गट वा पोंवो.

**विशेश :** आदिवासी समाजाच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो व्याख्या आसात; गिलीन आनी गिलीन हांच्या मतान आदिवासी 'एका विशिश्ट भूंय-थळांत रावपी, एकच बोली उलोवपी, एकच संस्कृतीक जीण जियेवपी, पूण अक्षर-वळख नाशिल्लो, मुदलच्या थळाव्या

लोकांचो पोंवो.

डब्ल्यू ज. पेरी (W. J. Perry) हांणी आदिवासी समाजाचीं कांय वेगळीं लक्षणां सांगल्यांत. ते सांगतात: आदिवासी म्हळ्यार 'एकच समान बोली उलोवपी आनी एकाच समान जाग्यार राबितो करून रावपी पोंवो.'

डॉ. रिव्हर्स (Dr. Revers) म्हणटात, 'ज्या पोंव्यांतले वांगडी एकच बोली उलयतात, आनी आपल्या भौशिक कल्याणाखातीर वांगडचारान वावुरतात, असो सरळ आनी भावार्थी मनाच्या लोकांचो पोंवो' म्हळ्यार आदिवासी.

क्रि.स. १९६२ वर्सा शिलाँग हांगा भरिल्ल्या आदिवासी समितीचे परिशदेन आदिवासींची व्याख्या अशी केल्या: 'एकच समान भास उलोवपी, एकाच पुर्वजापासून आपलो जन्म जाला अशें सांगपी, एकाच विशिश्ट भूंय-प्रदेशांत राबितो करून आसपी, तंत्र-शास्त्राचे नदरेन फाटीं आशिल्लो, अक्षर-वळख नाशिल्लो आनी एकाच रगताच्या नात्यान जोडिल्लो, सामाजिक आनी राजकर्णी रीत रिवाजांक प्रामाणिक पाळो दिवपी, एकरुपी लोकांचो गट वा पोंवो.

इंपिरियल गॅझेटांत आदिवासींची व्याख्या 'एकच समान बोली उलोवपी, एकाच भुंयेच्या भागांत रावपी, सुरवातीक नात्यांतल्या नात्यांत लग्नां करपी, पूण उपरांत नात्यांतल्या नात्यांत लग्न करचेली चाल सोडून दिवपी, एकच नांव आशिल्ल्या कुटुंबाचो जोमो', अशी केल्या.

बोगार्डस (Bogardus) हांणी म्हळां, 'राखणेची गरज, रगताचें नातें, समान धर्म हाचेरच आदिवासी समाजाची बसका आसा.'

डी. एन्. मुजुमदार (D. N. Muzumdar) हांणी आदिवासी जमातीचीं सगळीं लक्षणां ध्यानांत घेवन, तांची व्याख्या केल्या. तांणी म्हळां, 'समान नांव आशिल्लो, एकाच भूंय प्रदेशार राबितो करून रावपी, एकच भास उलोवपी, लग्न, धंदो बी हाचेकडेन सारक्याच नेमांक आनी आयबांक पाळो दिवपी आनी एकमेकांकडेन परस्पर संबंध निर्माण करपी व्यवस्था येवकरपी कुटुंबांचो वा कुटुंबांच्या समाजाचो एकवट म्हळ्यार आदिवासी समाज.

आयच्या शिकिल्ल्या आनी फुडें पाविल्ल्या समाजाचे नदरेन, आदिवासी समाजाकडेन पळोवंक फावना. हो समाज बरपाक्षरी न्हय. ह्या समाजांतले कांय जाण आतां शिकूंक लागल्यात. जाल्यारूय, ह्या समाजांतलो चडांत चड लोक आजूनय अक्षरवळख नाशिल्लोच आसा, हेंय खरें.

खंयचोय समाज हो थळावोच पोंवो आसता. एका भुगोलिक स्थानांत खंयचोय समाज राबितो करून रावलोना जाल्यार, तो समाज अस्तित्वांतय येवंक पावना. आदिवासी समाजय हाका आडवाद ना. आजुनय कांय आदिवासी एका जाग्यावेल्यान दुसऱ्या जाग्यार भोंवत आसतात. जानसारी, थारू, नागा, कुकी, खासी, कचाटी बी आजुनय भटकंतेचे अवस्थेंतच आसात. जाल्यारूय, ज्या ज्या प्रदेशांत, ते एका जाग्यावेल्यान दुसऱ्या जाग्यार भोंवतात, त्या प्रदेशाक ते आपलोच प्रदेश मानतात.

आदिवासी समाज ज्या जाग्यार राबितो करून रावता, तो जागो आडकुशिचो, अत्यंत खांचोटांतलो आसता. थंय वचपाक जूग जाता. थंय वचपाक मार्ग नासता. धड सारकी पांयवाट नासता. ह्या समाजाच्या राबित्याचो जागो, चडसो दोंगरांनी आसता. ताका लागून, हो जागो म्हळ्यार एक निजाचेंच कोट आसता.

हेर समाजाकडेन आदिवासी समाजाची सर करीत जाल्यार, हो समाज खूप ल्हान आसता. ज्या जाग्यार ते राबितो करून रावतात, त्या जाग्याचो आवांठ ल्हानच आसता. समाजांतल्या पोंव्याच्या लोकांची संख्या ल्हान आशिल्ल्यान, तांच्या संपर्काचें मळय ल्हानच उरता. आदिवासी समाजांतलो लोक

एकमेकांक एकच रगताचे मानतात. आदिवासी समाजांतल्या लोकांची उत्पत्ती एकाच पुर्वजाक लागून जातल्यान, हाचेर तांचो दृढ विश्वास आसता. हो पुर्वज कोण, तो केन्ना जालो, हाचें तांकां ज्ञान नासता. तरी आसतना, आपलो पुर्वज एकच आसा. ही भावना खूप प्रबळ आसता, हे भावनेक लागून तांच्यांत मोग, आपलेपण, वांगडचार ह्यो भावना निर्माण जातात.

आदिवासी समाज हो एकरुपी आसा, समान बोली-भास, समान धर्माचें आचरण, सारकीच संस्कृती आनी सगळ्यांक लागू जावपी एकच नेम आशिल्ल्यान, आदिवासींच्या आचारविचारांत पूर्ण सारकाय आसता. तांच्यो रिती आनी रिवाज, धर्माचेर आशिल्लो तांचो गाढ विश्वास, तांच्यो परंपरा, हांकां ते चुकनासतना आनी खळयनासतना पाळो दितात. तांच्या जिणेच्या सगळ्यां घटितांची चिकित्सा ह्याच आधाराचेर ते करतात. ताका लागून, तांचे जिणेंत घडपी खंयचेय घटनेची प्रतिक्रिया एकच आसता. तांच्या आचार-विचारांचो, तांच्या परंपरांचो प्रभाव, तांचे जिणेचेर येदो आसता की, तांच्या आचरणांत वेगळेपण मेळना.

आदिवासी समाज हो हेर समाजांपरस पूर्ण वेगळो आसा. चडशे आदिवासी चडूंक कठीण, अत्यंत अगम्य अशा दोंगराळ भागांत रावतात. सह्याद्री पर्वताच्या वाटारांत, उत्तरेकडल्या सातपुड पर्वताची रांग, मध्यप्रदेशांतल्या बस्तर जिल्ह्याक तेंकून आशिल्ल्या चांद जिल्ह्याच्या रानांतल्या वाटारांत आनी मराठवाड्यांतल्या अजिंठा लेण्याच्या भोंवतणच्या दोंगरी भागांत, हो आदिवासी शेंकड्या शेंकड्यांनी वर्सां राबितो करून आसा. ह्या आदिवासींक बरोवंक वाचूंक येना. ताका लागून ते फुडें वचूंक पावनात. तांचे बोलीक लिपी नाशिल्ल्यान, तांच्यांत साहित्याची कसलीच निर्मणी जायना. तांची कला, तांचें ज्ञान, तांचो लोकवेद, तांचो नाच, तांचे वाक्प्रचार हे एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन तोंडी परंपरेन पावतात. तांची आर्थिक जीण सामकी सादी आसा. तांच्या पोटाक पावपाइतलें अन्नधान्य ते निर्माण करतात. अशें आसतनाय, एकएकदां तांकां खाणा-जेवणाची भ्रांत पडटा. तरी आसतना, धवाड्या लोकांपरस तांची सामाजिक जीण परिपूर्ण आसा. आदिवासी रगताचें नातें मोलादीक मानतात. तांचे भौशिक जिणेंत, ते आपआपल्या हावेसांक कुशीन दवरतात. एकामेकांची नाटकाय धरिनासतना, ते पूर्ण भावबंदायेन चलतात. लग्नाक ते दोन घरां जोडपी सांकोव मानतात. आपली भौशिक जीण ते हांसून खेळून काडटात. आपल्या धर्माच्या आचारांक ते तंतोतंत पाळो दितात. तांचे जिणेचो ताल हो निसर्गाच्या तालाकडेन लग्निक आसा. ते आपल्या मनाक येता ते तरेन जियेनात. तांचे जिणेचो तोल केन्नाच इबाडना. देखून, तांची जीण शेंकड्या शेंकड्यांनी वर्सां परंपरेन अखंड चलत आयल्या. तांकां खावंक आनी पियेवंक मेळ्ळेंना जाल्यार पसून तांची जीण तृप्त आनी आनंदित आसता. तांच्या ओंठांवयलो निर्मळ आनी भावार्थी हांसो उणो जायना. गाणें आनी नाच हाका तांचे जिणेंत मोल आसा. तांची जीण निसर्गाक बांदिल्ली आसा. ते खऱ्या अर्थान धर्तरेचे पूत आसात.

जात आनी जमातींत अंतर आसा. जातीसंस्थेचो आधार जन्म आसता. जे जातींत तो जन्माक आयला, तेच जातीचो तो सभावीक वांगडी जाता. खाण, जेवण आनी लग्नां जातीचे जातींतच जातात. क्वचित एकादें लग्न दुसरे जातीकडेन जाता. जाल्यारूय, जात अशा लग्नाक आडमेळेंच हाडटा. जमातीचो आधार जन्म नासता. जमात ही एका विशिश्ट भूंय-वाटारांत रावपी लोकांचो पोंवो आसता. एकच पूर्वज आशिल्ल्यान एकाच रगताच्या नात्यान हो पोंवो एकामेकांकडेन बांदिल्लो आसता.

जमातीच्या एका पोंव्यान तांचे भितरच लग्नां करपाची गरज नासता. वेगळ्या वेगळ्या जमातीच्या पोंव्याच्यो एकामेकांकडेन रोटी-बेटी वेव्हार जाता.

दर जातीचो परंपरेन चलत आयिल्लो व्यवसाय आसता. विशिश्ट जातींतल्या मनशांनी जातीचोच व्यवसाय करूंक जाय म्हणपाचो दंडक आसता. जमातीचीं मात व्यवसायाखातीर कसलींच बंधनां नासतात.

जातीचे वांगडी एकाच भूंय आवांठांत रावनात. वेगळ्या वेगळ्या आनी परदेशांतूय कांय जाण राबितो करून रावतात. जमात एकाच भूंय आवांठांत राबितो करून रावता. देखून, जमातींत एकवटाची भावना दिसता. तांच्या वांगड्यांत प्रादेशिक एकवट (territorial integrity) दिसून येता.

जातींत व्हड सकल अशो पांवड्यांच्यो देंवत्यो आसतात. जातींची रचणूक देंवते देंवतेर आधारलेली आसा. तेभायर जाती जातींत आनीक पोटजाती आसतात.

जातीचो आधार दैवी तसोच धार्मिक मानतात. समाजांत धर्माचें म्हत्व वाडूंक लागतकीर, कांय विधींक पाळो दिवपी मनशांची एक जात समाजांत उदेवाक आयली. पूण जमातीचो उदेव धर्माच्यो विधी पाळून जावंक ना. जमातींत कुळाक म्हत्व आसा. ती आपलें कूळ जीव आशिल्ल्या वा जीव नाशिल्ल्या वस्तूंक लागून जन्माक आयलां, अशें मानता. हाका लागून तांच्यांत 'देवक' (Totem) आसता. कांय जाणांचें 'देवक' खंयचेंतरी झाड आसता, सोरोप वा वाग बी खंयचेंतरी जनावर आसता. तांकां ते मारिनात. जात आनी जमातीचीं सामाजिक बंधनां वेगळीं आसतात. आज कांय जमातींचो संपर्क हिंदू संस्कृतीकडेन येवपाक लागला. ताका लागून कांय जमातींचेर हिंदू संस्कृतीचो छाप उदेल्लो दिसता. आज जातींचो तशेंच जमातींचो मुदलचो बसकार हालूंक लागला. पयलींचीं बंधनां सदळ जावंक लागल्यांत. पोटा-पाणयाच्या सोदाखातीर लोक आतां शहरांनी वचपाक लागला. आदिवासी समाजाची जिणय आतां आशा आनी हावेसांनी भरूंक लागल्या.

**भारतांत वेगळया वेगळया जाग्यांनी रावपी आदिवासी**

भारतांतल्या वेगळ्या वेगळ्या प्रदेशांत आदिवासी जमाती राबितो करून रावल्यात:

**आंध्र प्रदेश:** चेंचू, कोया, गदबा, जतपूस, कोंड-दोरा, कोंडा-कापूस, कोंडा-रेड्डी, खोंड, सुगली, येनाडी, येरव, कुल, भिल्ल, गेंड, डोंगरा, रेड्डी, कोलाम, वाल्मिकी, परधान (बोगता).

**आसाम:** गारो, खास, कुकी, मिझो, मिकीर, नाग, अबोर, उपला, मिश्मि, आतनी, सिंगफो (काचरी).

**बिहार:** असुर, बैगा, बंजारे, बिरहेर, गोंड, हो, खाडिया, खोंड, मुंज, कोरवा, उरांव, संथाळ, मालपहाडिया, भूमिज, सवरिया, पहाडिया (मुसाहर, थारू).

**महाराष्ट्र आनी गुजरात:** भिल्ल, गोंड, वारली, कोळी, ठाकूर, दुबळा, बैगा, गदवा, कमार, खाडिया, खोंड, कोल, कोलम, कोरकू, कोरव, मुंडा, उरांव, परधान वा वायरी.

**केरळ:** कदर, इरूल, मुथुवन, कनिक्कर, मलंकुरवन, मलयरयन, मलवेतन, पलयन, मन्नन, उल्लतन, उरळी, विश्वन, अरनदनर, कहटकुनैकम, कोरग, कोत, कुरिचियन, करूमन, पनियन, फुलयन, मालसर, कुरूंब.

**मध्य प्रदेश:** कोरल, भिल्ल, बैगा, बदबा, गोंड, खोंड, कोल, कोलम, उरांव, परधान.

**मद्रास:** तोड, कदल, इरूल, कोंत, अरियन, अरबदन, कट्टुनैव, कोरग, कुरिचियम, मालसर, करुमन, मयुवन, पसियन, मुलयन, मलयाली, कुरूंब, एरवल्लन, कनिक्कर, मन्नन, पलियन, उरळी, विशवन (हळबा).

**म्हैसूर:** गौदलु, हिक्चपिक्वि, इरूलिग (बेरड, सोलेगा), जेतुकुरूब, मलैकुडि, भिल, गोंड, तोड, वारली, चेंचु, कोया, अरनदन, येख, होलेय, कोरम.

**ओरिसा:** बैगा, बंजारे, बिरहोर, बोंदो, चेंचु, गदबा,

गोंड, हो, जतपुस, जुआंग, खडिया, कोल, खोंड, कोया, उरांव, संताळ, सवरा (पोरजा).

**पंजाब :** गड्डी, स्वंगल, भोट.

**राजस्थान :** भिल, गरासिया, दुबळा, गोंड, कोरकु, कोळी, कातकरी, वारली, पारधी, सेहारिया.

**पं. बंगाल :** हो, कोल, मुंडा, उरांव, भूमिज, संताळ, गारोलेपचा, असूर, बैगा, बजारे, गोंड, विरहोर, खोंड, कोरवा, लोहार.

**हिमाचल प्रदेश :** गड्डी, गुर्जर, लहौल, लांब, पगवल.

**मणिपूर :** अंगामी, मिझो, पैले, पुरवम्, सेमा.

**त्रिपुरा :** लुशाई, मग, कुकिलहम, खासी, भुतिया, मुंडा, संताळ, भिल, जमलिया, रिआंग, उच्छै.

**भारतांतले आदिवासींचे चार विभाग**

(१) जे आदिवासी आजुनय चडूंक कठीण अशा दोंगरी अगम्य आवाठांत राबितो करून आसात, ते खऱ्या अर्थान गिरिजन आसात. भायल्या संवसाराकडेन तांचो कसलोच संपर्क येना. ताका लागून तांगेल्यो पुर्विल्ल्यो चाली-रिती, आचार-परंपरा अजून तगून आसात. हांचीं कुटुंबां व्हड आसात. तांचें एक खेडें म्हळ्यार कुटुंबच आसता. तांचे जिणेचें रूप भौशिक आसता. तांची आर्थिक जीण, न्हिदपाचें घर, धान्याचे कडे वा जमीन पसून तांच्या सगळ्यांच्या धनीपणाची आसता. हांची शेती चडशी 'कुमेरी' पद्धतीची आसता. दोंगराची एक कडा झाडां-पेडां कापून वा कातरून निवळ करतात. तें जाले उपरांत झाडां, पालो बी हुलपावन गोबराची एक रास करतात. त्या गोबराच्या दाट थराचेर तोंक आशिल्ले बडयेन (हाका कांयकडेन 'थोंबो' म्हणात) दोन बुराक काडून, तांतूंत बीं घालतात.

हे आदिवासी सैमाचे पूत आसात. तांची जीण सादी आसता. सभावान ते भोळे, भावार्थी आसतात. शिंदळकी हो तांकां व्हडलो गुन्यांव दिसता. गुन्यांव करपी असो लोक तांच्यांत चडसो दिसना. आपलें आंग धांपपापुरतेंच वस्त्र ते आंगाक गुठलायतात. बस्तरांतल्यो मरिया, जुआंग, गदबा, बोंदो, बैगा ह्या जमातींतल्यो बायलो आपलीं थानां धांपिनात.

(२) फुडें पाविल्ल्या लोकांपसून मात्शे फाटीं आशिल्ले. जाल्यारूय, पयल्या पंगडांतल्या लोकांपरस मात्शे फुडले अवस्थेंत हे लोक घयण रानांत भरिल्ल्या वाटारांत रावतात.

ह्याच आदिवासी समाजाचो फुडें पाविल्ल्या समाजाकडेन संपर्क नाशिल्ल्यान, तांची प्राचीन परंपरा तशीच आसा. तांचीं कुटुंबां एकठांय आशिल्ल्या कुटुंबांवरी नासतात. तीं वेगळीं वेगळीं आसतात. तांचीं घरां वेगळीं आसतात. ह्या पंगडांत आस्पावपी मुरिया, भुईया आनी उरांव हांची न्हिदपाचीं घरां मात एकठांय रावपी कुटुंब पद्धतीवरी आसतात. तांची शेती भौशिक म्हळ्यार सगळ्यांची आसता. पयल्या पंगडांतल्या आदिवासींपरस हे आंगार चड कपडे घालतात. ते जनावरां पोसतात. गरज पडटा थंय नांगरान शेत नांगरतात. आपलो वेव्हार स्वतंत्र दवरपाइतले ते व्यक्तिवादी आसतात. तेचपरी एकामेकांकडेन सर्त करपाचीय भावना तांच्यांत आसता.

पयल्या पंगडांतल्या आदिवासींवरीच हेय धर्म, जादू, मंत्र, फितीस हांचेर विश्वास दवरतात. हांचीय जीण सादी आनी सरळ आसता.

(३) तिसऱ्या पंगडांत आस्पावपी आदिवासींची संख्या बरीच व्हड आसा. ह्या लोकांची लोकसंख्या दोन ते पांच कोटींच्या घरांत आसा. ह्या आदिवासींचो भायल्या संवसाराकडेन भौन भौन संपर्क येता. मुखार आशिल्ल्या, हिंदू समाजाकडेन तांचो संपर्क आयिल्ल्यान, हांचे जिणेंत ध्यानांत घेसारको बदल जाला. तांची पोन्नी संस्कृती, जियेवपाची रीत, तांच्यो धर्मकल्पना आनी सामाजिक संघटना, ह्यो आतां फाटीं पडून ना जावपाकडेन पावल्यात आनी तांच्यांत नवे जिणेचे पद्धतीचो उदेव जाला. हो नवीन बदल तांची

जीण ढवळून काडटा. ताका लागून तांचे जिणेंत सामाजिक आनी सांस्कृतिक अशे नवे प्रश्न निर्माण जाल्यात.

(४) चवथो पंगड हो दुडवांकार आदिवासींचो आसा. भिल्ल, नागांचे मुखेली, गोंड राजे, भुईया जमीनदार, कोरकुंतलीं कुळवंत घराणीं, संथाळांतले गिरेस्त उरांव लोकांचे जागे आनी बरपाक्षरी मुंडा बी हांचो आस्पाव ह्या पंगडांत जाता. ह्या आदिवासींनी आपली प्राचीन पुरातन संस्कृती तशीच राखून दवरल्या. भायल्या संवसाराकडेन संपर्क येवनय ती तांणी राखल्या. देखून, तांची तोखणाय जावंक जाय. काळ वता तसो ह्या लोकांचेर हिंदुधर्माचे बरेच संस्कार जाल्यात.

आपल्या कर्तुत्वाचेर ह्या आदिवासींनी समाजांत भौमानाचें स्थान जोडलां. ह्या जमातींतले कांय जाण सरकारी अधिकारी आसात. कांय जाण मंत्री जावंक पावल्यात. कांय जाण धर्माचो उपदेश करपी जाल्यात. हिंदू आनी क्रिस्तांव मिशनऱ्यांक लागून तांच्यांत बरीच सुधारणा जाल्या. हे सुधारणेक लागून आदिवासींत भयंकर अशे खूप प्रस्न निर्माण जाल्यात. पश्चिमेकडल्यो चालीरिती ते दोळे धांपून घेतात. तांचें मुळावें नाचगाणें तांकां उणेपणाचें दिसता. तांच्या ओंठांवेलो निर्मळ हांसो आतां ना जाला. तांच्यांत लिंगिक बळाळिको सुरू जाल्यात. क्षय (धगखांक) बी पिडा तांचो जीव पोखरूंक लागल्यात. चेडयांचो पाडो धंदोय आतां सुरू जाला.

**गोठूल – तर्णधाकुटे आनी तर्णधाकुट्यो हांची एक संस्था**

**जुवानघराचें स्वरूप :** भारतांतल्या आदिवासी जमातींत, जुवानघर ही तांचे संकल्पनेंतल्यान उबी जाल्ली एक सुंदर संस्था आसा. जुवानघरांक वेगवेगळीं नांवां आसात. मुंडा आनी हो ह्या घराक 'गिटीओरा' म्हणटात. मुडियागोंड 'गोतुल' म्हणटात. भोटिया 'रंगबंग' म्हणटात. उरांव 'जोन्करपा वा धुमकरिया' म्हणटात. भुइया 'धनगरवासा' म्हणटात. कुरूंब 'पुंडलमने' म्हणटात. कांय आदिवासी जमातींत चल्यांच्या आनी चलयांच्या जुवानघरांक वेगवेगळीं नांवां आसात. मेमी ह्या घरांक अनुक्रमान 'इखुइची' आनी 'इलोइची' म्हणटात. बोंदो अनुक्रमान 'इंगेरसिनी' आनी सेलानी 'डिंगो' म्हणटात. कोन्याक नाग अनुक्रमान 'मोरूंग' आनी 'यो' म्हणटात.

आदिवासींचीं भुरगीं वयांत येवपाक लागतकीर, तांकां जुवानघरांत वचचें पडटा. जुवानघराचो वांगडी जावपाक ह्या तर्णधाकुट्यांक जितलें मानवता, तसोच तांकां थंय येवकारय मेळटा. तर्ण-धाकुटे आनी तर्ण-धाकुट्यो ह्या जुवानघरांत वचपाक अनमनत जाल्यार, तांकां थंय बळयां धाडटात. कसलेंच कारण दिनासतना जुवान घराचो वांगडी थंय वचनासतना रावलो जाल्यार, ताका ख्यास्त दितात. जुवानघरांत वचप हें अत्यंत अगत्याचें आसता. आसामांतले कोन्याक, नाका ह्या जमातींत तर जुवानघराचो वांगडी जातना, एक दीक्षाविधी आसता.

आदिवासी जमातींतलीं हीं जुवानघरां गांवाभायर बांदिल्लीं आसतात. कांय आदिवासी जमातींत हीं जुवानघरां गांवाच्या मध्यभागार आसतात. जाल्यारूय, हीं जुवानघरां अद्रूण गांवाभायर बांदतात. गांवांत आयिल्ल्या पाहुण्यांनी आनी जमातीच्या जाण्ट्या मनशांनी थंय घोसोळ घालूं नये, हो हे कल्पनेफाटलो हेतू आसा. पाहुणे आनी जाण्टे मनीस आयल्यार, जुवानघरांची दिसपट्टी जीण विस्कळीत जावं नये म्हणून ही जतनाय घेतात. ह्या जुवानघरांत जुवान चल्यांक आनी चलयांक मेकळेपणान वावरूंक मेळपाखातीर, हीं घरां गांवाभायर बांदतात. नाग आनी उरांव जमातीचीं जुवानघरां, अनुक्रमान तांचे शेतोडेकडेन वा वस्तीचे मध्यभागार बांदिल्लीं आसतात. हे दोन आडवाद सोडले जाल्यार, जुवानघरां गांवांभायरच आसतात.

जुवानघर सट्‌करून ध्यानांत येवपाक, तें दोळ्यांत भरसारकें आसता. इमारत साधी आनी बसकी आसता. उरांव लोकांच्या जुवानघराक एकच दार आसता. हें दार म्हळ्यार एक व्हडलो बुराक आसता. तातूंतल्यान भितर सरतना, जमनीक हात लावन, पोट ओडूनच भितर सरचें पडटा. कुडींत भितर काळोख आसताच, तेभायर ती धुंवरानय भरिल्ली आसता.

जुवानघराचे मुख्य वणटीक रंग काडिल्लो आसता. वण्टीचेर देवकांचीं चित्रां चितारलेलीं आसतात. घरभोंवतणीं वंय वा आडो केल्लो आसता.

जुवानघराचे रीत रिवाज आनी परंपरा आसतात. ह्या परंपरांक पूर्ण पाळो दिवंचो पडटा. जाल्यारूय, जुवान चले आनी चलयांचेर थंय व्हडलींशीं बंधनां नासतात. जुवानघरांतली जीण मेकळी आसल्यारूय, तिका एक म्हेर आसता. तर्णधाकुटे आनी तर्णधाकुट्यो थंय मेकळेपणान वावुरतात. तांची जीण थंय आनंदान आनी उल्हासान भरिल्ली आसता.

तर्ण-धाकुटे आनी तर्ण-धाकुट्यो जेवणां करून, सांजचीं जुवानघरांत जमतात. नाच, गाणीं, नकलो, गजाली, एकामेकांचीं फकाणां, बसके खेळ हांकां थंय ओतो येता. हे मौजेंत वांटो घेवपाक उरांव लोक भोंवतणच्या गांवांतल्या जुवान चले आनी चलयांक आपयतात.

जुवान चले आनी चलयांच्या वागपा-उलोवपांत विलक्षण मेकळेपण आसता. गोंड जमातींत गोतुलांतल्यो चलयो जुवान चल्यांचें आंग रगडटात. तांचे केंस वळयतात. जुवान चलयांक जुवान चल्यांचीं मनां जिखपाचीं आसतात. देखून, हीं कामां तीं मोठे आवडीन आनी ओडीन करतात. ह्या कामांत यस मेळिल्ले तर्णधाकुटेक, तर्णधाकुटो आपली भेट म्हणून, तिका एक दांतोणी दिता. भेट म्हणून मेळिल्ली ही दांतोणी, ती आपल्या आंबाड्याच्या खोप्यांत मोठ्या अभिमानान खोंचता. आंबाड्याच्या खोप्यांत एकापरस एक दांतोण्यो खोंचूंक चलयांक मानवता. इतलेंच न्हय, तर तांचो तांकां अभिमान दिसता. मदनाची बाधा जाल्ल्या चल्या चलयांची मजल, परिचय धरून मोगामेरेन वता. एकाद्रया घाळ वेळार निसर्गान आपलें काम केल्लें आसल्यार, ते जुवान चलयेक, ताका जापसालदार आशिल्ल्या जुवानाचें नांव सांगचें पडटा. त्या जुवान चल्याक तेच जुवान चलयेकडेन लग्न जावंचें पडटा. जाल्यारूय, जुवानघरांतली कसलीय बाब, चड करून लैंगिक बाब, गुप्त उरची म्हणून जाता तितली जतनाय घेतात.

**जुवानघराची शासन व्यवस्था**

आदिवासी समाजांत दरएक तर्ण-धाकुट्याक, तेचपरी तर्ण-धाकुटेक जुवानघराचो वांगडी जावचोच पडटा. देखून, जुवानघरांत तरणाट्यांची गर्दी आसता. ह्या घरांत वांगड्या वांगड्यांभितर एक सुसुत्रताय आसपाखातीर ध्यान दितात. जुवानघराचें काम व्यवस्थीत चलताखातीर एक शासन व्यवस्था आसता. जुवानघरांतल्या वांगड्यांत म्हालगडे आनी धालगडे अशे दोन भाग केल्ले आसतात. पिरायेन आनी अनुभवान म्हालगडे जाण्टे आसतात. ताका लागून, धालगड्यांक तांचे आज्ञेंत रावचें पडटा. जुवानघरांत भितर सरतना धालगड्यांनी म्हालगड्यांक अभिवादन करचें पडटा. जुवानघरांत अधिकारी म्हणून कांय म्हालगड्यांक वेंचून काडटात. ह्या अधिकाऱ्यांक वेगळीं वेगळीं नांवां आसतात. त्या अधिकायांचो पांवडो आनी अधिकार थारायल्लो आसता. मुरिया गोंडांच्या 'गोतुलां'त अधिकाऱ्यांक शिलेदार, तहशीलदार, सुभेदार, कोतवाल अशीं नांवां दिल्लीं आसतात. उरांव जमातींत तांकां 'रसिक' म्हणटात. जुवानघरांतल्या म्हालगड्यांचो मान राखप आनी तांकां अभिवादन करप म्हत्वाचें मानतात. ह्या घरांचो सगळो कारभार सुसुत्रतायेन चलोवपाची जापसालदारकी जुवानघराच्या अधिकाऱ्यांची आसता. ह्या घरांनी नव्या वांगड्यांक हाडपाचें काम जुवानघरांतल्या

धालगड्यांचेर सोंपयल्लें आसता. ह्या घरांतल्या सगळ्या वांगड्यांची चाल-चलणूक जुवानघराच्या नेमांक धरून आसची पडटा. पंगडाभितर जाल्ल्या आनी पंगडाभायर जाल्ल्या लग्नाचे नेम तांकां पाळचे पडटात. कसलेंय काम उबगनासतना मोन्यांनी करचें पडटा. गुप्त उरपाचीं म्हत्वाचीं कामां अधिकारीवर्ग करता. ठरावीक पिराय जातकीर दर तर्णधाकुट्याक आनी तर्ण-धाकुटेक जुवानगराचो वांगडी जावचोच पडटा. कोन्याक नाग जमातींत दर व्यक्तीचो प्रवेश जुवानघरांत मोठ्या धबाज्यान जाता. चार वर्सांचो भुरगो धरून विधूर आनी विधवांकय जुवानघरांत प्रवेश दितात. ह्या घरांत प्रवेश करतकीर, तांणी आपली जीण कशे तरेन व्हरची म्हणपाचें, जुवानघरांतले अधिकारी थारायतात. जुवानघरांतल्या रितींक आनी परंपरांक पाळो दिवप अगत्याचें आसता.

बैगा जमातींतले चले आनी चलयो विशिश्ट वयाच्यो जातकीर, 'गोतुल' वा 'घोटुल' ह्या आस्कळ-विस्कळ घरांत प्रवेश करतात. तांच्या खाणा-जेवणाची व्यवस्था जमातीच्या लोकांकडल्यान जाता. तांणी थंय खावचें, पिवचें, नाचचें, मौज करची, मोगय करचो आनी धूंद जीण जियेवची, अशी बैगांची इत्सा आसता. तर्णधाकुटे आनी तर्णधाकुट्यो थंय मजेन दीस काडटात. अशा वेळार एकाद्रे तर्णधाकुटेक दीस गेल्यारय कोणाकच लज दिसना, वा ही गजाल कोणच मनार घेना. तिका लग्न करून वेगळें बिराड करपाचें आसल्यार घोटुल्यांतल्या आपल्या वांगड्या वांगडा पळून वच्चें पडटा. गांव-जेवणाखातीर, दुकराच्या मांसाखातीर आनी सोऱ्याखातीर तांकां खर्च करचो पडटा. कांय वांगडी आपले पिरायेचीं ३०-४० वर्सां घोटुलांतूच काडटात. कांय वांगडी जेन्ना घोटुलांतले भायर सरतात, तेन्ना तांकां चार पांच भुरगीं जाल्लीं आसतात. एकएकदां बापायचें आनी पुताचें लग्न एकाच माटवांत जाता.

अलमोडा जिल्ह्यांतल्या भोटिया आदिवासींत 'रंगबंग' करपाची चाल आसा. रातीच्या वेळार तर्णधाकुटे आनी तर्णधाकुट्यो एकाद्रया घरांत एकठांय येवन गावपांत, वाजोवपांत, नाचपांत आनी सोरो पियेवपांत गुल्ल जातात. रंगबंगांत एकठांय येवपी तर्ण-धाकुटे आनी तर्ण-धाकुट्यो, एकाच कुळांतल्यो नासतात. भोंवतणच्या खेड्यांतले तरणाटे आनी तरणाट्यो थंय येतात. तर्णधाकुट्यो आकर्शक दिससारके तरेन सजून येतात आनी खिणा मजगतीं जुवानघराचो ताबो घेतात. जुवानांचीं हांतुणां घालप, तांची जेवणाची व्यवस्था करप, तांकां सोरो दिवपाचें काम करप बी कामां ह्यो तर्ण-धाकुट्यो करतात. सोरो पोटांत वतकीर थंय एक मेकळें वातावरण निर्माण जाता. गाण्यांतल्यान सवाल-जवाब सुरू जातात. जाल्यारूय, समाजाची रीत हुपून मस्ती करतल्याची थंय गय जायना. ताची ब्रच्छना जाता. ताणें रितीचे प्रथेचो भंग केल्लो आसता, ताचेर भस्टकार पडटा.

### जुवानघराचें कार्य

जुवानघर हें आदिवासी समाजाचें म्हाल-मुखेल केंद्र मानतात. वादन, गायन, नाच हाका लागून जुवानघरांतली जीण आनंदान आनी चैतन्यान भरिल्ली आसता. चैतन्यान भरिल्ली जीण जियेता जियेतांच जुवान पिळगेक आदिवासींचे संस्कृतीचें दायज कशें राखून दवरचें, हाचीय थंय शिकवण मेळटा. तर्णधाकुटे आनी तर्णधाकुट्यो हांच्या मिलनाचें केंद्र जावपी जुवानघरांत, समाजाक उपकरा पडसारकीं कितलीं तरी कार्यां जातात.

जिवाची करमणूक करप हेंच जुवानघराचें कार्य न्हय. नवे पिळगेक घडोवपाचेंय काम थंय जाता. नवे पिळगेक शिक्षण दिवपाचें काम थंयचे म्हालगडे करतात. ते आपले जिणेंतले अनुभव सांगता सांगतांच धालगड्यांक ज्ञान दितात. ते धालगड्यांकडल्यान कस्टांचीं सगळीं कामां करून घेतात. ते रांदपाखातीर जोळोव एकठांय करतात. हेवटेन तेवटेन निरोप

धाडपाचें काम करतात. म्हालगड्यांच्या आज्ञांक पाळो दितां दिताच तांकां जमातीचे संस्कृतीची वळख मेळटा. समाजाच्यो परंपरा, प्रथा, चालीरिती ते हांगाच शिकतात आनी मुखावेले जिणेक मुस्तायक जातात. जुवानघर म्हळ्यार, आदिवासींचे नवे पिळगेचेर सामाजिक, धार्मिक आनी सांस्कृतिक संस्कार घडोवपी संस्था.

योग्य वेळार तर्णधाकुटे आनी तर्णधाकुट्यो जुवानघरांत एकठांय येतात. एकठांय आयिल्ल्यान तांच्यांत आपलेपण निर्माण जाता. एकवटाची भावना दृढ जाता. आमी सगळे एकाच जमातीचे आसात, एकाच जुवानघरांत व्हड जातात, हे भावनेन तांच्यांत एकचाराची भावना बळावता आनी ताका लागून जमातींत एकवट आनी वांगड-भावनेची बुनयाद घट्ट जाता.

तर्णधाकुटे आनी तर्णधाकुट्यो हांकां, हांगा एकठांय येवपाची संद मेळिल्ल्यान, जिणेचो वांगडी वेंचून काडपाक तांकां जमता. सहवासान प्रेम निर्माण जाता. एकामेकांच्या स्वभावाची, आवडी-निवडीची, वृत्ती-प्रवृत्तींची वळख मेळटा. परिचयांतल्यान मोग वाडटा. ह्या मोगांतल्यान तांगेलो मुखावयलो प्रवास सुरू जाता.

जुवानपणाच्या हुंबऱ्यार आसपी तर्णधाकुटे आनी तर्णधाकुट्यो, हांकां एकामेकांचें आकर्शण आसता. जाल्यारूय, लैंगिक जुंवळके संबंदान तांकां तितलीशी खबर नासता. जुवानघरांतले म्हालगडे नाचपांतल्यान, कथांतल्यान (काणयांतल्यान) सवाल-जबाबांतल्यान धालगड्यांक ही माहिती दितात. तरी जुवानघरांत संभोगक्रिया जावं नये म्हणून अत्यंत जतनाय घेतात. भुरगीं न जावपाखातीर सुरक्षित काळ पळोवन ते लैंगिक सूख घेतात. ह्या सुखांतल्यान भुरगीं जन्माक येवं नये म्हणून, मुडिया गोंड यज्ञ आनी प्रार्थना करतात.

आर्थिक कार्य हें जुवानघरांचें सगळ्यांक व्हडलें अशें मोलादिक कार्य म्हळ्यार जाता. जमातींतल्या खंयच्याय मनशाक आर्थिक क्रियेंत पालव दिवपाक, जुवानघरां आपली लागणूक मानतात. कसप, बीं ओपप, नडणी, मळणी, लग्नकार्य, घर बांदप, झाडां तोडप, व्हडली शिकार करप, अंत्ययात्रेक हातभार लावप बी आर्थिक क्रियेंत जुवानघरांतले तर्णधाकुटे आनी तर्णधाकुट्यो मनापसून आपली जापसालदारकी उखलतात. धार्मिक धबाजांत तांचो पालव मोलादिक जाता. तर्णधाकुट्यो दोणे, पत्रावळी करून जेवणाची व्यवस्था करतात. तांदळांचो सोरो तयार करतात. बोंदो जमातींतलीं जुवानघरां सामाजिक जिणेचेर नियंत्रण दवरतात. आर्थिक वेव्हार तत्परतायेन पूर्ण करतात.

आदिवासींचे जिणेक जुवानघरांनी एक थिराय दिली. आदिवासी संस्कृती तांकां लागून तगून उल्ली. जाल्यारूय, आज जुवानघरां पाड पडत आयल्यांत. आदिवासींच्या जुवानघरांचेर तांच्या खेड्यांचो तरतर आधारून आशिल्लो. हाचेवेल्यान जुवानघरांचें कार्य कितलें मोलादिक आसतालें म्हणपाचें कळटा. सरकारी कारभाराक लागून हीं जुवानघरां फाटीं पडूंक लागल्यांत. शाळेंत वचपी भुरगीं जुवानघरांनी वचनात. किरिस्तांव मिशनऱ्यांनी आदिवासी जुवानघरांचें मोल उणें केलें. हाचो परिणाम म्हणून, सामाजिक, धार्मिक वा आर्थिक पालव दिवन, जबाबदार नागरीक निर्माण करपी हीं जुवानघरां ना जावंक लागल्यांत. ह्या संस्थाचो जागो घेवपी दुसऱ्यो संस्था उदेवाक येवंक नात. आदिवासींची पुनर्रचणूक करपाखातीर, जुवानघरांचेर परत विचार करपाची गरज आसा.

### आदिवासींचें लग्न

आदिवासींत पुताक होंकल सोदून काडटना, होंकलेच्या बापायक पयशे दिवंचे पडटात. बापूय जितलो गरीब, तितलें होंकलेचें मोल चड. जाल्यारूय, आदिवासींची लग्नाकडेन पळोवपाची नदर खाजगत नासता. तांचे नदरेन लग्न हें दोन घरांक जोडपी मायेचो पास आसता.

लग्नाक लागून घोवा बायलेचेच संबंध घट जातात अशें न्हय, तर दोनय कुटुंबां, गांव, कुळां मोगाच्या सासणाच्या पासान बांदून उरतात. लग्नाक लागून दोन घराण्यांत निर्माण जाल्ले मायेचे संबंध सासणाचे उरचे, अशीच इत्सा बायल आनी घोव हांच्या कुटुंबांतल्या मनशांची आसता. देखून, देर आनी भावज, मेवणो आनी मेवणी हांचेभितर लग्नां जावंचेलें हें एक मुखेल कारण आसा. लग्न ही जाची ताची खाजगत बाब आसा, हो आर्विल्लो विचार आदिवासी समाजांत दिसना. आपल्या पोंव्यांत वा समाजांत एकवट निर्माण करप होच आदिवासींचो लग्नाकडेन पळोवपाचो हेतू आसा.

## लग्न - एक करार

लग्न हो धर्मसंस्कार अशे हिंदू मानतात. आदिवासी तशें मानिनात. आदिवासी लग्नाक दोन कुटुंबां एकठांय हाडपी एक करार मानतात.

लग्न जरी करार मानलो, तरी आपली होंकल आपणेंच वेंचून काडपाची पूर्ण स्वतंत्रताय नासता. तर्णधाकुट्यान आपली सांगातीण कशी वेंचून काडची, हेखातीर आदिवासी जमातींत कांय बंधनां आसात. न्हवऱ्याचें वय होंकलेपरस चड आसचें, ही सगळ्या समाजांत रूढ आशिल्ली चाल, आदिवासी जमातींतय रूढ आसा. आसामांतल्या बोंदो वा यवतमाळांतल्या कोलाम जमातींत होंकल न्हवऱ्यापरस वयान व्हड आसल्यार उपकरता. संथाल जमातींत वयाचें बंधन ना. सामान्यतायेन घोव बायलेपरस वयान जाण्टो आसचो अशें ते मानतात. खंयच्या तर्णधाकुट्यान खंयचे तर्णधाकुटेकडेन लग्न जावंचें, हे संबंधान कांय नेम आसात. आदिवासी समाजांत कुटुंब, कुळ, खऱ्या आनी काल्पनिक रगताच्या संबंधांचेर आधारून आशिल्ले पंगड (गट) आसात. लग्न जावपी होरेत (न्हवरो आनी होंकल) एकाच पंगडांतले आसचे, असो जर नेम आसत, तर ह्या लग्नाक आंतरलग्नाचें बंधन (Endogamy) म्हणटात. लग्न जावपी होरेत वेगवेगळ्या पंगडांतले आसचे, असो नेम आसल्यार ह्या लग्नाक भायल्या पंगडाचें बंधन (Exogamy) अशें म्हणटात. नात्यांतल्या नात्यांतय लग्न करपाचे नेम, हेर समाजावरी आदिवासींतय आसतात. ह्या सगळ्या नेमांक ते यथायुक्त पाळो दितात. ह्या नेमांचो भंग करतल्यांक ते ख्यास्त दितात.

लग्न हो करार जाल्ल्यान आदिवासी जमाती लग्न सोंपेपणीं मोडटात. चडशा आदिवासींत लग्नमोडीक मान्यताय आसता. थारायल्ले रितीन प्रत्येक जमातीक लग्न-मोड करपाची प्रथा आसा.

## लग्नापयले वा लग्नाउपरांतचे लैंगिक संबंध

आदिवासी समाजांतल्या, लग्नापयल्या वा लग्ना उपरांतच्या लैंगिक संबंधांकडेन पळोवपाची नदर समजून घेवपाक जाय. लग्नापयलीं होंकल आंकवार आसुंकूच जाय, अशें तांकां दिसना. कोण्याक नागांत लग्नापयल्या संबंधांतल्यान जन्माक आयिल्ल्या भुरग्यांक घेवनच, होंकलेक घोवाच्या घरा वचूंक मेळटा. तें भुरगें आपल्याक लागून जावंक ना म्हणपाचें घोवाक खबर आसता. जाल्यारूय, त्या भुरग्याक लागून, घोवाच्या घरांत कसलींच झगडीं जायनात. मध्य भारतांतल्या आदिवासींत लग्नापयल्या संबंधांक लागून, एकाद्रे धुवेक दीस गेल्ले आसल्यार, ती बाब ते गंभीर मानिनात. मात लग्न जाल्ले बायलेन केल्ली शिंदळकी तांकां सोंसना.

लग्ना उपरांत बायलेन घोवाकडेन एकनिस्ठ रावंकच जाय. हीच अपेक्षा सगळ्या आदिवासी समाजांत आसा. मरिया जमातींत शिंदळकी केल्यार, ते तिचो खून करतात. कांय जमाती आडवाद आसात. थारू जमातींत एकाद्रया घोवाची बायल जर सुंदर आसत, तर तो तिच्या मोहांत सामको घुस्पता. तिणें शिंदळकी केल्यार पसून, तो ती शिंदळकी दोळ्यांआड

करता. खासा जमातींत, बायल घोवाच्या घरा आसतना, तिणें घोवाकडेन एकनिस्ठ रावंक जाय म्हणपाचो दंडक आसा. ती आपले आवयगेर म्हळ्यार कुळार वतकीर मात हो दंडक नासता. हे आडवाद सोडले जाल्यार चडशो आदिवासी जमाती लग्नाभायले संबंध सोंसून घेनात.

आदिवासींची लग्नसंस्था हेर समाजांचे लग्नसंस्थेपरस मात्शी वेगळी आसता. लग्न ही जाची ताची खाजगत बाब, हो आर्विल्लो विचार तांकां निखालस मान्य ना. लग्नाक लागून दोन मनशांच्या मिलनापरस दोन कुटुंबां, दोन कुळां, दोन गांव एकठांय येतात, हाचेंच मोल तांकां चड दिसता. देखून, लग्न हें सामाजिक बंधन, हाचेर तांचो गाढ विस्वास आसा.

### आदिवासी समाजांतलीं लग्नबंधनां

१) आंतरलग्नाचें बंधन (Rules of Endogamy)
२) बहिर्लग्नाचें बंधन (Rules of Exogamy)
३) अधिमान्य लग्नबंधन (Preferential Mating)

आदिवासी समाजांत लग्नाच्यो चाली आसात त्यो अशो : अ) जमात आंतरलग्न, ब) प्रदेश आंतरलग्न, क) गांव आंतरलग्न, ड) विभाग आंतरलग्न, इ) कुटुंब आंतरलग्न.

### बहिर्लग्नाचीं बंधनां

आंतरलग्नांत पंगड पंगडांत लग्नां जातात. बहिर्लग्नांत वेगळ्या वेगळ्या पंगडांत लग्नां जातात. हिंदू धर्मांत जशे एका प्रवराच्या, सगोत्र, सपिंड लग्नाक मान्यताय नासता, तेचपरी एकाच पंगडांतल्या न्हवऱ्याक आनी होंकलेक लग्न करूंक मेळना.

**कुटुंबाभायर लग्न :** आदिवासी जमाती कुटुंबांभितर लग्न करिनात. अशा लग्नाक ते आडमेळीं हाडटात. आदिवासी समाजांत अशें लग्न आडवारलेलें आसता. कुटुंबांत एकाच रगताचें नातें आशिल्ल्यान, एकाच कुटुंबांतल्या मनशाकडेन दवरलेल्या लैंगिक संबंधांक ते शिंदळकी मानतात. तेचपरी एका कुळांतल्या मनशाकडेन लग्न जावपाक तांकां मानना. अशें लग्न ते निशिद्ध मानतात. कुळ हें खंयच्याय तरी एका पुर्वजाक लागून जन्माक आयिल्ल्यान कुळांतल्या मनशां मजगतीं रगताचें नातें आसा, अशें ते मानतात. देखून, लग्न जावपी होंकल आनी न्हवरो हीं दोगांय वेगळ्या वेगळ्या कुळांतलीं आसचीं पडटात.

हीच परिस्थिती गांवासंबंधांतय आसता. आदिवासी चड करून दुर्गम भागांत राविल्ल्यान, तांच्यांत एकमेकांचें रगत आसा, अशें ते मानतात. देखून, एकाच गांवांत जन्माक आयिल्ल्या तर्णधाकुट्यान त्याच गांवांतले तर्णधाकुटेकडेन लग्न करूंक जायना अशें ते मानीत आयल्यात. हाका लागून, एकाच गांवांतले तर्णधाकुटे त्याच गांवांतले तर्णधाकुटेकडेन लग्न करिनात. पश्चिम भारतांतले भिल्ल जमातींत आनी मुंडा जमातींत ही चाल चड घोळटा. ओरिसांतले बोंदी लोकांच्या गितांतल्यान लग्नाच्या हे चालीचो उल्लेख मेळटा. एका गांवांतले तर्णधाकुटे आनी दुसऱ्या गांवांतल्यो तर्णधाकुट्यो एकठांय येवन गीत म्हणटात. तर्णधाकुटे सांगतात : 'पारविणींनो, त्या तुमच्या फोंडाऱ्या सारक्या गांवांतल्यान, उर्बेन भरिल्ल्या आमच्या गांवांत येयात. आमचो गांव झाडा-पेडांनी भरिल्लो आसा आनी निजाचे सुंदरकायेन भल्ला. आमच्या गांवांची तुमी शीम हुपात आनी तुमी आमच्या गांवांतल्योच जायात.' मागीर तर्णधाकुट्यो जाप दितात : 'तुमच्या खेड्यांत येवन तुमची जीण आमी आनंदान भरतलीं. तुमच्या गांवांतलो पर्वत आमी हुपतलीं. तुमचेच खातीर आमी तुमच्या गांवांत येतलीं आनी पयलेच खेपो तुमकां चलो-भुरगो दितलीं.'

जांचें देवक (Totem) एक आसा, तेय एका देवकांतल्यान धुवांकडेन वा पुतांकडेन लग्न जायनात. नात्यापात्यांत लग्न करपाची चाल आदिवासींत आसा. ही चाल अशी :

१) आते मामे भावंडांचें लग्न
२) बापोल वा मावस भावंडांचें लग्न
३) देर भावज लग्न
४) मेवणो मेवणी लग्न.

आतेभाव मामेभयणीकडेन लग्न जाता, तेचपरी मामेभाव आतेभयणीकडेन लग्न जाता. धवाड्यांतय ही चाल आसा. मामाचे चलयेकडेन लग्न जावंचेली चाल सगळ्या जातींत आनी जमातींत मेळटा. मामेभयणीकडेन लग्न जावंचेली चाल, घडये मातृसत्ताक परंपरेची आजुनय उरिल्ली एक नाट आसुंये.

देर भावजेचें लग्न आदिवासी जमातींतच आसा अशें न्हय. वेदिकांतय तें आशिल्लें. विधवा जाल्ली बायल आपल्या देराक रातीचो आपल्या हांतुणार आपयता, असो उल्लेख ऋग्वेदांत आसा (ऋ १०.४०.२). यमअंतेष्टिसुक्तांत म्हळां : 'हे विधवे, लोकांच्या आगऱ्याक लागून, घोवाच्या प्रेता म्हऱ्यांतल्यान उठून तूं हांगा यो. तुजो देर तुजेकडेन लग्न जावंक सोदता.' (ऋ १०.१८.८) अथर्ववेदांतय देरा भावजेच्या लग्नाचो उल्लेख (अ.१८.३.२) मेळटा.

देर भावजेच्या लग्नाची चाल चलतासतनाच, महाभारतांत भौन भौन नियोगाची प्रथा मेळटा. होंकलेचें लग्न एका विशिश्ट न्हवऱ्याकडेन जाता, हें खरें. तेचपरी तिका घोवाच्या कुळांत दितात (गौतम-धर्मसूत्र २.१०.२७) हेंय तितलेंच खरें. कुटुंबांचें थिरावत (इस्टेट) कुटुंबांतच उरची, अशी हाच्या फाटल्यान भावना आशिल्ली जावंये. तेचपरी, कुटुंबांत लग्न जाल्ली बायल परक्याच्या घरांत वचूं नये, अशीय एक भावना आसुंये. घोव प्रजोत्पादन करपाक समर्थ नासल्यार वा भुरगीं जावंचे पयलींच तो भायर पडल्यार, ताचे बायलेन वा विधवेन नियोगाच्या मार्गान भुरगीं निर्माण करचीं, चडांत चड म्हळ्यार तीन भुरगीं जायसर, नियोग आपणावचो, अशी चाल आसली. नियोग करप तो पसून घोवाच्या भावाकडल्यान वा घोवाच्या कुटुंबांतल्या वा हेर नात्यांतल्या दादल्याकडल्यान. नियोगाचे अशे नेम महाभारताच्या काळांत आशिल्ले. 'नारी तु पत्यभावे वै देवरं वृणुते पतिम्' (महाभारत : १३.१२.१०). महाभारतांतले कितले तरी झुजपी वीर नियोगपद्धतीन जन्मल्यात. हाचो हातावेलो परिणाम असो जालो की, देर भावजेकडेन वा भावज देराकडेन संभोगाचे नदरेन पळोवंक लागली. घराघरांत शिंदळकी मातली. हाचे पाडे परिणाम दिसूंक लागतकीर, कांय समाज निवळावपी हे प्रथेक विरोध करूंक लागले. आपस्तंभ आनी बौधायन ह्या कामाक मुखार सल्ले. मनून ह्या आचाराक पशुधर्म (९.६६) म्हळो. क्रिस्तापयलीं चवथ्या शेंकड्यासावन, क्रिस्ता उपरांतच्या दुसऱ्या शेंकड्यामेरेन नियोगपद्धतीचें गुणगान करतल्यांनी, सुधारक स्मृतिकारांच्या निशेधाक दाद दिली ना. मुखार मात ही चाल फाटीं पडूंक लागली आनी सव्या शेंकड्याच्या सुमाराक ती पूर्ण ना जाली.

नियोगाची प्रथा बंद पडली, तरी देर भावजेच्या लग्नाची चाल उल्ली. जेठाणी वा होनी ही व्हडल्या भावाची बायल. तिचो घोव मरतकीर धाकलो देव तिचेकडेन लग्न जातालो. गुजरातेंत चालू आशिल्ले हे प्रथेक 'दियेर वटूं' म्हणटात. देर भावजेमदले लैंगिक संबंध ऋग्वेदकाळापासून चलत आयल्यात. बंगालांत तर हे संबंध चित्तवृत्ती प्रक्षुब्ध करून सोडपी आसतात. आपल्या तोंडाक सोऱ्याचो वास येत जाल्यार सांगपाक, एक बायल आपल्या घोवाहुजीर, मातय बाडगनासतना, देराच्या ओठांचो बेधडक उमो घेता (गाथासप्तशती, गाथा ८६६, पा. ५३३). नियोग पद्धतीक लागून जशी भावज देराकडेन घोवाचे भावनेन पळोवंक लागली, तशीच गजाल हेय चालीक लागून घडली. देर भावजेच्या लैंगिक संबंधान घराघरांत शिंदळकेक ओतो आयलो. खंयचीय प्रथा अती जातकीर तिचेर आघात जाता. आघात जावन जावन

ही चाल बंद पडली. आज खंयूय चुकून अशे संबंध आसूं येत.

आदिवासींच्या कांय जमातींत एकच लग्न करचेली चाल आसा. अंदमान जुंव्यावेले आदिवासी एकच लग्न करतात. शिंदळकेक ते पाप मानतात. मुंडा कोळी जमातींत एका दादल्यान चड बायलांकडेन लग्न केल्यार ताची ते ब्रच्छना करतात. निलगिरी पर्वतावेले बदग, उत्तर आसामांतले नागा, बिहारांतले संथाळ, केरळांतले कादर वा मलपंतरम ह्यो जमाती बायलांच्या चारित्र्याक खूप म्हत्व दितात. आदिवासी जमातींत होंकल-मोल वा मांव-दक्षणा दिवपाची चाल आशिल्ल्यान महाराष्ट्रांतल्यो चडांत चड आदिवासी जमाती एकच लग्न करतात.

एकापरस चड बायलो करपाची मेकळीक आदिवासी जमातींतल्या दादल्यांक आसा. आदिवासींत पयली बायल बलायकेस्त नासल्यार आनी तिका लागून पूत जाल्लो नासल्यार दुसरें लग्न करूंक मेळटा.

एका परस चड बायलो करपाची चाल, संवसारांतल्या कांय आदिवासी जमातींत आसा. अशीं लग्नां दोन कारणांक लागून जाता : १) प्रतिस्ठा आनी २) आर्थिक कारण.

**प्रतिस्ठेचें लक्षण :** कांय आदिवासी जमातींत चड बायलां करप हें प्रतिस्ठेचें लक्षण मानतात. आदिवासींत होंकलेचें मोल वा मांवदक्षणा दिवंची पडटा. जाका ही मांव-दक्षणा दिवपाची तांक आसता तोच चड बायलो करता.

**आर्थिक कारण :** जंय बायलांची संख्या दादल्यांपरस चड आसा, थंयच चड बायलो करपाची चाल आसता, हें फट. चड बायलो करपाचे चालीफाटल्यान आर्थिक कारणय आसता. आदिवासींची जीण ही कस्टांची जीण. अत्यंत दुर्गम भागांत ते रावतात. तांचे कस्ट उखलपाक चड हातांची गरज आसता. हाका लागून आदिवासी जमातींत दादलो एकापरस चड बायलो करता.

**चड घोव करचेली पद्धत (Polyandry)**

जेन्ना एक बायल दोन वा तीन दादल्यांकडेन लग्न जाता, तेन्ना हे पद्धतीक भोवपतित्व पद्धत म्हणटात.

ह्या लग्नांत दोन उपप्रकार आसात : भ्रातृ-भोवपतित्व आनी अभ्रातृ-भोवपतित्व.

महाभारतांतले द्रौपदीवरी भावभावांकडेन केल्लें लग्न हें भ्रातृ-भोवपतित्व. ह्या प्रकारांत घोवांचें एकमेकांकडलें नातें भावा भावांचें आसता. आसामांतले खासा जमातींत हो प्रकार आशिल्लो. आज ना. डेहराडून जिल्ह्यांतल्या जाक्सर बावर आनी टेहरी गढवालांतल्या खाइ आनी जौनपूर परगण्यापुरतोच हो प्रकार आतां उल्ला. म्हैसुराक लागशिल्ल्या तोडा जमातींत चड घोव (तेय भाव भाव) करचेली प्रथा आसा.

केरळांतले इरवन जमातीच्या पितृपरंपरेंतल्या कुटुंबांतय भावभावांकडेन लग्न जावंचेली प्रथा आसा. ह्या कुटुंबांत व्हडल्या भावाचें स्थान म्हत्वाचें आसता. फकत व्हडल्या भावाचेंच लग्न जाता. लग्नाच्या वेळार सगळे भाव एके वळींत बसतात आनी तांकां दूद दिल्या उपरांत लग्नविधी पूर्ण जाता. तातुंतल्या खंयच्याय भावाक वेगळें लग्न करूंक मेळना. तसो कोणेंय यत्न केल्यार, तो फळादीक जावंक दिनात.

भावभाव नाशिल्ल्या वेगळ्या दादल्यांकडेन एक बायल लग्न जाता. तेन्ना अभ्रातृ-भोवपतित्वाचो प्रकार जाता. हे वेगळे वेगळे दादले एकामेकांच्या नात्यांतले नासतात. केरळांतले नायर जमातीं आनी उत्तर ध्रुवाकडल्या एस्किमोंत, भाव भाव नाशिल्ल्या वेगळ्या वेगळ्या दादल्यांकडेन लग्न जावंचेली प्रथा आसा. भाव भाव न्हय अशा वेगळ्या वेगळ्या दादल्यांकडेन लग्न करपाची प्रथा, केरळांतल्या नायर जमातींत आशिल्ली. जाल्यारूय, हे घोव एकाच

'इनंगु'तले आसताले. ज्या कुटुंबांत सामाजिक आनी आर्थिक परस्परसंबंध आसतात, त्या कुटुंबाच्या गटाक 'इनंगु' म्हणटात.

भ्रातृ-भोवपतित्व आनी अभ्रातृ-भोवपतित्व हे दोनूय उपप्रकार मातृप्रधान आनी पितृप्रधान कुटुंबांतय रूढ आसतात. तोडा आनी खासी जमातींत पितृसत्ताक परंपरा आसा, तर केरळांतल्या आनी मन्नर जमातींत मातृसत्ताक परंपरा आसा. भातृ-भोवपतित्व प्रकारांत बायलेचे सगळे घोव भाव भाव आशिल्ल्यान, सगळे एकाच घरांत रावतात. हाका लागून बायल लग्ना उपरांत तांच्याच घरांत रावपाक वता. अभ्रातृ-भोवपतित्वांत बायलेचे घोव एकमेकांच्या नात्यांतले नासतात. तांचो राबितो वेगळ्या वेगळ्या जाग्यार आसता. अशा वेळार बायल आपल्याच घरांत रावता आनी तिचे घोव तिचेसरीं आळीपाळीन येतात.

दादल्यांच्या संख्येच्या मानान बायलांची संख्या चड आसता, तेच जमातींत भोव-पतित्वाची चाल आसता. हाच्या फाटल्यान आर्थिक कारणय आसा. खासा बायलेक चड राखण जाय आशिल्ल्यान, ती भोवपतित्व पसंत करता.

खासी कुटुंबाकडेन जमीन साप्प ल्हान आसता. प्रत्येक भावान लग्न जावन, आपलें वेगळें बिराड केलें जाल्यार, साप्प ल्हान जमनीचे आनीक कुडके जावपाचो संभव आसता. भोवपतित्वाक लागून जमनीचे कुडके कुडके जायनासतना, सगळे भाव एकठांय रावतात. चुकीसारक्या लोकांची आनी एस्किमोंची आर्थिक जीण कठीण आनी संघर्शाची आसता. ताका लागून, तांकां स्वतंत्र तरेन जीण जियेवपाक जमना वा तांकना. ताका लागून, रगताचें नातें नासुनय, सगळे जाण इश्ट कशे एकठांय येवन, एकेच बायलेकडेन लग्न करतात.

## आदिवासींचें शिक्षण

गोदावरी परुळेकर हिणें वारल्यांत एक जागृताय निर्माण केल्या. कोसबाडाक अनुताई वाघ आनी ताराबाई मोडक हांणी आदिवासींक शिक्षण दिवपाचो वावर केला. जाल्यारूय, हें शिक्षण तांकां तांचे आवयभाशेंतल्यान मेळूंक ना. प्रत्येक भुरग्याक मुळावें शिक्षण आपले आवयभाशेंतल्यान मेळपाक जाय, अशें आयचे शिक्षणशास्त्री मानतात. देखून, आदिवासींकय मुळावें शिक्षण तांचे बोलींत वा भाशेंत दिवपाक जाय. तांचे भाशेक लिपी नासल्यार ती दिवंक जाय. तांच्या आचार-विचारांचो, तांच्या नाच-गाण्यांचो, तांच्या चाली-रितींचो अभ्यास करून, तांकां शिक्षण मेळूंक जाय. ह्या शिक्षणान तांच्या ओठांवयलो निर्मळ आनी भावार्थी हांसो ना जावंक जायना आनी आपल्या चाली-रितींची तांकां लज दिसूंक जायना.

मुळावें शिक्षण तांचे भाशेंत दितकीर, ताचे फुडलें शिक्षण तांच्या वाटारांतले भाशेन तांकां मेळूंक जाय. उपरांत तांकां इंग्लेज भाशेचें ज्ञान दीत तांकां संवसाराची वळख करून दिवंक जाय.

भारताच्या स्वातंत्र्या उपरांत आदिवासींखातीर शिक्षणाची जशी आंखणी जावंक जाय आशिल्ली, तशी आंखणी जावंक पावलीना. आज तांच्यो भासो ना जावपाकडेन पावल्यात. स्वातंत्र्या उपरांतच्या ४७ वर्सांत एक एक करीत, आमच्या देशांतल्यो ७० ते ८० भासो प्रमाण भाशेच्या नांवासकयल ना करीत हाडल्यात. ही चिंता भारतीय भासांचो अभ्यास करपी डॉ. गणेश देवी हांणी उकती केल्या. भास ही संस्कृतीकडेन लग्निक आसा. एक भास ना करप म्हळ्यार, ती संस्कृती ना करप. (आदिभाषा मोडींत निघत आहेत हे अधिक चिंताजनक – डॉ. गणेश देवी, महाराष्ट्र टायम्स्, अंक ३१४, वर्स ३२, ता. ३० एप्रील, १९९४, पा. ६).

आधारावळ :

१) भारतीय आदिवासी, लेखक : गुरुनाथ नाडगोंडे
२) ऋग्वेद

३) गाथा सप्तशती, प्रस्तावना, लेखक : स. आ. जोगळेकर, पानां १५०-१५१.

**आदिशक्ति** । आदिशक्ती । सा.रू. –क्ती । (सं. आदिशक्ति ) स्त्री. १. आदिवासींक आपली आदिमाता पृथ्वी हिचें भाविल्लें शक्तिरूप. २. अनार्यांच्या वा अवेदिकांच्या मातृदेवतांतल्यान उदेवाक आयिल्ल्यो शक्तिदेवता. ३. शाक्त संप्रदायाचे उपासनेचें सर्वस्रेस्ठ दैवत.

**विशेश :** आदिमातेंतल्यान व मातृदेवतांतल्यान शक्तिदेवता वा आदिशक्ती उदेवाक आयल्यात.

पृथ्वीच्या विराट स्वरुपाचें भान आदिवासींक आनी अनार्य जमातींकच पयलीं भावलें. तातुंतल्यान आदिशक्तिचो उदेव जालो. पृथ्वीच्या गर्भांत उत्तर दक्षिण असो लोहचुंबकाचो एक प्रचंड पट्टो आसा. अन्नाच्या सोदाखातीर जेन्ना आदिवासी आनी अनार्य (अवेदिक) रानावनांतल्यान भोंवताले, तेन्नाच पृथ्वीची ही चुंबकी शक्ती तांकां अद्दश्यरुपान जाणवली जातली. ही शक्ती जाणवतकीर सुरवातीक तांकां भंय दिसलो जावंये.

अन्न आनी राखण ही मनशाची गरज. हे गरजेंतल्यान आपल्याक भाविल्ल्या शक्तिची, आदिशक्तिच्या रुपान, तांणी उपासना सुरू केली जातली आनी तिकाच आपली राखणायत देवता मानल्या जातली.

आदिवासींनी आपले शक्तीदेवतेक नांव दिवंक ना. आदिवासी शिल्पिकांनी, ती जशी तांकां भावली, तशीच तिची म्हूर्त घडयल्या. ही म्हूर्त नाजूक, नकसूद ना. ती ठसठशीत आसा. शिल्पाक व्हडलोसो आकार ना, पूण शक्तिभारान भरिल्लो आंगलोट आसा. ह्या शिल्पांतले देवतेन तलवार धारण केल्या. तिच्या हातांत कुंभ आसा, खांदार फोडा केल्लो सोरोप आसा, आनी तिचें वाहन, वाग आसा. (संदर्भ : मातावळ, लेखक : दत्तात्रय गणेश गोडसे, पा. ५१).

आदिवासींक आपली शक्तिदेवता भावली ती अशी. तिच्या हातांतलो कुंभ हो मातृगर्भाशयाचें म्हळ्यार सृजनाचें प्रतिक आसा. तिच्या हातांतली तलवार, ही तिच्या भक्तांची राखण करपाखातीर आसा आनी फोडा केल्लो सोरोप, हो तिचें पुरुशतत्व आसा. जशी तांणी तिची म्हूर्त घडयली, तेच परी गांवां गांवांनी पिंपळाच्या पेडार फातर दवरून, तिका ग्रामदेवतांच्या रुपान आपली राखणायत देवता म्हणून पुजली. हो फातोर केन्ना निखटोच फातोर आसतालो, तर केन्ना तो चुंबकाचे अद्दश्य शक्तीन भरिल्लो आसतालो.

### मातृप्रधान संस्कृती

जंय जंय कृषी संस्कृतीचो उदेव जाला, थंय थंय मनीस जमातीच्यो संवसाराकडेन लग्निक आशिल्ल्यो कल्पना, तांचें तत्त्वचिंतन, तांचे यात्वीक विधी हे सगळे स्त्रीप्रधान आसतात. ह्या समाजाची संस्कृती मातृप्रधान परंपरेंतली आसता. वेगळ्या वेगळ्या भौतिक पांवड्यांचेर आशिल्ल्या वेगळ्या वेगळ्या समाजांच्यो अध्यात्मिक कल्पना एकेच तरेच्यो आसतात.

भारतांत आशिल्ल्या 'तोडा' आनी 'खासी' ह्या जमातींची जीण अभ्यास करपासारकी आसा. निलगिरी प्रदेशांतली 'तोडा' ही जमात (Tribe) आजून गोरवां-राखणे अवस्तेंत आसा आनी हे जमातीची सामाजिक जीण पुरुशप्रधान आसा. वेदिक आर्यांचे जिणेकडेन तांचे जिणेची विलक्षण सारकाय आसा. 'खासी' जमातीची भौतिक जीण शेतीच्या मुळाव्या (नांगराचो सोद लागचे पयलींच्या) बसकरार आसा. ही जमात पूर्ण मातृप्रधान आसा. इजिप्त धरून सिंधू न्हंयेमेरेनच्या आवाठांत कितल्याशाच हजार वर्सांपयलीं कृषी संस्कृतीचो उदेव जालो. गोरवां राखणे अवस्तेंतल्यान हो समाज भायर आयिल्लो. देखून, ह्या सगळ्या आवाठांत एकाच वेळार मातृप्रधान समाजरचना उदेवाक आयली. ह्या लोकांच्या धर्मकल्पनाचेर स्त्रीप्रधान समाजरचनेचो छाप आसा.

ह्याच समाजांत स्त्री देवता आनी तांची मंत्र-तंत्रांचेर आधारलेली उपासना सुरू जाली. मुळावी कृषीसंस्कृती आनी स्त्री हांचो संबंध खूब लागशिल्लो आसा. स्त्रीच कृषीकडेन लग्निक आस.

वेदिक आर्यांची समाजरचना पुरुशप्रधान आशिल्ल्यान, पुरुशाक तांणी संवसाराचें आदितत्व मानलें. अवेदिकांची समाजरचना स्त्रीप्रधान आशिल्ल्यान, तांणी स्त्रीक संवसाराचें आदितत्व मानलें.

### शिव आनी शक्ती संप्रदाय

मातृदेवतांवरीच सिंधू संस्कृतीच्या मोडावळींत शिवाचें मूळ रूप पळोवंक मेळटा. शिवाक तीन तोंडां आसात. योगाचे ध्यानमुद्रेंत तो बशिल्लो आसा. ताच्या गळ्यांत त्रिकोनी माळो आसात. ताचे हात ताच्या मांड्यांर विसावल्यात. ताचें लिंग उर्ध्वलिंग आसा. माथ्याक शिंगां आशिल्लो टोप आसा. ताचे दोशींवटेन दोन दोन अशीं चार जनावरां वा पशू आसात. हत्ती आनी वाग ताचे उजवे वटेन आसात आनी गेंडो आनी रेडो दावे वटेन आसात.

शिवाक सदांच तिनमुखी दाखयला. केन्ना एक मुखाचो, तीन मुखांचो, चार वा पांच मुखांचो आनी तीन दोळ्यांचो दाखयला. शिवाची एक त्रिमुखी म्हूर्त मावंट आबूच्या लागसार आशिल्ल्या देवांगणच्या देवळाचे मोडावळींत मेळ्ळ्या.

अनार्य शिवाक आर्यांनी शिश्नदेव म्हणून उवेखला आनी शिस्नाची पुजा करपी म्हणून अनार्यांक हिणसायल्यात.

योगाचेंय मूळ अनार्यांत वा अवेदिकांतच मेळटा. अवेदिक शिव हो महायोगी आशिल्लो, तेचपरी तो पशुपतीय आशिल्लो. आर्यांचो रुद्रय पशुपतीच आशिल्लो. आर्यांची आनी अनार्यांची एकामेकांकडेन झुजां झुजून जाल्या उपरांत, आर्यांत तांचेकडेन एकचार करचो पडला. ह्याच काळार, म्हळ्यार श्वेताश्वेतर उपनिषदाच्या काळार, आर्यांनी अनार्य शिवाचो रुद्राकडेन सांगोड घालून, शिवाक म्हादेव म्हणून आपणायलो.

म्हादेवाची पुजा लिंगाच्या रुपान जाता. आर्यांत लिंगपुजा ना, असोय समज करून घेवंक मेळना. आर्यांचो ब्रह्मदेव हो प्रजापती. देखून लिंगदेव. विष्णू हो शिपिविष्ठ (म्हळ्यार जाचें लिंग ताठ जालां असो) म्हणून लिंगदेव. लिंगपुजेच्या विकासांतल्यान आर्यांची 'ब्रह्मा', 'विष्णू' आनी 'महेश' ही त्रिमूर्ती घडल्या जावंये, वा मेजोपोतामियेंतले त्रिमूर्तींचे संकल्पनेंतल्यान आर्यांची त्रिमूर्ती घडल्या जावंये. मेजोपोतामियेंत 'सीन', 'शमाश' आनी 'इश्तार' (Sin, Samash and Istaro) त्याचप्रमाण 'अनू', 'एनलील' आनी 'या' (Anu, Enlil and Ea) अशो त्रिमूर्ती आशिल्ल्यो.

अनार्य शिवाचें वेदिक रुद्राकडेन मिलन जातकीर, आर्यांत शाक्तपंथाचो उदेव जालो. आदिमातेची वा मातृदेवतेची शक्ती सृजनाचें सासणाचें तत्त्व (प्रकृती) म्हणून पुरुशतत्वाकडेन (संभोगाचें अद्वैत साधपाक) जुंवळली, तेन्नाच जगदंबा वा जगन्माता, हे संवसाराची निर्मणी करपी आदिशक्तिचो उदेव जालो. शिवाक जसो म्हादेव मानलो, तेचपरी तिका म्हादेवी मानली.

जगदंबा म्हळ्यार संवसाराची बा (आवय), ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश ह्या तिनय देवांकडेन तिका लग्निक केल्या.

केन उपनिषदांत 'उमा' (संवसाराक राखपी) ही देवी मेळटा. ह्या उपनिषदांत उमेचें वर्णन हिमवताची धूव भोवच सोबीत उमा (बहुशोभमाना उमा हैमवती) अशें केलां. उमेकच शिवाची बायल म्हळ्या. म्हादेव हें शिवाचेंच नांव. शिवाची पुजा लिंगरुपान जाता. श्वेताश्वेतर उपनिषदांत हाचो पुरावो मेळटा. 'जो एकलो दर एकल्या स्त्रीलिंगाचेर आनी सगळ्या रुपांच्या स्त्रीलिंगाचेर बसता' हें वाक्य पुरुशलिंग आनी

स्त्रीलिंग हांचें जुंवळप दाखयता, अशें डॉ. भांडारकर म्हणटात. महाभारताच्या अनुशासन पर्वाच्या १४व्या अध्यायांत म्हळां की, मनशां ज्या देवाच्या लिंगाची पुजा करतात, असो एकलोच देव म्हळ्यार म्हादेव. म्हादेव आनी उमा हीं दोगांच ह्या संवसारांतल्या जिवांचीं आवय-बापूय. ह्या दोगांच्योच कुरवो तांकां आसतात. शंक, चक्र वा हेर कोणाच देवाच्यो कुरवो तांकां नासतात. (संदर्भ: Vaisnavism-Saivism and other minor religious systems, by Ramakrishna Gopal Bhandarkar, page 158 आनी 'येवकार अध्यक्षालें उलोवप' ह्या पुस्तकांतलो 'अैन वेळार' हो निबंध, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ११६-११७).

महाभारताच्या भीष्मपर्वांत (अध्याय २३) दुर्गा ही देवी मेळटा. झुजांत जैत मेळपाखातीर, कृष्णान दुर्गेची प्रार्थना करपाक अर्जुनाक सांगलां. हे दुर्गेचीं वेगळीं वेगळीं नांवां मेळटात तीं अशीं : कुमारी, काली, कापाली, महाकाली, चंडी, कात्यायनी, कराला, विजया, कौशिकी, उमा, कांतारवासिनी बी. Vaisnavism-Saivism and other minor religious systems, by Ramakrishna Gopal Bhandarkar, page 203)

दुर्गेचीं वेगळीं वेगळीं जरी नांवां आसलीं, तरी तीं आद्यशक्ती वा महामाया आसा. मनशांच्या कल्याणाखातीर, वेळा वेळार तिणें तमोगुणी, सत्वगुणी आनी रजोगुणी अशीं तीन रुपां घेतल्यांत. म्हाकाली (महाकाली), म्हालक्षिमी (महालक्षिमी) आनी म्हासरस्वती (महासरस्वती) हीं तीं तीन रुपां. म्हाकाली ही तमोगुणी आसून, ती रुद्र-शिवाकडेन लग्निक आसा. म्हालक्षिमी ही सत्वगुणी आसून, तिका जगदंबा म्हळ्या आनी तिका विष्णूकडेन लग्निक केल्या. तिका 'नारायणी' अशेंय म्हणटात. म्हासरस्वती ही रजोगुणी आसून ती ब्रह्मदेवाकडेन लग्निक आसा. ही विद्येची देवता आसा. ह्या देवतांची महिमा सांगपी पुराणां उपरांत रचल्यांत.

बुद्धधर्माच्या महायान पंथांत शक्तिपुजेची प्रथा मेळटा. तारा, हारिती, वागीश्वरी, मारिची बी ह्यो बौद्धांच्यो शक्तिदेवता. ह्याच काळांत तांच्या विचारांचेर शाक्तमताचो प्रभाव जाणवता. शाक्तांच्या तंत्र-साधनेच्या पंचम 'म'कारांतलें मैथुन नागड्या दादल्या-बायलांचें आसतालें. देखून, बौद्ध शिल्पांत दादलो आनी बायल, एकमेकांक पूर्ण वेस्टिल्ल्या अवस्तेंतलीं कामशिल्पां मेळटात. (Kamashilp, by Francis Gesan, page 70.)

जैनांतय शक्तिपुजा मेळटा. जैनांच्या श्वेतांबर मतांत दर एक तीर्थंकाराची एक शक्तिदेवता आसा.

शक्तिउपासनेंतल्यान तंत्रसाधनेचो उदेव जालो. हे साधनेंत वामाचाराक म्हत्व आयलें. वामाचार म्हळ्यार स्त्रीप्रधान आचार. वामा म्हळ्यार स्त्री (अस्तुरी). हातुंतल्यान लतासाधना उदेवाक आयली. लतासाधना म्हळ्यार स्त्रीयोनीची पुजा.

तांत्रिकांची यंत्रपुजा म्हळ्यार प्रतिकरुपान केल्ली लतासाधना. यंत्र आनी चक्र म्हळ्यार योनीचेंच काडिल्लें चित्र.

तंत्रसाधनेंत देवतेची पुजा यंत्ररुपानच जावंची पडटा. हे यंत्रपुजेचे वा चक्रपुजेचे दोन प्रकार आसात : अंतर्याग आनी बहिर्याग. अंतर्यागांत कुंडलिनी जागृतायेची प्रक्रिया आसता आनी बहिर्यागांत यंत्ररुपान केल्ली योनिपुजा आसता.

तंत्रसाधनेचें दुसरें म्हत्वाचें वैशिश्ट्य म्हळ्यार 'पंचमकारा'न म्हळ्यार मद्य (सोरो), मांस, मत्स्य (नुस्तें), मुद्रा आनी विधियुक्त मैथुन हांणी केल्ली उपासना. ह्या मैथुनाक लागून त्रिपूरसुंदरीक (शीव आनी शक्ती) मोल आयलें. सुंदर बायलेक हाडून, तिची तांत्रिक योनिपूजा करपाक लागले. आठव्या शेंकड्या उपरांत हे तंत्रसाधनेची अधोगती जावन, ती पूर्ण कामाचारांत बुडून गेली.

**शक्तिकल्पनेच्या उदेवाचो मात्सोसो इतिहास**

वेदिक आर्यांचो अवेदिक अनार्यांकडेन एकचार जातकीर, तांणी अनार्य समाजाक तांच्या दैवतांसयत आपणायलो. आर्यांचे इंद्र, वरूण, अग्नि, आदित्य बी देव फाटीं पडून तांच्या देवतांची उपासना सुरू जाली. ऋग्वेदाच्या उत्तर काळांत (धाव्या मंडळांत) इंद्र, वरूण, अग्नि, त्वस्टा, पूपन आनी भग ह्या वेदिक पुरुशदेवांक कुशीक उडोवन, अंभृणी देवी हो सगळो संवसार आपणेंच निर्माण केला म्हणून सांगता (ऋ १०.१२५.१-८). ह्या देवांचो पूर्ण पराजय करीत, ती आपल्या नव्या संप्रदायाचें दर्शन घडयता. केन उपनिषदांत हीच देवी 'उमा हैमवती' म्हणून प्रगट जाता आनी आर्यांच्या पुरुशदेवाक ब्रह्मज्ञान सांगता. एके स्त्री देवतेन आर्यांच्या पुरुशदेवाक ब्रह्मज्ञान शिकोवप म्हळ्यार, आर्यांचे यज्ञसंस्कृतीचो पूर्ण पराभव करप. यज्ञसंस्कृतीकडेन ती खंयच्याच नात्यान लग्निक ना, जाल्यारूय, ती खासा आपणाकच 'यज्ञीयानाम् प्रथमा' म्हणोवन घेता. महाभारतांत हीच देवी दुर्गा जावन येता आनी तेन्नाच देवीची उपासना करपी संप्रदाय भारतभर फैलावता.

**शान्तीरुपी देवी**

डॉ. भांडारकरांक इतिहासीक नदरेन दुर्गेचीं तीन रुपां दिसतात. उमेचें शांतरूप हें पयलें रूप. ह्या रुपान तोखेवन ते तिका उपकारीक आनी व्हडविकेच्या लक्षणांची (beneficient and majestic character) अशें म्हणटात. दुसरें उग्ररूप. काली, चामुंडा, चंडी बी ह्या रुपाच्यो देवी. ह्याच पंगडांतली महिशासूर मर्दिनी. तिसरें चिटवाळें रूप. आनंदभैरवी, त्रिपुरसुंदरी आनी ललिता ह्यो देवी ह्या रुपाच्यो. हीच शांतरुपी 'उमा' शांतादुर्गा ह्या नांवान गोंयच्या गांवाकणकणीं नंदता आनी गोंयकारांक राखता. तिच्या उग्ररुपाचीं देवळां गोंयांत भोवच थोडीं आसात. बाळ्ळी गांवांत महिशासूर मर्दिनीचें एक देवूळ आसा. पूण तिकाय थंय सांतेरी आनी शांतादुर्गाच म्हणटात. (पळेयात : 'येवकार अध्यक्षांलें उलोवप' हांतुंतलो 'अैन वेळार' हो निबंध. बरो : शणै गोंयबाब, पा. ११३-११४). तिच्या चिटवाळ्या रुपाचें एक्कूय देवूळ गोंयांत ना.

सार सांगप म्हळ्यार, शक्तिदेवतेचे उपासनेचें मूळ, आदिमातेचे वा मातृदेवतेचे उपासनेंत आसा, तेच परी आदिमातेचे उपासनेचें मूळ योनिपुजेंत आसा.

**आधारावळ**

१. Mohenjodaro and Indus Civilization, by John Marshall.
२. प्राचीन व मध्ययुगीन धर्मकल्पना आणि मराठी संत, लेखक : स. रा. गाडगीळ.
३. शक्तिदेवता, भारतीय संस्कृतिकोश, खंड नववा, संपादक : पं. महादेवशास्त्री जोशी, पा. २०३-२०५).

**आदीन** । आदीन् । (सं. अधीन) क्रि.वि. १. ताबींत, हातांत, स्वाधीन (हें तुका दिवपाक म्हजे आदीन ना.) २. अवलंबून आशिल्लो. (तो म्हजे आदीन ना. तो स्वतंत्र आसा.)

**म्हणी :**

१. आपले आदीन आसा तें करता, ताका देव प्रसन्न जाता.

२. बरो आचार मरचे आदीं, मागीर ना तुजे आदीन.

**आदीवन** । आदीवन् । सा.रू. – ना (सं. आदिवंदन) न. पैलीं गणपतीक आनी उपरांत हेर देवांक केल्ली होरावणी, धर्मकार्याच्या आरंभाक, तें अडचणींविणें सायसंगीत जावंचें म्हणून, गणपतीक केल्लें आवाहन वा केल्ली गणेसपूजा, आदिनमन, पयलें नमन.

**विशेश :** आदिवन म्हळ्यार आदिनमन. धर्मउत्सव आडखळींविणें जावंचो म्हणून गणपतीक केल्लें पयलें नमन. हें नमन वा होरावणी 'नमस्कार करूं गा देवा गणपती' अशें म्हणत गायतात. सदांच गणपतीक पयलें

नमन करतात. उपरांत धर्ती मायेक करतात. ते उपरांत गांवच्या ग्रामदेवांक नमन करतात आनी निमाणें तेत्तिस कोटी देवांक नमन करतात.

जागराखातीर गांवच्या मांडार जल्म्यागेर 'नमस्कार करूं गा गणपती देवा हरि विठ्ठला' अशें म्हणत आदिवन घालतात. उपरांत देवळांत वा जे सुवातेर जागर जाता थंय परतून आदिवन घालून जागराक सुरवात करतात.

शिगम्याकय शिगम्याच्या मांडार आदिवन घालतात.

जागराचो वाद्यवृंद वांटकुळो बसता. मदीं सुवात सोडटात. आदिवन गावपीय वाजोवप्यां वांगडाय बसतात. वाद्यवृंदाकडेन घुमटां, दोन वा तीन झांजो, कांसाळीं, डोब बी वाद्यां आसतात. आदिवन गावन गणपतीक, ग्रामदेवांक, धर्ती मायेक आनी तेत्तिस कोटी देवांक होरायलेबगर, खंयचेंच सवंग माचयेर येना.

धर्मकार्याच्या आरंभाक केल्ली गणेसपूजा पसून आदिवनच आसता.

अंत्रुजेंतल्या कांय गांवांनी जागर जाता, थंय आदिवनांत गणपतीच्या जाग्यार आदिशेशाक पयलें नमन केल्लें मेळटा, अशें म्हणटात.

क्रिस्तांव भावांल्या जागरांतय आदिवन गायतात. 'आदिवन देवा गा बापा संतवंता । बापा आनी पुत्रा गा ईस्पिरीत सांता ।' अशें गायत ते मुखार 'कृपा दी गा बापा आदिचंदरा । खुरसा तुका नमन नमन' म्हणून ते देवाक होरायतात. ह्या आदिवनांत क्रिस्त स्वाम्याक आनी तागेल्या आपोस्तोलांक, तेच परी इगर्ज मातेक आनी भूंय मातेकय होरायतात.

**आदीं** । आदीं । (सं. आदि) क्रि.वि. पयलीं (म्हालगड्या आदीं धालगड्यान उलोवंक फावना.)

**वा.प्र.: शिताआदीं मीठ खावप :** कसलेंय काम करचे पयलीं फटासो मारप वा नगारो वाजोवप.

**म्हणी :** १ . आदीं देव मागीर जेव.

२. आदीं दों पेद्र, आतां पेद्रुलो.

३. आदीं हुमले नेण्टे आसले, आतां जाण्टे जाले, भायले तळयेर घोंटेर केले.

४. मिर्गाआदीं ओंपचें, बोबे आदीं पळचें.

५. म्हालगड्या आदीं धालगड्यान उलोवंक फावना.

६. शिकचें आदीं अवघड, शिकतकीर सोंपें.

७. आदीं अनना, मागीर तनना.

८. घरांत दिवो तर देवळांत दिवो, आदीं पोटोबा मागीर विठोबा.

**आदींच** । आदींच । (सं. आदि) क्रि.वि. पयलींच. (आरे, तें आदींच कळिल्लें जाल्यार येशकामतीचें रगत कसलें रे तें? – देमान्द : पुंडलीक नायक, पा. ४५).

**म्हणी :** १. आदींच बाय नाचरी, तातूंत पायांत बांदली घागरी.

२. आदींच बाय नाचरी, तिच्या पांयांक बांदली घागरी. (वृत्तीन चंचल आशिल्ल्या मनशाचे चंचलतायेक जेन्ना चड वाव दिवपी परिस्थिती मेळटा, तेन्ना ही म्हण उपकरायतात.)

३. हेंवाळ्याचें वीख देवान आदींच काडलां.

**आदूफ** । आदूफ, सा.रू. – फा; भौव. – फां; सा.रू. – फां (पुर्तु : Adufa ) न. जनेलाचे फास्केक उब्यो वा आडव्यो पट्ट्यो मारून, तांतूंत भिंगां वा सुळसुळीत केल्लीं करपां भरून केल्लो आडोस. (आसगांवचे इगर्जेचीं आदुफां १९१५ वर्सा सारकीं केलीं.)

**विशेश :** आदुफांचो खूब आदाव जाता. सुर्याचीं किर्णां एकदम भितर सरनासतना भिंगांचेर वा करपांचेर आपटतात आनी ताका लागून जनेलांतल्यान मंद आनी गोड उजवाड भितर सरता. भिंगांक वा करपांक लागून आडोस जाल्ल्यान जनेलांक भायल्यान पड्डो लावपाची गरज नासता. आज ही प्रथा फाटीं पडून जनेलांक हारशे लायतात. गोंयांत जे जे प्रवासी पावल्यात तांणी त्या आदुफांचो उल्लेख केला :

1673. Instead of glass, use panes of oyster-shells for their windows (which as they are cut in squares and polished) look graceful enough. Foyer, East India, pg. 172.

1907. The window oyster is very beautiful in Karachi harbour... it is still used for windows in Goa... Gazetteer of the Province of Sind. pg. 70.

कांय जाण आदूफ म्हळ्यार जनेलाच्या दोन भागांतलो एक भाग वा दोन दारांतलें खंयचेंय एक दार असो अर्थ करतात. हो अर्थ योग्य न्हय.

**आधारावळ :** Glossario Luso-Asiatico, Vol. I, por Sebastiao Rudolfo Dalgado.

**आदेश** । आंदेश् । सा.रू. – शा, भोव. – श, सा.रू. – शां । (सं. आदेश). पु. १. आज्ञा; हुकूम; नेम. २. कानफाटे, नाथपंथी (गोंसाय) लोक एकामेकांक नमस्कार करतासतना उपकरायतात तें उतर. ३. उपदेश; शिकोवण. ४. (व्याक.) एका वर्णाच्या जाग्यार ताचे बदला दुसरो वर्ण येवप.

**विशेश :** 'आदेश' ह्या उतराचो सरळ सादो अर्थ म्हळ्यार 'आज्ञा'. पूण व्याकरणशास्त्रांत हाचो अर्थ सरळ साद्या अर्थापरस वेगळो आसा. "आदिश्यते यः सः आदेशः।" अशें संस्कृत भाशेंत आदेशा संबंदान म्हळां. हेर कोणाच्या जाग्यार येवपाची आज्ञा जाका मेळ्ळ्या तो आदेश, असो ह्या संस्कृत उतरांचो अर्थ आसा. भाशेंतल्या उतरांत एका वर्णाच्या जाग्यार दुसरो वर्ण येवप हे प्रक्रियेक, एका वर्णाचे बदला दुसऱ्या वर्णाचो आदेश जाला, अशें व्याकरणांत म्हणटात.

'आदेश' ही संकल्पना मुदलाकच संस्कृत व्याकरणांतली आसा. ताका लागून आदेश हो संस्कृत व्याकरणाचो एक म्हत्वाचो भाग आसा. संधी म्हळ्यार जोडणी. हिचे स्वर-संधी, व्यंजन संधी आनी विसर्ग संधी अशे तीन प्रकार आसात. स्वर-संधीच्या विवेचनाच्या संदर्भांतूच 'आदेश' ही संकल्पना उपकारायल्ली मेळटा. स्वरसंधीच्या, म्हळ्यार स्वरांचे जोडणेच्या संदर्भांत दीर्घादेश, गुणादेश, वृद्ध्यादेश आनी यणादेश अशे चार प्रकारचे आदेश संस्कृत व्याकरणांत मानल्यात. आदेशाच्या ह्या चार प्रकारांचें स्वरूप अशें आसा :

ऱ्हस्व वा दीर्घ स्वरामुखार तोच ऱ्हस्व वा दीर्घ स्वर आयल्यार, म्हळ्यार दोन सजातीय स्वर फाटींफुडें आयल्यार, त्या दोगांच्या जाग्यार तेच जातींतलो एक दीर्घ स्वर येता. हे प्रक्रियेक 'दीर्घादेश' अशें म्हणटात. देखीक : सुर्यास्त (सूर्य+अस्त); देवालय (देव+आलय); महिलाश्रम (महिला+आश्रम); गिरीश (गिरी+ईश); गुरुपदेश (गुरू+उपदेश), बी.

अ वा आ ह्या स्वरांमुखार इ-ई, उ-ऊ वा ऋ हे स्वर आयल्यार, तांचे बदला अनुक्रमान ए, ओ आनी अर् अशे वर्ण येतात. हे प्रक्रियेक 'गुणादेश' अशें म्हणटात. देखीक : गणेश (गण+ईश); उमेश (उमा+ईश); चंद्रोदय (चंद्र+उदय); महोत्सव (महा+उत्सव); देवर्षि (देव+ऋषि); महर्षि (महा+ऋषि), बी.

अ वा आ ह्या स्वरां मुखार ए वा ऐ हे स्वर आयल्यार, त्या दोगांबदला ऐ येता, आनी ओ वा औ आयल्यार ते बदला औ येता. हे प्रक्रियेक वृद्ध्यादेश अशें म्हणटात. देखीक : मतैक्य (मत+ऐक्य); सदैव (सदा+एव); जल्लौघ (जल+औघ), बी.

इ-ई, उ-ऊ वा ऋ हांचे मुखार दुसरे जातीचो स्वर आयल्यार इ-ई बदला य्, उ-ऊ बदला व्, आनी ऋ बदला र् हे वर्ण येतात, आनी तांतूंत मुखावेलो स्वर मेळून संधी जाता. हे प्रक्रियेक यणादेश अशें म्हणयात. देखीक : प्रीत्यर्थ (प्रीती+अर्थ); इत्यादि (इति+आदि); अत्युत्तम (अति+उत्तम); प्रत्येक (प्रति+एक); स्वल्प (सु+अल्प), पित्राज्ञा (पितृ+आज्ञा) बी.

संस्कृत भाशेंतलीं जीं उतरां कोंकणींत तत्सम रुपांत, म्हळ्यार जशाक तशीं घोळटात तांतूंत आदेशाच्यो ह्यो देखी आपसुकच मेळटात. ते भायर मात कोंकणी उतरावळींत दीर्घादेश, गुणादेश वा वृद्ध्यादेश हांच्यो देखी सामान्यतायेन दिश्टी पडनात. यणादेश हे प्रक्रियेच्यो कांय देखी मात कोंकणींतय मेळटात. जाल्यारूय, ही प्रक्रिया घडत आसतनाय ते संबंदींच्या संस्कृत भाशेच्या नेमांप्रमाण ती घडिल्ली दिसना. कोंकणींतल्या यणादेशाचें स्वरूप वेगळें आसा.

कोंकणी भाशेंत जे धातु आसात तांचे स्वरान्त, म्हळ्यार स्वरान सोंपपी, आनी व्यंजनान्त, म्हळ्यार व्यंजनान सोंपपी अशे दोन प्रकार आसात. हांतुंतले खा, गा, घे, जा, दी, धू, पी, ये बी जे स्वरान्त धातू आसात तांकां अत, ऊंक आनी ऊन हे कृत्-प्रत्यय लागतात. तेन्ना यणादेशाची प्रक्रिया जाल्ली दिश्टी पडटा. ह्या स्वरान्त धातूंक जेन्ना हे कृत्-प्रत्यय लागतात, तेन्ना त्या प्रत्ययांतल्या सुरवेच्या अ वा ऊं/ऊ चे बदला य् आनी कांय वेळार व् असो आदेश जाल्लो दिसता. ह्या स्वरान्त धातूंक अत हो कृत्-प्रत्यय लागून जेन्ना क्रियाविशेशणां घडटात, तेन्ना य् असो आदेश जाता.

देखीक :

| | |
|---|---|
| खा + अत = खाय्त | गा + अत = गाय्त |
| जा + अत = जाय्त | दी + अत = दिय्त |
| धू + अत = धुय्त | पी + अत = पिय्त |
| घे + अत = घेय्त | ये + अत = येय्त |

अत हें कृत्-कूस (प्रत्यय) वयर सांगिल्ल्या स्वरान सोंपपी धातूंक लागून जशीं क्रियाविशेशणां घडटात, तशीच ऊंक आनी ऊन ही कृत्-कुसां (प्रत्यय) ह्या स्वरान्त धातूंक लागूनय क्रियाविशेशणां घडटात. हे कृत्-प्रत्यय वयर उल्लेख केल्ल्या धातूंक जेन्ना लागतात, तेन्ना ह्या प्रत्ययांतल्या सुरवेच्या ऊं आनी ऊ ह्या वर्णाच्या जाग्यार व् असो आदेश जाता. देखीक :

| | |
|---|---|
| खा + ऊंक = खांव्क | गा + ऊंक = गांव्क |
| जा + ऊंक = जांव्क | दी + ऊंक = दिंव्क |
| धू + ऊंक = धुंव्क | पी + ऊंक = पिंव्क |
| घे + ऊंक = घेंव्क | ये + ऊंक = येंव्क |

ऊंक हो प्रत्यय ह्या स्वरान्त धातूंक लागतना जे परी ऊंच्या जाग्यार व् असो आदेश घडटा तेच परी ऊं वेलो अनुस्वार आदल्या अक्षराचेर सरकुपाची प्रक्रियाय घडटा. ते प्रक्रियेक लागून, वं ह्या 'व'चेर अनुस्वार दिवन बरयल्ल्या 'व'चो उच्चार दीर्घ (लांबोडो) जावपाची जी शक्यताय आसता, ती उरना. हेच खातीर, ऊंक कूस लागून घडिल्लीं ह्या स्वरान्त धातूंचीं रुपां खावंक, घेवंक, जावंक, दिवंक, धुवंक, पिवंक, येवंक अशीं बरोवप हें व्याकरणाचे नदरेन योग्य न्हय. तीं खांवक, दिंवक, धुंवक, येंवक अशीं बरोंवक जाय.

| | |
|---|---|
| खा + ऊन = खाव्न | गा + ऊन = गाव्न |
| जा + ऊन = जाव्न | दी + ऊन = दिव्न |
| धू + ऊन = धुव्न | पी + ऊन = पिव्न |
| घे + ऊन = घेव्न | ये + ऊन = येव्न |

हांगा एक गजाल नीट ध्यानांत घेंवक जाय ती अशी : अत, ऊंक आनी ऊन हीं कृत् कुसां (प्रत्यय) वयर सांगिल्ल्या स्वरान्त धातूंक लागतना त्या कुसांतल्या सुरवेच्या अ आनी ऊं/ऊ च्या जाग्यार य् आनी व् अशे जे आदेश अनुक्रमान घडटात, ते व्यंजनाच्या स्वरुपाचे आसतात. य (म्हळ्यार, य् + अ) आनी व (म्हळ्यार, व् + अ) अशे पूर्ण अक्षराच्या (म्हळ्यार, व्यंजन + स्वर) स्वरुपाचे नासतात. पूण बरयतना लेखनांत पूर्ण अक्षर म्हणून बरोवपाची पद्दत आशिल्ल्यान हे आदेशरुपान आयिल्ले वर्ण पूर्ण अक्षर म्हणूनच बरयल्ले मेळटात.

आगम हो मित्रावरी आसता (मित्रवदागमः) अशें संस्कृत भाशेंत म्हळां, तेच परी आदेश हो दुस्मान कसो आसता (शत्रुवदादेशः) अशेंय ते भाशेंत सांगलां. दुस्मान जसो एकाद्र्याक नाच्च करून उडयता

आनी ताचो जागो आपूण घेता, तसोच आदेश म्हणून येवपी वर्ण उतरांतल्या मूळ वर्णाक ना करता, आनी ताचो जागो आपूण घेता.

**आदेस** । आदेस् । सा.रू. – सा, भोव. – स, सा.रू. – सां । (सं. अर्ध + कों. दीस) पु. सुर्याचो उदेव धरून दनपार मेरेनचो काळ; दनपार धरून सांज मेरेनचो काळ; अर्दो दीस; मायतो. (म्हजो भाव हांगा आसताना म्हजो घोव थंय लोकांच्या गराड्यांत आदेसभर उल्लो. – सूर्यसांवट : पुंडलीक नायक, पा. ७३).

**आदेसाचो-ची-चें** । आदेसाचॉ-ची-चँ, सा.रू. – च्या । ('आदेस' वेल्यान) वि. अर्द दिसाचो, मायत्याचो. (आदेसाचो वावर; आदेसाची बसका; आदेसाचें काम).

**आदोळी** । आदोळी । सा.रू. – ळे, भोव. – ळ्यां, सा.रू. – ळ्यां । (का. अड्ड + सं. इलि) स्त्री. सोयेखातीर नाल्लाचें वळें कांतचेलें, भाजी शिनचेलें आनी नुस्तें उजरावपाचें, एका लाकडाच्या बसकारार लोखणाची वा स्टेनलॅस स्टिलाची कोयती बसयल्लें एक साधन; पाटापरस उबार बसकेक बसयल्लें कांतनें आशिल्ली कोयती. आदोळेची बसका पाटापरस उबार आसता. ही बसका लाकडाची आसता. आज बाजारांत धातू आनी प्लास्टिकच्यो बसका आशिल्ल्यो आदोळ्यो दिसतात. प्रत्येक हिंदूच्या घरांत सोय कांतपाक आनी शाक शिनपाक एक आदोळी आसता आनी नुस्त्याखातीर वेगळी आदोळी आसता. शिवराका खातीर वेगळी आदोळी आसल्यार तिचेर कांदो चिरिनात. (व्हाणो कुशीक दवरून तो कासंडींतलें उदक पांयार ओतता. पडवेर बसून घरकात्र आदोळेर केळिची बोणी शिनत आसता. – पारज : पुंडलीक नारायण नायक, मुठय, पा.९५).

**विशेश** : आदोळी उत्तरेक ना. दक्षिणेंतच तिचो वापर जाता. ह्या साधनाक बसयल्ले कोयतेची आकृताय चंद्राचे कोरीवरी, म्हळ्यार अर्दचंद्रावरी आसता. ही कोयती लोखणाची, तिख्याची वा हालींच्या दिसांनी स्टिलाचीय आसता. जाल्यारूय, लोखणाची वा तिख्याची सर स्टिलाचे कोयतेक नासता. ही कोयती लाकडाचे बसकेक बसयल्ली आसता. हे कोयतेक मुखार कांतनें आसता. ह्या कांतन्याक लागून आदोळेन नाल्लाची सोय कांतूंक मेळटा.

**म्हण : नाक खंय आनी आदोळी खंय ?** (नाकाक आनी आदोळेक संबंध ना, कसलीच सोयरीक ना. देखून, एकामेकांकडेन संबंध नाशिल्ले गजालीचो संबंध लायतकीर ही ओपार दितात.)

**आदोळो** । आदॉळॉ । सा.रू. – ळया, भोव. – आदॉळॅ, सा.रू. – ळयां । ('आदोळी' वेल्यान) पु. प्रमाण आदोळेपरस व्हड आंशिल्ली आदोळी. हिचें पातें मात्शें उबें आसता. आदोळेवरी तें दोडूंक मेळना. बेडे सोलपाखातीर वा सुपाऱ्यो कातरपाखातीर आदोळो उपकरायतात. जेन्ना देवस्थानांनी म्हाजनांखातीर आनी हेर लोकांक जेवणाखातीर जेवणां दवरलेलीं आसतात, तेन्ना भाजी शिनपाक आदोळोच उपकरायतात. सोय कांतूंक मात आदोळीच लागता. लोणच्याच्या ल्हानशा कारखान्यांनी आंब्याच्यो वा आंबलेच्यो फोडी करपाक आदोळ्याचोच उपयोग जाता.

**आद्य** । आद्य । (सं. आद्य) वि. १. पयलो; आरंभाचो; सुरवेचो. २. मुखेल; म्हालगडो; सर्वोत्कृश्ट.

**आद्यप्रवर्तक** । आद्यप्रवर्तक् । सा.रू. – का, भोव. – क, सा.रू. – कां । (सं. आद्य + प्रवर्तक) खंयचेय गजालीचो मूळ आरंभ करपी; मूळ बुन्याद घालपी. पुर्तु. Pioneiro, इं. Pioneer.

**आद्यस्थान** । आद्यस्थान् । सा.रू. – ना । (सं. आद्य + स्थान) न. मुळावो जागो; पुर्वजांची भूंय, स्थळ;

निजाचें स्थान; ज्या जाग्यार देवता पयलीं प्रगट जाल्ली तें स्थान; अती प्राचीन अशें पवित्र क्षेत्र, स्थळ.

**आद्याक्षर** । आद्याक्षर् । सा.रू. –रा; भोव. –रां, (सं. आद्य + अक्षर) न. खंयच्याय उतरांतलें पयलें वा सुरवातीचें अक्षर.

**आद्याक्षरी** । आद्याक्षरी । सा.रू. –री । ('आद्याक्षर' वेल्यान) स्त्री. पूर्ण नांव बरयनासतना नांवाच्या प्रत्येक उतरांतलें पयलें अक्षर बरोवन केल्ली ल्हान (संक्षिप्त) सय.

**आधार** । आधार् । सा.रू. –रा, भोव. –र, सा.रू. –रां । (सं. आधार) पु. १. आश्रय; आलाशिरो. २. नेट; धीर; नाडो; बळ (दुसऱ्याच्या आधारार उडूं नये). ३. मदत; पालव. (गिरेस्ताबगर दुबळ्याक आधार ना.) ४. सांबाळ; राखण (दुबळ्याक आधार देवाचो). ५. पुरावो (तुवें मांडिल्ले मुद्दे म्हाका समजतात. जाल्यारूय ह्या मुद्द्यांक तुवें खंयचो आधार दाखयला ?) ६. धिगी (घराचे पडवेचें पांखें कोंसळूंक पावूं नये म्हणून, तिका वांश्याचो वा म्हेडिचो आधार दिला.) ७. सोय, गरज, सहारो. (म्हातरपणार काजार, पेजेक आधार.) ८. (व्या.) सातवे विभक्तिचो अर्थ: स्थान. ९. (व्या.) उतरां भितरलो संबंध. देखीक: कर्त्याच्या वा कर्माच्या आधारान चलपी क्रियापद.

वा.प्र.:

१. **आधार दिवप**: हातभार लावप; मदत करप; आश्रय, आलाशिरो दिवप.
२. **आधार काडून घेवप**: आधार, पालव दिवपाचो थांबोवप.

म्हणी :

१. आधार नाशिल्ली नारी, भोंवता दारान दारीं.
२. दुबळ्याबगर गिरेस्ताचें काम चलना, गिरेस्ताबगर दुबळ्याक आधार मेळना.
३. बुडटल्याक काडयेचो आधार.
४. भांगराची दाय, पूण वण्टीचो आधार जाय.
५. म्हातारपणार काजार, पेजेक आधार.

**आधारप** । आधारप् । सा.रू. –पा । ('आधार' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: 'आधार्' (अक). १. आधार घेवप. २. अवलंबून आसप (ती वाल आंब्याच्या रुखार आधारिल्ली आसा. ३. पालव, आलाशिरो, राखण दिवप.

**आधारावळ** । आधारावळ् । सा.रू. –ळी (सं. आधार + आवलि) स्त्री. खंयच्याय बरोवपाखातीर आधाराक घेतिल्ल्या ग्रंथांची, लेखांची यादी वा वळेरी.

**आधारी** । आधारी । सा.रू. –ऱ्या । (सं. आधारीन) वि. १. आधार, सहारो दिवपी. २. पालव, आलाशिरो, राखण दिवपी.

**आधाशी** । आधाशी । सा.रू. - श्या; भोव. - शी; सा.रू. - श्यां । (सं. अधि + आशिन्) वि. वसवसो, खावगो, पोटारो, कितलेंय खाल्यार समाधान न जावपी. (आधाशाभशेन गोरवां भकभकीत खावपाक लागलीं. – कोयसांवालीं गोरवां : दामोदर मावजो – कोंकणी कथा (साहित्य अकादेमी) पा. १३१).

**आधिभौतिक** । आधिभौतिक् । सा.रू. –का (सं. आधिभौतिक) वि. १. जें मुळाव्या तत्वाक लागून घडलां तें. २. प्राण्यांकडेन लग्निक आशिल्लें. ३. जें जडान घडलां तें; स्थूल; प्राकृतिक. ४. शरिराचे व्याधीक लागून जाता तें.

**आधिराज्य** । आधिराज्य् । सा.रू. –ज्या । (सं. अधिराज्यम् ) न. सार्वभौम अधिकार.

**आधीन** । आधीन् । (सं. अधीन) वि. पळेयात 'आदीन'. हें उतर कांय हेर उतरांक लागून सामासिक उतरां घडटात. देखीक : व्यसन + आधीन = व्यसनाधीन; पर + आधीन = पराधीन.

**आधुनिक** । आधुनिक् । सा.रू. –का । (सं.

आधुनिक) वि. वर्तमान काळावेलो, सध्याच्या, तुर्ताच्या काळावेलो, आर्विल्लो. (आधुनिक इतिहास) पुर्तु. Contemporaneo, इं. Contemporary.

**आध्यात्मिक** । आध्यात्मीक् । (सं. आध्यात्मिक ) वि. अध्यात्माकडेन लग्निक आशिल्लो; परमार्थिक; ईश्वर, आत्मो आनी ब्रह्म हांचेकडेन लग्निक आशिल्लो.

**आध्यात्मिकताय** । आध्यात्मिकताय् । सा.रू. –ये । (सं. आध्यात्मिकता) स्त्री. १. अंतिम सत्याच्या सोदाची लागिल्ली तळमळ. २. प्रेमभावनेन दुखेस्तांच्या कल्याणाखातीर सेवेचें व्रत घेवन केल्ली आत्म्याची उन्नती. ३. पवित्र भावनेन समस्ताक कल्याणकारी जायत अशा मार्गाचें केल्लें ध्यान.

**विशेश :** आध्यात्मिकताय ही धर्मावरीच एक मानस अवस्था. कृष्ण भगवानाच्या नांवान केल्ल्यो शृंगारलीला ही आध्यात्मिकताय न्हय. दुखेस्तांचें दुख्ख आपणावन, तांचें दुख्ख ल्हव करपाखातीर, तांचे सेवेचें व्रत घेवप आनी आखखें आयुश्य पिडेस्तांचे, दुखेस्तांचे सेवेक ओंपप, हेंच खरें अध्यात्म , हीच खरी आध्यात्मिकताय.

**आन** । आन् । सा.रू. –ना । भौव. –नां । (ता. अण्णा = बापूय; व्हडलो भाव) पु. बापूय.

**विशेश :** कुळंबी जमातींत बापायक 'आन' म्हणपाची चाल आसा.

**आनंद** । आनन्द् । सा.रू. –दा । (सं. आनन्दः) पु. १. सुखा-समाधानाची संवेदना, हर्श, प्रसन्नताय, खोशी, आल्हाद, संतोश, उल्हास. २. अत्यंत सूख. ३. ब्रह्म.

**विशेश :** आनंदाच्यो पांच तरा सांगल्यात : आत्मानंद, ब्रह्मानंद, विशयानंद, विद्यानंद आनी योगानंद.

'उणाय' असो भावार्थ दाखोवपाक हें उतर उरफाट्यांनीय उपकरायिल्लें मेळटा. देखीक : ''दीस रात खेळ, मागीर परिक्षेंत आनंदच !''

**आनंदकला** । आनन्द्कला । सा.रू. –ले । (सं. आनन्दकला) स्त्री. ब्रह्माची आनंदपूर्ण सत्ता; ईश्वराचें आनंदपूर्ण रूप.

**आनंदतीर्थ** । आनन्दतीर्थ । सा.रू. –र्था । (सं. आनन्दतीर्थः) पु. वैस्णव तत्त्वज्ञानाचें मुळावण घालीत, त्या पंथाची स्थापना करपी माध्वाचार्य.

**आनंदप** । आनन्दप् । सा.रू. –पा । (सं. आ + नन्द्) क्रि.दा.धा.सा.ना. मूळ धातू : आनन्द् (अक्). आनंदित जावप; सुखी-समाधानी जावप; खोशी, प्रसन्न जावप; संतोश पावप; उल्हासून वचप.

**आनंदपट** । आनन्दपट् । सा.रू. –पटा । (सं. आनन्द + पट) पु. १. चलयांक पयलेंच न्हाण येतकीर, म्हळ्यार पयल्यावयल्या भस्टचाच्या रगताच्या दागांनी भरिल्लें वस्त्र. २. पयल्याच संभोगाच्या वेळार, रगतान तांबडें जाल्लें हाेंकलेचें वस्त्र. (होंकलेच्यो इस्टिणी अडेचो आनंदपट घेवन मिरोंवक लागल्यो. तिज्या आंकवरपणांतलो मोगी, तें पळेतकीर अजापान दोळे मोठे करून हांसूंक लागलो. –गाथासप्तशती. ५.५७. अणकार: पांडुरंग भांगी).

**विशेश :** पुर्विल्ल्या काळार आनंदपट हो चलयांच्या आंकवारपणाची खूण धरताले. गर्भादानाचे राती होंकलेचें वस्त्र रगतान भिजतालें, असो समज जायत्या देशांत, जायत्या जातींत आनी जमातींत चलतालो.

मोरोक्को देशांत गर्भादानाचे राती न्हवऱ्याक आनी होंकलेक, तांगेल्या रंगम्हालांत सोडटकीर, समारंभाक आयिल्ले पावणे आनी कुटुंबांतले लोक दिवाणखान्यांत बसून रावताले. न्हवऱ्यान होंकलेचें रगतान भिजिल्लें वस्त्र दासीकडेन दितकीर, ती तें वस्त्र कुटुंबांतल्या मनशांक आनी पावण्यांक दाखयताली. उपरांत पावण्यांक थाटाचें जेवण आसतालें. होंकलेच्या

दुर्दैवान रगत आयलेंना जाल्यार पावण्यांक उपाशींच घरा वचचें पडटालें आनी होंकलेच्या वांट्याक अप्रतिस्ठा येताली. तिचो अपमान करीत तिची रवानगी कुळारा जाताली. ज्यू तर अशे होंकलेक फातरांनी चांचावन मारताले. चीनांत आनंदपटाचें वस्त्र रेशमी आसतालें. ताचेर रगताचो मात पसून दाग दिसलोना जाल्यार होंकलेक बाबडेक जीव दिवंचो पडटालो.

आनंदपटाची मिरवणूक गर्भादानाच्या दुसऱ्या दिसा काडटाले. गाथासप्तशतीच्या काळार होंकलो वयान वाडिल्ल्यो आसताल्यो. देखून, गाथासप्तशतींतलो आनंदपट अडेचो आसतालो. ही चाल आतां बंद जाली हें खूब बरें जालें. होंकलांचीय अब्रू वांचली आनी अनर्थ मातून येतलो आशिल्लो तोय चुकलो.

**आधारावळ :** गाथासप्तशती, प्रस्तावनालेखक : स.आ. जोगळेकर, पा.३५०-३५१.

**आनंदपूर्ण** । आनन्दपूर्ण । वि. आनंदान, सुखान भरिल्लो, आनंदित जाल्लो.

**आनंदभैरव** । आनन्दभैरव । सा.रू. – वा । (सं. आनन्दभैरव:) पु. शिवाचें एक नांव.

**आनंदभैरवी** । आनन्दभैरवी । सा.रू. – वे । (सं. आनन्दभैरवी) स्त्री. कोमल स्वर आशिल्ली भैरव रागाची एक रागिणी. ही फांतोडेर गायतात.

**आनंदमय** । आनन्दमय् । (सं. आनन्दमय) वि. आनंदान तृप्त जाल्लो; प्रसन्नभरीत; सुखान भरिल्लो.
**आनंदमयकोश :** देहाचे पांच कोश मानल्यात. हे कोश म्हळ्यार जिवाचीं सुक्ष्मांतलीं सूक्ष्म शरिरां. एके तरेन हे कोश म्हळ्यार पांच चिलखतां. ह्या कोशांचीं नांवां अशीं आसात : अन्नमय, प्राणमय, मनोमय, विज्ञानमय आनी आनंदमय.

आनंदमय कोश हो देहाच्या मानिल्ल्या पांच कोशांतलो सगळ्यांत निमाणो कोश. विज्ञानमय कोशा उपरांत हो कोश येता. जाका आत्मो वा ब्रह्म म्हणटात तो जिवात्मो आनंदमय कोशांत रावता. हो जिवात्मो आनंदमय आसता, निरपेक्ष आसता, सर्वज्ञ आसता, तेच परी द्रस्टोय आसता. जिवात्म्याचो सोद घेत ताच्या म्हऱ्यांत पावप हेंच जिवाचें लक्ष्य आसता.

पळेयात : 'अन्नमय कोश' – कोंकणी शब्दसागर, भाग पयलो, पा. ११९-१२०.

**आनंदवाद** । आनन्दवाद् । सा.रू. – दा । (सं. आनन्दवाद) पु. मनशाचे जिणेचें मूळ लक्ष्य आनंद आसा, अशें मानपी विचारधारा वा सिद्धान्त.

**आनंदित** । आनन्दित् । (सं. आनन्दित) वि. आनंद जाल्लो; प्रसन्न; संतोशभरित; उल्हासभरित; खोशी; सुखी; उल्हासवंत.

**आनंदी** । आनन्दी । (सं. आनन्दिन) वि. १. सुखा-समाधानान रावपी; उबगनासतना उल्हासान रावपी; खोशी; प्रसन्न. (ताचेसारको आनंदी मनीस हांवें पळोवंक ना.) २. सुखा-समाधानाची; संतोशाची; खोशयेची (आनंदी वृत्ती).

**आनंददेणो-णी-णें** । आनन्ददेणॉ-णी-णँ । (सं. आनन्द + कों. देणो) वि. १. मन आनंदान वा उल्हासान भरपी (आनंददेणो ग्रंथ; आनंददेणी खबर; आनंददेणें चित्र). २. नदरेक खोस दिवपी (आनंददेणें घर; आनंददेणें फूल; आनंददेणें भुरगें.)

**आनवाळो** । आनवाळॉ । सा.रू. – ळया; भौव. – ळे; सा.रू. – ळयां । (सं. आमलक:) पु. आंवाळो.
**म्हण :** आनवाळो दिवन कुंवाळो काडप.

**आनारप** । आनारप् । सा.रू. – पा, (सं. अन्ध + कृ) क्रि.दा.धा.सा.ना. – (मूळ धातू : आनार्-अक). अंधारप; काळोख जावप.

**आनारी** । आनारी । सा.रू. – रे, ('आनारप' वेल्यान) स्त्री. चिनारी; अंधारी; घुंवळ.

**आनास** । आनास् । सा.रू. – स, भोव. – सा, सा.रू. – सां । (पुर्तु. Ananas) न. अनस. (म्हाका मेस्ताल्या उतरांचो उगडास जालो... "पोनास पिकलें आनास, साठ सोंवसाराक फाट, सोतोर फोंडाभितर." – मेस्त : शीला कोळंबकार, भूंयचाफीं, पा. ७४).

**आनाळ्या-घुंवाळ्यांची** । आनाळ्या-घुंवाळ्यांची । सा.रू. – आनाळ्या-घुंवाळ्यांचे । (?) वि. सरळ न्हय अशी; वांकडी-तिकडी; आडवी-तिडवी; घुस्पागोंदळाची; देंवचार पसून भियेत अशी अस्कडी. (सरळ वाट सोडून तो आनाळ्या-घुंवाळ्यांचे वाटेन वता.)

**आनाळ्यो-गुनाळ्यो** । आनाळ्यो-गुनाळ्यो, सा.रू. आनाळ्या-गुनाळ्यां । (?) स्त्री. भौव. आपले भोंवतणींच घुंवाळ्यो काडीत रावपाचो भुरग्यांचो एक खेळ.

**विशेश** : तिनसांजच्या पारार, गोरवां रानांतल्यान परतुपाच्या वेळार, व्हडाव्हडा गायत भुरगीं गोरवांक व्हडे खोशयेन असो येवकार दितालीं

आनाळ्यो ऽ गुनाळ्यो ऽ
वाटल्यो ऽ तांबये ऽ
काडा गे ऽऽऽ
मामालो बैल आयला गे ऽऽ
आनाळ्यो ऽ गुनाळ्यो ऽऽ
वाटल्यो ऽ तांबये ऽ
काडा गे ऽऽऽ
दादूलो बैल आयला गे ऽऽ

अशे तरेन गायत-गायत, आपलेच भोंवतीं गुनाळ्यो काडीत भुरगीं बैलाविशींचो आपल्या काळजांतलो उमाळो व्यक्त करीत आपणाल्या प्रिय अशा मामा, काका, दादू, बाबी ह्या मनशांचीं नांवां घेवन, तांगेलो बैल आयला, ताका गोट्यांत वचपाक वाट करून दियात, वाटेर कितें बाटल्यो, तांबये बी आडखळी आसत जाल्यार वाट निवळ करात, अशें म्हणून बैलाविशींचो आपलो मोग आनी ताचे उपकार आठयतालीं.

**आधारावळ** : गोंयकाराले पडवेर : सौ. कमलादेवी राव देशपांडे, पा. ७२.

**आनाळ्यो-घुंवाळ्यो** । आनाळयां-घुंवाळयां । ? स्त्री. भौव. वांटकुळसर मारिल्ल्यो भोंवताड्यो. (आपलें भक्ष्य सोदपाखातीर घोणी मळबांत आनाळ्यो-घुंवाळ्यो काडटाल्यो.)

**आनी** । आनी । (सं. अन्यत्, महाराष्ट्री प्राकृत : अण्णिअ) उ.अ. १. दोन उतरां, दोन वाक्यां जोडपी अव्यय. (फुलां आनी फळां; तूं आयलो आनी तो गेलो.)

'आनी' हें अव्यय कांय भावार्थ दाखयता.

१. परिणाम : (तूं बसलो आनी तुगेल्या भाराक लागून कदेल मोडलें).
२. योगायोग : (कावळो उडलो आनी खांदी मोडली).

**वि.** १. (ग.) मेळोवप, अधिक करप (स आनी दोन आठ).
२. आनीक; चड (हे दुडू म्हाका पावचे नात. म्हाका आनी जाय).
३. दुसरो, हेर, अन्य. (तूं म्हणून ताका ओगी रावलो. आनी कोणय जाता तर, सडसडीत ताचे पोले फोडटलों आशिल्लों.)

**विशेश** : सोळाव्या शेंकड्यांत 'आनी' हाचें 'आणी' अशेंय रूप मेळटा. ("अस्त्र्येवीण राव भोउ दुखेस्त, तरि आतां म्हजें तनेंपण म्हज्या बापाक हांव दिन, वा ताचें व्रधपण हांव घेन, आणी हांव स्त्री हे सवसारीं जरि करिन, तरी मजे माये समाने ऐसें मानिन म्होणु निचेउ केलो." – सोळाव्या शेंकड्यांतलें कोंकणी म्हाभारत आदिपर्व, संपादक : प्रताप नायक, जे.स.).
२. आनी, आनीक, प्रा. आण्ण. हाची व्युत्पत्ति सं.

'अन्य' ह्या उतरावेल्यान दिस्त लागता. ताचे जोडयेक अप.अणु (हरशीं) आसा. एकाद्र्या वेळार तोखारींतलो 'अल्येक' (दुसरो) आनी 'अलेच्चे' (नवखो) हांतलो भेदय असोच आसा. ह्या उतराचें मूळ गॉथिक an-par, लिथु antras (दुसरो) हातूंत मेळटा. लॅटिनमदलो 'alter' आनी 'allus' हांचीय जोडी हो अर्थ दाखयता.

**आधारावळ :** मराठी भाषेचा विकास, प्रो. ह्यूल ब्लोक, अणकार : वा.गो. परांजपे.

**आनी एक** । आनी एक् । सा.रू. – आनी एका । (सं. अन्य + एक) वि. १. अन्य; दुसरो, रीं, रें. (किरिस्तांवांच्या शास्त्रा अशें उत्तम आनी एक शास्त्र ना. – Sintaxis copiosissimus por Gaspar de S Miguel, edited by Jose Pereira, Journal of the University of Bombay, September, page 41.)
२. अधिक (आनी एक सांगपाची खबर म्हळ्यार...)

**आनीक** । आनीक् । (सं.अन्य, प्रा. आण्ण) वि. १. अधिक, चड. (तुका सांगपाचें तितलें सांगलें. आनीक कितें सांगूं?) २. वेगळो, दुसरो. (वैजकेंतले सगळे उपचार करून जाले. आनीक कसलोय आसल्यार सांग.) ३. हेर, अन्य. (पितुबाब सोडून आनीक दुसरो कोण जाल्लो जाल्यार, ताका जुवानपणाच्या ऐन कडार, गिरेस्तकायेंत लोळटातसतना, इंद्रियां आळाबंदा हाडचें काम भारी कठीण जातलें आसलें. – गोमन्तोपनिषत, १लें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ३२).

**आनु** । आनू । सा.रू. – नू । (ता. अण्णा = बापूय) पु. बापूय.
**म्हण :** आनु ब्राम्हण, आम्मा सवायशीण.

**आनु** । आनू । सा.रू. – नू । (ता. अण्णा = व्हडलो भाव) पु. व्हडलो भाव, दाद.
**म्हण :** आनु ब्राम्हण, होनी सवायशीण.

**आनुमानिक** । आनुमानीक् । (सं. आनुमानिक) वि. अनुमानान, तर्कान थारायल्ली.

**आनुल्ली** । आनुल्ली । सा.रू. – ल्ले । (सं. अन्धिका) स्त्री. पळेयात 'आंदुल्ली'.

**आनुवंशिक** । आनुवंव्शीक् । (सं. आनुवंशिक) वि. १. वंशपरंपरेन, पिळग्यान पिळग्यो चलत आयिल्लो, वारशेन मेळिल्लो (आनुवंशिक हक्क). २. घराण्यांतच आशिल्लो; बडिचो (आनुवांशिक गुण).

**आनुवंशिकताय** । आनुवंव्शिकताय्, सा.रू. – ये । आनुवंशिक + 'ताय' हें भाववाचक नाम घडोवपी कोंकणी ताळाकूस. स्त्री. १. वंशपरंपरेन आवै-बापायकडल्यान तांच्या भुरग्यांक मेळिल्ले जननिक (Genetic) गुण-दोश. – लैंगिक गुणसुत्रां (chromosomes) दादल्यांत XY आनी बायलांत XX आसतात. २. बड.

**आनूस** । आनूस् । सा.रू. – सा, भोव. – स, सा.रू. – नुसां । (पुर्तु. Anuncio) पु. लोकांक कळपाखातीर तोंडी केल्ली वा दिसाळ्यांत आनी सरकारी बुलेतींत छापून उजवाडायिल्ली कळोवणी, खबर. (तशेंच बुलेतींत पुर्तुगेज आनुसांचीं मराठी भाशांतरां छापतात ताचेंय कारण तेंच खें. – कोंकणी भाशेचें जैत, बरो : शणै गोंयबाब, पा.२०.)

**आनेक** । आनेक् । सं. अन्याः भौव. वि. वेगळे.
**म्हण :** चाबचे दांत एक, हांसचे आनेक.

**आंत** । आंत् । सा.रू. – ता, भोव. – ता, सा.रू. – तां । (सं. अन्त्रम्) न. १. मनशाची वा नुस्त्याची आंतकडी. २. (ला.) काळीज.
**वा.प्र.: आंत जळप :** भितल्ल्यान हाय जावप. काळीज दर्वेवप/कळवळप.
**म्हणी :** १. जाचें आंत जळटा, ताचोच दोळो गळटा.

२. आंत जळलें, दूक गळलें.

**आंत** । आंत् । (सं. अन्तर) अव्यय. जागो, 'भितर' असो सातवे विभक्तिचो अर्थ दाखोवपी अव्यय. देखीक : घरांत, काळजांत.

**आंत** । आंत् । सा.रू. – ता; भौव. – तां; सा.रू. – तां । (पुर्तु. Ata) न. आंतेरीचें फळ.

**विशेश :** आंब्या येदें आशिल्लें हें फळ, आकारान तांतयावरी आसता. हाका वनस्पतशास्त्रांत 'Anona Squamosa' म्हणटात. हें रंगान धवसार तांबशें आसता आनी हाची भायली साल गुळगुळीत आसता. मारूतीक हें फळ अत्यंत प्रिय आसता, अशें म्हणटात.

आंतांचो भितल्लो घोरोप दुदाचे सायेवरी आसता. पणसाच्या घऱ्यांभशेन हाचे दाणे ल्हान लांबट आसतात आनी भितर काळी बी आसता.

बरहुतच्या शिल्पांत आनी अजंटाच्या वण्टीचित्रांचेर आंतावरीच, आकारान खूप व्हड अशें एक फळ दाखयल्लें आसा. जनरल कनंगहॅमच्या मतान हें फळ म्हळ्यार आंत 'anona squamosa'. संस्कृत 'आत्रप्य' ह्या उतरावेल्यान 'आंत' हें उतर घडलां अशें ते सांगतात.

मॅक्स मुलर सांगतात की 'आत्रप्य' हें उतरच अडेचें दिसता. तांच्या मतान जीं मुदलचीं भारतांतलीं फळां न्हयत, तांचीं संस्कृत नांवां घडयल्यांत.

डच वनस्पतीशास्त्री व्हान रीड हांच्या मतान 'आंत' मुदलचें ब्राझिलचें. ब्राझिलांत ह्या फळाक Ata म्हणटात. व्हान रीड सांगता, मलबारांत आंताक 'मानिलाचो पणस' म्हणटात.

**आधारावळ :** Glossario Luso-Asiatico, Volume I, Por Sebastiao Raodolfo Dalgado. नवी आवृत्ती Published by Asian Educational Service, New Delhi, Madras, 1988.

**आंत** । आंत्, (सं. अन्तर) क्रि.वि. १. भितल्ले वटेन; भितर. (तिवय थिंगा आंत बसून वाच्चें म्हण एक पुस्तक घेवन आयिल्ली. – व्यभिचार, बरो : महाबळेश्वर सैल, पलतडचें तारूं, पान ६.) २. (व्या.) सातवे विभक्तीचें कूस. 'भितर', 'जाग्यांत' असो भावार्थ दाखयता. देखीक : घरांत, शेतांत. **न.:** आंतेरीचें फळ; आंतेर (आंतॅर).

**आंतकडी** । आंत्कडी, सा.रू. – डे; भौव. – ड्यो; सा.रू. – ड्यां । (सं. अन्त्रम्; प्रा. अन्त्रडी; गुज. आंतरडी = बारीक आंतकडी, आंतरडुं = मोठी आंतकडी) स्त्री. व्यासाप्रमाणें बारीक आंतकडी आनी मोठी आंतकडी अशे जाचे दोन वांटे जातात, तो कोठ्याकडल्यान गांडीमेरेन वचपी पोटांतलो कात आनी मांसपेशींचो (muscolo-memceanozo) भाग; अंतर्माळ; आंत; झोळी. (म्हापशेंच्यान लेजींत शिकपी कॉलेजींताचें अक्षर तर विचारूंच नाकात! कोणाच्यो तरी आंतकड्यो काडून चिटयेर दवल्ल्यात, अशें दिसतालें. – पोकी चीट : एन्. शिवदास, गळसरी, पा. ७७).

**वा.प्र. १. आंतकड्यांत चाबप :** मनाक खाल्लेवरी जावप. (नातीच्या तोंडवळ्यांत म्हाका ल्हवू ल्हवू चलयेचें रूप दिसूंक लागता. आंतकड्यांत कितेंय तरी चाबता. – गीतुल : लक्ष्मणराव सरदेसाय, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, पा.७).

२. **आंतकडयो जळप :** दुसऱ्याचें दुख्ख पळोवन मन दर्वेप.

३. **आंतकडी तुटप :** दुख्ख जावप. (त्या प्रसंगाचो उगडास जालो कीं ताजी आंतकडी तुट्टाली. – काळखाकिरणां : महाबळेश्वर सैल, जाग, दिवाळी आंक ८८, पा. ७९).

४. **आंतकडेक पीळ पडप :** दुसऱ्याचें दुख्ख पळोवन मन दर्वेप, काकुळट दिसप.

५. **आंतकडयो भायर काडप :** जिवानिशीं मारपाचो यत्न करप.

**विशेश :** आंतकडयो दोन आसतात : एक बारीक

आनी दुसरी मोठी.

**बारीक आंतकडी :** ही कोठ्याकडल्यान मोठे आंतकडेमेरेन वता. अन्ननळयेचो हो भाग सुमार सात ते आठ मिटर लांबायेचो आसतो. पोटाचे घोलींत ही घडया घडयांनी आडवी जायत वता. हिचे तीन भाग आसतात : Duodeno, Jesuno आनी fleon. हे आंतकडेचेर चार आवरणां आसतात : Serosa (स्त्रावाचें), musculosa (स्नायुचें), cellulose (पेशींचें) आनी mucosa (श्लेश्माचें). श्लेश्माच्या आवरणाक कितल्योशोच दोडी (प्रॅगां) आसतात. ह्या प्रॅगांक झडपो म्हणटात. मनशांत हीं प्रॅगां सुमार ८०० आसतात. ह्या प्रॅगांक लागून आंतकडेच्या ह्या आवरणाचो आवांठ वाडटा आनी तो सुळक्यांवरी वा शंखांच्या तोंकावरी जाता. हाका लागून पचनक्रियेक योग्य असो जागो मेळटा. ह्या आंवाठाक गांठी आसतात आनी त्यो आंतकडेचो द्रव ओडून घेतात.

**मोठी आंतकडी :** एके झडपेन बारीक आंतकडेपासून वेगळो जाल्लो अन्ननळयेचोच भाग. ही झडप गांडीच्या भागाकडेन उकती जाता. बारीक आंतकडेपरस ही आंतकडी चड आंखूड आनी चड रूंद आसता. हिची लांबाय १ मीटर चाळीस सेंटिमीटर धरून १ मीटर ८० सेंटिमीटर मेरेन आसता. उजवे वटेन ही खांदयेवरी (colon ascendente) आसता. हिच्या सकयल्या भागाक ceco म्हणटात. दावेकडेन देंवपी खांदी इंग्लेज 'S' ह्या अक्षराचो आकार घेवन गांडीकडेन (colon descendente) सोंपता. हिकाय चार आवरणां आसतात. हिचेय तीन भाग जातात : Ceco, Colon आनी Recto. ही आंतकडी भितल्ल्यान पोकोळसर आसता आनी हिच्यो घडयो अनियमीत आसतात. हिका झडपो नासतात. मांसाचे ग्रंथीकडेन आंगांतली घाण उडोवपाक वांटकुळे बुराक आसतात.

**आधारावळ :** Dicionario Enciclopedico Luso-Brasileiro, Vol. 2.

**आंतकडे जोर ।** आंत्कडे जोर, सा.रू. – आंतकडे जोरा । (कों. आंतकडी + सं. ज्वर ), पु. 'सालमॉनॅल तीफि' हे जातीच्या जंतूंक लागून, फक्त मनशांकच येवपी वशाचो जोर, दिसांचो पाडो जोर. ह्या जोराक 'तिफॉयद्' जोर म्हणटात आनी संस्कृत भाशेंत हाका 'आंत्रज्वर' म्हणटात.

**विशेश :** 'सालमॉनॅल तीफि' ह्या जंतूंक लागून, फक्त मनशांकच येवपी असो हो वशाचो जोर. हाका 'तिफॉयद्' जोर म्हणटात. 'Ekbestin' ह्या शास्त्रज्ञान हे जंतू वेगळे काडले, ताका लागून ह्या जंतूंक bacilo de ekbestu अशेंय म्हणटात.

जे तिफॉयद जोरांतल्यान निवळटात, तांच्या 'गॉल ब्लॅडरां'त हे जंतू उरतात. तांचे विस्टेंतल्यान ह्या जंतूंचो प्रसार जाता. शारांनी 'सेव्हेज' पायपांतल्यान तांचो प्रसार जावं येता. हे पायप तळ्याक वा झरीक तेंकून आसल्यार, तेच परी परसाकडेन बसपाचो जागो तळ्याक, न्हंयक वा झरीक तेंकून आसल्यार ह्या जंतूंक लागून थंयचें उदक दुशीत जाता. ह्या उदकार पिकयल्ली शाक-भाजीय दुशीत जावं येता. ह्या जाग्यांर बसपी मुसांकडल्यानय ह्या जंतूंचो प्रसार जाता. हो प्रसार तीन तरांनी जाता : 'fly, food and finger', म्हळ्यार मूस, अन्न आनी बोटां. हे जंतू अन्ननळयेंतल्यान कोठ्यांत वतात आनी थंयच्यान यकृतांत वचून रावतात. देहाचे प्रतिकार-तांकीन तांकां नस्ट केलेना जाल्यार थंय ते वीस ते चाळीस दीस मेरेन उरतात. हो काळ तांचो रवाणेचो काळ आसता (periodo de incubacao).

Cloranfenicol वा Clorromecitina ह्या आंतिबियॉतिकांचो सोद लागचे पयलीं, तीन सप्तकांमेरेन हो जोर येतालो. चौथ्या सप्तकांत वायटकार मात्सोसो निवळूंक लागतालो. सुरवातीच्या काळांत तिसऱ्या वा धाव्या दिसा, हे जंतू रगतांत वताले आनी तांकां लागून रगतांतले धवे कण (Globulus brancos) उणे जावंक लागताले,

धाव्या दिसाच्यान वायटकाराची अवस्ता कठीण जाताली आनी दुसऱ्या सप्तकासावन हे जंतू बारीक आंतकडेच्या आवरणाचेर आघात करून, तें आवरण झिरझिरीत करून सोडटाले. हे अवस्तेंत वायटकाराक आकांत जोर येतालो. तो तीन, चार, पांच डिग्री फारेनायटमेरेन चडटालो. हो जोर चडूंक लागतकीर वायटकाराक 'कॉलन वॉटर' घालून थंड उदकाचें न्हाण घालताले. ताचो आहार सामको पातळ आसतालो. दूद आनी आडसराच्या उदकाचेर ताका दवरताले. सगळे तरेची जतनाय घेवनय, वायटकार हाताक चडत म्हणपाची शाश्वती नासली. एकाद्रेवेळा वायटकार वाटावतालो, एकाद्रेवेळार भायर पडटालो. Cloromicitin आनी Clorafenicol ह्या आंतिबियॉतिकांचो सोद लागतकीर हे सालमॉनॅल तीफि जंतू आटापाक येवंक लागले. आज Ciprofloxacin आनी Ofloxacin ह्या आंतिबियॉतिक वखदांनी हे जंतू पूर्ण आळाबंदाक येतात.

हो जोर येवं नये म्हणून उदक आनी दूद सदांच सळसळावन पियेवंक जाय. शाकभाजी खतखतावन खावंक जाय. फळांय खातना तीं सळसळायल्ल्या उदकांत बुडोवन काडूंक जाय. तिफॉयद जोर येवं नये म्हणून Antetifica लस दितात. पावसापयलीं जायते जाण ही लस तोपून घेवन, ह्या जोरापसून आपल्या जिवाची राखण करतात.

**आधारावळ :**


१. Verbo Enciclopedia Luso-Brasileira de Cultura } Vol. 8. पानां ४७३-४७५.

२. संपादकान कांय दोतोरांकडल्यान एकठांय केल्ली माहिती.


**आंतरदेशीक** । आन्तरदेशीक्, (सं. आन्तरदेशीय) वि. देशां देशांमदलो.

**आंतरराष्ट्रिक्** । आन्तरराष्ट्रिक् । (सं. आन्तरराष्ट्रीय) वि. रास्ट्रां रास्ट्रांमदलो. (आंतररास्ट्रीक प्रस्न).

**आंतलो, ली, लें** । आँतलो, ली, लँ । (सं. अन्तर) वि. हें विशेशण 'भितल्लो' असो अर्थ दाखयता. पूण हें उतर स्वतंत्र विशेशण म्हणून कोंकणींत घोळना. हेर उतरांकडेन समास घडून तें येता. देखीक : घरांतलो दादलो, घरांतली बायल, दर्यांतलें नुस्तें.

लाक्षणिक अर्थान हें विशेशण 'अंतर्मनांतलो' असो अर्थ दाखयता. देखीक : आंतलो आवाज (विवेकबुद्धीचो मनार प्रभाव पडून आयिल्ली जाण वा जाणविकाय).

**आंतल्यान** । आंत्ल्यान् । ('आंतलो' वेल्यान ) अव्य; हेंय उतर कोंकणींत स्वतंत्र अशें घोळना. समासांत तें 'भितल्ल्यान' असो अर्थ दाखयता. देखीक : घरांतल्यान, काळजांतल्यान, शेतांतल्यान, दर्यांतल्यान.

**क्रि.वि.:** भितल्ल्यान वा जाग्यांतल्यान असोच अर्थ दाखयता. देखीक : तो घरांतल्यान येता थंयच आसा, वावर करून तो शेतांतल्यान आयला.

**आंतुळण** । आंतुळण । सा.रू. – णा; भौव. – णां; सा.रू. – णां । (सं. आस्तरणम्) न. आंथरूण, हातरूण.

**म्हण :** आंतुळणासरसो पाय पसरचो.

**आंतेर** । आंतेर् । सा.रू. – री; भौव. – री; सा.रू. – रीं । (पुर्तु. Ateira) जाका आंतेरां वा आंतां लागतात तें झाड. (घराकुशिचे आंतरीकडेन म्हजी इश्टागत पिरायेच्या खंयच्या वर्सा जाली, ताचो उगडास ना. – कथा : देंठ – पुंडलीक नायक, पिशान्तर, पा. ६३)

**आंतेर** । आंत्यॅर । सा.रू. – रा; भौव. – रां; सा.रू. – रां । ('आंतेर' वेल्यान) न. आंतेरीचें फळ; आंत. हें फळ उस्णकटिबंधांत जाता. हें फळ ब्राझिलचें. ब्राझिलांतल्या कांय भागांत ह्या फळाक Fruta de conde अशें म्हणटात. वनस्पतीशास्त्रांत ह्या फळाक

Anona Squamosa म्हणयात. (दुसऱ्यान हातार दिल्लें आंतेर हांवें केन्नाच खाल्लें ना. – देंठ : पुंडलीक नायक, पिशान्तर, पा. ६३).

**आंतोड** । आंतॉड । सा.रू. – डा (सं. आ + तुङ्ग) न. कुळागराचो वेलो भाग; कुळागराचो दोंगरावटेन सोंपपी भाग. (... थंय थंय तांणी मड्डां म्हळ्यार सर्दी पिकेचीं शेतां आनी आंतोडांत कोंडे, काजू आनी जंगली रूख बी रोवन लागवडीक हाडिल्लीं. – काणी एके जिणेची, बरो : महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. २०).

**आंत्र** । आन्त्र । सा.रू. – त्र; भौव. – त्रां; सा.रू. – त्रां । (सं. आन्त्र) स्त्री. आंतकडी.

**आंत्रजोर** । आन्त्रजोर । सा.रू. – र । (सं. आन्त्र + ज्वर) पु. पळेयात 'आंतकडे जोर.'

**आंत्रपुच्छ** । आन्त्रपुच्छ् । सा.रू. – च्छा । (सं. आन्त्रपुच्छ ) न. बारीक आंतकडी आनी मोठी आंतकडी ह्यो जंय मेळटात, थंय शेंपडे सारको, तारवटी मिरसांगेयेदो आशिल्लो ल्हानसो, नगण्य असो अवयव.

**विशेश :** बारीक आंतकडी आनी मोठी आंतकडी जंय मेळटात, थंय शेंपडेसारके, तारवटी मिरसांगेयेदो, ल्हानसो, नगण्य असो आशिल्लो अवयव म्हळ्यार आंत्रपुच्छ. हाची लांबाय १० ते ११ सेंटिमिटर आसता आनी ताचो व्यास ०.५० ते ०.७५ सेंटिमिटर इतलो आसता. ह्या आंत्रपुच्छाचो देहाक कसलो उपयोग आसा हें कळना. हो अवयव सदांच उजवे वटेन आसता. एकएकदां तो यकृताकडल्यान (eliace fossa) मेरेनच्या भागांत खंयी आसता. हाका apendicite म्हणटात. हो अवयव एकएकदां सुजता. त्यावेळार बोंबलेसकयल उजवेवटेन तीव्र कळो मारतात आनी तो भाग घट्ट जाल्लेवरी जाता. एकाद्रेवेळार ओंकारो येता. घडये जोरय येता. एकएकदां हो अवयव सुजून फुट्टा. तो फुटचे पयलीं शस्त्रक्रिया करून, हो अवयव काडून उडोवप होच ह्या दुयेंसाचेर खरो उपाय आसता.

**आधारावळ :** Verbo Enciclopeida Lusio-Brasileiro de Cultura } Vol. 8.

**आंत्रो** । आंत्रॉ । सा.रू. – त्र्या । (सं. आन्तर = भितल्लो) पु. माडांच्या भाटाचो, बागेचो वा बांदाचो कोनशाकडलो चौकोनी भाग. (आंत्र्यांत वडयल्लें खोरें घेवन कांता परत तळ्यावटेन धांवलो. – भोम, बरो : सुदन जोशी, सुनापरान्त, आयतार, सप्टेंबर १९८९, पा.८). २. कुळागराच्या वातनामदलो (लांबचेलांब शेऱ्यामदलो) जागो.

**आंत्रो** । आन्त्रो । सा.रू. – त्र्या । (सं. अन्तर = काळ, अवधी, मुदत) पु. दोन दिसांआड येता तो तिसरो दीस.

**आंदुल्ली** । आंदुल्ली । सा.रू. – ल्ले; भौव. – ल्ल्यो; सा.रू. – ल्ल्यां । (?) स्त्री. दोळ्यांच्या मलप्यांक आयिल्ली पुळी.

**म्हण :** आपल्या दोळ्यांतलें फूल दिसना, दुसऱ्याच्या दोळ्याची आंदुल्ली दिसता.

**आंधळी** । आंधळी । सा.रू. – ळे; भौव. – ळ्यो; सा.रू. – ळ्यां । ('आंधळो' वेल्यान) स्त्री. जिका साप्प दिसना ती बायल.

**म्हणी :**

१. आंधळी उदक हाडूंक गेली, घागर फोडून घरा आयली.
२. आंधळी दळटा, सुणें खाता.
३. आंधळेन दळ्ळें, सुण्यान खालें.

**आंधळें** । आंधळँ । सा.रू. – ळ्या । ('आंधळो' वेल्यान) न. जाका साप्प दिसना तें.

**वा.प्र.: आंधळें राज्य** : न्याय-नीत नाशिल्लें राज्य.

**आंधळो** । आंधळॉ । सा.रू. – ळयां; भौव. – ळॅ; सा.रू. – ळयां । (सं. अन्ध) वि. १. जाची नदर,

हस्टी गेल्या तो; जाचे दोळे गेल्यात तो, कुड्डो. (आंधळ्या मनशाक सदांच दुसऱ्याचो आधार लागता.) २. (ला) १. अजाण; अगिन्यानी; धंग, लक्ष, ध्यान नाशिल्लो; पिशें पांगुरलेलो. २. आपली मुळावी, मोलाची तांक वगडावन बशिल्लो (दोळे उकते आसुनय आंधळो जाल्ल्या, कान उकते आसुनय भेड्डो जाल्ल्या मनशावरी आज आमची दशा जाल्या).

**वा.प्र.: १. आंधळो जावप**: पिसो जावप; पिसावल्लेवरी जावप. (शेजारचे चलयेच्या मोगान तो आंधळो जाला.)

**२. आंधळयाचें सवंग घेवप**: दाटून पिशेपण पांगरप.

**३. आंधळो न्याय**: अन्याय करपी न्याय.

**४. आंधळयाची बडी**: म्हातारपणाचो आधार, दुबळ्या मनशाचो आधार.

**५. आंधळयाचे दोळे**: सगळ्यांत अपुर्बायेची गजाल.

**म्हणी :**

१. आंधळो मागता एक दोळो, देव दिता दोन.
२. आंधळ्याक पक्वान्न दिलें, तें मांजर खाता.
३. आंधळ्याक सारथी भगवान.
४. आंधळ्याचीं गोरवां देव राखता.
५. आंधळ्यांत काणो राजा.
६. आंधळो मळी, पाडो खाय.
७. तेलयाचो बैल सदांच आंधळो.

**आन्हिक** । आन्हिक् । सा.रू. – का । (सं. आन्हिक) न. दर एकल्यान आपल्या शरिराचे शुद्धीखातीर दिसभर दिसपट्टीं करपाचीं कामां.

**विशेश :** एका दिसाचे आंठ भाग. ब्राह्मम्हुर्त धरून (सूर्य उदेवचे पयलीं देड वराचो काळ) दिसाची सुरवात जाताली. तेन्नाच्यान दिसाच्या प्रत्येक भागांत करपाच्यो गजाली थारायल्ल्यो आसताल्यो. पयल्या दोन भागांत : प्रातर्विधी, न्हाण, संध्या, जप, वेदांचो अभ्यास; तिसरो भाग : धनसंपादन; चौथो भाग : दनपारचें न्हाण, संध्या; पांचवो भाग : वैश्वदेव, जेवण, खावचींपानां खावप (तांबूल सेवन); सवो-सातवो भाग : वाचन (इतिहास-पुराण हांचें); आठवो भाग : इस्टांक, सोयऱ्यांक मेळप, सांजची संध्या, जेवप, न्हिदप.

**आप** । आप् । सा.रू. – पा । (सं. आप) न. उदक, जळ, पाणी, नीर; ज्या पांच मुळाव्या तत्वांक लागून संवसाराची निर्मणी जाल्या, तातूंतलें दुसरें तत्व; पंचमहाभुतांतलो एक घटक. हीं पंचतत्वां वा पंचमहाभुतां अशीं आसात : पृथ्वी, आप, तेज, वायु, आकाश.

**विशेश :** सं. अप, आप ह्या उतराक लागीं आशिल्लीं इंडो-युरोपियन उतरां अशीं आसात : ग्रीक : 'आपॉस', लातीन : 'आक्व', फा. 'आब', सुमेरियन भाशेंतय 'आप' हाका 'अपा' म्हणटात.

**आप** । आप् । (सं. आत्मन्; प्रा. अप्पा) सर्वनाम १. खासा आपूण; आपूण स्वता; २. स्वकीय, आपलो, आपल्या नात्यांतलो, आपलो सोयरो-दायरो.

'आप' ह्या उतराकडेन दुसऱ्या उतरांचो समास घडून येवन 'आपखोस', 'आपस्वार्थ', 'आपतुस्त', 'आपमत' बी उतरां घडटात.

**वा.प्र.: आप करप :** १. आपलो करप, पोसको घेवप; २. हातासप, बळयादप; ३. स्वार्थाखातीर लागीं करप.

**म्हणी :** १. आप आपणाक, देव समस्तांक.
२. आप सोडून पर धरी, ताची मनसुबी देव करी.

**आप-आपणाचो,ची,चें** । आप-आपणाचॉ,ची, चँ । सा.रू. – च्या-चे-च्या । (कों. आप + आपण + चो) वि. आप-आपलो, आप-आपल्याचो.

**म्हण :** आप-आपणाचे खोरजीर उदक पडना जातकीर, दुसरो बरो न्हंय.

**आप-आपलो-ली-लें** । आप-आपलॉ-ली-लँ । सा.रू. – ले-ल्या । (कों.) वि. खासा आपणाचें; स्वताचो (ज्याका ताका आप-आपलो स्वभाव बरो दिसता.) जाचो-ताचो; जाची-ताची; जाचें-ताचें.
**म्हण:** आप-आपलें ओजें आप-आपणाक जड दिसता.

**आप-आपल्याचो-ची-चें** । आपआपल्या, चॉ-ची-चँ । सा.रू. – च्या-चे-च्या । (कों). वि. आप-आपलो; आप-आपणागेलो; आप-आपणाचो; जाचो-ताचो.

**आपखोस** । आप्खोस् । सा.रू. – शे । (कों. आप + फा. खुशी) स्त्री. खासा आपली इत्सा, खोस, मर्जी.

**आपखोशयेन** । आप्खोश्येन् । ('आपखोस' वेल्यान) क्रि.वि. खासा आपले इत्शेन, खोशयेन; आपले मर्जीन. (पयशे विचारपाक हांव अनमनलों. ताका वायट दिसत जाल्यार? चार दिसांपयलीं हांवें ताका आपखोशयेन बारा केळ्यांचो असोच फेणो दिवंक नाशिल्लो? – केळ्यांघड : लक्ष्मणराव सरदेसाय, खबरी – कांय कर्माच्यो, कांय वर्माच्यो, पा.३०).

**आपटप** । आप्टप् । सा.रू. – पा । (सं. आ + पट्) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आपट् – अक् / सक). १. नेटान सकल उडोवप; फोडप; नाश करप. २. नेटान आदळप (पांय फातराक आपटलो आनी सण्णक करून कळ आयली.) ३. एकामेकाचेर आदळप. ४. (ला.) १. वादांत हरोवप. २. उणो, तुच्छ लेखप. (आतां उखलता, आतां आपटिता). ३. अकस्मात मेळप, भेट जावप. (केन्नाच्यान ताका हांव सोदतालों. आज अकस्मात् तो म्हाका रस्त्यार आपटलो.)
**म्हणी :** १. आतां उखलता, आतां आपटिता.
२. आपटून पडत, दण्डवत घडत.

**आपटी** । आप्टी । सा.रू. – टी । (सं. आपत्तिः) स्त्री. १. संकट; दुर्दशा. २. व्यापारांत बशिल्ली खोट; व्यापारांत आयिल्लें लुस्काण वा आयिल्ली तूट. ३. (ला.) परिक्षेंत नापास जावप. (राजेशाचें अक्षर बरें, पूण एस्.एस्.सी.क पांच खेपो आपटी खाल्ली. – पोकी चीट : एन्. शिवदास, गळसरी, पा.७७.)

**आपटुवप** । आप्टुवप । सा.रू. – पा । (सं. आ + पट् = फोडप, नाश करप) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आपटी - सक). १. बळयां, मुद्दाम आपटप. २. रागान, तिडकीन मारप; सुडाचे भावनेन मारप. (ताची तकली ताणें वण्टीर आपटिली.)

**आपटो** । आप्टॉ । सा.रू. – टया । (सं. अशमंतक; कों. आपटो) पु. Bauhinia racemosa हें लातीन नांव आशिल्लें, वांटकुळसार पूण मदीं कात्रो आशिल्ल्या पानांचें झाड.
**विशेश :** आपट्याचीं पानां गाढ पांचवीं आसतात आनी तीं सुमाराकशीं दाट आनी खरखरीतशीं आसतात. आपट्याक हळदुव्याच रंगाचीं फुलां फुलतात. हीं फुलां भेंडयेच्या फुलांवरी दिसतात. दसऱ्या दिसा आपट्याची पुजा करून, ताचीं पानां 'सोनें' म्हणून इस्ट-मित्रांक वांटपाची प्रथा आसा. आपट्याचीं पानां विडयो करूंक उपकरायतात.

आपट्याची साल तोरट आसता. निर्मोळेचेर वा हागवणेचे पिडेर (Disenteria आनी Diarrhoea) ती गुणावाक येता म्हणून सांगतात. – Caetano Gracias हांणी आपल्या Flora Sagrada ह्या पुस्तकांत अशें बरयलां, पा. ५२.
**आधारावळ :** Glossario Luso Asiatico, Por Sebastiao Rudolfo Dalgado.

**आपण** । आपण् । सा.रू. – णा । (सं. आत्मन्, प्रा. अप्पणा) स.ना. खासा आपूण, स्वता – हें सर्वनाम तिनूय लिंगांनी आनी दोनय वचनांनी उपकरायतात.

(आपणाक वाचपाक जाय म्हणून ताणें तें पुस्तक मागून हाडिल्लें.)

**म्हणी :** १. आपण खायना, दुसऱ्यांक दिना.

२. आपण गाढव जाल्यार, दुसऱ्यांनी फाटीर बसल्यार कित्याक कोपचें ?

३. आपण चांग जाल्यार जग चांग.

४. आपण कुंटो, दुसऱ्यांक म्हणटा थोंटो.

५. आपण नागडी, कानांत बुगडी.

६. आपण मरून बायलेक रांड करता.

७. आपण रांड शिंदळ जाल्यार, भावाले बायलेक पातयेना.

८. आपण शेण खावनु, दुसऱ्यांल्या तोंडाक हात पुसता.

९. आपणाकडेन घड्टा तें पेल्याकडेन मागता, तो पेल्याचे पांगींत पडटा.

१०. आपणाकडेन आसल्यार इस्ट आनी सोयरो, ना जाल्यार जालोय भायरो.

११. आपणाक दुख्ख भोगलेबगर दुसऱ्याचें सुख-दुख्ख कळना.

१२. आपणाचें कांटभर दवरून दुसऱ्याचें बोटभर उस्तिता.

१३. आपणावेल्यान जग वळखुंचें.

१४. राग मारता आपणाक, संतोश मारता पेल्याक.

१५. आपणें केल्लें उत्तम, पुतान केल्लें मध्यम, चाकरान केल्लें कंडम.

१६. दुसऱ्याक केंडटा तो आपणाचेर दळिद्र आपयता.

**आपणावप** । आप्णावप् । सा.रू. – पा । (कों. 'आपण' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आपणाय् (सक.) स्वीकारप; मान्य करप. (हाचेर तडजोड म्हूण मंगलाकान एक मदली वाट आपणायिल्ली. फांतोड जावपाची वाट पळयत लोळत रावपाची. – तडजोड : दामोदर मावजो, जाग, दिवाळी १९९६, पा.८).

**आपतुस्त** । आप्तुस्त् । सा.रू. – स्ती । (सं. आत्मस्तुति) स्त्री. आपणेंच केल्ली आपली तोखणाय, तुस्त; आपणेंच केल्ली आपलीच स्तुती.

**आपत्त** । आपत्त । सा.रू. – त्ती । (सं. आपद्) स्त्री. दुर्दैव; संकट; पिडा; विपत्त; आफत.

**आपतंत्री** । आप्तंत्री । (सं. आत्मन् + तंत्र) वि. १. आपल्या मनांत येता तसो वागपी (आपतंत्री मनीस). २. आपल्याक जाय तसो केल्लो (आपतंत्री कारभार).

**आपत्ति** । आप्ती । सा.रू. – त्ती । (सं. आपत्ति) स्त्री. संकट; अडचण; हाल; दुर्दशा.

**आपदा** । आप्दा । सा.रू. – दे । भौव. – दा, सा.रू. – दां । (सं. आपदा) स्त्री. त्रास; वळवळो; व्यथा; संकट; संकस्ट.

**आपद्धर्म** । आपद्धर्म । सा.रू. – र्मा । (सं. आपद् + धर्म = आपद्धर्म) धर्मान वा स्मृतिंनी वेल्या वर्णांक निशिद्ध मानिल्लो, पूण अत्यंत विपत्तीच्या काळार करूंक मान्यताय दिल्लो उणाक धंदो वा करणी. वर्णाश्रमान सांगिल्लो धंदो वा करणी करूंक मेळना जातकीर, अत्यंत विपत्तीच्या काळार निरुपायान करूंक मान्यताय दिल्लो उणाक धंदो वा करणी.

**आपपर** । आप्पर् । सा.रू. – रा । (सं. आत्मन + पर ) वि. आपलो आनी दुसऱ्याचो; आपलें आनी पेलें, आपलो आनी परक्याचो (...संवसारीं येउनु प्राण्यान परमेस्पराची भग्ति करूंची, बरवो दानु धर्मु करुंचो, आपपर वळखुंचें, भिकाऱ्यां चोकाऱ्यां, थोटां पांगुळां, अनाथांक आन्दळ्यांक सांबाळुचें, परुपकारू कोरुंचो, तरि तें सौंसारीं आय्ल्याचें फळ – कोंकणी महाभारत, आदिपर्व, संपादक : प्रताप नायक, जे.स., पा.१०३.)

**-भाव :** आपले इस्ट-मित्र, आपले सोयरे-दायरे आनी हेर लोक हांचेभितर मानिल्लो भेदभाव.

**आपम** । आपम् । सा.रू. – मे । ('आप' वेल्यान?) स्त्री. आपली रूच.

**म्हण :** खाण आपमेचें, शृंगार परमेचो.

**आपमत** । आप्मत् । सा.रू. – ता । (सं. आत्मन् + मत = विचार, अभिप्राय) स्त्री. आपलें मत, आपलो विचार.

**आपमतिचो-ची-चें** । आपमतिचॉ-ची-चँ । सा.रू. – च्या-चे-च्या । ('आपमती'वेल्यान) वि. आपल्या मताचो; आपले बुद्धिचो; दुसऱ्याचें मत आयकनासतना, आपल्याच मतान चलपी; हट्टी.

**आपमती** । आप्मती । सा.रू. – ती । (सं. आत्मन् + मति) वि. आपल्या मताचो; आपले बुद्धिचो; आपल्या विचारांचो; आपल्या विवेकान चलपी.

**आपय** । आपय् । सा.रू. – ये; भौव. – आपयो; सा.रू. – यां । (?) स्त्री. परदेशांत वा पयस आशिल्ल्यान आपल्या घरच्या लोकांक आनी इस्ट-मित्रांक, सोयऱ्या-धायऱ्यांक धाडिल्ली भेट वस्तूंची पोटली.

**आपरोस** । आपरोस् । सा.रू. – सा । (कों. आप + रोस) पु. १. नाल्लाचे सोयेचो उदक घालिनासतना काडिल्लो दाट रोस. आपरोसाक मात्शेंशें उदक घाल्यार घालतात. आपरोस घालतकीर जेवण रुचीक जाता. देखून, हुमणाक, तोंडाकाक वा शाकोतेकय आपरोस घालतात. २. ऐन सत्व; सार; अर्क. (गीता म्हळ्यार उपनिषदांचो आपरोस.)

**आपलेपण** । आप्लॅपण । सा.रू. – णा । (कों. आपले + पण) न. आपल्या मनशांची वा हेर कोणाचीय आपल्याक दिसता ती ओड, माया, प्रेम; आपल्या मनशां संबंधान वा हेरा कोणाय संबंधान आपल्या मनांत उदेता ती मायेची वा प्रेमाची भावना; आपुलकी. (कोणेंच ताका आपलेपण दाखयलें ना, ताची काकुळट केली ना. – सुखाचो सुगुर्वो : हेमा नायक, पसय, पा.७२).

**वा.प्र.: १. आपलेपणाचो अभिमान :** आपल्या लोकाचो, आपल्या देशाचो, आपले संस्कृतायेचो आपल्याक आशिल्लो अभिमान.

**२. आपलेपणाचो अभिमान जागोवप :** आपल्या मनशांचो अभिमान, अस्मिताय जागोवप.

**आपलो-ली-लें** । आपलॉ-ली-लँ । सा.रू. – ल्या, –ले, –ल्या; भौव. – ले (लॅ), –ल्यो, –ल्यां, सा.रू. – ल्यां । (सं. आत्मियं, प्रा. अपुल्लं) वि. १. स्वताचो, मायेचो, लाडको (आपलो चलो; आपली गाडी; आपलें घर). २. जाचेर पातेवं येता वा भरवंसो दवरूं येता असो (आपलो मनीस).

**वा.प्र.:**

१. **आपलो करप :** १. बळयादप; हातासप; २. पोसको घेवप; ३. आपल्याक वश करप.

२. **आपलो नासप/न उरप :** १. आपल्यो न्हय जावप, २. आपल्याचेर आपलोच ताबो नासप.

३. **आपलो म्हणप :** परकेपण ना करप; आपल्या जिवाचो मानप.

४. **आपलेंच पडप :** आपल्यो अडचणी कशो निस्तारच्यो, हेच विवंचनेंत आसप; आपल्याच स्वार्थाची चिंता आसप.

५. **आपलेंच वाजोवप :** आपलेंच म्हणणें परपरत फुडें काडप.

६. **आपलेंच करप :** आपल्या मनाप्रमाण वागप.

७. **आपल्यांतल्यान भायर येवप :** आपलो स्वार्थ सोडून दुसऱ्याचो विचार करप; आपलें हीत कुशीक दवरून दुसऱ्यांचे अडचणींचें निवारण करप.

**म्हणी :**

१. आपलो खुळो जाल्यार रडटांव, दुसऱ्याचो जाल्यार हांसतांव.

२. आपलो गुन्यांव प्रगटीत, तो जायत मानादिक.

३. आपलो हात जगन्नाथ, दुसऱ्याचो हात करता घात.

४. आपले आदीन आसा तें करता, ताका देव प्रसन्न जाता.

५. आपले मडकेसरशीं भाणशिरें आसा तें पयलीं पळोवचें, मागीर दुसऱ्यांचें उलोवचें.

६. आपले शेंपडेर पांय पडल्यार गमता.

७. आपली जीब, आपले दांत, चाबल्यारि कोपचें कोणाचेरि ?

८. आपली फाट आपणाक दिसना (आपले अवगूण आपल्याक दिसनात.)

९. आपली सावळी आपल्या पांयांमुळांत (जाचें नशीब ताका).

१०. आपलें आपणाक बरें.

११. आपलें आसा थंय सासण, ना थंय मसण.

१२. आपलें दिवंचें, दिवाणाक वचचें.

१३. आपलें घर बारा कोसांवेल्यान दिसता.

१४. आपलें घर पयलीं चलोवचें, मागीर दुसऱ्यांचेर उलोवंचें.

१५. आपलें ना थंय गांव पाड, दुडू ना थंय शहर पाड.

१६. आपलें नाशें, जगांत हांशें.

१७. आपले लाळेन चणे गोड करचे.

१८. आपल्या जिवार कोपलो तो तोपलो.

१९. आपल्या तोंडांतल्यान भायर सरतकूच दुसरो धनी.

२०. आपल्या तोंडान मासळी मरता.

२१. आपल्या नशिबांत आयलां तें भोगचें.

२२. आपल्या दोळ्यांत पाटी आसा ती दिसना, दुसऱ्याच्या दोळ्यांत कुस्कूट आसा तें दिसता.

२३. आपल्या बळार पातेता, तो देवाच्या आलाशिऱ्याभायरो जाता.

२४. आपल्या रगताक पोरो घालता, तो मनीसपणाभायरो जाता.

२५. जण एकलो आपल्या पोळयांक रोस काडटा (जो तो आपलो स्वार्थ पळेता).

२६. दांतय आपले ओंठय आपले, तोंड धांपून ओगी रावंक जाय.

२७. आपले घरचो आपूण राजा.

२८. आपलें घर हागून भर, दुसऱ्याचें घर थुकूंक जड (आपल्या घरा कितेंय केल्यार जाता, दुसऱ्याल्या घरा सावध रावन चलचें पडटा.

२९. आपली चली नखेत्र, पेल्याची म्हारा-पोर.

३०. आपलें पान धुवन आपणें जेवचें.

३१. आपली कोयती दांतार बसल्यार नाल्लाक गाळी कित्याक ?

३२. आपलें भुरगें आनी दुसऱ्याची बायल सदांच सुंदर दिसता.

३३. आपल्या आळवाची खाज आपल्याक खबर आसता.

३४. आपलें खावचें आनी जगाक भिवचें.

३५. आपल्या घरचें जेवचें आनी लोकांलें घेवचें, कसली गरज ?

३६. आपले गांडी पोंदचो घोडो गेलो, मागीर ताचेर कोणय बसना ?

३७. आपलीं तीं आपलीं, नाक कापल्यारय आपलीं.

३८. आपल्या पांयांत घुस्पल्या वाल आनी हांव काडटां दुसऱ्यांची चाल.

३९. आपल्या हातचें धुवप आनी आवयच्या हातचें खावप.

४०. आपल्या पांयामुळा कुंवाळो कुसता आनी दुसऱ्यालीं सांसवां वेंचता.

४१. घोव म्हणू नये आपलो, सोरोप म्हणूं नये धाकलो.

**आपलोसो** । आप्लॉसॉ । सा.रू. – लेश्या । (सं. आत्मियं, प्रा. आपुल्लं) वि. १. एकटो-एकटुको, एकांती. २. आपलो कसो. ३. चार-चौगांत

भोंवनासतना एकोडोच भोंवपी, एकटुकोच रावपी.
**वा.प्र.:**
**१. आपलोसो मानप**: आपलो मानप; आपल्या जिवाचो कसो धरप; इस्टकायेन, माये-मोगान चलोवप.
**२. आपलोसो करप**: आपलेवटेन ओडप.

**आपलोसोच** । आप्लॉसॉच् । ('आपलोसो' वेल्यान) वि. १. एकटो-एकटुकोच; एकांती. २. आपलेच भितर रावपी वा आसपी, आपलेचकडेन संवाद करीत आसपी; एकटुक्यांनीच रावपी.
**वा.प्र.: आपलोसोच रावप**: एकटुक्यान रावप; आपले भितर रावप.

**आपले-आपूण** । आपले आपूण । (कों. 'आपलो + आपूण) क्रि.वि. आपूण जावन; आपले इत्सेन वा इच्छेन; आपसूक.

**आपवणें** । आप्वणँ । सा.रू. – ण्या । क्रि.वि. आपूण जावन; आपले इत्सेन वा इच्छेन; आपसूक.

**आपवणें** । आप्वणँ । सा.रू. – ण्या; भौव. – णीं; सा.रू. – ण्यां । (कों. 'आपवप' वेल्यान) न. आपोवंचेली क्रिया, आमंत्रण. (देह आतां थकला. आतां देवालें आपवणें येवचें म्हणून दीस-रात मागतां.)
**वि.**: आपाप व्हांवपी. (त्या कुळागरांत आपवणें उदक आसा.)

**आपवणो** । आपवणॉ । सा.रू. – ण्या । ('आपवप' वेल्यान) पु. आपयला म्हणून निरोप वा रकाद घेवन आयिल्लो मनीस. (कालच तिच्या कुळारासाकून आपवणो आयला.)

**आपवप** । आपवप । सा.रू. – पा । (प्रा. अप्पाहइ) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: 'आपै'/आपय्-अक) १. नांव घेवन, नांवान साद घालून वा उलो मारून आपल्या म्हऱ्यांत यो म्हणून सांगप. (ताणें चल्याक आपयलें). २. पोशिल्ल्या जनावरांक आनी सवण्यांक आपले म्हऱ्यांत येवपाक खुणेचो आवाज काडप. (तो उदक दिवपाखातीर हांबेऽ करून पाडकांक आपयता.) ३. एकठांय हाडप (कांय धर्मप्रश्नांखातीर स्वाम्यांनी वैस्णव आनी स्मार्त, अशा दोनय पंथांतल्या लोकांक आपोवन व्हेले.) ४. हजर जावपाक आज्ञा दिवप (म्हाका फाल्यां बारा वरांचेर कोर्टांत आपयला.) ५. पयस आशिल्ल्याक मेळूंक येवपाखातीर रकाद धाडप. (फाटल्या म्हयन्यांत ताणें म्हाका पणजे आपयलो पूण हांव पावलों ना.) ६. आमंत्रण करप. (जोंवर येना, तोंवरच कोणय आपयता.) ७. खुणेन वा हातांनी खूण करून आपलेसरीं यो म्हणून सांगप; आपलेसरीं येवपाक खुणावप. (माडावेलो कीर शेंपडी हालयता; तत्रें चेडूं पान खाता; ताका फिंर्गी आपैता । – एक लोकगीत.)

**आपवावुरपी** । आप्वावुर्पी । सा.रू. – प्या । (कों. आप + वावुरपी) वि. आपखोशयेन कसल्याय कामाची जापसालदारकी घेवपी; आपूण जावन कसल्याय कामाक मुस्तायक जावपी; स्वयंसेवक. (शाबलू बेगीबेगीन देवळांत वचपाक फुडें सल्लो, तशें एका आपवावुरप्यान ताका आडायलो, आनी तिडकून विचाल्लें, "खंय घुसता फुडें फुडें?" – शाबुलुलो देव: अच्युत तोटेकार, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, पा.४६.)

**आपवित** । आप्वित् । सा.रू. – ती । (सं. आत्म + वित्ति: = ज्ञान) स्त्री. आपल्या अणभवाचें म्हणणें वा सांगणें. (संसार बुट्टेंतलो बारावो आत्मो बामणालो. ताचे आपवितींत चड करून जिणेविशींचें तत्वगिन्यानूच भल्लां. – शणै गोंयबाब: रा.ना.नायक, पा.९१.)

**आपशकमी** । आप्शक्मी । (सं. आत्मशक्मना) वि. खास आपल्या बळाच्या; खासा आपल्या तांकिच्या.

(गोंयकारांचो आर्विल्लो तसोच पुर्विल्लो इतिहास धवळलो जाल्यार, धर्नीपणाच्या धेंकान ते वावुल्लेले दिसनात. आपशकमी कर्तुत्वान ते फुल्लेले मेळनात.)
**क्रि.वि.:** आपल्या निजाच्या बळान, तांकीन (तो आपशकमी वयर सल्ला.)

**आपशकमीपण** । आपश्क्मीपण् । सा.रू. – ण । ('आपशकमी' वेल्यान) न. आपलें निजाचें बळ, आपली निजाची तांक.

**आपशींआप** । आप्शींआप् । (कों. 'आप' वेल्यान) क्रि.वि. आपाप; आपसूक. (भुरग्याविशीं ताका उपाट मोग आशिल्लो, आनी सगळें आपशींआप घट्टालें. – काळखाकिरणां : महाबळेश्वर सैल, जाग, दिवाळी आंक ८८, पा.८०.)

**आपशींच** । आपशींच् । (कों. 'आप' वेल्यान) क्रि.वि. १. आपाप; आपसूक; आपले आपूण. २. फार-पेट करिनासतना; झुजाविणें. (...ताणें दर्यांतलीं आल्बुकेर्काचीं तारवां लांबसून पळोवन आदींच आपणाल्या कोटांतसून नळी काडली. म्हणटकूच तिमय्याच्या हातांत तें कोट आपशींच आयलें. – आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें? – बरो : शणै गोंयबाब, पा.२४.)

**आपसांत** । आप्सांत् । (कों. 'आप' वेल्यान) क्रि.वि. एकामेकांत; आपआपल्यांत; परस्परांत; आपले भितर. (तुमगेलें हें झगडें तुमी आपसांत सोडोवंक जाय.)

**आपसुवार्थी** । आपसुवार्थी । (कों. आप + सं. स्वार्थ) वि. आपलोच लाभ पळोवप; फकत आपलेंच हीत पळोवप. (लोकय इतले दुश्ट आनी आपसुवार्थी की, ताच्या सादेपणाचो फायदो बेस बरो उठयताले. – आंकरी : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा. १३१.)

**आपसूक** । आप्सूक् । (कों. आप + सूक / सूख) क्रि.वि. आपले खोशयेन; आपूण जावन; आपाप. (जेन्ना मनशाच्या मनांत पश्चाताप दाटून येता, तेन्ना सगळीं पातकां आपसूक धुवन वतात, ही कल्पना ख्रिस्ती धर्मग्रंथांनी वाचूंक मेळटा. – बिम्बां-पडबिम्बां : चंद्रकांत केणी, पा. १४१.) २. त्रासांविणें; कस्टांविणें. (ताकालागून रावाच्या मालमत्यार म्हाका आपसूक मिरोवंक मेळ्ळें.)

**आपसेवक** । आप्सेव्क । सा.रू. – का । (कों. आप + सं. सेवक) पु. आपूण जावन काम करपाक तयार आसपी; आपवावुरपी; स्वयंसेवक (आपसेवकांचो एक पंगड तांणी तयार केलो. वायटकारांची सेवा ते मन लावन करूंक लागले. – सुभाषचंद्र बोस – बरो : अनिल पै.)

**आपस्वार्थ** । आप्स्वार्थ । सा.रू. – र्था । (कों. आप + सं. स्वार्थ) पु. आपलोच स्वार्थ; आपलोच सुवार्थ.

**आपस्वार्थी** । आप्स्वार्थी । सा.रू. – र्थ्या । ('आपस्वार्थ' वेल्यान) वि. आपलोच स्वार्थ, सुवार्थ पळोवपी; आपमतलबी.
**म्हणी:** १. आपस्वार्थी महापापी.
२. दुडवांक वसो ना, आपस्वार्थ्याक दोळे नात.

**आपहस्तीं** । आप्हस्तीं । (कों. आप + हस्तीं/ हस्तुकीं) क्रि.वि. खासा आपल्या हातान; आपले हस्तुकीं. (परहस्तीं काम करून घेवंचे परस आपहस्तीं काम केल्लें चड बरें.)

**आपा-प्पा** । आपा-प्पा । सा.रू. – पा-प्पां । (सं. आप्त; प्रा. आप्प; का. अप्पा = बापूय; तु. अप्पा = नांवांफाटल्यान भौमानान लावचेलें उतर; दे. अप्पो (बापूय)) पु. १. जाण्ट्या मनशांक भौमानान, तेचपरी भुरग्यांक अपुर्बायेन उलो मारचेलें उतर. २. जाण्ट्यांच्या नांवांफाटल्यान भौमानान लावपाचें उतर. देखीक : पुरशेआप्पा; सोयरूआप्पा.
**म्हण :** सोनार, शिंपी, कुळकर्णी आप्पा, हांचो सांगात नाका रे बाप्पा.

**आपाप** । आपाप् । (कों. आप + आप. 'आप' ह्या उतराची द्विरुक्ती:) क्रि.वि. कस्टांविणे; सायासांविणें; कसलीच खटपट करिनासतना; आपले आपूण. (तिमय्यान आल्बुकेर्काक सांगलें आनी म्हळें कि ह्या वेळार फिर्ग्यांचीं तारवां गोंयांत बंदरांत वेतीत जाल्यार, गोंय शार आपाप सुवादीन जायत. – आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें ? – बरो : शणै गोंयबाब, पा.२३.)

**आपापलो** । आपाप्लॉ । सा.रू. – ल्या । (कों. आप + आपलो) वि. खासा आपलो; जाचो-ताचो. (प्रत्येकाक आपापलो स्वभाव बरो दिसता.)

**आपार** । आपार् । सा.रू. – रा; भौव. आपार; सा.रू. - रां । (पुर्तु. Aparo) पु. बरोवपाखातीर लाप्साक काडिल्लें तोंक; पेनाक जोडून बरोवपाचें धातुचें तयार केल्लें तोंक; निब. (कालच शाळेंत नारायण मास्तरान आमी चवथेक पावल्यात, देकून आपाराच्या पेनान बरोवपाक जाय म्हुण सांगिल्लें. – येरांस : एन्. शिवदास, गळसरी, पा.१००.)

**आपालिपा** । आपालिपा । सा.रू. – पा । (कों.) पु. भुरग्यांचो एक खेळ. (पावसा पावसा यो रे यो । आपालिपा खेळूंक यो... – पावसा पावसा यो रे यो – र.वि. पंडित, म्हजें उतर गावड्याचें, पा.७३.) ह्या खेळांत उण्यांत उणे म्हळ्यार चार गडे आसतात. तातुंतलो एकलो एका गड्याचे दोळे गच्च धांपता. हेर गडे लिपतात. गडे लिपतकीर जाणें त्या गड्याचे दोळे धांपिल्ले आसतात, तो ताका लिपिल्ल्यांक सोदून काडूंक सांगता आनी म्हणटा : 'आपालिपा, सायलिपा, सायचो गोंडो सोदून काड. कानांत कितें ? मुऽऽदी. चल भावा सोदी.'

**वा.प्र.: आपालिपा करप :** भितरले भितर ना करप; जाग करिनासतना सुतलावप; भितरले भितर हातासप; बेबक्यो करप. (चोरयेचो मुदगो धरले उपरांत, तो सरकारी भांडारांत जमा करचे पयलीं तातुंतलो कितलोसोच वांटो धरतल्यांनी मदलेमदींच आपालिपा केलो.)

**आपुण** । आपुण् । सा.रू. – आपणा । (सं. आत्मन्; प्रा. अप्पाणो) स.ना. स्वता. – हें उतर तिनय लिंगांत आनी दोनय वचनांत घोळटा.

**वा.प्र.: १. आपुण मरून बायलेक रांड करप** = दुसऱ्याक अपशकून करप.

**२. आपुण सोरोप मारून घोणीच्या तोंडांत दिवप** = आपणें वांकडें, वायट काम करून, तसलेंच काम करपी मनशाच्या माथ्यार मारप.

**म्हणी :** १ आपुण आपले बराबर.

२. आपुण आपणाक, देव समस्तांक.

३. आपुण चुकलें, जगान थुकलें.

४. आपुण चोर जाल्यार, बायलेचो भावय चोर.

५. आपुण तसो पेलो दिसता.

६. आपुण भलो तर जन भलो.

७. आपुण मरून स्वर्गार वचचें.

८. आपुण मेलो, संवसार बुडलो.

९. आपुण करना, दुसऱ्याक सोडना.

१०. आपुण कुण्टो, दुसऱ्याक म्हुण्टा थोंटो.

११. आपुण खायना, दुसऱ्याकय दिना.

१२. आपुण बरो जाल्यार जग बरें.

१३. आपुण बुडटा आनी दुसऱ्याक पोटाळटा.

१४. आपणाक कळना, दुसऱ्यान सांगल्यार सोंसना.

१५. आपुण रांड शिनाळें, भावा बायलेक पातेना.

१६. आपुण जेवी पोटभर, घोवाक वाडी दाबलभर.

१७. आपुण बायल पोटारी, घोवार दोळे वाटारी.

१८. आपुण आयलां मागूंक, घाल गे रांडे भीक.

**आपुलकाय** । आपुल्काय । सा.रू. – ये । ('आपलो' वेल्यान) स्त्री. आपुलकी; आपलेपण; ओड.

**आपुलकी** । आपुल्की । सा.रू. – के । ('आपलो' वेल्यान) स्त्री. आपलेपण; ओड.

**आपेर्ताद** । आपॅर्ताद । (पुर्त. Apertado) क्रि.वि. १. गच्च; घट्ट; तायट (म्हाका हें कल्सांव पोटार आपेर्ताद जाता.) २. अडचल्लो, अडिल्लो (कांय गरजांक लागून तो आपेर्ताद जाला.) ३. अरूंद, अवरूंद, अशीर (आपेर्ताद मार्ग). ४. कठोर (आपेर्ताद नेम). ५. (ला) खावगो, पोटारो, अधाशी (आपेर्ताद मनीस).

**आपोल** । आपॉल । सा.रू. – ला, भोव. - लां, सा.रू. - लां । (इं. Apple) सफरचंद. (आतां तो न्हातोकूच पळय कसो दिसता तो आपोलासारको तांबडो आनी सामको फिंर्गी कसो. – पाखलो : तुकाराम शेट, पा.३०.)

**आपोलबापोल** । आपॉलबापॉल । सा.रू. – लया । (कों. आपलो + बापोल) आपली आनी बापोलयाची. (सांजच्या वेळार घरांतच झोंपाळो बांदून माया आपोलबापोल भयणांवांगडा खेळ खेळ खेळ्ळें. – आडगांव : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा.११५.)

**आपोवणें** । आपॉव्णँ । सा.रू. – ण्या । ('आपवप' वेल्यान) न. आमंत्रण, आंवतण. (आपोवणें येयलां नाचपाकू, सायबा नाचपाकू... । आमी हिणयां नाच नाच नाच्चें । नाच रे मोरा ताळारू, सायबा । ढिम ढिम ढिम ढिम धोलारू... । कळवणें येयलां वचपाकू, सायबा वचपाकू...। आमीं घटकें तोंड घेवन वच्चें । सांगाता कोण ना व्हाजपाकू... सायबा । – र.वि. पंडित, दर्या गाजोता, व्याख्यान करून उज्वाडायता, जे.स. स्वामि सुप्रिय, पा. २५८).

**आपोवणें उदक** । आपॉवणँ उदक् । सा.रू. – आपोवण्या उदका । (कों. आपोवणें + उदक) न. कुळागराच्या मागांतल्यान उमळ जाल्लेवरी वा झरो फुटिल्लेवरी आपाप व्हांवत आशिल्लें उदक; आपवणें उदक.

**आपोवणो** । आपोव्णॉ । सा.रू. – ण्या । ('आपवप' वेल्यान) पु. आमंत्रण घेवन येवपी मनीस. (खाविंदानी चूक भोगसुची. तुमचो आपोवणो आयलो, तेन्ना हांव भुरग्यांमदीं खेळटालों. – भुरग्यांलो हट्ट, बरो : जयमाला दणायत, सप्तक.)

**आपोवप** । आपॉव्प् । सा.रू. – पा । (प्रा. अप्पाहइ) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू : 'आपै' (अक). – पळेयात 'आपवप'.

**आपोश्त** । आपॉश्त् । सा.रू. – श्ता । (पुर्तु : Aposta) न. दोग मनीस वा दोन पंगड कसलेय गजालीसंबंधान, नाखीर येवन जेन्ना वेगळें मत मांडटात, तेन्ना जाचें वा ज्या पंगडाचें मत खरें जावंक पावूंक ना, ताणें वा त्या पंगडान जाचें मत खरें जालां, त्या मनशाक वा पंगडाक पयशे वा हेर कसलीय वस्त दिवपाची आपसांत केल्ली कबलात, पैज, वडा.

**वा.प्र.: आपोश्त मारप :** वडा मारप; पैज लावप.

**आपोस्णी** । आपोस्णी । सा.रू. – स्णे । (सं. आपोष्णी) स्त्री. जेवणाचे सुरवातीक आनी जेवण जातकीर उठचे पयलीं घेतात तें आचमन. आज ही प्रथा चडशी ना जायत आयल्या.

**आपॉस्तॉल** । आपॉस्तॉल् । सा.रू. – ला; भौव. – ल; सा.रू. – लां । (पुर्तु. Apostolo) पु. क्रिस्त स्वाम्याच्या बारा शिश्यांतलो दर एक जाण; प्रेशित; जाणें क्रिस्तांव धर्माचो पयलोवयलो प्रचार केलो तो, देखदेणो धर्मप्रचारक. (म्हजो अपरादु म्हजो थोर अपरादु, म्होणुच्याक प्रार्थितां, सदा आंकवारी सां. मारियेक, भोडुव्या सां. मिगॅलाक, सांव जुवांव बाप्तिस्ताक, आनी आपॉस्तॉला सांव पेद्रु, सांव पावलाक, समेस्तां भगतांक, आणी तुका पाद्री मजेखातिर परमेस्पराक मिनती करुंच्याक – दौत्रिन क्रिस्तां, बरो : तोमस स्टिफन्स, संपादपी : अ.का. प्रियोळकर, पा.४७.)

**विशेश :** नव्या करारांत क्रिस्तस्वाम्याच्या बारा

शिश्यांचीं नांवां मेळटात तीं अशीं : सिमांव पेद्रु, इयुआंव (शुभवर्तमान सांगपी), मातेउश, बार्तोलोमेव, तियागु (व्हडलो), तियागु (धाकलो), इयुदश, तादेव, सिमांव, आँद्रे, तोमॅ आनी इयुदश् इश्कारियॉतिश् (घातमारो). इयुदसान घात माल्ले उपरांत उरलेल्या इकरा शिश्यांनी रितो जाल्लो जागो भरून काडपाक, मातियसाक वेंचून काडलो. त्या बारा जाणांतलो नासुनय सांव पावलु हो अत्यंत नांवाजतो प्रेशित म्हणून गाजलो. क्रिस्त स्वाम्याच्या बारा शिश्यांनी ताचे शिकोवणेचो प्रसार करपाक, सिमांव पेद्रु हाच्या मुखेलपणाखाला 'आपॉस्तॉलिक धर्म मंडळा'ची स्थापना केली.

**आप्पड पाप्पड** । आप्पड पाप्पड । सा.रू. – डा । (?) पु. भुरग्यांचो एक खेळ.

**विशेश :** 'आप्पड पाप्पड' हो खेळ खेळटना, भुरगीं वाटकुळींच रांग करून बसतात. जितल्या भुरग्यांनी हो खेळ खेळपाक वाटकुळी रांग केल्या, तातुंतलें एक भुरगें पयलीं आपल्या दाव्या हाताचें तळट जमनीर उमथें दवरता. ताचेर दुसरें भुरगें आपलें तळट दवरता. उपरांत तिसरें, चौथें अशें करीत, खेळांत जितलेय भिडू आसात तितलेय त्या तळटार आपआपलीं तळटां दाळटात.

ज्या भिडवान आपल्या दाव्या हाताचें तळट, सगळ्यांत पयलीं जमनीर दवरलां, तें भुरगें आपल्या उजव्या हाताचें तळट आरतें परतें थापटीत म्हणटा :

आप्पड पाप्पड
चेंडू लाडू
दाखोजिचें एक पान
धर गे बिंबे
म्हजो खांद.

अशें म्हणत, जाच्या हातार 'आप्पड पाप्पड' केलां, तें भुरगें आपलें तळट काडून 'धरगे बिंबे म्हजो खांद' अशें म्हणत आपल्या म्हऱ्यांतल्या भुरग्याच्या भुजार हात दवरता. तेंच पयलें भुरगें दुसऱ्या, तिसऱ्या वा खेळांत वांटो घेतिल्ल्या भुरग्यांच्या तळटार 'आप्पड पाप्पड' करता आनी तीं तीं भुरगीं 'धर गे बिंबे म्हजो खांद' म्हणत आपआपल्या शेजारच्या भुरग्याचें भुज धरतात. अशें करतां करतां, त्या पयल्याच भुरग्याचें तळट उरता. तोच मागीर आपल्या तळटार 'आप्पड पाप्पड' करीत, आपले दोनय हात, आपले दोशीं वटेनच्या भुरग्यांच्या भुजार दवरता. अशे तरेन भुरग्यांनी एकामेकांच्या भुजांर हात घालून जातकीर, तीं धोल धोलत, एका सुरांत गायतात :

क्यांव म्यांव
घरे खांव
पातोळेचीं
पानां खांव
कुतुल्यो कुतुल्यो कुतुल्यो

अशें म्हणत, एकामेकांच्या भुजांवेले हात काडून, एकामेकांक 'कुतू', 'कुतू' म्हणत कातकुतल्यो करीत हांसतात.

कांयकडेन ह्या खेळांत म्हणपाचीं गितां मात्शीं वेगळीं मेळटात. पयलें गीत अशें :

आप्पड पाप्पड
चेंडू लाडू
कांसाळेचें एक पान
धर गे बिंगे
म्हजो खान (खांद)'

दुसरें गीत अशें आसा :

'क्यांव म्यांव
घरे खांव
पाणोत्यांचें
उदक पिवं.'

**आधारावळ :** १. गोंयकारांचे पडवेर, बरो : सौ. कमलादेवी राव देशपांडे.
२. आमोणें – एक लोकजीण, बरो : जयंती नायक.

**आप्सुलाद** । आप्सुलाद । (पुर्तु. Absoluto) वि. स्वतंत्र वृत्तीन चलपी; कोणाचेंच सांगणें न आयकुपी; मस्तो; मस्त. (दादा : "आनी एक दडक आंगार घेता?... (सपणां देंवन) पयलीं भितर. आप्सुलाद खंयचेकडलें!' – रूख, जाग, जुलै १९७७, पा.६.)

**आफड** । आफड् । सा.रू. – डी । (सं. आ + स्पृस्टि:) स्त्री. १. आफुडचेली, भस्टुंचेली क्रिया; बोटांनी वा हात लावन केल्लो स्पर्श, पोशेणी. २. धर्मपरंपरांक लागून आनी सामाजिक रुढींक लागून मानिल्ली अशुद्धतायेची, आयबाची, अशौचाची अवस्ता. ३. वाडिल्ल्या चलयांक आनी बायलांक, जीवशास्त्रीक नेमाक लागून तांचो म्हयनो भरतकीच येता तें भस्टें. (आफडिचे फायच्यान चार दीस सोंपतात. सक्काळीं न्हावंक व्हाळार वतलें. – पारज : पुंडलीक नायक, मुठय, पा.९४.)

**विशेश :** पयलीं वर्ण एक आशिल्लो, मागीर दोन जाले. उपरांत तीन मानूंक लागले. ते उपरांत चार वर्ण जाले. ह्या चार वर्णांतल्यान केन्ना तरी चार जाती जाल्यो. जातींत आनीक पोटजाती तयार जाल्यो. अनुलोम आनी प्रतिलोम लग्नांक लागून आनिकय कांय जाती उदेवाक आयल्यो. ह्या लग्नांक लागून उदेवाक आयिल्ल्यो जाती प्रत्यक्षांत आशिल्ल्यो, काय कल्पनेंतच आशिल्ल्यो, हाची सुनशा मेळना.

जातींत पोटजाती जन्माक आयिल्ल्यान, वेगवेगळे पांवडे उदेवाक आयले. वेल्या पांवड्यावेलो लोक, सकयल्या पांवड्यावेल्या लोकांगेर अन्न घेना, तेचपरी लग्नाचो संबंधय जोडिना. हे परिस्थितींत आजुनय ध्यानांत घेसारको बदल जावंक ना.

जांकां आज दलित म्हणटात, त्या म्हारांक सुदीर जातींतय प्रवेश मेळूंक ना. भारतांतल्या हेर भागांवरी गोंयांत जरी तांचो तितलोसो छळ जालोना, तरी तांकां जातीभायरच दवरले आनी तांचें रावप गांवांभायरच उरलें. तांची सावळी पसून भस्ट मानताले. तांणी विकूंक हाडिल्लें म्हारवत विकतें घेनासतना, ताचेर शेण उडोवन तें धुताले. हाचो अर्थ असो की ताचे फाटल्यान 'आफड'ची भावना आशिल्ली आनी आसा.

ही 'आफड' सबंद जिणेचोच भाग जाल्लो. भस्ट, अनवाळें हे कल्पनेक चड म्हत्व आयलें. वाडिल्ल्या चलयांक आनी बायलांक, जीवशास्त्रीक नेमाक लागून तांचो म्हयनो भरतकीर भस्टें येतालें. भस्ट्याचो तीन दीस रजोदोश मानताले. ह्या तीन दिसांत तांकां अपवित्र मानताले. तांकां कुशीक, एके वेगळे कुडींत वाडटाले. एके वेगळे कुडींत तांकां दीस काडचे पडटाले. तांचे म्हन्यांत उदकाखातीर एक गळशिरेचो तांबयो आसतालो. तांकां भुरग्यांनी आफडूंक जायनासलें. नागड्यांनी आफुडल्यार जातालें. दुदाचें भुरगें आसल्यार ताचें आंगलें काडून वा रसमी आंगलें घालून आवय ताका दूद दिताली. शिक्षणाक लागून जीवशास्त्राचे नेम कळिल्ल्यान, ही प्रथा आज उणी जाल्या, ना जायत चल्ल्या.

गुरवार आशिल्ले बायलेचें पांचव्या वा सव्या म्हयन्यार पोटचें गेल्यार आवयक स दीस अशौच धरचें पडटालें. घरांत तीन दीस सुवेर धरताले. बायल बाळंत जातकीर सुवेराचें धा दीस अशौच धरताले. बायल बाळंत जावन चलो जाल्यार, बाळंत जाल्लो दीस धरून तीस दिसांनी आनी चली जाल्यार चाळीस दिसांनी बाळंटिची शुद्धी जाताली. ह्या काळांत तिका देवळांत वचून देवाची भेट घेवंक मेळनासली.

घरांत कोणय भायर पडिल्लो आसल्यार अकरा दिसांचें सुतक धरतात. 'बारावो' करतकीर शुद्धी जाता.

हे भायरय धर्मकार्यांत भस्ट अनवाळें आसा. धर्मकार्या दिसा बायलो न्हावन धुवन अनवाळ्यांनी रांदतात. ह्या काळांत तांकां भुरग्यांनी आफुडपाक बंधनां आसतात. धर्मकृत्य जावन जेवले उपरांत हीं बंधनां वतात.

पयलीं धर्मकृत्याखातीर कांय घरांनी अनवाळे

पापड, अनवाळें लोणचें, अनवाळ्यो ओडयो बी केल्ल्यो आसताल्यो. हें सगळें पळेतकीर, हिंदूंच्या विचारांत आनी आचारांत 'आफडूं नाका' ही भावना घट्ट जाल्ली दिसता. हाका लागून, भस्ट-अनवाळ्याचो, स्पृश्य-अस्पृश्यतायेचो विचार हो हिंदू धर्मरचनेचोच भाग जाल्लेवरी दिसता. आज मात ह्या विचारांत इल्लो इल्लो बदल जाणवता.

**आफडप** । आफ्‌ड॑प्‌ । सा.रू. – पा । (सं. आ + स्पृश्) क्रि.दा.धा.सा.ना. - मूळ धातू: आफड् (अक्.) १. स्पर्श करप, हात लावप. (लोणचें जाल्यार चड अनवाळें; ताका लागून आजी न्हाले उपरांतच ताका आफडटाली.) २. सांसपप; पोशेवप. (आपले बायलेचेर आशिल्ले मोगाचे भावनेक लागून, तिका तो मायेन आफडलो.) ३. अपवित्र करप. (देवाचे पुजेखातीर तो न्हावन-धुवन अनवाळो जाला. ताका वचून आफडूं नाका.) ४. चर्चेक येवप. (दिसभर बसका जाली, पूण कांय म्हत्वाच्या विशयांक तो आफडूंक पसून ना.) ५. भस्टुवप; अमंगळ करप. (कितल्याशाच बायलांक आफडून ताणें तांची वाट लायली.)

**वा.प्र.: कावळो आफडप :** बायल भस्टी जातकर 'तिका कावळो आफडला' म्हणपाची चाल आसा. वयांत येवंक लागिल्ल्या चलयांक पयलें न्हाण कावळोच हाडटा आनी तांकां जुवानपणाच्या हुंबऱ्यार हाडून सोडटा, असो लोकसमज आसा. कावळो जसो मर्णाकडेन लग्निक आसा, तसो जिणेकडेनय लग्निक असा तो असो!

**आफडिचो** । आफ्‌डिचॉ । सा.रू. – चो (चॉ); भौव. – चे (चॆ); सा.रू. – च्या । ('आफड' वेल्यान ) वि. भस्ट्याचो.

**आफत** । आफ्‌त । सा.रू. – ती । (अर. आफत) स्त्री. १. आपत्त; विपत्त; संकट. २. दुख्ख; कस्ट; क्लेश. ३. बगलांट; आळ.

**वा.प्र.: आफत येवप :** संकट येवप, कठीण परिस्थिती निर्माण जावप.

**नस्ती आफत :** नस्तें बगलांट; नस्तो आळ; शेळे आंगार फुगांव येवप; अकस्मात निर्माण जाल्लें संकट.

**आफवप** । आफ्‌वप्‌ । सा.रू. – पा । ('आपवप' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आफै – (अक.) पळेयात : आपवप; आपोवप.

**आफरखीं** । आफर्‌खीं । (सं. अपरोक्ष) क्रि.वि. १. अपरुखीं; विणें; बगर; अभावाक लागून. २. अस्वडीं; दोळ्यांआड; फाटल्यान.

**आफरामेंत** । आफ्‌रामॅन्त्‌ । सा.रू. – ता; भौव. – त; सा.रू. – तां । (पुर्तु. Aforamento) पु. वर्सानवर्स 'फोर' (शिदाव) फारीक करपाचे कबलातीन, सरकारान कोणाकय उठावळीक हाडपाखातीर दिल्ली, रोयनासतना पडिल्ली पाडंग जमीन.

**वा.प्र.: आफरामेंताक करप :** वर्सानवर्स फोर फारीक करपाचे कबलातीन, उठावळीक हाडपाखातीर पाडंग जमीन घेवप.

**विशेश :** जमीन उठावळीक घेतना सरकार आफरामेंताच्यो शिमो थारायता. ही जमीन उठावळीक हाडटकीर तिचें उत्पन्न भोगूं येता. जाल्यारूय आफरामेंत, आपलें भाट जाल्लेवरी, विकूं क मेळना.आयच्या काळार तो विकूंक मेळटा.

**आफरावप** । आफरावप्‌ । सा.रू. – पा; (गु. आफरवुं = पोट फुगप?) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आफराव् - (अक.) भायर सुटनासतना भितर तुंबून उरिल्ल्यान थंयचे थंयच गच्च जावप; भायर सुटनासतना भितर फुगून भरून रावप. (मूत आफरावल्ल्यान सकाळच्यान पोर वळवळटा.)

**आफिल्याद** । आफिल्याद्‌ । सा.रू. – दा । (पुर्तु. Afilhada ) स्त्री. धर्मधूव.

**विशेश:** जल्माक आयिल्ले चलयेक इगर्जेंत व्हरून

बाप्तिशमाचो पैलो साक्रामेंत दिवंचेल्या वेळार, जी बायल ते चलयेची माद्रिन्य (Madrinha) जाता म्हळ्यार धर्मआवय जाता, तिचीच ही चली धर्मधूव जाता.

**आफिल्यादु** । आफिल्यादु । सा.रू. – दा । (पुर्तु. Afilhado ) स्त्री. धर्मपूत.
**विशेश :** जल्माक आयिल्ल्या चल्याक इगर्जेंत व्हरून, बाप्तिशमाचो पयलो साक्रामेंत दिवंचेल्या वेळार, जो दादलो ह्या चल्याचो प्राद्रिन्यु (Padrinho) म्हळ्यार धर्मबापूय जाता, ताचोच हो चलो धर्मपूत जाता.

**आफिस** । आफिस् । सा.रू. – सा । (इ. Office) न. कचेरी; कार्यालय. (एक दीस हांव आफिसांत एकलोच बरोच वेळ बशिल्लों. आशीकुशीक कोणच नासलो. – यादिंचो परमळ, बरो : महाबळेश्वर सैल, कोंकण टायम्स, दिवाळी आंक १९९३, पा.९.)

**आफिसर** । आफिसर् । सा.रू. – रा; भौव. – र; सा.रू. – रां । (इं. Officer) पु. अधिकारी; अंमलदार.

**आफीन** । आफीन् । सा.रू. – नी । (अर. अफयून) स्त्री. अफू आनी खसखस दिवपी Papaver Somniferum ह्या लॅटिन नांवाची वर्सुकी वनस्पत; अफू.
विशेश म्हायतीखातीर पळेयात : 'अफिण', कोंकणी शब्दसागर, भाग पैलो.

**आफुडभश्ट** । आफुडभश्ट । सा.रू. – श्टा । (कों. आफुड + भश्ट) न. हळशीक; बुरशें; पोजडें. (मनीस वेव्हारांत ताचो थातोमातो करतात, आनी साइत्यांत मात ताचें आफुडभश्ट मानतात. – कथाशिल्प : लॅक्ष्मणराव सरदेसाय, जाग, सप्टेंबर १९७७, पा.१७.)

**आफेरिदोर** । आफेरिदोर् । सा.रू. – र । (पुर्तु. Aferidor) पु. पसरकाराच्या वजनांमापांची तपासणी करून फिल्सांव मारपी एंप्रेगाद. (...तो फोण्या कामरांत (नगरपालिकेंत) आफेरिदोर म्हळ्यार पसरकारांच्या वजनांमापांची तपासणी करपी एंप्रेगाद आशिल्लो. – काणी एके जिणेची : बरो. महाबळेश्वर सरदेसाय, पा.६५.)

**आफोर्साद** । आफॉरसाद् । पुर्तु. Forcado वेल्यान क्रि.वि. बळयां; अद्रूण. (म्हणजे तूं म्हाका ब्लॅकमेल करूंक सोत्ता ? आफोर्साद म्हाका लुटूंक सोत्ता ? – परमवीर : दत्ता नायक, कौण्डिण्य, एप्रिल १९७६.)

**आफोवणो** । आफोव्णॉ । सा.रू. – ण्या; भौव. – णे; सा.रू. – ण्या ('आपवप' वेल्यान) पु. आपोवपाचें काम करपी. (भगत आशेभगत जावं, वा आशेविरयत भगत जावं, तुमी ताका देवाचो आफोवणो, देवाचो दूत अशें मानून मान दिवंक जाय. – भगत : लक्ष्मणराव सरदेसाय, खबरी – कांय वर्माच्यो, कांय कर्माच्यो, पा.८१.)

**आफोंस** । आफोंस् । सा.रू. – सा । (पुर्तु. Afonso) पु. गोंयच्या थळाव्या आंब्याक गार्फ लावन, जेजुइत पाद्रिंनी तयार केल्ली आंब्याची एक जात.
**विशेश :** पुर्तुगेजांनी गोंय घेतकीर, जेजुइत पाद्रिंनी गोंयच्या थळाव्या आंब्यांक गार्फां लावन, आंब्यांच्यो नव्यो जाती निर्माण केल्यो. हे आंबे चड रुचीक करून, तांची नामना तांणी संवसारभर गाजयली. आपल्या नांवाचें वा आडनांवाचें स्त्रीलिंगी रूप करून, ह्या नव्या जातींक तांणी आपलीं नांवां दिलीं. चाळिसेक जाती तांणी निर्माण केल्यो. ह्या जातींत 'आफोंस', 'निकलाव आफोंस' बी जाती आसल्यो.

पुर्तुगेज सरकार गोंयचे आफोंस आंबे पेशव्यांक आनी पेशव्यांच्या मुखेल सरदारांक भेट म्हणून धाडटाले. ह्या काळार पेशव्यांच्या दरबारांत, पुर्तुगेजांचे वकील म्हणून, भो. विठ्ठलराव वालावलकार

आसलो. १७९२ वर्सा ह्या वकिलान फिंर्गी सरकाराक कळयलें की गोंयच्या आंब्यांक पेशव्यांच्या दरबारांत भांगरावरी लेखतात. गोंयच्यान आंबे भायर व्हरपाक सरकाराची परवानगी लागताली. देखून, गोंयच्यान महाराष्ट्रांत आंबे व्हरपाक व्यापाऱ्यांचेर बंदी घालची, अशी विनंती भौ. वालावलकार हांणी पुर्तुगेज सरकाराक केली.

हे आफोंस आंबे पुर्तुगेज सरकार भारतांतल्या राजांक भेट म्हणून धाडटालो. आफोंस आंब्यावरीच केन्ना केन्ना 'फेर्नांदीन' आंब्यांचीय भेट वताली.

सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांत गोंयचे 'आफोंस' आंबे दिल्ली मेरेन पावताले. गोंयचो फिंर्गी सरकार आनी सावंतवाडीचे भोंसले, हे दोगय ह्या आफोंस आंब्यांचे कंडे भरूभरून दिल्लीक वर्सानवर्स धाडटाले.

एप्रिलाचे अखेरेक आनी मायाचे सुरवातीक गोंयांत साकून पुण्याक आंबे धाडटाले. थंयच्यान पुर्तुगेज सरकाराचे वकालतीकडल्यान हे आंबे पेशव्यांक आनी हेर मुखेल सरदारांक, फिंर्गी सरकाराच्या नांवान भेट म्हणून वताले. १७४७ वर्सा फिंर्ग्यांनी साताऱ्याक देड हजार आंबे भेट म्हणून धाडिल्ले. त्या काळार त्या आंब्यांचें मोल २२ असुर्प्यो (सुमार ११ रुपया) आसलें, अशी नोंद मेळटा. (पळेयात : पुर्तुगेज-मराठे संबंध, लेखक : प्रा. पांडुरंग सखाराम पिसुर्लेकर, पा. ३३०-३३१.)

रत्नागिरीक आतां आफोंस आंब्याच्यो आंबरायो भरपूर आसात. 'आफोंस' आंब्याचें पीक थंय मोठ्या प्रमाणांत येता. 'आफोंस' हाचें 'आफूस' अशें रूप जावन, ताचें 'हापूस' अशें नांव जालें. हो आंबो चड काळ तगावाक आयिल्ल्यान ह्या आंब्याची नामना आज भारतभर जाल्या. युरोपांतय तो निर्यात जावंक लागला.

**आफ्रामेंत** । आफ्रामॅन्त । सा.रू. – ता; भौव. – त; सा.रू. – तां । (पुर्तु. Aforamento) पु. पळेयात 'आफरामेंत'.

**आब** । आब् । सा.रू. – बा । (फा. आब) पु. १. मान; भौमान; प्रतिस्ठा. (आपलो आब आपणेंच सांबाळूंक जाय.) २. अब्रू; लज; पत. (आब वतकीर कोण एक लेखिना.) ३. ऐट; रुबाब. (संवसारांतल्या सगळ्यांत उंचायेवेल्या रस्त्यांत ह्या रस्त्याची वर्णी लागिल्ल्यान त्या रस्त्याचो आब फावसारकोच आशिल्लो. – गोमांचल ते हिमाचल : दिलीप बोरकार, पा. २९.)

**आब** । आब् । सा.रू. – बा । (देशी – अप्पो = बापूय; का. अप्प = बापूय) पु. बापूय. (खोंकलेच्या आयटान म्हजो आब मेलो.)

**आबकारी** । आब्कारी । सा.रू. – री । (फा. आबकारी; आबकारी) स्त्री. सोऱ्याचो धंदो; सोरो काडून विकपाचो धंदो आनी ताका लागून ह्या उद्योगाचेर बसयल्लो कर.
**विशेश :** चड माहितीखातीर पळेयात : 'अबकारी', कोंकणी शब्दसागर, पैलो भाग.

**आबगूल** । आब्गूल । सा.रू. – गुला । (सं. अ + पंगुल) वि. १. अपंगुल; गात्रांत वा इंद्रियांत दोश आशिल्लो; अचकूल; पांगळो. २. दुर्बळ; अशक्त.

**आबळां** । आब्ळां । सा.रू. – ळां । (सं. अभ्र; प्रा. अब्भ + ल) न. १. भौव. अभ्रां; कुपां. २.(ला) दोळ्यांर आयिल्ली साय, म्हेळसाण वा खवळ.
**वा.प्र.: दोळ्यांर आबळां येवप :** पयशांचे, यशाचे वा सत्तेचे मस्तेक लागून सदांचो, संवकळीचो, लागशिल्लो मनीस पसून वळखूंक न येवप, वा दिसनासो जावप.

**आबा** । आबा । (?) उमा. उतर. अजापाची भावना दाखोवपी उमाळ्या उतर.

**आबा** । आबा । सा.रू. – बा । देशी : अप्पो = बापूय; (का : अप्प = बापूय. अर. अब = बापूय. फा. अब्बा = बापूय. हिब्रू. आबा = बापूय) पु. जाण्टो मनीस; बापूय.

**आबादी आबाद** । आबादी आबाद । सा.रू. – दी । (फा. आबादी आबाद) स्त्री. अतिशय भरभराट; समृद्धी.

**आबाळ** । आबाळ् । सा.रू. – ळी । (सं. अबलम् = अशक्ताय ?) स्त्री. हेळसांड; हयगय.

**आबुज** । आबुज् । (पुर्तु. Abuso) क्रि.वि. भांबावलेलो; गोंदळलेलो. (हांवें कच्च करून आंग काडलें. पुण आबुज मात जालों ना. – मोगिका : वामन जि. टोकेकार, कोंकणी, वर्सुकी आंक १९८४-८५. पा.११९.)

**वा.प्र.: आबुज जावप** : भांबावन वचप.

**विशेश** : पुर्तुगेज भाशेंत Abuso हें नाम आसा आनी ताचे अर्थ अन्याय, आचरण, विनयभंग असो आसा. पूण पुर्तुगेज अर्थान हें उतर कोंकणींत घोळना. कोंकणींत येतना ताच्या अर्थांत बदल जाता. तेचपरी, मुळांत नाम आशिल्ल्या ह्या उतराचें क्रियाविशेशण जालां.

**आबेर्त** । आबेर्त । सा.रू. – ता । (पुर्तु. Abertura) स्त्री. सोर्तीचो निकाल लायतात तो दीस. (सोर्तिकार : सोर्त ! प्रेम फोऽऽर्त ! आयतारा दीस आबेऽर्त !... एक हजार आनी तेअीस' – एक आंकी खेळ : बरो : आचार्य रामचंद्र शंकर नायक, पा. १.)

**आबेरतुर** । आबेर्तुर् । सा.रू. – ता । (पुर्तु. Abertura) न. सोर्तीच्या निकालाचो दीस. (महाराष्ट्र सोर्तीचें आबेरतूर काल जालें. – दिसासपन : दत्ता नायक, कोंकणी कथासंग्रह (साहित्य अकादेमी) पा. १२६.)

**आबोर्त** । आबोर्त । सा.रू. – र्ता । (पुर्तु. Aborto) पु. १. गर्भाची वाड जावंचे पयलीं जाल्लें अकाळें बाळंतपण, गेल्लें पोटचें. (इं. Miscarriage; पुर्तु. Parto prematuro). २. होळैल्लो गर्भ, केल्लो गर्भपात. (आवय-बापूय म्हाका आबोर्त करूंक लायतलीं हें उमजून हांव कोणाक कळनासतना घरांतल्यान भायर सल्लें. – आंकवार मोरी : जयमाला दणायत, कवासो, पा. ४८).

**विशेश** : आबोर्ताच्यो दोन तरा आसात :

१ली : आबोर्त जावप : पोटचें वचप.

२री : आबोर्त करप : गर्भ होळोवप.

**आबोलार** । आबॉलार । (पुर्तु. Abalar) क्रि.वि. थरथरावप; कलकलावप; हाता-पांयांर घालप. (आरे, मात्सो थांब, जीव असो आबोलार करूं नाका. जेवण जायनाफुडें तुका वाडटां.)

**आबोली** । आबोली । सा.रू. – ले; भौव. – ल्यो; सा.रू. – ल्यां । (कों.) स्त्री. ॲकॅंथेसी कुळयेंतले Crossanda infundibuliformis ह्या नांवाची, फुलां दिवपी एक वनस्पत.

**विशेश** : आबोली मुदलची श्रीलंकेंतली. पानां सादीं समोरासमोर. गंवाच्या कणसां वरी कणसांत हिका फुलां येतात. हीं फुलां नारिंगी, तांबडीं, हळडुवीं आनी निळींय आसतात.

ही वनस्पत कोडू, उस्ण आनी काम वाडोवपी आसता. आबोलेचें मूळ दुदांत शिजोवन, बायलांक जें आंगार धवें जाता, ताचेर दितात. आबोलीं (फुलां) उकडून ताचें उदक निर्मोळेचेर दितात. रतन आबोलेचेंय पाळ झरोवन निर्मोळेचेर पोटांत घेवंक दितात.

**म्हण** : फुलुबायली आबेली, लायता म्हणसर फुल्ली.

**आबोलें** । आबॉलैं । सा.रू. – आबॉल्या; भौव. – आबोलीं; सा.रू. – ल्यां । (कों) न. आबोलेचें फूल. (आबोलेचें फूल रंगान केसरी. ताका खंय वास नासता. देखूनच त्या फुलाक मोनें वा आबोलें हें नांव मेळ्ळां. – प्लॅस्टिकचें फूल : चंद्रकांत केणी, बिंबां-पडबिंबां, पा. ४३-४४.)

**विशेश** : ह्या फुलांक वास ना. जाल्यारूय हीं फुलां

सोबीत दिसतात. बाजारांत ह्या फुलांचे झेले विकूंक येतात. हे झेले हाडून बायलो तांच्यो फांतयो करून आंबाड्यांत माळटात. हीं फुलां तीन पाकळ्यांचीं वा पांच पाकळ्यांचींय आसतात. आबोल्यांत पांच तरा मेळटात.

१. सादें आबोलें : हें रंगान भगवें आसता. हाका 'पिशें' आबोलें अशेंय म्हणटात.

२. रतन आबोलें : हें दिसपाक सुंदर आसता आनी रंगान तांबडें आसता.

३. रान आबोलें : हाचो रंग निळो आसता. हाका 'निळो पोक्सो' म्हणटात.

४. हळडुवें आबोलें : रतन आबोल्यांत हळडुव्या रंगाचींय फुलां मेळटात.

५. धवें आबोलें : हें भगव्या आबोल्या वरीच आसता. आबोल्याचो देंट मात धवसार हळडुवो आसता. हीं आबोलीं खतखतावन तांचें उदक निर्मोळेचेर दितात.

**आब्बा** । आब्बा । (कों). उमाळ्या उतर. अजापाची भावना दाखोवपी उमाळ्या उतर. ('आब्बा ! आमकां एकाय उतरान सांगिनासतना ?' – गॅर : शीला नायक, प्रसादाफूल : संपा. अ.ना. म्हांबरो, पा.५.)

**आब्रास** । आब्रास । सा.रू. – सा । (पुर्तु. Abraco) पु. वेंग, खेम, आलिंगन. (...मोगाचे म्हूण ते राती । आब्रास बेयइयु दिलो तुका । दुस्मानु मुइये तूं जाय नाका । जिवु दितोलीं तुका ।। – Songs of Goa हातुंतलो 'विंचून काडलेल्या सुका' ह्या मांड्यांतलें चौथें कडवें. रचपी : Arnaldo de Menezes, Boletim do Instituto Menezes Braganza, nm. LXXXIII., मार्च १९८१).

**आब्रिल** । आब्रिल । सा.रू. – ला । पुर्तु. Abril पु. ग्रेगोरियन कॅलेंडराचो वा वर्साचो ३० दिसांचो एक म्हयनो. (तिसरी परिशद १९४२ वर्साच्या आब्रिलाचे ४ आनी ५ ह्या तारखांक मुंबै शारांत भरिल्ली. – शणै गोंयबाब, रा.ना. नायक, पा. ७०).

**विशेश :** क्रिस्ता आदल्या ४५० वर्सां, रोमन वर्साक जानेराफाटल्यान फेब्रेर हो म्हयनो जोडलो. तेन्नाच्यान रोमन वर्स १० म्हयन्यांच्या जाग्यार बारा म्हयन्यांचें जालें आनी म्हयन्यांच्या क्रमांत बदल जावन, आब्रिल हो वर्साचो चौथो म्हयनो जालो.

लाक्षणिक अर्थान आब्रिल म्हळ्यार भावार्थ आनी आनंद हांणी फुलून येवपाचें वयं मानतात. तेचपरी जुवानपण असोय आब्रिलाचो आनीक एक लाक्षणिक अर्थ धरतात.

लातीन भाशेंतल्या Aprillis ह्या उतरा वेल्यान आब्रिल हें नांव घडलां आनी Aprillis हें उतर Aperire म्हळ्यार फुलांचे कळे फुलप हाचेवेल्यान जालां.

रॉमुलु हाच्या कॅलेंडरावेल्यान आब्रिल हो वर्साचो दुसरो म्हयनो आशिल्लो. आजचेवरीच तेन्नाय आब्रिल हो तीस दिसांचोच म्हयनो मानताले. नुमान ताचो एक दीस उणो केलो आनी आब्रिल हो २९ दिसांचो म्हयनो धरलो. सेझरान पयलींवरीच आब्रिल हो तीस दिसांचो म्हयनो मानपाक लायलो. रोमनांनी व्हेनुश (Venus) हे सुंदरकायेचे देवतेकडेन हो म्हयनो लग्निक केलो. ह्या म्हयन्यांत ते तरेतरेचे उत्सव मनयताले. तिबॅल हे देवतेच्या नांवान ते वेगवेगळ्या खेळांच्यो सर्ती लायताले. 'आपॉलु' आनी 'दियान' ह्या दैवतांचो जन्मदीस ते ह्याच म्हयन्यांत दबाज्यान मनयताले.

ग्रिकांनी आब्रिल हो म्हयनो 'आपॉलु' (Apolo) म्हळ्यार सूर्य ह्या देवाक ओंपिल्लो. आब्रिलाच्या पयल्या दिसा 'तेजेव' ह्या देवाच्या देवळा मुखार लोक जमताले. थंय राष्ट्रिक नाच उल्हासून नाचून, ते आपली जीण आनंदान भरताले.

**आभा** । आभा । सा.रू. – भा । (सं. आभा) स्त्री. १. तेज, चमक, कांत, कांती. २. प्रभा.

**आभार** । आभार् । सा.रू. – रा । भौव. – र; सा.रू. – रां । (सं. आ + भृ) पु. १. उपकाराची मनांत दवरलेली भावना, कृतज्ञताय. २. भार, ओजें.
**वा.प्र.: आभार मानप :** उपकाराची भावना उकती करप.

**आभारी** । आभारी । सा.रू. – ऱ्या । (सं. आभारिन्) वि. उपकार मानपी; उपकाराची भावना दवरपी; कृतज्ञ; दिनवासी.

**आभास** । आभास् । सा.रू. – सा । (सं. आभास) पु. १. भास. २. पडबिंब; सया. (हिंदू समाजांत वेदिक धर्माचो आतां आभास उरला.) ३. मिथ्या, लटकें ज्ञान. ४. खरें दिसपा इतलें केल्लें लटकें विधान; खरो दिसपाइतलो मांडिल्लो लटको मुद्दो; लटके बुन्यादीचेर केल्लें चुकीचें विवरण.

**आभीर** । आभीर् । सा.रू. – रा । (सं. आभीरः) पु. पुरातन काळ धरून भारतांत राबितो करून आशिल्ली एक गोप जमात; गवळी; गोरवां राखणो; अहीर.
**विशेश :** महाभारतांत आनी वायुपुराणांत आभिरांचो 'म्लेंच्छ' म्हणून उल्लेख केल्लो मेळटा. महाभारतांत आभिरांच्यो तीन श्रेणी सांगल्यात : १) सरस्वतीचे देगे लागसार रावपी; २) कोळी आनी ३) दोंगरांचेर राबितो करून रावपी. महाभारतांत अशेंय म्हळां की, 'विनशन' नांवांचें तीर्थ आभिरांच्या देशांत आसा आनी सरस्वती न्हंय थंयच गुप्त जाल्या. डॉ. भांडारकरांनीय आभिरांक 'म्लेंच्छ' म्हळ्यात.

टोलेमीन (Ptolemy) 'अबिरिया' हो प्रदेश आभिरांचो आशिल्लो अशें म्हळां. 'अबिरिया' हो प्रदेश सिंधू न्हंयच्या वेल्या भागांत वशिल्लो आसलो. देखून, पंजाब (सतलज आनी यमुना हांचे मदलो प्रदेश) आभिरांचें मूळ स्थान वा तांची जन्मभूंय आशिल्ली जावंक जाय. तांचेर भौन भौन पडिल्ल्या हुणांच्या घुरयांक लागून, पंजाब सोडून तांकां दुसरे कडेन भोंवत रावचें पडलें जावंक जाय.

महाभारताच्या काळार आभीर पश्चिम राजपुतान्यांत ठाणें मांडून आशिल्ले. पाणिनिच्या काळांत ते सिंधांत आशिल्ले आनी अशोकाच्या काळार सौराष्ट्रांत. सातवाहनांच्या काळांत आभीर महाराष्ट्रांत पावले. क्रिस्ती सनाच्या पयल्या शेंकड्यांत ते पश्चिम भारतांत रिगले. विष्णु पुराणांत आभीर सौराष्ट्रांत आनी परियात्र पर्वताच्या आसमंतांत मांडिल्ले मेळटात आनी मार्कण्डेय पुराणांत अपरान्तांत.

आभिरांक 'म्लेंच्छ' समजून, ते भारतांत भायल्यान आयले अशें जरी म्हळें, तरी महाभारत काळापयलींच भारतांत तांचो राबितो मेळटा. क्रिस्ती सना आदलो तिसरो शेंकडो धरून, ते भारतांत आशिल्ले जावंक जाय. आभीर हे मुदलचे पश्चिमेकडले आसून, वेदकाळा पयलींच ते भारतांत पाविल्ले, अशें सर ए. बेन्स सांगतात. (Sir A Bains - Estnography (Castes & Tribes) - Strassbury, 1992, page 56.)

बामण दादलो आनी अंबस्ट बायल हांचेपासून जाल्ले प्रजेक 'आभीर' म्हणटात. महाभारताच्या शल्यपर्वांत तांकां 'सुदीर' म्हळ्यात. खूब काळ मेरेन तांकां सुदीर म्हणूनच लेखल्यात. थोडेकडेन तांकां 'महासुदीर' म्हळ्यार श्रेस्ठ सुदीर म्हळ्यात. थोड्यांनी तांकां क्षत्रिय लेखल्यात. ते क्षत्रिय जावं वा सुदीर जावं, ते धिरिस्ट आनी शूर आशिल्ले.

भारतीय झुजा उपरांत, धनुर्धर अर्जुन कृष्णाच्या बायलांक घेवन परतातना, आभिरांनी ताचेर घुरी घाली. कृष्णाच्या कितल्याशाच बायलांक तांणी पळोवन व्हेल्यो. माळव्याचो रूद्रसिंह क्षत्रप हाचो सेनापती रुद्रभूति हो आभीर आशिल्लो. ईश्वरसेन आभिराच्या पाण्डुलेण्यांतल्या फातरपट्यावेल्यान समजता की, आभिरांनी राज्य स्थापन केल्लें. तांची सत्ता नाशिक, उत्तर महाराष्ट्र, गुजरात बी प्रदेशांचेर सुमार १६७ वर्सां चलताली.

आभीर हे गवळी. गोरवां राखप हो तांचो मुखेल उद्देग आशिल्लो. ते ज्या जाग्यार रावताले त्या स्थानाक 'घोष' अशें म्हणटाले. ग्वाल्हेर, गाविलगड, गोवळकोंडा, गोवळकोट बी स्थानां, आभीर खंय खंय पाविल्ले म्हणपाची गवाय दितात. गोदावरीचें 'गोला' हें प्राकृत नांव आभिरांक लागूनच पडिल्लें आसूंक जाय. आभिरांची आजुनय गोदावरीच्या आसमंतांत आनी गिरणा, तापी हांचे गाळींत वसती आसा.

अपभ्रंश ही आभिरांची भास. हे भाशेचेर गुजरातीचो, मराठीचो, नेमाडीचो आनी हिंदी भाशेचोय प्रभाव स्पश्ट जाणवता. ही भास उलोवपी जमात पंजाबांतल्यान सिंध, गुजरात, माळवा, नाशिक, खानदेश ह्या प्रदेशांत आयली. देखून, दर एक प्रांतांतले भाशेचो परिणाम तिचेर जायत गेलो. आर्विल्ल्या भासांचोच न्हय, तर मागधी, अर्धमागधी, शौरसेनी, लाटी, महाराष्ट्री, पैशाची ह्या प्राकृत भासांचोय तांचे भाशेचेर परिणाम जाला.

आभीर जमात आज वेगळे वेगळे उद्योग करून जियेतात. आज हे जमातींत आभीर बामण, आभीर गवळी, आभीर शेट, आभीर लोहार, आभीर ठवय, आभीर कुंभार, भिल्ल बी पोटजाती मेळटात. मध्यप्रदेश आनी चड करून खानदेशांत तांच्यो कितल्योशोच पोटजाती आसात.

नवरात्रां धरून दिवाळीमेरेन आभिरांच्या उत्साहाक हुंवार येता. तांच्या आनंदाक सुवी येता. ते आनंदभरीत जावन नवीं नवी गितां गायतात. ह्याच दिसांनी ते गायांची पुजा करतात. तांकां देवता कशे लेखून, वाजप गाजप लावन, तांची ते मिरवणूक काडटात. तांकां सजयतात, शृंगारतात.

'आमी रानांत भोंवतले गोरवां-राखणे' वा 'राखण्यांसयत गोरवां मदगत रानांत भोंवतलों हांव' (हरिवंश, विष्णुपर्व) अशें म्हणपी श्रीकृष्णाकडेन आभिरांनी सासणाचें नातें जोडलां. आभिरांनीच कृष्णकथा आनी कृष्णाचीं भक्तिगितां भारतभर पावयल्यांत. देखूनच, आभीर अपरान्तांतल्यान गोंयांत पाविल्ले आसूंक जाय म्हणपाचें अनुमान करूं येता.

डॉ. भांडारकरांच्या मतान The Child Krisna हो आभिरांचो देव. कृष्ण भगवानाक तांणी बाळरुपान पुजला आनी भजला. गोंयांत कृष्णाच्या ह्या बाळरुपाची भक्ती, 'देवकी-कृष्णा'च्या रुपान, आभिरांक लागुनूच पाविल्ली आसपाक जाय आनी गोंयांतलो धेंडल्यां पाडवो आभिरांचेंच देणें आसूंक जाय.

**आधारावळ :**


१. अहीर व अहिराणी, लेखक : वि.जी. पांडे, मराठी संशोधन पत्रिका, वर्ष ६वे, अंक २रा, पा. १-१२, जानेवारी, १९५५.)

२. विठ्ठल मूळचा वीरगळच, लेखक : डॉ. शं. गो. तुळपुळे, मराठी संशोधन पत्रिका, वर्ष २५वें, अंक १ला, १९७७.

३. गाथा सप्तशती, संपा : स. आ. जोगळेकर, प्रस्तावना, पा. १६५-१६६.

४. येवकार अध्यक्षांलें उलोवप, हातुंतलो 'अैन वेळार' हो निबंध, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ११३-११४.)


आभु । आभु । (सं. आभु) पु. ब्रम्ह. (ऋग्वेदांतलो एक ऋषी हो संवसार कसो जालो, कसो आसलो आनी कोणें घडयलो म्हणपाची खोल येवजण करतना म्हणटा, 'तुच्छेनाभ्वपिहितं यदासीत' म्हळ्यार, 'जेन्ना तुसान आभु गुटलायल्लो आसलो' (ऋ. १०.१२९.३). हांगा 'आभु' म्हळ्यार कितें? कोंकणींत ह्या उतराचें तद्भव 'हाबू' अशें मेळटा. देखीक, 'सांतुबाब मेळत ते गजालिचो हाबू करता', म्हळ्यार, ती गजाल समजूंक कठीण, येवजूंक कठीण, मेळूंक कठीण अशें करून दाखैता. असली गजाल पळोंवक गेल्यार सगळ्या संवसारांत एकूच आसा. ती म्हळ्यार वेदान्ताचे भाशेंत ब्रम्ह. ऋषी म्हण्टा कि,

'तुसान (पोले मायेन) ब्रम्ह (हाबू) जेन्ना गुटलायल्लें आसलें.' – येवकार अध्यक्षालें उलोवप, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ३९.)

**आम** । आम् । सा.रू. – मा । (सं. अब्बम् = उदक; अम्भस् = उदक. ता. आम् = उदक) न. कांद्याचो वा कुंवाळ्याच्या ओडयांचो, नाल्लाचो आपरोस घालून, केल्लो रोस वा कालवण. – कांद्याच्या आनी ओडयांच्याच रोसाक 'आम' म्हणटात.

**आम** । आम् । सा.रू. – मा । (सं. आमः) पु. अपचन; अपचनाक लागून जाता तो विकार; आंव; आमांश.

**आम** । आम् । सा.रू. – मा । (सं. आम) वि. १. कच्चें; अर्दुकुटें शिजिल्लें. २. हरवें; पिकूंक नाशिल्लें. ३. न पचिल्लें.

**आमगेर** । आम्गेर । (सं. अस्मत् + गृहे; प्रा. अम्हघरे) क्रि.वि. आमच्या, आमगेल्या घरांत. (आमगेर आज लाडू करतलीं । दितां तुका हांव खांवच्याक । – 'बाय पिसोळ्या' ही कविता, कवी : जयवंत कुलकर्णी, नवें गोंय, २रो आंक, २रें वर्स, वैतुंब्र १९३५, पा. ६४.)
**विशेश :** पयलींच्या काळार हिंदू बायलो आपल्या घोवाचें नांव घेनाशिल्ल्यो. फुलगुड्यांच्या वेळार मात, आपल्या घोवांचीं नांवां ताकां घेवंचीं पडटालीं. त्या वेळार, त्यो आपआपल्या घोवाचें नांव उखाण्यांत गुंथून घेताल्यो. घोवाचें नांव घेतल्यार, ताचें आयुष्य उणें जाता, असो एक समज वा संकेत आशिल्लो. देखून, ह्या समजाक वा संकेताक लागून, हिंदू बायलो आपल्या घोवाचो उल्लेख करचो पडल्यार, ताच्या संबंधान 'आमगेर' अशें उतर उपकरायताल्यो. २. 'गेर' हें अव्यय 'आमी' ह्या सर्वनामाक आनी नामाक लागून, ताचे सातवे विभक्तीचें रूप घडयता. 'गेर' हें अव्यय संस्कृत 'गृहे' ह्या उतरावेल्यान घडलां. 'गृहे'चें 'घरे' अशें रूप जालें. उपरांत 'घरे'चें 'घेर' जावन, ताचें मोवळायल्लें रूप 'गेर' जालें. 'गेर' म्हळ्यार घरांत. हें अव्यय सर्वनामांक, तेचपरी नामांकय लागता. देखीक (स.ना.) आमगेर, तुमगेर. (नामां) रामागेर, कृष्णागेर. (पळेयात : कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ६७.)

प्राकृतावेल्यानय हें रूप घडटा. देखीक अम्हघरे – आमघेर – आमगेर.

**म्हण :** आमगेर जेवूं नाका, उपाशीं रावूं नाका. (दोशींवटेन पेंच निर्माण करप.)

**आमगेलो,ली,लें** । आम्गॅलॉ,ली,लॅ (गॅलॅ), –गेल्यो, –गेलीं; सा.रू. –ल्यां । (सं. अस्माकीन; प्रा. अम्हकेरो) वि. १. आपलेकडेन लग्निक आशिल्लो. २. खासा आपलो, आपले सत्तेचो; आपले मालकीचो; आपल्या धनीपणाचो. (आमीं आदीं आमगेल्या भाटांत माडांक नाल्ल आसात कि नात तें पळोवया, आनी थैं सुको बोंडोय दिसलोना जाल्यार, मागीर आजयेच्या भाटांतल्या माडांचेर चडुया. – येवकार अध्यक्षालें उलोवप, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ६६.)

सध्याच्यो चलयो सोडल्यो जाल्यार, आजूनय कांय हिंदू बायलो आपल्या घोवाचें नांव घेनात. ताच्या नांवाचो उल्लेख करचोच पडल्यार, त्यो भौमानान आपल्या घोवाक 'आमगेले' अशें म्हणटात. कांय दादलेय आपले बायलेचो उल्लेख करतासतना 'आमगेली' अशें म्हणटात.

**विशेश :** 'गेलो', 'गेली' आनी 'गेलें' हीं तिनय लिंगी विशेशणी कुसां 'आमी' ह्या सर्वनामाक लागून, ताका सवे विभक्तीचो अर्थ दीत, ताचें विशेशण घडयतात. हीं कुसां सर्वनामांक आनी मनीसनामांक लागतात. पुरूशलिंगी 'अकीनः', स्त्रीलिंगी 'अकीना' आनी नपुसर्कलिंगी 'अकीनम्' ह्या संस्कृत विशेशणी कुसांक लागून, कोंकणींतलीं 'गेलो', 'गेली' आनी 'गेलें' हीं तिनय लिंगी कुसां घडल्यांत. ऋग्वेदांत 'अकीना' कूस

लायिल्लें स्त्रीलिंगी 'माकीना' = 'म्हगेली' हें सर्वनामी विशेशण मेळटा. 'आ प्र यात मरुतो विष्णो अश्विना पूषन माकीनया धिया' (ऋ. ८.२७.८) म्हळ्यार 'मरुत, विष्णू, अश्विन आनी पुषन देवानूं म्हगेले (हांवें केल्ले) तोखणायेन तुमी बेगीन (पुजेक) येयात.' पुरुशलिंगी 'माकीन' पासून माकीनो – माकेनो – मागेनो – मागेलो – मगेलो हें कोंकणी सर्वनामी विशेशण जालें. सिद्धहेम, 'मरकतदमकले गः कन्दुकेत्वादे । 'सिद्धहेम, ८.१.१८२ ह्या नेमान 'क'चें 'ग' जातां आनी 'अनयोर्नस्य ल व्ह इत्येतौ वा भवता: ।। लिम्बो निम्बो।। व्हावियो नावियो।। सिद्धहेम, ८.२.१८२ ह्या नेमान 'न' चें 'ल' जाता. ताका लागून 'मागेनो' चें 'मागेलो' आनी निमाणें 'म्हगेलो' हें उतर घडलें. हेच तरेन 'आस्माकीन' पासून 'आमगेलो' 'आस्माकीना' पासून 'आमगेली' आनी 'आस्माकीनम्' पासून 'आमगेलें' अशीं अनुक्रमान पुरुशलिंगी, स्त्रीलिंगी आनी नपुसकलिंगी उतरां घडल्यांत.

'आमगेलो' हें विशेशण अशें घडलां : आस्माकीन – आस्माकीनो – अस्माकेनो – आम्हागेनो – आम्हगेलो – आमगेलो.

संस्कृत 'अकीन', 'अकीना' आनी 'अकीनम्' ह्या विशेशणी कुसांक लागून, कोंकणींत 'गेलो', 'गेली' आनी 'गेलें' हीं रुपां घडल्यांत. तेच परी भासशास्त्रांच्या मतान संस्कृत 'कार्य', 'कृत' आनी 'कृतम्' वेल्यान प्राकृतांत 'केरो', 'केरी', आनी 'केरं' हीं विशेशणी कुसां घडल्यांत. देखीक : प्रा. रायकेरं = कों. रायागेलें. (पळेयात, कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ, बरो : शणै गोंयबाब, पा.५६-५९.)

'आमगेलो', 'आमगेली' आनी 'आमगेलें' हीं कोंकणी विशेशणां प्राकृतांतल्यानय घडून येतात. 'इदमर्थस्य प्रत्ययस्य केर इत्यादेशो भवति ।। युष्मदिय : ।तुम्हकेरो।। अस्मदीयः ।अम्हकेरो।। सिद्धहेम, ८.२.१४७ – 'क' चें 'ग' जाता आनी 'र' चें 'ल' जाता. (पळेयात Prakrit grammar of Hemachandra } Revised edition by Dr. P.L. Vaidya, 1958 edition, page 491).

**आमचो,ची,चें** । आमचॉ, ची, चँ, सा.रू. –च्यां । (सं. अस्मत् + त्यः प्रा. अम्हेच्चयं) वि. १. आपलो नातेवर्गी (आमचें कुटुंब, आमचो लोक). २. संबंध (आमचो देश; आमचो समाज). ३. धनीपण, सत्ता. (आमचें घर, आमचीं पुस्तकां, आमचीं तारवां).

**विशेश :** 'चो', 'ची' आनी 'चें' हीं सटवे विभक्तीचो अर्थ दाखोवपी कुसां, 'आमी' ह्या सर्वनामाक लागून, ताचें विशेशण घडयतात. हीं कुसां संस्कृत पुरुशलिंगी 'त्यः', स्त्रीलिंगी 'त्या' आनी नपुसकलिंगी 'त्यम्' ह्या उतरांपसून जाल्यांत. पुरुशलिंगी 'त्यः'चो आदीं 'त्यो' जाता आनी उच्चार बदलाच्या रुपान 'त्यो'चें च्चो – चो हें नातें, संबंध आनी धनिपणाचो अर्थ दाखशेवपी विशेशणी कूस घडटा. (वररुची, प्राप. त्यथ्यद्यांचछजा । ३.२७). हें कूस वचनाभशेन बदलता. आमचो हें विशेशण अशें घडलां : अस्मत् + त्य : – अस्मत्यो – अम्हच्चो – आमचो.

'चो' हें कूस अव्ययांचीं, नामाचीं आनी सर्वनामाचीं विशेशणां घडयता. (कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ, बरो : शणै गोंयबाब, पा. ५३-५४).

प्राकृतावेल्यानय हें कूस घडून येता. 'आभ्यांपरस्पेदमर्थस्या एच्चय इत्यादेशो भवति ।। युष्माकमिदं यौष्माकम् । तुम्हेच्चयं । एवम् अम्हेच्चयं संस्कृत अस्माकमिदं = अम्हेच्चयं – आमचें. – सिद्धहेम, ८.२.१४९. (Prakrit Grammar of Hemachandra, Revised Edition by Dr. P.L. Vaidya, 1958 edition, पा. ४९१.)

**म्हणी :**

१. सगळो लोक लुंवता, आमचो कित्याक धांवता.

२. आमचो म्हालो, चौगांसरशीं जालो.

**आमट** । आमट् । (सं. अम्ल + अक्त) वि.

आमटसाण आशिल्लो. पळेयात : आंबट.

**आमट** । आमट् । सा.रू. – टा । ('आमट' वेल्यान) न. पळेयात 'आंबट'.

**आमटवाणी** । आमटवाणी । सा.रू. – ण्या । ('आमट' वेल्यान) वि. आमटशें; आंबटशें; आंबटसार.

**आमटवाणो** । आमटवाणॉ । सा.रू. – ण्या । ('आमट' वेल्यान) वि. आमट केल्लो वा आमट जाल्लो.

**आमटसाण** । आमटसाण । सा.रू. – णी । (कों. आमट + साण) स्त्री. आमट पदार्थ, फळां बी खातकीर जिबेक जाणवता ती रूच. पळेयात : आंबटसाण.

**आमटसार** । आमट्सार् । (कों. आमट + सार) वि. चिके आमट; आमूस; आंबूस.

**आमटाण** । आम्टाण् । सा.रू. – णी । (कों. आमट + आण) स्त्री. कल्लायल्ली चींच. पळेयात : आंबटसाण.

**आमटेवप** । आमटॅवप । सा.रू. – पा । ('आंबट' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आमटे (सक) १. आंबट जावप (दांत आमटेल्यात) २. आंबटसार जावप; आंबूस वास मारप. (कालचो रोस आज आमटेला.)

**आमटें** । आमटँ । सा.रू. – ट्या । ('आमट' वेल्यान) न. मेळांय, विर्जण. – पळेयात : आंबटें.

**आमडप** । आम्डप् । सा.रू. – पा । (सं. आ + मुच्) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आमड् (सक) १. आंबडप. (गोरवां चरपाखातीर राखणे तांकां आमडीत व्हरताले.) २. धांवडावप. (ताका ताणीं एन्रादर थंयच्यान आमडून घालोना जाल्यार, तो आनीकां कांय वर्सांनी सामळियालालाच्या माथ्यावेल्यान सामकोच हात भोंवडायल्याबगर रावचो ना. – पुण्यात्मो राम कामती, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १०२).

**वा.प्र.:** १. **आमडून घालप** : धांवडावप.
२. **आमडून व्हरप** : चरोवंक व्हरप.

**आमण** । आमण् । सा.रू. – णा । (कों.आम + ण) न. मेळांय, विरजण.

**आमदानी** । आम्दानी । सा.रू. – नी । (फा. आबादानी) स्त्री. १. उत्कर्शाचो, तरतराचो, उदरगतीचो काळ. २. कारकीर्द; अंमल.

**आमदार** । आम्दार । सा.रू. – रा । भौव. – र, सा.रू. – रां । (अर. आम (प्रजा) + दार) पु. राज्याचे विधानसभेचो वा विधानपरिशदेचो सभासद म्हणून वेंचून आयिल्लो वा नियुक्त केल्लो नागरीक.

**आमंत्रण** । आमन्त्रण् । सा.रू. – णा; भौव. – णां; सा.रू. – णां । (सं. आमन्त्रणम् ) न. १. कसल्याय उत्सवाक, धबाज्याक, समारंभाक वा कार्याक येवचें म्हणून केल्लें मागणें वा केल्ली विनंती; आपोवणें; आंवतण. (ताका हांवें जात्रेचें आमंत्रण केलां.) २. खंयच्याय धर्मकार्या वेळार देवतेक केल्लें आवाहन.

**आमंत्रण-पत्रिका** । आमन्त्रण-पत्रिका । सा.रू. – आमंत्रण-पत्रिके । (सं. आमन्त्रण + पत्रिका) स्त्री. लग्न, मूज बी धार्मिक प्रसंगा निमतान जावपी सुवाळ्याक वा हेर कसल्याय समारंभाक येवंचें म्हणून धाडिल्लें पत्र.

**आमंत्रित** । आमन्त्रित । सा.रू. – ता । भौव.– त; सा.रू. – तां । (सं. आमन्त्रित) वि. जाका आमंत्रण दिलां वा केलां तो; निमंत्रित; आपयल्लो.

**आमय** । आमय् । सा.रू. – ये । (सं. अम्भासिकः = नुस्तें?) स्त्री. मधुर आंगाचें एक नुस्तें; आंबय.

**आमराय** । आम्राय् । सा.रू. – ये । भौव. – यो; सा.रू. – यां । (सं. आम्र + राजि: = रांग) स्त्री. आंब्याच्या झाडांची बाग, राय, वन.

**आमरोस** । आम्रोस । सा.रू. – सा । (सं. आम्र + रस:) पु. पिकिल्ले आंबे पिळून काडिल्लो रोस.

**आमली** । आम्ली । सा.रू. – ले । भौव. – ल्या; सा.रू. – ल्यां । (सं. आम्र + ली) स्त्री. पळेयात 'आंबली'.

**आमली** । आम्ली । सा.रू. – ले । भौव. – ल्यो; सा.रू. – ल्यां । ('आमली' वेल्यान) स्त्री. आंबलेचें फळ, तॉर. (पोसक्याले बायलेन लक्षुमणाक बेगीबेगीन ताटभर पेज वाडली. तोंडाक आमले तोर दिलें. – कथा : रुमडाफूल, बरो : महाबळेश्वर सैल, राष्ट्रमत, कोंकणी अभ्यासक्रम पुरवणी, आयतार, ता. ३ जुलै १९९४, पा.१.)

**आमलो** । आम्लॉ । सा.रू. – ल्या । भौव. – ले (लॅ); सा.रू. – ल्यां । पु. पळेयात, 'आंबलो'.

**आमवप** । आम्वप् । सा.रू. – पा । (सं. अम्ल) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आमै – (सक) पळेयात : आंबवप. (तिणें पोळ्यांचें पीठ आमयलें.)

**आमसाण** । आमसाण् । सा.रू. – णे । कों. आमट + साण (स्त्री) पळेयात : आंबटसाण.

**आमाचीं भामां** । आमाचीं भामां । (सं. आम (अर्दुकुटें शिजयल्लें) + भामां) स्त्री. भौव. १. अर्दुकुटें शिजोवन अप्रूप कशे करून दाखयल्ले पदार्थ. (तांणी आमाचीं भामां करून केदेय व्हडलें परखन्न पत्रावळिंचेर वाडलें, तरी सगळें अुस्टें आनी खरकटें. – आबे फारीय, बरो : शणै गोंयबाब, पा. २९.) २. सात चावयो करून दवरपासारकी अत्यंत अप्रूप अशी करून दाखयल्ली वस्त. (हांवें जायत्यो पदव्यो तयार केल्ल्यो. त्यो हांव दरबार भरौन, वाजंत्रां वाजौन, मोठ्या व्हडल्या मुदग्याभशेन, हात राखून, आमाचीं भामां करून दितालों. – गोमन्तोपनिपत्, २रें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा. २२२.)
**वा.प्र.: आमाचीं भामां करप :** कसलीय वस्त अत्यंत अप्रूप कशी करून दाखोवप.

**आमाडी** । आमाडी । सा.रू. – डे; भौव. – ड्यो; सा.रू. – ड्यां । (सं. 'आम्र' वेल्यान) स्त्री. आंबलेचें तोर (तॉर); आंब्याचो काथो किल्लून जाल्ले आंबलेचें तन्नें फळ. पळेयात : आंबाडी.

**आमाडें** । आमाडँ, सा.रू. – ड्या । (?) वि.ना. पाळपाचें, आस्त दाखोवन दिल्लें आनी उपरांत बाशिल्लें उतर; आस्त दाखोवन दिल्लें लटकें उतर; केन्नाच खरें करचोना अशें दिल्लें फटीचें उतर. (हांवें ताका उतर दिलां, पूण तें आमाडें.)

**आमाडो** । आमाडॉ, सा.रू. – ड्या; भौव. – डे; सा.रू. – ड्यां । (देशी : आमोड, आमोडो) पु. केंस वळोवन माथ्याफाटल्यान मानेकडेन बायलो करतात ती केंसांची रचना. (बरें नवें ताल्ल न्हेसून, केसांचो आमाडो बांदून, दोळ्यांत काजळ घालून, पोव मारून, सगळो शृंगार करून सदाची बायल गाडयेंत बसताली. – पाखलो : तुकाराम शेट, पा. १९). पळेयात : आंबाडो.

**आमाडो** । आमाडॉ, सा.रू. – ड्या; भौव. – डे (डॅ); सा.रू. – ड्यां । (सं. आम्रातम्) पु. आमाडो (फळ) (आमचे गांठीर वखद आसा। आमाड्या सुंगटा हुमणाचें! – व्हडवीक : गजानन रायकार, बनवड, पा. ३५. पळेयात : आंबाडो (फळ).

**आमान्य** । आमान्य, सा.रू. – न्या । (सं. आम = शिजोवंक नाशिल्लें + अन्न) न. मेल्ल्या मनशाच्या नांवान, ताचे तिथी दिसा, संकल्प सोडून भटाक वा पुरयताक दक्षिणेसयत दितात तो शिदो. शिद्याचीं आंगां : तांदूळ, चणे, मूग, दाळ, गॉड, बटाट, खावचीं

पानां आनी सुपारी, एक जानवें आनी गोपीचंदनाचो कुडको. मेल्लो मनीस दादलो आसल्यार जानवें दितात, बायल आसल्यार जानवें दिनात. (पिंडाचें ताट नाका । दर्भाचो तिळांचो । आमान्यांचो थाट नाका. – आतां बेठो कित्याक : र.वि. पंडित, आयलें तशें गायलें, पा. ७१.)

**आमास** । आमास्, सा.रू. – शे । (सं. अमावास्या) स्त्री. हिंदू पंचागाप्रमाणें कृष्णपक्षांतली निमाणी तीथ; अमास; उमास.

**आमांश** । आमांव्श्, सा.रू. – शा । (सं. आम = न पचिल्लो + अंश) पु. पोटांत पचनासतना उरिल्ल्या अन्नाच्या अंशाक लागून आंतकडेन जाल्लो एक विकार, परसाकडच्या वेळार पोटांतल्यान झरमां कशीं आंव पडपाची बळाळीक.

**आमिग** । आमिग्, सा.रू. – ग़ा; भौव. – मीग; सा.रू. – मिगां । (पुर्तु. Amigo) पु. इश्ट, मित्र. (जुवांव मोठेलो तो जोबोर आमिग म्हुगेलो । तूं घरा वोतोरेचि, ताका दी रेकाद जोब्रेलो । – The Konkani Language and Literature, by J. Gerson da Cunha, पा. ४८.)

**वि.** नितीची चाड आशिल्लो, कैवारी : (सत्याचो आमिग.)

**आमिजाद** । आमिजाद्, सा.रू. – दी । (पुर्तु. Amizade) स्त्री. इश्टां इश्टांमदीं वा मित्रां मित्रांमदीं आशिल्ली माये-मोगाची भावना, परस्परांमदीं आशिल्ली ओड. (मागीर अशीच ताजी वळख ड्रायव्हराकडेन जाली. तांची आमिजाद दाट जाली आनी खुबच दाट़ जाली. – 'मोगाची धूव', बरो : पुंडलीक नायक, मुठय, पा.७८.)

**आमिझाद** । आमिझाद्, सा.रू. – दी । (पुर्तु. Amizade) स्त्री. इश्टां इश्टांमदली माये-मोगाची भावना; इश्टकाय; इश्टां इश्टांमदीं आशिल्ली परस्परांची ओड.

**आमिश** । आमिश्, सा.रू. – शा । (सं. आमिषम्) न. १. लोभ; लालूच; प्रलोभन; आविस. २. जिचो लोभ वा मोह उत्पन्न जाता ती वस्त; ताळणी. ३. नुस्तें धरपाखातीर गरयेच्या गऱ्याक लायतात तें हांयस.

**आमी** । आमी । (सं. अस्मत्; प्रा. अहमे) स.ना. 'हांव' ह्या प्रथम पुरुशी सर्वनामाचें भौवचन. (काकासायब थोमणे मारून म्हण्टात कि आमगेल्या लोकांक भूतकाळ जिवो दवरून तांतूंत वांचपाची वज. देखून, आमी पोरणें कांय विसरनात आनी नवें भौच थोडें शिकतात. – येवकार अध्यक्षांलें अुलोवप हातुंतलो 'अैन वेळार' हो निबंध. बरो : शणै गोंयबाब, पा. १४४.)

**विशेश :** राजा, सरदार, सरकारी मोठे अधिकारी, दिसाळ्यांचे संपादपी आपल्या बरोवपांत, तेच परी जुवीज आपल्या न्याय-दानाच्या लिखितांत 'हांव' ह्या उतराच्या जाग्यार 'आमी' हें सर्वनाम उपकरायतात.

**म्हणी :**

१. आमी आयलीं घरा, तुमी भायर सरा.
२. आमी ओझेली, आमकां खंयचे भाडेली ?
३. आमी गिरेस्तां, पूण माथ्याक घालूंक तेल ना.
४. आमी तुमगेर जेवंक येतात, तुमी आमगेर ओजीं धाडात. (दोशीं वटेन स्वार्थ पळोवप.)
५. आमी तुमगेर जेवंक येतात, तुमी आमगेर आंबे धाडात.
६. आमी तुमी एकां, तांदळांनी केलीं लोकां (आमी तुमी एकच आसांत, पूण स्वार्थान आमकां पैसायल्यांत.)

**आमील** । आमील, सा.रू. – ली । (सं. अम्लम्, प्रा. अम्बिल) स्त्री. पळेयात : 'आंबील' (...धा परखनाचें जेवण रुप्या ताटांत जेवंक जाणा आनी केळी

पानार वाडिल्ली आमील भुरकावंक जाणां. – खबरी, बरो : लक्ष्मणराव सरदेसाय, पा.६.)

**आमुट्टाण** । आमुट्टाण, सा.रू. – णी । (कों. आंबुट्ट + आण) स्त्री. अत्यंत तीव्र असो आंबट, आंबूस वास.

**आमुटसाण** । आमुट्साण्, सा.रू. – णी । (कों. आंबट + साण) स्त्री. पळेयात : 'आंबटसाण'.

**आमुडप** । आमुडॅप्, सा.रू. – पा । (सं. आ + मुच्) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आमुड् (सक्). १. चरोवपाक व्हरप; आमडप. (तो गोरवांक गोठ्यांतल्यान मळार व्हरपाक आमुडटा.) २. धांवडावप (आरे, गोरवां शेत खातात. तांकां आमूड.) ३. चलोवप (पंडरी गाडी आमुडटालो. – अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा. ८४.)

**आमुल्ली** । आमुल्ली । सा.रू. – ल्ले; भौव. – ल्ल्यो; सा.रू. – ल्ल्यां । (सं. आम्र + कों. उल्ली – ल्हानविकाय दाखोवपी ता. कूस.) स्त्री. जिका आजून गार्फ लावंक ना, अशी ल्हान आंबली. (तळ्याचे धडेर कोंगऱ्या पानांची गाड पांचवी आमुल्ली उबी आशिल्ली. – अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा. २५).

**आमूस** । आमूस् । (सं. अम्ल) वि. १. आंबट; आंबूस. २. भेळशेत गेल्ल्यान आंबट जायत गेल्लो (आमूस रोस). भेळशेल्ली, इबाडलेली; आमूस. (आमूस पेज.)

**आमेट** । आमेट् । सा.रू. – टे; भौव. – टयो; सा.रू. – टयां । (?) स्त्री. १. खेळांतल्या गड्यांनी खेळटना कांय मिनटांखातीर केल्लें खेळाचें तात्पुरतें थांबोवप; खेळाक घाल्लो तात्पुरतो खंड. खेळपी गडे, खेळ मात्सो थांबोवपाक 'आमेट्यो' म्हणून खेळ तात्पुरतो थांबयतात. २. तात्पुरतो उपाय वा तात्पुरतो उपचार. (आमेट्यांनी व्याधी मरना. देखून, खंयचीय व्याधी बरी जावपाक, ती पूर्ण बरी जायसर उपाय करूंक जाय.)

**म्हण :** आमेट्यांनी व्याधी मरना.

**आमेन** । आमॅन् । (हिब्रू : Amen) उ.उ. अशें जावं! तथास्तु! (सांत कुसाचिये । कुरुवेन । सोड आमकां । परमेस्परा । आमच्या दुस्टांतले । बापाचिये नावीं । आनी पुत्राचिये । आनी स्पिरिता सांताचिये । आमेन जेजूस ।' दौत्रिन क्रिस्तां, बरो : पाद्री थोमस स्टिफन्स, संपा. अ.का. प्रियोळकर, पा. १.)

**विशेश :** 'आमेन' चें रूप 'आमें' अशेंय मेळटा. मुसलमान धर्मीय 'तथास्तु', अशें जावं! हे भावार्थ दाखोवपाक अरबी 'आमीन' हें उतर उपकरायतात.

**आमो** । आमॉ, सा.रू. – म्या; भौव. – मे (मॅ); सा.रू. – म्यां । (सं. आम्रः) पु. आंब्याचें फळ. पळेयात : 'आंबो' (फळ).

**आमोरी** । आमोरी, सा.रू. – रे । (पुर्तु. Ave Maria) स्त्री. १. आंकवार मोरयेक (Virgem Maria) क्रिस्तांव धर्मी म्हणटात ती दिसपट्टी प्रार्थना. २. निमाणी 'आव्हॅमारीय' म्हणपाखातीर, तिनसांजची वाजयतात ती इगर्जेची घांट. ३. तिनसांज; तिनसांजची कातर; दिसाच्या उजवाडाची निमाणी घटका. (आमोरेच्या वेळार रे मोगा । मोगरेक फुलतात कळे । तसले तुजे दोळे रे मोगा । चोयतात म्हजेकडेन । – एका मांड्यांतलीं कडवीं – येवकार अध्यक्षांलें उलोवप, बरो : शणै गोंयबाब, पा. २३).

**विशेश :** क्रिस्तांव धर्मी 'आव्हे मारीय' म्हळ्यार 'नमन मारिये वा मोरये' ही प्रार्थना सकाळीं, दनपरां आनी सांजची म्हणटात. हे प्रार्थनेखातीर दिसपट्टी तीन खेपो इगर्जेची घांट जाता. 'आव्हॅ मारीय'ची प्रार्थना अशी :

'नमो मारिये
क्रुपाभरिते
स्वामि
तुजे ठांई आसा

स्त्रियाभितरी
तूं सदैवि
आनी
सदैव फळ
तुजिए कुसिचें
जेजूस
सांता मारिये
परमेस्पराचे
माते;
आमां पापयां
खातिर
मिनती करि,
आतां
आनी
आमच्या
मरण कालाडे
आमेन जेजूस.

दौत्रिन क्रिस्तां, पा. ११-१२.

**आम्रूस** । आम्रूस । ('आंबूस' वेल्यान) वि. भेळशेवन आंबट जाल्ली; इबाडून आंबट जाल्ली (आमूस पेज).

**आंबट** । आम्बट । (सं. अम्ल + अक्त) वि. १. आंबटसाण आशिल्लो, ल्ली, ल्लें; जाका आंबटसाण आसा तें. (आंबट आंबो; आंबट चींच; आंबट ताक). २. (ला.) १. दुखखाची सया आसपी, कोडू. (जिणेंतले सगळेच दीस सारके नासतात. कांय दीस गोड, तर कांय दीस आंबट आसतात.) २. पाडें, वांकडें. ३. केन्नाच मेळपाची आस्त नाशिल्ल्यान कोडू मानून सोडून दिल्लो, दिल्ली, दिल्लें. (कोल्याक द्राक्षां आंबट) ४. दुखेस्त, खिन्न, समाधान वा उत्साह नाशिल्लो (तो आंबट तोंड करून भोंवतालो.)

**वा.प्र.: तोंड आंबट करप :** दुखेस्त जावप; समाधानी नासप; दुसऱ्याचें बरें जाल्लें पळोवंक नज जाल्ल्यान, तोंड कोडसार करप.

**म्हणी :**

१. आंबट खातकूच ताळ्याकडेन कचरता. (पाडें, वांकडें कर्म करतकीर आपलेंच मन आपल्याक भौन भौन खाता.)

२. पोट भरतकूच घरे आंबट. (अती मेळटकीर ताचें मोल कळना.)

३. भरलेल्या पोटार घरे आंबट.

४. आंबट खाल्लेल्याच्या गळ्याकडेन जळटा.

**विशेश :** आंबट रुचीची तिव्रताय दाखोवपाक 'आंबट चिंच', 'आंबट धोंक' वा 'आंबट धवंक' अशीं उतरां उपकरायतात. देखीक : हें घोंट आंबट चिंच, वा हें घोंट आंबट धोंक वा आंबट धवंक.

**आंबट** । आम्बिट्, सा.रू. – टा । (सं. 'आंबट' वेल्यान) न. आंबली, आंबाडे वा बिमलां बी घालून केल्लें सुंगटांचें हुमण, कालवण वा कडी; आंबोट. ('आयज हाडलें सुंगट, ताचें केलें आंबट.' – किरिस्तांव भावांल्या कातरांतलें एक कडवें.)

**विशेश :** 'आंबट' हाचो उच्चार कांय जाणांकडेन 'आंबॉट' असो जाता.

**आंबटवाणी** । आम्बट्वाणी । (सं. 'आंबट' वेल्यान) वि. आंबटशें, आंबटसार (आंबटवाणी पिवण, आंबटवाणी पोळ.)

**आंबटवाणो** । आम्बट्वाणॉ । सा.रू. – ण्यां । ('आंबट' वेल्यान) वि. आबट जाल्लो; आंबट आशिल्लो.

**आंबटशोक** । आम्बट्शोक । सा.रू. – का. (कों. आंबट + फा. शौक) एकाद्रे सुंदर बायले संबंदान आपल्या मनांत वासनापूर्तीचें सपन घोळोवपाची वृत्ती.

**आंबटशोकी** । आम्बट्शोकी । (कों. 'आंबटशोक' वेल्यान) वि. आंबटशोक करपी.

**आंबटसाण** । आम्बट्साण् । सा.रू. – णे । (कों. आंबट + साण) स्त्री. १. आंबट पदार्थाची रूच

(आंबलेची आंबटसाण). २. आंबली, आंबाडो, लिंबू, चींच, बिमलां बी अशीं फळां खातकीर जाणवता ती आंबट रूच.

**आंबटसार** । आम्बट्सार् । (कों. आंबट + सार (गूण दाखोवपी ता.कू.)) वि. मात्सोसो, चिके आंबट; आंबूस.

**आंबटाण** । आम्टाण् । सा.रू. – णो (कों. आंबट + आण) स्त्री. १. कल्लावन चिंचारो काडिल्ली चींच. २. (ला.) गर्व. (ताका चड आमटाण जाल्या.)
**वा.प्र.: आंबटाण-मिरसांग लावन सांगप :** खंयचीय गजाल, आपले पदरचीं उतरां घालून, फुलोवन सांगप; खंयचीय गजाल सांगतासतना, तिका बरें फोण्ण मारून सांगप.

**आंबटें** । आम्टँ । सा.रू. – ट्या । ('आंबट' वेल्यान) न. आंबवपाखातीर घालचेलो आंबट पदार्थ; आंबण; मेळांय; विर्जण.

**आंबटेप** । आम्बटॅप् । सा.रू. – पा । ('आंबट' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आंबटे (सक). १. आंबट फळ वा पदार्थ खाले उपरांत दांत आंबट जावप. (आंबली खाल्ल्यान दांत आंबटेल्यात.) २. आंबटसार, आंबूस वास मारप. (हुमेन वस्त्रां आंबटेल्यांत.)

**आंबडप** । आम्डप् । सा.रू. –पा । (सं. आ + मुच्) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आंबड् – (सक). आंबुडप; आमडप; आमुडप; धांवडावप.
**वा.प्र.: उस्ट्या हातान कावळ्याक न आंबडपी :** दुसऱ्याक आपल्याकडच्यान मात पसून लाव जावंक न दिवपी.

**आंबण** । आम्बण् । सा.रू. – णा । (कों. आंब + ण) न. आंबटें; मेळांय; विर्जण. (धंय करपाक दुदांत आंबण घालतात.)

**आंबय** । आम्बय् । सा.रू. – ये; भौव. –यो; सा.रू. –यां । (सं. अम्भासिक: = नुस्तें ?) स्त्री. मधूर आंगाचें एक नुस्तें.

**आंबली** । आम्बली/आमली । सा.रू. – ले; भौव. – ल्यो; सा.रू. –ल्यां । (सं. आम्र; पा. अम्ब) स्त्री. Anacardiaceae कुळयेंतलो Mangifera Indica हें शास्त्रीक नांव आशिल्लो आनी जाका आंबल्यो (तोरां) जातात तो रूख, जिका आंब्याचें गार्फ लावंक ना, ती व्हड जाल्ली आंबुल्ली.

**विशेश :** आंबो आनी आंबली हातूंत कसलेंच अंतर ना. आंब्याचीं पानां आनी आंबलेचीं पानां, आंब्याचें कांड आनी आंबलेचें कांड हातूंत कसलोच फरक ना. आंबली ल्हान आसतना, म्हळ्यार, आंबुल्ली आसतना, तिका आंब्याचें गार्फ लायतात. गार्फान जीव घेतकीर, आंबुल्लेचो वेलो भाग कापून उडयतात. उपरांत आंबो वाडूंक लागता. आंबली नासल्यार आंबो निर्माण करूंक मेळना.

आंब्यावरीच आंबली कार्तिक मार्गशीर्शांत (नोव्हेंबर आनी डिसेंबर) चंवरूंक लागता. फेब्रुवारी मार्साच्या अदमासाक आंबलेक आंबल्यो (तोरां) पिकूंक लागतात.

आंबलेचें लाकूड घट्ट नासता, नुस्तें पागूंक, तेच परी तारीक उपकरायतात तो पोनेळ आंबलेचोच करतात. आंब्यापरस आंबलेचें लाकूड पोनेळांक बरें आसता.

आंबलेच्या कांडाचीं चिरून फळीं काडटात. आंबलेचें लाकूड जोळोव म्हणून उपकरायतात. आंबलेच्या जिव्या लाकडाक काजूवरीच दीख आसता. ह्या दिखाक लागून जिवें लाकूड रसरशीत पेट्टा. ताका लागून खेड्यांनी सरणाखातीर आंबलेचें लाकूड उपकरायतात.

आंब्यावरीच आंबलेचीं पानां लांब आनी गाढ पांचवीं आसतात. आंबली पालेता तेन्ना, आंब्यावरीच

आंबलेचींय पानां तांबूस आसतात. 'गाथासप्तशतीं'त ह्या तांबूस पानांक कामदेवाच्या भाल्याची ओपार दिल्या.

**आंबली** । आम्बली / आमली । सा.रू. –ले; भौव. –ल्यो; सा.रू. –ल्यां । (सं. आम्र; प्रा. अम्ब) स्त्री. आंबलेचें फळ. ह्या फळाक आंबली वा तोर (तॉर) म्हणटात.

**विशेश :** तोरांत काथो मांडचेपयलीं तीं दोणांत घालतात. दिकाळ तोरां भोव बरीं करमेतात. सगळ्या आंबल्यांचें लोणचें करतात. आंबल्यांचीं भेतकांय करतात.

काथो मांडिल्ल्या आंबल्यांची भायली साल तासून, तांचीं सोलां करून सुकयतात. चड करून क्रिस्तांव, जेवणाक भिंडांच्या सोलां जाग्यार आंबलेचीं सोलां उपकरायतात. आंबलेच्या सुकयल्ल्या सोलांक 'सुकांबली' म्हणटात. सुकांबल्यांचें गॉड बी घालून लोणचेंय करतात.

पिकिल्ले आंबलेक घोंट म्हणटात. कांय घोंटां गोड आसतात. कांय आंबट-गोड आसतात. कांय घोंटां पचरां कशीं आंबट धवंक आसतात.

जाका आंब्याचें साट वा साठ म्हणटात, तें घोंटांचेंच केल्लें आसता. घोंटांचें सांसंवय करतात. हें सांसव आंबट-गोड आसल्यार चड रुचीक लागता.

आंबल्यांत 'न्हंय आंबली' म्हणून किराभाशेन चोंच आशिल्ली एक जात आसा. हाकाच 'किरामली' अशेंय म्हणटात. दोणांत चड करून ह्यो आंबल्यो घालतात.

आंब्यांची आनी आंबल्यांची जात एकच. आंबो आकारान व्हड आसता. आंबली ल्हान आसता.

**आंबवप** । आम्बव्प् । सा.रू. –पा । (सं. अम्ल) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आंबय (सक.) आंबट करप; आंबट जावंक दिवप. (अनरशे बी करतलो जाल्यार पीठ आंबयतात.)

**आंबशें-तिखशें** । आमशँ-तिखशँ । (कों. आंबट + तिखट) वि. आंबट-तीख रुची आशिल्लें. (बांगडे, ताल्ले, कापसाळीं असलें बारीक पूण रुचीक नुस्तें हाडून बरें आंबशें-तिखशें करून खावप, अशें हें गोंयकारांगेर मचमचीत, थाटाचें जेवण जेवपाची रीत आसताली. – गोंयकारांले पडवेर: कमलादेवी राव देशपांडे, पा. ९८.)

**आंबसाण** । आम्बसाण / आम्साण् । सा.रू. –णे । (कों. आंबट + साण) स्त्री. आंबटसाण; आंबट खातकीर जिबेक जाणवता ती रूच.

**वा.प्र.: आंबसाण-तिखसाण लावन सांगप :** एकाद्री खबर सांगतना, आपले पदरचीं उतरां घालून फुलोवन सांगप; खंयचीय गजाल सांगतासतना तिका बरें फोण्ण मारून सांगप.

**आंबलो** । आम्बलॉ । सा.रू. –ल्या; भौव. –ले (लॅ); सा.रू. –ल्या । (सं. आम्र) पु. चल्या-भुरग्याच्या कानांत घालचेली भांगराची वस्त; चल्या-भुरग्याच्या कानांत घालचेलो भांगराचो डूल. (देलवालिच्या दाव्या कानांत आंबलो आशिल्लो पळोवन विठ्ठलशणैक खोस जाली. – गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १५५.)

**आंबशेप** । आम्बशॅप । सा.रू. –पा । ('आंबूस' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आंबशे (सक). १. आंबट, आंबूस जावप (घामान आंग आंबशेलां), २. आंबट वास मारप (हुमेन आंगावेलीं वस्त्रां आंबशेल्यांत.)

**आंबाडी** । आम्बाडी । सा.रू. –डे; भौव. –ड्यो; सा.रू. –ड्यां । ('आंबली' वेल्यान) स्त्री. गार्फ न लायिल्ले आंबलेची आंबली वा तॉर.

**आंबाडें** । आम्बाडँ (?) वि. लटकी आस्त दिल्लें; फटकिरें. (हांवें ताका उतर दिलां, पूण आंबाडें.)

पळेयात – 'आमाडें'.

**आंबाडो** । आम्बाडॉ । सा.रू.–ड्या; भौव. – डे (डॅ); सा.रू. – ड्यां । (सं. आम्रात : सं. अंबष्ठा – हें उतर आंबाड्याक तेचपरी 'जुय' बी आनिकय कांय झाडांक लागता.) पु. Spondias Maguifera हें वनस्पतीशास्त्रीक नांव आशिल्लो आनी जाका आंबाडे लागतात तो रूख.

**वा.प्र.: आंबाड्यां गत जावप :** कितलीय बरी संद आयल्यारूय, कसलें ना जाल्यार कसलें कारण उप्रासून येवन, आयिल्ली संद फुकट वचप.

**विशेश :** आंबाडो हो anacardiaceal कुळयेंतलो आनी Spondias maguifera हें वनस्पतीशास्त्रीक नांव आशिल्लो रूख. हाचें कांड सरळ आसता. साल गुळगुळीत आनी गोबरा रंगाची आसता. खांदयो सरळ आडव्यो.

आंबाड्याच्या पानांत आंबटसाण आसता. ताका लागून, भुरगीं आंबाड्याची आंकरी मीठ लावन मोठे आवडीन खातात. आंबाडो मार्च-एप्रिल म्हयन्यांत फुलूंक लागता. फुलां बारीक आनी गुलाबसार पांचवीं. आंबाडो फुलता तेन्ना एक्कय पान नासता. फुलांत जेन्ना आंबाड्याचे कण धरूंक लागतात, त्याच वेळार आंबाड्यांक पालंव फुट्टा. आंबाडो डिसेंबर-जानेवारींत पिकून उलगता.

आंबाड्याचे सालीचें चूर्ण आमांशाचेर गुणावाक येता, अशें सांगतात.

**आधारावळ :** महाराष्ट्रांतील दिव्य वनौषधी, लेखक : सदाशिव यशवंत सावंत.

**आंबाडो** । आम्बाडॉ । सा.रू. –ड्या; भौव. –डे (डॅ); सा.रू. –ड्यां । (सं. आम्रातम्) पु. आंबाड्याचें फळ.

**वा.प्र.: आंबाड्याचो रोस काडप वा उड्डमेथी करप :** रडप. 'आंबाड्याचो रोस काडप' वा उड्डमेथी करप हो वाक्प्रचार 'रडप' ह्या अर्थान चड करून ल्हान भुरग्यांच्या संदर्भांत उपकरायतात. एकाद्रें भुरगें चाळयतकच वा फकाणां करतकच रडूंक लागता तेन्ना 'तें आंबाड्याचो रोस काडटा' अशें म्हणपाची चाल आसा.

**म्हण :** आंबाड्यांखातीर कोण म्हाळ खळयना.

**विशेश :** झाडपिको आंबाडो खावपाक आंबट-गोड असो रुचीक लागता. आंबाडो अदमासान चार सेंटिमिटर लांब आसता. आंबाडे तन्रे आसतना दोणांत घालतात. तांचें लोणचें करतात. आंबाड्यांचो कुंवळय करतात. आंबाडो जून जातकीर तातूंत काथो जाता. जून आंबाड्यांचेंय गोडशें लोणचें करतात. आंबाड्यांची करम करतात आनी आंबाड्यांची उड्डमेथीय करतात. आंबाडो रक्तशुद्धी आनी रक्तवृद्धीर बरो म्हणून सांगतात.

सुंगटांच्या हुमणाक रूच येवपाखातीर आंबाडे घालतात. ताका लागून दोन वळींची एक लोककथा मेळटा : आंबाडो खंय सुंगटाक सांगता, 'आगो, आगो केकल्याआका, राती बिती भोंव नाका. तुका खाल्यार म्हाका खातात.'

**आंबाडो** । आम्बाडॉ । सा.रू. –ड्या; भौव. –ड (डॅ); सा.रू. –ड्यां । (देशी : आमेलो, आमोडो = गुठलायल्ले केंस) पु. केंस वळोवन बायलो माथ्याफाटल्यान बांदतात तो केंसांचो बुचडो वा करतात ती केंसांची रचना. (...लांब लांब दांड्यार पिशी आबोली घोंसांनी फुल्ली. एका एका घोंसाचीं बचकभर आबोलीं खुंटून आयावांनी आंबाड्यांत माळलीं: अच्छेव, पुंडलीक नायक, पा. ४६.)

**विशेश :** पुरातन काळापासून बायलां केंसांची तरेतरेचीं रचना करीत आयल्यांत. वेदीक काळार आंबाडो नाशिल्लो. त्या काळार बायलो आपले केंस मेकळे सोडटाल्यो वा माथ्याफाटल्यान एक तीर बांदून केंस मेकळेच दवरताल्यो.

खजुराहो, कोनारक, मावंट आबू, भुवनेश्वर,

मध्यप्रदेश, गुजरात, सौराष्ट्र, आसाम, दक्षिण बंगाल आनी दक्षिण भारतांतल्या देवळांतल्या नायिकांच्या, अप्सरांच्या आनी यक्षिणींच्या शिल्पांनी तांच्यो केसरचना तरेतरेच्यो दाखयल्यात.

अजंठाचे दुसरे होंवरेच्या वण्टीचित्रांत (पांचवो शेंकडो) एके नायिकेची केसरचना आंबाड्याकडेन थोडीभोव जुळटा. राजस्थानांतल्या हर्शगिरीच्या म्हादेवाच्या देवळांतले एके नर्तिकेच्या शिल्पांत (क्रि.स. ९६१-९७३) आंबाड्यावरी रचना दिसता. ओरिसाच्या कोनारकाच्या सूर्य मंदिरांतल्या झांज वाजयतल्या शिल्पांत (क्रि.स. सुमार १२३८-६४) आंबाड्यावरी केसरचना दिसता. हो आंबाडो वांटकुळो लांबोडसार आसा.

पांचवो शेंकडो धरून केंसांची रचना आंबाड्यावरी जायत जायत, तेराव्या शेंकड्यांत आजचो आंबाडो रुपाक आयलो जावंक जाय.

आंबाड्याचो जो वांटकुळो वा मात्सो लांबोडसार आकार जाता, ताका खोपो म्हणटात. ह्या खोंप्यांत बायलो फुलां माळटात.

गोंयांत आंबाड्याचे तीन प्रकार मेळटात: १) सादो आंबाडो, २) पिळां आंबाडो आनी ३) फांतये आंबाडो (केंसांची फांती घालून घाल्लो आंबाडो.)

तुर्ताक आंबाडो फाटीं पडत चल्ला. नवे पिळगेंतल्यो बायलो आनी आतांच्यो तर्णधाकुट्यो युरोपियन बायलांवरी केंस कापून घेतात.

**आधारावळ :** Ancient Hair Styles of India, by Ila Palchoudhuri, published by Rupa & Co., Calcutta, 1974.

**आंबील** । आम्बील्। सा.रू. –बिले । (सं. अम्लम्; प्रा. अम्बिलं) स्त्री. उकड्या तांदळाचे पेजेचो निवळ घालून कालयल्लें नाचण्याचें पीठ आंबोवन आनी शिजोवन पेजेवरी केल्लें पातळ वा दाटसार पिवण. चरकसंहितेंत हिचो उल्लेख मेळटा. (...हाजो बापूय खंय सकाळीं फांत्यार आंबील भुरकावन देंवतालो शेतांत, तो सांजचो आमोरेर घरा... खाणा-जेवणाची सुद्दां याद नासताली. – 'बळार', बरो : पुंडलीक नायक, मुठय, पा. ३२.)

**वा.प्र.: आंबील जेवतालो ते दीस विसरप :** गरीबीचे दीस विसरप.

**म्हणी :**

१. घरा आंबील म्हणून मावोड्या गेल्यार थंयी आंबील.
२. जेन्ना म्हाराज जालो, आंबील जेवतालो ते दीस विसरलो.
३. आंबील जेवता, पूण मिशांक तूप लावन भोंवता.
४. शेराचे आशेक झगडलें आनी पायलेची आंबील सुणें खावन गेलें.

**विशेश :** आंबील करपाक पयल्या दिसा नाचण्याचें पीठ कालोवन, तातूंत उकड्या तांदळाचे पेजेचो निवोळ घालून तें आंबोवंक दवरतात. दुसऱ्या दिसा तें शिजोवन ताचें पातळसार वा दाटसार पिवण करतात. कांय जाण तिचेवांगडा उकड्या तांदळाचें शितय जेवतात.

नाचणे उस्ण आनी पचूंक जड, तेच परी ते पोस्टीक. कस्टांची कुमेरी शेती करपी गावडे आनी कुळंबी आंबील जेवतात. कांय हेर जातीचो लोकय आंबील जेवतात.

**आंबुट्टाण** । आम्बुट्टाण्। सा.रू. –णे; भौव. –णी; सा.रू. –ण्यां । (कों. आंबुट्ट + आण) स्त्री. अत्यंत आंबट, आंबूस वास.

**आंबुटसाण** । आम्बुटसाण्। सा.रू. –णे । (कों. आंबुट + साण) स्त्री. आंबट फळांची वा आंबट पदार्थाची रूच; आंबटसाण; आंबसाण.

**आंबूट** । आम्बूट्। ('आंबट' वेल्यान) वि. चड आंबट.

**आंबूट्ट** । आम्बूट्ट । ('आंबट' वेल्यान) वि. अत्यंत आंबट; आंबट चींच; आंबट धवंक. आंबूट ह्या उतराक लागिल्लो आनीक एक 'ट' तिव्रतायेची सया दाखयता.

**आंबूस** । आम्बूस् । ('आंबट' वेल्यान) वि. १. आंबसार, आंबटसार वास मारूंक लागिल्लो. २. आंबट; आंबटसार वास मारूंक लागिल्ल्यान भेळशेवंक लागिल्लो.

**आंबेमोहोर** । आम्बेमोहोर् । सा.रू. –रा । (गु. आंबामोर; म. आंबेमोहोर) पु. एक श्रेस्ठ प्रतीचो तांदूळ. हो तांदूळ आकारान ल्हान आनी वाटकुळो आसता. ह्या तांदळाच्या शिताक मधूर परमळ येता.

**आंबेहळद** । आम्बेहळद् । सा.रू. –दी । (कों. आंबेहळद) स्त्री. Sitaminear कुळयेंतली Curcuma amada हें वनस्पतीशास्त्रीक नांव आशिल्ली, तणाचे जातीची वखदी वनस्पत.

**विशेश :** आंबेहळद अख्ख्या कोंकणांत जाता. ही पोरसांतय लायतात. हिचीं पानां भाल्यावरी लांब आसून निमाणेकडेन वाटकुळसार आसतात. ह्या पानांची मदली शीर दाट आनी उठाव आशिल्ली आसता. हिका पांचवसार धवीं फुलां येतात आनी फळ बोंड कशें येता.

आंगाची कात मोव जावपाखातीर आंबेहळद वांटून आंगाक चोळटात. हिचीं पानां आनी कुटां थंड आनी पाचक आसतात. रक्तशुद्धीकय ती उपकारायतात. ल्हान भुरग्यांक न्हाणयतना तांच्या आंगाक पिठें उरूं नये म्हणून आंबेहळद झरोवन लायतात.

आंबेहळदीक मराठींतय 'आंबेहळद'च म्हणटात. संस्कृतांत हिका 'आम्रगंधा', 'कपूरहरिद्रा', हिंदींत 'आमहळदी' आनी इंग्लेज भाशेंत Mango ginger म्हणटात.

**आंबो** । आम्बॉ । सा.रू. –ब्या; भौव. –बे (बॅ); सा.रू. –ब्यां । (सं. आम्र; आमक; प्रा. आंबओ) पु. Anacardiceae कुळयेंतलो Maguifera Indica हें वनस्पतीशास्त्रीक नांव आशिल्लो आनी जाका आंबे लागतात, तो भारतांतलो एक पुरातन रूख. (पयलेंच तांकां एक आंब्याचें झाड मेळ्ळें. तें पळेलें तशें वागान विचारलें, 'आंब्या, आंब्या, म्हजो आनी भटाचो एक वांदो जाला. ताचो निवाडो करशी?' – 'बऱ्याक गेल्यार बिरमत फुट्टा!' ही काणी, बरो : गोम पै. – नवें गोंय, ३रें वर्स, चौथो आंक; आप्रील १९३७, संपादपी : काशिनाथ श्रीधर नायक, पा. ११९.)

**वा.प्र.: आंब्यार थावन कुंबयार उडप :** खासा आपल्यो अवास्तव कल्पना करप.

**म्हणी :** १. आंब्याची साल पणसाक, पणसाची साल आंब्याक. (जो फटीचें खरें करता आनी खऱ्याचें फट करता, ताका हे म्हणीची ओपार दितात.)

२. आंबो पणसांत न्हय, दुबळो मनशांत न्हय.

३. आंब्या रुखाक आंबाडी रुखाची साल लागता?

४. आंब्या रुखाक पांगऱ्याची साल लागता?

५. आंब्या रुखाक फातर मारचें चड. (बऱ्या वस्तूंचे फाटल्यान सगळे लागतात.)

**विशेश :** सूर्यकन्येचे चितेचे राखेंतल्यान आंब्याचो रूख निर्माण जाला, अशी एक पुराणकथा आसा म्हणपाचें सांगतात. आंबो हो मुदलचो पूर्व आशियांतलो, आसाम आनी ब्रह्मदेशांतलो. भारतांत हो रूख पुरातन काळापसून मेळटा. चार हजार वर्सां सावन आंबो भारतांत आसा. सांचीच्या स्तुपांत आंब्याचो रूख आनी ताजीं फळां (आंबे) कांतयल्लीं मेळटात. भारतांतल्यान हो रूख चिनांत, पाकिस्तानांत, बांगला देशांत, फिलिपिनांत, हायतींत, मॅक्सिकोंत आनी ब्राझिलांत पावलो. आंब्याच्यो जाती तीन : रानवटी रायवळ, बागायती इरसाल आनी कलमी. गोंयांत आज आसात ते सगळे आंबे कलमी; आंबलेक गार्फां लावन तयार केल्ले.

आंबो सदांच पांचव्याचार पानांनी भरिल्लो आसता. आंबो पालेता तेन्ना ताची आंकरी तांबूस

आसता. शीं पडूंक लागतकीर आंबो चंवरूंक लागता. चंवरांक धवसार किरमिजी रंग आसता. चंवरांतलीं फुलां बारीक तशींच ८-९ फुलां वांझ आसतात.

आंबो चंवरतकीर, चंवराच्या उग्र घमघमाटान मनशांची वृत्तीय उल्हासून येता. चंवरां भोंवतणीं भोंवर उन्मादान नाचूंक लागतात. कोगूळ मंजूळ सुरान गावंक लागता आनी त्या उन्मादाक एक वेगळोच भार येता.

गुप्त काळांत सोरो पर्मळीत करपाखातीर, तातूंत आंब्याचीं चंवरां घालताले. गाथेच्या काळांत, शुभ शकुनाखातीर, आंब्याचीं तन्नी लुसलुशीत पानां आनी चंवरां तांबयांत घालून दवरपाची चाल आसली. आजूनय मंगलकार्यांत घराच्या मुख्य दाराचेर आंब्याचीं पानां लायतात. धर्मकार्यांत पूर्ण कलशाखातीर, उदकान भरिल्ल्या तांबयाचेर, आंब्याचो ताळो दवरून, ताचेर नाल्ल दवरतात. सरस्वतीचे पुजेक आंब्याचीं चंवरां लागतात.

कालिदासान आंब्याच्या पानांची सर वसंताच्या बाणांकडेन केल्या. (गाथा सप्तशती, प्रस्तावना, बरो : स.आ. जोगळेकर, पा. ८३).

आंब्याचें लाकुडय मेळटा. ताचें कांड मोठें आशिल्ल्यान तें चिरून फळीं काडटात तेच परी तें पोखरून ताचो पनेळ वा पोनेळ करतात. आंब्याचें लाकूड चडशें घट्ट न्हय, आनी तगावाचेंय न्हय.

आंब्याक सगळ्यांत त्रास जाता तो बेनल्लीचो. ही बेनल्ल वेळच्या वेळार काडलीना जाल्यार, ती आंब्याकच खावन उडयता.

**आधारावळ**

१. जाण्टे पिळगेकडल्यान मेळिल्ली माहिती.

२. The Sunday Observer, June 1988, पा. १३.

३. गाथा सप्तशती, प्रस्तावना, बरो : स.आ. जोगळेकर.

४. Florilegio da Lingua Concani, por Monsenhor Sebastiao Rodolfo Dalgado.

**आंबो** । आम्बॉ । सा.रू. –ब्या; भौव. –बे (बॅ); सा.रू. –ब्यां । (सं. आम्रम्) पु. आंब्याच्या रुखाक लागता तें रुचीक फळ. (गोंयच्या म्हालगड्या उत्पन्नांत आंब्याचो आसपाव जाता. नाल्लाफाटल्यान ताचो पांवडो लागता. परंत ताचो लाव कसो घेवंचो हें आमच्या लोकांक आनी सरकाराकूय समजना. – नवें गोंय, २रें वर्स, १लो आंक, जुलै १९३५, संपादपी : काशिनाथ श्रीधर नायक, पा. १३.)

**म्हणी :** १. आंबो गोड, म्हणून तुंबो गोड न्हय.

२. आंबे भोव गोमटे जाल्ले, पूण ते माकडांनी व्हेले. (वस्तू बऱ्यो आसुनूय तांचो उपभोग घेवंक न मेळप.)

**विशेश :** आंबो हो फळांचो राजा. वेदिक काळार आंब्याक मोलादिक फळ मानताले.

भारतांत आंब्याच्यो ५०० जाती आसात. आंब्याच्यो इतल्यो जाती हेर खंयच्याच देशांत मेळनात. Alexander the Great (शिकंदर) हाणें क्रिस्ता आदल्या ३२७ वर्सा भारताचेर घुरी घाली. सिंधू प्रदेशाचे गाळींत (Indus Valley) ताका एक आंबराय दिश्टी पडली. थंयच्या आंब्या रुखांक लागिल्लीं आंब्याचीं लाल्लूक फळां पळेवन, तागेल्या सैनिकांचे जिबेक रूच सुटली. तांणी येतिश्ट आंबे खाले आनी ताका लागून सैन्यांतल्या सैनिकांक पोकळी सुटून अतिसार जालो.

बुद्धधर्मी चिनी यात्रेस्त Fa Hien (४०५-४११) आनी Hien Tsang (६३०-६४५) ह्या दोनय यात्रेस्तांनी आपल्या प्रवासवर्णनांत भारतांतल्या आंब्याचो उल्लेख केला. महम्मद तुघलकचे (Mahammad Tughlaq) राजवटीच्या काळांत भारतांत आशिल्लो तुर्की कवी, अमीर खुसरू हाका आंबो इतलो मानलो की ताणें आपले एके पर्शियन कवितेंत म्हळां :

'आंबो हो बागेचो अभिमान
अशें वेंचिक (अप्रतिम) फळ ना दुसरें हिंदुस्तानांत')
(The mango is the pride of the garden

The choicest fruit of Hindustan.)

मोगल सम्राट अकबर हाकाय आंबो मानतालो. देखून ताणें एक लाख आंब्याचे रूख आशिल्ली बाग तयार करूंक लायली. ही गवाय अब्दुल फझी दिता.

पिकिल्ल्या आंब्यांत ११ ते २० टक्के साकर आसता. तेच परी तार्तारिक, मालिक आनी सिट्रिक ॲसिडय आसता. हीं ॲसिडां आंगांतल्या क्षारांचो (Alcali) सांठो राखून दवरपाक पालव दितात. हे भायर आंब्यांत आनीक कांय घटक द्रव्यां मेळटात: प्रोतेइन (Protein) ०.६%, चरबी (fat) ०.४%, खनीज पदार्थ (Mineral Water) ०.४%, तंतू (fiber) ०.७%, कॅल्शियम (Calcium) १४ मि.ग्रा.%, फॉस्फोरस (Phosphorus) १६ मि.ग्रा.%, लोखंड १.३ मि.ग्रा.% आनी आर्द्रतामान ८१% आसता.

आंब्यांत उर्जेचें मान १०० ग्रामांक ७४ उस्णांश (calories) आसता. मुंबयचे आंब्या जातींत ९० उस्णांश आसतात. तर गोंयच्या मानकुराद आंब्यात १०० उस्णांश आसता. (पळेयात: A Harvest of Health, by H.K. Bakru, The Sunday Observer पा.१३).

फिर्ग्यांनी गोंय जिखून घेतकीर जेझुईत पाद्रींनी तिसवाडी, बारदेस आनी साश्टीच्या थळाव्या आंब्यांक आनी आंबल्यांक गार्फा लावन आंब्यांच्यो नव्यो रुचीक जाती निर्माण केल्यो आनी गोंयच्या आंब्यांची नामना संवसारभर गाजयली.

हिंदू पंचांगाप्रमाण गार्फा आशाढ-श्रावणांत लावपाची चाल आशिल्ली. जाल्यारूय जून ते सप्टेंबरमेरेन गार्फा लायताले. पुनवेच्या दिसा लायिल्लें गार्फ बेगीन जीव घेताले.

गोंयच्या आंब्याचीं बहुतेक नांवां पुर्तुगेज. जेजुइत पाद्रींनी पुरुशलिंगी नांवांचें स्त्रिलिंगी रूप करून आंब्यांक नांवां दिल्यांत. गोंयांत आंब्यांच्यो सुमार ६६ जाती मेळटात: आब्रेव, आफोंस, पुर्तुगाली आफोंस, आरॅक, आरूद, आवरॅय, बारगॉ, बाऱ्हेत, बें-कुराद, बिश्पु, बास्तार्द, बॉल, बोंबयो, ब्रिंदांव, काऱ्हैर, काऱ्हैर ब्रांक, चिर्मूट, कुलास, कुलास ब्रांक, कॉश्त, दोयराद, दों बॅर्ना, दों फिलिप, दुर्बात, फॅर्नांदिन, फॅऱ्हांव, फिगेरेद, फिलिपीन, फोतियो, फ्रीक, फुर्ताद, हिलार, ज्यापांव, झ्यॅरॉनिमु, जुझॅ, खाप्री मादाम, मालदेस, मुसराद (साश्टीचो आनी बारदेसचो), निकोलाव आफोंस, ओलिव्हेर, पापाजी, पापॅल, पापॅल ब्रांकु, रोज, रेबेल, रियाल, रैनॅल, रुजार, सांतान, साक्रेतीन, सांतु आंतॉन, साल्गाद, सांतियागु, मानकुराद, सॉनॉर, टांको, तेमूद, तिमॉतियु, हुडगो, हुंदुल्ली, शाव्हियॅर, मांगेलाल, मातियश, मोगरी, मिरयॉ, मालगांव बी. आंबे आनी घोंटां धरल्यार गोंयांत आंब्यांच्यो सुमार ८० जाती मेळटात.

कोंकण कृषी विद्यापिठान हालींच आंब्याची एक नवी जात निर्माण केल्या. हो आंबो मासोळ आसून ताचो काथो कागदाचे दाटायेयेदो आसा. Listen Institute of Protective Medicine हे संस्थेंत Solomon Zilva आनी Editor Perry ह्या ब्रिटिश आहारशास्त्रज्ञांनी भारतीय आंब्यांचो अभ्यास केला. भारतांतल्या आंब्यांत 'सी' व्हिटामीन (जीवनसत्व), तेचपरी 'ए' व्हिटामीन चड प्रमाणांत आसा म्हणपाचें तांणी सांगलां. Conor Research Laboratories हे संस्थेन, भारतांतल्या ३२ आंब्यांचो अभ्यास करून सांगला की 'रत्नागिरी आफोंस' ह्या आंब्यांत कॅल्शियमचें प्रमाण चड मेळटा. 'सिंधुरी' आनी 'तोतापुरी' आंब्यांत लोखणाचें प्रमाण चड मेळटा. गोंयच्या 'मानकुराद' आंब्यांत चड प्रमाणांत 'ए' व्हिटामीन मेळटा. हें प्रमाण १०० ग्रामांत २६,००० I.U. (International Unit) इतलें आसा. 'रत्नागिरी आफोंस' आनी 'पेऱ्हैर' (Pereira) ह्या आंब्यांत हें प्रमाण ९५,००० IU आसा. 'सहरानपुरी' आंब्यांत हें प्रमाण ३,२५० IU आसा. 'लंगडा' ह्या आंब्यांत अत्यंत चड प्रमाणांत व्हिटामीन 'सी' आसा. 'चवसा'

आनी 'मानकुराद' आंब्यांपरस हें प्रमाण दुपेटीन आसा. 'तोतापुरी' आंब्यांपरस हें प्रमाण चोपेटीन आसा आनी 'दशेरी' आंब्यापरस तें स पटीन चड आसा. (पळेयात : A Harvest of Health हो लेख by H.K. Bakhari, the Sunday Observer, 26 June 1988, page 13.)

मुसराद (साश्टीचो आनी बारदेसचो) हो हालव्याचो आंबो. करॅल हो लोणच्याचो आंबो. फेर्नांदीन हो आंबो पावसांत जाता.

१९७४ वर्सा गोंयांत जाल्ल्या आंब्यांच्या अखिल भारतीय प्रदर्शनांत 'आफोंस', 'हिलार' (Hilario), 'मानकुराद', 'मुसराद' (Monserrate) 'हुडगो' आनी 'शाव्हियॅर' हे आंबे दवरलेले. ह्या प्रदर्शनांत भारतांतल्या आंब्यांच्यो तिनशीं जाती मांडिल्ल्यो. ह्या प्रदर्शनांत गोंयचो 'हिलार' हो आंबो अत्यंत गोड आंबो म्हणून थारायलो. तेचपरी ह्या 'हिलार' आंब्यांत साकरेचें प्रमाण चड आसा म्हणपाचें थारायलें. (पळेयात : From India through Goa, to the world by Carmo Azavedo, Goa Today, June 1985.)

सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांत गोंयचे 'आफोंस' आंबे पुर्तुगेज सरकार पेशव्यांक भेट म्हणून धाडटालो. सातान्याक आनी मोगलांकय पुर्तुगेज सरकाराकडल्यान हे आंबे भेट म्हणून वताले.

भौ. Bernardo Francisco da Costa हाणें १८८५ वर्सा गोंयांत कॅनिंगचो पयलो कारखानो घालो. ते उपरांत भौ. Monte de Silva हाणें दुसरो कारखानो घालो. हे दोनय कारखाने गोंयचे आफोंस आंबे आनी अनसां हांचेर प्रक्रिया करतात. ही प्रक्रिया केले उपरांत आंबे आनी अनसां डब्यांत भरून जर्मनीक आनी अमेरिकेक निर्यात करतात.

आंब्यांत वखदी गूण आसात. मानकुराद आंब्यांत 'अ' जीवनसत्व चड प्रमाणांत आशिल्ल्यान, हो आंबो नदरेच्या दोशांचेर गुणावाक येता. आंबो हो शक्तिवर्धक, धातुवर्धक आनी भूक प्रदिप्त करता. तो थंडेचेर, अजिर्णाचेर, क्षयरोगाचे सुरवातीचे अवस्थेंत, किडनीच्या दोशांचेर गुणावाक येता.

आंब्यांच्यो कोयो वतांत सुकोवन तांचो पिठो करून दवरूंक जाय. हो पिठो गरजेप्रमाण आनी प्रकृतीप्रमाण एक ग्राम ते दोन ग्राम मेरेन म्होंवांत घोंटून घेतल्यार, तो अतिसाराचेर, भरण्याचेर आनी दंतांच्या विकारार गुणाक येता.

आंब्यांच्या दिसांनी दिसपट्टो सकाळचो, दनपारचो आनी सांजेचो एक एक आंबो खावन ताचेर दूद घेवचें. आंब्यांत साखर आसता पूण प्रोटिनां नासतात. देखून दुदाची गरज आसता. अशे तरेन म्हयनोभर दिसाक तीन आंबे खावन तांचेर दूद पियेल्यार आरोग्य सुधारून शरिराचें बळ वाडटा.

अत्यंत उस्ण जाग्यांनी जंय 'सन स्ट्रोक'चो भंय आसता, थंय तन्न्या आंब्याचें वा आंबल्यांचें जिरें बी घालून केल्लें 'पनें' पियेवपाची पद्धत आसता. तें जिवाक थंडाय दिता.

भारतांत आनी गोंयांत जे जे भायल्या देशांतले भोंवडेकार पावल्यात, तितल्यांनीय गोंयच्या आंब्यांची तोखणाय केल्या. Ben Batuta (१३३३) ह्या अरबी भोंवडेकारान आपले भोंवडेवर्णनांच्या दुसऱ्या भागाच्या बाविसाव्या पानार बरयलां, "शरद ऋतूंत आंबो पिकून हळडुवो जाता. तो सफरचंदावरी कापून खातात. चोखूनय खातात. आंबो आंबट गोड आशिल्ल्यान तो खावंक रुचीक लागता." फ्रांसेज दोतोर Francis Beurnier (१७६५) हाणें आंब्या हालव्याइतलें अप्रतिम जॅम संवसारांत आनीक दुसरें ना, अशें म्हळां. "Il n'y pas de plus delicious contitute an monde. } There is no more delicious jam or jelly in the world.)

आधारावळ :

१. A Harvest of Health, by H.K. Bakhar, Sunday Observer, June 26, 1998, page 13.

२. From India, through Goa, to the world, by Carmo Azavedo, Goa Today, June 1985, pages 11-13.

३. Glossario Luso-Asiatico, Volume I, Por Sebastiao Rodolfo Dalgado, Paigina 3.

**आंबोवप** । आम्बॉवप्। सा.रू. –पा । ('आंबट' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. मूळ धातू: आंबोय् (सक.) आंबट करप; आंबट जावंक दिवप.

**आय** । आय् । सा.रू. –या । (सं. आयः) पु. १. येणावळ; प्राप्ती; उत्पन्न; मिळकत; जोड. २. लाभ; आदाव.

**म्हण :** आय पळोवन खर्च करता, ताचो फुडार बरो जाता.

**आय** । आय् । सा.रू. –ये । (कों. 'आवै' वेल्यान) स्त्री. आवै, आवय. 'आय' हें 'आवै' ह्या उतराचें मोटवें रूप.

**म्हण :** पुत म्हणीत आय, सून म्हणीत माय.

**आय** । आय् । (सं. एय/ईय; पाली – एय्य (णेय्य)) ता.कू. कांय विशेशणांक लागून भाववाचक नामां घडोवपी एक ताळाकूस. देखीक, म्हारग + आय = म्हारगाय; लांब + आय = लांबाय; धीट + आय = धिटाय.

**आयकणारो** । आय्कणारो । सा.रू. –ऱ्या; भौव. –रे (रॅ); सा.रू. –ऱ्यां । ('आयकप' वेल्यान) पु. १. जो आयकता तो; २. मनसुबिदार; धर्माधिकारी.

**आयकणी** । आय्कणी । सा.रू. –णे; भौव. –ण्या; सा.रू. –ण्यां । (सं. आकर्णनम्) स्त्री. आयकुपाची क्रिया.

**आयकप** । आय्कप् । सा.रू. –पा । (सं. आकर्ण्; प्रा. आइक्खइ, अहिक्खण ?) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आयक् – (सक्). १. नादाची, ध्वनिची, उतराची वा शब्दाची कानाच्या इंद्रियान जाण घेवप. २. ध्यान, लक्ष, चित्त दिवन समजून घेवप; मानप. (नॉचे प्रजापति तुमच्या फुडच्यांत थोडो आड्डलो ? तुमी खरेल्या देवाचो उगडास करात, ताजो मोग करात, ताजो भंय धरात म्हणून सांगून सांगून ताजो बाबड्याचो ताळो पडलो. परंत तुमी गा खैं आयकतात ? – गोमन्तोपनिषत्, दुसरें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १२०). ३. मान्य करप (म्हालगड्यान दाखयल्ले दोश तो आयकतालो). ४. आज्ञा पाळप (सदांच तो जाण्टयांचें आयकतालो). ५. पावप (देवान ताची प्रार्थना आयकली.)

**वा.प्र.: आयकून न आयकल्लेवरी करप :** कानार केंस काडप; भेड्डो जाल्लेवरी दाखोवप.

**म्हणी :**

१. लोकांच्यो आयकल्यो बुद्धी, घराच्यो केल्यो विधी.
२. आयकुचें जाण्टयांचें वा नेण्टयांचें.
३. जाय जाय तें उलयशी, नाका जाल्लें आयकशी.
४. आयकून भेरो, देखून कुड्डो.
५. कोणें केलां, कोणें आयकलां; खरें करूंक गेल्लो गुन्यांवकार जालो.
६. आयकुचें लोकांचें, करचें मनाचें.

**विशेश :** फाटले पिळगेंत दादले आपल्या बायलांक 'हय, आयकलें व्हय ?' अशें म्हणून आपयताले. आजूनय आमगेल्यो पयलिंचे पिळगेंतल्यो हिंदू बायलो घोवाक कितेंय सांगूंक सोदतना, 'आयकलां ?' अशें म्हणून सुरवात करतात.

**आयकर** । आय्कर् । सा.रू. –रा । (सं. आयः + कर) पु. येणावळीचेर, उत्पन्नाचेर सरकार आकारता तो कर.

**विशेश :** सरकार आयकर आकारतना ठरावीक रकमेची सूट दिता. भविश्य निर्वाह निधी (Provident Fund), विम्याचे हप्ते बी हांकांय सूट मेळटा. ते

उपरांत कर आकारणीचे पांवडे (slabs) आसतात. हे पांवडे चडटे (progressive) आसतात. कांय देशांत कर आकारणी एके थारायल्ले रकमेचे शिमेमेरेन 'प्रोग्रेसिव्ह' आसता आनी मुखार देंवती (regressive) आसता. आकारणी चडटीच उरल्यार एक भंय आसता. हो भंय म्हळ्यार ही आकारणी मुदलच खाता.

**आयकिव** । आय्किव् । ('आयकप' वेल्यान) वि. आयकल्ली (आयकिव गजाल).
**विशेश :** 'दोळ्यांचें तें खरें आनी कानाचें तें फटकिरें' अशी कोंकणींत एक म्हण आसा. आयकिव गजाल खरी आसूं येता, तशीच ती फटूय आसूं येता. देखून, ती फट काय खरी हाची रुजवात करूंक जाय आनी उपरांत सांगचीशी दिसल्यार सांगूंक जाय.

**आयज** । आय्ज् । (सं. अद्य; प्रा. अज्ज, अय्य). क्रि.वि. १. वर्तमान दिसा, चलता त्या दिसा; चालंत दिसा. २. तुर्ताक; सध्या. पळेयात : आज.
**वा.प्र.: १. आयज-फाल्यां करप** :घोळकावप.
**२. आयज आपयल्यार फाल्यां ओ म्हणपी मनीस :** अत्यंत आळशी मनीस.
**म्हणी :** १. आयज अमीर, फाल्यां फकीर.
२. आयज उलयलें, फाल्यां फट जालें.
३. आयज मोर खंय, सुवर्ण पिकलां थंय.

**आयजकाल** । आय्ज्काल् । (सं. अद्य + कल्य) क्रि.वि. – पळेयात : 'आजकाल'.

**आयचो-ची-चें** । आय्चॉ,ची,चँ । सा.रू. –च्या, चे, –च्या । ('आयज' वेल्यान) वि. आजचो-ची, चें (आयचे घडये म्हाका गुन्यांव दी. आज लागून फुडलें चांडाळपण, निस्ठुराय वा अचगळाय सांडटां. –सां.अं.अ., बरो : Fr. Antonio de Saldanha, पा. ५३).
**वा.प्र.: आयचें मर्ण फाल्यांर धुकलप.**
**म्हणी :** १. आयचो दीस फाल्यां येना.
२. आयचें आज, फाल्यांचें फाल्यां.
३. आयची होंकल, फाल्यां रांड.

**आयट** । आय्ट् । सा.रू. –टा । ('वायट' ह्या उतराचो अपभ्रंश) न. वायट; बळाळिक; रोग; पिडा; दुयेंस. (खोंकलेच्या आयटान म्हाजो । आब मेलोलो. – पावसा यो पुता. म्हजे बराबर रडच्याक । – कवी : र. वि. पंडित.)

**आयट** । आय्ट् । सा.रू. –टे; भौव. –टी/टो; सा.रू. –टीं/टां । (सं. आपाक : का. आवि; आवे) स्त्री. १. कुंभारालो हावो, आवो, आयें, मूस. २. धाटणी; धाट. (कृष्णदास श्यामाच्या कोंकणी गद्याची आयट आयचे कोंकणीचीच आसा. हाजेवेल्यान ही तिची आयट सोळाव्या शेंकड्यांतच थीर जाल्ली हें स्पश्ट दिसता. – कोंकणी काव्यसंग्रह (साहित्य अकादेमी) प्रस्तावना : बाकीबाब बोरकार, पा. ६.)

**आयटिका** । आय्टिका । सा.रू. –के; भौव. –को; सा.रू. –कां । ('आयट' वेल्यान) स्त्री. १. घडवण; घडौण; कारागिरी. (तांतली आदल्या काळावेली नाजुक आयटिकेन केल्ल्या कदेलां-मेजांची मुस्तायकी जतनायेबगर गैरोमांत माखून पिड्ड्यार जाताली. – सॉर्त : ऑलिव्हीन गोमीश, मन ओडटा ओडना, पा.९.). २. मांडणी, सिद्धी, तयारी (झुजाची अस्त्रांची सगळी आयटिका युरोपांतल्या राष्ट्रांनी करून दवरल्या.)

**आयटें** । आय्टँ । सा.रू. –ट्या; भौव. –टीं; सा.रू. –ट्यां । ('आयट' वेल्यान) न. पळेयात : 'आयट'.

**आयण** । आय्ण् । सा.रू. –णा; भौव. –णां; सा.रू. –णां । (सं. आवपनम् = बीं पेरपाची क्रिया; पेरिल्लीं, रोयिल्लीं बियां. आवाप : रोयिल्लें, पेरिल्लें बीं) न. १. जाग्याचे ल्हान ल्हान चौकोन करून वा आंखून, थंय किल्लावन काडिल्ले शाक-भाजयेचे, फुलांच्या झाडांचे, तेचपरी हेर झाडांचेय रोंपे, कावथे,

कवाथ्यो बी; वारयें. २. जाग्याच्या आंखिल्ल्या चौकोनांत जितले रोंपे किल्लून आयल्यात, तितलेय रोंपे. (हांवें मिरसांगांचीं दोन आयणां घेतलीं.) ३. (ला.) भुरगेपणांतच आयिल्ली जापसालदारकेची जाण, ल्हान वयांतच आयिल्लो समज, ल्हान वयांतच आयिल्लें जाण्टेपण.

**वा.प्र.: आयणार पिकप:** जून जावंचे पयलींच पिकप.

**आयणो** । आय्णॉ । सा.रू. –ण्या; भौव. –णे (णॅ); सा.रू. –ण्यां । (सं. वीजनम्, प्रा. विअण) पु. जाच्यो पातयो धांपूंक वा उकत्यो करूंक मेळटात, अशा लाकडाच्या पातळ, अरूंद आनी लांबसार पातयांचेर तरेतरेचीं चित्रां, वाली बी काडिल्लो कागद वा कापड बसोवन तयार केल्लें, हातांत धरून वारो घेवपाचें साधन; मोराच्या फुलयल्ल्या शेंप्याच्या आकाराचें, ताडाच्या पानांपसून तयार केल्लें, हातांत धरून वारो घेवपाचें साधन; कोंड्याच्या बारीक आनी पातळ वेळांनी, बावट्याच्या आकाराचें, तयार केल्लें वारो घालपाचें साधन; हातान वारो घालपाचो पंखो. (विष्णुबाबान हांसून तिचेकडे पळयलें, आनी ते आयण्यान वारो घेवपाक लागले. – सवणीं: गजानन जोग, रूद्र. पा.२७.)

**आयतार** । आय्तार् । सा.रू. –रा; भौव. –र; सा.रू. –रां । (सं. आदित्यवार:) पु. सप्तकाचो पयलो दीस; सातोड्याचो पयलो दीस. (श्रावणांत जितलेय आयतार येतात, तितलेय आयतार सवाशिणी पुजतात.)

**विशेश:** १. वारांचीं नांवां ग्रहांवेल्यान आयल्यांत. ऋग्वेदांत तेचपरी महाभारतांत वारांचीं नांवां मेळनात. 'वासर' हें उतर दीस ह्या अर्थान ऋग्वेदांत उपकारयल्लें मेळटा. महाभारतांत 'वार' हें उतर त्या अर्थान घोळिल्लें मेळटा.

महाभारता उपरांत केन्नातरी ग्रहांवेल्यान वारांचीं नांवां घडल्यां जातलीं. वारांकडेन लग्निक आशिल्लो एक श्लोक मेळटा तो असो:

"आदित्य सोमो भौमश्च बुधस्तथा बृहस्पती ।। भार्गव: शनैश्चरैष एते सप्तदिनाधिपा: ।।" ह्या श्लोकाप्रमाणें सात वार आयल्यात. (भा.ज्यो.इ.पा. ९९).

ह्या श्लोकांत 'आदित्य' हो वार पयलो आसा. देखून, आयतार (आदित्य: + वार) हो सप्तकाचो पयलो दीस आसा म्हणपाचें आपशींच थारता.

क्रिस्तांव धर्मानय आयताराक देवाचो दीस मानून, सप्तकाचो पयलो दीस मानला. ह्या दिसा क्रिस्तांव धर्मी देवाची प्रार्थना करतात आनी विसव घेतात.

२. **श्रावणांतले आयतार:** गोंयांत हिन्दू बायलो श्रावणांतले आयतार पुजतात. आयताराचे पुजेक फुलां, बेल, शेरवडाचें धवें पान, दुर्वो आनी सात-आठ तरेची पत्री लागता. तेचपरी हळदीचें कूट आनी कापसाची गुठली लांब करून, ताका कुकमाचीं पुटां लावन मदीं मदीं फुगे काडून केल्लें वस्त्र लागता. हें वस्त्र, ताच्यो वाटकुळ्यो घडयो करीत पत्रेर दवरतात.

आशाढांतल्या पावसान तण किल्लून येता. पत्री मातून येता. वालींक कोंब फुटून येवन, त्यो बळटात. पावसाच्या उदकान झाडां रसरशीत जातात. भुंयेक उमळ जाल्ल्यान उदकाचे पाट व्हांवूंक लागतात. अशा वेळार श्रावण लागता. श्रावणांतल्या वता-पावसाच्या खेळान सृश्टीच्या पांचव्याचार कापडाक एक वेगळीच कांत मारता.

हळद ही हळ्डुवी आशिल्ल्यान, ती सुर्याकडेन लग्निक आसा. कुकूम तांबडें आशिल्ल्यान ताका रगताचें प्रतिक मानतात. रगत सृश्टीचे सुफलीकरणाखातीर गळयतात. सूर्य हो सगळे जिवावळीचो स्वामी. देखून, दोंगर आनी रानां पांचवींचार आसचीं, झाडां फुलां फळांनी भरचीं, वनस्पत सृश्टी समृद्ध जावंची, हेखातीर श्रावणांतले आयतार पुजतात. आयतार पुजप म्हळ्यार सृश्टीचे

समृद्धीखातीर यातुविधी करप आनी हो यातुविधी म्हळ्यार, सृश्टीचे समृद्धीखातीर करपाचो एक सात्विक अभिचार.

सृश्टीचे समृद्धीखातीर कांय प्रदेशांनी वेगळ्यो वेगळ्यो प्रथा आसात. वसंत ऋतूंत Whitsundite प्रदेशांतल्या Actmark ह्या खेड्यांत झाडांचीं लग्नां लायतात. एका चल्याक, झाडाच्यो ताळयो बांदून आनी फुलांच्यो माळो घालून, न्हवऱ्यावरी सजयतात आनी एके चलयेक होंकलेचो भेस दिवन, तिच्या आंगाक झाडाचीं पानां लावन, तिचें माथें फुलांनी भरतात. उपरांत न्हवरो आनी व्हंकल गायत गायत, गांवांतल्या घराघरांनी वचून, केक, तांतयां, पयशे बी मागतात. दिल्ल्या मापान परत मेळटा, हे भावनेन गांवांतलो लोक न्हवऱ्या-होंकलेक तीं मागतात तें दितात.

प्रतिकरुपान लायिल्लें झाडांचें लग्न, श्रावणांतल्या आयताराची पुजा, हे फाटल्यान सृश्टीच्या सुफलीकरणाची भावना आसा. हे भावनेफाटल्यान दादलो आनी बायल हांच्या संभोगाचें मूळ आसा.

जावा जुंव्याच्या कांय खेड्यांनी शेतकार रोयिल्ल्या शेताक कणसां फुटूंक लागतकीर, तीं बरीं आवरेपाखातीर आपआपल्या घरकान्नींक घेवन, रातीच्या वेळार शेतांत वतात आनी थंय संभोग करतात. संभोग ही एक सुफलीकरणाची क्रिया. अशोच प्रथा, थोड्या भोव फरकान, आफ्रिकेंत आनी युरोपांत मेळटात. (The New Golden Gough, by Sir James Gorge Frazer, Pp. 124-126.)

थोडेभितर सांगप म्हळ्यार, शेतकारान रातीचो आपले घरकान्नीचो शेतांत घेतिल्लो संभोग, प्रतिकरुपान लायिल्लीं झाडांचीं लग्नां, हिंदू बायलांनी पुजिल्ले श्रावणांतले आयतार, ह्यो प्रथा म्हळ्यार सृश्टीचे समृद्धीखातीर वा सृश्टीच्या सुफलीकरणाखातीर करपाचो एक यातू वा सात्विक अभिचार.

**३. रामाचो आयतार :** (Domingo de Ramos):. ज्या आयतारा जेरुसलेमांत जेजूचो जयजयकारान आनी मोठ्या धबाज्यान प्रवेश जालो म्हणून मनयतात, तो 'क्वारॅश्मा'चो सवो आनी निमाणो आयतार. (केन्नाय येवन तो आईक विचारतालो, "भाटकान्नी, रामाचो आयतार येता, खुरसाक वाती लायना ?" मागीर आई ताका पांचेक रुपया दिताली. – मेस्त : शीला कोळंबकार, भूंयचाफीं, पा.७३.)

ह्या आयतारासावन क्रिस्तांवांचें पवित्र सप्तक (Semaana Santa) सुरू जाता. पुर्वेकडल्यो इगर्जो ४थ्या शेंकड्यासावन आनी पश्चिमेकडल्यो इगर्जो आठव्या शेंकड्यासावन हो आयतार मनयतात.

ह्या आयतारा कातोलिक प्रजा ज्या ज्या गांवांनी जें जें मेळटा, तें घेवन इगर्जेमुखार वता. युरोपांत 'ओलिव्हैरी'च्यो ताळयो व्हरतात. कांयकडेन कणसां व्हरतात. कांय जाग्यांनी 'पाम' झाडांचीं आयण्यावरी चुट्टां व्हरतात. गोंयांत माडाच्यो तन्न्यो (हळडुव्या धवसार रंगाच्यो) चुट्ट्यो (तांचो सोबीत आकार करून) व्हरतात. कांय जाण सुरूच्यो ताळयो व्हरतात. लोक इगर्जेमुखार येवन रावतकीर, इगर्जेचो पाद्री त्या ताळयांचेर आशिर्वचन घालता. आशिर्वचनाउपरांत, लोक पुरसांवान इगर्जेंत भितर सरता. थंय पाद्री पयलीं मीस सांगता आनी उपरांत क्रिस्तस्वाम्यान मनीसजातीक दुख्खांतल्यान सोडोवपाखातीर जे कस्ट, अपदा आनी वळवळे सोंसले, ताचो शुभवार्तेतलो (Evangelho) इतिहास सांगता.

पुर्तुगेज भाशेंत ह्या आयताराक 'Domingo de Ramos' म्हणटात. Ramos म्हळ्यार खांदे वा ताळयो. गोंयच्या क्रिस्तांव भौसान 'न्हामुश' ह्या उतराचें रूप 'राम' अशें केलें. अशे तरेन Domingos de Ramos हो 'ताळयांचो आयतार' जावंचे बदला 'रामाचो आयतार' जालो. इंग्लेज भाशेंत ह्या आयताराक Palm Sunday म्हणटात.

**आधारावळ :**

१. The Golden Bough, A new abridgement of the classic work, by Sir James Gorge Frazev, edited with notes and foreword by Dr. Theodor H. Gaster.
२. पवित्र शास्त्र, नवो करार.
३. Encyclopedia Britanica, vol.9, page 91.
४. भारतीय ज्योतिषशास्त्र अथवा भारतीय ज्योतिषशास्त्राचा प्राचीन आणि अर्वाचीन इतिहास. – शंकर बाळकृष्ण दीक्षित.

**आयतें** । आय्तँ । सा.रू. –त्या; भौव. –तीं; सा.रू. –त्यां । (कों) न. १. वांटपाची साम्रोगी, शिजोवन जेवण तयार करपाखातीर वांटून तयार दवरलेलें वांटप. (सण-परबांचीं आयतीं, जेवणां, उश्टीं आनी शेणसारण करून आवरतना बायलांच्या कमरांक धोबनी पड. – गोंयच्या लोकवेदाचो रूपकार : प्रा. श्याम वेरेंकार, प्रस्तावना, पा.९.) २. सामोग्री (...प्राणवाय, उदकवाय बी एकठांय घोळोवन जीव जल्मा घालुं येत अशें तो म्हणटा. तागेली ही म्हणणी एकाद्री खरी जावंये. परंत जीव तयार करपाचें आयतें तरी ताका देवानूच निर्मिल्लें घेवचें पट्टलें मू? – गोमन्तोपनिषत्, दुसरें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा.२८९.) ३. तांक, बळ. (...दर एकल्या केणांत आगळीं-उणीं दोनशीं कोटी नक्षत्रां घडपाचें आयतें आसलें. तातूंतसून कांय नक्षत्रां जाल्यांत आनी अजून जातात. – गोमन्तोपनिषत्, दुसरें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा.२७२.)

**आयतेंकार** । आय्तँकार् । सा.रू. –रा; भौव. –कार; सा.रू. –कारां । ('आयतें' वेल्यान) पु. जेवणाखातीर वांटपाची सामोग्री काडून, ती वांटून दिता तो मनीस.

**वि. :** १. रांदप्याच्या हातासकल रावन जो वांटपाची सामोग्री वांटून दिता तो. २. (ला.) बंदो, गुलाम. (मराठीक, कानडीक आनी हेर भासांक आवैभासो लेखून आमी आमगेल्या खाशेल्या हका-मोलाच्या घरांत परके जाले. आमी आमगेल्या कोंकणांत आयतेकार मानाय जाले. आमी आमचे घरचे धनी उल्लेनात. – येवकार अध्यक्षांलें उलोवप, बरो : शणै गोंयबाब, पा.५०.)

**विशेश :** पयलींच्या कांय मोठ्या कुटुंबांनी आयतेंकार, रांदपी आनी पानके आसताले. आयतेंकार वांटपाची सामोग्री वांटून दवरतालो. रांदपी हें आयतें घालून जेवण शिजोवन रांदतालो. एक पाणको पाट मांडून जेवणाची पंगत मांडटालो. दुसरो पाटामुखार केळीचीं पानां, पत्रावळी वा ताटां दवरतालो. तिसरो पाटाचे दावे वाटेन उदकान भरिल्लो तांबयो आनी उदक पियेवपाक पेले दवरतालो.

**आयतो-ती-तें** । आय्तॉ-ती-तँ । सा.रू. –त्या । (सं. अयत्नतः) वि./क्रि.वि. १. कस्टांविणें; खटपटीविणें; त्रासांविणें; सहज मेळिल्लो. २. गरजेच्या, निमाण्या, ऐन. (...तांकां तितलो वेळ मेळलोना जावंये. परिशदेच्या जाळवणदारांनी आयत्या वेळार तांकां अध्यक्ष जांवचो आगरो केलो आनी तितलेच खातीर तांणी आपणालें अुलोवप ताकतीन बरोवन काडलें जांवये. – नवें गोंय, २रें वर्स, २रो आंक, वैतुंब्र १९३५, संपादपी : का.श्री. नायक, पा.६५.)

**वा.प्र.: १. आयत्या वेळार :** अत्यंत गरजेच्या वेळार, ऐन वेळार.

२. **आयत्या खोल्यार बाळंत जावप.**

**म्हणी :**

१. आयतो ओडो तोंडांत पडलो.
२. आयतें मेळ्ळ्यार कोण एक सोडिना.
३. आयत्या पिठार रेगो कोणय मारता. (जाण्ट्यांचें वा उडून शेवाळ कशी मेळिल्ले गिरेस्तकायेचेर कोणय फॉल्ग मारता.)

४. आयत्यार कोयतो कोणय मारता. (तुटूंक पाविल्ल्या लाकडाचेर घाय घालून, तें आपणेंच तोडलां म्हणपाचें दाखोवन श्रेय घेवप.)

५. आयत्या बिळांत नागोबा बळी.

**आयदन** । आयदन् । सा.रू. –द्ना; भौव. –द्नां; सा.रू. –नां । (सं. आयतन; पोन्नी पर्शियन – आयदन) न. १. आइदन; भांडें. (मान्यांत आयदनां घांसपी वावराडी कोण हें कळपाक वगत लागलोना. – आडवण : पुंडलीक नायक, पिशान्तर, पा.२४.) २. आवत; यंत्र; अवजार; आयुध. (वेगवेगळ्या कारागिरांचीं वेगवेगळीं आयदनां आसतात.)

**वा.प्र.: १. आयदनांतलो दिवो** : १. आयदनांतल्या दिव्याचो उजवाड भायर दिसना. तेचपरी जो आपल्या ज्ञानाचो लाव संवसाराक दिना वा जाच्या ज्ञानाचो आदाव कोणाकच मेळना असो मनीस. २. अत्यंत अपुर्बायेन वाडयल्लें भुरगें.

**२. आयदनाक आयदन आपटप** : रागाचो, तिडकीचो किंवाटो उकतो करप वा जावप.

**म्हणी :**

१. भरिल्लें आयदन हालना, शाणो मनीस झांकना.

२. पोत्रें आयदन शेणान, म्हातारो मनीस खाणान.

३. धुवे हातान आयदन फुटल्यार तें मातयेचें, सुने हातान आयदन फुटल्यार तें भांगराचें.

४. तेकडेन म्होंव काडल्यार आयदन भरता ?

**विशेश** : पोत्रे पर्शियन भाशेंतल्या 'आयदन' ह्या उतराचो असर संस्कृत 'आयतन' ह्या उतराचेर पडला जावंये. 'आयदन' ह्या उतराचो अर्थ 'पुजेचो जागो', 'पवित्र जागो', 'यज्ञकूंड' असो जाता. संस्कृत 'आयतन' ह्या उतराचे अर्थ : 'विसव घेवंचेलो जागो', 'आधार', 'बसपाचो जागो', 'स्थान', 'स्थळ', 'रावपाचें घर' असो जाता.

'आयतन' ह्या शब्दाचो मुळावो अर्थ 'विसव घेवचेलो जागो', 'घर' असो जातालो जावंये. हो शब्द संस्कृत धातू 'आ + यत्' हाचेवेल्यान घडला. 'यत्' म्हळ्यार येवप, भितर सरप, पावप, विश्रांती घेवप, अवलंबून आसप (ऋग्वेद, अथर्ववेद आनी शतपथ ब्राह्मण).

'आयतन' ह्या शब्दाचो 'अग्निकुंड' हो अर्थ 'आयदन' ह्या पोन्न्या पर्शियन शब्दाच्या परिणामाक लागून जालो.

मूळ पर्शियन शब्दांतलें 'द' संस्कृतांत 'त' जालें. उत्तरेकडल्या (पिशाच्च) लोकांच्या उच्चारांक लागून तें जालें; अशें भौमानेस्त सुनितीकुमार चतर्जी म्हणटात. (पळेयात : Some Iranian Loan-words in Indo-Aryan हो Select Writings हातुंतलो लेख, पानां २५६-२५७.)

कोंकणींत हें उतर येतना, परत 'त' चो 'द' जालो आनी मुळावो अर्थच गेलो. संस्कृतांत 'आयतन' ह्या शब्दाचो 'पात्र' असो लाक्षणिक अर्थ आसा. (पळेयात : ज्ञानेश्वरींतील शब्दांचा कोंकणी बोलींत शोध, लेखक : कै. आनंद रामकृष्ण नाडकर्णी, पा. २३). ह्या 'पात्र' उतरावेल्यान कोंकणींत 'भांडीं' असो अर्थ जालो. उपरांत 'आवत', 'अवजार' असोय एक अर्थ घोळटेंत आयलो.

गोंयचे कोंकणीवरी कारवारचे कोंकणींतय 'आयदन' हेंच उतर घोळटा. जाल्यारूय चित्रापुरी उलोवपांत मात 'द'चो 'दा' जाता.

**आयनोर** । आयनोर् । सा.रू. –रा; (इं. Iron + Ore) पु. खणींतल्यान काडिल्लो अशुद्ध लोखणाचो धातू. (बरो तर! सामको सिक्टीफाय परसेंट आयनोर. मास्तर, तुजीं कामेन्यां आकांत. –अच्छेव, बरो : पुंडलीक नायक, पा.१५१.)

**आयब** । आय्ब् । सा.रू. –बा; भौव. –बां; सा.रू. –बां । (अर. ऐब = दोश) न. अशुभ, अपशकुनी मानिल्ले गजालीचो धरिल्लो दोश, पात्सो. (तो कामाक वतना, दारांतच ताका रितो कळसो दिसलो.

ताचें ताणें आयब धरलें.)

**वा.प्र.: आयब धरप** : अशुभ, अपशकून, पात्सो धरप.

**आयले-पयले** । आयले पयले । सा.रू. –ल्या-ल्या । (कों. आयलो + पैलो) वि. लागशिले आनी पयसुल्ले. ("सांबाळात, उक्त्या दोळ्यांनी पळोंव नाकात, निगेटिव्ह सारकी दोळ्यार धरात", आयले-पयले एकमेकांक शिटकायताले. – दोळ्यां सुखां दोळ्यां दुखां, दामोदर मावजो, कोंकणी, वर्सुकी आंक, १९८४-८५, पा.५४.)

**आयलो-ली-लें** । आय्लॉ-ली, लँ । सा.रू. –ल्या; ले, –ल्या । (सं. अवर = nearer; आदिम; प्रा. आइल्ल) वि. आलतडचो; आपले वटेनचो; लागशिल्लो; लागशिल्या नात्यांतलो.

**म्हण** : आयल्याक केल्यार पेल्याक नसाय.

**आयल्यान** । आय्ल्यान् । ('आयलो' वेल्यान) क्रि.वि. लागीं; लागसार. (पयस रावूं नाका. मात्सो आयल्यान यो.)

**आय-व्यय** । आय्-व्यय् । सा.रू. –आय्-व्यया । (सं. आय-व्यय) पु. १. येणावळ आनी खर्च; उत्पन्न आनी खर्च; जमा आनी खर्च. २. (फलज्योतीश) कुंडलींतलीं आय-व्ययाचीं स्थानां. कुंडलींतलें अकरावें स्थान हें आयाचें आनी बारावें स्थान व्ययाचें धरतात.

**आयसक्रिम** । आयस्क्रीम् । सा.रू. –मा; भौव. –मां; सा.रू. –मां । (इं. आईसक्रीम) न. दूद, साकर, इसेन्स वा फळांचो गर घालून बर्फांत दवरून तयार केल्लो एक खावचो पदार्थ. (रेवतीन आयसक्रीम नाका म्हळें, म्हणटकूच समजुपाचें की तिजें चित्त थाऱ्यार ना! – आमचेमदली 'ती' : चंद्रकांत केणी, व्हंकलपावणी, पा.७६.)

**आयसफ्रूट** । आयस्फ्रूट् । सा.रू. –टा; भौव. –टां; सा.रू. –टां । (इं. Ice) वेल्यान न. उदकांत साकर घाले उपरांत तें चाळून आनी गाळून, तातूंत फ्लेव्हर घालून बर्फांत दवरून केल्लें चोखून खावपाचें खाण. हें उदक फॉर्मांत घालतात आनी तें घट्ट जातकीर ताचेवेल्यान उदक ओततात. ताका लागून तयार आयसफ्रूट फॉर्मांतल्यान आपाप सुट्टा. (मदल्या वेळार तें खावपाक उंडो आनी वयल्यान धा पैशे दितालें... पांच पैशांचें आयसफ्रूट आनी पांच पयशांची चॉकलेट घेवंक. कथा : मॅगी, बरो : शीला नायक, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, संपादक : अ.ना. म्हांबरो. पा. ९७)

**आयसफ्रूटकार** । आय्स्फ्रूट्कार् । सा.रू. –रा; भौव. –र; सा.रू. –रां । ('आयसफ्रूट' वेल्यान) पु. आयसफ्रूट तयार करपी मनीस; आयसफ्रूट विकपी मनीस. (मॅगी भायर वता. आयसफ्रूटकार आसा थंय भुरग्यांनी गर्दी केल्या. – कथा 'मॅगी', बरो : शीला नायक, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, सं. अ.ना. म्हांबरो, पा.९८.)

**आयस-पयस** । आयस्-पयस् । (सं. अतिसृत-प्रतिसृत?) वि./क्रि.वि. १. शेकान शेक : लांबचे लांब (हे भाशेन तांणी जायतीं राज्यां जिखून कोकस्तानाची सराद आयज-पैस विस्तराइल्ली. – गोमन्तोपनिषत्, १लें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा.८४.) २. लांब-रूंद, विस्तीर्ण (राष्ट्रकुटांनी कोंकणाभायर जरी आयस-पैस राज्य जोडिल्लें, तरी तांकां कोकणाचो मोग सुटूंक नासलो. – येवकार अध्यक्षांलें अुलोवप; शणै गोंयबाब, पा.८९.) ३. आस्कळ-विस्कळ; जंय जाय तसो विस्कळ बसूंक मेळटा असो. (वाटेर एक देवळी लागता. मारुतीची. भायर आयस-पैस सोंपो आसा. – खबरी, बरो : लक्ष्मणराव सरदेसाय, पा.३.)

**आया** । आया । सा.रू. –या; भौव. –या; सा.रू. –यां । (पुर्तु. Aia) स्त्री. १. ल्हान भुरग्याक

सांबाळपाखातीर कांय घरांनी दवरललें चेडूं. (आया चलयेक घेवन मोड-मोडत येता. – एक हजार आनी तेओीस, बरो : आचार्य रामचंद्र शंकर नायक, पा. २.) २. राजघराण्यांत वा कांय गिरेस्त घराण्यांत आपल्या भुरग्यांक शिकोवपाक दवरलेली प्रायवेट शिक्षिका, गवर्नेस. ३. हॉस्पिटलांत वावराडेचें काम करपी बायल ("वार्डांत कोण परवंताली, कोण कुथंणताली, कोण उलयताली, तर कोण रडटाली. मदींमदीं आयांचे आनी वॉर्डबॉयांचे आवाज कानार पडटाले." – वॉर्ड नं. १६, जयमाला दणायत, कवासो, पा.१४.)

**आयात** । आयात् । सा.रू. –ती । (सं. आयात) स्त्री. भायल्या देशांतल्यान आपल्या देशांत हाडिल्लो व्यापारी म्हाल वा वस्तू (Goods वा Merchandise). (फिंग्र्यांच्या काळार ब्रह्मदेशांतले तांदूळ गोंयांत आयात जाताले.)

**विशेश** : दुसऱ्या देशांतलो म्हाल आयात करपाक प्रत्येक राष्ट्रांत बंधनां आसतात. प्रत्येक राष्ट्र आपल्या देशांतले कारखानदारीक राखण दिवपाखातीर, आपल्या देशांत तयार जायना वा तयार जावनय गरजेपरस उणो जाता, तोच म्हाल दुसऱ्या देशांतलो हाडपाक मान्यताय दिता. दर देशांतलें जकात-खातें परदेशी म्हालाचेर मानडबी (import duty) घेता. हो आयात कर अप्रत्यक्ष करांत मोडटा आनी तो सगळ्यांचेर सारकोच बसता.

**आयां-नम** । आयां-नम् । सा.रू. –आयां-नमी । (सं. अविधवा-नवमी) स्त्री. भाद्रपदांतली कृष्णपक्षांतली नम. (दिवाळे, चवथीक वजीं धाडूंक आवयांक आधार करी. आयानम, स्राद्धांक सवायशीण म्हूण रावी. हे भाशेन कश्ट करून, कोणामुखार हात करिनासतना ती घोवालो संवसार चलयताली. – निळू: शीला कोळंबकार, भूंयचाफीं, पा.८९.)

**विशेश** : हिंदूंच्या घरांत आयाव भायर पडिल्ली आसल्यार, तिचें श्राद्ध आयां-नमीक वाडटात आनी जेवणाक एके सवायशिणीक आपयतात.

**आयाव** । आयाव् । सा.रू. –वे; भौव. –वो; सा.रू. –यां । (सं. अविधवा; प्रा. अविहवा) वि. स्त्री. १. जिचो घोव जितो आसा अशी बायल. २. सवाशीण; घोवकात्र. (कस्तुर तिशेक वर्सांची आयाव बायल. न्हेंसप काशेंत, कापडाचो आनी पोलक्याचो गाड कोर. गळ्यांत म्हूर्तमणी. – खण खण माती : पुंडलीक ना. नायक, जाग, दिवाळी आंक, १९७७, पा.६८.)

**म्हणी** : १. रांड बायल कोनशांत, आयाव बायल मनशांत.

२. आयावेचें गेलां खेळूंक, रांडेचें गेलां जल्मजुगाक. (आयावेचें भुरगें भायर पडल्यार, तिका घोव आशिल्ल्यान, तिगेर दुसरें भुरगें जल्माक येवं येता. एका अर्थान तें भुरगें खेळूंक गेल्लेसारकें आसता. रांडेचो घोव भायर पडल्यार, तिगेर दुसरें भुरगें जावपाचो कसलोच संभव नासता. ती आपल्या भुरग्याक सदांचीच अंतरता.)

**आयावपण** । आयाव्पण् । सा.रू. –णा । (सं. 'आयाव' वेल्यान) न. आयाव आसपाची स्थिती; सवाशिणपण; सौभाग्य (म्हाका घट्ट उगडास आनी उपकार उल्ला तो श्रीपादाच्या आवैचो. भुरगेपणांतच बाबडेचें आयावपण सोंपिल्लें. – काणी एके जिणेची : महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. ३६.)

**आयास** । आयास् । सा.रू. –सां । (सं. आयास:) पु. श्रम, कस्ट, दगदग.

**आयास-प्रयास** । आयास्-प्रयास् । सा.रू. –आयास-प्रयासां । (सं. आयास = श्रम; कस्ट + प्रयास = श्रम, कस्ट) पु. अतोनात श्रम, कस्ट; अतोनात प्रयत्न.

**आयाळ** । आयाळ् । सा.रू. –ळी । (फा. आयल) स्त्री. शींव आनी घोडो ह्या जनावरांच्या मानेचेर

आशिल्ले लांब केंस. (दिसय अशेच धांवतात । तांबसार धवशे घोडे । आयाळ शिंवरली थंय । कणसाचे फुल्ले गोंडे ।। – अदृस्टाचे कळे, पांडुरंग भांगी, पा.५२.)

**आयिद्द** । आयिद्द । सा.रू. –द्द; भौव. –द्दां; सा.रू. –द्दां । (सं. आयुध) न. आवत, अवजार. (कुळागराच्या वावराक उपकारतात तसलीं कांय आयिद्दां हांगा थंय दवल्ल्यांत. – राखण, पुंडलीक नायक, पा.५.)

**आयिल्लो, ल्ली, ल्लें** । आयिल्लॉ, ल्ली, ल्लँ । सा.रू. –ल्ल्या, ल्ले, ल्ल्या । (सं. आइत) वि. येतो, जो येता तो.

**वा.प्र.: आयिल्ल्या दिसा** : दर दिसा, प्रत्येक दिसा.

**आयिल्लो-गेल्लो** । आयिल्लॉ-गॅल्लॉ । सा.रू. –आयिल्ल्या -गॅल्ल्या; भौव. –आयिल्ले -गॅल्लॅ; सा.रू. –आयिल्ल्यां -गॅल्ल्यां । (सं. आइत = आयिल्लो + गत् = गेल्लो) वि. १.येतो-वतो. (...म्हणटकूच वेपाराच्या जंजाळांत तो पडना जालो तरी आसतना एकलो आसलो तरी तागेर आयिल्लो-गेल्लो जायतो) २.(ला) पाहुणो.

**वा.प्र.: आयिल्ल्या-गेल्ल्याचें घर** : जंय सदांच वा नित्य कोणय तरी पाहुणो, सोयरो-दायरो आयिल्लोच आसता तें घर; जंय सदांच आपल्या-पेल्या मनशांचो राबितो आसता, अशें घर.

**आयु** । आयू । सा.रू. –यू; (सं. आयु) न. आयुश्य; जिणेचो वा जिविताचो काळ.

**आयुध** । आयुध् । सा.रू. –धा; भौव. –धां; सा.रू. –धां । (सं. आयुधः) १. जाणें झूज झुजतात तें शस्त्र; हत्यार; धाल. २. अवजार; आवत; उपकर्ण (ठवयाचीं आयुधां).

**विशेश :** झुजाचीं आयुधां तीन तरेचीं आसात :

१. प्रहरण : जाणें प्रहार करूंक मेळटा तें. देखीक : तलवार.

२. हस्तमुक्त : देखीक : वज्र : (आयुधानामहं वज्रम. – भ.गी. १०.२८).

३. यन्त्रमुक्त. देखीक : धोणवांतल्यान सोडिल्लो बाण.

चड माहितीखातीर पळेयात 'अस्त्र', कोंकणी शब्दसागर, भाग पयलो, पा. २५८-२५९.)

**आयुर्मर्यादा** । आयुर्‌मर्यादा । सा.रू. –दे । (सं. आयुस् + मर्यादा) स्त्री. जिविताची वा जिणेची मर्यादा; आयुश्याची सरासरी मर्यादा. (आरोग्याच्यो सुविधा वाडिल्ल्यान, भारतांत आज आयुर्मर्यादा वाडल्या.)

**आयुर्वृद्धि** । आयुर्‌वृद्धी । सा.रू. –द्धी । (सं. आयुस् + वृद्धिः) स्त्री. आयुश्याची वाड; जिवितकाळाची वा जिणेकाळाची वाड.

**आयुर्वेद** । आयुर्‌वेद् । सा.रू. –दा । (सं. आयुर्वेद) पु. आरोग्य कशें राखचें आनी पिडेस्तांक व्याधिमुक्त करून, आरोग्य कशें दिवचें हें शिकोवपी शास्त्र; वैजकशास्त्र; वैजविद्या. (मेडिकल कॉलेजांत ती निमाण्या वर्सा आसा. आयुर्वेदाची माहिती मेळोवंक म्हणून ती हांगा आयिल्ली. – कुळागर, दिवाळी आंक, १९९३, पा.४६.)

**विशेश :** आयुर्वेदाचें मुळावण अथर्ववेदांत मेळटा. आयुर्वेदाचो मूळ धागो अथर्ववेदांतल्या वखदांच्या सूक्तांत आसा. देखून, आयुर्वेदाक अथर्ववेदाचो उपवेद मानतात. जोर (तक्मन = दिसांचो जोर), यक्ष्मा बी रोगांचीं सांगिल्लीं पूर्व लक्षणां दोनय ग्रंथांनी सारकीं जुळटात. ब्लुमफिल्ड आनी वायज हांच्या मतान अथर्ववेदांतलो 'आस्राव', 'अपचित' आनी 'मन्य' (स्कंध ६.२५) रोग म्हळ्यार, आयुर्वेदांतले अनुक्रमान 'अतिसार', 'अपची' आनी 'गंडमाळ' हे रोग आसात. (वायज, हिंदू मेडिसीन, पा.३१६).

आश्विनीकुमारांक आयुर्वेदाचे आदि आचार्य मानतात. काशीच्या राजाक, दिवोदासाक, धन्वंतरी मानताले. ह्या दिवोदास राजाकडेन शिकून, सुश्रुत आयुर्वेदांत पाटांगडो जालो. अत्रि आनी भारद्वाज ऋषींकय आयुर्वेदाचे प्रवर्तक मानतात. चरक संहितेन आयुर्वेदांत अतिशय नामना जोडल्या. आयुर्वेदाचीं आठ आंगां आसात: १) शल्य (चिरफाड वा शस्त्रक्रिया – surgery). २) शालक्य (माथ्याची चिकित्सा). ३. कायाचिकित्सा (देहाच्या रोगांची चिकित्सा आनी ताचेर उपचार.) ४) भूतविद्या (भूतबाधेक लागून पिशें लागिल्ले वरी जाता ताची चिकित्सा आनी उपचार). ५) कौमार तंत्र (भुरग्यांच्या रोगाची चिकित्सा आनी उपाय). ६) अगदतंत्र (सोरोप विंचू बी चाबले उपरांत आंगांत वेग मारून चडटा त्या विखाचेर उपचार). ७) रसायण तंत्र (वेगवेगळ्या वखदांचीं रसायणां करूंक शिकोवपी विद्या) आनी ८) वाजीकरण (वीर्यवृद्धी खातीर उपचार).

आयुर्वेदाचे आचार्य: अश्विनीकुमार, धन्वंतरी, दिवोदास (काशिराज), नकुल, सहदेव, अर्कि, च्यवन, जनक, बुध, जाबाल, जाजलि, पैल, करथ, अगस्त, अत्रि आनी तागेले स गडे (अग्निवेश, भेड, जातुकर्ण, पराशर, सीरपाणी आनी हारीत), सुश्रुत आनी चरक.

**आयुश्मान** । आयुश्मान् । सा.रू. –ना । (सं. आयुष्मान) वि. दिर्घायुशी; आयुश्यवान.

**विशेश**: 'आयुश्मान' ह्या उतराचें स्त्रीलिंगी रूप 'आयुश्मती' अशें जाता.

**आयुश्य** । आयुश्य । सा.रू. –श्या । (सं. आयुस्) न. जन्म धरून मरण यो मेरेनचो काळ; हयात. (तागेलें अक्खें आयुश्य प्रपंचाच्या धक्याचपाट्यांत गेलें.) २. जिवीत; जीण. (तो भोमानान आपलें आयुश्य जियेलो.) ३. वय, पिराय. (ताका थोडेंच आयुश्य मेळ्ळें.)

**वा.प्र.:**

**१. आयुश्य मागप**: दिर्घायुश्य मागप; देवाकडेन चड आयुश्य मागप.

**२. आयुश्याची दोरी तुटप**: मरण येवप; भायर पडप.

**म्हणी:**

१. आयुश्य आसल्यार पिडेकडेन झुजत, वखद मेळत.
२. आयुश्य आसल्यार मरना, वखद मेळ्ळेबगर रावना.
३. आयुश्य सरलें, वखद ना मेळलें.
४. आयुश्याक कोण जामीन रावत?
५. आयुश्याची दोरी तुटली, वैजाची मत फिरली.

**आयुश्यक्रम** । आयुश्यक्रम् । सा.रू. –क्रमा । (सं. आयुष्य + क्रम:) पु. आयुष्याची दिसपट्टी चाल-चलणूक; जिणेचो दिसपट्टो आचार.

**आयुश्यमर्यादा** । आयुश्यमर्यादा । सा.रू. –दे । (सं. आयुष्य + मर्यादा) स्त्री. जिवीतमर्यादा; जीणमर्यादा; आयुश्याची सरासरी मर्यादा; आयुमर्यादा.

**आयुश्यवान** । आयुश्यवान् । सा.रू. –ना । (सं. आयुष्य + वान) वि. दिर्घायुशी; खूब वर्सां जगपी; खूब आयुश्य आशिल्लो. (आशिर्वाद दितना 'आयुश्यवान जा' म्हळ्यार 'चिरंजीव जा' वा 'खूब वर्सां जग वा वांच' अशें म्हणपाची चाल आसा.)

**आयो आयो** । आयो आयो । (का. अय्यो द्वि.? ता. आयो द्वि?) उमाळ्या उतर. अजापाची भावना दाखोवपी उमाळ्या उतर. (आयो आयो? म्हाराज म्हजें नांवुय विसल्ले? ह्या चार पांच दिसांत हांवंच फळार वाद्टां न्हंय? – झिलबा राणो (नाटक), बरो: शणै गोंयबाब, पा. २३.)

**आयोग** । आयोग । सा.रू. –गा । भौव. –ग; सा.रू. –गां । (सं. आयोगः) पु. कसल्याय विशयाचो अभ्यास करून, ताचेर थारायल्ल्या काळाभितर रिपोर्ट दिवपाक, सरकारान नेमिल्लें मंडळ. देखीक : वित्त आयोग.

**आयोजन** । आयोजन् । सा.रू. – ने । (सं. आयोजनम्) न. एकाद्रे येवजणेची, कार्यावळीची व्यवस्थित केल्ली आंखणी.

**आयोजप** । आयोजप् । सा.रू. –पा । ('आयोजन' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. – (मूळ धातू : आयोज् – सक). प्रकल्पाची वा येवजणेची आंखणी करप वा येवजण आंखप. (युरोपांतले हेर देश वांगड्यांक पळोवंक मेळचे म्हूण भारतीय ज्युनियर चेंबरान ही युरोप भोंवडी आयोजिल्ली. – आमी पळयलें युरोप, बरो : दिगंबर शिंगबाळ, पुनव, फेब्रुवारी १९७४).

**आयो-बायो** । आयो-बायो । सा.रू. – आयां - बायां । (?) स्त्री. भौव. १. शेजात्री-पाजात्री. २. गिरेस्त-गरिबां.

**म्हणी :** १. आयां-बायां नागयात, चवथी परब जागयात.
२. आयां-बायां नागोवया, शिगम्या परब जागोवया.
३. आयांगेर सोबता, तें बायांगेर सोबना.

**आंयस** । आंयस् । सा.रू. –सा; भौव. –स; सा.रू. –सां । (सं. आयस = लोखण) पु. हांयस; आमिष. (पेंवतां घाळ्ळे, आंयसां भाळ्ळें । जितेंच व्हेलें गरयांनी ।। – गुरू शिटकायता कुरुवांनी : बाकीबाब बोरकार, सासाय, पा.३४.)

**आर** । आर् । सा.रू. –रा; भौव. –र; सा.रू. –रां । (सं. अजगर : प्रा. अप अअअर) पु. बोइडी कुळांतलें आनी पायथॉनिनी उपकुळयेंतलें सगळ्यांत व्हडलें जिवाणें वा पोटसरो प्राणी; हार.

**म्हणी :** १. आर तो आर, गांयडोळ तो गांयडोळ.
२. आर खंय आनी गांयडोळ खंय?
३. आर वता म्हणून गांयडोळ वचूंक लागलो, तो चिड्डून मेलो.
४. आर मारून घारीक घालूं नये.
५. आराच्या सांगाता गांयडोळ चिड्डून मरता.
६. गांयडोळ गेल्यार आर गेलो म्हणटा.

**विशेश :** आशिया, आफ्रिका आनी ऑस्ट्रेलिया ह्या उस्ण खंडांनी आर मेळटा. आराचे फाटीर चकचकीत कटवां आसतात. ताची शेंपडी आंखूड आसता.

आराच्यो बऱ्योच जाती आसात. पायथॉन रेटिक्युलेटम हे जातीचो आर सगळ्यांत व्हड आसता. हो आर ब्रह्मदेश, इंडोचायना धरून फिलिपीन्स जुंव्यामेरेन मेळटा. हाची लांबाय १० मिटर मेरेन आसता. पायथॉन मोलुरस ही आराची भारतांतली जात सुमात्रा आनी जावांतय मेळटा. पायथॉन सेबी ही आफ्रिकेंतली जात साधारण ६ मीटर लांब आसता. पायथॉन रेजियस आनी पायथॉन स्लायलोटिस ह्यो जाती आफ्रिका आनी ऑस्ट्रेलियांत मेळटात. ह्यो जाती दिसूंक सुंदर आसतात.

भारतांतलो आर साधारण २.५-५ मिटर लांब आसता. जाल्यारूय, ७-८ मिटर लांबायेचे आरय मेळटात. आराचें आंग जड आसता. रंग हय-न्हयसो हळडुवो आसता. आंगार पुडी रंगाचीं चौकोनी कटवां आसतात. आर माणसाळटा.

आर सवणीं आनी हरणायेदे मोमयाळे प्राणी खाता. ऑस्ट्रेलियांतले आर मानगींय खातात. झाडाचे ऊंच खांदयेक शेंपडेन विळखे घालीत तो हुमकळून भक्ष्याखातीर मांडून रावता. भक्ष्य आपल्या आवाक्यांत येतकीर, ताच्या आंगाक घट्ट विळखे आंवळून, तो भक्ष्याक घुस्मटावन मारता. उपरांत तोंड खूब व्हड उकतें करून तें भक्ष्य गिळटा. आर एकएकदां मनशांकय गिळटा. आराची शक्ती अचाट आसता. जाल्यारूय तो सुस्त आसता आनी ताच्यो हालचाली

मंद आसतात. आराची मादी खेपेक ८-१०० तांतयां घालता. तांतयांचेर ती निवणें करीत बसून तांतयां उबयता. उबोवचेल्या वेळार तिच्या आंगाची उस्णताय २-४ सेंटिग्रेड आसता. पिलांची लांबाय सुमार ६० सेंटिमिटर आसता.

आराचे कातीचें उत्कृश्ट चामडें तयार करतात. आशिया आनी आफ्रिका खंडांतले कांय लोक आराचें मांस खातात.

**आधारावळ** : मराठी विश्वकोश, खंड १. पा.११२-११३.

**आर** । आर् । सा.रू. –री । (पुर्तु. Ar) स्त्री. मेंदवाक बाधा जाल्ल्यान शरिराचें खंयचेच वटेनचें धरिल्लें आंग, शरिराच्या खंयच्याय एका भागाची हालचाल करपाची चेतना गेल्ल्यान धरिल्लें आंग; अर्दांग; अर्दांगवात. पुर्तु. Paralesia, इंग्ले Paralysis. (रमाकांताक आरीचें दुयेंस जावूं दी, आनी त्या दुयेंसान ताजें दादलेपणच नश्ट जावूं दी. – सुखाचो सुगुर्वो : हेमा नायक, पसय, पा.७३.)

**विशेश** : मेंदवाच्या तळाक शिरांचें जाळें आसता. ह्या जाळ्याक 'विलीसचें वर्तुळ' म्हणटात. 'आऑर्त' हे मोठे शिरेपासून फुटून माथ्याच्या कट्ट्यांत गेल्ल्यो शिरो एकमेकांक जोडून घेतात. तांणी एकमेकांक जोडून घेतिल्ल्यान 'विलीसचें वर्तुळ' जाता. शिरो शुद्ध रगतांतल्यान प्राणवायुची (Oxygen) आनी उर्जेची पुरवण करतात. कसल्याय कारणाक लागून, मेंदवाक रगत मेळना जातकीर, मेंदवांत मोठ्या प्रमाणांत घडामोडी जातात.

मेंदवाचो उजवेकडलो अर्दो भाग आंगाचे दावे वटेनच्या भागाचें नियंत्रण करता आनी मेंदवाचो दावेकडलो अर्द भाग उजवे वटेनच्या आंगाचें नियंत्रण करता. जेन्ना उजवे वटेनचें आंग धरता, तेन्ना मेंदवाच्या दाव्या अर्दभागाक बाधा जाल्ली आसता आनी जेन्ना दावे वटेनचें आंग धरता, तेन्ना मेंदवाच्या उजव्या अर्दभागाक बाधा जाल्ली आसता.

रगताची पुरवण करपी शिरांभितर चरबेचीं, 'कॉलेस्टरॉल'चीं पुटां चडिल्लीं आसतात. ह्या पुटांक लागून शिरांचो रेसमासारको गुळगुळीत भाग खडबडीत जाता. हो भाग खडबडीत जाल्ल्यान, शिरांतल्यान रगत वचपाक आडखळ जाता. रगताचो प्रवाह मंदावता वा रगतांत गुठल्यो जाल्ल्यान, रगताचो प्रवाहच थांबता. रगताचो हो प्रवाह थांबतकीर 'सेरिब्रल थ्रॉम्बोसिस' जाता. मेंदवाच्या एका विशिश्ट भागांतल्यान शिरांक रगत मेळना जातकीर, थंयच्यो मेंदवाच्यो पेशी (brain cells) मरतात आनी तेन्नाच अर्दांग जाता.

ज्या वेळार रगताच्या शिरांच्या जाळ्यांत वा काळजांत रगताची गुठली जाता आनी तिचो इल्लोसो कुडको वचून, तो रगताच्या प्रवाहावांगडा वचून मेंदवांतले शिरेंत शिरकता, त्या वेळार मेंदवांतल्या कांय भागाक रगताची पुरवण अकस्मात बंद जाता. हाका 'सेरेब्रल एंबॉलिझम' म्हणटात. आंग धरपाचें हें दुसरें कारण. केन्ना केन्ना मेंदवाच्या भायल्या भागांतली शीर कांय कारणांक लागून फुट्टा. मेंदू आनी माथ्याचें कट्टें हांचेमदीं रगत व्हांवंक लागता. हाका 'सबॲरकनॉयड हॅमोरेज'' म्हणटात. कांय वेळा मेंदवाच्या भितरल्या भागांतली शीर फुट्टा, त्या वेळार 'इंट्रासेरेब्रल हॅमरेज' जाल्या म्हणटात. शिरांचे वणटींत निर्माण जाल्लो दोश आनी 'हाय ब्लड प्रेशर' हांकां लागून मुख्य शीर फुट्टा. त्या वेळार मेंदवांत रक्तस्राव जाता. हें आंग धरपाचें तिसरें कारण.

अर्दांग जावंचे पयलीं वा आरीचो ॲटॅक येवचे पयलीं कांय जाणांक विशिश्ट लक्षणां जातात. तोंडाचो अर्दो भाग भेरेल्लेवरी जाता. एके वटेनचो हात आनी पांय मुयेता. एका दोळ्याची नदर अचानक मंदावता वा दोळ्यांक कांयच दिसना जाता. वाचेचेर परिणाम जाता. दुसरो उलयता तें कळना जाता. कारणाविणें एकदम तकली दुखूंक लागता. घुंवळ येता. एकाद्रे

वेळा चिनारी येवन पडटा. आरीचीं हीं पूर्वलक्षणां. हीं लक्षणां केन्ना केन्ना कांय मिनटां उरतात. कांय वेळार हीं लक्षणां चोवीस वरां उरतात आनी एकदम ना जातात. रगतांत जाल्ल्या रगताच्या ल्हान ल्हान गुठल्यांक लागून, मेंदवाक जाता ती रगताची पुरवण मात्शीशी थांबिल्ल्यान हीं लक्षणां जातात. रगताची पुरवण जावंक लागतकीर, हीं लक्षणां आपाप थांबतात. हेंय लक्षण म्हळ्यार आरीचो आयिल्लो तात्पुरतो अ‍ॅटॅक. जांकां आर जाल्या, तातुंतल्या १० टक्के पिडेस्तांक, हीं लक्षणां केन्ना केन्ना तरी जाल्लीं आसतात. ह्या लक्षणांक 'ट्रान्झियन्ट इश्कीमिक अ‍ॅटॅक' म्हणटात. मेंदू आरीची शिटकावणी दिता ती अशी! ह्या वेळार कसलीच हयगय करिनासतना दोतोराम्हज्यांत वचून वखद-विर्सद करूंक जाय. नाजाल्यार घडटात ते परिणाम सोंसूंक जाय.

आर जातकीर मेंदवाची आनी तेच परी शरीराच्या कार्याची अतोनात हानी जाता. घडये मरणय येता. देखून, आरीचीं पूर्वलक्षणां दिसूंक लागतकीर, तीं आटापाक हाडपाचो यत्न करिनासतना रावप म्हळ्यार, आपल्याच शरीराचो आपणेंच घात करप.

आर जावपाक कांय घटक निजाचे प्रक्रियेचे आसतात, कांय घटक बडीचे आसतात. हे दोनीय घटक टाळूंक येतात. जाल्यारूय, हे घटक आटापाक हाडपाचें काम मनशांच्याच हातांत आसा. कांय घटक दोतोराच्या पालवान थोडे-भोव आळाबंदा हाडूं येतात.

पिराय, लिंगभेद, घराणें (वंश) आनी गोडें मूत ह्या घटकांक लागून आरीचो संभव चड आसता. मनशाची पिराय वाडटकीर अर्दांगाचो धोको आसता. बायलांपरस दादल्यांक आर जावपाचो चड संभव आसता. ज्या घराण्यांत आरीचे पिडेस्त चड आसतात, त्या घराण्यांत आर जावपाचो धोको चड आसता. जांकां गोडें मूत आसा, तांकांय आरीचो धोको आसा. जांकां आरीचो अ‍ॅटॅक येवन गेला, तांकांय परत आर जावं येता.

'हाय ब्लड प्रेशर', काळजाचे विकार, रगतांत गुठल्यो जावन येवपाचे खिणयाळे आडसर, हीं आरीचीं आंगां, वैजकी उपचारान आटापांत दवरूं येतात. ह्या तिनय विकारांचेर वैजकी उपचार आयुश्यभर करचे पडटात. हाय ब्लड प्रेशराचेर वखद घेवंक सुरू केले उपरांत, तीं घेत रावंक जाय. तेच परी, ब्लड प्रेशर मदीं मदीं तपासून घेवपाक जाय. अशें केल्यार पिडेस्ताक आदावच जाता, लुकसाण जायना. वयले तिनय विकार आटापाक हाडल्यार, आर जावपाचें प्रमाण खूब उणें जावं येता.

सिगार, चिरूट वा विडी ओडप, सोरो पियेवप, आंगाक गाबळां पडप, रगतांतलें 'कॉलॅस्टरॉल', चरबेचें वाडिल्लें प्रमाण आटापाक हाडूं येता. हे खातीर जीब आपले स्वाधीन आसूंक जाय. व्यसनांचेर जैत जोडूंक जाय. योग्य आहार आनी योग्य व्यायाम घेवंक जाय. जाल्यारूय, हें करपाक मनाच्या निग्रहाची आनी शिस्तीची गरज जाय.

आरीचो तीव्र अ‍ॅटॅक आयल्यार रोग्याक ओस्पितलांत व्हरून उपचार करूंक जाय. रोगी बेशुद्ध जाल्यार पिडा गंभीर आसा म्हणपाचें कळटा. मेंदवाच्या खंयच्या भागांत बाधा जाल्या हें पळोवपाक, मेंदवाचें 'स्कॅन' करूंक जाय. रगतांत गुठल्यो गुठल्यो जाल्ल्यो आसल्यार Angiography करपाची गरज आसता. Angiography करून पळेतकीर मेंदवाचे बाधेचेर आनी रगतांत जाल्ल्या गुठल्यांचेर उपाय सोदून काडूं येता आनी फाव तो उपचार करपाक सोंपें जाता.

शिरांनी रगताची गुठली जाल्ली आसल्यार, ती वाडूं नये म्हणून आनी नव्यो गुठल्यो जावं नये म्हणून, तज्ञ दोतोर वखदां दितात. काळजाच्यो झडपो इबाडलेल्यो आसल्यार तांचेर रगताच्यो बारीक बारीक गुळयो जातात. अशा वेळार रगतांत गुळयो न जावपाक वखदां दिवचीं पडटात. रगताची पुरवण करपी 'कॅरोटिड आर्टरी' मानेंतल्यान वयर सरून कट्ट्यांत भितर सरता.

हे आर्टरींत कसल्योय आडखळी निर्माण जाल्यार 'कॅरोटिड एंड आर्टरेक्टॉमी' शस्त्रक्रिया करून, रगत वचूंक मार्ग मेकळो करपाचे प्रयत्न कांय केंद्रांत करतात. आरीक वैजकी उपचारां वांगडाच उत्तम सुश्रुशेची, तेच परी फिजियोथेरपीचे उपचार करचेली भोवच गरज आसता.

**आधारावळ :**

१. पक्षाघाताची प्रक्रिया, लेखक : डॉ. आनंद जोशी, महाराष्ट्र टाइम्स्, बुधवार, ९ मार्च १९९४, पा.८.
२. संपादकान कांय दोतोरांकडल्यान पुंजायल्ली माहिती.

**आर** । आर् । (सं. उपरि) अव्यय. हें अव्यय नामांक लागून 'वयर' हो अर्थ दाखयत सातवे विभक्तीचें रूप घडयता. हें अव्यय एकवचन आनी भोववचन अशा दोनूय वचनांक लागता. देखीक, घरार (घरा वयर), घरांर (घरां वयर); रुखार, रुखांर; घोड्यार, घोड्यांर बी.

**आर** । आर् । (सं. 'कार' ह्या ताळाकुसावेल्यान) ता.कू. हें ताळाकूस कांय नामांक लागून 'वस्ती वा वस्तू घडयता आनी त्यो विकता तो' असो अर्थ दाखयता. देखीक : कुंभ + आर = कुंभार; चाम + आर = चामार; कार्शे + आर = कासार. २. कांय वेळार नामांक लागून हें कूस विशेशणां घडयता वा गुण दाखोवपी उतर घडयता. देखीक : भीक + आर = भिकार; वीख + आर = विखार.

**आर** । आर् । (सं. 'वार' = दीस हाचेवेल्यान) ता.कू. 'दीस' हो अर्थ उकतो करपाखातीर कांय विशेशनामांक लागपी ताळाकूस. देखीक : सोम + आर = सोमार; मंगळ + आर = मंगळार; शुक्र + आर = शुक्रार. बृहस्पती आनी आदित्य ह्या संस्कृत उतरांचीं 'बिरेस्त' आनी 'आयत' अशीं अपभ्रश्ट रुपां जावन तांकां 'आर' हें ताळाकूस लागता आनी 'बिरेस्तार' आनी 'आयतार' अशीं रुपां घडटात.

**आरकार** । आर्कार् । सा.रू. –रा; (पुर्तु. आर + कों. ता.कू. 'कार') पु. आर जाल्लो मनीस; अदांग, अदांगवात जाल्लो मनीस.

**आरको-परको** । आर्कॉ-पर्कॉ । सा.रू. –क्या-क्या; भौव. –कॅं-कॅं; सा.रू. –क्यां-क्यां । (कों. 'परको' चें द्वि.) वि. अनवळखी; परिचयांत नाशिल्लो. (गुलगुलीत, पिंगशा जावळाचो... एकसारको धांवत सुट्टालो. ताका आरक्या-परक्यान हात लायल्यार किळांच मारतालो. – सवर्णी : गजानन जोग, रुद्र, पा.२५.)

**आरखप-पारखप** । आर्खप-पार्खप । सा.रू. –पा-पा । (सं. परि + ईक्ष् = निरखून, बारकायेन पळोवप हाचें द्वि) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आरख्-पारख् सक.) अत्यंत बारकायेन वा बारीकसाणेन ध्यान वा लक्ष दिवन पळोवप. (म्हणणें तुमचें हांव आयकतां आयकतां । भौजन समाजाक आरखितां-पारखितां. – शबै शबै भौजनसमाज : पुंडलीक नायक, पा.४२.)

**विशेश** : 'आरखप-पारखप' हो साद-शब्द जावंये. 'पारखप' ह्या उतराचो अर्थविस्तार दाखोवपाक 'पारखप' पयलीं 'आरखप' हें उतर आयलां जावंये.

**आरड** । आरड् । सा.रू. –डी; भौव. –डी; सा.रू. –डीं । (सं. आ + रूद्, का. आरडु = बॉब मारप) स्त्री. बॉब; बॉबाट; कुलकुलाट; वरड.

**आरडप** । आरडप्, आड्डप् । सा.रू. –पा । ('आरड' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. मूळ धातू : आरड् (अक.) बॉब, बोबाट मारप; कुलकुलाट मारप; वरड मारप; आड्डप; ताळो सरांटून मोठ्यान उलोवप.
**म्हण** : आरडून दान आनी किंळचून भोजन.

**आरण्यक** । आरण्यक् । सा.रू. –का; भौव. –कां; सा.रू. –का । (सं. आरण्यकम्) न. भौव. वेदिक वाङ्मयाचो एक विभाग; निर्जन अरण्यांत रावन ऋषी-

मुनी 'ब्राह्मण ग्रंथां'च्या ज्या भागाचें पठण करताले ते भाग; वानप्रस्थाश्रमांत अरण्यांत आसतना अध्ययन करपाचे ग्रंथ.

**विशेश** : आरुणेय उपनिषदांत सांगलां की वानप्रस्थाश्रमांत वेदांपैकीं आरण्यकां वा उपनिषदांचेंच अध्ययन करचें. पयलींच्या काळार विद्यार्थ्यांक आरण्यकांची संथा दिवचे पयलीं, ती गांवांत दिनासतना अरण्यांत दिताले. तुर्तांक आरण्यकां देवळांत शिकयतात.

यज्ञसंस्थेंत हस्टी दिवपी प्रवर्ग्य संस्था यज्ञाबगर जाताली. ती घरांत करिनासतना गांवा भायर, चड करून रानांत जावची, असो परिपाठ आसलो. हे प्रवर्ग्य संस्थेचें विवेचन 'ब्राह्मणां'च्या जाग्यार 'आरण्यकां'त आसतालें. अरण्यांत, म्हळ्यार गांवा भायर जावपी विधींचो ग्रंथ म्हळ्यार 'आरण्यक'.

आरण्यक वाङ्मयांत वेदांगां आनी 'ब्राह्मणां' हांचो आसपाव आसा. गृह्यसूत्रांत सांगिल्लीं वा त्या संबंधान करपाचीं नित्यकर्मां आरण्यकांत सांगल्यांत. आरण्यकांत यज्ञसंस्थेपैकीं महाव्रत, उरण्य, अरण्यकेतुचयन, पितृमेध बी विशयांचें विवरण आयलां. यज्ञाच्या आधिदैविक वा आध्यात्मिक स्वरुपाचें विवेचन हो तांचो मुख्य उद्देश आसा. तातूंत यज्ञाचो गूढ वा प्रतिकात्मक अर्थ सांगला. भायल्या यज्ञापरस मानसिक यज्ञाचेर चड भर दिला. यज्ञाची व्याख्या आरण्यकांत मेळटा. यज्ञ हो विश्वाचो नियंतो आसून, तो चराचराचें कल्याण करता, अशी आरण्यकांची धारणा आसा. कर्ममार्ग होच फकत अत्यंत सुखाचो मार्ग न्हय, ताका ज्ञानमार्गाचीय जोड मेळूंक जाय, अशी आरण्यकांची विचारसरणी आसा. (पळेयात : भारतीय संस्कृतिकोश, भाग पहिला, पा.४६२-४६४.)

**आरत** । आरत् । सा.रू. –ती । (सं. आरति; आरत्रिकम्) स्त्री. १. तबकडेंत वाती घालून त्यो पेटोवन, वा तबकडेंत पेटिल्लें निरांजन वा कापूर दवरून देव, सत्पुरूष, तेच परी मंगल प्रसंगार घोव, भाव, पूत हांकां उंवाळचेलो विधी. २. देवाक आरत उंवाळटना म्हणपाचें ताचें तोखणायेचें गीत वा स्तोत्र.

**१. आपलेच भोंवतणी आरत उंवाळप** : आपणेंच आपली तोखणाय करप; आपणेंच आपले बडवचार गावप.

**२. आरत घेवप** : देवाक आरत उंवाळले उपरांत, थंय आशिल्ल्या भक्तां म्हऱ्यांत ती व्हरतकीर, तिचेवेल्यान हात भोंवडावन, तोच हात आपल्या दोळ्यांवेल्यान भोंवडावप.

**३. आरत भोंवडावप** : हात फुडें करून, कसल्याय कामाखातीर, लोकांकडेन दुडू मागीत भोंवप. (तशें आसल्यार, खासा तांच्या 'भारत' पत्राक सदींच दुडवांची तूट येता, आनी पालवाखातीर लोकांकडेन ते भौन भौन आरत भोंवडायतात. हाजें कारण तांकांय तें पत्र बरे तरेन चलोंवक कळना असोच केल्यार जाता मूं? – नवें गोंय, २रें वर्स, ४थो आंक, आब्रील १९३६, संपादक : का.श्री. नायक, पा.१४७).

**म्हण** : आरत घेतल्यार उस्ण, तीर्थ घेतल्यार सैत्य. (चड नाजूक प्रकृती आशिल्ल्याक ही ओपार दितात.)

**आरतप** । आर्तप् । सा.रू. –पा । ('आरतो' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू : आरत् (सक.) उमथो आशिल्लो उदारो करप; वयर सकयल करप; वेले वटेनचे सकयल्ले वटेन करप; फुडले वटेनचे फाटले वटेन करप; उजवे वटेनचें दावे वटेन करप.

**आरतून-परतून** । आरतून-परतून । ('आरतप' वेल्यान) क्रि.वि. बऱ्या वायट मार्गान; आडवो-उदारो करून.

**आरतो-ती-तें** । आरतॉ-ती-तँ । (सं. आरत् = लागसर; भोंवतणीं? देशी : अल्लट?) वि./क्रि.वि. बरी वाट (पुडव्याची आरती वाट हेवटेन आसा.) बरे वाटेचो.

**आरतो-परतो, आरती-परती, आरतें-परतें** । आरतॉ-परतॉ, आरती-परती, अरतें-परतें । (दे. अल्लट पल्लट) क्रि.वि. उमथो-उदारो; उमथी-उदारी; उमथें-उदारें; आडवो-उदारो; आडवी-उदारी; आडवें-उदारें; फाटलो-फुडलो; फाटली-फुडली; फाटलें-फुडलें; हेवटेन-तेवटेन; वयर सकयल. (तांणी आपली सगळी विद्वत्ता आरती-परती केल्यार पसून आमी बामण बामणाभायले आसात वा शणै ही एक जात आसा, हें सिद्ध करपाक तांच्या नशिबांत नाशिल्लें । ये.अ.उ., बरो : शणै गोंयबाब.) (पांगो जाग्यार आयलो, पांयापोंदचें मळणें तो आरतेंपरतें मस्तूंक लागलो. – खळ : पुंडलीक नायक, मुठय, पा.४८.) (ड्रायव्हर ताजेकडेन आरतो परतो पळोवन ताका कितें कितें विचारीत आशिल्लो. ताका वगीच भंय दिसलो. – मोगाची धूव : पुंडलीक नायक, मुठय, पा.७८.)

**आरथ, आरथि** । आरथ, आरथी । सा.रू. –थी । (सं. आरतिः आरात्रिकम्) स्त्री. पळेयात 'आरत'. (...समेस्तां गोपिकांचे हातीं कृस्णु दिलो. तें देखून त्योय गोपिका आनंदभरित जावनु द्वारकांतु आयल्यो, आणि आरथि लिंबळण कृस्णाक करूंक लागल्यो. – कृष्ण, रुक्मिणी आनी गोपिका, बरो : कृष्णदास शामा.)

**आरदा** । आर्दा । सा.रू. –दा । (सं. आर्द्रा) पु. आर्द्रा नक्षत्र. पावसाचें मुखेल नक्षत्र. (मीर्ग सरून आरदा लागलो, तरी जाय तसो पावस पडनाशिल्लो. – पुण्याय : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा.८५.)

**आरद्रा** । आरद्रा । सा.रू. –द्रा । (सं. आर्द्रा) न. पावसाचें मुख्य नक्षत्र; सत्तावीस नक्षत्रांतलें सवें नक्षत्र; वेदिक काळावेलें चौथें नक्षत्र.

**विशेश** : १४०० वर्सां पयलीं 'आरद्रा' हें पावसाचें पयलें नक्षत्र आसलें. उपरांत 'मृग' (मीर्ग) हें पावसाचें पयलें नक्षत्र जालें. (भारतीय ज्योतिषशास्त्र अथवा भारतीय ज्योतिषशास्त्राचा प्राचीन आणि अर्वाचीन इतिहास, लेखक : शं.बा. दीक्षित, पा.४२१.)

वेदिक काळार कृत्तिका (कातयो) हें पयलें नक्षत्र आसलें. ह्या नक्षत्राची देवता 'अग्नी' आशिल्ली, आनी ताचें लिंग स्त्रीलिंगी भौवचन आसलें. 'आरद्रा' हें चौथें नक्षत्र आसलें. ह्या नक्षत्राची देवता रुद्र आसली आनी हाचें लिंग एकवचनी स्त्रीलिंग आसलें. रोहिणी हें दुसरें आनी मृगशीर्ष हें तिसरें नक्षत्र आसलें. (भा.ज्यो.इ. पा. ५५.)

'आरद्रा' हें उग्र नक्षत्र. आरद्राकडेन लग्निक आशिल्लो श्लोक मेळटा तो असो : 'उग्राण्यांर्द्राच चित्राच विशाखा श्रावणाश्वयुक् । क्रुराणि तु मघा स्वाती ज्येष्ठा मूलं यमस्य यत् ।।३३।। ह्या श्लोकाचो अर्थ असो : आरद्रा, चित्रा, विशाखा, श्रवण, अश्वयुज हीं नक्षत्रां उग्र आसात. मघा, स्वाती, ज्येष्ठा, मूल आनी जें यमाचे (तें) (भरणी) हीं कूर आसात.

तुर्ताक, म्हुर्तासंबंदान जीं नक्षत्रां उग्र आसात, तांकांच क्रूर मानतात. क्रूर नक्षत्रांपैकीं मघा आनी भरणी हांकांय क्रूर मानतात. आरद्रा, ज्येष्ठा, मूल हांकां दारूण वा तीक्ष्ण मानतात. तरी क्रूर नक्षत्रांचो आस्पाव हातूंत जावं येता. उरिल्ल्यांत चित्रा हें मृदु, विशाखा हें मिश्र, श्रवण, स्वाती हीं चल आनी अश्विनी हें लघु (क्षिप्र) मानतात. (भा.ज्यो.इ.पा. ८६.)

**आरपार** । आर्पार् । (सं. अवार : आलतड + पार : पलतड) क्रि.वि. १. मदलें आडवण भेदून एका तोंका साकून थेट दुसऱ्या तोंका मेरेन. (आतां बदलना विचार । जाली नदर आरपार । कवी : बयाभाव, नवें गोंय, २रें वर्स, ३रो आंक, ज्यानेर १९३६, संपा. का.श्री. नायक, ८६.) २. सर्वांगान, भायर भितल्ल्यान. (मावशेच्या मायेन आरपार भरून गेल्ल्या उतरांनी सुमनाक खूप बरें दिसलें. – न्हयकार : बरो : अवधूत हेगडो देसाय, स्व. गों.को.कथा – संपा. अ.ना. म्हांबरो, पा.१६८.)

**आरफुली** । आर्फुली । सा.रू. –ली । पळेयात : 'आलफुली'.

**आरमार** । आर्मार् । सा.रू. –रा । (पुर्तु. Armada) नपु. १. आर्मादं; नाविक अधिकाऱ्याचे आज्ञेसकयल आशिल्लो झुजारी तारवांचो वा मनवारांचो तांडो; खंयच्याय राष्ट्राचो व बळिश्ट राष्ट्राचो झुजारी तारवांचो वा मनवारांचो तांडो (अमेरिकेचें आरमार). २. नाविक सैन्य.

**आरमार** । आर्मार् । सा.रू. –री; भौव. –री; सा.रू. –रीं । (पुर्तु. Armario) स्त्री. घरांत वापरचेल्यो वस्तू आनी मुस्तायकी जंय दवरतात. ते खण आशिल्लें लाकडाचें वा स्टिलाचें कपाट. (सोडिल्ले साडयेची घडी करून आरमारींत दवल्ली, सगळी आरमार साडयांनी गच्च भल्ल्या. – पोरसूं परतून फुलता : हेमा नायक, पसय, पा.११.)

**आरंभ** । आरम्भ । सा.रू. –भा । (सं. आरम्भः) पु. सुरवात. (तांगेले नागौणेक आरंभ देवाच्या देवाऱ्याकडसून जाता. – गोमन्तोपनिषत, दुसरें खंड, बरो : शणै गोंयबाब.) २. खूप दीस चलपी कामाचो, धार्मिक उत्सवाचो प्रारंभ वा पयलो भाग. ३. मुळावी, प्रथमळी अवस्ता. (ह्या संवसाराचो आरंभ कसो आसलो, हें अनुमानानूच थारावचें पडटा.) ४. जंयच्यान सुरवात जाता तो जागो. (हे न्हंयेचो आरंभ ह्या गांवांतल्यान जाता.)

**म्हण**: जाका आरंभ आसा, ताका अखेर आसा.

**आरंभप** । आरम्भप् । सा.रू. –पा । (सं. 'आरम्भ') वेल्यान क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू : आरंभ् (सक.) सुरवात करप; कसल्याय कामाक हात घालप.

**आरंभशूर** । आरम्भशूर । सा.रू. –शुरा; भौव. –र; सा.रू. –रां । (सं. आरम्भशूर) वि. खंयच्याय कामाचो आरंभ नेटान वा उमेदीन करून, तें कामॅ अर्द्यारच सोडपी वा उपरांत तातुंतल्यान आंग काडपी वा गर्भगळीत जावपी.

**आरंभी** । आरम्भी । सा.रू. –भ्या । (सं. आरम्भिन्) वि. सुरवात करपी; नव्यो येवजण्यो आंखपी.

**आरंभीं** । आरम्भीं । ('आरंभ' वेल्यान) क्रि.वि. आरंभाक; सुरवातीक (संवसाराचे आरंभीं उदकूच आसलें. उपरांत तातूंतसून जीव जन्माक आयल्यात.)

**आरव** । आरव् । सा.रू. –वा । (सं. आ + रूह = किल्लून येवप; रूख वाडवप? का. आरवे = मळो?) पु. दोन खेड्यांमदलो वस्ती नाशिल्लो, पूण रहदारी आशिल्लो, रानायेदो व्हड न्हय आनी बागेयेदो ल्हानय न्हय, असो दाट झाडी आशिल्लो सपाट जागो; रांय.

**आरवणी** । आरव्णी । सा.रू. –णे । (कों. 'आरवणो' वेल्यान). स्त्री. लग्नांत आरवणो धरता ती बायल. ही न्हवऱ्याची आवय आसता. आवय नासल्यार यजमानपण करता ताची बायल.

**आरवणो** । आरव्णॉ । सा.रू. –ण्या; भौव. –णे (णॅ); सा.रू. –ण्यां । (सं. आवरणम् ) पु. मोठी, व्हडली ओल्ली.

**विशेश** : लग्नाच्या माटवांत वा हॉलांत न्हवऱ्याक घेवन वतना, न्हवऱ्याची आवय आरवणो धरता. त्या वेळार, आरवण्यांत पेटिल्लो लामणदिवो दवरतात आनी आरवण्याचे वयर कोंड्यांच्या वेळांचो केल्लो आयणो दवरतात.

लामणदिव्याक वंशाचो दिवो मानतात. चल्याच्या रुपान तो सासणाचो घरांत पेटत आसतलो, अशी भावना आसा. कोंडो जसो पेरां पेरांतल्यान वाडत वता, तेच परी आपलोय वंश (चल्या फाटल्यान तागेलो चलो अशा रुपांत) सासणाचो वाडत आसचो, हीच आमचे जिणेची धारणा आसा. देखून, लग्नाच्या वेळार, न्हवऱ्याक भायर काडटना, न्हवऱ्याची आवय पेटयल्लो लामणदिवो आरवण्यांत दवरता. तो न्हवऱ्यावांगडा लग्नाच्या माटवांत वा हॉलांत व्हरता.

लग्नविधी सोंपसर सव्यार लामणदिवो पेटत दवरतात. कांय जाणांगेर ह्या लामणदिव्याक 'शकुनदिवो' म्हणटात आनी होंकलेक घरांत भितर काडटना ह्या लामणदिव्याचो उजवाड तिच्या तोंडार घालतात वा तिका हो लामणदिवो दाखयतात.

हो लामणदिवो आरवण्यांत दवरतकीर आनी ताचेर कोंड्यांच्या वेळांचो केल्लो आयणो दवरतकीर तो वाडवना, तो पेटत उरता. कोंड्याक संस्कृतांत 'वंश' म्हणटात. देखून, वंशाचो लामणदिवो कोंड्याच्या वेळांनी केल्ल्या आरवणांत अखंड पेटत दवरपाचो संकेत अपूर्व आसा, अशेंच म्हणचें पडटा.

**आरवप** । आर्वप् । सा.रू. –पा । (का. आर् = नांगराक वा बैलगाडयेक जोडिल्लें बैलांचें जोत.) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू : आरै (सक.) बैलांचें जोत सरळ चलवप.

**आरशी** । आर्शी । सा.रू. –शे । भौव. –शो; सा.रू. –श्यां । ('आरसो' वेल्यान) स्त्री. ल्हान आरसो; ल्हान हारशी.

**म्हण :** रातीचें खावप तूप आनी दिसाचें आरशींत पळोवप रूप.

**आरसो** । आरसॉ । सा.रू. –शा; भौव. –शे (शॅ); सा.रू. –शां । (सं. आदर्श; प्रा. आररिस) पु. १. दिस्तादिस्त रूप दाखोवपी अशी, घांसून तुळतुळीत करून पारो आनी कलय लायिल्ली कांचेची वस्त. जातूंत दिस्त पडबिंब पडटा अशी वस्त. (उदकाच्या आरशांत ताणें झाडांचें पडबिंब देखलें.) हारसो. २. (ला.) १. देख. २. जें जें मनांतल्या संवेदनांचें वा मावनांचें पडबिंब दाखयता तें. (हे दोळे / काळजाचे आरशे / म्हणून जिवा / सांगतां तुका / मोगाचे फुलै कळे / – दिस्टावो, कवी : पां. भांगी, पा.२६.) ३. रसरशीत; पर्जळीत; कान्तिवन्त. (आरशासारकें तोंड.)

**म्हणी :** १. हाताचीं कांकणां पळोवंक आरसो जाय ?
२. तोंड वांकडें जाल्यार, आरसो वांकडो म्हणूं येत ?

**आरसो-बुरसो, आरशी-बुरशी, आरशें-बुरशें** । आर्सॉ-बुर्सॉ, आर्शी-बुर्शी, आर्शँ-बुर्शँ । सा.रू. –आरशा-बुरशा, आरशे-बुरशे, आरशा-बुरशा । (हिं. अरशी = आळसी + हिं. बुरा = अळशिकावणो, घाणयारो ? ता. Arukku = dirt, impurity of mind?) वि. पोजडो-डी-डें (डँ), अळशिकावणो-णी-णें; अश्लील (समाजाची जीण निर्मळ जावन चकचयाळ वाडचेकातीर साइत्याचें सगळें बळ उपकरावचें अशें ते म्हण्टात. खऱ्यांनीच, कोंकणी बरप्यांनी होच हावेस धरपाक जाय. बरोंवक जाय म्हुण कसली तरी आरशी-बुरशी, कुसकी-नासकी आनी अळशिकावणी घाण आमी लोकांसामकार मांडूंक जायना. – 'येवकार अध्यक्षांलें उलोवप' ह्या पुस्तकांतलो 'ऐन वेळार' हो निबंध, बरो : शणै गोंयबाब, पा.११०.)

**आराखडो** । आराखडॉ । सा.रू. –ड्या; भौव. –डे (डॅ); सा.रू. –ड्यां । (सं. आ + रेखा) पु. उत्पन्न आनी खर्च हांच्या हिसपाचो अदमासान केल्लो खड्डो; आय-व्यय हाचें अदमासपत्रक; अंदाजो. २. नकाशाची, चित्राची, वाङ्मयीन कलाकृतीची केल्ली आंखणी वा रूपरेशा वा कच्चो खड्डो.

**आरांज** । आराञ्ज् । सा.रू. –जे (?) स्त्री. मेत्रावणी; सवकास काम करचेली वृत्ती.

**म्हण :** आरांजे व्हरप, मारांजे लावप. (कसल्याय कामाक चड मेत्रावणी लायतल्याक ही ओपार दितात.)

**आराटप** । आराटप् । सा.रू. –पा (?) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू : आराट् (सक.) घट्ट आंवळप; अंदप.

**आराडकार** । आराड्कार । सा.रू. –रा । (अर.

आरादीदार) पु. जमनीचो धनी; भाटकार; घराचो धनी.

**म्हण:** आराडकारापरस बिराडकाराचें चड.

**आराडी** । आराडी । सा.रू. –डे; भौव. –ड्यो; सा.रू. –ड्यां । (का. आरवे = जंय भरती आनी सुकती येता अशे न्हंयचें तोंड; रेंवेचो पट्टो ? अर. आरादी = जमीन, शेत ?) स्त्री. न्हंयचे वा तळ्याचे देगेर, जंय दोंगर पालसणेन सोंपता तो जागो. (आजच्या सिव्हिल कोर्टाकडेन पणजेची आराडी आशिल्ली.)

**आराणिक** । आराणिक् । सा.रू. –के (सं. आ + रम् + णिक) स्त्री. १. विसव; विश्रांती; आराम. २. थंडाय; स्वस्थसाण.

**आराणें-माराणें** । आराणॅ-माराणॅ । सा.रू. –ण्या; भौव. –ण्यो-ण्यो; सा.रू. –ण्यां-ण्यां (?) न. घोंसाळी, दोडकी. ('वच ! फाल्यां वच आनी आराणें-माराणें फुलच्या आदीं यो', वागान म्हळें. – वागाची बायल, शंभू गावडे खेडेकार, भुरगीं आनी राजहंस, नोव्हेंबर ९२, पा.६९.)

**आराधना** । आराधना । सा.रू. –ने (सं. आराधना) स्त्री. १. पुजा; प्रार्थना; उपासना; सेवा. २. खुशामत.

**आराधनीय** । आराधनीय । (सं. आराधनीय) वि. १. पुजा; सेवा; आराधना करपाक योग्य; जाची पुजा करूंक फावता असो.

**आराध्य** । आराध्य् । (सं. आराध्य) वि. १. पूज्य; जाची पुजा करूंक फावता असो. २. प्राप्ती करून घेवपासारको.

**आराध्य-दैवत** । आराध्य-दैवत् । सा.रू. –ता । (सं. आराध्य + दैवत) न. १. कुळदेव; कुळदेवता; २. जाची भक्ती उपासना करतात तें दैवत.

**आराब** । आराब् । सा.रू. –बा; भौव. –बां । (सं. आ + रव ? ता. आरवारम् = मोठो आवाज ?) न. जें दोन तोणयांनी वाजयतात अशें एक वाटकुळसार उबें रणवाद्य. हाचो आकार पुर्तुगेज 'तांबोर' हाचेवरी आसता आनी हाका गाराच्या चामड्याची मढवणी आसता. (तेन्ना शंख, नगारे, कांसाळीं, आराबां आनी शिंगां एकाच खिणांत चोंवयसल्यान वाजूंक लागलीं. – भ.गी. १.१३, कोंकणी भाशांतर : शणै गोंयबाब, पा.३.)

**आराबो** । आराबॉ । सा.रू. –ब्या । (फा. आ राब : = तोफेची गाडी) पु. १. तोफ; तोफेची गाडी. २. तोफांच्या गुळयांचो भडिमार. ३. सैन्याची मांडणी; व्यूह.

**आराम** । आराम् । सा.रू. –मा । (सं. आराम) पु. १. विसव; विश्राम; श्रमांचो केल्लो परिहार. २. दुखण्यांत वा रोगांत केल्ल्या वखदांक लागून गूण पडूंक जिवाक मेळिल्ली स्वस्तसाण; स्वास्थ्य.
**वा.प्र.: आराम करप** : आड पडून विसव घेवप; विसव घेवन थकावट पयस करप.

**आराम** । आराम् । सा.रू. –मा (सं. आरामः) पु. सूख; चैन. (ह्या संवसारांत आरामाक कोण आंवडेना ?)

**आराम** । आराम् । सा.रू. –मा । (सं. आराम; फा. आराम) पु. बाग; उद्यान; उपवन.

**आराम** । आराम् । सा.रू. –मी (पुर्तु. Arame) स्त्री. धातूची सरी.

**आरामशीर** । आराम्शीर् । (सं. आराम वेल्यान) वि. आस्कळ-विस्कळ (आरामशीर जागो); सुख-देणो; शांत.

**आरावप** । आरावप् । सा.रू. –पा (?) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आराव्-सक.) आंवळप. (उड्टा मुखार, धरता भुर्ग्याक । आरांवन विद्युदवेगान । अर्जून वज्रा मुष्टींत आपल्या दाबता ताका

करपाक सोंपें जालें. पृथ्वीर परतुपाच्या वेळार तांणी ही फळी आनी चंद्राच्या खडकांच्यो पती आलुमीनच्याच खोक्यांत बंद केल्यो.

अंतराळ संशोधनावरीच खोल समुद्रांत संशोधन करपाक आलुमीनचीच गरज लागता. कांय वर्सांपयलीं अमेरिकेच्या विजनेरांनी 'ॲल्युमिनॉट' नांवाची पाणबुडी बांदिल्ली. ती उदकांत ४६०० मीटर खोल वताली. चड खोल वचपी हे पाणबुडयेची बांदावळ पयलींवरी तिख्याची करिनासतना, ती आलुमीनचे मिश्र धातू उपकरावन बांदिल्ली.

आलुमीनच्या उपयोगांची दिगंत दिसानदीस वाडत आसा. विजेच्या उद्योगांत, मोटारी, आगगाडी आनी विमानाच्या उद्योगांत आलुमीनच्या मिश्रधातूंचो उपयोग जाता. आलुमीनच्या भागाचेर तयार जावपी अत्यंत पातळ (०.०००१ मिलीमिटर जाडायेचो) थराचो हो गूण. हो थर चिलखत कसो जावन, आलुमीनची प्राणवायूपासून राखण करता. हो थर तयार जाता. देखून आलुमीन सादे हवेंत पेट घेवंक पावना. ह्या थराच्या चिलखताक लागून रसायणी उद्योगांत आलुमीनचे भाग वर्सांसंकिंनी उपकरावंक मेळटात. आलुमीनचे आनिकय कांय गूण विज्ञानशास्त्र्यांक ध्यानांत आयल्यात. आलुमीनच्या आयदनांनी जीवनसत्वां जशाक तशीं उरतात. ताका लागून दूद आनी लोणयाच्या उद्योगांत, साकरेच्या कारखान्यांत, गोड खाणां करपी उद्योगधंद्यांत, सोन्याच्या उद्योगांत आलुमीनचींच आयदनां उपकरायतात.

कांय देश पोस्टाच्यो तिकेटी पसून आलुमीनच्या पातळ फोलींचेर छापूंक लागल्यात. १९५५ वर्सा हंगेरी ह्या देशान .०००९ मिलीमिटर जाडायेच्या आलुमीनच्या फोलींचेर तिकेटी छापून त्यो घोळटेंत हाडल्यो. आतां आनिकय कांय देश आलुमीनच्या फोलींचेर पोस्टाच्यो तिकेटी छापूंक लागल्यात.

चंद्रार साकून हाडिल्ल्या फातरांनी आलुमीनच्या ऑक्सायडाचें प्रमाण पंदरा टक्क्यां परस चड मेळटा. आज आलुमीनचो आनी ताच्या मिश्रधातूंचो उपयोग असो जाता: विमानां आनी मोटारीचो उद्योग – ४०%; विजेचो उद्योग – १८%; घरगुती आयदनांक – १२%; हेर उपयोग – ३०%.

आलुमीनचें उत्पादन ह्या देशांनी जाता: अमेरिका, कॅनडा, जमैका, दोमिनिकन लोकराज्य, फ्रान्स धरून पश्चिम युरोप, रशिया, नॉर्वे, जपान, भारत, इंडोनेशिया आनी गिनॅ.

संवसारांत आलुमीनचें जितलें उत्पादन जाता तातूंतलें ६०% उत्पादन अमेरिकेंत आनी कॅनडांत जाता. जमैका, गिनॅ आनी दोमिनिकन लोकराज्य आलुमीनची निर्यात करतात.

आलुमीनचो धातू जरी प्रत्यक्षांत मेळोवंक जमूंक नाशिल्लो, तरी शास्त्रिकांनी ताका नांव दिल्लें. पयलीं बर्झेलिअसान ताका 'ॲलुमीनम' म्हळ्ळें आनी मुखार डेव्हीन हाणें 'ॲल्युमिनियम' असो बदल केलो.

**आधारावळ:** १. Verbo Enciclopedia Luso-Brasileira de Cultura, Vol. I, पानां १५२२ ते १५२९. २. धातूंच्या नवलकथा, लेखक: से. विनेत्स्की, पा. ३४ ते ४३.

**आलेख** । आलेख् । सा.रू. –खा; भौव. –ख; सा.रू. –खां (सं. आलेखः) पु. १. कसल्याय मळावयल्या चड-उताराची रेगांनी काडिल्ली आकृताय. (फाटल्या धा वर्सांत आशिल्ल्या भांगराच्या मोलाचो आलेख.) इं. Graph. २. दस्तऐवज. (वास पर्मळ म्हणटा तो म्हज्या जिविताच्या भूतकाळाचो आलेख जावन बसला. – यादींचो परमळ, बरो.: महाबळेश्वर सैल, कोंकण टायम्स्, दिवाळी आंक १९९३, पा.९).

**आलेट** । आलेट् । सा.रू. –टी; भौव. –टी; सा.रू. –टी (?) स्त्री. १. कूय; कुकार. २. बॉब, करंदाय. (घराघरांत वीज आयली, गांवागांवांत शाळो पडल्यो, जात्रा जाल्यो, फेस्तां जालीं, संप जाले, बहिष्कार जाले... आलेटी पडल्यो... – सासाय: बाकीबाब

बोरकार, प्रस्तावना : मनोहरराय सरदेसाय, पा.पंदरा.)

**आले-बेले** । आलॅ-बॅलॅ । सा.रू. –ल्या-बॅल्या । (?) पु. भौव. सुरय तांदळांच्या पिठापसून वा गंवांच्या पिठापसून तयार करतात तो एक गोड पदार्थ.

**विशेश :** सुरय तांदूळ फुगत घालून, पोळ्यांक वांटिल्लेवरी पीठ वांट्टात. उपरांत तातूंत तांतयां फोडून घालून पीठ घोंट्टात आनी तव्यार घालून त्या पिठाचे पोळे काडटात. पोळ्यांत चून घालून ताची कायलोळी करून खातात. चुनांत चड करून माडाचें गोड घालतात. कांय जाणांगेर साकरय घालतात.

**आलेभाव-कोलेभाव** । आलॅभाव्-कॉलेभाव् । सा.रू. –आलेभावां-कोलेभावां । (कों. आलेभाव = आयलेभाव + कोलेभाव = नाडभाव) पु. भौव. १.आपलो स्वार्थ सादूंक, तो साधमेरेन एकाद्र्या भोंवतणी दीस-रात रूंय रूंय करपी लोक वा लागशिल्ले पयसुले सोयरे. (म्हज्या हातांत दोन दमड्यो घोळटाल्यो तेन्ना जायते आलेभाव-कोलेभाव म्हजे भोंवतणी रूंय रूंय करताले. – गोमन्तोपनिषत्, २रें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा.१४९.) २. भायल्यान जिवाचे कशे दाखोवन भितल्ल्यान बेमान आनी पडमूर अशे ईश्ट. (तिचो विद्वाटो पूत एका खिणांत तांची करड करचो ना ? गांवभर ताचे आलेभाव-कोलेभाव थोडे आसात ? ते एका रातयांत ताका भिकेक लावचे नात ? – झिलबा राणो, बरो : शणै गोंयबाब, पा. २१.)

**आलें** । आलँ । सा.रू. –ल्या । (सं. आर्द्रक; प्रा. आल्लअ) न. १.झिंझिबॅरासिय ह्या वर्गांतलें बोरूसारक्या तणावरी वनस्पतीचें जमनीपोंदा वाडटा तें मूळ काण. – हें काण मांसोळ आनी सुतां आशिल्लें आसता. तें जेवणांत मसालो म्हणून, तेच परी वखदाकय उपकारायतात.

**म्हणी :**

१. दर्यांत आसा मासो, आलें वांटून दवरता पिसो.

२. आलें, बेलें, नारयाळें, लाभ दिसे मुदल नाशे.

**विशेश :** आलें (Zinziber Oficinale) हें झिंझिबॅरसिय ह्या वर्गांतलें. 'आलें' ह्याच नांवाच्यावखदी तेच परी मसाल्याच्या वनस्पतीचें मूळ काण. हें काण जमनीपोंदा आडवें वाडटा आनी मांसोळ आसता. हें काण जमनी वयर सुमार ०.५ ते १.५ मिटर उंच वाडटा. आल्याचीं पानां कोंड्याच्या पानांवरीच आसतात. कोंड्याच्या पानांपरस मात्शीं लांबट आनी गाढ पांचवीं आसतात. गोंयांत आल्याचें काण जमनीवयर सादारण एक वेंत वाडटा. आल्याक फुलां येतातच अशीं नात. आयल्यारूय तीं क्वचित येतात आनी फळां (सांगो) त्याय परस क्वचित येतात. आल्याचीं फुलां दोन लिंगी, हळडुवसार पांचव्या रंगाचीं आसतात. फुलाची व्हडली पाकळी जांभळी आसता आनी तिचेर हळडुव्यो तिकल्यो आसतात. आल्याक फुलां आयल्यार मार्स-आब्रिल म्हयन्यांत येतात.

आल्याचो मसाल्याक आनी वखदाक भारतांत आनी चिनांतय उपयोग जाता. संस्कृतांत आल्याक अनुपम, गुल्ममूळ, कंदला, शृंगवेर अशींय नांवां मेळटात.

उस्ण कटिबंधांतल्या प्रदेशांत आल्याची लागोड जाता. आशिया आनी आफ्रिका खंडांत, तेचपरी दक्षिण अमेरिकेच्या ब्राझिल ह्या देशांत झिंझिबॅरासिय ह्या वर्गांतले वनस्पतींच्यो आठशीं जाती मेळटात. ह्या कांय जातींतले वनस्पतीक अतिशय सुंदर फुलां येतात. ताका लागून ह्यो जाती कांय जाण फुलांचे बागेंत लायतात.

भारतांत समुद्राचो तळ धरून हिमालयाच्या पालसणार १६०० मि. उंचायेमेरेन आलें रोयतात. उत्तर भारतापरस दक्षिण भारतांत आल्याची लागोड चड जाता.

आलें केरळांत मोठ्या प्रमाणांत रोयतात. आंध्रप्रदेश, गुजरात, हिमाचल प्रदेश आनी

महाराष्ट्रांत (चड करून सातारा जिल्ह्यांत) आल्याची लागोड जाता. गोंयांत खासा अशी आल्याची लागोड जायना.

आलें उस्ण आनी दमट हवेंत बरें जाता. जमीन भुसभुशीत आसल्यार आलें बरें पोसवता. आल्याक सावळी मानवता.

आल्याचीं कुटां हाताच्या तळव्यावरी आसतात आनी एकामेकांक दशिल्लीं आसतात. ह्या कुटांक दोळे आसतात. हेच दोळे जमनींत रोयतात. आल्याच्या पिकाक सात ते आठ म्हयने लागतात. आलें जमनीपोंदा तयार जातकीर जमनी वयर आशिल्ल्या काणाचीं पानां सुकूंक लागतात.

आलें तिखट आसता. आलें पोटांतली वाय ना करता, तेच परी भूक वाडयता. साकर वा गोडाच्या पाकांत आलें घालून केल्लीं कापां (हाका 'आलेपाक' म्हणटात), थंडी आनी खांकीचेर गुणावाक येतात. जिंजर सोडा ह्या पिवणांत आल्याचो उपयोग करतात.

केरळांत आल्याच्यो दोन जाती रोयतात. एक, 'रियु द् इयानैरू' आनी दुसरी 'चायना'. ह्यो दोन जाती चड उत्पन्न दितात. थंय दर हॅक्टराक अनुक्रमान २२,५०० कि.ग्रा. आनी २८,००० कि.ग्रा. इतलें उत्पन्न आल्याच्या रुपान मेळटा.

भारतांतल्या आल्याचे थळावे जातीपसून दर हॅक्टराक ७५०० कि.ग्रा. ते १२,५०० कि.ग्रा. आलें आनी २०००-३००० कि.ग्रा. सूंट मेळटा.

आल्यांत कांय आल्कालॉयद मेळटात : Camphene, Phillandrene, Zingibejene, Cineol, Burnel आनी Gingerol.

**आधारावळ**

१. मराठी विश्वकोश, खंड २रो.

२. Dicionario Enciclopediaco Luso-Brasileiro.

३. Ginger and Turmeric (Health Series) by K.H. Krishnamurthy.

**आलॅग्रि** । आलॅग्रि । (पुर्तु. Alegre) वि. आनंदभरीत, उल्हासी, उल्हासान भरिल्लो.

**म्हण** : गिरेस्त सोरो पियेल्यार आलॅग्रि, दुबळो सोरो पियेल्यार बेबदो.

**आलोचणें** । आलोच्यणें । सा.रू. –ण्या । (सं. आलोचनम्) न. १. आलोचना; गुण दोशांचो केल्लो विचार. २. चिंता (मृत्यूक पावचे थांचिं होळ्ळीं आलोचणें कर्ताति. – ज्ञानेश्वरींतील शब्दांचा कोंकणी बोलींत शोध, लेखक : कै. आनंद रामकृष्ण नाडकर्णी. पा.२६.)

**आलोचन** । आलोच्यन् । सा.रू. –ना । (सं. आलोचनम्, आलोचना) न. १. संकल्प; विचार; स्वप्न; आळांच. २. बुद्ध; सारासार विवेक. (तुमकां बायलांक आलोचन उणें, हट्ट चड.) ३. साहित्यांतली समीक्षा, टीका.

**म्हण** : कुलो तेंकोवंक जागो नाशिल्लो रावळेर बांदूंक आलोचन करतालो खंय.

**आलोचना** । आलोच्यना । सा.रू. –ने । (सं. आलोचना) स्त्री. १. बारीकसाणेन केल्लें निर्खण वा निरिक्षण; गुणा-दोशांचो केल्लो सारासार विचार वा गुणा-दोशांचें केल्लें विवेचन. २. चर्चा; विचार. ३. साहित्यांतली समीक्षा; टीका.

**आलो-पालो** । आलॉ-पालॉ । सा.रू. –आल्या -पाल्या । (कों. 'पालो' द्वि) पु. जड्डें-भड्डें अन्न; अरबट-चरबट खाण; पोटा भरीक वा प्राणरक्षणे खातीर खाल्लें नि:सत्व खाण.

वि. कुस्कुटासमान; कुस्कूट कसो. (सगळीं भुरगीं आलो-पालो आनी बाब म्हजो मोतयां झेलो.)

**आल्कालोयद** । आल्कालॉयद् । सा.रू. –दा । (पुर्तु. Alkaloide) पु. (रसा.) नायट्रोजनी कार्बनी पदार्थांक (substancia organica azotada) आशिल्ले क्षारीय गूण; क्षाराभ.

**आल्त-फाल्त** । आल्त्-फाल्त् । (पुर्तु. Alto = उंच; चड; अधिक + falta = अभाव; चूक; उणाय) क्रि.वि. चड-उणें; आगळें-उणें; मातय चुकनासतना (ताणें आल्त-फाल्त करिनासतना दिस्तादिस्त गजाल सांगली.)

**आल्तार** । आल्तार् । सा.रू. –रा; भौव. –र; सा.रू. –रा । (पुर्तु. Altar) पु. जंयच्यान कातॉलिक धर्ममंदिरांत मीस सांगतात ती वेदी; देवारो. – आल्तार म्हळ्यार धर्मविधी करपाचो पवित्र जागो. कातोलिक धर्मपंथांत खरो आल्तार हो फातरांचो आसता.

**आल्तु** । आल्तु । (पुर्तु. Alto) वि. लांब. (सिन्योर पेरैर पुलिसेंत शॅफ आशिल्लो. चाळीस बेचाळीस वर्सांचो, आल्तु, बारीक दोळ्यांचो तो सिन्योर पेरैर हांव केन्नाच विसरचोना. – गॅरं : शीला नाईक, प्रसादाफूल : संपा. अ.ना. म्हांबरो, पा.२.)

**आल्तेरार** । आल्तॅरार् । (पुर्तु. Alterar) क्रि.वि. १. बदलप; २. भरसप; भरस करप; ३. व्हिरार, पिशांतूर जावप.

**वा.प्र.: आल्तेरार जावप** : तकलेचो स्क्रू मातसो धील जावप; आवटो, व्हिरार जावप; तकली कामांतली वचप; पिशें लागिल्लेवरी जावप. (एक चीट येता, उमेश खंय निमाकडेन लग्न जावंक तयार ना. ही खबर आयकून निमाची तकली आल्तेरार जाता. – कवासो : जयमाला दणायत, प्रस्तावना : मनोहरराय सरदेसाय, पा.७.)

**आल्पाग** । आल्पाग् । सा.रू. –गा । (पुर्तु. Alpaca) पु. लोंकरीचें एक उंची वस्त्र (आल्पागाचो चोळो).

**आल्फांत** । आल्फांत् । सा.रू. –ता । (पुर्तु. Alfandega, अर. आलफुंदूक) न. आयात आनी निर्यात केल्ल्या म्हालाचेर जंय मानडबी वा जकात आकारतात तें सरकारी खातें; ज्या घरांत हें खातें वा कचेरी आसता तें घर; कस्टम; जकातखातें; मानडबी; सुंकाखातें.

**आल्फिनेत** । आल्फिनेत् । सा.रू. –ती; भौव. –ती; सा.रू. –तीं । (पुर्तु. Alfinete) स्त्री. दोन कागदां एकठांय जोडपाखातीर उपकरायतात तो तोंक आशिल्लो अत्यंत बारीक असो लोखणाचो कांटो; टांचणी; पीन. (मॅगीक कितें करचें कांयच कळना. मागीर तें जोत्याक लायिल्ली आल्फिनेत काडटा आनी ती सायेक लायता. – मॅगी, बरो : शीला नाईक, ओली सांज, पा. ८७.)

**आल्फियाद** । आल्फियाद् । सा.रू. –दा । (पुर्तु. Alfiate; अर. अलखय्यात) पु. जो दादल्यांची वा बायलांची मुस्तायकी शिंवता तो मनीस; दर्जी; शिंपी. (अंतू आल्फियाद जावन बोरये सावकारागेर रावलो. – काणी एके जिणेची : महाबळेश्वर सरदेसाय, पा.३०).

**आल्फेर** । आल्फॅर् । सा.रू. –र; भौव. –फॅर; सा.रू. –रां । (पुर्तु. Alferes) पु. सैन्यांतलो तॅनेंतीच्या (Tenente) सकल्ल्या पांवड्याचो ऑफिसर वा अधिकारी. (सगळ्यांत व्हडलो मामा मिलितार म्हळ्यार प्रिमैर सार्जंत आसलो. आल्फेर जावपाचो आशिल्लो. – काणी एके जिणेची : महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. १८).

**आल्बुमीन** । आल्बुमीन् । सा.रू. –ना । (पुर्तु. Albumina) न. रगताच्या उदकांत आनी तांतयांच्या बोळांत धवसार आनी मात्शें खारसार आशिल्लें पांखट द्रव्य. ह्या द्रव्यांत 'कार्बन', उदकवायू, प्राणवायू, आझोत, फॉस्फरस आनी गंधक हे घटक आसतात आनी हे घटक उस्णतेन दाट जातात.

**आल्म** । आल्म् । सा.रू. –मा; भौव. –मां; सा.रू. –मां । (पुर्तु. Alma) न. १. आत्मो; अत्मो. २. जीवन; प्राण; चैतन्य. ३. (ला.) धीर; धाडस. (ताका कसलेंच साहस करपाचें आल्म ना.)

**आल्मांचो दीस** : हिन्दूंत भाद्रपद म्हयन्याच्या कृष्णपक्षांत पितरां खातीर म्हाळ वाडटात. क्रिस्तांव धर्मांतय आल्मांचो दीस आसा. ज्या आल्मांच्या पापांक भोक्सणें मेळूंकना, तीं आल्मां 'पुर्गातोरींत' मुक्तिची वाट पळेत यातना भोगीत आसतात. अशा आल्मांखातीर, दर वर्सा नोव्हेंब्र म्हयन्याचे दोन तारकेक इगर्जेचे आनी कपेलांचे पाद्री तीन तीन मिसां सांगतात. कांय जाण आपल्या घराकडेनय मीस करतात वा सिमितेरींत वचून जंय आपल्या घरच्यांक पुरल्यात थंय तांचेखातीर प्रार्थना म्हणटात. नोव्हेंब्राची पयली तारीख हो सगळ्या संतांचो दीस आसता.

**आल्मार** । आल्मार् । सा.रू. –री । (पुर्तु. Armario) स्त्री. पळेयात, 'आरमार', 'आर्मार'.

**आल्मास** । आल्मास् । (पुर्तु. Almaso) वि. पुर्तुगेज काळांत गोंयांत मेळपी, चित्रकलेक उपकरा पडपी एक दाट आनी वॉटरमार्क आशिल्लो कागद. (सतत पांच दीस ताणें म्हाका ताजेमुखार एकेच वटेन पळेत बसूंक लायलो. म्हजें चित्र बोर्डावयल्या आल्मास फोलीचेर आकार घेवंक लागलें. – एक जाण्टो आनी नेण्टो : दत्ता नायक, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा ; संपा. अ.ना. म्हांबरो, पा. ११५).

**विशेश :** आल्मास धव्या आनी निळ्या रंगाचो आसतालो. धवो चित्रकलेखातीर उपकरायताले. आनी निळो म्हत्वाच्या सरकारी कागदपत्रांखातीर उपकरायताले. हो कागद दाट आसतालो. ताका लागून शंबर वर्सांपर्यंत लेगीत तो जशाक तसो उरतालो. गोंयांत पुर्तुगेज काळावेलीं सगळीं म्हत्वाचीं कागदपत्रां आल्मास फोलीचेर बरयल्लीं मेळटात. ताका लागून तीं आजूनमेरेन तिगून आसात. पुराभिलेखसंग्रहालयांत तीं पळोवंक मेळटात.

**आल्मूस** । आल्मूस । सा.रू. –सा । (पुर्तु. almoco) पु. सकाळीं उठ्ठकीर, तोंडबीन धुवन च्या घेतना खातात तें खाण; नाश्तो; न्याहारी.

**आल्मेत** । आल्मेत् । सा.रू. –ता । (पुर्तु. Agua Benta) न. आगबेंत; आगमेंत; पवित्र उदक; तीर्थ.

**आल्लय** । आल्लय् । सा.रू. –ये; भौव. –यो; सा.रू. –यां । (कों. आल्लय) स्त्री. ल्हान भुरग्यांक पाळण्यांत घालून न्हिदयतना, झोंपयो काडी काडीत दर एक आवय गायता तें गीत; पाळण्याचें गीत.

**विशेश** : भुरगीं किरकिरूंक लागतकीर वा न्हिदेक येतकीर, आदीम काळापासून कोंकणी आवयो तांकां आपल्या खांदार घालून थापटीत आसतना वा पाळण्यांत घालून झोंपयो दितना 'आऽ लई बाबा जोयी' अशीं उतरां सुरार म्हणत तांकां न्हिदयतात. ह्या उतरांक एक मायेचो उमाळो आसता. हो उमाळो माणकुल्यांक जाणवता आनी तीं सुश्रांत आपल्या आवयांच्या खांदार वा पाळण्यांत न्हिदतात.

'आऽ लई' ह्या उतरांक तसो अर्थ नासता. तांच्या फाटलो उमाळो ताका अर्थ दिता. गायता गायतांच 'आऽ लई' चें 'आल्लय' जाता. भुरग्यांक न्हिदयतासतना म्हणपाचें पाळण्याचें गीत हो अर्थ ताका आपाप प्राप्त जाता. भाशेंतलीं उतरां घडपाची प्रक्रिया एकएकदां इतली साधी आसता. भास मनशाचे जिबेर वाडटा आनी ध्वनींफाटल्यान एक मायेचो उमाळो आसता. त्या उमाळ्याफाटल्यान आशिल्ल्या हेतूक लागून ताका अर्थ मेळटा. 'आल्लय' हें उतर अशे तरेन कोंकणींत घडून आयलां. आवयांच्या ओंठांतल्यान तें आपाप घडलां. माणकुल्यांच्या स्वप्न-सृस्टींतले माणकां-मोतयांचे झेले फुलून पर्मळपाक त्यो गायतात.

जय, जय, जय  
जय करीन सये  
आनी गीतांविणें  
पाळणें बांदूं नये  
जय, जय, जय  
जय करीन

आनी संवय करीन
ताका पाळण्याची

जय, जय, जय
जय करीन
आनी बाब म्हणया
तें हय करीन

जय, जय, जांब्या
फुलां फुल्लीं आंब्या
आनी रतन खांब्या
ताका पाळणें बांदूं

जय, जय, जांब्या
भार जालो आंब्या
पाळणें बांदलें खांब्या
चंदनाच्या.

हें गीत D. Propercia Correia Afonso de Figueredo हिच्या O Oriente Portugues, nO २८ तारीक १७-७-१९४०, हातुंतल्या लेखांतल्यान घेतलां.

के. आपटे हांणी तीन खंडांत केल्ल्या संस्कृत-इंग्लेज कोशांत, 'आल्ल' अशें एक उतर मेळटा. हें उतर संस्कृत भाशेंतलें दिसना. थंय 'आल्ल' ह्या उतराचो अर्थ 'आवय' असो दिला. ह्या 'आल्ल' उतरावेल्यान 'आल्लय' हें उतर घडूं येता.

**आल्विस** । आल्विस् । सा.रू. –सा । (पुर्तु. Alvissaras, अर. आलबिशार) न. आनंदाची खबर सांगतकीर दितात तें बक्षीस वा तस्रिप. (नातू जाला म्हणपाची खबर वैजिणीन पैलीवैलीच शणैच्या कानार घालून आल्विस मागलें तेन्ना तो कितलोसो भुरकुटलो आनी मुरगुटलो खैं. – गोमन्तोपनिषत्, खंड १लें, बरो : शणै गोंयबाब, पा.१).

**आल्वीस** । आल्वीस । सा.रू. –सा । (पुर्तु. Alvissaras, अर. आलविशार) न. तस्रिप; बक्षीस, इनाम.

**आल्हाद** । आल्हाद् । सा.रू. –दा । (सं. आल्हाद) पु. आनंद.

**आव** । आव् । सा.रू. –वा । (फा. आब = थाट; रुबाब) पु. डौल; भपको; देखावो. (घरांत काडटा दळिद्र, जाल्यारूय भायर भोंवतना तो राजाचो आव हाडटा.)

**वा.प्र.: आव हाडप** : एकाद्री गजाल आपल्याकडेन नासतना, ती आसा अशें भासोवप.

**आवक** । आवक् । सा.रू. –क । (सं. आ + इ = येवप) स्त्री. १. उत्पन्न; प्राप्ती. २. येवपाची जाल्ली सुरवात. (बाजारांत आंब्यांची आवक जावंक लागली.)

**आवट** । आव्ट् । (इं. Out) क्रि.वि. पयस; भायर.

**वा.प्र.: १. आवट जावप** : १. खंयच्याय खेळांतल्या नेमाप्रमाणें बाद जावप. २. तकलेन धील जावप; तोल सुटप. ३. प्रसिद्ध जावप; छापून उजवाडाक येवप (आयच्या पेपरांत रिझल्ट आवट जाला.)

**२. तकली आवट जावप** : आकांताची तिडक मारप (ताचीं तीं उतरां आयकून म्हजी तकली आवट जाली.)

**आवटेपण** । आवटॅपण् । सा.रू. –णा; भौव. –णां; सा.रू. –णां ('आवटो' वेल्यान) न. पिशेपण. (दुसऱ्या घरांक म्हण्टकीर बायलमनशेन रेस्पेदान रावंक जाय. हांगा म्हणून चलतालें. असलीं आवटेपणां दुसऱ्यांगेर चलतात? – अंत एके जिणेचो : एन् शिवदास, गळसरी, पा.७३).

**आवटो-टी-टें** । आवटॉ-टी-टँ । सा.रू. –ट्या-टे-ट्या; भौव. –टे-ट्या-ट्यो । सा.रू. –ट्यां (इं. Out वेल्यान) वि. जो तकलेन धील जाता तो; जाचे तकलेचो स्क्रू मातसो सदळ जाला तो; जाची तकली कामांतली गेल्या तो वा जाचे बुद्धिचो तोल सुटला

तो; पिसो (दुसऱ्या एका आवटऱ्या शिपायकान आपल्या हातांतलो बॅटरेदिवो पेटोवन जंगलांत पयस मेरेन वांटकुळो गोल गोल फिरयलो. – रुमडाफूल: महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा.२४.)

**आवड** । आवड् । सा.रू. –डी । भौव. –डी; सा.रू. –डीं (सं. आ + वृ) स्त्री. १.रूच; गोडी (ताका पोसाची खूब आवड.) २.माया; मोग; प्रेम; अपुर्बाय. (ताका भुरग्यांची खूब आवड.) ३.आनंद; संतोश. (तो कसलेंय काम आवडीन करतालो.) ४. इत्सा; पसंती.

**आवड-नावड** । आवड्-नावड् । सा.रू. –आवडी-नावडी । (कों. आवड + नावड) स्त्री. पसंती-नापसंती; इत्सा-अनित्सा.

**आवड-निवड** । आवड्-निवड् । सा.रू. –आवडी-निवडी; भौव. –डी-डी; सा.रू. –डी-डी (कों. आवड + निवड) स्त्री. वेंचिक पसंती (ताची आवड-निवड बरी!).

**आवडटो-डटी-डटें** । आवड्टॉ-ड्टी-ड्टँ । सा.रू. –ड्ट्या-ड्ट्ये-ड्ट्या । ('आवड' वेल्यान) वि. १.लाडको; मोगाचो; प्रितीचो; जिवाचो (आवडटी बायल). २.सुखदेणो; हिताक दक्ष असो; आपवतो (आवडटो राजा). ३.पसंतीचो, जाय आशिल्लो, प्रिय (आवडटो विशय). ४.रुचीचो (आवडटो पदार्थ).

**आवडप** । आव्डप् । सा.रू. –पा । (सं. आ + वृ) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू 'आवड्' (सक.) १.मानप; पसंत आसप. २.रुचप.

**आवडिचो-ची-चें** । आवडिचॉ-ची-चँ । सा.रू. –च्या, चये, च्या । ('आवड' वेल्यान) वि. आवड्टॉ-ड्टी-ड्टें.

**आवण** । आवण् । सा.रू. –णा । (सं. आ + वप्) न. लांबचे लांब शेताचे एक कुणगेंत, शेतांत रोवपाखातीर किल्लावन काडिल्लो तरवो; आयण.

**आवत** । आवत् । सा.रू. –ता । भौव. –तां; सा.रू. –तां । (सं. आयुध) न. अवजार; आयुध (ठवयाचीं आवतां); कारागिराचें आयदन.

**आवतिकाय** । आवतिकाय् । सा.रू. –ये । (सं. अवगतिका) स्त्री. वायट अवस्था, स्थिती, गत, दशा. (म्हजीय आवतिकाय बद्द तुजेच भाशेन जाल्या गेऽ बाये. तुका तुज्या रंगा वासाखातीर किरमितात. हांव म्हज्या बऱ्या गुणांखातीर उपासांनी तळमळटां. – गोमन्तोपनिषत्, २रें खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १४७.)

**आवतिकायेचो-ची-चें** । आवतिकायेचॉ- ची-चँ । सा.रू. –च्या-च्ये -च्या । ('आवतिकाय' वेल्यान) वि. जातीचो; दशेचो. (परंत महासप्तमांतले लोक पडले वानरांचे आवतिकायेचे. – कोंकणी भाशेचें जैत, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १४).

**आवती** । आव्ती । सा.रू. –ते । भौव. –त्यो; सा.रू. –त्यां (सं. आहुती) स्त्री. १.यज्ञांत अर्पण करचेलीं द्रव्यां; आहुती. २. (ला.) शेंस्टी; गोमटी.

**वा.प्र.: आवती मारप**: शेंस्टी धोडावप; गोमटी मारप. (तुमी जर अशी फिरूंक वचून तुमचेविशीं म्हज्या कानार कसलें वांकडें उतर येत, जाल्यार एकेकाची आवती मारता. – म्हज्या संवकळीची गिरेस्त कोंकणी – शीला कोळंबकार, कोंकण टायम्स, दिवाळी ८८ पा. १६.)

**आवय** । आवय् । सा.रू. –य । भौव. –वयो; सा.रू. –यां । (सं. अंबार्या - अव्वाय्या - अव्वैय - आवय - आवै – हें निरुक्त शणै गोंयबाबांनी दाखयलां. ता. अव्वये का. अव्वा, अव्वे; ते. अव्वा; दे. अव्वा; मुंडारी आयो) स्त्री. १.भुरग्याक वा भुरग्यांक जन्म दिता ती बायल, वा आपल्या भुरग्याकडेन

आवयपणाच्या नात्यान जोडिल्ली आसता ती बायल; आवसू; आवा; आवय; आवो; बा. (आवय दारांतच आसली. तिणें म्हटलें, "काय सांगूं नज़ ह्या पावसाचें. घातकी तो." – दूख : महाबळेश्वर सैल, जाग दिवाळी १९९६, पा.२७). २.जनावरांची, सवण्यांची वा हेर प्राण्यांची मादी. ३.जिका संवसाराचें आदिकरण मानल्या ती, संवसाराक पोसणी अन्नपूर्णा. ४.दुबळ्या-दाट्यांक आवैची माया दिता ती बायल (गरिबांची आवय). ५.जिका मायेन आनी भौमानान लोक 'आई' म्हणून उलो मारतात, अशी जाण्टी बायल. ६.(ला.) कारण (बेकारपण ही सगळ्या अवगुणांची आवय!)

**वा.प्र.: १. आवय-बापायचो उद्धार करप:** आवयवेल्यान वा आवय-बापायवेल्यान गाळी संवप.
**२. मेल्ले आवयचें दूद पियेल्लो:** सामको अबर्गत; भित्रो; भिजूड.
**३. आवय-बापायच्या बारशाक जेविल्लो:** आवय-बापायपरस आपणाक शाणो समजता तो.

**म्हणी :**

१. गाय आनी आवय सारकी.
२. आवय पळोवन धूव व्हर, दूद पळोवन म्हस व्हर.
३. म्हशीचीं शिंगां म्हशीक जडां न्हय, आवयचें भुरगें आवयक वायट न्हय.
४. चोराची आवय हड्ड्यांत रडटा.
५. आवयपरस मावशी मोगाळ. कोणाक सांगूं पोटाचे जाळ?
६. आवय-बापायचें आशिर्वचन, भुरग्याचे जिणे करता समाधान.
७. आवय-बापाय खाला रावशी, संकस्टांविणें बऱ्याक पावशी.
८. आवय-बापायक दुख्ख दिशी, वळवळ्यांत सांपडशी.
९. आवय-बापायक वळवळायता, तो आपलो फुडार भंगयता.
१०. आवय-बापायचो श्राप भोव खराब.
११. आवयचें दूक गळयशी, दळिद्राक सांपडशी.
१२. आवयचो मोग विसरत, तो सगळ्या कामांतलो निसरत.
१३. आवयच्या पान्यांचो उगडास, सदांकाळ सांबाळ तुज्या पदराक.
१४. आवय मोगाची, बापूय आशेचो, भयण तंवरें, भाव तिखें.
१५. आवयचे बडीन धूव मडकी फोडी, बापायचे बडीन पूत नांगर घडी.
१६. आवय मरतकीर कळटा, मीठ सोंपतकीर कळटा.
१७. आवय-बापायगेर बारा जोतां आनी हांव भीक मागून खातां.
१८. पुतांची आवय भीक मागून मेल्या, धुवांची आवय उवांनी खावन मेल्या.
१९. आवयन दिल्लें उरलें, बापायन दिल्लें सरलें.
२०. आवयन दिल्लें थोडें, बापायन दिल्लें गोडें.
२१. आवय मरता धुवेपासून आनी धूव मरता घोवापासून.
२२. आवय नाशिल्लें भुरगें, पावस नाशिल्लें बेळें.
२३. आवयचें मन कातली, भुरग्याचें मन कट्टी.
२४. आवयक एकच पूत, केंळब्याक एकच घडाय.
२५. आवय तेरीत भुरगो, सुणें तेरीत शेंपडी.
२६. धा जाणांची आवय, वाटेर पडून मेली.
२७. आवय-बापूय मरूं, शेजारी सामारी उरूं.
२८. आवय मेल्ल्या वर्सा भूक चड; बापूय मेल्ल्या वर्सा वत चड.
२९. चेडवाच्या निबान आवय जेवी दुदान.
३०. पूत म्हणत आवय, सून म्हणत मांय.
३१. शेजाऱ्र भुरगीं पोसतलीं जाल्यार, आवय कित्याक जाय आसली?
३२. मन जाणा पाप, आवय जाणा लेकरांचो बाप.

३३. आवय जाणा भुरग्याचो बाप आनी देव जाणा पाप.
३४. चौगांचे आवयक कोण रडना.
३५. धा भुरग्यांची आवय ती कोणाचीच आवय न्हय.
३६. आवय मेले उपरांत बापूय मावसो.
३७. आवय सोंसता, बापूय पोसता.
३८. आवय वाडिना, बापूय भीक मागूंक दिना.
३९. आवय पड घाल म्हळ्यार कोणय घालता, रांडे पड घाल म्हळ्यार कोण घालिना.
४०. होंकलेक कोण वारवाणतलो, होंकलेची आवय न्हय जाल्यार ?
४१. आवय पळेता पोट, बायल पळेता फाट.
४२. आवयक नाका लेंकरूं, आजेक कित्याक जाय नातरूं ?
४३. आवय-बापूय मारतलो, पूण लागीं काडटलो.
४४. आवय पळेता पोट, बायल पळेता मॉर्त. (ही म्हण चड करून सुनांच्यो मांयो उपकरायतात.)
४५. आवय-बापूय जल्म दिता, गुरू मोक्षा वाट दाखयता.
४६. आवय-बापूय सोडूं येत, पूण शेजारी-सामारी सोडूं येत ?
४७. आवय मरत धुवेपासत, धूव मरता गांवच्या मिंडापसत.
४८. आवय-बापूय करतात पाप, भुरगीं दितात जाप.
४९. आवय नाशिल्ली धूव पारपोळ, बापूय नाशिल्लो पूत पारपोळ.
५०. आवयचें पोट कुंभाराचो आवो, कोण काळो कोण गोरो.

**आवय गे** । आवय गे / आवै गे । ('आवय' वेल्यान) उमाळ्या उतर; दुख्ख, त्रास, पिडा भोगतना तोंडांतल्यान येता तो दुख्खाचो उद्गार.

**आवय-घातकी** । आवय-घातकी / आवै-घातकी, सा.रू. –क्या । (कों. आवय + घातकी) वि. जो आवयचो घात करता तो. (असल्या अपेशी आनी आवय-घातक्या लोकांची पर्वा आमगेली भुंय निखालस करिना. – कोंकणी भाशेचें जैत. बरो : शणै गोंयबाब, पा.४०).

**आवयपण** । आवय्पण् । सा.रू. –णा । (कों. 'आवय') वेल्यान न. १. आवय आसपाची स्थिती वा अवस्था. २. आवयच्या काळजांत भुरग्यांविशीं आसता तो मायेचो उमाळो. (असली कसली बायल ? घराकडेन दुदाचें भुरगें आसा. आवयपण कितें आसा काय ना ? – पाज्ज, बरो : पुंडलीक नायक, मुठय, पा.१३.)

**आवय-भास** । आवय-भास / आवै-भास । सा.रू. –शे; भौव. –सो; सा.रू. –सां । (कों. आवय + सं. भाषा) स्त्री. भुरगें पयलेंवयलेंच जेन्ना उलोवंक लागता, त्या वेळार ताका आपले आवयकडल्यान, बापायकडल्यान, शेजारच्या दायजांकडल्यान, लागशिल्ल्या नात्यांच्या मनशांकडल्यान, जाण्टेल्यांचें दायज कशी मेळटा ती भास; भुरगेपणांत आनी उपरांत, आपल्या लागशिल्ल्या संवगड्यांकडेन, मनीस आपले उमाळे आनी भावना जे भाशेन उकत्यो करता ती भास; दुदभास.
**विशेश** : भुरगेपणांत भुरगीं आपले आवयचे हाण्डीर बसून आपल्यो पयल्योवयल्यो इत्सा आनी हुस्के ज्या उतरांनी कळयतात, तीं उतरां तांचे आवय-भाशेंतच आसतात. भुरग्यांचें आत्मपण आपले आवय-भाशेंतल्यानच घडटा आनी आपले भोंवतणच्या संवसाराची वळख तें आपले आवय-भाशेंतल्यानच घेता. ज्या कुटुंबांत तें जन्माक आयलां, त्या कुटुंबांतल्या मनशांकडचे आपल्या नात्यापात्याचे संबंध तें भुरगें आपले आवय-भाशेंतल्यानच समजून घेता. आपल्या भोंवतणच्या फुलां-झाडांचीं नांवां, भोंवतणीं उडटात त्या सवण्यांचीं नांवां, जनावरांचीं

नांवां, भुरगें ल्हवू ल्हवू करून आपले आवय-भाशेंतल्यानच शिकून घेता. जाण्टेल्यांनी सांगिल्ल्या काणयांतल्यान ताका पुराणकथा कळटात. म्हणींतल्यान आनी उमाण्यांतल्यान, खेळांतल्यान तांकां आपले भाशेची आनीक जाण मेळटा.

भास ही आमगेल्या शिलाचें रूपलक्षण आंखता आनी आमगेल्या आत्मपणाचे बुन्यादिचे चिरे जोडटा. जणएकल्याक भूंय आनी समाज हांच्या जिंत्रूप चित्रा भाशेन, तीच आमगेल्या मेंदवांत आमचें आत्मिक चित्र चितारता. हे तरेन, जिणें आमकां आपले म्हुर्तीभाशेन आनी सारकायेन घडयले, ती भास कितलीय दुबळी आसल्यार पसून, आमगेले विचार उकते करून दाखोवपाच्या कामांत सदांच चड गिरेस्त आसता. हेच भाशेंत आमगेल्या आत्म्याचेर चड फळादीक आनी सासणाचे तगपी छाप उदेल्ले आसतात. ही भास जेन्ना आमच्या आज्या-पणज्यांची आसता, तेन्ना ती अजापांचे रितीन चड फळादीक जाता. किद्याक म्हळ्यार, आमच्या आंगांत आमकां कळनासतना आशिल्ल्या पुर्विल्ल्यांच्या भांडारांत, जीं चमत्कारांचीं बळगीं सांठावल्यांत, तीं जागोवची तांक तिका एकलेकच आसता.

पे रिव्हे हो ग्रंथकार म्हणटा: "भास म्हळ्यार जे संस्कृतायेच्या लोकांनी तिका घडयली तांचो तो एक चमत्कारांचो हारसो आसता." पुआयिये हो ग्रंथकार नेट दिवन सांगता, "भाशेन जण एकलो मनीस, मनीसजातीच्या चिंतनांची रासवळी पांयजेलां ल्हवूल्हवू आपलींशीं करता. उलोवंचे भाशेपेल्यान पावंक नाशिल्लो साप्प अजाण मनीस लेगीत, ह्याच कारणान, मनीसजातीच्यो चालीरिती आनी ओडी-रुची हांच्या ज्ञानाची व्हडली गांठ जोडटा. तागेल्या चाली-रितींक आनी ओडी-रुचींक जरी घसघशीत बरें रूप आयिल्लें नासलें, तरीय तागेल्या उलोवपाचे तरेंत, उतरांच्या भांडारांत आनी खासा वाक्यांचे घडणेच्या नेमांतूय तें ज्ञान भरिल्लें दिसता.

परक्यांली भास आमगेल्या पुर्विल्ल्यांच्या भांडारांतलें मोल मातय ध्यानांत घेना; आमगेल्या जणएकल्याचें म्हत्वूय ती वळखना. देखून, परक्यांची भास ही आमच्या मुळाव्या शिक्षणाची बुन्याद जावंक पावना आनी आमचें आत्मपणय ती घडयना. हाका लागून आमच्या 'हांवकारांत' आमगेल्या आज्या पणज्यांच्या दायजांत जें कितें चड नाजूक आनी चड शुद्ध आसता, तेंच ना जाता. आमी दुसरे भाशेंतल्यान शिकल्यार, ते भाशेच्यान आमकां शिकोवन आमगेली बुद्ध कांय काळापुरती आनी थळापुरती फांकारूं येता. परंत भुरग्याचें आत्मिक आनी सामाजिक मन घडोवपाची तांक तिका नासता. हें काम फकत भुंयेचे लोकांचे भाशेकच तांकता. देखून, सगळ्या संवसारांतले लोक तिका आवय-भास म्हणटात.

आवय-भाशेंतल्यान शिकयनासतना भुरग्यांक दुसरे परके भाशेंतल्यान शिकोवप म्हळ्यार तांची बुद्द मुणेवप. तांचे बुद्धीची धार उणी करप. देखून, आयचे समाजशास्त्री आनी शिक्षणशास्त्री भुरग्यांक मुळावें शिक्षण आवयभाशेंतल्यानच मेळूंक जाय म्हणपाचो आग्रो धरतात. कांय भोवभाशी राष्ट्रांत ल्हान भासो आशिल्ले वांशिक गट आसात, तांकां त्या राष्ट्राचे मुख्य भाशेंतल्यान शिकयल्यार, ह्या वांशिक गटांच्यो ल्हान भासो नस्ट जावंक पावतात. तुर्ताक आदिवासींच्यो सुमार सत्तरेकय भासो नस्ट जाल्यात.

आपले आवय-भाशेंतल्यान शिक्षण घेवप ही प्रत्येक भुरग्याची गरजच न्हय, तर ताचो तो हक्क. मुळावें शिक्षण हें भुरग्याचे आवय-भाशेंतल्यानच जावंक जाय आनी उपरांत दुसरे भाशेचें ज्ञानपसून ताका ताचे आवय-भाशेंतल्यानच दिवंक जाय. तशें जाल्यार तें भुरगें दुसरे भाशेंतय तितलेंच पारंगत जावन, शिक्षणाचे सर्तींत कशेंच फाटीं पडना म्हणपाचो प्रत्यय जायत्या शिक्षणशास्त्र्यांक आयला.

आवयभाशेंतल्यान शिक्षण घेतल्यार भुरग्यांक कितलेशेच आदाव जातात:

१. राष्ट्राचे व्हडविकेक वावुरपाखातीर चड जाणांक सारकीच संद मेळटा.
२. चड लोक शिकूंक पावतात आनी शिक्षणाचो प्रसार जाल्ल्यान तांचें आत्मपण आकाराक येता.
३. ज्ञान हें अवघ्याच लोकांची खोती जावंक पावनासतना, तें समाजांतल्या चडांत चड लोकांमेरेन पावता. ताका लागून तांच्यांत विज्ञानाची आवड निर्माण जाता, ते तंत्रज्ञानाची बुन्याद घालूंक पावतात.
४. सरकारान माहितीचें केंद्रीकरण केल्लें आसल्यार पसून, ताका माहितीच्या प्रसाराचें विकेंद्रीकरण करचेंच पडटा; आनी
५. राजकर्णी मळारपसून चडांत चड लोक वावरूंक पाविल्ल्यान, लोकशायेची बुन्याद चड घट्ट जाता आनी लोकशायी तगोवन धरपाक, लोक पूर्ण जागृत रावता.

फक्त संपत्तीचे वाढीन राष्ट्राचें मेजमाप जायना. लोकशिक्षणांतल्यान सरकारान वेगवेगळ्या समाजांतल्या लोकांची उदर्गत कशी केल्या, हाका चड मोल आसा. देखून, गांधी म्हात्म्यान म्हळां, "राष्ट्राची सेवा करपी लोकांनी लोकांच्या मनांत आपणाले आवय-भाशेचो मोग रुजोवचो. हिन्दुस्थानांतल्या सगळ्या भासांचो तांकां आदर आसचो. तांगेली खाशेली आवय-भास कसलीय जाल्यार, ते जंय जंय वेतीत, थंय थंयच्या लोकांची आवयभास तांणी शिकून तांगेलो आवय-भाशेचो आदर तांणी चडोवंचो."

निरक्षरी लोकांक अक्षरी करपाक आवय-भाशेसारको हेर उपाय ना. राष्ट्रांतल्या सगळ्या लोकांक शिक्षण मेळून, तांकां बरोवंक, वाचूंक आनी हिशोब करूंक येतकीर, तेच परी शिक्षणांतल्यान तांच्या मनांत राष्ट्राचे व्हडविकेची भावना रुजयल्यारूच, तें राष्ट्र दोळे आशिल्लें राष्ट्र जाता. ताचें शेत-कामत आनी वेपार-उद्योग तरतरूंक लागता. लोकांक तांगेले आवय-भाशेंतल्यान शिकयल्यारच, तांकां ते भाशेन समज बेगीन पडटा. ते बेगीन बरपाक्षरी जातात. तांचे मुखार ज्ञानाचीं दारां बेगीन उकतीं जातात.

**आधारावळ**: १. जीण, जिणेच्यो देखी, बरो : भौ. बाय प्रॉपॅर्सिय कुर्रेय आफोंद द् फिगरेदु हांणी शणै गोंयबाबांनी बरयल्ल्या 'आबे फारीय' ह्या सुपुल्ल्या चरित्राक मूळ पुर्तुगेज भाशेंत बरयल्ले प्रस्तावनेचें कोंकणी भाशांतर.

२. Educational use of the Mother Tongue, by D.P. Pattanayak.

३. येवकार अध्यक्षालें उलोवप, बरो : शणै गोंयबाब, पा.५५-५७.

**आवय-भूंय** । आवय-भूंय / आवै-भूंय । सा.रू. –ये । (कों. आवय + सं. भूमी) स्त्री. १. ज्या देशांत आमच्यांतलो दरएक जाण जन्माक आयला आनी ज्या देशाचे आमी नागरीक आसात तो देश वा राष्ट्र. (भारत ही आमची आवय-भूंय.) २. ज्या प्रांतांत, शहरांत वा गांवांत आमच्यांतलो दरएक जाण जन्माक आयला, तो गांव, शहर वा प्रांत.

**आवयस्** । आवयस् / आवैस् । ('आवय' वेल्यान) उमाळ्या उतर. जिवाक सोंसूंक जायना अशो दुखीच्यो कळा मारतना तोंडांतल्यान येता तो सभावीक उद्गार. (सगळ्यांबरोबर ताणेंय चित्रावळ घेतली आनी शीत कालोवंक लागलो. शीत कालयतां कालयतां 'आवयस्' म्हणून ताणें व्हडली किळांच माल्ली. – निंदपी, बरो : दत्ताराम सुखठणकार, मात्री पुनव, पा.२५.)

**आवयझंवणो** । आवयझंव्णॉ / आवैझंवणॉ । सा.रू. –ण्या; भौव. –णे (णॅ); सा.रू. –ण्यां । (कों). पु. तिडकीभरशीं अपमान जायसारकी आवयवेल्यान संविल्ली एक पोजडी गाळ.
**वि.**: आवयकडेन रत जावपी, आवयकडेन संभोग करपी, मात्रागमनी.
**विशेश** : समाजशास्त्राचे नदरेन गाळींफाटल्यान (त्यो

मागीर पोजड्यो जावं) मनशाच्या आचार-विचारांचो इतिहास लिपिल्लो आसा. मनशान आपल्या हजारांनी वर्सांच्या वाटचालींतल्यान संस्कृताय निर्माण केल्या. आज तो संस्कारी आसा. हो संस्कारी मनीस आवय आनी पूत, बापूय आनी धूव, भाव आनी भयण हीं नातीं पवित्र मानता. जाल्यारूय, मनशाचे मुळावे अवस्तेंत नातींच निर्माण जावंक नासलीं.

मनीस हें एक जनावर. मनशाचे मुळावे अवस्तेंत ताचे आचार आनी करण्यो जनावरांवरीच आशिल्ल्यो. कांय काळान दादलो आनी बायल हो भेद मनशांक जाणवलो. ते उपरांत जन्म दिवपी आनी जन्माक येवपी हो भेद तांकां कळ्ळो. ज्यो बायलो भुरग्यांक जन्म दिताल्यो तांकां ते 'जनी' म्हणटाले. जी पुल्लिंगी प्रजा जन्माक येताली ते 'जन' म्हणटाले. सगळ्योच 'जनी' जनांच्यो बायलो आसल्यो आनी सगळे 'जन' तांचे घोव आसले.

ब्रह्मदेवाच्या काळामेरेन आर्य समाजाक नात्यांची जाण येवंक नासली. ब्रह्मदेव खासा आपले वयांत आयिल्ले नाती म्हऱ्यांत न्हिदतालो. ह्या संबंधांतल्यान नारदाचो जन्म जाला.

ब्रह्मदेवाच्या काळाउपरांत आर्यसमाजाक नात्यांची जाण आयली. जाल्यारूय, त्या काळांत आर्यांतले कांय जाण मात्रागमनी आशिल्ले जावंक जाय. "पूत आवयांकडेन रत जातात हें दुश्चित्र" अशें भीष्मान म्हळां. महाभारताच्या कर्णपर्वाच्या अध्यायांत (४०-४६) कर्ण आनी शल्य एकामेकांचीं वर्मां कर्मां वयर काडटात. कर्ण शल्याक म्हणटा: "शल्या, तुज्या मद्र देशांत बापूय, आवय, पूत, मांय, मांव, मामा, जांवय, धूव, भाव, भयण, नातू हे एकामेकांकडेन मेकळो लैंगिक वेव्हार करतात. कसलोच धरबंध ते धरिनात. तुज्या देशांतल्यो बायलो खंयच्याय दादल्याक (तो तांचे वळखीचो आसूं वा नासूं) वेंग मारीत ताचेकडेन जुंवळटात. बायलो नाकाशिल्लीं गाणीं गायतात. तुगेल्या मद्रदेशाक लागून, गांधार देशांतल्या बायलांचोय आचार इबाडला. मद्र देशांतल्यो बायलो सोरो पियेतात आनी न्हेसणां सोडून नागड्यो नाचतात. शल्या, तुज्या देशांतल्यो आंकवारी निर्लज्ज आनी आचारभ्रस्ट आसात. अशे अधोगतीक पाविल्ल्या समाजांत मात्रागमनी आसल्यार अजाप न्हय."

आवयवेल्यान संवतात ती गाळ दानाच्या फातरपट्यांनीय उपकरायिल्ली मेळटा. पयलींचे कांय राजा वा तांचे पडहात देवळांक दानां दिताले. पाशाणार कोंरांतलेल्या फातरपट्यांत दानाचो पूर्ण तपशील घाल्लो आसता. जे खातीर हें दान दिलें, ते खातीरच ताचो विनियोग जावंचो, अशी दान दितल्याची इत्सा वा अपेक्षा आसता. हे अपेक्षेचो भंग करतल्याक, 'तेयाची माय गाढवें झंविजे' अशी सणसणीत गाळ थंय घाल्ली मेळटा. इतलेंच न्हय, तर फातरपट्याचे उजवे कुशीक ताचे आवयचें आनी गाढवाचें शिल्प थंय कांतयल्लें दिसता. ह्या शिल्पांतली आवय नागडी आनी उदारी न्हिदिल्ली आसता आनी तिचेर वयर एक गाढव हो संभोगासनांत उबो आसता. आवयचें नातें हें पवित्र नातें आनी गाढव हो अवदिशेचें प्रतीक. दान दितल्याचो अपेक्षाभंग करतल्याची अप्रतिस्ठा करपाकच ही गाळ थंय कोंरातल्या आनी अवदिशेच्या प्रतिकाचो ताचे आवयकडेन संबंध जोडला. ते भायर, ताका तरेतरेची पिडा भोगतली, ताचें अकल्याण जातलें, ही शिटकावणी दिवपाकय ही गाळ थंय घाल्या आनी हें शिल्प थंय कांतयलां.

'आवशी झंवरो' अशाय रुपान ही गाळ घोळटेंत आशिल्ली मेळटा.

आधारावळ :

१. भारतीय विवाहसंस्थेचा इतिहास : लेखक : इतिहासाचार्य कै. वि.का. राजवाडे.

२. नागेशींचो फातरपटो – हो मराठींत आसा.

**आवयार** । आवयार् (पुर्तु. Aviar) क्रि.वि.

१. हातांतलें काम सोंपोवप; २. उजवप; लग्न करून दिवप. (हांव अंदू बी.एस्सी. करतां. बाबा म्हणटा, म्हाका नोकरी लागतकच शांतीक आवयार करुंया. – कथाशिल्प, बरो : लक्ष्मणराव सरदेसाय, जाग, सप्टेंबर १९७७, पा.१५).

**आवरण** । आवरण् । सा.रू. –णा; भौव. –णां; सा.रू. –णां । (सं. आवरणम्) न. धांपपाखातीर उपकरावंचेली वस्त; धांपणें; आच्छादन.

**आवरणें** । आवरणँ । सा.रू. –ण्या । (सं. आ + वृ = भरप) न. उपासाचे आदले रातीं पोट फुटसर आकंठ केल्लें जेवण वा फळार. (फाल्यां उपास करतलो म्हळ्यार आदले रातीं गळो-नळो एक जायसर पोट भरून आवरणें करचें हें म्हाका माननासलें. – गोमन्तोपनिषत् – दुसरें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १३३).

**आवराआवर** । आवराआवर् । सा.रू. –री । (सं. आवृ; आवर द्वि.) स्त्री. बांधाबांध; हेवटेन तेवटेन पडिल्ल्या वस्तूंचें एका जाग्यार केल्लें एकठावण.

**आवरेप** । आवरॅप । सा.रू. –पा । (?) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू; आवरे (आवरॅ) (सक) भाताच्या कणसांत दूद जातकीर, तें घट्ट जावन, दाणो पुस्ट जावप. (शेत बरें आवरेलां).

**आवरो** । आवरॉ । सा.रू. –ऱ्या (?) पु. धीर; काळीज.

**वा.प्र.: आवरो उडप** : १. धीर सुटून गात्रगळीत जावप. (बायलेचे म्हजो आवरो उडलो. ती पिशी कशीशी जाली. हांव काळजान घट. म्हज्या दोळ्यांतसून दुख केन्नाच व्हांवनासलें. परंत भितल्लेभितर हांव घुस्मटून हुडकेवंक लागलों. – गोमन्तोपनिषत् २रें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा.१४३). २. भंयान काळीज कलकलप; भंयान काळीज खपखपप; भंयान कच्च करून आंग काडप; भियेवन जिवाची गुळी जावप. (तो शेकानशेक साडेपांच हात लांबायेचो वाग पळोवन भटाचो आवरो उडलो. – काणी 'बऱ्याक गेल्यार बिर्मत फुट्टा', बरो : गोम पै, नवें गोंय, ३रें वर्स, ४थो आंक, आब्रील १९३७, संपा. का.श्री. नायक, पा.११९).

**आवरो** । आव्रॉ । सा.रू. –ऱ्या; भौव. –रे (रॅ); सा.रू. –ऱ्यां । (का. आवरिके, आवरे; ता. आविराय; आवाराय) पु. Cassia auriculata हें वनस्पतीशास्त्रीक नांव आशिल्लें, दोन धापो आशिल्लें एक धान्य; पावटो. – आवरो मात्सो तोरट लागता. ताची उसळी तेच परी पातळ तोंडाकय करतात. तो वायरवर आसता.

**आवर्त** । आवर्त् । सा.रू. –र्ता । (सं. आवर्तः) न. १. चक्राकार भ्रमण. २. उदकाचो भोंवरो. ३. चक्रीवादळ; मॉड; तुफान; वावटळ. ४. उदकांतल्या भोंवऱ्याच्या आकारासारको आंगार वा माथ्यार आशिल्लो केंसांचो भोंवरो.

**आवर्तन** । आवर्तन् । सा.रू. –ना; भौव. –नां; सा.रू. –नां । (सं. आवर्तनम् ) न. १. परतून परतून येवप वा घडप; चक्राकार वा वाटकुळो भोंवप. २. भोंवाडो; फेरो; आवृत्ती. ३. कांय विशिश्ट हेतूंक लागून परतू परतून केल्ली घोळोवणी (रुद्राचीं आवर्तनां). ४. एकाद्रो विशय पूर्णतायेन समजून घेवपाखातीर ताचें केल्लें पारायण; अभ्यास.

**आवर्शण** । आवर्शण् । सा.रू. –र्णा । (सं. अवर्षणम्) न. पावस नाशिल्ल्यान पडिल्लो दुकोळ; सुको दुश्काळ.

**आवल** । आव्ल् । सा.रू. –ला; भौव. –लां; सा.रू. –लां । (पुर्तु. Aula) न. १. खंयचेय शिक्षणसंस्थेंत जंय विद्यार्थ्यांक धडो शिकयतात वा लेक्चर दितात तें साल; वर्ग. इं. Classroom. २. खंयच्याय विशयाचेर दिल्लो पाठ. इं. Lesson. ३. (ला.)

शाळा. (पुर्तुगेज आव्लांत आनी इंग्लीश स्कुलांत शिकतना लेगीत जोत्याबगर म्हजें अडलें ना. – जोतें : चंद्रकांत केणी, बिंबां-पडबिंबां, पा.२८).

**आवश्यक** । आवश्श्यक् । (सं. आवश्यक) वि. जें कशेंय चुकोवंक मेळना अशें; अटळ; अत्यंत गरजेचें वा अगत्याचें. २. जाचेविणें काम अडटा तें. (पयलीं आवश्यक वस्तू एकठांय कर. उपरांत कामाक हात घाल.)

**आवश्यकताय** । आवश्यकताय । सा.रू. –ये । (सं. आवश्यकता) स्त्री. गरज; अगत्य.

**आवस** । आवस् । सा.रू. –आवशी । (कों. 'आवय/आवै' वेल्यान) आवय; आई. (एका पुताची आवस । काडटा उपास-तापास – शबै शबै भौजनसमाज : पुंडलीक नायक, पा.६३.)

**म्हणी :** १. आवशीन केल्ली कडी पचकवणी, बायलेन केल्ली रुचकवणी.

२. भीक घाल गे आवशी, दिता त्या मापान घेशी.

**विशेश :** 'आवस' हें उतर चित्रापूर सारस्वतांत चड घोळटा. कारवारच्या नागरी भागांत 'आवय' हें उतर घोळटा आनी 'आवस' ग्रामीण भागांत घोळटा. पेडणेंचे कोंकणींत, तेच परी कुडाळी कोंकणींतय हें रूप घोळटा.

**आवसु** । आवसू । सा.रू. –सू । (कों. 'आवै' वेल्यान) स्त्री. आवय; आई.

**आवळ** । (सं. आवलि/ ली = रांग, वळ हाचेवेल्यान) ता.कू. कांय नामांक लागून त्या नामांनी दाखयल्ल्या वस्तूंचो मेळो असो अर्थ उकतावपी ताळाकूस. देखीक : रूख + आवळ = रुखावळ; नखेत्र + आवळ = नखेत्रावळ; राट + आवळ = राटावळ; आधार + आवळ = आधारावळ बी.

**आवा** । आवा । सा.रू. –वा । (सं. अम्बा; देशी. अव्वा; का. अव्व, अव्वे) स्त्री. आई; आवय; आवस; आवसू; आवो; बा.

**आवाज** । आवाज् । सा.रू. –जा; भौव. –ज; सा.रू. –जां । (फा. आवाज) पु. १. ध्वनीच्या ल्हारांची कानाक जाणवता ती संवेदना, नाद. (गडगड्याच्या आवाजान कानांचे पड्डे फोडून उडयल्लेवरी जालें.) २. गळो; ताळो; सूर. (ताचो आवाज गोड आसा.) ३. (ला.) १.मत. (प्रजेचो आवाज.) २. विवेकबुद्धी (जेन्ना भोंवतणचें वातावरण खुबळटा आनी भायर-भितर काळोख दाटून येता, तेन्ना म्हगेल्या भितल्ल्या आवाजान सदांच म्हाका दिशा दाखयल्या.)

**वा.प्र.: १. आवाज काडप:** तरेतरेचे सूर काडप.

**२. आवाज चडोवप:** रागान, तिडकीन मोठ्यान उलोवप. (तूं गरजे बगर आवाज चडोवं नाका. म्हाकाय आवाज चडोवंक कळटा.)

**३. आवाज बसप:** कफ, खांकेक लागून वा मोठ्यान आड्डून आवाज धपटून उरप; आवाज भायर सुटनासो जावप.

**४. आवाज उठोवप:** विरोध करप.

**५. आवाज दिवप:** 'ओ' दिवप; उल्याक 'ओ' दिवप.

**६. आवाज लागप:** मनासारको सूर लागप.

**विशेश :** ध्वनीशास्त्राच्या मतान सूर आनी बोवाळ हीं आवाजाचीं दोन रुपां. संगिताचे सूर हे खऱ्या अर्थान आवाज आसतात. हे सूर अखंड अशी मधुर संवेदना दितात वा निर्माण करतात. बोवाळ हो नाळिच्या तंवकावरी, सुरुंगाच्या स्पोटावरी वा फातराचेर फातर आपटिल्लेवरी कानांचेर तीव्र आनी गोंधळ करपी संवेदना निर्माण करता. संगिताचे सूर स्पश्ट आनी नियमीत कंपनाक लागून घडून येतात, तर बोवाळ अनियमीत कंपनाक लागून, एकामेकांक भेदपी अशा वेगवेगळ्या ध्वनींक लागून निर्माण जाता. देखीक : नुस्त्याच्या बाजारांतलो कुलकुलाट, जात्रेंतलो बोवाळ, रेल्वे स्टेशनावेलो बोवाळ बी.

दर एक वस्त कंप पावतकीर आवाज निर्माण जाता. वाऱ्यावरीच आवाजाकय एक वेग आसा आनी तो दिका दिकांतल्यान धांवता. सुके हवेंत दर सेकंदाक ३३१.६ मिटर ह्या वेगान आवाज धांवता. उदकांत आवाजाचो वेग सेकंदाक १४३५ मिटर आसता. तिख्यांतल्यान सेकंदाक ५०० मिटर ह्या वेगान आवाज वता आनी तांब्यांतल्यान वतना आवाजाचो वेग सेकंदाक ३६०० मिटर आसता. जंय पोकळी आसता थंय आवाज नासता.

आवाजाक आडखळ मेळ्ळयार पडसादाच्या रुपान तो परत येता. मोठो आवाज आनी बारीक आवाज तिव्रतायेवेल्यान कळटा. लांबोडो आनी मोटवो उंचायेवेल्यान कळटा. वेगळ्या वेगळ्या वाद्यांचेर वाजयल्ल्या एकेच सुरावटीचो नाद वेगळो वेगळो जाता. देखून, तिव्रताय, उंचाय आनी नाद हीं आवाजाचीं लक्षणां मानतात.

**आवांताद** । आवान्ताद् । (पुर्तु. 'A vontade: आ व्होन्तादि) क्रि.वि. जाय तसो; आस्कळ-विस्कळ; आयसपयस. (जांव, एकदांची लिफ्ट तरी मेळ्ळी, हे भावनेन आवांताद बसत हांवें कांतराजाचेर नदर माल्ली. – गोमांचल ते हिमाचल : दिलीप बोरकार, पा.६४.)

**आवार** । आवार् । सा.रू. –रा । (सं. आ + वृ) न. वंयेंभितल्लो; दुर्गाभितल्लो वा आड्याभितल्लो जागो.

**आवाहन** । आवाहन् । सा.रू. –ना; भौव. –नां; सा.रू. –नां । (सं. आवाहन) न. १.आमंत्रण; आपोवणें. २. जागृत केल्ली भावना.

**आवाळु** । आवाळू । सा.रू. –ळू । (का. औडू = ओठ हाचेवेल्यान ?) स्त्री. दोनूय ओंठांच्या कडेकडलो थोडोथोडोसो भाग; वाळू.

**आवांकप** । आवांकप् । सा.रू. –पा । (सं. अव + अंक्) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू : आवांक् (अक) १. तांकप (म्हाका आवांकता तेप्रमाण हांव करतां.) २. अपेक्षा करप; अदमास करप (लोक आवांकतालो ते परस ताणें उणें केलें.)

**आवांको** । आवांकॉ । सा.रू. –क्या । (सं. अव + अंक्) पु. १. तांक; बळ; सामर्थ्य; २. अदमास; ३. सारासार विवेक.

**आवांठ** । आवांठ् । सा.रू. –ठा; भौव. –ठ; सा.रू. –ठां । (सं. आवेण्टक : वणत, वंय ?) पु. भुगोलिक क्षेत्रफळ; विस्तार. (ह्या भुंयाराचो आवांठ कितलो जाणा ? बारा चौखण मैल. म्हणजे फोंड्यायेदीं बारा गांवां जायत इतलो व्हड. – आमी पळयल्लें युरोप. बरो : दिगंबर शिंगबाळ, पुनव, फेब्रु. १९७४. २. थळ; जागो; सुवात. (देशभर आशिल्ल्या वेगवेगळ्या आवांठांतल्या लोकांच्यो अडचणी सोदूंक गेल्यार, जायत्यो उक्ताडाक हाडूंक मेळत.) ३. व्याप्ती (ताचे कर्तुत्वदशेचीं आंगां जायतीं आनी तांचो आंवाठूय व्हडलो. – पुण्यात्मो राम कामती – उजवाडावप्याचीं दोन उतरां. पा. १२). ४. वाटार; जागो (घरा भोंवतणचो आवांठ कुचकुचीत कांटयेन भल्ला.) ५. घेरो. (तांबडी तोपी ही तांबड्या विलोदाची आसून लांबोडी आनी वयले वशीन अशीर आवांठाची आसता.)

**आवांठांतलो-ली-लें** । आवांठांतलॉ-ली-लँ । सा.रू. –ल्या-ले-ल्या । ('आवांठ' वेल्यान) वि. भोंवतणचो; आसपासचो. (तेभायर दाभोळ आनी ताच्या आवांठांतलो मुलुख होय गोंयांत आस्पावतालो.)

**आवियार** । आवियार् । (पुर्तु. Aviar) क्रि.वि. १. रोखड्यारोखडें काम करून दिवप; २. हातामेकळें करप; ३. उजवप; लग्न करून दिवप.

**वा.प्र.:** १. **आवियार करप** : मेकळो करप (सत्कार-

समारंभाच्या शिष्टमंडळाक पयलीं आवियार करुंया. धाड तेंकां भितर. – शबै शबै भौजनसमाज, बरो: पुंडलीक नायक, पा.४५.)

२. **आवियार करप**: उजवप; लग्न करून दिवप. (घरांतली एक चली ताणें आवियार केली.)

**आविर्भाव** । आविर्भाव् । सा.रू. –वा । (सं. आविर्भाव) पु. १. उक्तें जाल्लें स्वरूप; स्पस्ट दर्शन; २. हावभाव; मनांतल्या विकारांचें दर्शन; हातवारे. ३. आब; डौल.

**आविश्कार** । आविश्कार् । सा.रू. –रा । (सं. आविष्कार:) पु. १. प्रगटण; संवेदनेचें उक्तें केल्लें रूप. २. खंयच्याय तत्वाचें पयलें-वयलें प्राप्त जाल्लें ज्ञान; कसलेय गजालीचो वा तत्वाचो पयलो-वयलो लागिल्लो सोद; केल्ली फोडणिशी; ३. साक्षात्कार.

**आविस** । आविस् । सा.रू. –सा । (सं. आमिष) न. जे वस्तूचो लोभ वा मोह उत्पन्न जाता ती वस्त; हांयस; लालूच; आमिश.

**आवृत्ती** । आवृत्ती । सा.रू. –ती । (सं. आवृत्ति) स्त्री. १. परतू परतून येवप वा घडप. २. भोंवाडो; फेरो. ३. कांय विशिस्ट हेतूंक लागून परतू परतून केल्ली घोळोवणी; पाठांतर; अभ्यास. ४. (तत्त्व) पुनर्जन्म; जन्मा-मर्णाचो फेरो. ५. खंयच्याय पुस्तकाचें केल्लें पुनर्मुद्रण; उजवाडायल्ल्या पुस्तकाची काडिल्ली परती खेप.

**आवेग** । आवेग् । सा.रू. –गा । (सं. आवेग:) चित्ताची एक प्रबळ वृत्ती; भावनेचो प्रबळ वा उचंबळून आयिल्लो उत्कट उमाळो.

**आवॅल** । आवॅल् । सा.रू. –ला । (कों. अवल + सं. तैल) न. तन्न्या नाल्लाची सोय मुठीन पिळून काडिल्लें तेल (तॅल); जून नाल्लाची सोय शिजयतकीर वयर येता त्या तेलाचो काडिल्लो थर; मुठॅल; मुठवॅल.

**विशेश**: 'आवॅल' दोन तरेन करतात. तन्न्या नाल्लाची सोय मात्शी वताक सुकोवन ती मुठीन पिळून आवॅल काडटात वा कांबळींत घालतात आनी ती पिळून आवॅल काडटात. दुसरी तरा म्हळ्यार, जून नाल्लाचे सोयेंत उदक घालून, सोय शिजयतात. सोय शिजतां शिजतां तेल सुट्टा आनी तेलाचो थर वयर येता. तेलाचो वयर येता तितलो थर काडटात. हो थर आवेलाचो आसता.

तन्न्या नाल्लाची सोय वताक मात्शी सुकोवन ती मुठीन पिळटात. म्हणून, आवॅलाक मुठॅल वा मुठवॅल अशेंय म्हणटात.

पेडणेंच्या 'मोरजाय' देवतेच्या देवळांतलो नंदादीप, घाण्यान काडिल्ल्या खोबरेलान वा तिळेलान पेटयनात. तो नंदादीप आवॅलान पेटयतात आनी हें आवॅल दिसपट्टें मुठीन पिळून काडचें पडटा.

'मोरजाय'चें देवूळ आसा त्या गांवांत घाण्यान तेल काडल्यार, तेलाच्या जाग्यार रगत भायर सरता, अशें सांगतात. एका ब्राह्मण देवान ३६० देंवचार थंय घाण्याक बांदिल्ले म्हणपाची एक आख्यायिका आसा. ही आख्यायिका त्या रगताकडेन लग्निक आसा. देखून त्या गांवांत कोणच घाणो लायना. लायल्यार, घाणो लायतल्याचो निर्वंश जाता खंय. त्या गांवचे किरिस्तांव पासून हो आचार कडकडीत पाळटात. (पळेयात: 'कळसाची जात्रा' – मोरजाई देवस्थानचा इतिहास, ले: रामकृष्ण नारायण केळकर, पा.३.)

आवॅलाक कांय वखदी गूण आसात. पांय फोडल्यार वा थंडेन आंग फुटिल्लें आसल्यार, त्या जाग्यार आवॅल लायतात.

आवॅलाचें निरुक्त अशें दाखोवं येता. संस्कृत 'अवर' ह्या उतरावेल्यान कोंकणी 'अवल' हें उतर घडलां. 'अवल' म्हळ्यार तन्नो, अवल नाल्ल म्हळ्यार तन्नो नाल्ल. अरबी 'अव्वल' ह्या उतरावेल्यान 'जून' ह्या अर्थाचें 'अवल' हें उतर घडलां. अवल म्हळ्यार

करपाक सोंपें जालें. पृथ्वीर परतुपाच्या वेळार तांणी ही फळी आनी चंद्राच्या खडकांच्यो पती आलुमीनच्याच खोक्यांत बंद केल्यो.

अंतराळ संशोधनावरीच खोल समुद्रांत संशोधन करपाक आलुमीनचीच गरज लागता. कांय वर्सांपयलीं अमेरिकेच्या विजनेरांनी 'ॲल्युमिनॉट' नांवाची पाणबुडी बांदिल्ली. ती उदकांत ४६०० मीटर खोल वताली. चड खोल वचपी हे पाणबुडयेची बांदावळ पयलींवरी तिख्याची करिनासतना, ती आलुमीनचे मिश्र धातू उपकरावन बांदिल्ली.

आलुमीनच्या उपयोगांची दिगंत दिसानदीस वाडत आसा. विजेच्या उद्योगांत, मोटारी, आगगाडी आनी विमानाच्या उद्योगांत आलुमीनच्या मिश्रधातूंचो उपयोग जाता. आलुमीनच्या भागाचेर तयार जावपी अत्यंत पातळ (०.०००१ मिलीमिटर जाडायेचो) थराचो हो गूण. हो थर चिलखत कसो जावन, आलुमीनची प्राणवायूपासून राखण करता. हो थर तयार जाता. देखून आलुमीन सादे हवेंत पेट घेवंक पावना. ह्या थराच्या चिलखताक लागून रसायणी उद्योगांत आलुमीनचे भाग वर्सांसंकिंनी उपकरावंक मेळटात. आलुमीनचे आनिकय कांय गूण विज्ञानशास्त्र्यांक ध्यानांत आयल्यात. आलुमीनच्या आयदनांनी जीवनसत्वां जशाक तशीं उरतात. ताका लागून दूद आनी लोणयाच्या उद्योगांत, साकरेच्या कारखान्यांत, गोड खाणां करपी उद्योगधंद्यांत, सोन्याच्या उद्योगांत आलुमीनचींच आयदनां उपकरायतात.

कांय देश पोस्टाच्यो तिकेटी पसून आलुमीनच्या पातळ फोलींचेर छापूंक लागल्यात. १९५५ वर्सा हंगेरी ह्या देशान .०००९ मिलीमिटर जाडायेच्या आलुमीनच्या फोलींचेर तिकेटी छापून त्यो घोळटेंत हाडल्यो. आतां आनिकय कांय देश आलुमीनच्या फोलींचेर पोस्टाच्यो तिकेटी छापूंक लागल्यात.

चंद्रार साकून हाडिल्ल्या फातरांनी आलुमीनच्या ऑक्सायडाचें प्रमाण पंदरा टक्क्यां परस चड मेळटा. आज आलुमीनचो आनी ताच्या मिश्रधातूंचो उपयोग असो जाता: विमानां आनी मोटारीचो उद्योग – ४०%; विजेचो उद्योग – १८%; घरगुती आयदनांक – १२%; हेर उपयोग – ३०%.

आलुमीनचें उत्पादन ह्या देशांनी जाता: अमेरिका, कॅनडा, जमैका, दोमिनिकन लोकराज्य, फ्रान्स धरून पश्चिम युरोप, रशिया, नॉर्वे, जपान, भारत, इंडोनेशिया आनी गिनॅ.

संवसारांत आलुमीनचें जितलें उत्पादन जाता तातूंतलें ६०% उत्पादन अमेरिकेंत आनी कॅनडांत जाता. जमैका, गिनॅ आनी दोमिनिकन लोकराज्य आलुमीनची निर्यात करतात.

आलुमीनचो धातू जरी प्रत्यक्षांत मेळोवंक जमूंक नाशिल्लो, तरी शास्त्रिकांनी ताका नांव दिल्लें. पयलीं बर्झेलिअसान ताका 'ॲलुमीनम' म्हळ्ळें आनी मुखार डेव्हीन हाणें 'ॲल्युमिनियम' असो बदल केलो.

**आधारावळ**: १. Verbo Enciclopedia Luso-Brasileira de Cultura, Vol. I, पानां १५२२ ते १५२९. २. धातूंच्या नवलकथा, लेखक: से. विनेत्स्की, पा. ३४ ते ४३.

**आलेख** । आलेख् । सा.रू. –खा; भौव. –ख; सा.रू. –खां (सं. आलेख:) पु. १. कसल्याय मळावयल्या चड-उताराची रेगांनी काडिल्ली आकृताय. (फाटल्या धा वर्सांत आशिल्ल्या भांगराच्या मोलाचो आलेख.) इं. Graph. २. दस्तऐवज. (वास पर्मळ म्हणटा तो म्हज्या जिविताच्या भूतकाळाचो आलेख जावन बसला. – यादींचो परमळ, बरो.: महाबळेश्वर सैल, कोंकण टायम्स्, दिवाळी आंक १९९३, पा.९).

**आलेट** । आलेट् । सा.रू. –टी; भौव. –टी; सा.रू. –टी (?) स्त्री. १. कूय; कुकार. २. बॉब, करंदाय. (घराघरांत वीज आयली, गांवागांवांत शाळो पडल्यो, जात्रा जाल्यो, फेस्तां जालीं, संप जाले, बहिष्कार जाले... आलेटी पडल्यो... – सासाय: बाकीबाब

बोरकार, प्रस्तावना : मनोहरराय सरदेसाय, पा.पंदरा.)

**आले-बेले** । आलॅ-बॅलॅ । सा.रू. –ल्या-बॅल्या । (?) पु. भौव. सुरय तांदळांच्या पिठापसून वा गंवांच्या पिठापसून तयार करतात तो एक गोड पदार्थ.

**विशेश :** सुरय तांदूळ फुगत घालून, पोळ्यांक वांटिल्लेवरी पीठ वांट्टात. उपरांत तातूंत तांतयां फोडून घालून पीठ घोंट्टात आनी तव्यार घालून त्या पिठाचे पोळे काडटात. पोळ्यांत चून घालून ताची कायलोळी करून खातात. चुनांत चड करून माडाचें गोड घालतात. कांय जाणांगेर साकरय घालतात.

**आलेभाव-कोलेभाव** । आलॅभाव्-कॉलेभाव् । सा.रू. –आलेभावां-कोलेभावां । (कों. आलेभाव = आयलेभाव + कोलेभाव = नाडभाव) पु. भौव. १. आपलो स्वार्थ सादूंक, तो साधमेरेन एकाद्र्या भोंवतणी दीस-रात रूंय रूंय करपी लोक वा लागशिल्ले पयसुले सोयरे. (म्हज्या हातांत दोन दमड्यो घोळटाल्यो तेन्ना जायते आलेभाव-कोलेभाव म्हजे भोंवतणी रूंय रूंय करताले. – गोमन्तोपनिषत्, २रें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा.१४९.) २. भायल्यान जिवाचे कशे दाखोवन भितल्ल्यान बेमान आनी पडमूर अशे ईश्ट. (तिचो विद्वाटो पूत एका खिणांत तांची करड करचो ना? गांवभर ताचे आलेभाव-कोलेभाव थोडे आसात? ते एका रातयांत ताका भिकेक लावचे नात? – झिलबा राणो, बरो : शणै गोंयबाब, पा. २१.)

**आलें** । आलँ । सा.रू. –ल्या । (सं. आर्द्रक; प्रा. आल्लअ) न. १. झिंझिबॅरासिय ह्या वर्गांतलें बोरूसारक्या तणावरी वनस्पतीचें जमनीपोंदा वाडटा तें मूळ काण. – हें काण मांसोळ आनी सुतां आशिल्लें आसता. तें जेवणांत मसालो म्हणून, तेच परी वखदाकय उपकारायतात.

**म्हणी :**

१. दर्यांत आसा मासो, आलें वांटून दवरता पिसो.

२. आलें, बेलें, नारयाळें, लाभ दिसे मुदल नाशे.

**विशेश :** आलें (Zinziber Oficinale) हें झिंझिबॅरसिय ह्या वर्गांतलें. 'आलें' ह्याच नांवाच्यावखदी तेच परी मसाल्याच्या वनस्पतीचें मूळ काण. हें काण जमनीपोंदा आडवें वाडटा आनी मांसोळ आसता. हें काण जमनी वयर सुमार ०.५ ते १.५ मिटर उंच वाडटा. आल्याचीं पानां कोंड्याच्या पानांवरीच आसतात. कोंड्याच्या पानांपरस मात्शीं लांबट आनी गाढ पांचवीं आसतात. गोंयांत आल्याचें काण जमनीवयर सादारण एक वेंत वाडटा. आल्याक फुलां येतातच अशीं नात. आयल्यारूय तीं क्वचित येतात आनी फळां (सांगो) त्याय परस क्वचित येतात. आल्याचीं फुलां दोन लिंगी, हळडुवसार पांचव्या रंगाचीं आसतात. फुलाची व्हडली पाकळी जांभळी आसता आनी तिचेर हळडुव्यो तिकल्यो आसतात. आल्याक फुलां आयल्यार मार्स-आब्रिल म्हयन्यांत येतात.

आल्याचो मसाल्याक आनी वखदाक भारतांत आनी चिनांतय उपयोग जाता. संस्कृतांत आल्याक अनुपम, गुल्ममूळ, कंदला, शृंगवेर अशींय नांवां मेळटात.

उस्ण कटिबंधांतल्या प्रदेशांत आल्याची लागोड जाता. आशिया आनी आफ्रिका खंडांत, तेचपरी दक्षिण अमेरिकेच्या ब्राझिल ह्या देशांत झिंझिबॅरासिय ह्या वर्गांतले वनस्पतींच्यो आठशीं जाती मेळटात. ह्या कांय जातींतले वनस्पतीक अतिशय सुंदर फुलां येतात. ताका लागून ह्यो जाती कांय जाण फुलांचे बागेंत लायतात.

भारतांत समुद्राचो तळ धरून हिमालयाच्या पालसणार १६०० मि. उंचायेमेरेन आलें रोयतात. उत्तर भारतापरस दक्षिण भारतांत आल्याची लागोड चड जाता.

आलें केरळांत मोठ्या प्रमाणांत रोयतात. आंध्रप्रदेश, गुजरात, हिमाचल प्रदेश आनी

महाराष्ट्रांत (चड करून सातारा जिल्ह्यांत) आल्याची लागोड जाता. गोंयांत खासा अशी आल्याची लागोड जायना.

आलें उस्ण आनी दमट हवेंत बरें जाता. जमीन भुसभुशीत आसल्यार आलें बरें पोसवता. आल्याक सावळी मानवता.

आल्याचीं कुटां हाताच्या तळव्यावरी आसतात आनी एकामेकांक दशिल्लीं आसतात. ह्या कुटांक दोळे आसतात. हेच दोळे जमनींत रोयतात. आल्याच्या पिकाक सात ते आठ म्हयने लागतात. आलें जमनीपोंदा तयार जातकीर जमनी वयर आशिल्ल्या काणाचीं पानां सुकूंक लागतात.

आलें तिखट आसता. आलें पोटांतली वाय ना करता, तेच परी भूक वाडयता. साकर वा गोडाच्या पाकांत आलें घालून केल्लीं कापां (हाका 'आलेपाक' म्हणटात), थंडी आनी खांकीचेर गुणावाक येतात. जिंजर सोडा ह्या पिवणांत आल्याचो उपयोग करतात.

केरळांत आल्याच्यो दोन जाती रोयतात. एक, 'रियु द् झ्यानैरू' आनी दुसरी 'चायना'. ह्यो दोन जाती चड उत्पन्न दितात. थंय दर हॅक्टराक अनुक्रमान २२,५०० कि.ग्रा. आनी २८,००० कि.ग्रा. इतलें उत्पन्न आल्याच्या रुपान मेळटा.

भारतांतल्या आल्याचे थळावे जातीपसून दर हॅक्टराक ७५०० कि.ग्रा. ते १२,५०० कि.ग्रा. आलें आनी २०००-३००० कि.ग्रा. सूंट मेळटा.

आल्यांत कांय आल्कालॉयद मेळटात : Camphene, Phillandrene, Zingibejene, Cineol, Burnel आनी Gingerol.

**आधारावळ**

१. मराठी विश्वकोश, खंड २रो.

२. Dicionario Enciclopediaco Luso-Brasileiro.

३. Ginger and Turmeric (Health Series) by K.H. Krishnamurthy.

**आलॅग्रि** । आलॅग्रि । (पुर्तु. Alegre) वि. आनंदभरीत, उल्हासी, उल्हासान भरिल्लो.

**म्हण :** गिरेस्त सोरो पियेल्यार आलॅग्रि, दुबळो सोरो पियेल्यार बेबदो.

**आलोचणें** । आलोच्यणें । सा.रू. –ण्या । (सं. आलोचनम्) न. १. आलोचना; गुण दोशांचो केल्लो विचार. २. चिंता (मृत्यूक पावचे थांचि होळ्ळीं आलोचणें कर्ताति. – ज्ञानेश्वरींतील शब्दांचा कोंकणी बोलींत शोध, लेखक : कै. आनंद रामकृष्ण नाडकर्णी. पा. २६.)

**आलोचन** । आलोच्यन् । सा.रू. –ना । (सं. आलोचनम्, आलोचना) न. १. संकल्प; विचार; स्वप्न; आळांच. २. बुद्ध; सारासार विवेक. (तुमकां बायलांक आलोचन उणें, हट्ट चड.) ३. साहित्यांतली समीक्षा, टीका.

**म्हण :** कुलो तेंकोवंक जागो नाशिल्लो रावळेर बांदूंक आलोचन करतालो खंय.

**आलोचना** । आलोच्यना । सा.रू. –ने । (सं. आलोचना) स्त्री. १. बारीकसाणेन केल्लें निर्खण वा निरिक्षण; गुणा-दोशांचो केल्लो सारासार विचार वा गुणा-दोशांचें केल्लें विवेचन. २. चर्चा; विचार. ३. साहित्यांतली समीक्षा; टीका.

**आलो-पालो** । आलॉ-पालॉ । सा.रू. –आल्या - पाल्या । (कों. 'पालो' द्वि) पु. जड्डें-भड्डें अन्न; अरबट-चरबट खाण; पोटा भरीक वा प्राणरक्षणे खातीर खाल्लें निःसत्व खाण.

**वि.** कुस्कुटासमान; कुस्कूट कसो. (सगळीं भुरगीं आलो-पालो आनी बाब म्हजो मोतयां झेलो.)

**आल्कालोयद** । आल्कालॉयद् । सा.रू. –दा । (पुर्तु. Alkaloide) पु. (रसा.) नायट्रोजनी कार्बनी पदार्थाक (substancia organica azotada) आशिल्ले क्षारीय गूण; क्षाराभ.

**आल्त-फाल्त** । आल्त्-फाल्त् । (पुर्तु. Alto = उंच; चड; अधिक + falta = अभाव; चूक; उणाय) क्रि.वि. चड-उणें; आगळें-उणें; मातय चुकनासतना (ताणें आल्त-फाल्त करिनासतना दिस्तादिस्त गजाल सांगली.)

**आल्तार** । आल्तार् । सा.रू. – रा; भौव. – र; सा.रू. – रा । (पुर्तु. Altar) पु. जंयच्यान कातॉलिक धर्ममंदिरांत मीस सांगतात ती वेदी; देवारो. – आल्तार म्हळ्यार धर्मविधी करपाचो पवित्र जागो. कातोलिक धर्मपंथांत खरो आल्तार हो फातरांचो आसता.

**आल्तु** । आल्तु । (पुर्तु. Alto) वि. लांब. (सिन्योर पेरैर पुलिसेंत शॅफ आशिल्लो. चाळीस बेचाळीस वर्सांचो, आल्तु, बारीक दोळ्यांचो तो सिन्योर पेरैर हांव केन्नाच विसरचोना. – गॅर : शीला नाईक, प्रसादाफूल : संपा. अ.ना. म्हांबरो, पा.२.)

**आल्तेरार** । आल्तॅरार् । (पुर्तु. Alterar) क्रि.वि. १. बदलप; २. भरसप; भरस करप; ३. व्हिरार, पिशांतूर जावप.

**वा.प्र.: आल्तेरार जावप** : तकलेचो स्क्रू मातसो धील जावप; आवटो, व्हिरार जावप; तकली कामांतली वचप; पिशें लागिल्लेवरी जावप. (एक चीट येता, उमेश खंय निमाकडेन लग्न जावंक तयार ना. ही खबर आयकून निमाची तकली आल्तेरार जाता. – कवासो : जयमाला दणायत, प्रस्तावना : मनोहरराय सरदेसाय, पा.७.)

**आल्पाग** । आल्पाग् । सा.रू. – गा । (पुर्तु. Alpaca) पु. लोंकरीचें एक उंची वस्त्र (आल्पागाचो चोळो).

**आल्फांत** । आल्फांत् । सा.रू. – ता । (पुर्तु. Alfandega, अर. आलफुंदूक) न. आयात आनी निर्यात केल्ल्या म्हालाचेर जंय मानडबी वा जकात आकारतात तें सरकारी खातें; ज्या घरांत हें खातें वा कचेरी आसता तें घर; कस्टम; जकातखातें; मानडबी; सुंकाखातें.

**आल्फिनेत** । आल्फिनेत् । सा.रू. – ती; भौव. – ती; सा.रू. – तीं । (पुर्तु. Alfinete) स्त्री. दोन कागदां एकठांय जोडपाखातीर उपकरायतात तो तोंक आशिल्लो अत्यंत बारीक असो लोखणाचो कांटो; टांचणी; पीन. (मॅगीक कितें करचें कांयच कळना. मागीर तें जोत्याक लायिल्ली आल्फिनेत काडटा आनी ती सायेक लायता. – मॅगी, बरो : शीला नाईक, ओली सांज, पा. ८७.)

**आल्फियाद** । आल्फियाद् । सा.रू. – दा । (पुर्तु. Alfiate; अर. अलखय्यात) पु. जो दादल्यांची वा बायलांची मुस्तायकी शिंवता तो मनीस; दर्जी; शिंपी. (अंतू आल्फियाद जावन बोरये सावकारागेर रावलो. – काणी एके जिणेची : महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. ३०).

**आल्फेर** । आल्फॅर् । सा.रू. – र; भौव. – फॅर्; सा.रू. – रां । (पुर्तु. Alferes) पु. सैन्यांतलो तॅनेंतीच्या (Tenente) सकल्ल्या पांवड्याचो ऑफिसर वा अधिकारी. (सगळ्यांत व्हडलो मामा मिलितार म्हळ्यार प्रिमैर सार्जंत आसलो. आल्फेर जावपाचो आशिल्लो. – काणी एके जिणेची : महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. १८).

**आल्बुमीन** । आल्बुमीन् । सा.रू. – ना । (पुर्तु. Albumina) न. रगताच्या उदकांत आनी तांतयांच्या बोळांत धवसार आनी मात्शें खारसार आशिल्लें पांखट द्रव्य. ह्या द्रव्यांत 'कार्बन', उदकवायू, प्राणवायू, आझोत, फॉस्फरस आनी गंधक हे घटक आसतात आनी हे घटक उस्णतेन दाट जातात.

**आल्म** । आल्म् । सा.रू. – मा; भौव. – मां; सा.रू. – मां । (पुर्तु. Alma) न. १. आत्मो; अत्मो. २. जीवन; प्राण; चैतन्य. ३. (ला.) धीर; धाडस. (ताका कसलेंच साहस करपाचें आल्म ना.)

**आल्मांचो दीस** : हिन्दूंत भाद्रपद म्हयन्याच्या कृष्णपक्षांत पितरां खातीर म्हाळ वाडटात. क्रिस्तांव धर्मांतय आल्मांचो दीस आसा. ज्या आल्मांच्या पापांक भोक्सणें मेळूंकना, तीं आल्मां 'पुर्गातोरींत' मुक्तिची वाट पळेत यातना भोगीत आसतात. अशा आल्मांखातीर, दर वर्सा नोव्हेंब्र म्हयन्याचे दोन तारकेक इगर्जेचे आनी कपेलांचे पाद्री तीन तीन मिसां सांगतात. कांय जाण आपल्या घराकडेनय मीस करतात वा सिमितेरींत वचून जंय आपल्या घरच्यांक पुरल्यात थंय तांचेखातीर प्रार्थना म्हणटात. नोव्हेंब्राची पयली तारीख हो सगळ्या संतांचो दीस आसता.

**आल्मार** । आल्मार् । सा.रू. –री । (पुर्तु. Armario) स्त्री. पळेयात, 'आरमार', 'आर्मार'.

**आल्मास** । आल्मास् । (पुर्तु. Almaso) वि. पुर्तुगेज काळांत गोंयांत मेळपी, चित्रकलेक उपकरा पडपी एक दाट आनी वॉटरमार्क आशिल्लो कागद. (सतत पांच दीस ताणें म्हाका ताजेमुखार एकेच वटेन पळेत बसूंक लायलो. म्हजें चित्र बोर्डावयल्या आल्मास फोलीचेर आकार घेवंक लागलें. – एक जाण्टो आनी नेण्टो : दत्ता नायक, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा ; संपा. अ.ना. म्हांबरो, पा. ११५).

**विशेश** : आल्मास धव्या आनी निळ्या रंगाचो आसतालो. धवो चित्रकलेखातीर उपकरायताले. आनी निळो म्हत्वाच्या सरकारी कागदपत्रांखातीर उपकरायताले. हो कागद दाट आसतालो. ताका लागून शंबर वर्सांपर्यंत लेगीत तो जशाक तसो उरतालो. गोंयांत पुर्तुगेज काळावेलीं सगळीं म्हत्वाचीं कागदपत्रां आल्मास फोलीचेर बरयल्लीं मेळटात. ताका लागून तीं आजूनमेरेन तिगून आसात. पुराभिलेखसंग्रहालयांत तीं पळोवंक मेळटात.

**आल्मूस** । आल्मूस । सा.रू. –सा । (पुर्तु. almoco) पु. सकाळीं उठ्ठकीर, तोंडबीन धुवन च्या घेतना खातात तें खाण; नाश्तो; न्याहारी.

**आल्मेत** । आल्मेत् । सा.रू. –ता । (पुर्तु. Agua Benta) न. आगबेंत; आगमेंत; पवित्र उदक; तीर्थ.

**आल्लय** । आल्लय् । सा.रू. –ये; भौव. –यो; सा.रू. –यां । (कों. आल्लय) स्त्री. ल्हान भुरग्यांक पाळण्यांत घालून न्हिदयतना, झोंपयो काडी काडीत दर एक आवय गायता तें गीत; पाळण्याचें गीत.

**विशेश** : भुरगीं किरकिरूंक लागतकीर वा न्हिदेक येतकीर, आदीम काळापासून कोंकणी आवयो तांकां आपल्या खांदार घालून थापटीत आसतना वा पाळण्यांत घालून झोंपयो दितना 'आऽ लई बाबा जोयी' अशीं उतरां सुरार म्हणत तांकां न्हिदयतात. ह्या उतरांक एक मायेचो उमाळो आसता. हो उमाळो माणकुल्यांक जाणवता आनी तीं सुश्रांत आपल्या आवयांच्या खांदार वा पाळण्यांत न्हिदतात.

'आऽ लई' ह्या उतरांक तसो अर्थ नासता. तांच्या फाटलो उमाळो ताका अर्थ दिता. गायता गायतांच 'आऽ लई' चें 'आल्लय' जाता. भुरग्यांक न्हिदयतासतना म्हणपाचें पाळण्याचें गीत हो अर्थ ताका आपाप प्राप्त जाता. भाशेंतलीं उतरां घडपाची प्रक्रिया एकएकदां इतली साधी आसता. भास मनशाचे जिबेर वाडटा आनी ध्वनींफाटल्यान एक मायेचो उमाळो आसता. त्या उमाळ्याफाटल्यान आशिल्ल्या हेतूक लागून ताका अर्थ मेळटा. 'आल्लय' हें उतर अशे तरेन कोंकणींत घडून आयलां. आवयांच्या ओंठांतल्यान तें आपाप घडलां. माणकुल्यांच्या स्वप्न-सृस्टींतले माणकां-मोतयांचे झेले फुलून पर्मळपाक त्यो गायतात.

जय, जय, जय
जय करीन सये
आनी गीतांविणें
पाळणें बांदूं नये
जय, जय, जय
जय करीन

आनी संवय करीन
ताका पाळण्याची

जय, जय, जय
जय करीन
आनी बाब म्हणया
तें हय करीन

जय, जय, जांब्या
फुलां फुल्लीं आंब्या
आनी रतन खांब्या
ताका पाळणें बांदूं

जय, जय, जांब्या
भार जालो आंब्या
पाळणें बांदलें खांब्या
चंदनाच्या.

हें गीत D. Propercia Correia Afonso de Figueredo हिच्या O Oriente Portugues, nO २८ तारीक १७-७-१९४०, हातुंतल्या लेखांतल्यान घेतलां.

के. आपटे हांणी तीन खंडांत केल्ल्या संस्कृत-इंग्लेज कोशांत, 'आल्ल' अशें एक उतर मेळटा. हें उतर संस्कृत भाशेंतलें दिसना. थंय 'आल्ल' ह्या उतराचो अर्थ 'आवय' असो दिला. ह्या 'आल्ल' उतरावेल्यान 'आल्लय' हें उतर घडूं येता.

**आल्विस** । आल्विस् । सा.रू. –सा । (पुर्तु. Alvissaras, अर. आलबिशार) न. आनंदाची खबर सांगतकीर दितात तें बक्षीस वा तस्त्रिप. (नातू जाला म्हणपाची खबर वैजिणीन पैलीवैलीच शणैच्या कानार घालून आल्विस मागलें तेन्ना तो कितलोसो भुरकुटलो आनी मुरगुटलो खैं. – गोमन्तोपनिषत्, खंड १लें, बरो : शणै गोंयबाब, पा.१).

**आल्वीस** । आल्वीस । सा.रू. –सा । (पुर्तु. Alvissaras, अर. आलविशार) न. तस्त्रिप; बक्षीस, इनाम.

**आल्हाद** । आल्हाद् । सा.रू. –दा । (सं. आल्हाद) पु. आनंद.

**आव** । आव् । सा.रू. –वा । (फा. आब = थाट; रुबाब) पु. डौल; भपको; देखावो. (घरांत काडटा दळिद्र, जाल्यारूय भायर भोंवतना तो राजाचो आव हाडटा.)

**वा.प्र.: आव हाडप** : एकाद्री गजाल आपल्याकडेन नासतना, ती आसा अशें भासोवप.

**आवक** । आवक् । सा.रू. –क । (सं. आ + इ = येवप) स्त्री. १. उत्पन्न; प्राप्ती. २. येवपाची जाल्ली सुरवात. (बाजारांत आंब्यांची आवक जावंक लागली.)

**आवट** । आव्ट् । (इं. Out) क्रि.वि. पयस; भायर.

**वा.प्र.: १. आवट जावप** : १. खंयच्याय खेळांतल्या नेमाप्रमाणें बाद जावप. २. तकलेन धील जावप; तोल सुटप. ३. प्रसिद्ध जावप; छापून उजवाडाक येवप (आयच्या पेपरांत रिझल्ट आवट जाला.)

**२. तकली आवट जावप** : आकांताची तिडक मारप (ताचीं तीं उतरां आयकून म्हजी तकली आवट जाली.)

**आवटेपण** । आवटॅपण् । सा.रू. –णा; भौव. –णां; सा.रू. –णां ('आवटो' वेल्यान) न. पिशेपण. (दुसऱ्या घरांक म्हण्टकीर बायलमनशेन रेस्पेदान रावंक जाय. हांगा म्हणून चलतालें. असलीं आवटेपणां दुसऱ्यांगेर चलतात? – अंत एके जिणेचो : एन् शिवदास, गळसरी, पा.७३).

**आवटो-टी-टें** । आवटॉ-टी-टँ । सा.रू. –ट्या-टे-ट्या; भौव. –टे-ट्या-ट्यो । सा.रू. –ट्यां (इं. Out वेल्यान) वि. जो तकलेन धील जाता तो; जाचे तकलेचो स्क्रू मातसो सदळ जाला तो; जाची तकली कामांतली गेल्या तो वा जाचे बुद्धिचो तोल सुटला

तो; पिसो (दुसऱ्या एका आवटचा शिपायकान आपल्या हातांतलो बॅटरेदिवो पेटोवन जंगलांत पयस मेरेन वांटकुळो गोल गोल फिरयलो. – रुमडाफूल: महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा.२४.)

**आवड** । आवड् । सा.रू. –डी । भौव. –डी; सा.रू. –डीं (सं. आ + वृ) स्त्री. १.रूच; गोडी (ताका पोसाची खूब आवड.) २.माया; मोग; प्रेम; अपुर्बाय. (ताका भुरग्यांची खूब आवड.) ३.आनंद; संतोश. (तो कसलेंय काम आवडीन करतालो.) ४. इत्सा; पसंती.

**आवड-नावड** । आवड्-नावड् । सा.रू. –आवडी-नावडी । (कों. आवड + नावड) स्त्री. पसंती-नापसंती; इत्सा-अनित्सा.

**आवड-निवड** । आवड्-निवड् । सा.रू. –आवडी-निवडी; भौव. –डी-डी; सा.रू. –डी-डी (कों. आवड + निवड) स्त्री. वेंचिक पसंती (ताची आवड-निवड बरी!).

**आवडटो-डटी-डटें** । आवड्टॉ-ड्टी-ड्टँ । सा.रू. –ड्ट्या-ड्ट्ये-ड्ट्या । ('आवड' वेल्यान) वि. १.लाडको; मोगाचो; प्रितीचो; जिवाचो (आवडटी बायल). २.सुखदेणो; हिताक दक्ष असो; आपवतो (आवडटो राजा). ३.पसंतीचो, जाय आशिल्लो, प्रिय (आवडटो विशय). ४.रुचीचो (आवडटो पदार्थ).

**आवडप** । आव्डप् । सा.रू. –पा । (सं. आ + वृ) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू 'आवड्' (सक.) १.मानप; पसंत आसप. २.रुचप.

**आवडिचो-ची-चें** । आवडिचॉ-ची-चँ । सा.रू. –च्या, च्ये, च्या । ('आवड' वेल्यान) वि. आवड्टॉ-ड्टी-ड्टें.

**आवण** । आवण् । सा.रू. –णा । (सं. आ + वप्) न. लांबचे लांब शेताचे एक कुणगेंत, शेतांत रोवपाखातीर किल्लावन काडिल्लो तरवो; आयण.

**आवत** । आवत् । सा.रू. –ता । भौव. –तां; सा.रू. –तां । (सं. आयुध) न. अवजार; आयुध (ठवयाचीं आवतां); कारागिराचें आयदन.

**आवतिकाय** । आवतिकाय् । सा.रू. –ये । (सं. अवगतिका) स्त्री. वायट अवस्था, स्थिती, गत, दशा. (म्हजीय आवतिकाय बद्द तुजेच भाशेन जाल्या गेऽ बाये. तुका तुज्या रंगा वासाखातीर किरमितात. हांव म्हज्या बऱ्या गुणांखातीर उपासांनी तळमळटां. – गोमन्तोपनिषत्, २रें खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १४७.)

**आवतिकायेचो-ची-चें** । आवतिकायेचॉ- ची-चँ । सा.रू. –च्या-च्ये -च्या । ('आवतिकाय' वेल्यान) वि. जातीचो; दशेचो. (परंत महासप्तमांतले लोक पडले वानरांचे आवतिकायेचे. – कोंकणी भाशेचें जैत, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १४).

**आवती** । आव्ती । सा.रू. –ते । भौव. –त्यो; सा.रू. –त्यां (सं. आहुती) स्त्री. १.यज्ञांत अर्पण करचेलीं द्रव्यां; आहुती. २. (ला.) शेंस्टी; गोमटी.
**वा.प्र.: आवती मारप**: शेंस्टी धोडावप; गोमटी मारप. (तुमी जर अशी फिरूंक वचून तुमचेविशीं म्हज्या कानार कसलें वांकडें उतर येत, जाल्यार एकेकाची आवती मारता. – म्हज्या संवकळीची गिरेस्त कोंकणी – शीला कोळंबकार, कोंकण टायम्स, दिवाळी ८८ पा. १६.)

**आवय** । आवय् । सा.रू. –य । भौव. –वयो; सा.रू. –यां । (सं. अंबार्या - अव्वाय्या - अव्वैय - आवय - आवै – हें निरुक्त शणै गोंयबाबांनी दाखयलां. ता. अव्वये का. अव्वा, अव्वे; ते. अव्वा; दे. अव्वा; मुंडारी आयो) स्त्री. १.भुरग्याक वा भुरग्यांक जन्म दिता ती बायल, वा आपल्या भुरग्याकडेन

आवयपणाच्या नात्यान जोडिल्ली आसता ती बायल; आवसू; आवा; आवय; आवो; बा. (आवय दारांतच आसली. तिणें म्हटलें, "काय सांगूं नज ह्या पावसाचें. घातकी तो." – दूख : महाबळेश्वर सैल, जाग दिवाळी १९९६, पा.२७). २. जनावरांची, सवण्यांची वा हेर प्राण्यांची मादी. ३. जिका संवसाराचें आदिकरण मानल्या ती, संवसाराक पोसणी अन्नपूर्णा. ४. दुबळ्या-दाट्यांक आवैची माया दिता ती बायल (गरिबांची आवय). ५. जिका मायेन आनी भौमानान लोक 'आई' म्हणून उलो मारतात, अशी जाण्टी बायल. ६.(ला.) कारण (बेकारपण ही सगळ्या अवगुणांची आवय!)

**वा.प्र.: १. आवय-बापायचो उद्धार करप:** आवयवेल्यान वा आवय-बापायवेल्यान गाळी संवप.

**२. मेल्ले आवयचें दूद पियेल्लो:** सामको अबर्गत; भित्रो; भिजूड.

**३. आवय-बापायच्या बारशाक जेविल्लो:** आवय-बापायपरस आपणाक शाणो समजता तो.

**म्हणी :**

१. गाय आनी आवय सारकी.
२. आवय पळोवन धूव व्हर, दूद पळोवन म्हस व्हर.
३. म्हशीचीं शिंगां म्हशीक जडां न्हय, आवयचें भुरगें आवयक वायट न्हय.
४. चोराची आवय हड्ड्यांत रडटा.
५. आवयपरस मावशी मोगाळ. कोणाक सांगूं पोटाचे जाळ?
६. आवय-बापायचें आशिर्वचन, भुरग्याचे जिणे करता समाधान.
७. आवय-बापाय खाला रावशी, संकस्टांविणें बऱ्याक पावशी.
८. आवय-बापायक दुखख दिशी, वळवळ्यांत सांपडशी.
९. आवय-बापायक वळवळायता, तो आपलो फुडार भंगयता.
१० आवय-बापायचो श्राप भोव खराब.
११. आवयचें दूक गळयशी, दळिद्राक सांपडशी.
१२. आवयचो मोग विसरत, तो सगळ्या कामांतलो निसरत.
१३. आवयच्या पान्यांचो उगडास, सदांकाळ सांबाळ तुज्या पदराक.
१४. आवय मोगाची, बापूय आशेचो, भयण तंवरें, भाव तिखें.
१५. आवयचे बडीन धूव मडकी फोडी, बापायचे बडीन् पूत नांगर घडी.
१६. आवय मरतकीर कळटा, मीठ सोंपतकीर कळटा.
१७. आवय-बापायगेर बारा जोतां आनी हांव भीक मागून खातां.
१८. पुतांची आवय भीक मागून मेल्या, धुवांची आवय उवांनी खावन मेल्या.
१९. आवयन दिल्लें उरलें, बापायन दिल्लें सरलें.
२०. आवयन दिल्लें थोडें, बापायन दिल्लें गोडें.
२१. आवय मरता धुवेपासून आनी धूव मरता घोवापासून.
२२. आवय नाशिल्लें भुरगें, पावस नाशिल्लें बेळें.
२३. आवयचें मन कातली, भुरग्याचें मन कट्टी.
२४. आवयक एकच पूत, केंळब्याक एकच घडाय.
२५. आवय तेरीत भुरगो, सुणें तेरीत शेंपडी.
२६. धा जाणांची आवय, वाटेर पडून मेली.
२७. आवय-बापूय मरूं, शेजारी सामारी उरूं.
२८. आवय मेल्ल्या वर्सा भूक चड; बापूय मेल्ल्या वर्सा वत चड.
२९. चेडवाच्या निबान आवय जेवी दुदान.
३०. पूत म्हणत आवय, सून म्हणत मांय.
३१. शेजाऱ्न भुरगीं पोसतलीं जाल्यार, आवय कित्याक जाय आसली?
३२. मन जाणा पाप, आवय जाणा लेकरांचो बाप.

३३. आवय जाणा भुरग्याचो बाप आनी देव जाणा पाप.
३४. चौगांचे आवयक कोण रडना.
३५. धा भुरग्यांची आवय ती कोणाचीच आवय न्हय.
३६. आवय मेले उपरांत बापूय मावसो.
३७. आवय सोंसता, बापूय पोसता.
३८. आवय वाडिना,-बापूय भीक मागूंक दिना.
३९. आवय पड घाल म्हळ्यार कोणय घालता, रांडे पड घाल म्हळ्यार कोण घालिना.
४०. होंकलेक कोण वारवाणतलो, होंकलेची आवय न्हय जाल्यार?
४१. आवय पळेता पोट, बायल पळेता फाट.
४२. आवयक नाका लेंकरूं, आजेक कित्याक जाय नातरूं?
४३. आवय-बापूय मारतलो, पूण लागीं काडटलो.
४४. आवय पळेता पोट, बायल पळेता मॉर्त. (ही म्हण चड करून सुनांच्यो मांयो उपकरायतात.)
४५. आवय-बापूय जल्म दिता, गुरू मोक्षा वाट दाखयता.
४६. आवय-बापूय सोडूं येत, पूण शेजारी-सामारी सोडूं येत?
४७. आवय मरत धुवेपासत, धूव मरता गांवच्या मिंडापसत.
४८. आवय-बापूय करतात पाप, भुरगीं दितात जाप.
४९. आवय नाशिल्ली धूव पारपोळ, बापूय नाशिल्लो पूत पारपोळ.
५०. आवयचें पोट कुंभाराचो आवो, कोण काळो कोण गोरो.

**आवय गे** । आवय गे / आवै गे । ('आवय' वेल्यान) उमाळ्या उतर; दुख्ख, त्रास, पिडा भोगतना तोंडांतल्यान येता तो दुख्खाचो उद्‌गार.

**आवय-घातकी** । आवय-घातकी / आवै-घातकी, सा.रू. –क्या । (कों. आवय + घातकी) वि. जो आवयचो घात करता तो. (असल्या अपेशी आनी आवय-घातक्या लोकांची पर्वा आमगेली भुंय निखालस करिना. – कोंकणी भाशेचें जैत. बरो : शणै गोंयबाब, पा.४०).

**आवयपण** । आवय्‌पण् । सा.रू. –णा । (कों. 'आवय') वेल्यान न. १. आवय आसपाची स्थिती वा अवस्था. २. आवयच्या काळजांत भुरग्यांविशीं आसता तो मायेचो उमाळो. (असली कसली बायल? घराकडेन दुदाचें भुरगें आसा. आवयपण कितें आसा काय ना? – पाज्ज, बरो : पुंडलीक नायक, मुठय, पा.१३.)

**आवय-भास** । आवय-भास / आवै-भास । सा.रू. –शे; भौव. –सो; सा.रू. –सां । (कों. आवय + सं. भाषा) स्त्री. भुरगें पयलेंवयलेंच जेन्ना उलोवंक लागता, त्या वेळार ताका आपले आवयकडल्यान, बापायकडल्यान, शेजारच्या दायजांकडल्यान, लागशिल्ल्या नात्यांच्या मनशांकडल्यान, जाण्टेल्यांचें दायज कशी मेळटा ती भास; भुरगेपणांत आनी उपरांत, आपल्या लागशिल्ल्या संवगड्यांकडेन, मनीस आपले उमाळे आनी भावना जे भाशेन उकत्यो करता ती भास; दुदभास.
**विशेश** : भुरगेपणांत भुरगीं आपले आवयचे हाण्डीर बसून आपल्यो पयल्योवयल्यो इत्सा आनी हुस्के ज्या उतरांनी कळयतात, तीं उतरां तांचे आवय-भाशेंतच आसतात. भुरग्यांचें आत्मपण आपले आवय-भाशेंतल्यानच घडटा आनी आपले भोंवतणच्या संवसाराची वळख तें आपले आवय-भाशेंतल्यानच घेता. ज्या कुटुंबांत तें जन्माक आयलां, त्या कुटुंबांतल्या मनशांकडचे आपल्या नात्यापात्याचे संबंध तें भुरगें आपले आवय-भाशेंतल्यानच समजून घेता. आपल्या भोंवतणच्या फुलां-झाडांचीं नांवां, भोंवतणीं उडटात त्या सवण्यांचीं नांवां, जनावरांचीं

नांवां, भुरगें ल्हवू ल्हवू करून आपले आवय-भाशेंतल्यानच शिकून घेता. जाण्टेल्यांनी सांगिल्ल्या काणयांतल्यान ताका पुराणकथा कळटात. म्हणींतल्यान आनी उमाण्यांतल्यान, खेळांतल्यान तांकां आपले भाशेची आनीक जाण मेळटा.

भास ही आमगेल्या शिलाचें रूपलक्षण आंखता आनी आमगेल्या आत्मपणाचे बुन्यादिचे चिरे जोडटा. जणएकल्याक भूंय आनी समाज हांच्या जिंत्रूप चित्रा भाशेन, तीच आमगेल्या मेंदवांत आमचें आत्मिक चित्र चितारता. हे तरेन, जिणें आमकां आपले म्हुर्तीभाशेन आनी सारकायेन घडयले, ती भास कितलीय दुबळी आसल्यार पसून, आमगेले विचार उकते करून दाखोवपाच्या कामांत सदांच चड गिरेस्त आसता. हेच भाशेंत आमगेल्या आत्म्याचेर चड फळादीक आनी सासणाचे तगपी छाप उदेल्ले आसतात. ही भास जेन्ना आमच्या आज्या-पणज्यांची आसता, तेन्ना ती अजापांचे रितीन चड फळादीक जाता. किद्याक म्हळ्यार, आमच्या आंगांत आमकां कळनासतना आशिल्ल्या पुर्विल्ल्यांच्या भांडारांत, जीं चमत्कारांचीं बळगीं सांठावल्यांत, तीं जागोवची तांक तिका एकलेकच आसता.

पे रिव्हे हो ग्रंथकार म्हणटा : "भास म्हळ्यार जे संस्कृतायेच्या लोकांनी तिका घडयली तांचो तो एक चमत्कारांचो हारसो आसता." पुआयिये हो ग्रंथकार नेट दिवन सांगता, "भाशेन जण एकलो मनीस, मनीसजातीच्या चिंतनांची रासवळी पांयजेलां ल्हवूल्हवू आपलींशीं करता. उलोवंचे भाशेपेल्यान पावंक नाशिल्लो साप्प अजाण मनीस लेगीत, ह्याच कारणान, मनीसजातीच्यो चालीरिती आनी ओडी-रुची हांच्या ज्ञानाची व्हडली गांठ जोडटा. तागेल्या चाली-रितींक आनी ओडी-रुचींक जरी घसघशीत बरें रूप आयिल्लें नासलें, तरीय तागेल्या उलोवपाचे तरेंत, उतरांच्या भांडारांत आनी खासा वाक्यांचे घडणेच्या नेमांतूय तें ज्ञान भरिल्लें दिसता.

परक्यांली भास आमगेल्या पुर्विल्ल्यांच्या भांडारांतलें मोल मातय ध्यानांत घेना; आमगेल्या जणएकल्याचें म्हत्वूय ती वळखना. देखून, परक्यांची भास ही आमच्या मुळाव्या शिक्षणाची बुन्याद जावंक पावना आनी आमचें आत्मपणय ती घडयना. हाका लागून आमच्या 'हांवकारांत' आमगेल्या आज्या पणज्यांच्या दायजांत जें कितें चड नाजूक आनी चड शुद्ध आसता, तेंच ना जाता. आमी दुसरे भाशेंतल्यान शिकल्यार, ते भाशेच्यान आमकां शिकोवन आमगेली बुद्ध कांय काळापुरती आनी थळापुरती फांकारूं येता. परंत भुरग्याचें आत्मिक आनी सामाजिक मन घडोवपाची तांक तिका नासता. हें काम फकत भुंयेचे लोकांचे भाशेकच तांकता. देखून, सगळ्या संवसारांतले लोक तिका आवय-भास म्हणटात.

आवय-भाशेंतल्यान शिकयनासतना भुरग्यांक दुसरे परके भाशेंतल्यान शिकोवप म्हळ्यार तांची बुद्द मुणेवप. तांचे बुद्धीची धार उणी करप. देखून, आयचे समाजशास्त्री आनी शिक्षणशास्त्री भुरग्यांक मुळावें शिक्षण आवयभाशेंतल्यानच मेळूंक जाय म्हणपाचो आग्रो धरतात. कांय भोवभाशी राष्ट्रांत ल्हान भासो आशिल्ले वांशिक गट आसात, तांकां त्या राष्ट्राचे मुख्य भाशेंतल्यान शिकयल्यार, ह्या वांशिक गटांच्यो ल्हान भासो नस्ट जावंक पावतात. तुर्ताक आदिवासींच्यो सुमार सत्तरेकय भासो नस्ट जाल्यात.

आपले आवय-भाशेंतल्यान शिक्षण घेवप ही प्रत्येक भुरग्याची गरजच न्हय, तर ताचो तो हक्क. मुळावें शिक्षण हें भुरग्याचे आवय-भाशेंतल्यानच जावंक जाय आनी उपरांत दुसरे भाशेचें ज्ञानपसून ताका ताचे आवय-भाशेंतल्यानच दिवंक जाय. तशें जाल्यार तें भुरगें दुसरे भाशेंतय तितलेंच पारंगत जावन, शिक्षणाचे सर्तींत कशेंच फाटीं पडना म्हणपाचो प्रत्यय जायत्या शिक्षणशास्त्र्यांक आयला.

आवयभाशेंतल्यान शिक्षण घेतल्यार भुरग्यांक कितलेशेच आदाव जातात :

१. राष्ट्राचे व्हडविकेक वावुरपाखातीर चड जाणांक सारकीच संद मेळटा.
२. चड लोक शिकूंक पावतात आनी शिक्षणाचो प्रसार जाल्ल्यान तांचें आत्मपण आकाराक येता.
३. ज्ञान हें अवघ्याच लोकांची खोती जावंक पावनासतना, तें समाजांतल्या चडांत चड लोकांमेरेन पावता. ताका लागून तांच्यांत विज्ञानाची आवड निर्माण जाता, ते तंत्रज्ञानाची बुन्याद घालूंक पावतात.
४. सरकारान माहितीचें केंद्रीकरण केल्लें आसल्यार पसून, ताका माहितीच्या प्रसाराचें विकेंद्रीकरण करचेंच पडटा; आनी
५. राजकर्णी मळारपसून चडांत चड लोक वावरूंक पाविल्ल्यान, लोकशायेची बुन्याद चड घट्ट जाता आनी लोकशायी तगोवन धरपाक, लोक पूर्ण जागृत रावता.

फक्त संपत्तीचे वाढीन राष्ट्राचें मेजमाप जायना. लोकशिक्षणांतल्यान सरकारान वेगवेगळ्या समाजांतल्या लोकांची उदर्गत कशी केल्या, हाका चड मोल आसा. देखून, गांधी म्हात्म्यान म्हळां, "राष्ट्राची सेवा करपी लोकांनी लोकांच्या मनांत आपणाले आवय-भाशेचो मोग रुजोवचो. हिन्दुस्थानांतल्या सगळ्या भासांचो तांकां आदर आसचो. तांगेली खाशेली आवय-भास कसलीय जाल्यार, ते जंय जंय वेतीत, थंय थंयच्या लोकांची आवयभास तांणी शिकून तांगेलो आवय-भाशेचो आदर तांणी चडोवंचो."

निरक्षरी लोकांक अक्षरी करपाक आवय-भाशेसारको हेर उपाय ना. राष्ट्रांतल्या सगळ्या लोकांक शिक्षण मेळून, तांकां बरोवंक, वाचूंक आनी हिशोब करूंक येतकीर, तेच परी शिक्षणांतल्यान तांच्या मनांत राष्ट्राचे व्हडविकेची भावना रुजयल्यारूच, तें राष्ट्र दोळे आशिल्लें राष्ट्र जाता. ताचें शेत-कामत आनी वेपार-उद्योग तरतरूंक लागता. लोकांक तांगेले आवय-भाशेंतल्यान शिकयल्यारच, तांकां ते भाशेन समज बेगीन पडटा. ते बेगीन बरपाक्षरी जातात. तांचे मुखार ज्ञानाचीं दारां बेगीन उकतीं जातात.

**आधारावळ**: १. जीण, जिणेच्यो देखी, बरो: भौ. बाय प्रॉपॅर्सिय कुर्रैय आफोंद द् फिगरेदु हांणी शणै गोंयबाबांनी बरयल्ल्या 'आबे फारीय' ह्या सुपुल्ल्या चरित्राक मूळ पुर्तुगेज भाशेंत बरयल्ले प्रस्तावनेचें कोंकणी भाशांतर.
२. Educational use of the Mother Tongue, by D.P. Pattanayak.
३. येवकार अध्यक्षालें उलोवप, बरो: शणै गोंयबाब, पा.५५-५७.

**आवय-भूंय** । आ॑वय-भूंय / आवै-भूंय । सा.रू. –ये । (कों. आवय + सं. भूमी) स्त्री. १. ज्या देशांत आमच्यांतलो दरएक जाण जन्माक आयला आनी ज्या देशाचे आमी नागरीक आसात तो देश वा राष्ट्र. (भारत ही आमची आवय-भूंय.) २. ज्या प्रांतांत, शहरांत वा गांवांत आमच्यांतलो दरएक जाण जन्माक आयला, तो गांव, शहर वा प्रांत.

**आवयस्** । आ॑वयस् / आवैस् । ('आवय' वेल्यान) उमाळ्या उतर. जिवाक सोंसूंक जायना अशो दुखीच्यो कळा मारतना तोंडांतल्यान येता तो सभावीक उद्गार. (सगळ्यांबरोबर ताणेंय चित्रावळ घेतली आनी शीत कालोवंक लागलो. शीत कालयतां कालयतां 'आवयस्' म्हणून ताणें व्हडली किळांच माल्ली. – निंदपी, बरो: दत्ताराम सुखठणकार, मात्री पुनव, पा.२५.)

**आवयझंवणो** । आ॑वयझंव्णॉ / आवैझंवणॉ । सा.रू. –ण्या; भौव. –णे (णॅ); सा.रू. –ण्यां । (कों). पु. तिडकीभरशीं अपमान जायसारकी आवयवेल्यान संविल्ली एक पोजडी गाळ.
**वि.**: आवयकडेन रत जावपी, आवयकडेन संभोग करपी, मात्रागमनी.
**विशेश**: समाजशास्त्राचे नदरेन गाळींफाटल्यान (त्यो

मागीर पोजड्यो जावं) मनशाच्या आचार-विचारांचो इतिहास लिपिल्लो आसा. मनशान आपल्या हजारांनी वर्सांच्या वाटचालींतल्यान संस्कृताय निर्माण केल्या. आज तो संस्कारी आसा. हो संस्कारी मनीस आवय आनी पूत, बापूय आनी धूव, भाव आनी भयण हीं नातीं पवित्र मानता. जाल्यारूय, मनशाचे मुळावे अवस्तेंत नातींच निर्माण जावंक नासलीं.

मनीस हें एक जनावर. मनशाचे मुळावे अवस्तेंत ताचे आचार आनी करण्यो जनावरांवरीच आशिल्ल्यो. कांय काळान दादलो आनी बायल हो भेद मनशांक जाणवलो. ते उपरांत जन्म दिवपी आनी जन्माक येवपी हो भेद तांकां कळ्ळो. ज्यो बायलो भुरग्यांक जन्म दिताल्यो तांकां ते 'जनी' म्हणटाले. जी पुल्लिंगी प्रजा जन्माक येताली ते 'जन' म्हणटाले. सगळ्योच 'जनी' जनांच्यो बायलो आसल्यो आनी सगळे 'जन' तांचे घोव आसले.

ब्रह्मदेवाच्या काळामेरेन आर्य समाजाक नात्यांची जाण येवंक नासली. ब्रह्मदेव खासा आपले वयांत आयिल्ले नाती म्हऱ्यांत न्हिदतालो. ह्या संबंधांतल्यान नारदाचो जन्म जाला.

ब्रह्मदेवाच्या काळाउपरांत आर्यसमाजाक नात्यांची जाण आयली. जाल्यारूय, त्या काळांत आर्यांतले कांय जाण मात्रागमनी आशिल्ले जावंक जाय. ''पूत आवयांकडेन रत जातात हें दुश्चित्र'' अशें भीष्मान म्हळां. महाभारताच्या कर्णपर्वाच्या अध्यायांत (४०-४६) कर्ण आनी शल्य एकामेकांचीं वर्मां कर्मां वयर काडटात. कर्ण शल्याक म्हणटा : ''शल्या, तुज्या मद्र देशांत बापूय, आवय, पूत, मांय, मांव, मामा, जांवय, धूव, भाव, भयण, नातू हे एकामेकांकडेन मेकळो लैंगिक वेव्हार करतात. कसलोच धरबंध ते धरिनात. तुज्या देशांतल्यो बायलो खंयच्याय दादल्याक (तो तांचे वळखीचो आसूं वा नासूं) वेंग मारीत ताचेकडेन जुंवळटात. बायलो नाकाशिल्लीं गाणीं गायतात. तुगेल्या मद्रदेशाक लागून, गांधार देशांतल्या बायलांचोय आचार इबाडला. मद्र देशांतल्यो बायलो सोरो पियेतात आनी न्हेसणां सोडून नागड्यो नाचतात. शल्या, तुज्या देशांतल्यो आंकवारी निर्लज्ज आनी आचारभ्रस्ट आसात. अशे अधोगतीक पाविल्ल्या समाजांत मात्रागमनी आसल्यार अजाप न्हय.''

आवयवेल्यान संवतात ती गाळ दानाच्या फातरपट्यांनीय उपकरायिल्ली मेळटा. पयलींचे कांय राजा वा तांचे पडहात देवळांक दानां दिताले. पाशाणार कोंरांतलेल्या फातरपट्यांत दानाचो पूर्ण तपशील घाल्लो आसता. जे खातीर हें दान दिलें, ते खातीरच ताचो विनियोग जावंचो, अशी दान दितल्याची इत्सा वा अपेक्षा आसता. हे अपेक्षेचो भंग करतल्याक, 'तेयाची माय गाढवें झंविजे' अशी सणसणीत गाळ थंय घाल्ली मेळटा. इतलेंच न्हय, तर फातरपट्याचे उजवे कुशीक ताचे आवयचें आनी गाढवाचें शिल्प थंय कांतयल्लें दिसता. ह्या शिल्पांतली आवय नागडी आनी उदारी न्हिदिल्ली आसता आनी तिचेर वयर एक गाढव हो संभोगासनांत उबो आसता. आवयचें नातें हें पवित्र नातें आनी गाढव हो अवदिशेचें प्रतीक. दान दितल्याचो अपेक्षाभंग करतल्याची अप्रतिस्ठा करपाकच ही गाळ थंय कोंरातल्या आनी अवदिशेच्या प्रतिकाचो ताचे आवयकडेन संबंध जोडला. ते भायर, ताका तरेतरेची पिडा भोगतली, ताचें अकल्याण जातलें, ही शिटकावणी दिवपाकय ही गाळ थंय घाल्या आनी हें शिल्प थंय कांतयलां.

'आवशी झंवरो' अशाय रुपान ही गाळ घोळटेंत आशिल्ली मेळटा.

आधारावळ :

१. भारतीय विवाहसंस्थेचा इतिहास : लेखक : इतिहासाचार्य कै. वि.का. राजवाडे.

२. नागेशींचो फातरपटो – हो मराठींत आसा.

**आवयार** । आवयार् (पुर्तु. Aviar) क्रि.वि.

१.हातांतलें काम सोंपोवप; २.उजवप; लग्न करून दिवप. (हांव अंदू बी.एस्सी. करतां. बाबा म्हणटा, म्हाका नोकरी लागतकच शांतीक आवयार करुंया. – कथाशिल्प, बरो : लक्ष्मणराव सरदेसाय, जाग, सप्टेंबर १९७७, पा.१५):

**आवरण** । आवरण् । सा.रू. –णा; भौव. –णां; सा.रू. –णां । (सं. आवरणम्) न. धांपपाखातीर उपकरावंचेली वस्त; धांपणें; आच्छादन.

**आवरणें** । आवरणँ । सा.रू. –ण्या । (सं. आ + वृ = भरप) न. उपासाचे आदले रातीं पोट फुटसर आकंठ केल्लें जेवण वा फळार. (फाल्यां उपास करतलो म्हळ्यार आदले रातीं गळो-नळो एक जायसर पोट भरून आवरणें करचें हें म्हाका माननासलें. – गोमन्तोपनिषत् – दुसरें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा. १३३).

**आवराआवर** । आवराआवर् । सा.रू. –री । (सं. आवृ; आवर द्वि.) स्त्री. बांधाबांध; हेवटेन तेवटेन पडिल्ल्या वस्तूंचें एका जाग्यार केल्लें एकठावण.

**आवरेप** । आवरॅप । सा.रू. –पा । (?) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू; आवरे (आवरॅ) (सक) भाताच्या कणसांत दूद जातकीर, तें घट्ट जावन, दाणो पुस्ट जावप. (शेत बरें आवरेलां).

**आवरो** । आवरॉ । सा.रू. –ऱ्या (?) पु. धीर; काळीज.

**वा.प्र.: आवरो उडप** : १. धीर सुटून गात्रगळीत जावप. (बायलेचे म्हजो आवरो उडलो. ती पिशी कशीशी जाली. हांव काळजान घट. म्हज्या दोळ्यांतसून दुख केन्नाच व्हांवनासलें. परंत भितल्लेभितर हांव घुस्मटून हुडकेवंक लागलों. – गोमन्तोपनिषत् २रें खंड, बरो : शणै गोंयबाब, पा.१४३). २. भंयान काळीज कलकलप; भंयान काळीज खपखपप; भंयान कच्च करून आंग काडप; भियेवन जिवाची गुळी जावप. (तो शेकानशेक साडेपांच हात लांबायेचो वाग पळोवन भटाचो आवरो उडलो. – काणी 'बऱ्याक गेल्यार बिर्मत फुट्टा', बरो : गोम पै, नवें गोंय, ३रें वर्स, ४थो आंक, आब्रील १९३७, संपा. का.श्री. नायक, पा.११९).

**आवरो** । आव्रॉ । सा.रू. –ऱ्या; भौव. –रे (रॅ); सा.रू. –ऱ्यां । (का. आवरिके, आवरे; ता. आविराय; आवाराय) पु. Cassia auriculata हें वनस्पतीशास्त्रीक नांव आशिल्लें, दोन धापो आशिल्लें एक धान्य; पावटो. – आवरो मात्सो तोरट लागता. ताची उसळी तेच परी पातळ तोंडाकय करतात. तो वायरवर आसता.

**आवर्त** । आवर्त् । सा.रू. –र्ता । (सं. आवर्तः) न. १.चक्राकार भ्रमण. २.उदकाचो भोंवरो. ३.चक्रीवादळ; मॉड; तुफान; वावटळ. ४.उदकांतल्या भोंवऱ्याच्या आकारासारको आंगार वा माथ्यार आशिल्लो केंसांचो भोंवरो.

**आवर्तन** । आवर्तन् । सा.रू. –ना; भौव. –नां; सा.रू. –नां । (सं. आवर्तनम् ) न. १.परतून परतून येवप वा घडप; चक्राकार वा वाटकुळो भोंवप. २.भोंवाडो; फेरो; आवृत्ती. ३.कांय विशिश्ट हेतूंक लागून परतू परतून केल्ली घोळोवणी (रुद्राचीं आवर्तनां). ४.एकाद्रो विशय पूर्णतायेन समजून घेवपाखातीर ताचें केल्लें पारायण; अभ्यास.

**आवर्शण** । आवर्शण् । सा.रू. –र्णा । (सं. अवर्षणम्) न. पावस नाशिल्ल्यान पडिल्लो दुकोळ; सुको दुश्काळ.

**आवल** । आव्ल् । सा.रू. –ला; भौव. –लां; सा.रू. –लां । (पुर्तु. Aula) न. १.खंयचेय शिक्षणसंस्थेंत जंय विद्यार्थ्यांक धडो शिकयतात वा लेक्चर दितात तें साल; वर्ग. इं. Classroom. २.खंयच्याय विशयाचेर दिल्लो पाठ. इं. Lesson. ३.(ला.)

शाळा. (पुर्तुगेज आव्लांत आनी इंग्लीश स्कुलांत शिकतना लेगीत जोत्याबगर म्हजें अडलें ना. – जोतें : चंद्रकांत केणी, बिंबां-पडबिंबां, पा.२८).

**आवश्यक** । आवश्श्यक् । (सं. आवश्यक) वि. जें कशेंय चुकोवंक मेळना अशें; अटळ; अत्यंत गरजेचें वा अगत्याचें. २. जाचेविणें काम अडटा तें. (पयलीं आवश्यक वस्तू एकठांय कर. उपरांत कामाक हात घाल.)

**आवश्यकताय** । आवश्यकताय । सा.रू. – ये । (सं. आवश्यकता) स्त्री. गरज; अगत्य.

**आवस** । आवस् । सा.रू. – आवशी । (कों. 'आवय/आवै' वेल्यान) आवय; आई. (एका पुताची आवस । काडटा उपास-तापास – शबै शबै भौजनसमाज : पुंडलीक नायक, पा.६३.)

**म्हणी :** १. आवशीन केल्ली कडी पचकवणी, बायलेन केल्ली रुचकवणी.

२. भीक घाल गे आवशी, दिता त्या मापान घेशी.

**विशेश :** 'आवस' हें उतर चित्रापूर सारस्वतांत चड घोळटा. कारवारच्या नागरी भागांत 'आवय' हें उतर घोळटा आनी 'आवस' ग्रामीण भागांत घोळटा. पेडणेचे कोंकणींत, तेच परी कुडाळी कोंकणींतय हें रूप घोळटा.

**आवसु** । आवसू । सा.रू. – सू । (कों. 'आवै' वेल्यान) स्त्री. आवय; आई.

**आवळ** । (सं. आवलि/ ली = रांग, वळ हाचेवेल्यान) ता.कू. कांय नामांक लागून त्या नामांनी दाखयल्ल्या वस्तूंचो मेळो असो अर्थ उकतावपी ताळाकूस. देखीक : रूख + आवळ = रुखावळ; नखेत्र + आवळ = नखेत्रावळ; राट + आवळ = राटावळ; आधार + आवळ = आधारावळ बी.

**आवा** । आवा । सा.रू. – वा । (सं. अम्बा; देशी. अव्वा; का. अव्व, अव्वे) स्त्री. आई; आवय; आवस; आवसू; आवो; बा.

**आवाज** । आवाज् । सा.रू. – जा; भौव. – ज; सा.रू. – जां । (फा. आवाज) पु. १. ध्वनीच्या ल्हारांची कानाक जाणवता ती संवेदना, नाद. (गडगड्याच्या आवाजान कानांचे पड्डे फोडून उडयल्लेवरी जालें.) २. गळो; ताळो; सूर. (ताचो आवाज गोड आसा.) ३. (ला.) १.मत. (प्रजेचो आवाज.) २. विवेकबुद्धी (जेन्ना भोंवतणचें वातावरण खुबळटा आनी भायर-भितर काळोख दाटून येता, तेन्ना म्हगेल्या भितल्ल्या आवाजान सदांच म्हाका दिशा दाखयल्या.)

**वा.प्र.: १. आवाज काडप:** तरेतरेचे सूर काडप.

**२. आवाज चडोवप:** रागान, तिडकीन मोठ्यान उलोवप. (तूं गरजे बगर आवाज चडोवं नाका. म्हाकाय आवाज चडोवंक कळटा.)

**३. आवाज बसप:** कफ, खांकेक लागून वा मोठ्यान आड्डून आवाज धपटून उरप; आवाज भायर सुटनासो जावप.

**४. आवाज उठोवप:** विरोध करप.

**५. आवाज दिवप:** 'ओ' दिवप; उल्याक 'ओ' दिवप.

**६. आवाज लागप:** मनासारको सूर लागप.

**विशेश :** ध्वनीशास्त्राच्या मतान सूर आनी बोवाळ हीं आवाजाचीं दोन रुपां. संगिताचे सूर हे खऱ्या अर्थान आवाज आसतात. हे सूर अखंड अशी मधुर संवेदना दितात वा निर्माण करतात. बोवाळ हो नाळिच्या तंवकावरी, सुरुंगाच्या स्पोटावरी वा फातराचेर फातर आपटिल्लेवरी कानांचेर तीव्र आनी गोंधळ करपी संवेदना निर्माण करता. संगिताचे सूर स्पश्ट आनी नियमीत कंपनाक लागून घडून येतात, तर बोवाळ अनियमीत कंपनाक लागून, एकामेकांक भेदपी अशा वेगवेगळ्या ध्वनींक लागून निर्माण जाता. देखीक : नुस्त्याच्या बाजारांतलो कुलकुलाट, जात्रेंतलो बोवाळ, रेल्वे स्टेशनावेलो बोवाळ बी.

दर एक वस्त कंप पावतकीर आवाज निर्माण जाता. वाऱ्यावरीच आवाजाकय एक वेग आसा आनी तो दिका दिकांतल्यान धांवता. सुके हवेंत दर सेकंदाक ३३१.६ मिटर ह्या वेगान आवाज धांवता. उदकांत आवाजाचो वेग सेकंदाक १४३५ मिटर आसता. तिख्यांतल्यान सेकंदाक ५०० मिटर ह्या वेगान आवाज वता आनी तांब्यांतल्यान वतना आवाजाचो वेग सेकंदाक ३६०० मिटर आसता. जंय पोकळी आसता थंय आवाज नासता.

आवाजाक आडखळ मेळ्ळ्यार पडसादाच्या रुपान तो परत येता. मोठो आवाज आनी बारीक आवाज तिव्रतायेवेल्यान कळटा. लांबोडो आनी मोटवो उंचायेवेल्यान कळटा. वेगळ्या वेगळ्या वाद्यांचेर वाजयल्ल्या एकेच सुरावटीचो नाद वेगळो वेगळो जाता. देखून, तिव्रताय, उंचाय आनी नाद हीं आवाजाचीं लक्षणां मानतात.

**आवांताद** । आवान्ताद् । (पुर्तु. 'A vontade: आ व्होन्तादि) क्रि.वि. जाय तसो; आस्कळ-विस्कळ; आयसपयस. (जांव, एकदांची लिफ्ट तरी मेळ्ळी, हे भावनेनं आवांताद बसत हांवें कांतराजाचेर नदर माल्ली. – गोमांचल ते हिमाचल : दिलीप बोरकार, पा.६४.)

**आवार** । आवार् । सा.रू. –रा । (सं. आ + वृ) न. वयेंभितल्लो; दुर्गाभितल्लो वा आडच्याभितल्लो जागो.

**आवाहन** । आवाहन् । सा.रू. –ना; भौव. –नां; सा.रू. –नां । (सं. आवाहन) न. १.आमंत्रण; आपोवणें. २.जागृत केल्ली भावना.

**आवाळु** । आवाळू । सा.रू. –ळू । (का. औडू = ओठ हाचेवेल्यान ?) स्त्री. दोनूय ओंठांच्या कडेकडलो थोडोथोडोसो भाग; वाळू.

**आवांकप** । आवांकप् । सा.रू. –पा । (सं. अव + अंक्) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू : आवांक् (अक) १.तांकप (म्हाका आवांकता तेप्रमाण हांव करतां.) २.अपेक्षा करप; अदमास करप (लोक आवांकतालो ते परस ताणें उणें केलें.)

**आवांको** । आवांकॉ । सा.रू. –क्या । (सं. अव + अंक्) पु. १.तांक; बळ; सामर्थ्य; २.अदमास; ३.सारासार विवेक.

**आवांठ** । आवांठ् । सा.रू. –ठा; भौव. –ठ; सा.रू. –ठां । (सं. आवेण्टक : वणत, वंय ?) पु. भुगोलिक क्षेत्रफळ; विस्तार. (ह्या भुंयाराचो आवांठ कितलो जाणा ? बारा चौखण मैल. म्हणजे फोंड्यायेदीं बारा गांवां जायत इतलो व्हड. – आमी पळयल्लें युरोप. बरो : दिगंबर शिंगबाळ, पुनव, फेब्रु. १९७४. २.थळ; जागो; सुवात. (देशभर आशिल्ल्या वेगवेगळ्या आवांठांतल्या लोकांच्यो अडचणी सोदूंक गेल्यार, जायत्यो उक्ताडाक हाडूंक मेळत.) ३.व्याप्ती (ताचे कर्तुत्वदशेचीं आंगां जायतीं आनी तांचो आंवाठूय व्हडलो. – पुण्यात्मो राम कामती – उजवाडावप्याचीं दोन उतरां. पा. १२). ४.वाटार; जागो (घरा भोंवतणचो आवांठ कुचकुचीत कांटयेन भल्ला.) ५.घेरो. (तांबडी तोपी ही तांबड्या विलोदाची आसून लांबोडी आनी वयले वशीन अशीर आवांठाची आसता.)

**आवांठांतलो-ली-लें** । आवांठांतलॉ-ली-लँ । सा.रू. –ल्या-ले-ल्या । ('आवांठ' वेल्यान) वि. भोंवतणचो; आसपासचो. (तेभायर दाभोळ आनी ताच्या आवांठांतलो मुलुख होय गोंयांत आस्पावतालो.)

**आवियार** । आवियार् । (पुर्तु. Aviar) क्रि.वि. १.रोखड्यारोखडें काम करून दिवप; २.हातामेकळें करप; ३.उजवप; लग्न करून दिवप.

**वा.प्र.:** १. **आवियार करप** : मेकळो करप (सत्कार-

समारंभाच्या शिष्टमंडळाक पयलीं आवियार करुंया. धाड तेंकां भितर. – शबै शबै भौजनसमाज, बरो: पुंडलीक नायक, पा.४५.)

२. **आवियार करप**: उजवप; लग्न करून दिवप. (घरांतली एक चली ताणें आवियार केली.)

**आविर्भाव** । आविर्भाव् । सा.रू. –वा । (सं. आविर्भाव) पु. १. उक्तें जाल्लें स्वरूप; स्पस्ट दर्शन; २. हावभाव; मनांतल्या विकारांचें दर्शन; हातवारे. ३. आब; डौल.

**आविश्कार** । आविश्कार् । सा.रू. –रा । (सं. आविष्कार:) पु. १. प्रगटण; संवेदनेचें उक्तें केल्लें रूप. २. खंयच्याय तत्वाचें पयलें-वयलें प्राप्त जाल्लें ज्ञान; कसलेय गजालीचो वा तत्वाचो पयलो-वयलो लागिल्लो सोद; केल्ली फोडणिशी; ३. साक्षात्कार.

**आंविस** । आविस् । सा.रू. –सा । (सं. आमिष) न. जे वस्तूचो लोभ वा मोह उत्पन्न जाता ती वस्त; हांयस; लालूच; आमिश.

**आवृत्ती** । आवृत्ती । सा.रू. –ती । (सं. आवृत्ति) स्त्री. १. परतू परतून येवप वा घडप. २. भोंवाडो; फेरो. ३. कांय विशिस्ट हेतूंक लागून परतू परतून केल्ली घोळोवणी; पाठांतर; अभ्यास. ४. (तत्त्व) पुनर्जन्म; जन्मा-मर्णाचो फेरो. ५. खंयच्याय पुस्तकाचें केल्लें पुनर्मुद्रण; उजवाडायल्ल्या पुस्तकाची काडिल्ली परती खेप.

**आवेग** । आवेग् । सा.रू. –गा । (सं. आवेग:) चित्ताची एक प्रबळ वृत्ती; भावनेचो प्रबळ वा उचंबळून आयिल्लो उत्कट उमाळो.

**आवॅल** । आवॅल् । सा.रू. –ला । (कों. अवल + सं. तैल) न. तन्न्या नाल्लाची सोय मुठीन पिळून काडिल्लें तेल (तॅल); जून नाल्लाची सोय शिजयतकीर वयर येता त्या तेलाचो काडिल्लो थर; मुठॅल; मुठवॅल.

**विशेश**: 'आवॅल' दोन तरेन करतात. तन्न्या नाल्लाची सोय मात्शी वताक सुकोवन ती मुठीन पिळून आवॅल काडटात वा कांबळींत घालतात आनी ती पिळून आवॅल काडटात. दुसरी तरा म्हळ्यार, जून नाल्लाचे सोयेंत उदक घालून, सोय शिजयतात. सोय शिजतां शिजतां तेल सुट्टा आनी तेलाचो थर वयर येता. तेलाचो वयर येता तितलो थर काडटात. हो थर आवेलाचो आसता.

तन्न्या नाल्लाची सोय वताक मात्शी सुकोवन ती मुठीन पिळटात. म्हणून, आवॅलाक मुठॅल वा मुठवॅल अशेंय म्हणटात.

पेडणेंच्या 'मोरजाय' देवतेच्या देवळांतलो नंदादीप, घाण्यान काडिल्ल्या खोबरेलान वा तिळेलान पेटयनात. तो नंदादीप आवॅलान पेटयतात आनी हें आवॅल दिसपट्टें मुठीन पिळून काडचें पडटा.

'मोरजाय'चें देवूळ आसा त्या गांवांत घाण्यान तेल काडल्यार, तेलाच्या जाग्यार रगत भायर सरता, अशें सांगतात. एका ब्राह्मण देवान ३६० देंवचार थंय घाण्याक बांदिल्ले म्हणपाची एक आख्यायिका आसा. ही आख्यायिका त्या रगताकडेन लग्निक आसा. देखून त्या गांवांत कोणच घाणो लायना. लायल्यार, घाणो लायतल्याचो निर्वंश जाता खंय. त्या गांवचे किरिस्तांव पासून हो आचार कडकडीत पाळटात. (पळेयात: 'कळसाची जात्रा' – मोरजाई देवस्थानचा इतिहास, ले: रामकृष्ण नारायण केळकर, पा. ३.)

आवॅलाक कांय वखदी गूण आसात. पांय फोडल्यार वा थंडेन आंग फुटिल्लें आसल्यार, त्या जाग्यार आवॅल लायतात.

आवॅलाचें निरुक्त अशें दाखोवं येता. संस्कृत 'अवर' ह्या उतरावेल्यान कोंकणी 'अवल' हें उतर घडलां. 'अवल' म्हळ्यार तन्नो, अवल नाल्ल म्हळ्यार तन्नो नाल्ल. अरबी 'अव्वल' ह्या उतरावेल्यान 'जून' ह्या अर्थाचें 'अवल' हें उतर घडलां. अवल म्हळ्यार

पूर्ण जून, अवल नाल्ल म्हळ्यार पूर्ण जून नाल्ल.

संस्कृत 'तैल' ह्या उतराचें प्राकृत 'तेल्ल' अशें रूप घोळटा. ह्या प्राकृत 'तेल्ल'चीं फुडें 'एल/ॲल' अशीं अपभ्रश्ट रुपां घडटात. तिळ + एल = तिळेल/तिळॅल, भिरंड + एल = भिंडेल/भिंडॅल, येरंड + एल = येंडेल अशीं ताचीं सामासिक रुपां कोंकणींत उपकरायिल्लीं दिसतात. 'अवल' ह्या उतराक हेंच ताळाकूस लागून, अवल + एल = अवलेल अशें उतर घडून, ताचेंच फुडें 'आवेल' अशें रूप घडलां आसुंये.

**आवेव** । आवेव । सा.रू. –वा । (सं. अवयव:) पु. अवयव.

**आवेश** । आवेश् । सा.रू. –शा । (सं. आवेश:) पु. १. चित्ताची एक प्रेरणा; भावनेची एक प्रबळ अवस्था; २. क्षोभ; किंवाटो. (क्रोधाच्या आवेशांत मनशाच्या हातान एकाद्रेवेळा घडूं नये तें घडून वता.)

**आवै** । आवय् । सा.रू. - वै । भौव. - वयो । सा.रू. - यां । (कों. 'आवय') स्त्री. आवय, माता, बा, आवस.

**आवैपण** । आवैपण् । सा.रू. –णा । ('आवै' वेल्यान) न. १. आवय आसपाची स्थिती वा अवस्था. (पांच भुरग्यांची आवय जावन हांवें आवयपण भोगलें.) २. आवयच्या काळजांत भुरग्यांविशीं आसता तो मायेचो उमाळो. (हरिती ही यक्षीण दिसपट्टी गांवांतल्या लोकांचें एक एक भुरगें खाताली. बुद्ध भगवानान तिचें आवयपण जागयलें आनी हेमुखार भुरग्यांक मारून खावंची ना म्हणपाचें तिचेकडल्यान उतर घेतलें.)

**आवो** । आवो । सा.रू. –वो । (का. अव्व; अव्वे; सं. अंबा) स्त्री. आई; आवय.

**आवो** । आवॉ । सा.रू. –व्या । (मुंडारी : आवा; का. आवि; सं. आपाक:) पु. कुंभारालें खोर्न; भट्टी; हावो; मूस.

**म्हणी :**

१. आव्यांतली मडकी गेली, कुटुंबांतलें चेडूं गेलें.
२. एका आव्यांतलीं आयदनां; एक वता दुदाक, एक वता झळक्याक.

**आवो-वी-वें** । ता.कू. कांय नामांक लागून विशेशणां घडोवपी ताळाकूस. देखीक :

आवो – मुळावो, थळावो
आवी – मुळावी, थळावी
आवें – मुळावें, थळावें.

**आव्हे-मारी** । आव्हॅ-मारी । सा.रू. –री । (पुर्तु. Ave-Maria = नमन मारिये) स्त्री. क्रिस्तांव लोक आंकवार मारियेची म्हणटात ती दिसपट्टी प्रार्थना; आमोरी. (गुरू: आव्हॅ-मारीय कोणें केल्ली ? – दौत्रिन क्रिस्तां, बरो : पाद्री तोमस स्टिफन्स, देवनागरी लिप्यंतर : अ.का. प्रियोळकर, पा.१२.) २. तिनसांज.

**आंव** । आंव । सा.रू. –वे । (सं. आम) स्त्री. १. अपचनाक लागून आंतकडेंतल्यान पडटात तीं झरमां; २. पातळ परसाकडेन जावन तातूंतल्यान झरमां पडपाचो जाल्लो विकार.

**आंवड** । आंवड् । सा.रू. –डा । (?) पु. भूंय मेजपी (Land Survey) खात्यान, पयलींच्या काळार, कांय भाटांची, शेतांची आनी गांवांची शीम थारावपाक व्यवस्थित दाळून घाल्लो फातरांचो वांटकुळो नीस; ओंडो.

**विशेश :** एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत वतना असलो नीस मेळ्ळ्यार, एक बारीकसो फातोर वा थंय झाड आसल्यार ताचें पान, त्या निसाचेर त्या जाग्याचो एक भौमान म्हणून उडोवपाची चाल आसा.

**आंवडेप** । आंवडॅप् । सा.रू. –पा । ('आंवडो'

वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: 'आंवडे' (सक.) अत्रेगप; आशेप; तीव्र इत्सा करप.

**आंवडो** । आंवडॉ । सा.रू. –ड्या; भौव. –डे (डॅ); सा.रू. –ड्यां । (दे. आहुडं) पु. १.रुचीचें खाण पळेतकीर वा आवडीची वस्त देखतकीर तोंडांत सुट्टा तें उदक वा लाळ. (आमकां येतात आंवडे हांगा । आमच्या गोंयच्या घोटांचे. – व्हडवीक: गजानन रायकार, बनवड, पा.३५.) २.(ला) १.तोखेवप; बडवचार; तुस्त गावप; व्हडवीक गावप. (तो आपणाले खासा आवयभाशेक विट्टा आनी पिळग्यांचे भाशेक आंवडे गिळटा. – झिलबा राणो, बरो: शणै गोंयबाब, पा.७.) २.आशेवप; अत्रेगप; वश्रेवप. (तांणी स्वर्गलोकाचे आंवडे गिळचे म्हणून ताचीं ते रसाळ वर्णनां करताले आनी ताचीं सुंदर चित्रां आनी नकाशे काडून सालांतले वण्टींचेर मारताले. – गोमन्तोपनिषत्, १लें खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा.८०.) ३.चिटमिटप; मिडमिडप. (ही सरस्पत अशी जावंची की परक्या भासांनी तिका आंवडे गिळचे. – येवकार अध्यक्षालें उलोवप. बरो: शणै गोंयबाब, पा.६६.)

**वा.प्र.: १ आंवडो घोंटप**: आशेवप; अत्रेगप.

२. **आंवडो गिळप**: तोंडांत सुट्टा ती लाळ वा उदक गिळप.

**आंवतण** । आंव्तण् । सा.रू. –णा । (सं. आमंत्रण; ता. आवल् = मनापासुनची इत्सा; अगत्य) न. आमंत्रण; अगत्याचें आपोवणें.

**म्हणी**: १. भटकळा तेरा आंवतण.

२. लटकें आंवतण जेवतचि खरें.

**आंवप** । आंवप् । सा.रू. –पा । (?) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आंव् - अक्.) कितेंय खालेउपरांत वा जेवलेउपरांत हात धुवन तोंडांत उदक घेवप आनी तें कुचकुचावन उडोवप.

**आंवंय / आंवंय आंवंय** । आंवंय् / आंवंय् आंवंय् । (कों) उमाळ्या उतर. शी: थू: ही भावना उक्ती करून दाखोवपी उमाळ्या उतर.

**आंववप** । आंवव्प् । सा.रू. –पा । ('आंवप' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आंवय् (आवै) – (अक्): भुरग्याक वा वायटकाराक लावन, ताच्या तोंडार उदकाचो हात ओडून आनी उदकाचो घोंट दिवन, तो कुचूकुचू करून भायर उडोवंक लावप. (तिणें आपल्या धाकल्या चल्याक लावन आंवयलो.)

**आंवळणी** । आंवळ्णी । सा.रू. –णे । ('आंवळप' वेल्यान) स्त्री. आंवळून घेवपाची क्रिया.

**आंवळप** । आंव्ळप् । सा.रू. –णे । ('आंवळप' वेल्यान) स्त्री. आंवळून येवपाची क्रिया.

**आंवळप** । आंव्ळप् । सा.रू. –पा । (सं. आ + वल) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आंवळ् (सक्). १. आक्रसून येवप; आंखूड; अशीर जावप. (शिंयांत लांकूड आंवळटा.) २. गच्च दामून धरप (आंवळून धरिल्ली पयशांची मूठ तो नाबीर उकती करी. – 'भिकारो', बरो: पुंडलीक नायक, मुठय, पा. ३४) ३. भागप, सुकप, बडक जावप, चिंवून येवप. (दोन दिसांच्या वायटान तो चप्प करून आंवळलो.) ४. दामून चेपून बांदप. (ताणें आपलें हांतूण आंवळून बांदलें.)

**आंवाळकाठी** । आंवाळ्काठी । सा.रू. –ठये । (सं. आमलक + काष्ठम्) स्त्री. खारयल्ले आंवाळे सुकोवन आनी तांतुंतल्यो गुठयो भायर उडोवन आंवाळ्यांच्यो वेगळ्यो काडिल्ल्यो बोयो, आंवाळबोय. ही वखदाक उपकरायतात.

**आंवाळ-गोत** । आंवाळ्-गॉत्, सा.रू. –ता । (गु. आवळगोवळ = परिवार) न. नात्या-पात्याचो परिवार; आंवाळ-गोत्र. (भायल्या मुलखांत शिकूंक

वतल्या गड्यां भितर चडशे गडे थंय नसत्योच सोयरिको जमोवन नाका जाल्लें आंवाळ-गोत वाडयतात आनी आपले जिणेची धूळ-माती करून हाताचीं पोडोळीं हालयत घरा येतात. – नवें गोंय, २रें वर्स, २रो आंक, वैतुंब्र १९३५, संपादपी : का.श्री. नायक, पा.५१.)

**विशेश** : मुदलचें उतर 'कावळ-गोत' जावंये. कावळ्याक कितेंय खावपाक उडयत जाल्यार, तो कांकां करून हेर कावळ्यांक जमयता. ताचेवेल्यान 'कावळ-गोत' हें उतर घडलां. कालांतरान कावळ-गोताचें 'आंवाळ-गोत' अशें उतर जालें जावंये.

**आंवाळ-गोत्र** । आंवाळ्-गॉत्र्, सा.रू. –त्रा । (गु. आवळगोवळ = परिवार) न. कुटुंबाचो गोतावळो; लागशिल्ल्या पयसुल्ल्या नात्यांतलो सगळो परिवार; आंवाळगोत. (बुनाचे म्हणणे भाशेन कामतिचें कुटुंब मोठें. तातूंत आंवाळ-गोत्र जायतें भरिल्लें आसतालें. – पुण्यात्मो राम कामती, बरो : शणै गोंयबाब, पा.८२.)

**आंवाळबोय** । आंवाळ्बोय् । सा.रू. –ये; भौव. –यो; सा.रू. –यां । (कों. आंवाळो + बोय) स्त्री. खारयल्ले आंवाळे सुकोवन, तांचीं तोंडां उकतीं जातकीर, तातुंतल्यो गुठयो काडून, आंवाळ्यांच्यो वेगळ्यो काडिल्ल्यो धांपो वा बोयो; आंवाळकाठी. – ही वखदाक उपकरायतात.

**आंवाळभजन** । आंवाळ्भजन् । सा.रू. –ना । (कों. आंवाळी + भजन) न. आंवाळेची पुजा करून; ब्राह्मण सवायशीण दवरून वाडिल्ली समराद्‌ना.

**विशेश** : आंवाळी पवित्र मानतात. जो आंवाळी लायता, तो पुनर्जन्माच्या बंधनांतल्यान मुक्त जाता, असो समज आसा.

'आंवाळ भजना'क कांयकडेन 'आंवळी भोजन' म्हणटात. आंवाळेक तांबडें वस्त्र बांदून तिची पुजा करतात. तिचे सावळेंत दांपत्य वाडल्यार पापांचो नाश जाता अशें म्हणटात.

कांय जाण आंवाळ भजनाचो उत्सव आपआपल्या देवस्थानांत दवरतात. देवस्थानाच्या आंवाठांत आंवाळी लावन, तिका पेड बांदतात. आंवाळभजनाचे समरादने दिसा, देवाची पालखी आंवाळेच्या पेडार व्हरून दवरतात. थंय आंवाळेची पुजा करून तिका निवेद्य दाखयतात. उपरांत देवाची पालखी देवळांत हाडून, देवाक आरती दाखयतात. जमिल्ल्या भक्तांक प्रसाद वांट्‌टकीर, समरादनेचें जेवण वाडूंक लागतात. हे समरादनेक ब्राह्मण आनी सवाशीण लागता.

ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश (शिव) हे आपआपल्या बायलांसयत आंवाळेंत राविल्ले देखून आंवाळेक पवित्र मानतात. आंवाळेकडेन लग्निक आशिल्ली कथा मेळटा ती अशी : मृदुमन्द राक्षसान खर तप करून शिवाक प्रसन्न करून घेतलो आनी आपल्याक खंयच्याय दादल्याकडल्यान वा बायलेकडल्यान मरण येवपार ना, असो वर जोडलो. जे बायलेचो गर्भ कुसव्यांत धरूंक ना आनी जी स्त्रीयोनींतल्यान भायर सरूक ना, अशे चलयेच्या हातान ताका मरण आशिल्लें. स्त्रीयोनीबगर भुरगें जन्माक येवपाचो संभव नाशिल्ल्यान, मृदुमन्द दिसानदीस मातत रावलो. अखेरेक तो देवांकूय पिडूंक लागलो. ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश (शिव) ह्या तिगांचेरय ताणें जैत जोडलें. ते बाबडे अनुक्रमान सावित्री, लक्ष्मी आनी पार्वती ह्या आपआपल्या बायलांक घेवन एका जाग्या वयल्यान दुसऱ्या जाग्यार अशे पळत रावले. एके आंवाळेच्या काणांत तांकां एक घोल दिसली. ते घोलींत भितर सरून ते लिपून रावले. घोलींत देवांक आनी तांच्या बायलांक एकामेकांक खेटून बसचें पडलें. ताका लागून तांचे स्वास आनी उस्वास एकामेकांत भरसले आनी तांतुंतल्यान एक चली जल्माक आयली. तिचो गर्भ स्त्रीच्या कुसव्यांत वाडूंक नाशिल्लो आनी

स्त्रीयोनींतल्यानय ती भायर सरूंक नाशिल्ली.

हे चलयेच्या हातान मृदुमन्द राक्षसाक मरण आशिल्लें. आंवाळेचे घोलींतल्यान ती भायर सरली आनी थंयच लागसार देवांची वाट पळेत मृदुमन्द राक्षस मांडून बशिल्लो. तिणें त्या राक्षसाकडेन झूज केलें आनी झुजांत त्या राक्षसाक तिणें जिवानिशीं मारून उडयलो. अशे तरेन देव राक्षसाच्या भयांतल्यान वाटावले. हे चलयेचें नांव 'एकादशी' आशिल्लें. तेन्नाच्यान एकादशीचो दीस पवित्र मानूंक लागले आनी पापांच्या नाशाखातीर लोक त्या दिसा उपास करूंक लागले. देवांनी आंवाळेचो आसरो घेतिल्ल्यान आंवाळेक पवित्र मानूंक लागले. जो आंवाळी लायता, तो पुनर्जन्माच्या बंधनांतल्यान मुक्त जाता, असो समज निर्माण जालो आनी आंवाळेची पूजा करून, तिचे सकयल एका दांपत्याक दवरून समरादना वाडल्यार पापांचो परिहार जाता म्हणपाची कल्पनाय हातुंतल्यान उदेवाक आयली.

**आधारावळ** : Hindu Holidays and Ceremonies with Dissertation on Origin of Folklore and Symbols, by B.A. Gupte, page 44.

**आंवाळी** । आंवाळी । सा.रू. –ळे; भौव. –ळ्यो; सा.रू. –ळ्यां । (सं. आमलकी) स्त्री. आंवाळे लागतात तें झाड.

**विशेश** : आंवाळी (Phylantus Emblica) हें एक उपकरा पडपी झाड. पानां बारीक, चिंचेसारकीं. आंवाळी मे-जुनांत फुलूंक लागता. फुलांचे घोंस पानांचे कुशीक वा पानां सकयल येतात. कार्तिक मार्गशिर्षांत आंवाळेचे आंवाळे जून जातात.

आंवाळेचें लाकूड घट्ट आसता आनी तें उदकांत कुसना. देखून, बांय मारतना आंवाळेचीच आटी घालतात आनी बांयचें उदक काडपाक आंवाळेच्योच गाडयो करतात.

आंवाळेच्या पानांचो आनी सालींचो चामडें रंगोवपाक उपयोग जाता. आंवाळ्यावरी आंवाळेची सालय वखदी. परसाकडचे घाळ जातात ताचेर, तेच परी गोड्या मुताचेर ती गुणावाक येता अशें सांगतात. आंवाळेच्या पानांत आनी सालींत 'टॅनिन' मेळटा.

आंवाळेच्यो जाती दोन: सादी आंवाळी आनी राजआंवाळी.

ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश हे आंवाळेंत रावतात – पाळांनी विष्णू, काणांत ब्रह्मदेव आनी खांदयांनी म्हादेव, असो समज आसा.

घराचे वा देवळाचे दक्षिणेक आंवाळी लायतात. जाच्या पोरसांत आंवाळी आसता, त्या घरांत कसलीच भूतबाधा जायना म्हणपाचो समज आसा.

आंवाळेसकयल जोडप्याक जेवण वाडल्यार सगळ्या पातकांचो परिहार जाता अशें म्हणटात. जो आंवाळी लायता, तो पुनर्जन्माच्या बंधनांतल्यान मुक्त जाता असो समज आसा.

**आंवाळो** । आंवाळॉ । सा.रू. –ळ्या; भौव. –ळे (ळॅ); सा.रू. –ळ्यां । (सं. आमलक, प्रा. आंवळओ) पु. आंवाळेचें फळ.

**वा.प्र.: १. आंवाळो दिवन कुंवाळो काडप:** थोडें दिवन चड सोदप.

**२. घांटावेल्या आंवाळ्याची आनी कोंकणांतल्या मिठाची भेट जावप:** पैलिंच्या काळांत येरादारिचीं साधनां उणीं आशिल्लीं. ताकालागून पैसपैसचे दुर्गम भागांतले लोक एकामेकांक चड मेळूं शकनाशिल्ले. अशा लोकांची अकस्मात वा योगायोगान भेट जावप, अशा अर्थान हो वाक्प्रचार उपकरायतात.

**म्हणी** : १. आंवाळो पिकचोना, समुद्राचें उदक सुकचें ना.

२. कांडी कर्मल एक जालें, आंवाळो गडगडलो.

३. दर्यांतलें मीठ आनी दोंगरावेले आंवाळे.

**विशेश** : आंवाळो हें सुमार २ सें.मि. व्यासाचें,

मांसोळ, वांटकुळें आनी गुळगुळीत कातीचें अशें पांचवें हळडुवसार फळ. ह्या फळाक उब्यो स रेगो आसतात. आंवाळ्याक तीन धारो आशिल्ली एकच बी आसता.

आंवाळो कोंकणांत, पश्चिम घाट आनी दख्खनच्या माळंगार जाता. आंवाळो खातकीर तो आंबट तोरट लागता. आंवाळ्याची ही तोरटसाण जिबेर एक रुचीक सुवाद दवरता. आंवाळो खावन ताचेर उदक पियेल्यार तें अत्यंत गोड लागता.

कार्तिक मार्गशिर्शांत बाजारांत आंवाळे येवपाक लागतात. आंवाळे पौशमेरेन मेळटात. 'आंवाळो पिकचो ना, समुद्राचें उदक सुकचें ना' अशी एक म्हण कोंकणींत आसा. हेर फळांभशेन आंवाळो पिकून हळडुवो जायना. आंवाळो पूर्ण जून जातकीर झाडावेल्यान झडूंक लागता. पावस पडटकीर, पावसाच्या उदकान आंवाळ्याचें मांस कुसता आनी भितल्ली बी किल्लून येता.

आंवाळो हो पित्तनाशक, शितळ आनी मुत्रवर्धक. आंवाळ्यांत 'सी' जीवनसत्व आसता. साद्या आंवाळ्यापरस राजआंवाळ्यांत तें चड आसता.

आंवाळे सुकोवन तांची आंवाळबोय वा आंवाळकाठी करतात. आंवाळकाठी वा आंवाळबोय वखदी आसता. त्रिफळाचूर्णांत आंवाळ्यांचो उपयोग जाता. च्यवनप्राशाक आंवाळे लागतात. च्यवनप्राशान पित्त आनी अग्निमांद्य ना जाता. आंवाळ्यांचें लोणचें करतात. आंवाळ्यांची कचकय करतात. आंवाळे कोंचावन ते साखरेच्या पंखांत शिजोवन तांचो मुरांबो करतात. च्यवनप्राशावरीच मुरांबोय पोस्टीक आसता.

आंवाळेचीं पानां आनी साली हांचेवरीच आंवाळ्यांचोय चामडें रंगोवपाक उपयोग जाता. आंवाळ्यापासून तींत आनी काळो रंगय तयार करतात.

आंवाळो हो सुर्याक प्रिय असो समज आसा. देखून, कांय जाण आयताराचे आंवाळे तोडिनात वा खायनात.

**आंवाळ्यो-घुंवाळ्यो** । आंवाळ्यो-घुंवाळ्यो । सा.रू. –ळ्या-ळ्यां । (सं. घूर्ण = घुंवप वेल्यान) स्त्री. भौव. आपले भोंवतणींच भोवांड्यो वा घुंवाळ्यो काडीत रावपाचो भुरग्यांचो एक खेळ.

**विशेश** : सं. 'घूर्ण्' ह्या धातूचो अर्थ आपले भोंवतणीं भोवांड्यो वा घुंवाळ्यो काडप असो आसा. ह्या धातूवेल्यान घडिल्ल्या 'घुंवाळ्यो' ह्या उतराक नेट दिवपाक 'आंवाळ्यो' हें उतर लागलां आसुंये.

**आंवुळणी** । आंवुळ्णी । सा.रू. –णे । ('आंवुळप' वेल्यान) स्त्री. आंवुळपाची क्रिया.

**आंवुळप** । आंवुळप् । सा.रू. –पा । (सं. आ + वल्) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आंवुळ-सक.) आंवळप. (भाराच्या भरांत । दोनुय मुठींत । कचकचून आंवुळिल्ली । रगताची तान. – राखण्यांनो, बरो : पुंडलीक नायक, गा आमी राखणे, पा.६७.)

**आशय** । आशय् । सा.रू. –शया । (सं. आशयः) पु. १.उद्देश; हेतू; अभिप्राय. २.स्थान; आधार. ३.कलाकृतींतल्यान व्यक्त जाल्लो अणभव.
कांय हेर उतरांकडेन 'आशय' हें उतर जोडून 'अन्नाशय', 'गर्भाशय', 'जलाशय', 'मुत्राशय' बी उतरां घडटात.

**आशा** । आशा । सा.रू. –शे । (सं. आशा) स्त्री. १.इत्सा फळादीक जातली, अशी धरिल्ली अपेक्षा; उमेद वा भरवंसो. (देवाची कृपा केन्ना तरी जातली, अशी आशा धरतां.) २.मनिशा; अत्रेग. (चिबड पळेतकीर, तें खावपाची म्हाका आशा जाली.) ३.स्वार्थ; लोभ (आशा केल्यार दशा वता). ४.उद्देश; हेतू. (गेल्लीं सेर्मांवाचे आशेन, तो जालो फिंर्गी भाशेन.) ५.आस्त.

**वा.प्र.: १. आशा धरप** : मनांतली इत्सा, आशा फळादीक जातली अशें धरप.

**२. आशा सोडप** : हातांतलें काम फळादीक जावंचें ना अशें धरून चलप.

३. **आशा दिवप / आशा लावप :** एकाद्र्याचें काम आपूण पूर्ण करूंक पावन, अशी अपेक्षा ताच्या मनांत निर्माण करप.

४. **आशा पूर्ण करप :** इत्सा पूर्ण करप; इत्सा पुराय भागोवप.

५. **आशेर दवरप :** कोणाचेंय काम आज करतां, फाल्यां करतां अशें करून दीस काडीत ताका पोके उमेदीर झुलयत दवरप.

**म्हणी :** १. आशा केल्यार दशा वता.

२. कळंतरा आशे मुदल नाशे.

३. लाभाचे आशे मुदल नाशे.

४. गेल्लीं सर्मांवाचे आशेन, तो जालो फिंर्गी भाशेन.

५. तुपाचे आशेन उस्टें खालें.

६. कांदपिणीचे आशेन बीं पर्यंत कांडलें.

७. संसार आशेचो आनी कस्टांचो; सर्ग सुखाचो आनी संतोशाचो.

८. आशा आशिल्ल्या साधूक आनी मिशो आशिल्ल्या संन्याशाक वंदू नये.

**आशाढ** । आशाढ् । सा.रू. –ढा । (सं. आषाढ़) पु. हिंदू वर्साचो चवथो म्हयनो.

**विशेश :** आशाढांत सूर्य कर्केक वता; ताका 'कर्क संक्रमण' म्हणटात. ह्या संक्रमणासाकून मकरसंक्रांती मेरेनच्या काळाक 'दक्षिणायन' म्हणटात.

आशाढ हो भर पावसाचो म्हयनो. आशाढांतच व्हाळांक आनी न्हंयांक हुंवाराचे उमाळे येतात आनी उमळ जावन भुंयेंतल्यान उदकाचे झरे फुटूंक लागतात.

मिर्गाचे धारेन भिजिल्ली भूंय, आशाढांत आरद्रा लागतकीर भिजून चिप्प ओली जाता आनी अन्नाचो गर्भ पोशीत ती साक्षात् अन्नपूर्णा जाता.

उदकाच्या शितळ धारांनी झाडां-पेडांक संतुश्ट करपी हो आशाढ, पयस आशिल्ल्या प्रिय जनांक एकामेकांचे भेटेची ओड लावपी हो आशाढ, धतरेक भस्टें हाडून तिची कूस फळादीक करीत तिका फुल्लटीची कांत दिवपी हो आशाढ, कवीकुलगुरु कालिदासाच्या 'मेघदूत' ह्या काव्यांत सासणाचो अजरंवर जाला.

ह्या सबंद म्हयन्यांत दिसांतल्यान एक खेपो जेवपाचें व्रत घेतल्यार धन, धान्य, संतत हांचो लाभ जाता असो पयलींसाकून चलत आयिल्लो समज आसा.

आशाढ म्हयन्यांत शुक्ल आनी कृष्ण एकादशीक विष्णूची पुजा, उपास आनी जागरंण करचें. शुक्ल एकादशीक वा द्वादशीक चातुर्मासांतल्या व्रतांचो संकल्प करचो, तेचपरी एकादशीक उपास करचो.

जेन्ना अधिकम्हयनो आशाढाचेर येता, तेन्ना त्या आशाढाचे पुनवेक बायलांनी 'कोकिळा व्रत' करचें, कोगळाचो आवाज आयकलेबगर बायलांनी जेवं नये, असो पयलींच्या काळापासून चलत आयिल्लो समज आसा.

आशाढ पुनवेक दत्तात्रय, आपलो गुरू, तेचपरी संन्याशी हांची पुजा करतात. तिका 'व्यासपुजा' म्हणटात. ह्या दिसाच्यान संन्याशांचो चातुर्मास सुरू जाता.

आशाढ म्हयन्याचे उमाशेक दिव्यांची पूजा करतात.

आशाढ शुद्ध बियेक जगन्नाथाची रथयात्रा सुरू जाता. धा दिसांउपरांत शुद्ध दसमीक जगन्नाथाचो रथ परतो देवळांत हाडटात. ताका 'पुनर्यात्रा' वा 'उत्तर यात्रा' म्हणटात.

**आशाढ-पावळी** । आशाढ्-पाव्ळी । सा.रू. –ळे । (सं. आषाढ + कों. पावळी) स्त्री. घरांच्या पांखयांवेल्यान गळटा ती आशाढ म्हयन्यांतल्या पावसाची पावळी.

**विशेश :** लग्न जाल्ले होंकलेन आपल्या लग्नाच्या पयल्या आशाढांत, आपल्या घोवाच्या घरा ही पावळी पळोवं नये, अशी पूर्वापार चाल चलत आसा.

ती पळेली जाल्यार होंकलेचे मांयक बादिकार जाता, असो समज आसा. देखून, आशाढ लागचे पयलीं लग्न जाल्ली नवी होंकल कुळारा वचून रावता. मांय नासत जाल्यार मात आपल्या घोवाच्या घरा रावपाक तिका कसलीच हरकत नासता.

आज ह्या चालींक कसलोच अर्थ उरूंक ना. आज चलयो शिकतात आनी नोकऱ्योय करतात. शिक्षणाच्या प्रसाराक लागून ह्या अपसमजांक (superstitions) व्हडलेंशें मोल उरूंक ना.

**आशाढ-फुलां** । आशाढ्-फुलां । सा.रू. –लां । (सं. आषाढ + कों. फुलां) न. भौव. होंकलेची, तिच्या लग्नवर्साच्या पयल्या आशाढांत, तिगेल्या घरच्या मनशांनी तिच्या कुळारा येवन भरिल्ली होंट.

**विशेश** : लग्नवर्साच्या पयल्या आशाढांत होंकल कुळारा आसता. होंकलेची आवय बरो दीस पळोवन, होंकलेच्या घरा हो दीस कळयता. तेप्रमाण होंकलेच्या घरची कोणय बायल येवन भांगराची वस्त, खण, साडी आनी नाल्ल दिवन होंकलेची होंट भरता. होंट भरप हो सुफलीकरणाचो विधी (fertility cult). भांगराचे वस्तीचो अर्थ समजून घेवंक जाय. भांगराक हिरण्य म्हणटात. हिरण्याक सूर्याचें प्रतिक मानतात. सूर्य हो अग्नीच. भांगराचो स्पर्श म्हळ्यार अग्निचो स्पर्श. ह्या स्पर्शान होंकलेंत अग्नितत्व येता. पृथ्वीक आनी होंकलेक समान लेखल्यात. ज्या पंचमहाभूतांनी पृथ्वीची निर्मणी जाल्या, तातूंत 'अग्नि' आनी 'आप हीं दोनय तत्वां आसात. पृथ्वींतय अग्नितत्व आसा. तिच्यांत आशिल्ल्या अग्नितत्वाक लागून तिका 'अग्निगर्भा' म्हणटात. पावसाची आहुती पृथ्वीचे अग्नींत पडटकीर, तातुंतल्यान वनस्पतींचे आंकूर भायर फुट्टात. तेचपरी अग्नितत्वाक लागून, अग्निगर्भा जाल्ली होंकलय पुत्रवती (भुरगेंबाळकान्र) जावंची, होच भांगराचे वस्तींफाटलो संकेत आसा.

**आशाढी** । आशाढी । सा.रू. –ढे । (सं. आषाढी) स्त्री. आशाढ शुद्ध एकादस.

**म्हण** : आशाढी परब आकारी; कार्तिकी परब नाकारी.

**विशेश** : आशाढी एकादशीक 'महाएकादस' म्हणटात. विष्णू भगवान ह्या दिसा न्हिदता, देखून हे एकादशीक 'शयनी एकादस' अशेंय म्हणटात. कार्तिकी एकादशीक तो जागो जाता. देखून त्या दिसाक 'प्रबोधिनी एकादस' म्हणटात. आशाढी एकादशीच्यान चातुर्मासाक आरंभ जाता आनी कार्तिकी एकादशीक चातुर्मास सोंपता.

आशाढी आनी कार्तिकी ह्यो दोनूय एकादशी सगळ्या एकादशींत म्हत्वाच्यो मानतात.

आशाढी एकादशीक पंढरपुराक व्हडली जात्रा जाता. महाराष्ट्रांतले वारकरी, तेचपरी हेर थळांतलेय वारकरी सगळो भेदभाव विसरून, विठ्ठलाचें गुणगान जायत भक्तिरसांत तल्लीन जावन थंय वतात.

**आशावंत** । आशावन्त । सा.रू. –ता । (सं. आशावन्त) वि. उर्बेस्त; उर्बेवन्त; आस्तेवन्त; आस्तेस्त.

**आशावाद** । आशावाद् । सा.रू. –दा । (सं. आशावाद) पु. जिणेंत दुख्ख आसा, जाल्यारूय अख्ख्या संवसाराचो विचार केल्यार, संवसारांत दुख्खापरस सुखच चड आसा, अशें मानपी तत्त्वज्ञानाचो एक पंगड. युरोपांत आशावादाचें तत्त्वज्ञान लेबनिझ (Lebnitz) ह्या तत्वगिन्यान्यान मांडलें.

**आशावादी** । आशावादी । सा.रू. –द्या । (सं. आशावादीन) वि. दुख्ख वांट्याक आयल्यारूय, तें सोंसून जिणेंत केन्नाय जाल्यार सुखाचे दीस येतले, अशे आशेर जियेवपी; शाणो; सुज्ञ; समंजस.

**आशाळ-विशाळ** । आशाळ-विशाळ । (सं. आशाल-विशाल) वि. भव्य; विराट.

(हिंदुस्तानांतल्या खडपांतसून कांतयल्ल्या सगळ्या देवळांभितर हें देवूळ चड आशाळ-विशाळ जालां आनी जायते श्रम घेवन कांतयलां. – बरो : शणै गोंयबाब, नवें गोंय, २रें वर्स, २रो आंक, वैतुंब्र १९३५, पा.४५.)

**आशाळो-ळी-ळें** । आशाळॉ-ळी-ळँ । सा.रू. –ळ्या, ळे; –ळ्या । (सं. 'आशा' वेल्यान) वि. आशेन, उमेदीन भरिल्लो, ल्ली, ल्लें. (देखून, कल्पनाच मुदलाक आशाळी, सुखाळी आनी हांसकुळी आसूंक जाय. – बरो : शणै गोंयबाब, नवें गोंय, २रें वर्स, २रो आंक, वैतुंब्र १९३५, पा.४८.)

**आशिल्लो** । आशिल्लॉ । सा.रू. –ल्ल्या । ('आसप' वेल्यान) वि. जाचेकडेन खावपा जेवपाक आनी न्हेसपा पांगुरपाक चकचयाळ आसा तो.
**म्हण :** १. आशिल्ल्याकडेन मागचें, नाशिल्ल्याक दिवंचें.
२. आशिल्ल्यांनो खाया, नाशिल्ल्यांनो रडात.

**आशिर्वचन** । आशिर्वच्यन् । सा.रू. –ना । (सं. आशिस् + वचनम्) न. आशिर्वाद.
**म्हण :** आवय-बापायचें आशिर्वचन; भुरग्याचें जिणें करता समाधान.

**आशिर्वाद** । आशिर्वाद् । सा.रू. –दा । (सं. आशीर्वाद) पु. कोणाचेंय हीत, कल्याण जावंचें, अशी उक्ती केल्ली शुभकामना, शुभचिंतन.
**वा.प्र.:** १. **आशिर्वाद दिवप :** बरें जावचें अशी इत्सा उक्ती करप; कल्याण जावंचें अशें देवाकडेन मागप.
२. **आशिर्वाद मागप :** आपणें येवजिल्लें काम वा आपल्या मनांतली इत्सा फळादीक जावपाखातीर, जाण्ट्यांकडेन वा जाण्ट्यां इस्टांकडेन मागिल्ली तांची शुभकामना.

**आशी** । आशी । सा.रू. –शये; भौव –शयां । (सं. अंशक) स्त्री. १. तणाचें पातें (पुण ताच्या फुटक्या नशिबान पावस एकसारको झडत रावलो. बरोच हुंवार आयलो आनी थांब्याच्यो आशयो कुसून दांडारच उल्ले. – नारायणाचो मुळो : फेलीसियु कार्दोज, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, पा.१३२.) २. कण; कणी; कणीवरें (मिठाची आशी). ३. अंश; तथ्य (तुजे सांगणेक खरेपणाची मातय आशी ना.)

**आशेखोर** । आशेखोर् । सा.रू. –खॉर; भौव –खॉर; सा.रू. –खॉरां । ('आशा' वेल्यान) वि. १. मेळत ताचो सोंस आशिल्लो; आशेभगत; स्वार्थी; सुग्रती; आशेस्त. २. वसवसो; वर्भकी.

**आशेप** । आशॅप् । सा.रू. –पा । ('आशा' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आशे (आशॅ) – (सक) – इत्सप; अत्रेगप; आंवडेप. (तो गिरेस्तकाय, तेचपरी सुखसमाधान आशेता.)
**म्हण :** आशेल्लें मेळचें ना, भोगचेलें चुकचें ना.

**आशेभक्त** । आशेभक्त् । सा.रू. –भक्ता । (सं. आशा + भक्त) वि. १. आशेभगत; स्वार्थी; सुग्रती; आशेखोर; अशेर्यो. २. वसवसो; वर्भकी.

**आशेभगत** । आशेभगत् । सा.रू. –भग्ता । (सं. आशा + भक्तः) वि. १. मेळत ताचो सोंस, स्वार्थ आशिल्लो; आशेखोर; आशेभक्त; स्वार्थी; सुग्रती. (भुरगेपणांत हांव बापोलयाचे कुडींत गेलों म्हणटकच आतेबायन म्हणचें – 'आयलो बाये आशेभगत'. भगताचो आनी म्हजो संबंध कितें, हें तेन्ना म्हाका समजूंक नाशिल्लें. – 'भगत', बरो : लक्ष्मणराव सरदेसाय, खबरी : कांय वर्मांच्यो कांय कर्मांच्यो, पा.८०). २. वर्भकी; वसवसो.

**आशेर्यो-र्यी-र्ये** । आशेर्यो, र्यी, र्ये । सा.रू. –र्या-र्ये-र्या । ('आशा' वेल्यान) वि. १. अतिशय आस, सोंस आशिल्लो, ल्ली, ल्लें; स्वार्थी; लोभी; आशेखोर; आशेभगत. २. वसवसो; वर्भकी.

**आशेस्त** । आशेस्त । सा.रू. –स्ता । ('आशा'

वेल्यान) वि. १. आशेभगत; मेळत ताची आस, सोंस आशिल्लो; स्वार्थी; सुग्रती; आशेखोर. २. वसवसो. ३. आशेर जियेवपी.

**आशें** । आशें । सा.रू. –शा । (सं. अस् = आसप वेल्यान) न. आसा तें.
**म्हण** : नाशें घेवचें, आशें घेवचें न्हय.

**आश्चर्य** । आश्चर्य । सा.रू. –र्या; भौव –र्यां; सा.रू. –र्यां । (सं. आश्चर्य) न. १. अजाप; अप्रूप; चमत्कार; अचर्य. २. कौतुक.

**आश्टो** । आश्टॉ । सा.रू. –श्ट्या; भौव –श्टे; सा.रू. –श्ट्यां (?) पु. शेतांत मर्दी उदकाखातीर मारिल्लो फोंडारो. (हाका घराकडेन कोण उलयना आसुंये. नाजाल्यार आश्ट्यार आनी तळयेर न्हावंक गेल्यार दादू म्हजेर दोळे तांबडे करता. – वळख, पुंडलीक नारायण नायक, मुठय, पा.६.)

**आश्रम** । आश्रम् । सा.रू. –मा; भौव. –आश्रम; सा.रू. –मां । (सं. आश्रम) पु. १. ऋशी वा मुनी रावतात तें स्थान; तपोवन. २. साधुसंतांची कुटी वा मठ. ३. गुरुकुल. ४. रावपाचें स्थान. ५. हिंदूंतल्या तीन वर्णांच्या लोकांक स्मृतीन घालून दिल्ले ब्रह्मचर्य, गृहस्थ, वानप्रस्थ आनी संन्यास हे जिणेचे चार टप्पे वा अवस्था. हांकां 'वर्णाश्रम' अशेंय म्हणटात.

**आश्रमधर्म** । आश्रमधर्म । सा.रू. –र्मा; भौव. –र्म; सा.रू. –र्मां । (सं. आश्रम + धर्म) पु. ब्रह्मचर्याश्रम, गृहस्थाश्रम, वानप्रस्थाश्रम आनी संन्यासाश्रम ह्या प्रत्येक आश्रमांत आचरणांत हाडपाक जाय तीं कर्तव्यां.
**विशेश** : मनीस जन्माक येतकीर ताका तीन रिणां लागू जातात. गुरुचें रीण, देवाचें रीण आनी पुर्वजाचें रीण. ब्रह्मचर्याश्रमांत विद्या शिकून आनी विद्येक फावसारके आचार शिकून ते गुरुचें रीण पावयतात. गृहस्थाश्रमांत पुजा आनी धार्मिक कार्यां करून, भुकेल्ल्यांक अन्न आनी अनाथांक भितोडी दिवन तो देवाचें रीण पावयता. तेचप्रमाण पुताच्या रुपान वंश फुडें चलोवन आनी श्राद्धाच्या वेळार पूर्वजांक पिंड दिवन पुर्वजांच्या रिणांतल्याक तो मुक्त जाता. हीं तिनय रिणां पावयले उपरांत प्रपंचांतलें मन काडून आनी दिसपट्टे लागणुकेंतल्यान मुक्त जावन वानप्रस्थाश्रम घेवं येता. जाय जाल्यार हाचेय फुडें वचून संन्यास घेवं येता. संन्यास घेतना चारचौगां मुखार आपणेंच आपलो अंत्यविधी करचो पडटा. नवें नांव धारण करून कुटुंब आनी घर सोडचें पडटा. संन्यास घेतकीर मनशाक धर्म-जात-कुटुंब अशे कसलेच निर्बंध लागनात.

**आश्रमी** । आश्रमी । सा.रू. –म्या; भौव. –मी; सा.रू. –म्यां । (सं. आश्रमिन्) वि. १. आश्रमाकडेन लग्निक आशिल्लो. २. जो आश्रमांत रावता तो. ३. स्मृतीन सांगिल्ल्या चार आश्रमांतलो खंयचोय एक आश्रम धारण करपी.

**आश्रमो** । आश्रमो । सा.रू. –म्या । (सं. आश्रम ह्या उतरावेल्यान) पु. घरवास; राबितो. (आमची सदा आंकुवारी स्वामिणी नाझारेथ ठाऊनु चमकत येतां, थोरा संकस्टि बेल्या शारांतु पावली आनी थंइ आश्रमो कर्नु रांवच्याक बिडार न मेळ देखुनु. तिये रातिची वेळ काडूंच्याक, शाराच्या दुर्गासर्से यक कनिस्ट, किर्कोळ खोंपट जें आसिलें... त्या खोंपटांतु स्वामिणिन सवें पडलें. – वनवाळ्याचो मळो : बरो : फादर मिग्यॅल द् आल्मैद, संपादपी : वि.बा. प्रभुदेसाई, नागपूर विश्वविद्यालय, पा.१.)

**आश्रय** । आश्रय । सा.रू. –या । (सं. आश्रय) पु. १. आधार; पालव; आलाशिरो. २. थारो; भितोडी. ३. मदत.

**आश्रित** । आश्रित । सा.रू. –ता । (सं. आश्रित) वि. जो कोणाच्याय आश्रयासकयल आसा तो, कोणाच्याय आधारान जियेवपी.

**आश्लेशा** । आश्लेशा । सा.रू. –शा । न. सत्तावीस

नखेत्रांतलें णवें नखेत्र.

**म्हण** : आश्लेशा पावसु, उदक थोडें गवजी चड.

**आश्वासन** । आश्वासन । सा.रू. –ना; भौव. –नां; सा.रू. –नां । (सं. आश्वासनम्) न. उतर; आशा; धीर; भासोवणी.

**आश्विन** । आश्विन्। सा.रू. –ना; भौव. –न; सा.रू. –नां । (सं. आश्विनः) हिंदू वर्साचो सातवो म्हयनो. आश्विन हो पावसाळ्यांतलो अखेरचो म्हयनो. ह्याच म्हयन्याचे पुनवेक चंद्र आश्विनी नक्षत्राच्या लागसार आसता. देखून ह्या म्हयन्याक आश्विन हें नांव पडलें. ह्याच म्हयन्यांत सूर्याचें संक्रमण तुळेक जाता. ह्याच म्हयन्यांत नवरात्रां येतात, दसऱ्याचो धबाजो जाता. ह्या म्हयन्याच्या कृष्णपक्षांत नरकचतुर्दस आनी लक्ष्मीपूजन हे म्हत्वाचे सण येतात. ह्याच म्हयन्यांत राम-रावणाचें झूज जालां, कृष्णान नरकासुराचो वध केला आनी पांडवांचो अज्ञातवास ह्याच म्हयन्यांत सोंपला.

**आंशी** । आंशी । सा.रू. –शये । (सं. आंशकः) स्त्री. १. अंश; तथ्य. (परंत हे दुसरे वदंतेपरस पैले वदंतेंत खरेपणाची थोडि-भोव आंशी आसा अशें म्हाका दिसता. – गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक, बरो : शणै गोंयबाब, पा.१४४.)

**आस** । आस् । सा.रू. –शे (वे. सं. आशस्) स्त्री. १. आशा; इत्सा. २. मनीशा; अत्रेग; आंवडो.

**वा.प्र.: आस दिवप** : कोणाचेंय काम आपूण करतलों म्हणपाची आशा दाखोवप.

**म्हण** : दुबळ्याक दिवंची न्हय आस, गिरेस्ताक दिवंची न्हय भास.

**आस** । आस् । सा.रू. –शे । (सं. आशा = खाण, जेवण) स्त्री. वर्भक; वसवस.

**म्हण** : खात्याक आस भोव, न्हात्याक चिखोल भोव.

**आसकार** । आस्कार । सा.रू. –रा । (सं. आश्रय + कृ?) पु. आश्रय; आधार.

**आसकारी** । आस्कारी । सा.रू. –ऱ्या । (सं. आश्रय + कृ?) पु. जो आश्रय, आधार दिता तो.

**आसराय** । आस्राय । सा.रू. –ये । (सं. आश्रय) स्त्री. आसकार; आधार.

**म्हण** : भांगराची दाय, पूण भिंतयेची आसराय.

**आसक्त** । आसक्त । (सं. आसक्त) वि. १. अनुरक्त; लीन; मग्न. (जे गिन्यानी आसात, ते इंद्रियांत आसक्त जावन रावनात.) २. लोभी; लंपट (तो खाणाक सामको आसक्त.) ३. मोहित; लुब्ध. (दिसरात ते बायलेचेंच ध्यान ताका लागलां. इतलो तो तिचेर आसक्त जाला.)

**आसक्ती** । आसक्ती । सा.रू. –क्ते । (सं. आसक्ति) स्त्री. १. अनुरक्ती. २. लोभ; लंपटाय. ३. मोह; भूल; भक्ती. ४. व्यासंग; प्रयत्नांची पराकास्टा.

**आसगडी** । आस्गडी । (सं. आसः, आसः = लागसार ?) क्रि.वि. लागीं; लागसार. (पयस आशिल्लो आसगडी आयलो.)

**आसडी** । आस्डी । सा.रू. –डे । (सं. अक्ष = दोळो + कटक : = कड ?) स्त्री. दोळ्याचे पातयेक आशिल्ल्या केंसांतलो दर केंस; आस्किटी.

**आसणी** । आस्णी । सा.रू. –णे; भौव. –ण्यो; सा.रू. –ण्यां । (सं. आसीन = बसलेलो, स्वस्थ राविल्लो, हाचेवेल्यान ?) स्त्री. ताक चाळपाखातीर खांब्याक बांदिल्ली रवयेची दोरी.

**आसन** । आसन् । सा.रू. –ना; भौव. –नां; सा.रू. –नां (सं. आसनः) न. १. बसका; बसकार; बसपाक उपकरा पडटा ती वस्त. देखीक : पाट; कदेल; सोफा; बांक; तामरेत बी. २. योगाभ्यासांत

हातापांयांची आनी हेर अवयवांची केल्ली एक विशिश्ट रचना. देखीक: पद्मासन; वज्रासन बी. ३. बसपाचें वाहन. देखीक: विष्णूचें आसन गरुड; गणपतीचें आसन हुंदीर; म्हादेवाचें आसन नंदी. ४. (ला.) सत्तेचो जागो; अधिकाराचो जागो. (आसनार आसा म्हणसर कोणय सलाम करता.)

**वा.प्र.:** १. **आसन गुठलावप**: बिडकी, मांद्री कवळप; बिराड उखलप.

२. **आसन ठोकप**: वेळकाळाचें भान दवरिनासतना सुशेगाद बसप.

३. **आसन बसप**: जम, घडी बसप.

४. **आसन डळमळप**: सत्तेची बसका अस्थिर जावप.

५. **आसन घट करप**: आपल्या हातांतली सत्ता आपलेच कडेन उरत अशी वेवस्था मांडणी करप.

६. **आसन निखळावप**: सत्तेवेलो काडप; सत्तेवेलो निखळावप.

**आसनमांडी** । आसनमांडी । सा.रू. –डये; भौव. –डयो; सा.रू. –डयां । (सं. आसन + कों. मांडी) स्त्री. १. योगाभ्यासांतलीं आसनां करतना दाव्या पांयाचें पावल उजव्या धोंपराक लावन आनी उजव्या पायाचें पावल दाव्या धोंपराक लावन मांडिल्ली बसका. (माथ्याची जोंट ताणें मेकळी सोडली आनी आसनमांडयेर बसून दोळे धांपून देवाक आळोवपाक सुरवात केली. – खेव: पांडुरंग काशिनाथ गावडे, पुनव, फेब्रुवारी १९७४). २. (ला) घट्ट केल्ली आपली बसका (त्या उप्रान्त इंग्लेज रुपयान घट बरी आसनमांडी घाली आनी पुर्तुगेज रुपया इंग्लेज हिंदुस्थानांत कोणच लागीं धरिना जालो. – नवें गोंय, २रें वर्स, १लो आंक, जूल १९३५, पा.३५).

**वा.प्र.: आसनमांडी घालून बसप**: वेळकाळाचें भान दवरिनासतना सुशेगाद बसप. (थंय कामाची रास पडल्या आनी तूं बसला हांगा आसनमांडी घालून!)

**आसनमाळी** । आसनमाळी । सा.रू. –ळये; भौव. –ळयो; सा.रू. –ळयां । (सं. आसन + कों. माळी) स्त्री. सोप्यार बसून वा उदारे न्हिदून पावलांचेर भुरग्याक उबो करून आनी ताचे दोनय हात धरून ताका दिल्ली झोंपय. (आसनमाळयो, कितल्यो पोळयो?)

**आसप** । आसप् । सा.रू. –पा । (सं. अस्) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आस्, अकर्मक) १. अस्तित्व (काळ अनंत आसा, जाल्यारूय जीण खिणयाळी आसा.) २. मालकी, हक्क आसप (मडगांवां म्हजीं दोन घरां आसात.) ३. मावप (ह्या काशींत पन्नास आंबे आसतात.) ४. रावप (तुमी पणजे आसतात? म्हाका दिसलें मडगांवां म्हूण!) ५. स्वस्थ बसप (आरे, थंय घरा आवय तुजी वाट पळेता आनी आजून तूं हांगाच आसा?) ६. हालहवाल विचारप (तूं कसो आसा? आसा मरे बरो?)

**म्हणी**: १. चड आसा तो चड सोदता.

२. आपलें आसा थंय सासण, ना थंय मसण.

३. आसा थंयसर कोणय धांवता, ना थंयसल्लो कोणय पळटा.

४. आसा कितें? उणें कितें? (जाचेकडेन कांयच नासता, ताका सगळेंच उणें आसता.)

५. आशिल्लें नाशिल्लें म्हुजे गायरीं; म्हाका खंयचीं सोयरींधायरीं?

६. आसल्यार घोगो, नासल्यार ओगो.

७. आसल्यार सगळीं आसात, ना जाल्यार कोण ना.

८. आसा तें वाड म्हाका, तुमी मागीर रांदून जेवात.

९. आसतना वता पालखेर, मरतकच वता वाश्यार.

१०. आसा आसा, ना ना.

११. आसा तातूंत भागयता, तो सदांच सुखी आसता.

१२. आसा तेन्ना दिवाळी, ना जाल्यार शिगमो.

१३. आसा मूठभर, करता कांठभर.

१४. एकल्याक आसून ना, एकल्याक नासून ना.

१५.आसा दमडी, मारता कोंबडी; ना दमडी, करता चोंबडी.

**आसपास** । आसपास । (सं. आर्श्व + पार्श्व; प्रा. आसपास = लागीं; मुं. आसेपासे) क्रि.वि. लागसार; भोंवतणीं.

**आसमंत** । आसमंत । सा.रू. –ता । (सं. आ + समन्तात्) पु. आसपासचो, भोंवतणचो वाटार. (ताचे इतलो विद्वान ह्या आसमंतांत कोण ना.)

**आसर** । आसर । सा.रू. –रा । (सं. आशारः = आश्रय; मुं. हासुरु = पावस थांबप) पु. १.वाटेर पावसाची दडक लागतकीर पावस थांबता म्हणसर खंयी घेतिल्लो आश्रय; आडोस; भितोडी. २.पावस पडटा तो थांबप; पावसान घेतिल्ली ओखळ. (आतां गेल्ले चार दीस आसर आसा. बरें वोतूय पडटा. – दूख : महाबळेश्वर सैल; जाग दिवाळी १९९६, पा.२१.)

**आसरणें** । आसर्णँ । सा.रू. –ण्या; भौव. –णीं; सा.रू. –ण्यां । (सं. आश्रयण) न. पावसांतल्यान वतना आंग भिजूं नये म्हणून घेतात तें साधन; पावसापासून राखण दिता तें साधन. देखीक : सत्री, कांबळ, कंडो, कापोत.

**आसरप** । आसरप् । सा.रू. –पा । ('आसर' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आसर्, सकर्मक) पावस पडटा तो थांबप; पावसान आपल्या दडकांमदीं मातशी ओखळ घेवप; आसोर जावप. (पावस आसरला. आतां आमी भायर सरुंया.)

**आसरावप** । आसरावप । सा.रू. –पा । ('आसर' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ प्रयोजक धातू : आसराय् – सकर्मी). पावसापसून राखण करप. (पावस आसरावपाक सांतली हाडल्या.)

**आसरो** । आस्रॉ । सा.रू. –ऱ्या; भौव. –रे; सा.रू. –ऱ्यां । (सं. आश्रय; आशारः) पु. आश्रय; आधार; आलाशिरो.

**आसव** । आसव् । सा.रू. –वा; भौव. –वां; सा.रू. –वां । (सं. आसवः) न. १.द्राक्षांचो वा हेर फळांचो, तेचपरी वखदी वनस्पतींचो रोस काडून तो भाटयेक लावन काडिल्लो अर्क वा तयार केल्लें वखद. देखीक : द्राक्षासव; कुमारी आसव. २.उशिकांड्याच्या रोसापासून तयार केल्लो सोरो.

**आसावरी** । आसावरी । सा.रू. –रे । (से. असावरी; हिं. आसावरी) स्त्री. भारतीय शास्त्रीय संगितांतली एक रागिणी.

**आसुक** । आसूक् । सा.रू. –का । (सं. असुख ?) न. आंगचें; असूक; देवीची बळाळीक; रोग. (ह्या वेळार मनाची चिके समजाविशी करूंक ताका ताच्या आंगावेल्या आसुकाच्यो मावो जायत्यो उपकरा पडटाल्यो. – गोमन्तोपनिषद, पैलें खंड; बरो : शणै गोंयबाब, पा.९०.)

**आसुड** । आसुड । सा.रू. –डा; भौव. –ड; सा.रू. –डां (?) पु. चाबूक; साट.

**आसुडप** । आसुडप् । सा.रू. –पा । (सं. आ + सूद) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आसुड् - सक.) सुपांत दाणे घालून, तातुंतलो कोचोब आनी पोल भायर पडत, अशे तरेन सूप हालोवन दाणे निवळ करप; फापडप; पाखडप.

म्हण : कांडटली गेली कांडून, आसुडटली बसली भांडून.

**आसो** । आसॉ । सा.रू. –श्या; भौव. –शे; सा.रू. –शां । (सं. अशंक; अ. आश = जव; बार्ली ?) पु. भाताचो दाणो. (आज सकाळींच बाबूलें चड जालां तें पळोवन आपेव्हाळांत शेड्ड्या घाडयागेर आसो काडून सगळीं धडा बांदून घेवपाक तें गेलें. – गळसरी, बरो : एन् शिवदास, स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा,

संपा.: अ.ना. म्हांबरो, पा. १३८.)

**वा.प्र.: आसो काडप** : नडीचे बाधेखातीर, कोणेंय करून घाल्ले करणेखातीर वा आपली इत्सा फळादीक जावपाखातीर जसो देवाक प्रसाद लायतात, तेचपरी कांय जाण घाडयागेर वा बंटीगेर वचून आसो काडयात. प्रश्न विचारतकीर तो वा ती आशे पातळावन तांचेर आपलें बोट वा तळट दामता. त्या बोटाक वा तळटाक जितले आशे लागतात, ते मेजून घाडी वा बंट तांचो अर्थ सांगता आनी तेप्रमाण उपाय सुचयता.

**आसोर** । आसोर् । सा.रू. –रा । (सं. आशरः = सूर्य हाचेवेल्यान ? मुं. हासुरू = पावस थांबप ?) पु. पावश्या दिसांनी पावसाच्या दोन दडकांमदीं पावस पडनासतना वता तो कांय घटकांचो, वरांचो वा कांय दिसांचो काळ; पावसाच्या दोन दडकांमदलें पावस पडनासतना उरता तें अंतर; ओखळ; उकतें; उघड. (आनी ज्युस्त दनपारच्या थारावन दिल्ल्या वेळार उजवाड मंद जायत गेलो. आसोर जाता म्हणसर आमोरी जाल्लेवरी दिसलें. – दोळ्यां दुखां, बरो : दामोदर मावजो, कोंकणी वर्सुकी आंक, १९८४-८५, पा.५४).

**आस्कड** । पळयात 'अस्कड'.

**आस्किटी** । आस्किटी । सा.रू. –टे । (सं. अक्ष + कटक : हाचेवेल्यान ?) स्त्री. दोळ्याचे पातयेचो केंस; आसडी.

**आस्कुटो** । आस्कुटॉ । सा.रू. –ट्या । (सं. अंश + कों. कुट. (ता.कू.)) पु. आंसो; आसो; अंश; कण; कूस. (त्या गावड्याक मागीर तांच्या त्या दोगांय विद्वानांपरस आस्कुटोभर अदिक गिन्यान आसलें जाल्यार तें कित्याक उपकरा पडना. – कोंकणी विद्यार्थ्यांक, बरो : शणै गोंयबाब, पा.९.)

**आस्को-हुस्को** । आस्कॉ-हुस्कॉ । सा.रू. –आस्क्या-हुस्क्या; भौव. –आस्के-हुस्के; सा.रू. –आस्क्यां-हुस्क्यां (?) पु. चिंता; काळजी. (गांवकरीय सदांच जाय तें जाय तेन्ना मेळत राविल्ल्यान कसलोच आस्को-हुस्को करिनासतना सुखासमाधानान जीण जियेताले. – आजी काणी सांगता : गुरुदास कामत बांबोळकार, कोंकणी, वर्सुकी आंक, १९८४-८५; पा.१०५).

**आस्त** । आस्त् । सा.रू. –स्ते । (सं. आस्था = आशा) स्त्री. १. आदवसाण; आशा. (म्हणटकूच ताका उजू न्याय मेळपाची इल्लीय आस्त नासली. – पु.रा.का., बरो : शणै गोंयबाब, पा.५०.) २. उमेद (ह्या आदल्याय परिक्षांत ताणी आपलो पैलो पांवडो सोडूंक ना आनी फुडाराकूय ते ताका गाराभाशेन चिकटून बसून दिसानदीस नांवालौकिकाक चडटले म्हणपाची म्हाका आस्त आसा. – कोंकणी विद्यार्थ्यांक, बरो : शणै गोंयबाब, पा.२५). ३. उर्बा. ४. (ला.) दुडवाची गांठ; पुंजी.

**म्हण** : आस्त केल्लो खावन मरूंक ना; रीण केल्लो पावन मरूंक ना.

**आस्तबदीक** । आस्तबदीक् । सा.रू. –का । ('आसप' वेल्यान) न. इस्टेट; संपत्ती. (चोंयवटेचो धांक, चेपण आनी वाडीकारालें आस्तबदीक हाचो लोभ जालो, आनी ताची मतच मेली. – दोंगरायेदी फट, बरो : महाबळेश्वर सैल, पलतडचें तारूं, पा.२८).

**आस्तवंत** । आस्तवंत् । सा.रू. –ता । (सं. आस्थावंत) वि. उर्बेवन्त; जो उमेदीन आनी हावेसान भल्ला तो; आस्तेवन्त. (आनी हीं आनी हेर गितां आमगेल्या हांसमुख्या आनी आस्तवंत तरण्या-धाकट्या भुरग्यांच्या ओंठार घोळिल्लीं पळोवन, आमगेली भास दिसान दीस चड व्हड जातली म्हणपाचें व्हडले जयपतिचें उतर मेळटा. – आबे फारीय, प्रस्तावना, बरो : दोना प्रोपेर्सिय दि फिगरेद, पा.४५.)

**आस्ता** । आस्ता । सा.रू. –स्ते । (सं. आस्था) स्त्री. आस्था; आशा; उमेद.

**आस्तार** । आस्तार् (?) वि. मदांध; मदमस्त.
**म्हण** : आस्तार बायलेक कास्ताद घोव.

**आस्तिक** । आस्तिक् । सा.रू. –का । (सं. आस्तिक) वि. जो देव मानता तो; जाची देवाचेर श्रद्धा, भक्ती आसा तो; देव, परलोक, पाप-पुण्य बी मानता तो.

**आस्तिकपण** । आस्तिकपण् । सा.रू. –णा । (सं. आस्तिकत्व) न. १. देव, परलोक, पाप-पुण्य बी मानपाची वृत्ती. २. गिरेस्तकाय; श्रीमंती.

**आस्तिकाय** । आस्तिकाय् । सा.रू. –ये । ('आस्ती' ह्या उतरावेल्यान) स्त्री. गिरेस्तकाय; श्रीमंती.

**आस्तिदार** । आस्तिदार । सा.रू. –रा । ('आस्ती' ह्या उतरावेल्यान) वि. भाट-बेंस आशिल्लो; दुडवांकार; आस्पतदार; आस्तीक.

**आस्ती** । आस्ती । सा.रू. –स्ते । (सं. अस्; ता. आस्ति = इस्टेट; का. आस्ति = संपत्ती) स्त्री. भाटबेंस; संपत्ती; इस्टेट; गिरेस्तकाय.

**आस्तीक** । आस्तीक् । सा.रू. –का; भौव. –क; सा.रू. –कां । (सं. अस्तिमन् = गिरेस्त; धनवान) वि. भाट-बेंस आशिल्लो; धनदौलत आशिल्लो; गिरेस्त; श्रीमंत. (हांव ल्हान आसतना म्हज्या शेजराक एक घर आसलें. ताजीं घरकारां आदल्या काळार खूब आस्तीक आसलीं जायत. पूण आतां काय अर्थिक परिस्थितीक लागून तीं मातशीं गडबडलेलीं. – भुरगेपणावयल्यो यादी, बरो : सोतेर आर्. बार्रेत, कोंकणी, १९७२).

**आस्तेवंत** । आस्तेवंत् । सा.रू. –ता । पळेयात – 'आस्तवंत'.

**आस्तो** । आस्तॉ । सा.रू. –स्त्या; भौव. –स्ते; सा.रू. –स्त्यां । ('आसप' वेल्यान) वि. दुडवांची गांठ आशिल्लो वा दुडवांची गांठ केल्लो; दुडवांकार.
**म्हणी:** १. आस्त्याचे सगळे इश्ट.
२. आस्त्याक विखार, नास्त्याक गोरेंकार.
३. आस्त्याक ना सूख, नास्त्याक ना दूख.

**आस्था** । आस्था । सा.रू. –स्थे । (सं. आस्था) स्त्री. १. आस्ता; आवड; रस. २. श्रद्धा; काळजी; उत्कंठा; अत्रेग. ३. प्रेम; आसक्ती. ४. कळकळ; विचार. ५. आदर. ६. आशा.

**आस्थान** । आस्थान् । सा.रू. –ना । (सं. आस्थानम्) न. १. स्थान; थळ. (...तुजी खोशी जैसी वैकुंठा जाता तैसिचि संसारांतु जाउं म्होणु म्हणताति तावळि, तेंचि आस्थान, वा केवळ वैकुंठ कळता. – क्रिअस्तांवाचे दोत्रिनिचो अर्थु – बरो. पाद्री दियोगु रिबैरु, मराठी संशोधन पत्रिका (त्रैमासिक), वर्स ३रें, आंक पयलो, ऑक्टोबर १९६५, पा.१७.) २. ठाणें; मुक्काम (आज आस्थान खंय ? – कसलोच उद्योग करिनासतना कांय जाण बेकार ठवय कशे आज एकेकडेन, फाल्यां दुसरेकडेन अशो भिकारभासो करीत हाचें ताचें वाळें मारीत भोंवतात, तेन्ना कोणय एकाद्रो तांकां विचारता, 'आज आस्थान खंय ?')

**आस्पत** । आस्पत् । सा.रू. –ती । (सं. 'अस्' वेल्यान) स्त्री. १. संपत्ती; इस्टेट; गिरेस्तकाय. (ताचे असलो गरीब-दुबळ्यांक उपकरा पडणो मनीस सगळी आस्पत दानाधर्माक दिवन, दाटून दळिद्र पांगुरता म्हणपाचें वर्तमान आयकून, मोठ्या चुरचुऱ्यांनी ते थंय पुंजा जाले. – गोमन्तोपनिषत्, पयलें खंड, बरो. शणै गोंयबाब, पा.६०.) २. तांक; ऐपत. (एका धपक्यान धा हजार रुपये दिवपाची आस्पत ताका ना.) ३. येणावळ; प्राप्ती (व्यंकटेशाच्या देवळाक वर्साक सवाय लाख रुपयांची आस्पत आसा.)

**आस्पतदार** । आस्पतदार् । ('आस्पत' वेल्यान) वि. १. चकचयाळ पीक दिवपी; पिकाळ; भरपूर उत्पन्न दिणी. (काशिनाथबाबांले म्हणणेभाशेन गोंयची भूंय आस्पतदार आसलीय जाल्यार, थैंचे जायते लोक 'सकाळीं आसल्यार सांजेक ना' अशे तरेन दीस काडटात म्हणपाचें आमी आयकलां आनी पळेलां. – नवें गोंय, ३रें वर्स, ३रो आंक, ज्यानेर १९३७, पा.९२.) २. दुडवांकार; गिरेस्त; श्रीमंत; आस्तिदार.

**आस्पतिशास्त्र** । आस्पतिशास्त्र् । सा.रू. – स्त्रा । ('आस्पत' वेल्यान) न. अर्थशास्त्र; संपत्ती मेळोवपाच्या आनी वाडोवपाच्या नेमांचो अभ्यास.

**आस्पतिशास्त्री** । आस्पतिशास्त्री । सा.रू. – स्त्र्या; भौव. – स्त्री; सा.रू. – स्त्र्यां । ('आस्पतिशास्त्र' वेल्यान) पु. अर्थशास्त्रज्ञ; अर्थशास्त्राचो अभ्यास आशिल्लो. (ह्या भांडवलाचें म्हत्व आजवेर जायत्या आस्पतिशास्त्र्यांनी सांगलां. – नवें गोंय, २रें वर्स, १लो आंक, जूल १९३५, पा. ३५.)

**आस्पाव** । आस्पाव् । सा.रू. – वा । ('आसप' वेल्यान) पु. अंतर्भाव; समावेश. (...तशेंच घरांतल्या देवांत वेंकटेशाचोय आस्पाव जातालो. – पु.रा.का., बरो : शणै गोंयबाब, पा.९९.)

**आस्पावप** । आस्पावप् । सा.रू. – पा । ('आस्पाव' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू – आस्पाय्: सक.) अंतर्भाव करप; समावेश करप.

**आस्वाद** । आस्वाद् । सा.रू. – दा । (सं. आस्वादः) पु. रूच; चव; सुवाद.
**वा.प्र.: आस्वाद घेवप** : एकाद्रे कलाकृतीचे सुंदरतायेचें रूप समजून घेवप.

**आस्वेल** । आस्वॅल । सा.रू. – ला; भौव. – लां; सा.रू. – लां । (सं. ऋक्षभल्ल) न. पळेयात 'अस्वल'.

**आस्स** । आस्स् । सा.रू. – स्से । (सं. आशा) स्त्री. आशा; आस; आस्त (पोर्तुगालांत प्रजासत्ताक घट्ट जालें आनी ताणें पाळांमुळां घेतलीं जाल्यार, गोंयाक राजकी अधिकार मेळपाची आस्स आसा, अशें ताका दिसलें आनी देखुनच ताणें प्रजासत्ताकाचो पाखो उखलून धल्लो. – मिनेझिस ब्रागांस, बरो : प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय, नवें गोंय, एप्रिल १९६४.)

**आंस** । आंस । सा.रू. – सा; भौव. – स; सा.रू. – सां । (सं. अक्ष; लातीन – axis) पु. १. पृथ्वीच्या गुळ्यामदल्यान जी वता वा वता अशी कल्पना करतात, आनी जिचे भोंवतणी तो पृथ्वीचो गुळो भोंवता ती सरळ रेशा वा वळ. २. खंयचेय वस्तूचे वा गुळ्याच्या मध्यभागांतल्यान वता ती खरी वा कल्पिल्ली रेशा. ३. गाडयेचो कणो. हो कणो लोखंडाचो वा लाकडाचो करतात. कणोच गाडयेचें सगळें वजन घेता.

**आंस** । आंस । सा.रू. – सा; भौव. – स; सा.रू. – सां । (सं. आमिष ?) आयस, हांयस; आंयस.
**वा.प्र.: आंस घालून कुल्ल्यो काडप** = लांच दिवन आपलें काम सादून घेवप.
**म्हण** : आंस घालेबगर कुल्ल्यो येनात.

**आंसाळी** । आंसाळी । सा.रू. – ळे; भौव. – ळ्यो; सा.रू. – ळ्यां (?) स्त्री. रानांत वा दोंगरार जावपी एक वनस्पत. (वांकडीं-तिकडीं, सुकूंक पाविल्लीं आंसाळीं; उस्की आनी कसलीं कसलीं कांटेरी झोंपां. – एक कोलो, गांव आनी रात, बरो : सुभाष व्यं. भोबे, कोंकणी कथासंग्रह (साहित्य अकादेमी), पा.१७७).
**विशेश** : वनस्पतिशास्त्रांत हिका Grewia Microcos वा Grewia Ulmifolia अशें म्हणटात. मूतखडो विरघळपाक जो गांवठी काडो दितात तातूंत आंसाळे वा आंसोळेचीं पाळां आसतात.

**आंसाळो** । आंसाळॉ । सा.रू. –ळ्या; भौव. –ळे; सा.रू. –ळ्यां (?) पु. आंसाळेचें फळ. (तांचेबरोबर आयिल्ल्या भुरग्यांनी तर येनाफुडें पिकिल्ले आंसाळे सोदूंक सुरवात केली. – एक कोलो, गांव आनी रात, बरो : सुभाष व्यं. भोबे, कोंकणी कथासंग्रह (साहित्य अकादेमी), पा.१७८.

**विशेश** : हें फळ तन्नें आसतना पांचवेंच आसता, पिकतकीर तें काळें जाता. आंसाळे मार्च एप्रिल म्हयन्यांत पिकतात. आंसाळो बोरायेदो, चिके बोरापरस मात्सो ल्हान आसता. तेचपरी वांटकुळसार लांबोडो आसता. आंबाड्यावरीच आंसाळ्यांत काथो आसता. ह्या काथ्यांत आंसाळ्याच्यो बियो आसतात. आंसाळ्याची साल सामकी पातळ आसता. आंसाळो पिकतकीर आंबट-गोड लागता. देखून तो भुरग्यांक भोवच आवडटा.

**आंसो** । आंसॉ । सा.रू. –श्या । (सं. अंशक; प्रा. अंसओ) पु. भाताचो दाणो. पळेयात 'आसो'.

**आहा:कार** । आहाक्कार । सा.रू. –रा (सं. अहह + कृ) पु. हाहा:कार; दुख्खाचो कड; रडारड; आकांत; आक्रोश.

**आहार** । आहार् । सा.रू. –रा । (सं. आहार:) पु. १. दिसपट्ट्या जेवणांतले अन्नपदार्थ; देहाक पोसणूक दिवपी खाणाचीं द्रव्यां. २. नित्याच्या खाणाचें प्रमाण वा खाल्लें अन्न पचोवपाची शक्त. (ताका चड आग्रो करूं नाका. ताचो आहारच तितलो.)

**विशेश** : 'आहार' हें उतर समासांत येवन फळार (फलाहार), शाकाहार, मांसाहार, मत्स्याहार, निराहार अशीं कांय उतरां घडटात.

**म्हणी** : १.आहाराक आनी वेव्हाराक सोयरीक ना. २.आहार आनी वेपार करूंक लज ना.

**आहुती** । आहुती । सा.रू. –ते । (सं. आहुति:) स्त्री. १. मंत्र म्हणत देवतेखातीर होमांत उडयतात तें द्रव्य – चोरू, तूप, तीळ बी. २. (ला.) बळी. (आपल्या स्वार्थाखातीर ताणें ताची आहुती दिली.) समूळनिशीं जाल्लो नाश; सर्वनाश. (दुस्मानान ताच्या घराक उजो घालो आनी त्या उज्यान ताच्या घरादाराची आहुती घेतली.)

**वा.प्र.**: १. **आहुती घेवप** : सर्वनाश करप; भस्म निखेळ करून उडोवप.

२. **आहुती दिवप** : बळी दिवप; जिवाची होळी घालप. (स्वातंत्र्ययज्ञांत कितल्या तरी तरण्याधाकट्या भुरग्यांनी आपल्या जिवाची आहुती दिली.)

**आळ** । आळ् । सा.रू. –ळा; भौव. –ळ; सा.रू. –ळां (सं. अलीकम्) पु. किचांट; बगलांट; बिरमत; बिर्मत; आरोप. (तूं कोणाचेरूय नसते आळ कित्याक घालता ? – सूर्यसांवट, बरो : पुंडलीक नायक, पा.४०).

**म्हण** : एक आळ महाजाळ.

**आळ** । आळ् । सा.रू. –ळी; भौव. –ळी; सा.रू. –ळीं । (सं. आलि) स्त्री. रांग; वळ. (घराभोंवतणच्या कोंडयाच्या आळींनी आनी आंब्यापणसांच्या रायांनी भुतां सांवळ्यांत लिपून बसल्यांत आनी आमी भुरगीं कसली आगळीक करतात, हाजी वाट पळैतात अशें दिसतालें. – दोन बळी, बरो : बाकीबाब बोरकार, कोंकणी कथासंग्रह (साहित्य अकादेमी), पा.२०.)

**आळ** । आळ् । सा.रू. –ळी; भौव. –ळी; सा.रू. –ळीं । (अर. आल-संतत) स्त्री. भिकण रुजवणाक घालून किल्लावन काडिल्ली पणसाची रोंपी, (पणसाची आळ).

**आळ** । आळ् । सा.रू. –ळे (?) स्त्री. नडणेच्या वेळार हुमटावन काडटात तें शेतांत आपाप रुजून आयिल्लें निरुपयोगी तण.

**आळ** । आळ् । सा.रू. –ळा; भौव. –ळ; सा.रू.

–ळां । (का. आळ) पु. शेतांत काम करपी मानाय; चाकर.

**म्हण** : आळ फटयाक सोडिना, फटें आळाक सोडिना. ही म्हण 'आन फटयाक सोडिना, फटें आनाक सोडिना' अशीय मेळटा. काणकोण म्हालांत कुणब्यांक 'आन' म्हणटात. कुणबी आपल्या बापायक 'आन' ह्या नांवान उलो मारतात. ताका लागून तांकां 'आन' ह्याच नांवान वळखतात.

**आळ** । सं. आलय वेल्यान (?) ता.कू. कांय नामांक लागून विशेशणां घडोवपी ताळाकूस. देखीक : मांस + आळ = मांसाळ; मोग + आळ = मोगाळ; उदक + आळ = उदकाळ; तूप + आळ = तुपाळ; पीक + आळ = पिकाळ.

**आळखो-विळखो** । आळखॉ-विळखॉ । सा.रू. –आळख्या-विळख्या (?) पु. नागपास कसो घाल्लो घट्ट विळखो.

**वा.प्र.: आळख्या-विळख्यांनी उलोवप**: सरळ उलयनासतना प्रत्येक उतर विळखावन (नस्तोंच अर्थ काडून) उलोवप.

**आळणो** । आळणॉ । सा.रू. –ण्या; भौव. –णे; सा.रू. –ण्यां । (सं. व्यंजनक; प्रा. विअणअ; का. आलवट्ट) पु. आयणो; पंखो; वारो घेवपाचें एक साधन.

**आळणो** । आळणॉ । सा.रू. –ण्यां; भौव. –णे; सा.रू. –ण्यां (?) पु. आंवडो. (कपलार हात मारून सुके आळणे घोटीत फुलांमेस्त्री घरा परतलो. – आतां रड, बरो : दामोदर मावजो, जाग दिवाळी आंक १९८८; पा.२६.)

**आळमें** । आळमँ । सा.रू. –म्या; भौव. –मीं; सा.रू. –म्यां । (दे. आळंबं) न. 'फंगस' वर्गांतली वेगवेगळ्या प्रकाराची 'क्रिप्तोगामिक' वनस्पत; अळमें.

**विशेश** : गोंयांत जीं आळमीं खातात तातूंत 'फुगे' ह्या नांवान आळम्याचोय आस्पाव जाता. फुगे हे काणकोणच्या आवाठांत मेळटात. पयल्याच पावसार वत पडटकीर ते जमनींतल्यान वयर सरतात. ह्या आळम्याचो कळो हेर आळम्यांपरस मोठो आनी काळसर आसता.

अमेरिकेचो एक श्रेस्ठी (Banker) R. Gordon आनी ताची रशियेंत जन्मल्ली घरकात्र बाय Valentina ह्या दोगांनीय युरोपांतले खंयचे देश आळम्यांकडेन लग्निक आसात हाचो अभ्यास केलो. ह्या अभ्यासांतल्यान युरोपांतल्या देशांचे तांणी दोन वांटे केले – Mycophobes (आळमीं खावपाक भियेवपी देश) आनी Mycophoges (आळमीं खावपी देश). स्पेन, दक्षिण फ्रान्स, बाव्हारिया, बाल्कन प्रदेश आनी रशिया हे आळमीं खावपी देश. रशियन लोकांक आळमीं अत्यंत प्रीय! थंय आळम्यांच्यो सुमार ९० जाती खावंक उपकरायतात.

हिब्रूंनी A-Muscaria हें आळमें पवित्र मानलें. घडये हें आळमें पोस्टीक आशिल्लें जावंये. धर्मगुरू, राजा आनी कांय मानेस्त (privileged) हांकांच हें आळमें खावपाक धर्माची मान्यताय आसली. हेरांखातीर हें शेंदुरी रंगाचें आळमें विखारी आसलें. हें बर्च झाडांच्या रानांतच मेळटालें.

ग्रीक शेंदुरी रंग निशिद्ध मानताले. ताका लागून विखारी आनी अ-विखारी (विखारी नासपी) आळम्यांक पासून तांणी ओंकारो येसारकीं अळशिकावणीं नांवां दवरलीं.

मध्य अमेरिकेंतल्या मेक्सिको देशांत आळम्यांचें एक शिल्प मेळटा. ह्या शिल्पावेल्यान थंय Psilocybe हें आळमें धर्मविधींत उपकरायताले म्हणपाचें कळटा. रुचीक काटूक आशिल्लें हें आळमें बदामी रंगाचें आसता.

A Muscaria आळम्यांक Fly Agarica ह्या नांवान वळखतात. भौ. Luis Carrol हांकां ह्या

आळम्याचे गूण खबर आसले. ह्या आळम्याचो हुक्को वा गुडगुडी ओडटल्याक तरे तरेचे भास जाताले खंय.

भौ. Gordon Warsons हांणी A Muscaria आळम्याचो अभ्यास केलो. ग्रिकांची 'आंब्रॉजिय' (Ambrosia) आनी वेदिकांचो 'सोम' ह्या आळम्याचोच करताले, अशें ते म्हणटात. Ambrosia हें ग्रिकांच्या पुर्विल्ल्या देवांचें अन्न आसलें; तेच परी 'सोम' हें वेदिक देवांचें अन्न आसलें.

युरोपांत ऑक्टोबर म्हयन्यांत आळमीं जातात. ह्याच म्हयन्यांत ग्रीस देशांत आंब्रॉजिय उत्सव जातालो. Dyonysus देवाकडेन तो लग्निक आसलो. 'सोम' पियेले उपरांत वेदिकांक जशी धुंदी वा मस्ती चडटाली, तशीच धुंदी ग्रीक दादल्यांक आनी बायलांक आंब्रॉजिय पियेले उपरांत चडटाली.

भौ. Gordon Warsons हांणी आंब्रॉजिय ही A Muscaria ह्या आळम्याचीच करताले म्हणून सिद्ध करपाचो जरी यत्न केलो, तरी Encyclopedia Britanica आनी Oxford Dictionary तांगेल्या म्हणण्याक तेंको दिनात. वेदिक 'सोम' होय ह्या अळम्याचोच करताले म्हणपाची नाट ऋग्वेदांत मेळना. 'सोम' सरोवरांतल्यान उत्पन्न जाला, अशें ऋग्वेदांत म्हळां. (ऋ.९.९७.५२). ताका अग्निरुपीच न्हय, तर खासा अग्नीच म्हळा (ऋ.९.६६.१९). तो पर्वतांत जातालो आनी गरुडान ताका स्वर्गलोकांतल्यान हाडला, अशेंय म्हळां. सोम देवांचें प्रिय अन्न आसून (ऋ.९.६२.५.) तो सोमाचे वालीचो पिळटाले अशें सांगलां (ऋ.९.६८.२.).

"Amanita Phaloides' हें युरोपांतलें अत्यंत विखारी आळमें. नॅरोचो (Nero) सावत्र बापूय सम्राट क्लावदियुश (Claudius) हाका जिवानिशीं मारपाक, ह्या विखारी आळम्याचोच ताचेर प्रयोग केल्लो म्हणपाचें रोमाचो इतिहास सांगता.

आळमीं पोस्टीक आसतात. आळम्यांत 'सी' जीण-सत्व सोडून, हेर सगळीं जीणसत्वां (vitamins) मेळटात. आळम्यांचो सूप सप्तकांत दोन खेपो घेत रावल्यार, वाडिल्लें रक्तचेपण (blood pressure), तेच परी वाडिल्लें cholesterol देंवता म्हणपाचें भौ. डॉ. नंदकुमार कामत हांणी आळम्यांचेर केल्ल्या संशोधनांतल्यान सिद्ध केलां.

आळम्याकडेन लग्निक आशिल्ले हेर माहितीखातीर पळेयात – 'अळमें', कोंकणी शब्दसागर, भाग पैलो.

**आधारावळ**

1. Man, Myth and Magic, The Illustrated Encyclopedia of Mythology, Religion and the Unknown, vol. 7, Editor in chief, Richard Carrendish.

२. ऋग्वेद, मराठी भाशांतर, महामहोपाध्याय विद्यानिधी सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव.

**आळयेपाळयेन** । आळ्येपाळ्येन् । (कों. आळ = रांग वळ + पाळी) क्रि.वि. एकाफाटल्यान एक अशे तरेन; आळीपाळीन. (आनी विकऱ्याक दवल्लेली ती बावली आळयेपाळयेन विकपी आनी गिरायक हांच्या तोंडाकडेन आशेन पळयता. – विकऱ्याची वस्त, बरो : सुरेश काकोडकार, कोंकणी कथासंग्रह (साहित्य अकादेमी), पा.१०६).

**आळवप** । आळव्प् । सा.रू. –पा । (सं. आलाप?) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: आळय् -अक/सक) १. विनवणी करप; परतून परतून मागणें करप. २. आलापीन गावप.

**आळवणी** । आळवणी । सा.रू. –णे । (सं. आलापनम्?) स्त्री. विनवणी; आर्जवां.

**आळशी** । आळशी । सा.रू. –श्या; भौव. –शी; सा.रू. –श्यां । (सं. 'आलस्यम्' वेल्यान) वि. १. जो आळसायेन भल्ला तो; जो दीस-रात कामाधंद्याविणें हातपाय पांगरून बसता तो; जिवावेलें

संकट जाल्लेवरी जाका काम करूंक उबगण वा कंटाळो येता तो. (आळशी मनीस / आळशी बायल / आळशी गोरू.) २. (ला.) सुस्त; मंद (आळशी ल्हारां). पु. मुळांतच काम करपाची वान्सा नाशिल्लो मनीस. (हो संवसार चडसो आळशांनीच भल्ला.)

**वा.प्र.: आळशाचें कोंड** = पराकाश्टेचो आळशी. (आळशाचें कोंड तें. गोरवां राखतना तेचे पांय वळटाले. – राखण, बरो : पुंडलीक नायक, पा.४३.)

**म्हणी :** १. आळश्याक त्रिलोकाचें ज्ञान.

२. आळशी सांगत तें घाडयाच्या बापायच्यान सांगूं नज.

३. आळशा, भिकणां भाजून खाशी? भाजचेभशेन हरवींच खायन.

४. आळशा, आर्मानाक उजो पेटला मरे. पेटला जाल्यार पेटूं दी. म्हाका आपलो न्हिदूं दी.

५. आळश्याचो दीस सरना, वावुरतल्याक रातूय पावना.

६. आळश्याक भिकेचे दुवाळे.

७. आळशी उठूंक शिंबरें शिंकलें.

८. आळश्याक दोट्टी वावर, किरपणाक दोट्टी खर्च.

९. आळशा, बोरां पिकल्यांत म्हळ्यार हागिल्ले गांडीर खावं?

१०. आळशी मनीस अन्नाक खार आनी धरणीक भार.

११. आळशाचो दीस सरना, कस्ट करतल्याक रातय पावना.

१२. बायल आळशी धार नाशिल्ली सुरी, सूय शिंवूंक उपकरा नासलेली.

**आळस** । आळ्स । सा.रू. –सा । (सं. आलस्य) पु. सुस्ती; वावर न करपाची इत्सा; सुशेगाद रावपाची खोड.

**आळसाय** । आळसाय् । सा.रू. –ये । (सं. आलस्य) स्त्री. १. निजाचोच विद्येचो, कामा-धंद्याचो, वावर-उद्योगाचो तिरस्कार निर्माण जाता असो आंगांत आशिल्लो दुर्गुण; निजाचीच आशिल्ली कामाची उबगण वा कंटाळो; काम म्हळ्यार संकट अशी निर्माण जाल्ली वृत्ती. २. जिवाची कडामोड जावन आयिल्ली जडसाण; अतीश्रमान आयिल्ली थकावट; कसलेंच काम करूं नये अशी जाल्ली मनाची अवस्था. ३. (ला.) मंदाय; सुस्ती (आज ल्हारांकय आळसाय आयल्या).

**म्हणी :** १. आळसाय आपोवन हाडटा दुर्बळाय.

२. काम करूंक आळसाय, आयतें मेळ्यार जाय.

३. वावरासारकें पुण्य ना, आळसायेसारकें पाप ना.

४. दुर्बळाय आनी आळसाय सदांकाळ भोंवतात सांगाता.

५. दुर्बळाय, आळसाय आनी बेशर्माय सदांच लागीं भोंवतात.

**आळसावप** । आळसाव्प् । सा.रू. –पा । ('आळस' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आळसाय्-अक). १. आळसायेन भरप; आळशी जावप. २. कडामोड जावन आंग जड जावप. (जोराक लागून तो आळसावला.) ३. (ला.) मंद जावप. (वारो नाशिल्ल्यान दर्याचीं ल्हारांय आज आळसावल्यांत.)

**आळसुट** । आळसुट् । सा.रू. –ट; भौव. –टां; सा.रू. –टां । ('आळस' वेल्यान) न. आळशी. (स्वताक व्हळ्ळ्यो किन्नरी समजतात. पुण पोटचे गुळेसुद्दां आमचे पोटापोंदा सोडटात हाडून! हळशिकावणी जात! एक नंबरचीं आळसुटां! – कावळो-कावळी, बरो : जयमाला दणायत, कवासो, पा.३७.)

**आळांचु** । आळांचु । सा.रू. –चा । (सं. आलोचना) पु. विचार, चर्चा. (... ते बाविसय जाण वनचोर्टे येकमेकांभितर उलोवुनु ऐसो आळांचु करूं लागले. लोकु जीं अपुर्वा सांतु आंतोनिचीं सांगता, तीं आपल्या दोळ्यांनी आमी आपुले आंगीं देखिल्यारि बरें. – सांतु

आंतोनिचीं अचर्यां – बरो : आंतोनियु द सालदाञ्ज, संपादक : अ.का. प्रियोळकर, पा.१३.)

**आळाट** । आळाट् । सा.रू. –टा; भौव. –ट; सा.रू. –टां (?) पु. साधारण राजू आसता तेपरसय मोठो आशिल्लो राजू; चड मोठो दोर.

**आळाबंद** । आळाबंद । सा.रू. –दा; भौव. –द; सा.रू. –दां (सं. बन्धनम्?) पु. १. धाक; वचक; नियंत्रण. (...तो भायर पट्टकूच, म्हजो आळाबंद सुटून हांव पारपोळ जालों. – झिलबा राणो, बरो : शणै गोंयबाब, पा.२.) २. निर्बंध; आडवण; चाप. (शारकरांच्या हकाचे ते खरेले राखणदार आसले आनी काम्राच्या कमाविसदाराच्या विद्वाटपणाक ते आळाबंद आनी आडांबो घालताले. – नवें गोंय, २रें वर्स, ४थो आंक, आब्रील १९३९, संपा. का.श्री. नायक, पा.१४३.) ३. निग्रह; संयम. (आत्मगिन्यानी मनीस लेगीत आपणाले बडीभाशेन चलता. सगळे जीव बडीर वतात. म्हण्टकूच, इंद्रियांचो आळाबंद कित्याक उपकरता? – भ.गी. ३.३ : भाशांतर : शणै गोंयबाब, पा.३४.)

**वा.प्र.: १. आळाबंदा येवप** : निवळप; जाग्यार येवप; सुतार येवप. (तांणी देमांदाक लागिल्लो खर्च शिवनारायण दासाकडसून घेतल्याबगर रांवचें न्हंय. तशें केलें ना जाल्यार ताचे असले हटमटवाळी आनी घोळास्टकी मनीस आळाबंदा येवचे नात. – नवें गोंय, २रें वर्स, १लो आंक, जूल १९३५, पा. २६-२७.) **२. आळाबंदा हाडप** : १. जिरवप; निटायेर हाडप. (मस्त्यांची मस्ती आळाबंदा हाडपायेदी तांक आमचेकडेन आसूंकच जाय.) २. नियंत्रणांत दवरप; नियमन करप; मर्यादेंत दवरप; आपले स्वाधीन दवरप. (संतत आळाबंदा हाडूंक गुरवचार आडवपाच्या शास्त्रापरस आनीक जायते बरे उपाय आसात. – नवें गोंय, २रें वर्स, २रो आंक, वैतुंब्र १९३५, पा.६९.) ३. उणो करप. (लग्न-मुंजीक बामण विद्वाटो खर्च जायतो करतात. हें इल्लेंय लटकें न्हय. तो आळाबंदा हाडूंक ताणीं जी बुद्द दिल्या ती खऱ्यांनीच घेसारकी आसा. – नवें गोंय, २रें वर्स, २रो आंक, वैतुंब्र १९३५, पा.७०.) ४. बांदून घालप; गात्रगळित करप. (अर्जुनान झुजून ताका रोखडोच हाडलो आळाबंदा. – महाभारत; भाशांतर : महाबळेश्वर सरदेसाय.)

**आळावप** । आळाव्प् । सा.रू. –पा । (सं. आ + ली = लागीं येवप) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आळाय्-सक.) निवळप; सुदारणा जावप. (पण्टुरांचो हुस्को कित्या? तुजोच ना रे भरवंसो । आळावतलो केन्ना तुजो । सभाव असो वसवसो? – येतना तुवें हाडलां कितें? – बाकीबाब बोरकार, सासाय, पा.५७.)

**आळास** । आळास । सा.रू. –सा (?) पु. भुरगें रडटासतना ताणें खिंचिल्लो श्वास.

**वा.प्र.: आळास परतुवप** : श्वास खिंचिल्ल्यान वा श्वासाक आडखळ येवन घुस्मटप.

**विशेश** : 'आळास' हें उतर सामक्या ल्हान भुरग्यांकच उपकरायतात. भुरगें रडटासतना तें उश्वास भायर घालता आनी श्वास घेतना, तो कसल्याय कारणान खिंचिल्ल्यान वा श्वासाक आडमेळें आयिल्ल्यान, तें घुस्मटून काळेंनिळें जाता. भुरग्याचें तोंड उक्तें केल्लें तशेंच उरता. त्या वेळार 'भुरग्यान आळास परतिलो' अशें म्हणटात.

**आळिकार** । आळिकार् । सा.रू. –रा; भौव. –र; सा.रू. –रां । (ता. आळि = प्रेम; का. आळियर = अति प्रेमळ; मायेस्त) पु. जो प्रेम, मोग, लाड करता तो.

**विशेश** : 'आळिकार' ह्या उतराचें स्त्रीलिंग 'आळिकान्न' अशें जाता.

**आळी** । आळी । सा.रू. –ळये; भौव. –ळयां; सा.रू.

–ळ्यां (सं. आलि = रांग; वळ) स्त्री. रांग; वळ. (तो हांसलो. हांसतना सदाफुलीची एक आळी फुलिल्ल्यावरी दिसली आनी सरस्वती पिसावलें. – व्यभिचार, बरो : महाबळेश्वर सैल, पलतडचें तारूं, पा.९.)

**आळी** । आळी । (सं. आलय वेल्यान) ता.कू. कांय भाववाचक नामांक लागून स्त्रीलिंगी विशेशणां घडोवपी ताळाकूस. देखीक : आशा + आळी = आशाळी; सूख + आळी = सुखाळी, बी.

**आळीपाळीन** । आळीपाळीन्। (कों. आळी = रांग, वळ + पाळी) क्रि.वि. एकाफाटल्यान एक अशे तरेन. (दोन म्हशी आशिल्ल्यो. आळीपाळीन त्यो दूद दिताल्यो. – पाशाणभुंयार, बरो : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा.१४३.)

**आळुबाय** । आळुबाय्। सा.रू. –ये । (कों. आळू + बाय) स्त्री. १. खूब लाड जाल्ली. २. लाडांत येवपी. ३. हळवी; चड कोमल मनाची; मातपसून दुख्ख वा कश्ट सोंसपाची मानसिक वा शारीरिक तांक नाशिल्ली.

**आळू** । आळू । सा.रू. –ळवा । (ता. 'आळि = प्रेम' हाचेवयल्यान ?) स्त्री. माया; प्रेम; लाड; अपुरबाय.

**आळूं** । आळूं । सा.रू. –ळवा । (सं. आलूक = आळवाची मुंडली) न. शाकभाजेक उपकरा पडपी, तेचप्रमाण वखदी गुण आसपी उस्ण कटिबंधांतली एक वनस्पत. (आई वासरेंत आळूं शिनूंक बशिल्ली. तो गप्प भितर गेलो. – पुण्याय, बरो : महाबळेश्वर सैल, तरंगां, पा.७३.)

**वा.प्र.: १. आळवावेलें उदक** : अशाश्वत; खिणयाळी गोष्ट.

**२. आळवाची नळी** : पोकळ; चडसो लाव न करपी.

**३. आळवार आंववप** : उपकाराची याद न दवरपी मनशाखातीर त्रास काडप.

**म्हणी : १.** आपल्या आळवाची खाज आपणाक खबर आसता. (आपलें व्यंग, उणेंपण आपणाक खबर आसता.)

२. आळवाची खाज आळवाक खबर. (जाचें दुख्ख ताकाच खबर आसता.)

३. सगळो दीस तळी आनी खावंक गेल्यार आळवाच्यो नळी. (सबंद दीस काम करुनय खंयचेकडेन कांय ना, ह्या अर्थान ही म्हण उपकरायतात.)

**विशेश** : गोंयांत आळवाचे चार प्रकार मेळटात. १) आळूं (माडयेचें); २) कासाळी (साधारण माडयेच्या आळवापरस खूब मोठें आशिल्लें; ३) आळूं (मुंडल्यांचें) आनी ४) तेरें.

आळूं (माडयेचें) आनी कांसाळी हांचें वनस्पतीशास्त्रीक नांव Alocasia India वा Arum Indicum. आळूं (मुंडल्यांचें) आनी तेरें हीं आरॉयद् (Aroid) वर्गांत मोडटात.

आळूं मुदलचें आग्नेय आशियांतलें. माडी हें आळवाचें आनी कांसाळेचें जमनीपोंदा वाडिल्लें कांड. आळूं रोयता आसतनाच चर मारतात. तातूंत भुसो बी घालून माती फसफशीत करतात. उपरांत माडयेच्या दावांवेलो कोंब रोयतात. माडी भुसभुशीत मातयेंत बरी पोसवता. माडी पिठोळ आसता. माडयेच्यो फोडी तळटात.

आळवाचो वेंटो लांब आसता. वेंटो पोकळ आसलो तरी भक्कम आसता. आळवाचीं पानां रूंद आनी साधारण त्रिकोनी आसतात. देंठाकडेन पानांक दोशीं वाटेन त्रिकोनी खांच आसता. आळवाच्या पानांच्या शिरांचो आनी वेंट्याचो रंग चॉकलेटी आसता. पानांचो रंग काळसार दिससारको गाढ पांचवो आसता. आळवाच्या पानार उदकाचे थेंबे थारनात. ते सुळ्ळ करून सकयल देंवतात. ब्रह्मांडाच्या येद्या व्हडल्या पसाऱ्यांत मनशाची जीण खिणयाळी

आसता. ताकालागून मनशाचे जिणेक आळवावेल्या उदकाच्या थेंब्याची ओपार दितात. आळवाचीं पानां जमनीकडेन बागवल्लीं आसतात. आळवाच्या पानांची आनी वेंट्याची शाक करतात. जाका असूर पडटात ताका ही शाक गुणावाक येता.

कांसाळी आनी आळू हातूंत व्हडलेंशें अंतर ना. आळवाच्या पानांवरीच कांसाळेचींय पानां गाढ पांचवीं, काळसार दिससारकीं आसतात. आळवाचीं पानां त्रिकोनी कशीं, तर कांसाळेचीं साधारण अप्तागिराच्या आकाराचीं आनी उबीं आसतात. कांसाळेच्या वेंट्यांचो आनी पानांच्या शिरांचो रंग पांचवो आसता. आळवाच्या पानांपरस कांसाळेचीं पानां मात्शीं दाट आसतात. कांसाळेची माडी आळवाचे माडयेपरस मोठी आसता.

Arum Companulature हें मुंडल्यांच्या आळवाचें वनस्पतिशास्त्रीक नांव. मुंडल्यो हो कंद. मुंडल्यो पिठोळ आसतात. चड करून त्यो खतखत्याक घालतात. मुंडल्यांच्या आळवाचीं पानां मात्शीं वांटकुळसार आसतात.

आळवाक दर दोन वर्सांनी फुलां येतात. आळू आंगाक लागल्यार आंग खोरजता. ज्या जाग्यार आळू लागलां, तितलोय जागो बुड्डून तांबडोगूंज जाता.

तेरें (Arum Nympheifolium) हें रेबट जमनींत जाता. आळवायेदें हें उंच जायना. तेऱ्याचीं पानां त्रिकोनी आसलीं, तरी आळवाच्या पानांयेदीं रूंद नासतात. तेऱ्याचो रंग पांचवो आसता. तेऱ्याची शाक करतात. पानांचेर तरेतरेच्या रंगाच्यो तिकल्यो आशिल्लेंय तेरें मेळटा. हें तेरें शाकेक उपकारना. हें फकत सोबेखातीर बागांनी लायतात.

**आळें** । आळँ । सा.रू. –ळ्या; भौव. –ळीं; सा.रू. –ळयां । (सं. आलवालम् / आवालम् = आळें) न. झाडाच्या काणाभोंवतणीं पावसाचें वा शिंपतात तें उदक उरपाखातीर खणिल्ली ल्हानशी वाटकुळी खळी. – आळें माडाक वा झाडाक पुरती घालपाखातीर तेचपरी माडांक सांवळ घालपाकय काडटात. (म्हजे भोंवतणीं सुंदर बरें आळें करून आनी दिसपट्टें उदक शिंपून ताणेंच म्हाका वयर काडलो. – गोमन्तोपनिषत्, १लें खंड; बरो : शणै गोंयबाब, पा.२०.)

**आळेण** । आळॅण् । सा.रू. –णा । (सं. आलीनम्) न. तांदळाचें दळिल्लें जाडें पीठ. हुमण, रोस, तोंडाक बी चड पातळ जायत जाल्यार आळेण घालून तें मात्शें दाट करतात. नुस्त्याच्या कुडक्यांक वा पोस्तांक तेचपरी बटाटाच्यो, कणगांच्यो, माडयेच्यो वा केळ्याच्यो बी फोडी तळपाखातीर तव्यार घालचेपयलीं तांकां मीठमसालो लायले उपरांत आळेण लायतात.

**आळेणी** । आळेणी । सा.रू. –णे; भौव. –ण्यो; सा.रू. –ण्यां । (का. अळ्ळ; अळलिके = दुख्ख) स्त्री. १. पीडा; व्याधी; बळाळीक. २. करंदाय; उपद्रव; पिडापीड.

**आळेन** । आळॅन् । सा.रू. –ना । (सं. आलीनम् ) न. आयतें; जेवण शिजोवन तयार करपाखातीर वांटून तयार दवरलेलें वांटप. (तिणें आनी वेळ केलोना. बापायल्या हातांतल्यान मारुतीक घेतलो आनी रगडचावेलें आळेन ताच्या दोळ्यांत सप्प करून माल्लें. – एक आशिल्लो मारुती, एक आशिल्लो सदानंद, बरो : शशांक सीताराम, नबत, पा.६६.)

**आळेप** । आळॅप् । सा.रू. –पा । (का. अळरिसु = रडवप; अळल्; अळलिके = दुख्ख) क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू : आळे : सक.) उपद्रव; त्रास दिवप; धोंसप; छळप. (जी संसारगतिची ताळणी आपणाक आळेताली, ती उदंड दुख्ख वरवून; सांतु आंतोनिक सांगली दातारा तूं म्हाका मजती करी. – सां.आं.अ.: बरो : फा. आंतोनियु द् सालदाञ्ज; संपा. अ.का. प्रियोळकर, पा. ५९.)

**आळेवप** । आळॅवप् । सा.रू. –पा । ('आळेण' वेल्यान) क्रि.दा.धा.सा.ना. – मूळ धातू: आळै (सक.) रांदवायेचो पातळ जिन्नस (रोस, तोंडाक, हुमण बी.) चड पातळ जाल्यार तातूंत आळेण घालून तो मात्सो दाट करप.

**आळो** । आळॉ । सा.रू. –ळ्या; भौव. –ळे; सा.रू. –ळयां । (सं. आलानम्) पु. १. बंधन; बांदपाची वा आंवुळपाची वस्त. २. (ला.) आळाबंद; म्हेर मर्यादा; आडावण; आडांबो. (हांव म्हणटालों, ह्या चोरयांक आळो घालतलो जाल्यार चोरांक कशेंय करून पाळत दवरून धरूंक जाय. – ख्यास्त, बरो: जयमाला दणायत, कवासो, पा. २३.)

**वा.प्र.: आळो घालप**: मर्यादेंत दवरप; आळाबंदाक हाडप.

**आळो-पिळो** । आळॉ-पिळॉ । सा.रू. –ळ्या-ळ्या; भौव. –ळे-ळे; सा.रू. –ळ्यां-ळ्यां । (कों. आळप + पिळप हाचेवेल्यान) पु. आळसायेक लागून देहाक वा आंगाक दिल्लो मात्सोसो पिवळ, पीळ वा पिळो.

**आक्षेप** । आक्षेप् । सा.रू. –पा; भौव. –प; सा.रू. –पां । (सं. आक्षेपः) पु. विरोध; हरकत; आडमेळें. (ताणें केल्ल्या विधानाक, ताचेविशीं पुराय आदर आसूनय, म्हजो आक्षेप आसा. – गोमांचल ते हिमाचल, बरो: दिलीप बोरकार, पा.७.)

**आज्ञा** । आज्ञा । सा.रू. –ज्ञे; भौव. –ज्ञा; सा.रू. –ज्ञां । (सं. आज्ञा) स्त्री. १. आदेश; हुकूम; फर्मान. (तुमची आज्ञा जाली म्हणून हांवें गोंय घेतलें. – आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें?, बरो: शणै गोंयबाब, पा.७०.) – सरकारी कायदे पाळपाचें बंधन नागरिकांचेर आसता. देखून, सरकारान केल्ले कायदे हे सरकारी आज्ञाच आसतात. २. निरोप; मान्यताय; अनुमती. (आज्ञा दी, देवयानी! देवलोकांत वचपाक हो दास भायर सल्ला. आजच्यान म्हजो गुरुगृहवास सोंपता. – विदाय अभिशाप: रवीन्द्रनाथ टागोर, कोंकणी अणकार: पांडुरंग भांगी.)

**आज्ञादशक** । आज्ञादशक् । सा.रू. –का । (सं. आज्ञादशक) न. इस्रायलचे प्रजेन पाळपाखातीर, सिनाय पर्वताचेर देवान मोयझेक उक्त्यो करून सांगिल्ल्यो धा आज्ञा. हें आज्ञादशक अशें आसा:

१. म्हजेबगर तुका दुसरो देव ना. देवाची कसलीच म्हूर्त वा कसलीय आकृताय तूं घडोवंचो ना. कसले म्हुर्तीची तूं पूजा करचो ना वा तिची भक्ती करचो ना.

२. देवाचें नांव तूं अडादेडिये घेवंचो ना.

३. शेनवारचो दीस पवित्र मान. स दीस तुवें काम करचें. सातव्या दिसा विसव घेवचो. सातवो दीस हो 'शाब्बथ'. याव्हेन तो पवित्र मानला. देखून, ह्या दिसा तुवें काम करूंक फावना. तुवेंच न्हय, तर तुज्या पुतांनी, तुज्या धुवांनी, तुज्या चाकरमान्यांनी, दादल्यांनी आनी बायलांनी, तुगेल्या बैलांनी आनी गाढवांनी, तुगेल्या जनावरांनी आनी तुगेर आयिल्ल्या पावण्यांनी पसून काम करूंक फावना.

४. तूं आयुश्यान थीर जावंचो आनी याव्हेन दिल्ले भुंयेचेर तूं तरतरचो, हे खातीर तुगेल्या आवयबापायक मान दी.

५. तूं कोणाकच जिवानिशीं मारचो ना.

६. तूं शिंदळकी करचो ना.

७. तूं चोरी करचो ना.

८. तूं लटकी गवाय दिवंचो ना.

९. तूं पेल्याचे बायलेची आशा करचो ना.

१०. तूं पेल्याच्या घराची, ताच्या शेताभाटांची, ताच्या चाकरमान्यांची, तागेले कसलेच वस्तूची आशा करचो ना.

ह्या आज्ञांच्या रुपान मोयझेन मनीसजातीक एक नितीक संचित दिलें. खासा क्रिस्तस्वामीय ह्यो आज्ञा पाळपाखातीरच संवसारांत आयलो, त्यो कुशीक उडोवपाक न्हय.

**आधारावळ** : The Jerusalem Bible, Standard Edition, pp. 226-227.

**आज्ञापत्र** । आज्ञापत्र् । सा.रू. –त्रा; भौव. –त्रां; सा.रू. –त्रां । (सं. आज्ञापत्रम्) न. लेखी आज्ञा; हुकूम; फर्मान; शासनपत्र.

**आज्ञाभंग** । आज्ञाभंग् । सा.रू. –गा; भौव. –ग; सा.रू. –गां । (सं. आज्ञाभंग) पु. आज्ञेचो केल्लो भंग; अवज्ञा; अपाळो.

**आज्ञार्थ** । आज्ञार्थ । सा.रू. –र्था; भौव. –र्थ; सा.रू. –र्थां । (सं. आज्ञा + अर्थ) पु. (व्याक.) १. मूळ धातूक प्रत्यय लागून तयार जाल्ल्या क्रियापदावयल्यान व्यक्त (उकतो) जावपी चार अर्थांतलो एक अर्थ. स्वार्थ, आज्ञार्थ, विध्यर्थ आनी संकेतार्थ अशे हे चार अर्थ आसतात. २. उलयतल्यान उपकारायिल्ल्या क्रियापदांच्या रुपावेल्यान आज्ञा दिल्ल्याची, आज्ञा मागिल्ल्याची, बुद्द घेतिल्ल्याची, इत्सा दाखयल्ल्याची, तेचपरी मान्यताय दिल्ल्याची जाता ती जाण.

**विशेश** : पयल्या, दुसऱ्या आनी तिसऱ्या पुरुशांत एकवचन आनी भौवचन अशा दोनूय वचनांत आज्ञार्थ उपकरायतात. पयल्या पुरुशांत आज्ञा मागूंक, बुद्द घेवंक आनी इत्सा दाखोवंक, दुसऱ्या पुरुशांत आज्ञा करूंक, मेकळीक वा मान्यताय दिवंक आनी तिसऱ्या पुरुशांत मान्यताय दिवंक, उदानीसताय दाखोवंक, सदिच्छा, आशीर्वाद, शाप उकतायतना आज्ञार्थ उपकरायतात. देखीक :

**पयलो पुरूश** : हांव खेळूं? आमी पासयेक वचूं? (आज्ञा मागप).
हांव शाळेंत वचूं, काय घरा रावूं? (बुद्द घेवप).
आतां उलोवप पुरो, आमी जेवपाक या. (इत्सा दाखोवप.)

**दुसरो पुरूश** : फुडें वाच / सडसडीत कामाक लाग. (आज्ञा, हुकूम).
देवा, म्हाका सांबाळ. भुरग्यांक आरोग्य दी. (प्रार्थना).
तुमी आमचेखातीर इतलें करातच. (विनंती).
तूं आतां कश्ट कर. मागीर यश तुजेंच आसा. (उपदेश).

**तिसरो पुरूश** : तो फाल्यां वता म्हणटा जाल्यार वचूं. (मान्यताय दिवप).
ते दीसभर झगडटले जाल्यार झगडूं, आमकां कितें? (उदासीनताय).
देव बरें करूं / बरेंऽ जावं. (आशिर्वाद).
ताच्या तोंडाक उजो लागूं. (श्राप).

संकेतार्थ परगटावपी वाक्याच्या पयल्या भागांत आज्ञार्थाच्या दुसऱ्या पुरुशाचो अर्थ उपकरायल्लो दिसता. देखीक : तुमी मनापासून देवाची भक्ती करात, म्हळ्यार तुमकां शांती मेळटली.

आज्ञार्थांत भविश्यकाळांतली, म्हळ्यार फुडाराक करचेली करणी आस्पावता.

**आज्ञार्थी** । आज्ञार्थी । (सं. आज्ञार्थी) वि. (व्याक.) जें आज्ञेचो अर्थ परगटायता तें. देखीक : 'तूं हें काम कर' ह्या वाक्यांत 'कर' हें 'कर्' ह्या धातूचें आज्ञार्थी रूप आसा.

# आधारावळ

## वेद

अथर्ववेद, मराठी भाशांतर, महामहोपाध्याय विद्यानिधी सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव.

ऋग्वेद, मराठी भाशांतर, महामहोपाध्याय विद्यानिधी सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव.

## विश्वकोश

Encyclopedia Britannica, Vol. I

Grande Enciclopédia Portuguêsa e Brasiliera, Vol. 1.

Grande Enciclopédia Portuguêsa e Brasiliera, Vol. 19.

Man, Myth and Magic, the Illustrated Encyclopedia of Mythology, Religion and the Unknown. Editor in Chief : Richard Cavendish. New Edition edited and compiled by Yvonne Deutch, BA, University of Evester, NA, University of Kansas, Lawrence.

Purnell's New Encyclopedia, Vol. 1, 2nd Edition.

Verbo Enciclopedia Luso-Brasiliera de Cultura, Vol. 13, 14.

भारतीय संस्कृती कोश, संपा.: पं. महादेवशास्त्री जोशी.

मराठी विश्वकोश, संपा.: तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी.

महाराष्ट्र ज्ञानकोश, संपा.: डॉ. श्रीधर व्यंकटेश केतकर.

## शब्दकोश

A Dravidian Etymological Dictionary, by T. Burrow and M. B. Emeneau.

Bosquejo para os termos do Dicionário Administrativo, por Filipe Nery Xavier.

Dicionário Enciclopédico Luso-Brasileiro, Vol. I, II.

Dicionário Prático Illustrado, por Jaime de Seguier.

Dicionário Konkani-Portugues, por Monsenhor Sebastaio Rodolfo Dalgado.

Dicionário Portugues-Concani, por Monsenhor Sebastiao Rodolfo Dalgado.

Dicionário portugues-Concani, por Padre Italiano.

English-Konkani Dictionary and Konkani-English Dictionary, by Father Maffei.

Glosário Luso Asiático, por Sebastião Rodolfo Dalgado.

Hobson-Jobson, by Col. Henry Yule and A.C. Burnell.

The Pentehouse Sexindex, compiled by Lin Barber.

Sanskrit-English Dictionary, by Prin. V. S. Apte.

Vocabulário da Lingua Canarina Com Versam portuguesa, publicado por Junta de Investigacao do Ultramar, Lisboa.

अपभ्रंश - हिंदी कोश, संपादक डॉ. नरेश कुमार.

अभिनव मराठी-मराठी शब्दकोश, संपा.: द. ह. अग्निहोत्री.

उर्दू-मराठी शब्दकोश, संपादक श्रीपाद जोशी.

कन्नड-मराठी शब्दकोश, संपा.: पुंडलिकजी कातगडे.

गुजराती-मराठी शब्दकोश, संपा.: श्री. स. ज. धर्माधिकारी.

भाषाविज्ञानकोश, डॉ. भोलानाथ तिवारी.

भारतीय धर्मव्यवहार कोश, कोशकार : श्री. वा. शेवडे.

मराठी-पुर्तुगेज कोश, संपा.: सूर्याजी आनंदराव देशपांडे.

मराठी वाक्संप्रदाय कोश, संपा.: यशवंत रामकृष्ण दाते व चिंतामण गणेश कर्वे.

महाराष्ट्र शब्दकोश, संपा.: यशवंत रामकृष्ण दाते.

हिंदी शब्दसागर, मूल संपादक श्यामसुंदरदास बी.ए.

अमरकोश, संपादक डॉ. एन्. जी. सरदेसाई आणि डी. जी. पाध्ये.

## ग्रंथ आनी लेख

### इंग्लीश

A Harvest of Health, by H. K. Bakhru, Sunday Observer, June 26, 1988, page 13.

A India Portuguesa, vol. II, por Antonio Lopes Mendes.

A Manual of Wild Life Conservation, Ed. by Richard D. Tegue (Published by Wild Life Society).

Agni in the Brahmans of the Rigveda, by Dr. N. J. Shende (Annals of the Bhandarkar Oriental Research Institute, Vol. XLVI, 1965.)

Ancient Hair Styles of India, by Ila Pal Chouduri, published by Rupa & Co., Calcutta.

'And Health for All', Y. P. Gupta, Illustrated Weekly of India, December 12, 1990.

Arquivo Portugues Orientas, Fasciculo 6, Suplemento primeiro & segundo.

Aspects of Indian History and Archaeology, by H. D. Sankalia, Editors : S. P. Gupta, K. S. Ramachandran, हांतूंतलो 'Jat, its Historical & Cultural Significance' हो लेख.

Caste and Race in India, reprint by G. S. Ghurye.

Dravidians, by Sunitikumar Chatterji.

Dravidians and Aryans, Cultural Contacts, by K. A. Nillcanta Shastry.

Deshinamamala of Hemchandra, Edited by R. Pichel.

Educational Use of the Mothertongue, by D. P. Pattanayak.

Epic of Gilgamesh and its glossary, by N. K. Sandars.

Ethnic Groups in Conflicts, by Donald L. Horowith.

From India through Goa to the World, by Carmo Azavedo, Goa Today, June 1986.

Ginger and Turmeric (Health Series) by K. H. Krishnamurty.

Hindu Holy Days and Ceremonials, with dissertation on the origin of folklore and symbols, by B. A. Gupta.

História e Evolução dos C.T.T. do Estado da India, por Caetano Francisco de Piedade Duarte.

History of Mormogao Port, issued by Mormugao Port Trust.

History of Coinage of the territory of the East India company, in the Indian Peninsula and the catalogue of coins in the Madras museum, by Edgar Tuston.

History of the Dachinayatya Saraswats, by V. N. Kudav.

ICDS (भारतांतली समन्वित बालविकास सेवा योजना) ही युनिसेफान उजवाडाक हाडिल्ली पुस्तिका.)

Financas, author unknown.

Florilegio de Porverbios Concanis, por Monsenhor Sebastião Rudulfo Dalgado.

Folklore of Assam, by Joguesh Das.

Indian Antiquary (reprint), Vol. VIII.

India as known to Panini, by V. S. Agrawal.

Indigenous Drugs of India, by R. N. Chopra.

Indo-European Language and Society, by Emile Bemnisle, Translated by Elizabeth Palmer, published by Fabber and Fabber Ltd.

Information on Bhagwan Mahavir Wild Life Sanctuary (published by Deptt. of Information, Govt. of Goa, Daman & Diu.)

Man's Adventure with Machines, by Rene Guillot.

Materialism, by Manavendranath Roy.

Mohenjodaro and the Indus Civilization, by John Marshall.

Myth and Reality, by D. D. Kossambi.

Nafta in Maharashtra, by D. V. Chavan (Annals of the Bhandarkar Oriental Resarch Institute, Vol. LVII, 1976.)

Prakrit Grammar of Hemachandra, revised edition by P. L. Vaidya, 1958.

Report on the Marketing of Pineapples in Goa, Govt. of Goa, Daman and Diu, Office of Marketing Officer, Panaji.

Roteiro dos Arquivos do Estado da India (Publicação dos Arquiva do Estado da India), Introdução e Notas por Panduronga Pissurlencar.

Select writings by Sunitikumar Chatarji, volume one.

Studies in Indian Coins, by D. C. Sircar.

The Culture and Civilization of Ancient India in Historical Outline, by D. D. Kossambi.

The Wealth of India, vol. II. (Botanical Index). A Dictionary of Indian Raw Materials and Industrial Production, published by Council of Scientific and Industrial Research, New Delhi 1955.

Tombo das Rendas que sua Magestado tem nao Terras de Salcete e Bardes e nesta Ilha de Goa, por Pandurang Pissurlencar, Boletim do Instituto Vasco-da-Gama, no. 68, 1952.

The Essays throwing new light on the Gandharvas, the Apsaras, the Yakshas and the Kinnaras, by N. S. Tarvar.

The Vedic Etymology, by Fateh Singh.

Vaisnavism, Saivism, by R. G. Bhandarkar.

Vedic Mythological Tracts, by R. N. Dandekar.

Weapons of the Kurukshetra War, by Deepavati Debroy (Annals of the Bhandarkar Oriental Research Institute, Vol. LXV 1984.)

## कोंकणी, मराठी, हिंदी लेख आनी ग्रंथ

अङ्गिरस आणि अग्रि, (लेख) बरोवपी, डॉ. नरेन्द्रनाथ पार्टाल, विदर्भ संशोधन मंडळ, वार्षिक १९८३, संपादक, श्री. मा. कुलकर्णी.

अपभ्रंश पाठावली, संपादक: मधुसुदन चिमणलाल मोदी.

अथर्ववेद.

अराज्यवाद, लेखक तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी.

अस्वल, लेखिका दुर्गा भागवत.

अहीर व अहिराणी, लेखक : वि. जी. पांडे, मराठी संशोधन पत्रिका, वर्ष २५वे, अंक २रा, जानेवारी १९५९.

आर्यांच्या सणांचा इतिहास, लेखक ऋग्वेदी,

आस्तिक शिरोमणी चार्वाक, लेखक: डॉ. आ. ह. साळुंखे.

इतिहास, लेखक रवीन्द्रनाथ टागोर (मराठी भाशांतर) सरोजनी कमतनूरकर.

उमलत्या कळ्यांचे प्रश्न, लेखक : डॉ. विठ्ठल प्रभू.

कथासरित्सागर.

कद्रेकर-नाडकर्णी कुलवृत्तांत, लेखक आनंद नाडकर्णी.

काहीं मराठी लेख, बरोवपी: शणै गोंयबाब.

कुंडलिनी शक्ती आणि परमेश्वर साक्षात्कार, लेखक: वसंतराव मालपाठक.

कोंकणी ओपारींचें भांडार, संपादक फा. आंतोनियु पैरेरा, एस्. जे.

कोंकणी भाशेचें जैत, बरोवपी : शणै गोंयबाब.

कोंकणी भाशिकांच्या भोज्य-खाद्य-अन्न-पेयांची व्युत्पत्ती आणि प्राचीनत्व, लेखक: पां. पु. शिरोडकर (राष्ट्रमत, ता. ३ मे १९७६).

कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ, बरो : शणै गोंयबाब.

कौटिलीय अर्थशास्त्र. मराठी भाशांतर. कै. ब. रा. हिवरगावकर (पुनर्लेखन), ह. अ. भावे.

गाथा सप्तशती, संपादक स. आ. जोगळेकर.

गाथा सप्तशती ह्या पुस्तकाक बरयल्ली प्रस्तावना, लेखक : स. आ. जोगळेकर.

गोखले अंकगणित.

गोमन्तकाची प्रतिमा, हांतूंतलो 'गोमंतकाच्या वसाहतिची रूपरेषा' हो लेख. बरो : अनंत रामकृष्ण शेणवी धुमे.

गोमन्तकाच्या वसाहतीची रूपरेषा, लेखक अनंत रामकृष्ण शेणवी धुमे ('गोमंतकाची प्रतिमा' लेखसंग्रह - खंड पहिला).

गोमन्तक शुद्धीचा इतिहास, लेखक : शंकर धोंडो क्षीरसागर.

गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक, बरोवपी : शणै गोंयबाब.

चित्रलेखा, दिवाळी विशेशांक, १९९० हांतूंतलो 'रेल्वे इंजिनांचा वृद्धाश्रम' हो लेख.

जीण, जिणेच्यो देख्वी, बरो : भौमानेस्त बाय प्रॉपर्सियं कुर्रेय आफोंस द् फिगेरेदु हांणी शणै गोंयबाबांच्या 'आबे फारीय' ह्या म्हपुल्ल्या चरित्राक मूळ पुर्तुगेज भाशेंत बरैल्ले प्रस्तावनेचें कोंकणी भाशांतर.

डूब (लेखसंग्रह), लेखिका दुर्गा भागवत.

दादा वैद्य स्मृतिग्रंथ, १९५४. संपादक : वैद्य स्मृतिग्रंथ मंडळ.

दौत्रिन क्रिस्तां, बरोवपी पाद्री तोमस स्टिफन्स. देवनागरी लिप्यंतर, अनंत काकबा प्रियोळकर.

द्रवीड महाराष्ट्र, लेखक: विश्वनाथ खैरे.

धर्म आणि लोकसाहित्य, लेखिका दुर्गा भागवत.

धातूंच्या नवलकथा, लेखक : से. विनेत्स्की.

ध्वनिविचार, बरोवपी : डॉ. ना. गो. कालेलकर.

नवें गोंय, २रें वर्स, १लो आंक, जुलै १९३५. लेख: संवसाराचो संवसार, बरो.: शणै गोंयबाब. संपादपी : का. श्री. नायक.

नागेशींचो फातरपटो.
पाणिनी व पाणिनीय व्याकरण संप्रदाय, लेखक : प्रा. म. दा. साठे.
पुर्तुगेज-मराठे संबंध, बरोवपी : डॉ. पांडुरंग सखाराम पिसुर्लेकर.
प्राचीन भारतीय भौतिक विज्ञान, लेखक: श्री. भि. वेलणकर.
प्राचीन मध्ययुगीन धर्मकल्पना आणि मराठी संत, लेखक : स. रा. गाडगीळ.
भगवान बुद्ध, लेखक: धर्मानन्द कोसम्बी.
भगवंतालें गीत, कोंकणी भाशांतर : शणै गोंयबाब.
भारतीय आदिवासी, लेखक : गुरुनाथ नाडगोडे.
भारतीय ज्योतिषशास्त्र, २री आवृत्ती, लेखक : शं. बा. दीक्षित.
भारतीय दर्शन, बरोवपी: वाचस्पति गैरोला.
भारतीय विवाहसंस्थेचा इतिहास, लेखक: इतिहासाचार्य वि. का. राजवाडे.
भारतीय संस्कृतिकोश, संपादक : महादेवशास्त्री जोशी.
भुरग्यांलो इश्ट, बरो.: शणै गोंयबाब.
मराठी भाषेचें मूळ, लेखक: विश्वनाथ खैरे.
मराठी भाषेचे संप्रदाय व म्हणी, संपादक : वा. गो. आपटे.
महाभारत (आदिपर्व), मराठी भाशांतर : विष्णु वामन बापटशास्त्री.
महाभारत (संभवपर्व, शांतिपर्व), मराठी भाशांतर : न. र. फाटक.
महाराष्ट्रातील दिव्य वनौषधी, लेखक : सदाशिव यशवंत सावंत.
महाराष्ट्राचा देव्हारा, लेखक : रा. चिं. ढेरे.
महाराष्ट्र टाइम्स - शनिवार, १२ ऑगस्ट १९८९ / रविवार, ११ फेब्रुवारी १९९०.
यादवकालीन मराठी, लेखक : डॉ. शं. गो. तुळपुळे.
येवकार अध्यक्षालें उलोवप, बरो : शणै गोंयबाब.
राजयोग, बरोवपी : स्वामी विवेकानंद.
राजवाडे लेखसंग्रह, प्रकाशक : साहित्य अकादेमी.
ऋग्वेद, मराठी भाषांतर, महामहोपाध्याय विद्यानिधी सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव.
लज्जागौरी, लेखक : रामचंद्र चिंतामण ढेरे.
लोकसाहित्याची रूपरेखा, लेखिका : दुर्गा भागवत.
लोकायत, लेखक : डॉ. स. रा. गाडगीळ.

वलिपत्तनाचो सोद, बरोवपी : शणै गोंयबाब.

वाटा - माझ्या तुझ्या, लेखक : प्रा. नरहर कुरुंदकर.

विठ्ठल मूळचा विरगळच, लेखक : डॉ. शं. गो. तुळपुळे, मराठी संशोधन पत्रिका, वर्ष २५ वे, अंक १ला, १९७७.

विवागसूयं, संपादक : डॉ. प. ल. वैद्य.

वेदान्ताचें स्वरूप आणि प्रभाव, लेखक : स्वामी विवेकानंद.

वैदिक संस्कृतीचा इतिहास, लेखक : तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी.

वैदिक संस्कृतीचा विकास, लेखक : तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी.

वृत्तें आणि अलंकार, लेखक : डॉ. वि. म. कुलकर्णी.

शिकागो व्याख्याने, स्वामी विवेकानंद.

सत्य आणि अहिंसा (लेख), बरोवपी : महात्मा गांधी.

सारस्वत भूषण, संपादक : मठस्थ गणेश रामचंद्र वर्मा.

सिद्धार्थ जातक, खंड ३, मराठी भाशांतर : दुर्गा भागवत.

सिंधु संस्कृती व कल्याण, लेखक : विवेकानंद गोडबोले.

संस्कृति सुगंध (लेखसंग्रह) : लेख 'जेष्ठा आणि जेष्ठराज', बरोवपी : रामचंद्र चिंतामण ढेरे.

स्वामी विवेकानंद यांचे समग्र ग्रंथ, भाग १३.

हिंदी संस्कृती आणि अहिंसा, लेखक धर्मानन्द कोसम्बी.